


# फिनिक्साचें उत्थान आनी सर्जनाचे उत्फर्के

## कोंकणी भास आनी साहित्याचो परामर्श

दामोदर मावजो

दामोदर मावजो हे एक नामनेचे कथाकार, कादंबरीकार, निबंदकार, समिक्षक आनी पटकथा-संवाद लेखक. तांचे आयज मेरेन ५ कथांझेले, २ कादंबऱ्यो, १ नवलिका, ५ भुरग्यांचीं पुस्तकां हे भायर संपादीत आनी अणकारीत पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत. हालींच तांणी इंग्लिशींत बरयिल्लें 'इंक ऑफ डिस्सेण्ट' पुस्तकय प्रकाशीत जालां. राज्य आनी राष्ट्रीय पावंड्या वयले जायते पुरस्कार तांकां फावो जाल्यात. तांची 'कार्मेलीन' कादंबरी तेरा भासांनी अणकारीत जाल्या. ते भायर ३ कथांझेले आनी २ कादंबऱ्यो इंग्लीशींत अणकारून गेल्यात. 'तेरेझास मॅन..' हें पुस्तक २०१५ वर्सा आंतरराष्ट्रीय प्रतिश्ठेच्या फ्रँक ओ कॉनर इंटरनेशनल अवॉर्डा खातीर नामांकीत जाल्लें.

# फिनिक्साचें उत्थान आनी सर्जनाचे उत्फर्के

## कोंकणी भास आनी साहित्याचो परामर्श

दामोदर मावजो



**फिनिक्साचें उत्थान आनी सर्जनाचे उत्फर्के**

कोंकणी भास आनी साहित्याचो परामर्श

Phoenix-chemUt'than Ani SahityacheUtfarke

An Overview of Konkani Language and Literature

**दामोदर मावजो**

पयलें संस्करण: २०१९

प्रकाशक: अण्डर द पीपल ट्री



ISBN 978-93-87676-50-3

BISAC: LAN009000/Language Arts & Disciplines/Linguistics/
General

मोल: रु. ४९०/-

Price: Rs.490/-

ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाक गोंय सरकाराच्या राजभास संचालनालयाचो जनमतकौलाच्या भांगरा उत्सवी वर्सा निमतान जाहीर केल्ले येवजणेखाला अर्थीक पालव फावो जाला.

अंडर द पीपल ट्री,
'पब्लिशिंग नॅक्स्ट'ची उजवाडावणी.
प्लॉट नं १६, हाउसिंग बोर्ड कॉलनी,
घोगळ, मडगांव, गोंय ४०३ ७१३
भारत

www.underthepeepaltree.com



EDUARDO JOSE BRUNO DE SOUSA
(07-10-1836 --- 05-12-1905)

एदुआर्द जुजे ब्रून द सौझ



SHENOI GOEMBAB
(23-06-1877----09-04-1946)

शणै गोंयबाब

बुनयादी वावर करपी ह्या म्हालगडयांच्या उगडासाक नमन करून

नमन, अन्वेषा, श्रीनिशा, एडना, तन्वी, रमेश, हृषी आनी हेर समेस्त
निश्ठावान तरनाट्यांच्या हातांत कोंकणी साहित्याचो फुडार सुगूर उरतलो
हाची खातरी बाळ्गून

ह्या पुस्तकाचें वजें तांच्या माथ्यार दवरतां

# म्हजें गोंय

गोड म्हजें गोंय ! सुंदर म्हजें गोंय !
पुर्विल्ले नामनेचें, चड मोट्या भाग्याचें,
ऊंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय !
निजाचे अपुर्बायेचें, इंद्रनीळ मळबाचें,
भांगराच्या ओताचें, रुप्याच्या चांदन्याचें,
हें म्हजें गोंय !

पथीक उदका-वाऱ्याचें, चकयाळ पिकावळीचें,
सोबीत फुलां-फळांचें, शिटूक सावदां-सवण्यांचें,
हें म्हजें गोंय !

उजळ संस्कृतायेचें, खरेल्या कुळवंतांचें,
उदार मनाच्या लोकांचें, पाटांगड्या विद्वानांचें
बळिश्ट झुजप्यांचें, बुदवंत राजकर्ण्यांचें
वावराड्या कामवटांचें, कर्तुत्वी मनशांचें
हें म्हजें गोंय !

धर्तरिवैलो सर्ग, हें म्हजें गोंय !
सासणाचें सुख-दिर्णें, हें म्हजें गोंय !

शणै गोंयबाब

(भुरग्यांलो इश्ट, 1935)

# मांडावळ

- अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनांची वळेरी.
- साहित्य अकादेमीच्या विंगड विंगड पुरस्कार जैतिवंतांच्यो वळेर्यो.

# मनांतुलें...

मनोगत बरोवंचे पयलीं एके फ्रेंच कथेचो उगडास जाता तो वाचकां वांगडा शेअर करतां. आल्फोंस दॉदि हाणें एकोणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक बरयिल्ली ही कथा. १८७०-७१ वर्सा प्रशियेन फ्रान्साचेर घुरी घालून ज्या फ्रेंच वाठाराचेर कब्जो केल्लो थंय फ्रेंच शिकोवपाचेर बंदी घालून फकत जर्मन भास शिकोवपाचें फर्मान काडिल्लें. हे फाटभुंयेर दॉदिन 'निमणो पाठ' (द लास्ट लॅसन) ही कथा बरयली. ती थोडे भितर अशी फ्रान्झ हो गांवचे मुळावे शाळेंत शिकपी एक धाकटुलो भुरगो. हामेल हो ताका फ्रेंच शिकोवपी शिक्षक. एक दीस सकाळीं आपणांलो अभ्यास जालो ना म्हूण ख्यास्तीच्या हुसक्यान शाळेंत पाव जाल्यार शाळेंत सदचे परस वेगळेंच वातावरण. बोवाळ ना, गडबड ना. ते भायर केन्नाच न्हय ते गांवचे कांय वडिलूय बी हामेलाच्या वर्गांत फाटल्या बांकार बसल्यात. त्या दिसा भरिल्ल्या काळजान हामेल सगल्यांक सांगता- 'आयज प्रशियेन ह्या फ्रेंच वाठाराचेर घुरी घालून ही भूंय जिखल्या. आतां तांणी फर्मान काडलां. फाल्यांच्यान फ्रेंच शिकोवप बंद करून जर्मन भास शिकोवपाचो हुकूम दिला. हें परचक्र आसासर आमची परिगत बंदखणींत पडिल्लेवरी उरतली. पूण याद धरात, जों मेंरेन तुमचे जिबेर फ्रेंच भास उरतली तो मेंरेन बंदखणीची चावी तुमच्या हातांत उरतली. पूण जर तुमी आपली भास सोडून दिली वा वगडायली जाल्यार फाल्यां परचक्र गेलें जाल्यारूय तुमची आवतिकाय बंदखणीची चावी शेणिल्ल्यान भितर आडकल्या बंदीं वरी जातली. परकी शेकातळा गेल्ली भूंय आयज ना फाल्यां आमचें बळगें वाडटलें तेन्ना आमी ती परती जिखून घेवंक पावतले. पूण भास वगडायली जाल्यार मात आमी सासणाचे बंदे जावन उरतले.' वाचूंक बरोवंक येनाशिल्ल्या गांवच्या लोकांक आनी आवय भाशेचो अभ्यास करपाक आळसाय करपी फ्रांझाकूय हामेल सरालीं उतरां आयकून पस्तावणी जाता.... अशी ही काणी 'द लास्ट लॅसन'.

ही काणी वाचतकूच म्हज्या दोळ्यां मुखार उबी जाली ती पुर्तुगेजान गोंयचेर घाल्ली घुरी आनी उपरांत फर्मान काडून कोंकणीचेर घाल्ली कडक बंदी. कोंकणी

समाजाक तेन्ना कोण हामेल मेळिल्लो म्हाका खबर ना. पूण तशे आवतिकायेंतूय ख्यास्तींची पर्वा करिनासतनां फुडलीं तीनशीं वर्सां कोंकणी भास जिबेर घोळटी दवरपी समेस्त लोकांची जिद्द आनी पुरुशार्थ येवजून म्हजें हड्डें सार्थ अभिमानान भरून येता, इतलें खरें. तेन्ना ही भास जिबेर दवरली देखून आयज ती पुस्तकांनीं मिरयता ही गजाल आमी विसरूंक फावना. हे कथेन जाणोवन दिलां तेप्रमाण खंयचेय संस्कृतायेचो मुखेल घटक म्हळ्यार त्या प्रदेशाची भास. त्या त्या प्रदेशाची भास ही त्या त्या समाजाची अस्मितायेची कुरू. ही भाशीक अस्मिताय राखुन दवरपाचे येत्न संवसारभर सगल्या राष्ट्रां कडल्यान संखेनीं वर्सां पोटतिडकीन जायत आयला. कारण भाशेचें अस्तित्व त्या त्या प्रदेशाच्या अस्तित्वा कडेन बांदिल्लें आसता. देखून जर्मनीची भास जर्मन, फ्रान्साची फ्रेंच वा स्पेनाची स्पॅनिश आसप हें सभावीक आसा. पूण केन्ना केन्ना हीं गणितां बदलपाचे मनीसनिर्मीत येत्न जातात. जेन्ना परचक्र येवन सत्तांतरां जातात तेन्ना थळावे भाशेक चिड्डून-मारून बळिश्ठ जेत्याची भास त्या त्या समाजाचेर थापप जाता. गोंयचो इतिहास मुखार येतलोच. पूण हांगा दोन देखी दितां. ब्राझिल आनी न्यूझिलंड. पुर्तुगेजांनी वसणूक करचे पयलीं ब्राझिलांत खूब भासो उलयताले. मुखेलपणान 'तुपिनांबा' वा 'तुपी' ही भास चलताली. तेभायर आपुरिना, अशानिंका, कायापो अशो जायत्यो भासो थोड्या भोव फरकान उलयताले. पुर्तुगेजांनी तांचेर पुर्तुगेज भास थापली. सुर्वेक ती शिक्षणाची आनी वेव्हाराची जावन वर्सां संखेंनी आयज ती ब्राझिलाची राजभास आनी लोकभासूय जाल्या. थळाव्या भासांचें म्हत्व आतां लोकांक होलमलां. पूण खूब कळाव जाला. कांय आदल्यो भासो उलोवप्यांची संख्या पांच थंय धा हजार इतलीच उरल्या. पुर्तुगेजीन तांकां गिळून उडयल्यात. पूण त्या थळाव्या भासांची छाप पुर्तुगेजीचेर पडले बगर रावली ना. देखून ब्राझिलांत उलयतात ते भाशेक आयज 'ब्राझिलियन पुर्तुगेज' अशें म्हणटात. दुसरी गजाल न्यूझिलंडाची. युरोपियन लोकांनी थंय वचून कब्जो करचे पयलीं थंयचे आदिवासी लोक आशिल्ले मावरी. तांची भासूय मावरी. ऑस्ट्रेलियावरीच न्यूझिलंडांतूय इंग्लीश लोकांनी सुसंस्कृतिकरणाच्या नांवा खाला थळावी संस्कृताय मारून उडोवपाचो येत्न केलो. हालीं शिक्षणा वांगडाच स्वतंत्र विचार आपणायिल्ल्या मावरी लोकांनी जेन्ना हक्कां खातीर आगरो धरलो तेन्ना राजकर्त्या इंग्लीश लोकांक तांच्यो मागण्यो मान्य करच्यो पडल्यो. मावरी भास ही आतां शिक्षणाची भास जाल्या आनी कायद्यान ती न्यूझिलंडाची पयली राजभास आनी इंग्लीश ही दुसरी राजभास केल्या. आयज

थंयचे सगले तखटे वा आस्थापनांचे फलक आनी रस्त्यां वयल्यो पाटयो पयलीं मावरी आनी ताचे सकयल इंग्लीश अश्यो आसात. पूण अशें आसलें तरी मावरींक मेळिल्ली ही थाकाय म्हळ्यार तांच्या तळटार भोबो दवरून तोंड बंद करपाची तरा अशें दिसता. ताका मुखेल कारण थंयची स्थलांतरीत लोकसंख्या. व्हडा प्रमाणार थंय रावतिका करून आशिल्ले इंग्लीश, ऑस्ट्रेलियन, भारतीय आनी हेर राष्ट्रकुलांतले देशांतरीत लोक. ताका लागून इंग्लीशीचें प्रस्थ जितलें वाडटा तितलें मावरी भाशेचें म्हत्व उणे जायत वता. ही थंयची आवतिकाय आमच्या, भोव करून गोंयकारांच्या, दोळ्यांत अंजन घालपाक पुरो. देशांतरां आनी भाशांतरांचो परस्पर संबंद आसा. तो कोंकणी समाजा परस बरो हेर लोकांक समजुचो ना. जेन्ना जेन्ना संवसारांत स्थलांतरां (एक्झोडस) जातात तेन्ना तेन्ना तो भाशीक समाज स्थलांतरीत वाठारांतली भास आपणांयली तरी आपणांली आवयभास सोडिना. जसो मल्याळी लोक इंग्लंड-अमेरिकेक पावलो तरी थंयची भास आपणावनूय आवयभाशेक फाट करिना. चिनी लोक अमेरिकेंत रावन वेवसाय-घंदो करूनूय चिनी भाशेक जिबे वयली सोडिना. तसोच कोंकणी समाजूय संकश्टाच्या काळार कर्नाटक-कोची-मुंबयत फापसलो तरी ताणें कोंकणी भास जिबेर सांबाळून दवरली. पूण ही परिगत सदांकाळ तिगतली काय? इंग्लीशीचें अतिक्रमण ही हुसक्याची गजाल जावन पडल्या. कोंकणीकच न्हय, हेर उदरगत केल्ल्या भासांकूय तो हुसको दिसता. अशा वेळार थोडेंशें फाटल्यान पळोवन आमच्या इतिहासीक दायजाचो, भाशे पासत वडिलांनीं केल्ल्या त्यागाचो आनी साहित्याचे उदरगतीचो माग आनी थाव घेवप गरजेचें अशें म्हाका दिसलें. आनी ते नदरेन सोद घेवपाक सुरवात केली. कोंकणी साहित्याचो समग्र इतिहास एकेकडेन बरयिल्लो म्हाका मेळ्ळो ना. डॉ. मनोहरराय सरदेसायांनीं 'अ हिस्ट्री ऑफ कोंकणी लिटरेच्यर' हें इंग्लीशींत बरयिल्लें पुस्तक आसा. डॉ. ओलिव्हीन्यु गोमिश हांणीं कोंकणी भाशेचो इतिहास इंग्लिशींत बरोवन दवरला. पूण समग्र साहित्याचो परामर्स घेवपी कोंकणींत उजवाडाक आयिल्लें एकूय पुस्तक म्हाका वाचूंक मेळ्ळें ना. हेरां कडल्यान अपेक्षा बाळगुचे परस हांवेंच हो वावर हातांत कित्याक घेवचो न्हय, असो विचार तकलेंत आयलो. ते पयलीं, केंद्र सरकाराच्या मानवी संसादन खात्याची म्हाका फेलोशीप मेळिल्ली. तेन्ना कोंकणी साहित्याचो जितलो अभ्यास आनी वाचन आशिल्लें तितल्या म्हालवजार हांवें एक नियाळ बरयिल्लो. आतां वाचून काडलो तेन्ना तो वावर उकलापो आनी अपुर्ण दिसलो. पूण तें मुळावण अशें धरून हांवें विशयाचे खरीक हात घालपाचें थारायलें.

गरजेक जाय तीं पुस्तकां फैदासलीं. आनी संस्थांक भेटी दिल्यो. मंगळूरची दोनदां भोंवडी केली. म्हायती घेतली. टिप्पणा काडलीं. तितले मजगतीं राजभास संचालनालयाचे तेन्नाचे निर्देशक डॉ. प्रकाश वझरीकार हांगेलो फोन आयलो. भास आनी साहित्याचो खोलायेन अभ्यास करपाचो म्हजो विचार घडये हांवें केन्नां तरी उलोवन दाखयिल्लो. जर हो प्रकल्प बेगोबेग हातांत घेवन तडीक पावयता जाल्यार ओपिनिअन पोलाच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्सा निमतान ताका अर्थीक पालव मेळूं येता म्हणपाचें सुचयलें. म्हजो एक सभाव आसा- ताका गूण म्हणूं येता वा दोश- कथाकादंबरी सोडून हेर कितेंय बरोवपाक घेतल्यार तें लांबणेर पडत वता. पूण 'डॅड लायन' चो निर्बंध घालो जाल्यार तितल्या काळार बरोवन जाता. हांवें मनांत म्हळें- दिवंचो प्रस्ताव. त्या निमतान म्हाका ताकतीक लागतली. अर्ज धाडलो आनी रोखडोच तो मंजुरूय जालो. बेगीन सोंपयतलोंच हे जिद्दीन बसकण मारली. वाचप, टिप्पणां काडप, खातरजमा करून घेवप... कोंकणींत जें जें पुस्तक उजवाडाक येता तें तें म्हजेकडेन आसा ह्या भ्रमांत हांव आशिल्लों. पूण नोटिंग्स करतनां होलमलें. मागीर अदीक पुस्तकां फैदासली. वाचून काडलीं. स म्हयन्यां भितर कच्चो मसुदो तयार जालो. तेन्ना दिसलें- फुडलें सगलें सोपें- फकत आराखड्या प्रमाण बरयत वचपाचें. एक खरें, मनार घेतल्यार हांव थारनासतनां वरांचीं वरां बरोवंक शकतां. कथा हांव एके बसकेंत सोंपयतां. कादंबरे खातीर लेगीत म्हयनो लागना. आतांय सुरवात बरी जाली. सगलें तकलेंत आसा अशें दिसतालें. पूण घडये घडयेक वाचिल्लेंच पर्थून वाचून खातरी करून घेवची पडटाली. उतरान उतर जोखून मापून पळयतालों. अशे तरेन बरयतां बरयतां म्हयने कशे सरले कळ्ळेंच ना. हे प्रक्रियेंत कांय गजाली म्हज्यो म्हाकाच होलमल्यो. कोंकणीच्या मोगान साहित्याच्या मळा वयलें एक रितेंपण भरून काडपाच्या हावेसान हो वावर जरी हांवें ओडून आंगार घेतलो तरी मुळात म्हजो पिण्ड संशोधकाचो न्हय. कोंकणी भाशेच्या आनी साहित्याच्या अभ्यासकांक हें पुस्तक उपकरा पडचें हो हेतू आसलो तरी म्हज्यो मर्यादा ह्यो ह्या अभ्यासाच्यो मर्यादा जावंक पावल्यो. तशें खंयचेंच संशोधन .परिपुर्ण जावंक पावना. फिशाल तज्ञांलीं लेगीत खंयतरी उणीं उरतात. पूण म्हजी प्रकृती ही संशोधकाची नाशिल्ल्यान उणीं उरपाचें प्रमाण चड आसूं येता. पयली गजाल म्हळ्यार बरयतनां बरयत गेल्ल्यान जीं पुस्तकां आनी म्हायती संदर्भा खातीर घेतली त्या पुस्तकां/नेमाळ्यांची थोडी भोव याद दवरली तरी कोणें- खंय- कितें- खंयचें प्रकरण- खंयचें पान हे संदर्भ वाचतनां-बरयतना टिपून घेवप जालें ना.

पुस्तक बरोवन जाल्या उपरांत हातबरप डॉ. कृपाली नायक हिका वाचपाक दिल्ले कडेन तिणें तें म्हज्या लक्षांत हाडून दिलें. मागीर म्हजी धांवपळ. पर्थून सगलीं पुस्तकां उस्तून थोडे संदर्भ सोदून काडले तरी सगलें थाऱ्यार घालपा इतलें पासियेंस म्हजे कडेन उरलें ना.साहित्याचो नियाळ घेतनां कांय लेखकांचेर आनी बरपावळींचेर अन्याय जाला आसूं येता. म्हाकाच जाणवलां ते भाशेन तो चड-उणो जाला. कांय कृतींचे आनी लेखकांचे नामनिर्देश तांकां फावतात आसुनूय बरयतनां निसटून गेल्यात. कांय कडेन म्हजेर पुनरावृत्तीचोय आरोप जावं येता. कोंकणी साहित्याचो वाडो पुराय भोंवन सोद घेतना, दरेक माळी आनी तळघराचोय थाव घेतना, वाड्यांत वावुरप्यांची नाडी तपासतनां, कांय आल्मारी उस्तितनां आनी कांय वस्ती आरत्यो परत्यो करून नियाळटनां थोड्यो गजाली नदरेंतसून सुटल्यात. कांय खण-गवेतां उकतीं जालीं नात. थोड्या कुडींची दारां धांपिल्लींच उरलीं. पूण जनेलां उगडून नियाळ घेवप जाला. अशें आसलें तरी जें जें नदरेंत आसपावलां, जें जें भावलां-मानवलां आनी जें म्हाका समा दिसलें ना तें प्रामाणीकपणान मांडलां. अशें करतनां थोडीं आत्मगत (सब्जक्टीव) मतां व्यक्त जाल्यांत. इतिहास बरयतनां निवेदकान तटस्थ रावंक जाय, आत्मनिश्ठ आसूंक फावना हें हांव जाणां, पूण साहित्याप्रती म्हाका आशिल्ली बांदिलकी म्हजे आत्मगत विचार अभिव्यक्त करपा पासून म्हाका परावृत करूंक पावली ना. देखून, जशें आयलें तशें बरयत गेल्ल्यान पदरांत पडिल्ले दोश हांव नमळिकायेन स्विकारतां. म्हज्या वावरा विशीं कळटकच म्हजो मंगळूरचो कवी-मित्र मेल्वीन रोद्रिगीश हांणी म्हाका म्हळें- 'जाता जाल्यार कोंकणी साहित्याचे भुगोलाप्रमाण वांटे घालचे न्हय. कारण खंयचेय बोलयेंत वा लिपयेंत बरयलें तरी साहित्य हें एकच न्हय?'. तांगेलें सांगणें म्हाका पुरायेन मानवलें. पूण प्रत्यक्षांत तशातशें वितरप जालें ना. केरळी, कर्नाटकी, मुंबयचें, तशें गोंयच्या नागरी आनी रोमी धरून सगल्या लिपयांतल्या साहित्याचेर समान पावंड्याचेर भासाभास करप म्हाका कठीण दिसलें. कारण जण एकल्याले आपले अशे खण आसात. तरिकूय येत्नपुर्वेक हांवें भोवचर्चीत साहित्याक मुखेल धारेंत (मेनस्ट्रीम) आसपावन घेतलां. तरिकूय वाठारा प्रमाण साहित्याचे वांटे घालतनां हांव वेगळेचाराची भास करतां अशी गुन्यांवकारी भावना मनांत उप्रासली. हाचे फुडें असलो वावर शिक्षणीक पावंड्यार शास्त्रीय नदरेन अकॅडमीक एक्झर्सायझ म्हूण कोणेय हातांत घेतलो जाल्यार वट्ट साहित्याचो 'एक साहित्य' म्हूण परामर्श घेवचो अशें म्हाका दिसता. हांवें हातांत घेतिल्ल्या ह्या वावराचो आटाप पळयतां तेन्ना म्हाका दिसता अशे तरेचो

वावर दोन चार वर्सां भितर तडीक व्हरप एका मनशाचे तांकी भायलें जावन आसा. एक तर पांच ते स वर्सांचो कालावधी जाय वा तीग जाणांनी मेळून संघीक वा सामायीक वावर म्हूण आंगार घेवंक जाय. अभ्यासकांनीं हाची नोंद घेवची. राजभास संचालनालयाची निर्देशक श्रीमती स्नेहा मोरजकार हांणी व्हड मनान म्हाका मुजतवाड दिल्ल्यानच हांव हो प्रस्ताव मंजूर जाल्या उपरांत पंदरा म्हयन्यांनीं तडीक व्हरूंक पावलों. कोंकणी साहित्याच्या इतिहासाचेर नदर भोंवडायतनां काळखंड खंयचो घेवचो हाचो विचार हांवें केलो तेन्ना जाता तितले मेरेनचो काळ आसपावन घेवचो अशें दिसलें. संत नामदेवान रचिल्लें पयलें गौळणगीत चवदाव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांतलें. तें धरून २०१८ वर्साच्या मध्या मेरेन कोंकणी साहित्य जी वाट चमकलें ताची शक्य तितली फाटपुरवण करपाचो येत्न ह्या पुस्तकांत जाला. सुकण्या नदरेन केल्ल्या ह्या नियाळांत म्हजे नदरेक जें आसपावलां तें घेतलां. खंयूय थोडी आडनदर जावपाची शक्यताय आसा. मुळांत म्हजो पिण्ड लळीत लेखकाचो जाल्ल्यान इतिहास संशोधकां कडल्यान जीं निरिक्षणां अपेक्षीत आसतात तशीं म्हगेल्या लेखनांत मेळचीं नात. मेळटले ते भास आनी साहित्या विशीं मांडिल्ले विचार म्हजे लालित्यपुर्ण भाशेंत- जी असल्या गंभीर विशयाक सोबना.

हो वावर हांवें हातांत घेतलो तेन्नाच नवी कादंबरी बरोवंक घेतिल्ली. तिचो वावर तीन वांटे सोंपून एक वांटो उरिल्लो. अशा वेळार अचकीत सनातनी प्रवृत्तीच्या आकांतवादींच्या हीट-लिस्टाचेर म्हजे नांव आसा म्हणपाचें केंद्रीय इंटलिजन्सान राज्य सरकाराक कळयलें आनी मागीर म्हाका पोलीसी सुरक्षा दिली. हे घडणुकेन हांव धास्तावलों ना. पूण बरें मागपी, समर्थक, पत्रकार हांणी ताचो व्हड इश्यू केलो. ते गडबडींत लेखनांत खंड पडलो. कादंबरी खातीर लिखणी पर्थून हातांत घेवचे पयलींच हो प्रकल्प रखडटा म्हणपाचें लक्षांत आयलें. मागीर ह्या वावराक अग्रक्रम दिवन कादंबरीक फाटीं दवरली. आतां ती पुर्ण जातली आनी केन्ना जातली कांय कळना. इतले मजगतीं म्हजीं तटवल्लीं पांच पुस्तकां पंच्यात्तरीच्या निमतान १ आगश्टाक उजवाडावचीं अशी इत्सा आसली. कथांचीं दोन, एक कादंबरी, एक व्यक्तीचित्रांचें आनी एक लळीत निबंदांचें. पूण ह्या प्रकल्पांत इतलो घुसपून उरलों की छापपा खातीर साहित्य एकठांय करपाक लेगीत फुरसत मेळ्ळी ना. आतां तीं केन्ना उजवाड पळयतलीं सांगू येना. इतिहासा परस नियाळ म्हणपा सारक्या

ह्या पुस्तकाक नांव कितें दवरचें हो प्रस्न हांवें म्हजे परीन सोडयलो. १६८४ वर्सा पुर्तुगेजान काडिल्लें कोंकणीच्या मरणाचें फर्मान येवजिल्यार आयज कोंकणी भाशेची परिगत ही फिनिक्साच्या पुनरुत्थानावरी दिसता. आनी आयजचे घटकेक मळबाचो वेध घेवपाक फुरफुरपी साहित्याचे उत्फर्के कोंकणी मानसाक भोव आस्त करतात. हें येवजून दिल्लें या पुस्तकाचें शिर्षक वाचकांकूय समर्पक दिसतलें अशी आस्त बाळगितां. हो वावर तडीक व्हरतनां म्हाका खूब जाणांचो पालव मेळ्ळो. कोचींतले म्हजे भेटेंत म्हजे लेखक मित्र पय्यनूर रमेश पै हांणी घरचेंच काम समजून म्हाका खूब म्हायती दिली, खूब भोंवडायलो आनी थंयच्या संस्थांक आनी लेखकांच्यो भेटी घडोवन हाडपाक आदार केलो. तांचे निशेक, लागणुकेक आनी विद्वत्तेक म्हजो सादर प्रणाम. शरतचंद्र शेणै, आर. एस.भास्कर, आनी आतां सोंपिल्ली एल. सुनिताबाय हांणे खूब म्हायती आनी सहकार दिलो. कर्नाटकांतले भेटेर तितल्याच आपलेपणान म्हायती आनी पालव दिलो ते मेल्वीन रोद्रिगीश, एडवीन जे.एफ. डिसौझा आनी बस्ती वामन शणै हांणी. विश्व कोंकणी केंद्राक दिल्ली भेटय म्हाका भोव लाबदिणी थारली. मेल्विनांक तर हांव गृहीत धरून चललों. कालपयर मेरेन खंयच्याय वेळार फोन करप आनी म्हायती घेवप. तांचो सगल्यांचो हांव भोव दिनवाशी. इतलेंय करून थंयच्या साहित्यीक वावराक म्हजे कडसून पुर्ण न्याय मेळूंक ना असो तांणी शीण काडल्यार म्हाका वायट दिसचें ना. जेन्ना हांवें हातबरप गोंय विद्यापिठाची प्राध्यापक डॉ. कृपाली नायक हिका वाचपाक दिलें तेन्ना ती खांकुडली. ती म्हाका ज्येश्ठ समजता. 'हाचीं उणीं दाखोवप म्हळ्यार पातक' अशें तिका दिसलें जावंये. पूण मागीर म्हजेकडल्यान 'अभय' मेळटकच ती उकती जाली. माधवी सरदेसायाच्या हाता सकयल तयार जाल्ले कृपालीन म्हाका संशोधनाच्या वावरांत संदर्भ सुची म्हत्वाची हें पटोवन दिलें. खंयच्याय विधानाक पुश्टी आनी पुस्ती जाय म्हणपाचें सांगलें. म्हाका सदांच दिसतालें म्हगेलें शुद्धलेखन नेमाप्रमाण 'शुद्ध' आसा. पूण काळांतरान जाल्ले नेमबदल म्हाका खबर नाशिल्ल्यान हांव आदल्या नेमांक धरून बरयतालों. कृपालीबायन आपलेपणान आनी बारीकसाणेन शुद्धलेखनाच्यो सुचोवण्यो दिल्यो. देव तांचें बरें करूं. भास आनी साहित्य हाचेर उदय भेंब्रे इतलो अधिकारवाणीन उलोवपी दुसरो कोण नासुंये. इश्टागतीचो आनी संवकळीचो फायदो घेवन हांवें उदयबाबांक प्रत्यक्ष मेळून वा फोन करून खूब म्हायती मेळयली. पन्नासेक तरी फोन जाले आसतले. उदयबाबान केन्नाच निर्शेणी केली ना. कपलाक मात्त मिरी लायनासतना जापो दिल्यो. जापो

सोदच्यो पडल्यो जाल्यार पुस्तकां उस्तून जाय जाय ती म्हायती सोदून म्हाका पावयली. तशेच म्हजे इश्ट माधव बोरकार. कविते संबंदान कितेंय विचार तांचेकडेन जाप मेळटालीच. आनिकूय म्हजे इश्ट आसात जांणी तत्परतायेन जाय ती म्हायती दिली. ह्या सगल्यांचे उपकार मानिनासतना हाव तांच्या रिणांत रावंक सोदतां. हांव बरयतां हातान. कम्प्युटराचेर झरझरीत बरोवप जायना. विचारांची व्हांवती आनी टायपिंगाची गती हांचो मेळ बसना. हांवें हातान बरोवप आनी शैलान तें कम्प्युटराचेर फीड करप अशें फाटले पंदरा म्हयने चललें. देखून हो प्रकल्प जितलो म्हजो तितलोच शैलालो म्हणूंक जाय. तिचो तेंको मेळिल्ल्यानच हो तडीक पावलो. छापपाचो प्रस्ताव मुखार दवरचे पयलींच 'पावलें म्हजेर' म्हणून म्हाका तणावमुक्त दवरपी 'अण्डर द पीपल ट्री' प्रकाशन संस्थेचीं क्विनी आनी लिओनार्ड फेर्नांडीस आनी दर सप्तकांत हांवें केल्ले नवे बदल मूळ बरपांत बसोवन दिवपी मॉजेस हांचोय हांव दिनवासी. राजभास संचलनालयाची निर्देशक श्रीमती स्नेहा मोरजकार आनी आदले निर्देशक डॉ. प्रकाश वझरीकार हांणी दिल्ल्या प्रोत्साहनाक लागून तांच्या रिणांत हांव आसां. हें पुस्तक बरोवन तयार जातकूच एखादया जाणकारा कडल्यान प्रतिक्रिया घेवन फावो ते बदल करपाचो म्हजो विचार आसलो. पूण छापणावळ अदीक तिश्ठतली म्हणपाची भिरांत आसली आनी म्हाकाय निवळावणी घेवन बसपा इतलें पासियेंस नासलें. देखून तें उरलें. आतां वाट पळोवप ती वाचकाचे प्रतिक्रियेची.

समेस्तांक देव बरें करूं.

# भाशेचो इतिहास

खंयच्याय साहित्याच्या इतिहासाचो संबंद ते ते भाशे कडेन जोडिल्लो आसता. आनी दरेक भाशेचो संबंद त्या त्या भाशीक वाठारा कडेन. 'आवयभास' वा 'मातृभाशा' ही संकल्पना खूब जाण वेगवे गळे तरेन केळ्यतात. चडशे जाण 'आवय उलयता ती आवयभास' अशी सुडसुडीत जाप दितात. पूण खंयचेय भाशेचें मुळ तपासल्यार लक्षांत येतलें, भासा त्या त्या प्रदेशाची आसता. देखीक फ्रान्सची भास 'फ्रेंच' वा इंग्लंडाची 'इंग्लीश' वा काश्मीराची भास 'काश्मिरी' अशे तरेन. हाचे वयल्यान असोय निश्कर्श काडूं येता, आनी तो चिकित्सक मनाक पुटवता, 'मातृभाशा' ही मातभुमीची भाशा. आवयभुंयेची भास देखून तिका 'आवयभास' म्हणप हें चड समा दिसता.

कांय वेळार एखादस्या प्रदेशाच्या राजकर्त्यांची भास त्या प्रदेशाचेर थापिल्ल्यान ती भास थंय ती राजवट आसासर तिगून उरता. देखीक फिलिपीन जुंवावळीचेर (फिलिपीन्स देशाचेर) परकी इस्पान्योल (स्पॅनीश) भास जायते शेंकडे वावरून्य तगली ना, आनी वेल्साचेर ८०० वर्सां इंग्रजी शेक चलुनूय थंयची आवयभास नाशी जाली ना. (पान ५, समग्र शणै गोंयबाब, खंड १) गोंयांतय पुर्तुगेज भास लोकांचेर थापपाचो यत्न जालो. पूण गोंयकारांची आवयभास बदल्ली ना. कारण ती ते भुंयेची भास आसली आनी आसा. कोंकणी भुंयेचो हो वाठार म्हळ्यार 'कोंकण'. आयचे घटकेक 'कोंकणी' ही गोंय राज्याची राजभास आसली तरी ही भास वट्ट कोंकण वाठारांत रावपी लोकांची भास.

ह्या 'कोंकण' प्रदेशाचो उल्लेख महाभारतांत मेळाटा. कोंकण प्रदेशाक 'अपरान्त' अशेंय म्हणटाले. शणै गोंयबाब म्हणटात, (गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक -वज्रलिखणी पान २९) क्रिस्तांव सनाच्या पयला दुस्या शेंकड्यांत ह्या आंवाठाक 'सुवर्णपरान्तक' वा 'सुनापरान्तक' म्हणचे 'भांगराचे अपरान्तक' हें नांव आसलेंशें दिसता. फुडे (पान ३१) शणै गोंयबाब म्हणटात - 'सतराव्या शेंकड्याच्या सुमाराक

उत्तर आनी दक्षिण कोंकण हांचे भितरले भितर वांटे जावन, ते भायर दक्षिणेक तांणी आपले पांय कुमारीच्या तोंका मेरेन पातळायले, तेन्ना दोन कोंकणाचीं सात कोंकणां जावन, 'सप्त कोंकण' हें उतर घोळणुकेंत आयलें. त्या वेळार गोमन्तकाक 'महासप्तम' म्हणचे साता कोंकणांतलें मोटें कोंकण हें नांव मेळ्ळें.' शणै गोंयबाब म्हणटात- '१५५५ वर्सा आब्रिलाचे ३० वेर, तीसवाडच्या धाकटे गोंयच्या किल्ल्यांत, व्हिसरै पेद्र मस्कारेन्हश आनी विजापुरचो आदिशाही राजपूत अब्दुल्ला हांचे भितर जें लिखीत जालें, तातूंत पंदराव्या शेंकड्याचे अखेरेक, मुसलमानांच्या शेकातळा गोंयचो विस्तार केदो आसलो म्हणपाचो मजकूर आयला. तातूंत म्हळां कि ते मुस्तींत, दक्षिणेक चित्याकुल्याचें म्हणचे आतांचे सदाशीवगडा लागशिल्ले काळी न्हंये साकून उत्तरेक आचरेंचे न्हंये मेरेने आनी पुर्वेक घांटा साकून पश्चिमेक समुद्रा मेरेन सगलें कोंकण गोंयच्या धनीपणा तळा आसलें. ते भायर दाभोळ आनी ताच्या आवाठांतलो मुलूख होय हे शिंवे मेरेन आसपावतालो. हाचे वयल्यान दापोली, खेड, चिपळूण, संगमेश्वर, रत्नागिरी, राजापूर, देवगड, मालवण, वेंगुर्ले हे णवूय तालुकें, कुडाळ धरून सावंतवाडी संस्थान, तुर्ताचो पुर्तुगेज मुलूख आनी ताचे दक्षिणे कडची आतांच्या उत्तर कर्नाटकाची, समुद्राचे तडी वयली थोडीशी शीर येदो मुलूख गोंयांत आसपावतालो म्हणपाचें सिद्ध जाता'. (पान वज्रलिखणी २६)

कोशकार श्रीपाद रघुनाथ देसाय सांगतात, "कोंकण हें उतर म्हाका चतुर्भुज स्वयंभू च्या 'पऊमचरियु' ह्या अपभ्रंश रामायणांत मेळ्ळें" (कोंकणी शब्दकोश, चवथो भाग, पान १२८५) महाभारताच्या भीष्मपर्वांत (अध्याय ९) अपरान्त आनी गोमन्तक ह्या प्रदेशा विशीं बरयिल्लें मेळटा. पुराय कोंकण प्रदेशाक आदीं 'सप्तकोंकण' म्हणटाले. भुगोलीक नदरेन कोंकणाचे सात वांटे जाल्लें तरी उपरांत उत्तर कोंकण आनी दक्षीण कोंकण अशीं दोनच नांवां उरलीं. दक्षीण कोंकणांतलो गोमन्त वाठार म्हळ्यार 'गोंय'. आदल्या काळार उत्तरेक दमणगंगा सावन दक्षीणेक गंगावली न्हंये मेरेनच्या वाठाराक 'गोमन्त प्रदेश' अशें म्हणटाले. काळांतरान राजकी स्थित्यंतराक लागून 'गोमन्तक' म्हळ्यार आयज जें गोंय राज्य आसा तो वाठार अशें सिमीत जालें.

ख्रिस्तपूर्व तिसऱ्या शतमनांत भारतभर मौर्यांचे राज्य आसलें. सम्राट अशोकाचे राजवटींत बौध धर्माच्या प्रसाराखातीर गोंयां आयिल्ल्या अनेक भिक्षुंनी जायत्या वाठारानी विहार बांदिल्ले आजुनूय दिश्टी पडटात. तांकां होंवरी अशें म्हणटात. त्या काळावयली बुद्धाची मूर्त चांदरा (आदलें चंद्रपूर) उत्खननांत मेळिल्ली. ती सध्याक

मुंबयच्या “सेंट झेविअर म्हाविद्यालयाच्या हेरास इन्स्टिट्यूटांत” दवरिल्ली आसा. सांगें तालुक्यांत रिवण म्हूण गांव आसा थंय मठा लागसार कांय होंक्यो आसात. थंयचे बांयत खंय बुद्धकालीन म्होरो मेळटाल्यो. तांकां लोक पांडवांच्या नांवान वळखताले. मडगांव शारांत आयज जाका पांडवां कपेल अशें म्हणटात (आता सेंट सेबाश्तियांव चर्च) तें खरें पुण्णा-कपेल. पुण्ण (पुर्ण) हो बुद्धाचो अनुयायी. मूळ गोंयकार. बुद्धानच ताका धर्मप्रसाराखातीर गोंयां धाडिल्लो अशें म्हणटात. ताणें बांदिल्ल्यो होंवरी आकेंच्या हे इगर्जे कुशीक हालींमेरेन आशिल्ल्यो. पूण दुर्दैवान त्या होंवरींचे इतिहासीक मोल वळखुपाक आमचे फुडारी उणे पडले. आयज त्यो होंवरी वचून थंय इमारती उब्यो जाल्यात.

गोंयचो क्रिस्तांव लोक गोंयच्या हिंदू लोकांक ‘कोंकणे’ म्हणटात. जाग जुलै २०११ च्या ‘नदर संपादप्याची’ ह्या सदरांत माधवी सरदेसाय म्हणटात- ‘सोळाव्या शेंकड्यांत गोंयांत आयिल्ल्या मिशनरींक तेन्नाच्या गोंयकारांनीं आपणाली वळख ‘कोंकणे’ म्हणून करून दिल्ली जावंये.’ ‘कोंकणो’ हें उतर थळावो अशा अर्थाचें आसूंये. उपरांतच्या काळांत जो क्रिस्तांव जालो ना तो कोंकणो उरलो जावंये. देखुनच आयजूय गोंयचे क्रिस्तांव लोक ‘कोंकणे’ हें उतर ‘हिंदू’ ह्या उतराक समानार्थी अशें वापरतात. कर्नाटकांत मात कोंकणी मनशाक ‘कोंकणो’ म्हणपाची चाल आसा. पूण एक गैरसमज थंयूय आसा. कर्नाटकांतलो कोंकणी उलोवपी बामण लोक वट्ट कर्नाटकी समाजांत वजनदार आनी अर्थीक नदरेन गिरेस्त आशिल्ल्यान सरसमान जन तांकांच कोंकणी म्हणून पाचारूंक लागले. परिणाम असो जालो, बामणेतर कोंकणी मनीस स्वताक कोंकणी म्हणटना खांकुडपाक लागलो. हालीं मात तशें घडचें न्हय म्हूण जाणीवपुर्वेक यत्न जातना दिश्टी पडटात.

### भाशेचें मूळ

कोंकणी साहित्याच्या इतिहासाक हात घालचे पयलीं भाशेचो इतिहास जाणून घेवप भोव गरजेचें. भाशेची प्रकृती हें साहित्याचें मुळावण. कोंकणीच्या मुळा विशीं आजवेर अनेक विद्वानांनी विंगड विंगड मतां उक्तायिल्लीं आसात. कोंकणी ही भारतीय आर्य कुळांतली (इण्डो आर्यन) भास. शणै गोंयबाब म्हणटात, ‘कोंकणीचें कुळार वेदीक संस्कृत भाशेंत आसा.” नागेश सोंदे हांच्या मता प्रमाण “कोंकणी भास शौरसेनी प्राकृतांतल्यान उपरासली.” डॉ. जुझे पैरैर हांचें म्हणणें “कोंकणी ही

महाराष्ट्री प्राकृताची धूव." ह्या तिनूय विधानांनीं थोडेंभोव तथ्य आसा. कोंकणीचें मूळ संस्कृत भाशेंत आसलें तरी खासा संस्कृत भास ख्रिस्तपूर्व काळांतच लोकांच्या उलोवपाच्या वेव्हारांतसून बंद जाल्ली. दक्षिणात्य प्राकृत, शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची प्राकृत ह्यो चार भासो ख्रिस्तोत्तर चार पांचशीं वर्सां मेरेन लोक उलयताले आनी बरयताले. कोशकार श्रीपाद रघुनाथ देसाय हांणी कोंकणी शब्दकोशाच्या चवथ्या भागांत 'कोंकणी भाशेची कुळाकथा' छापल्या. आपणाल्या अभ्यासपूर्ण मांडपांत तांणी आर्य भारती भासांचें पुरायेन संशोधन करून काडिल्ले निश्कर्श मांडल्यात. ख्रिस्तोत्तर पांचव्या-सव्या शतमानांत जी अपभ्रंश भास घडली तिच्या दोन मुखेल मोडींक 'नागर' आनी 'उपनागर' अशें म्हणटाले. प्राकृत आनी आधुनीक आर्यभारती भासो हांच्या मदलो सात-आठशें वर्सांचो काळखंड अपभ्रंश भाशेन गडगडायलो. लोकांच्या वेव्हाराची भास, संस्कृतीक भास आनी राजभास म्हूण तिणें भारतभर शेक गाजयलो. अपभ्रंश भाशे कडेन थळाव्या बोली भासांचो संपर्क येवन त्या संसर्गांतल्यान आधुनीक आर्यभारती भासो जल्माक आयल्यो. तांतली नागर फांट्यातले अस्तमतेच्या फांट्यांतल्यान जी अपभ्रंश भास राजस्थान-गुजरातेंतल्यान कोंकणांत पातळ्ळी तातुंतल्यानच कोंकणी भास वयर सरली, अशें कोशकार देसाय म्हणटत.

सव्या शतमाना सावन धाव्या शेंकड्या मेरेनच्या काळांत प्राकृत भासांचे रचणुकेंत जायते बदल घडून तांकां अपभ्रंश वा जनसामान्यांच्यो बोली म्हूण वळख मेळ्ळी. (कोंकणी भास: प्रकृती आनी परंपरा, डॉ. सु. बा. कुळकर्णी) अशाच एका अपभ्रंश फांट्यांतसून धाव्या शतमानाचे अखेरेक कोंकणी ही लोकसंवादाची भास म्हूण वयर सरली.

कोंकणी वाठारांत जायत्यो राजवटी आयल्यो. ख्रिस्तोत्तर ४५४ वर्सा चालुक्यांक धांवडावन राष्ट्रकूट राजवट आयली. त्याच काळार शिलाहार (हे मूळ गोंयकार) हे राष्ट्रकुटांचें अधिपत्त्य मानून घेवन तांचे माण्डलीक म्हूण कोंकणांतल्या ह्या वाठाराचेर राज्य करताले. उपरांत तांणी राष्ट्रकुटांचें अधिपत्त्य न्हयकारून आपणाल्या कर्तुपांनी ८व्या ते ११व्या शतमाना मेरेन राज्य चलयलें. (सी.एफ. सालदान्य हांगेलें 'अ शॉर्ट हिस्टरी ऑफ गोआ पान २८) हांगा मौर्यांनी राज्य केलां, कदम्बानी केलां, यादवांनीं केलां. विजयनगरच्या हिंदू राजांनीं आनी १५१० वर्सां पुर्तुगेज येमेरेन बिजापूरच्या आदिलशहानूय राज्य चलयलां. १९६१ वर्सा गोंय

मुक्त जाय मेरेन गोंयचे हे भुंयेन आनी भुंयेचे भाशेन अनेक घावे सोंसल्यात आनी पचयल्यात. ह्या कालखंडांत हांगा बौध भिक्षू आनी जैन मुनीजन पावले. मोयर आनी ख्रिश्चन मिशनरी पावले. हांच्या विचारां वांगडाच तांच्या भासांचोय प्रभाव थळावे भाशेचेर पडलो. मुळांत कोंकणी ही संस्कारक्षम भास आशिल्ल्यान तिणें ह्या सगल्या संस्कारांचें कोंकणीकरण केलें. आयज कोंकणींतले नीज उतरावळींत कन्नड, गुजराती, मराठी, उर्दू, हिन्दी अशा अनेक भारती भयण- भासांतलीं उतरां कोंकणीमय जावन घोळटात.

दुर्दैवान, काय इतिहासीक कारणांक लागून कोंकणीची उवेखणी जाली. कोंकणी मनशांनीं केन्नाच कोंकणी वाठाराचेर राज्य केलें ना. राज्यकर्त्यांनीं सदांच आपापली भास राजभास म्हूण थळाव्यांचेर थापली. इतिहासांत केन्नाच राज्याश्रय ना मेळिल्ल्यान फकत लोकाश्रयाच्या बळग्याचेर ही भास तिगली- फकत तिगलीच न्हय तर पर्जळ्ळी.

चवदा-पंदराव्या शतमानांत कोंकणीक मारक थारिल्ली आन्येक गजाल म्हळ्यार कोंकणींत आशिल्लो संतसाहित्याचो उणाव. ज्या काळार शेजारच्या वाठारांतल्या भासांनी भक्तिगितां, अभंग, भजनां आनी आरत्यो रचताले तेन्ना कोंकणींत असल्या साहित्याचें मळ सुकें सणसणीत उरलें. कृष्णदास शामा सारके रचनाकार आशिल्ले जांणी महाभारत आनी रामायणाचो अभ्यास करून कथा रचिल्ल्यो. पूण तांचो प्रभाव जनमानसाचेर पडचे पयलींच गोंयां पुर्तुगेज राजवट आयली आनी सत्तांतर-धर्मांतराच्या रगड्यापोंदा कोंकणी मनीस खासावीस जालो.

कोंकणी-मराठी ह्यो भयणभासो. पूण मदल्या काळार उप्राशिल्ल्या भाशावादाक लागून कोंकणीचें व्हड लुकसाण जावंक पावलें. तरी भाशापंडितांनी कोंकणी ही आदिमकाळा पासून बरोवपाची भास आसली हें सप्रमाण दाखोवन दिल्ल्यान वादाक शिममेर पडली. संत नामदेव (१२७०-१३५०) हो मराठी संत कवी. भारतभर भोंविल्लो. ज्या वाठारांत पावलो थंयची भास शिकून घेतली आनी ते ते भाशेंतल्यान कांय रचनाय केल्यो. तांची एक रचना कोंकणींतूय आसा. ती मुळांत मराठी गौळण. हे गौळणीतलें एक कडवें कोंकणी आसा. न्हंयेंत न्हावपाक देंविल्ल्या गवळणीनीं धडेर दवरिल्लीं वस्त्रां श्रीकृष्ण मस्क्यांनी लिपयता तेन्ना गवळणी आपापले भाशेंत कृष्णाक गळवंयां आळयतात तें हे गौळणींत चित्रायलां.

संत नामदेवान रचिल्ल्या गवळण-गितांतलें एकच कडवें कोंकणी आसा. तें मूळ गौळण-गीत अशें सुरु जाता.

गौळणी ठकविल्या
एक एक संगतीने मराठी कानडीया
एक मुसलमानी
कोंकणी, गुजराती
अशा पांची जणी गौळणी ठकविल्या ||

फुडें कोंकणी गौळणीच्या तोंडांत घाल्लें गीत अशें आसा

पाव गा दातारा |
पाव गा दातारा |
तूं नंदाचो झिलो |
माकां फडको दी |
मी हिंवान मेलों |
घे माझो कोयतो |
देवा पायां पडलो |

संत नामदेवान रचिल्लें हें गौळण गीत कोंकणी सरस्पतेंत आयजवेर उपलब्ध आशिल्ल्यांतलें पयलें लिखीत साहित्य.

ह्या गितान दोन गजाली साध्य जातात. तेरा-चवदाव्या शेंकडयांतली कोंकणी उलोवपाची पत वाचूंक मेळटा आनी मराठी गौळणीच्या तोंडांत -

देवकी नंदना, तूं ऐक श्रीपती,
उघडी हिवाची तुज विनवूं किती,
पाया पडते बा, मी येते काकुळटी,
माझी साडी दे, घे नाकाचे मोती

हें मराठी कडवें घालून कोंकणी गौळणीच्या तोंडांत कोंकणी कडवें रचिल्ल्यान कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन वेगळ्यो भासो अशें नामदेव आनी त्या काळावयले लोक मानताले हें स्पश्ट जाता.

कोंकणी भाशेच्या पुरातन आस्तित्वाविशीं दोन गडगंज पुरावे मेळटात. एक म्हळ्यार कर्नाटकांतल्या हसन जिल्ल्यांतल्या श्रवणबेळगोळा हांगासल्या गोमटेश्वराचे मुर्ति सकयल कोंत्रावन दवरिल्ल्यो वळी. गोमटेश्वर म्हळ्यार जैन तिर्थंकार बाहुबली. १११६-१७ वर्सां उबारिल्ल्या ह्या पुतळ्या सकयल्या शिलालेखांत 'श्री चामुंडाराजे करवियलें' आनी 'श्री गंगराजे सुत्ताले करवियलें' अशें बरयिल्ले मेळटा.

मुळांत पयल्यो तीन वळी मेळाटात त्यो अशो--

पयली वळ: श्री चामुण्डराजं माडिसिदं (ही वळ हळेकन्नड लिपयेंतली कन्नड आसा)

दुसरी वळ: श्री चामुण्डराजं शेयवित्तान (ही वळ तामीळ भाशेंत आसा)

तिसरी वळ: श्री चावुण्डराजें करवियलें (ही वळ देवनागरी लिपयेंत आसा)

ह्याच तखट्यार आनीक दोन वळी कोरंतिल्ल्यो मेळटात.

पयली वळ: श्री गंगराजे सुत्तालयवं माडिसिदं ( हळेकन्नड लिपी भास कन्नड)

दुसरी वळ: श्री गंगराजे सुत्ताले करवियले (देवनागरी लिपयेंत आसा)

तामीळ आनी कन्नड वळीं विशीं वाद ना. पूण मराठी विद्वानांक त्यो देवनागरींतल्यो वळी मराठी दिसतात. डॉ. सु. बा. कुळकर्णी म्हणटात, श्रवणबेळगोळ हें थळ कर्नाटकाच्या दक्षीण पोंताकडल्या हसन जिल्ल्यांत म्हळ्यार मराठी वाठारा कडल्यान खूब पयस आशिल्ल्यान थंय मराठी भाशेंत शिलालेख कोंतरावपाची गरज चामुण्डरायाक वा गंगरायाक दिसपाचें कारणच ना. नागरी लिपयेंत कोंतरावपाचें एकच कारण आनी तें म्हळ्यार अस्तमते कडल्या मंगळूर-कोडयाळ वाठारांत रावपी कोंकणी मनशां मेरेन हो संदेश पावोवप. दुसरो म्हत्वाचो मुद्दो म्हळ्यार 'करवियलें' हें दोट्टी प्रयोजकाचें भूतकाळी रुप मराठींत मेळना. पूण कोंकणींत तें तेन्नाय मेळटालें आनी आतांय मेळटा. (डॉ. सु. बा. कुळकर्णी).

दुसरो तेय परस मोलादीक पुरावो म्हळ्यार 'हॉर्टस इण्डिकस मलबारिकस' ह्या ग्रंथ मालिके खातीर बरयिल्लें प्रमाणपत्र. ह्या ग्रंथा फाटली काणीय खूब चित्तवेधक आसा. धर्मांतराच्या आनी उपरांत इन्क्विझिशनाच्या काळार हजारांनी लोक

गोंय सोडून कर्नाटक आनी केरळाचे दिकेन गेले. कांय कुटमां कालिकत (आयचें कोझिकोडे) आनी कोची शारा मेरेन पावलीं. त्या काळार थंय डच लोकांची राजवट आसली. त्या उपरांत म्हळ्यार सुमार शंबरेक वर्सांनी जेन्ना थंय डच कमांडर हँड्रीक व्हाँ ऱ्हीड हांचो शेक चलतालो तेन्ना गोंयच्या पुर्तुगेज सरकार आनी मिशनरींचे पिडापिडेक विटून पळून येवन थंय स्थायीक जाल्ल्या लोकां मदीं रंगाभट, आपुभट आनी विनायक पंडीत हे वैज आसले. तांचे विशीं एक गजाल सांगतात, त्या दिसांनी त्या डच अधिकाऱ्याचें भुरगें कसल्या तरी वायटाक लागून हांतरूणार पडिल्लें. डॉक्टर-वखदां जालीं तरी गूण पडलो ना. येवरोपी डॉक्टरांनी सांगलें- येवरोपाक व्हेल्यार ताचेर उपचार जावं येता. पूण वायटकार भुरग्याची आवतिकाय इतली नाजूक आसली, बोटीन येवरोपाक पावसर जीव वगडावचो पडटलो हाची खातरी. निमाणें कोणें तरी बुदवंतान सांगलें पयस गोंयच्यान आयिल्ले कांय वैज झाडा पाल्याचीं वखदां दिवन लोकांचीं वायटां पयस करतात. तांकां आफोवन एक संद घेवची. आशा सोडिल्लीच. पळोवंया तरी म्हूण वैजांक आफयले. तांणी भुराग्याक तपासलें. गांवां भायर वचून पाळां-मुळां हाडलीं आनी वखदविर्सद केलें. भुरगें साप निवळ्ळें तें पळोवन डच कमांडर सामको प्रभावीत जालो. वैजांक शाबासकी आनी बक्षिसां तर दिलींच. वयल्यान तांचे कडलें गांवठी वखदांचे गिन्यान सांठोवन दवरपा खातीर तांकां फावो तो सगळो पालव दिवन वट्ट म्हायती एकठांय केली. ताचे एकूण बारा गडगंज ग्रंथ तयार जाले. पूण ही संपादन केल्ली म्हायती खरी वा अधिकृत कशी मानपाची? हे खातीर डच अधिकाऱ्यांनी त्या तीन वैजां कडल्यान प्रमाणपत्र बरोवन मागलें. पूण कोंकणी सोडून आपणांक दुसरी भास कळना म्हूण सांगतकच 'तुमकां कळटा ते भाशेंत' बरोवंक सांगलें. तेप्रमाण त्या तिगूय वैजांनी कोंकणी भाशेंत आनी देवनागरी लिपयेंत तें बरयलें. त्या पत्राची तारीख २० एप्रील १६७५ अशी आसा. हो वट्ट प्रकल्प पुर्ण करपाक तांकां सुमार सात वर्सां लागलीं असो अदमास आसा. हो ग्रंथ उपरांत १६७८ वर्सा (पयलो भाग) हॉलंडांत उजवाडाक आयलो. त्या वेळार तीग वैजांलें प्रमाणपत्र तशेंच ब्लॉक प्रिंटिंग तंत्रान छापलें. खंयच्याय भारतीय भासां मदीं अशे तरेन ब्लॉक प्रिंटिंग करून छापिल्लो हो पयलो मजकूर. आनी हो पयल्याचो मान कोंकणीक फावो जालो.

जॉन लेडन (१७७५-१८११) हाणें पयले खेपेक 'कोंकणी ही मराठीची बोली' अशें विधान केल्लें. त्या काळार भाशावाद नाशिल्लो. पूण उपरांत तेंच मत ग्राह्य धरून

विस्तारवादी शक्तींनी राजकी सुवार्था खातीर वाद सुरु केलो. पूण जॉन लेडनाचें मत 'उथळ' अशें स्पश्ट सांगून विद्वान भाशातज्ञ विल्यम कॅरी (१७६१-१८३४) हाणें कोंकणी ही स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हणपाचें विधान रोखडेंच जाहीर केल्लें. उपरांत आयिल्ले जॉन विल्सन (१८०४-१८७५), जॉन मरे मिशेल (१८१५-१९०४), जर्सन डि कुन्हा (१८४४-१९००) आनी जेजुईत मिशनरी आंजेलो माफेय (१८४४-१८९९) हांणी कोंकणी ही बोली न्हय तर ती स्वतंत्र भास म्हणपाचो निर्वाळो दिलो. तांकांय विरोध करपी आसले जांकां कोंकणी ही मराठीची बोली अशें दिसतालें. रिचर्ड फ्रान्सीस बर्टन (१८२१-१८९०), रामचंद्र भिकाजी गुंजेकर (१८४३-१९०१), सर जॉर्ज अब्राहम ग्रियर्सन (१८५१-१९४१), शांबाराव सरदेसाय (१८७४-१९६७) वा अ. का. प्रियोळकर (१८९५-१९७३) हांणी कोंकणी ही बोली असोच आगरो धरलो. कोंकणी विशीं नामनेचो भाशातज्ञ आनी भारतांतले पयले भासाशास्त्री, जांणी भारतांतल्या भासांचें संपुर्ण सर्वेक्षण (लिंग्विस्टीक सर्वे ऑफ इण्डिया) केलां तो ग्रियर्सन म्हण्टा, कोंकणी भास महाराष्ट्री प्राकृतांतसून पयलीं भायर सरली आनी उपरांत मराठी; पूण कांय कारणांक लागून मराठी फुडें पावली आनी कोंकणी फाटीं पडली. सोळाव्या शतमानांत कोंकणींत रचिल्लें साहित्य आशिल्लें हाचेरय ग्रियर्सनाचो विस्वास आशिल्लो अशें ताच्या सकयल दिल्ल्या विधाना वयल्यान दिसता.

वाद करतल्यांक खणखणीत जाप दिली ती कोशकार मोंसिन्योर सेबाश्त्यांव रुदोल्फु दालगाद (१८५५-१९२२) आनी उपरांत वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब (१८७७-१९४६) तशेच कोशकार आनी प्राच्यशास्त्री ज्युल्स ब्लॉश (१८८०-१९५३) आनी भाशाशास्त्री डॉ सुमित्रनंदन मंगेश कत्रे (१९०६-१९९८) हांणी. (लिटररी कोंकणी, अ ब्रीफ हिस्ट्री; जुझे पेरैर).

हो भाशावाद २६ फ़ेब्रुवारी १९७५ दिसा केंद्र सरकारचे साहित्य अकादेमीन कोंकणी ही स्वतंत्र साहित्यीक भास मूण मान्यताय दिसर चालूच उरिल्लो. ह्या वादान कोंकणी भाशेचें आनी साहित्याचें सुमारा भायर लुकसाण केलां ही गजाल खरी आसली तरी गोंय मुक्ती उपरांत कोंकणी साहित्यान हेर भारतीय भासांच्या खांद्याक खांदो लावपा खातीर जो येत्न चलयला तो तोखणायेक पात्र आसा.

## कोंकणीक 'कोंकणी' हे नांव कशें पडलें?

हे भाशेक कोंकणी हें नांव कशें पडलें? जाप सादी. पंजाबाची भास पंजाबी, बंगालाची बंगाली, तामीलनाडूची तमीळ, तशी कोंकण वाठाराची कोंकणी. कोंकणाची व्याप्ती तशी खूब व्हडली. सह्याद्रीच्या मुळसा थावन अरबी समुद्राचे वेळे मेरेन पातळील्ल्या ह्या वाठाराक कोंकण म्हणटात. मुंबय-ठाणे थावन कारवार मेरेन पातळिल्ल्या ह्या वाठाराक आदीं अपरान्त अशें नांव आशिल्लें. पांचव्याचार रानांनी आनी पिकाळ शेतांभाटांनीं कुचकुचीत भरिल्ल्या वाठाराक सुनापरान्त म्हळ्यार भांगराळो अपरान्त अशेंय पाचारतालें. सातव्या शतमानांत भारताचे भोंवडेर आयिल्लो चिनी भोंवडेकार 'ह्यू एन त्सेंग' हाणें कोंकणपुराचो उल्लेख केला तो होच वाठार. 15व्या शतमनांत जैन ग्रंथकारांनीं बरयिल्ल्या 'रत्नकोश' ग्रंथांतूय हांचो उल्लेख 'कोंकणदेश' असो जाला.

श्री स. आ. जोगळेकर हे आपणाल्या 'सह्याद्री' ह्या ग्रंथांत पान २७० चेर म्हणटात, "... परशुरामाचे आवयचें नांव 'कुंकणा'... ही कोंकणाची अधिदेवता... कोंकणदेवीक जे मानतात ते कोंकणे आनी ते ज्या वाठारांत रावतात त्या वठाराचें नांव 'कोंकण'. विजयनगरच्या दुस्त्या हरिरायाचे राजवटीच्या काळांतल्या शके १३९१ वर्साच्या तांब्यापट्यांत गोंयचो उल्लेख असो मेळटा: 'गोवभिधां कोंकण राजधानीम'. (अर्थ: गोवा नांवाची कोंकणाची राजधानी). हें गोवा म्हळ्यार आयचें 'व्हडलें गोंय' अशें इतिहासकार डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेकार म्हणटात. (भारतमित्र, मे १९६४). ह्या दोनूय संदर्भां वयल्यान म्हणूं येता, कोंकणांत रावपी ते कोंकणे आनी तांची भास ती कोंकणी.

महाभारताच्या भीष्म पर्वांत (अध्याय ९) अपरान्त आनी गोमन्त ह्या प्रदेशां विशीं बरयिल्लें मेळटा. पुराय कोंकण प्रदेशाक आदी सप्तकोंकण अशें म्हणटाले. भुगोलीक नदरेन कोंकणाचे सात वांटे जाल्लें तरी उपरांत उत्तर कोंकण आनी दक्षीण कोंकण अशीं दोनूच नांवां उरलीं. दक्षीण कोंकणांतलो गोमन्त वाठार म्हळ्यार गोंय. आदल्या काळार 'गोमन्त प्रदेश' अशें दक्षिणेंत गंगावळी न्हंये मेरेनच्या वाठाराक म्हणटाले. काळांतरान राजकी स्थित्यंतरांक लागून गोमन्तक म्हळ्यार आयज जें गोंय राज्य आसा तो वाठार अशें सिमीत जालें.

जे भाशेन पुण्णा होंक्याचें 'पाण्डवां होंक्यो' आनी पुण्णा कपेलाचें 'पाण्डवां कपेल' जालें तेच भाशेन कोंकणी भाशे विशींय अन्येक विपर्यास पातळ्ळे. पूण

त्या विपर्यासांच्यो शणै गोंयबाबानीं तिस्त्यो वांद्यो केल्यो. आनी तांकां ज्येश्ठ आनी स्रेश्ठ भाशाशास्त्री डॉ. सुमित्रनंदन मंगेश कत्रे हांणी अनुमोदन दिलें. देखुनूच कोंकणी इतिहासाचे कसवटेर आयज परजळूंक पावली.

## स्थित्यंतरां आनी स्थलांतरां

कोंकणीच्या इतिहासांत कोंकणी भाशिकांच्या नशिबांत अन्येक स्थित्यंतरा येवन गेलीं. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय म्हणटाले 'कोंकणीच्या इतिहासान कोंकणीचो भुगोल घडयलो'. कोंकणी लोक शिंपडून देशा भायरे जावपाक गोंयचो इतिहासच कारण थारलो. तेराव्या शतमानांत जेन्ना अलाउद्दीन खिलजी दक्षिणे वटेन फौज घेवन आयलो, तेन्ना कोंकणाचेर देवगिरीच्या यादवांचे राज्य चलतालें. सुर्वेच्या लडायांनी यादवांनी खिलजीचे फौजेक यशस्वी टक्कर दिली. पूण लडायांचेर लडायो जाल्या उपरांत मोट्या युद्धांत 'मलीक कफूर' ह्या खिलजीच्या सेनापतीन यादवांक जिवे मारून कोंकण जिखलें (संदर्भ कों.श.पान १२८५). लडायांक सुरवात जायत सावन लोकमानसांत खिलजी विशीं भिरांत निर्माण करपी अफवा पातळिल्ल्यान कांय लोकांची काळजां पयलींच उखलिल्लीं. तांतूत मलीक कफूराच्या जैतान लोकांची भियेवन गुळी जाली. म्हणसर आयिल्ल्यो सक्तीच्या धर्मांतराच्यो खबरो आयकून लोक चडच भियेले. अनेक जाणांनी बिटकी कवळून पयसदेशाक वचपाचो निर्णय घेतलो. मुसलमानी राजवटके कडसून पयस वचपाचे हेतून ते दर्यादिगे वयल्यान दक्षिणे वटेन गेले. तांतले थोडे लागींच उत्तर कन्नडा जिल्ल्यांत तर कांय जाण कोडियाळ-मंगळूरांत वचून रावले. पयस गेले तें केरळांत कोच्ची मेरेन पावले.

ह्या इतिहासीक स्थित्यंतरां उपरांत हाच्या परस मोटें संकश्ट कोंकणी भाशिकांची वाट पळयतालें. हाची जाण कोणाक नासली. १४९८ वर्सा पुर्तुगेज तारवां वेपाराच्या निमतान अरबी समुद्रांत रिगलीं. ह्या वेपाऱ्यांनीं पयलें पावल दवरलें तें भारताचे अस्तमतेचे दर्यादिगेर. हे दर्यादिगेक वेपाराचे नदरेन भोव म्हत्व आसलें. देश-विदेशांतलीं तारवां, चड करून अरब वेपाऱ्यांलीं तारवां, हांगा यो-वच करतालीं. पुर्तुगेज आनी स्पॅनिश लोकांक इतिहासीक कारणांक लागून मुसलमानांचो खर राग आसलो. इतिहासकाळांत मुसलमानांनी घुरी घालून त्या येवरोपी राश्ट्रांनी धर्मांतरां घडोवन हाडिल्लीं आनी थंयसरले जनतेक येतिश्ट पिडापीड भोगयिल्ली. देखून मुसलमाना विशींची सूड भावना खूब खर आसली. पुर्तुगेज तारवां जरी वेपारा खातीर आयिल्लीं

तरी तीं तुबकां-नाळी असल्या शस्त्रांनीं सज्ज आसतालीं. अरबी समुद्रांतल्यान यो-वच करपी मुसलमानांच्या तारवांक लुटप आनी मोयरांची कत्तल करप अशे तरेचो तडवांचो वावर तांणी सुरू केलो. दर्याचेर आनीक कोणाचो शेक नाशिल्ल्यान पुर्तुगेजांक रान मेकळें मेळ्ळें. ल्हवू-ल्हवू सबंद किनारी उदकाचेर पुर्तुगेजांचो शेक चलूंक लागलो. मुसलमानांनीं ह्या फिरंग्यांची थर्त धास्ती घेतली. आनी दुसरे वटेन मुसलमानी सत्तेखाला चिड्डल्ले जनतेक ही खबर सुखदिणीशी दिसली.

१४७० वर्सा सावन गोंयांत विजापूरच्या सुलतानाची राजवट आसली तरी राज्याचो चडसो कारबार विजापूरच्यान न्हय तर गोंयांत विंगड-विंगड पदवेर नेमिल्ल्या गोंयकार सरदार-कमावीसदार हांचे मार्फतीन चलतालो. घर-पटी वाशील करप, शेतां-भाटांचो शिदाव पुंजावप आनी हिशोबपटयो सांबाळप असलीं कामां थळावे देसाय, परोबदेसाय, सरदेसाय वा देसपरोब हेच करताले. सोळाव्या शतमानाचे सुर्वेक साश्टींतल्या वेर्ण्या गावांत रावपी म्हाळ पै हो गोंयचो सरदेसाय म्हुण वावुरतालो. सुलतानाचे राजवटकेंत तो समादानी नासलो. मुसलमान नायटे गोंयच्या हिंदूंक सतायताले. सरकारदरबारांत तक्रार केल्यार कोण दखल घेनासले. थळाव्या लोकांच्या तोंडांत पडटालो तो म्हाळ पै. तांकां लागून तो तिडकल्लोच आसतालो. पुर्तुगेज तडव मुसलमानांचो दुस्वास करतात, तांकां पिडापीड भोगयतात आनी जिवेशीं मारून उडयतात ही खबर म्हाळ पैच्या कानार पावली. पुर्तुगेजा कडेन तुबकां-नाळींनीं भरिल्लीं आरमारां आसात आनी ते बरे झुंजारी म्हणपाचेंय ताणें आयकल्लें. आदिलशाय हुमटावन आपणाक राज्य करपाक मेळचें हो हेत बाळगून ताणें होनावरच्या रायालो सरदार तिमय्या हाचे मार्फतीन पोर्तुगेज सरदार 'आफोंस द आल्बुकेर्क' हाचे कडेन संवाद सादलो आनी आदिलशहाक धांवडावपा खातीर ताचो पालव मागलो. थळावो पालव तिमय्या आनी म्हाळ पैन दिवचो केल्ल्यान आल्बुकेर्कान खोशेन तांचें आपोवणे मानून घेतलें आनी १५१० वर्सा अनेक झुंजारी तारवां आनी सशस्त्र सैन्य घेवन गोंय शाराचेर दर्या वाटेन घुरी घाली. तांकां आदार दिवंक तिमय्या आपणाली फौज घेवन भितरसून आदार दिवंक लागलो. त्या वेळार विजापूरच्या सुलतानाचो सरदार युसूफ गुर्गी हो गोंयच्या संरक्षणा खातीर थोडीशी फौज घेवन गोंयां रावतालो. आफोंस द आल्बुकेर्काली झुंजारी तारवां आनी तुबकां घेवन देंविल्ली व्हडली फौज पळोवन तागेले फौजेन थोडोभोव प्रतिकार केलो. पूण येदे व्हडले फौजे मुखार आपणालें शाणेपण चलचें ना हें वळखून युसूफान सगल्या शिपायकां सयत नळी काडली आनी गोंय अचळय पुर्तुगेजांच्या हातांत आयलें.

गोंयांतसून सुलतानाच्या सरदारांक धांवडावन जायना फुडें आल्बुकेर्क गोंय आपणा सुवादीन करतलो अशें तिमय्या आनी म्हाळ पैक दिशिल्लें. पूण आल्बुकेर्कान गोंय आपणें जिखलां तें सोडून वचपाक न्हय म्हणपाचें तिमय्याक स्पश्टपणान सांगलें. पूण तिमय्याक खूश दवरपा खातीर आनी ताणें भितरल्यान दिल्लो पालव लक्षांत घेवन आल्बुकेर्कान ताका गोंय शाराचो ठाणेदार नेमलो. वयलेचाराक थंड जाले तरी गोंयचेर शेक चलोवपाचें तिमय्या आनी म्हाळ पैचें सपन भंगलें इतलें खरें.

पोर्तुगेज गोंयां पावले तेन्ना ह्या वाठाराक गोंय, गोवा, कोंकण, गोमंतक अशीं नांवां आसलीं. लोक उलयताले ती भास सगल्यांची आनी एकच भास आसली. मराठीक ते मराठी म्हणटाले. कारण त्या काळार मराठींत बरयिल्ल्यो रचना - अभंग, किर्तन आदी - गोंयांत पाविल्ल्यो आनी लोकांमोगाळय जाल्ल्यो. पूण फिरंग्यांक हे लोकभाशेक किर्तें म्हणचें तें खबर नासलें. तांणी आपणां परीन कोंकणीक नांवां दिलीं तीं अशीं: बामणी, ब्राह्मणी, कानारी, कानारीन.

गोंय पुर्तुगेजांच्या हातांत पडलें तेन्नाच गोंयच्या आनी कोंकणीच्या इतिहासांतल्या एका काळ्याकिट्ट पर्वाची सुरवात जाली. गोंय शार जिखून घेना फुडें आल्बुकेर्कान पयलें काम केलें तें हातांत सापडटा त्या मुसलमानांची कत्तल करपाचें. हो रक्तखेव सुरू जायना फुडें संखेनी मुसलमानी जीव आसल्यार भीक मागून खावं म्हूण गोंयां सावन पळ्ळे ते चडशे कर्नाटकाचे समुद्राचे देगेर फापसले.

पुर्तुगेजान गोंय जिखना फुडें फिरंग्यांक भियेवन पयलीं जे हिन्दू लोक गोंय शार सोडून आयल्या पयल्यान पळून गेल्ले तांकां आल्बुकेर्कान अभय दिवन बाबा-पुता करून परत हाडले. पयलीं पंचवीस-तीस वर्सां बरीं गेलीं म्हणसर क्रिस्तांव मिशनरी गोंयां पावले. राज्याश्रय आसल्यार धर्मप्रसार सोंपेपणी जाता हें मतींत घेवन तांणी सरकाराचें अभय घेवन धर्मांतराच्या वावराक सुरवात केली. सुर्वेक बाबा-पुता करून धर्मांतरां जातालीं. पूण लोक सहजतायेन दुसरो धर्म आपणायना हें पळोवन थोडीं हायसां-आमिशां दाखोवन, भाटां-बेंसा वा सरकार दरबारांत पदपदव्यो दिवन आनी गरज पडल्यार जबरदस्ती करून धर्मांतरां जावंक लागली. गांवांचे गांव धर्मांतरीत जावंक लागले. अशावेळार धर्मांतरांचे भिरांतेन हज्जारांनी जे हिन्दू गोंयकार गोंय सोडून वाट मेळत ते वटेन पळ्ळे ते मुंबय पासून कोच्ची मेरेन पातळ्ळे.

# धर्मीक सरस्पतेचें मुळावण

सोळावें शतमान उजवाड मेरेन कोंकणींत सरस्पत रचताले काय ना हाचे पुरावे मेळनात. पूण सोळाव्या शतमानांत रचताले हांचो एक गडगंज पुरावो आसा तो म्हळ्यार कृष्णदास शामा हागेली हातबरपां. कृष्णदास शामालीं कोंकणी बरपां गद्य कोंकणींत आसात. ह्याच बरोवप्यान मराठींतय रचना केल्यात. 'कृष्णचरित्र' हो काव्यात्म ग्रंथ ताणें मराठींत बरयला. कोंकणींत बरयिल्ल्या ग्रंथांनीं रामायण आनी महाभारतांतल्यो काणयो आसपावतात. ह्यो काणयो मुळांत देवनागरींत बरयिल्ल्यो आसूंक जाय. कारण पुर्तुगेज येवचे पयलीं हांगा रोमी लिपीच नासली. उपरांत जेजुईत पाद्रींनीं त्यो रोमी लिपयेंत वितरावन घेतल्यो आसूंक जाय. पूण मूळ बरयिल्लें हस्तलिखित मेळना त्या अर्थान त्यो काणयो कोंकणींत सांगल्यो तशो पाद्रींनीं बरोवन घेतल्यो असोय अदमास बांदपी आसात. हे हस्तलिखित ग्रंथ पुर्तुगालांत ब्रागाचे सेंट्रल लायब्ररींत आसात म्हणपाचें विसाव्या शतमानाच्या मध्याक गोंयकारांच्या लक्षांत आयलें. फा. कायतान द क्रूझ फेर्नांदीश हे आपणाल्या 'रिसर्च इण्टू द कोंकणी काताकीझ्म' ह्या प्रबंधांत म्हण्टात, 'ब्रागांतल्या ह्या हस्तलिखीत ग्रंथाची खबर पयलीं लक्षांत आयली ती १९५० वर्सां डॉ. मार्यानु सालदान्य हांच्या. तांणीच ही खबर पयलीं गोंयचे इतिहासकार पांडुरंग पिसुर्लेकार (१८९४-१९६९) हांकां सांगली.' पिसुर्लेकार पुर्तुगालाक वचून तीं हातबरपां पळोवन परतल्या उपरांत तांणी ह्या हस्तलिखितांचो उल्लेख कांय जाणां कडेन केल्लो. पूण ताचेर तांणी चड उजवाड घाल्लो मेळना. उपरांत डॉ. जुझे पैरैरा हांणी ब्रागाच्या लायब्ररींत वचून ते ग्रंथ पळयले, अभ्यासले. त्या उपरांत रेव्ह. फा. आंतोन पैरैरा हांणी पुर्तुगालाक वचून ह्या हस्तलिखितांच्यो झॅरॉक्स प्रती काडून गोंयां हाडल्यो. ह्या हस्तलिखित ग्रंथांक ते लायब्ररीन ७७१, ७७२ आनी ७७३ अशे नंबर दिल्यात. वट्ट १८५९ पानां आशिल्ल्या ह्या तीन हस्तलिखित ग्रंथांतल्या ७७१ आनी ७७२ ह्या दोन ग्रंथांनी गद्य कोंकणींत बरयिल्ल्यो काणयो आसात. जाल्यार ७७३ ह्या ५६७ पानांच्या तिस्र्या ग्रंथांत श्री कृष्णचरित्रकथा हें १३१ पानांचें मराठींत रचिल्लें

म्हाकाव्य आसा. उरिल्ल्यो सुमार ३० कविताय मराठीत आसात. हे दोन कोंकणी आनी एक मराठी हस्तलिखित ग्रंथ रोमी लिपयेंत बरयिल्ले मेळटात. देवाधीन प्रो. लुर्दीन रोद्रिगीश हांणी भोव कश्ट घेवन ह्या ग्रंथांचो अभ्यास करून पयलीं निवळायिल्ले रोमी लिपयेंत रूपांतर केलें आनी मागीर पर्थून देवनागरींत ताचें लिप्यंतर केलें. उपरांत ताचेरूय संपादकीय संस्कार करून 'सोळाव्या शेंकड्यांतलें कोंकणी महाभारत: आदिपर्व' हो प्रताप नायक, जे.स. हांणी संपादन केल्लो ग्रंथ तॉमास स्टिवन्स केंद्रान १९९० वर्सा उजवाडाक हाडलो. डॉ. जुझे पैरैर म्हणटात ते भाशेन ज्या काळार गद्यांत कथा काणी बरोवपाची रीत भारती भाशां मदीं नासली त्या काळार कृश्णदास शामान ह्यो काणयो चालंत उलोवपाचे मोडींत रचिल्ल्यो. त्या काळार येवरोपी बरोवपी लेगीत आपणालें गद्य लेखन लातीन भाशेंत उपलब्ध वाङमयशैलीचेर आदारून बरयताले. १८व्या शतमानांत येवरोपांतले लेखक चालंत वाक्प्रचार वापरून साहित्य रचूंक लागले. ताकाच रोमान्टिसिजम म्हळ्यार अद्भूतशैली म्हणूंक लागले. डॉ. जुझे पैरैर म्हणटात ते भाशेन येवरोपांत ही शैली रिगचे दोनशीं वर्सां पयलींच कृश्णदास शामान ही शैली कोंकणींत हाडिल्ली.

धर्मांतरीत जाल्लो नव-किरीस्तांव लोक आदल्यो थळाव्यो परंपरा सोडूंक तयार नासलो. मिशनरींक ती आडखळ जावंक लागली. धर्मांतरा पयलीं गोंयांतले लोक पुराणां वाचताले, कथा-किर्तनां आयकताले आनी भाक्तिपर गायनां गायताले. आतां किरीस्तांव जाल्ल्या लोकां मदीं धर्मप्रसार करपाखातीर आदले परंपरेक धरून ख्रिस्ती धर्म साहित्य रचपाची गरज उप्रासली. पूण ते खातीर थळावी भासा शिकपाची गरज आसली. देखून जिद्दी मिशन्र्यांनी पयल्यान-पयलीं वाचपा-बरोवपाक शिकून घेतलें. कोणूय मिशनरी थळावी भास शिकपाक फाटीं फुडें करीत देखून मिशन्र्यांचो वरिश्ट अधिकारी (the visitor) हाणें खासा हुकूम काडिल्लो.

Que todos os dias praticassem com os naturaes, a certas horas determinadas quae apprendessem a ler e escrever nos proprios caracteres do paiz.

अर्थ:- दिसपट्टे थारावीक पूर्वनियोजीत समयार थळाव्या लोकां कडेन भासाभास करची आनी तांची भास आनी ते भाशे खातीर वापरतात ती थळावी लिपी पुरायेन शिकून घेवची.

मिशनऱ्यांनी बेगोबेग थळावी भास शिकची म्हूण थळाव्या शिक्षितांच्या आदारान रायतूरचे सेमिनारींत आनी हेर कडेनूय तांचे खातीर खाशेल्यो शाळा उकत्यो केल्ल्यो. कोंकणी भास शिकून घेवपाची जबर वानसा आनी ते खातीर केल्ली खर मिन्नत हाका लागून धर्म प्रसाराक जीण ओंपिल्ल्या ह्या मिशनऱ्यांनीं कोंकणींत धर्मीक सरस्पत रचपा इतलें प्राविण्य थोड्याच दिसां भितर जोडलें. कोंकणी भास सुत्रबद्ध जावची देखून व्याकरण आनी शब्दकोश रचपाचो वावरूय तांणी रोखडोच हातांत घेतलो. 'सां पाव्ल' सेमिनारींतलो ब्रदर 'आंद्रे वाझ' हाणें तयार केल्लें व्याकरण १५६३ वर्सा बरोवन तयार आशिल्लें. त्या उपरांत 'तोमास इश्तेवांव' वा 'थॉमस स्टिफन्स' (१५४९-१६१९) आनी 'गास्पार द सांव मिगेल' (१५९५-१६४७) हांचे सयत साबार विद्वानांनी हो वावर फुडें व्हेलो. हांगा फा. थॉमस स्टिफन्स हांच्या वावराचो खाशेलो उल्लेख फावता. (तांकां पाद्रि तोमास इश्तेव्हांव ह्या नांवानूय वळखतात.) स्टिफन्स हो इंग्लंडांत जल्मल्लो आनी ऑक्सफोर्डांत शिकिल्लो सरस्पत रचपी भाशातज्ञ. १५७९ वर्सा तो गोंयां पावलो. घडयं, भारताचे भुंयेर पावल दवरपी तो पयलो इंग्लीशमन आसूंये, अशें म्हणटात. १५९० वर्सा साश्टीचो ख्रिस्ती धर्म मुखेली म्हूण ताणें सुत्रां हातांत घेतलीं तेन्ना १५८३ वर्साच्या कुंकळ्ळच्या बंडाचो उजो आजून धगधगतालो. देवळां मोडप आनी बळजबऱ्यां धर्मांतरां करप हांचे आड पेटून उठिल्ल्या थळाव्या लोकांनी कांय पाद्रींक जिवानिशीं मारून उडयिल्ल्यान आनी खुबळिल्ल्या पुर्तुगेजांनी संखेनी थळाव्या लोकांची कत्तल केल्ल्यान साश्टींतलो लोक तापिल्लोच आशिल्लो. तें वातावरण समजिकायेन थंडायेर घालपाचो म्हत्वाचो वावर फादर स्टिफन्साक करचो पडलो. लोकसंस्कृताय आनी थळावी भास शिकून घेतिल्ल्यान तें सोपें जाल्लें. मागीर ताणें जेजूची शिकवण सामान्यां मेरेन तांचे भाशेंतल्यान पावोवपाचो वावर हातांत घेतलो. त्या काळार हेर भारतावरीच गोंयांत वाचपी-बरपी आसले ते चडशे वयल्या वर्गांतले म्हळ्यारच बामण. चालंत आसलें तें चडशें धर्मीक आनी भक्ती साहित्य मराठी भाशेंतलें. स्टिफन्सान ह्या बरपाक्षरी लोकांचो आदार घेवन जें 'ख्रिस्तपुराण' रचलें तें मराठींत. 'हें सर्व मराठिये भासेन लिहिलें आहे.' अशें स्टिफन्स सांगता. फुडें म्हणटा- '....मागिल्ल्यां कवेस्वरांचीं बहुतेकें अवघडें उतरें सांडुनु सांपुचियां कवेस्वरांचिये रितुप्रमाणें अणियेकें सोंपीं ब्राह्मणांचे भासेचीं उतरें ठाईं ठाईं मिसरीत करून कवित्व सोपें केलें'. इकरा हजार होंवयांचो हो ग्रंथ स्टिफन्सान मराठींत बरयलो. पूण ह्या ग्रंथा उपरांत ताणें मराठींत रचना केल्यो नात. कारण कितें? मराठींतलें बरप सरसामान्यांक सारकें समजना हें ताच्या

लक्षांत येतकच उपरांतची सगळी ग्रंथावळ ताणें कोंकणींत रचली. 'दौत्रीं क्रिश्तां' (१६२२ वर्सा प्रकाशीत) जावं 'आर्ति दे लिंग्व कानारीं' (छा. १६४०) ही स्टिफन्साली बरपावळ हाचीच गवाय दिता. हेर मिशनऱ्यांनीं सुर्वेच्या काळार साहित्य रचलें. पूण रोखडोच शब्दकोश रचपाचोय वावर तांणी हातांत घेतलो. १५७० वर्सा रायतूरचे सेमिनारींतल्या पाद्रींनीं कोंकणीची उतरावळ एकठांय करून शब्दकोशाची रचना केली. होय वावर 'दियोगु रिबैरू' (१५६०-१६३३), 'आंतोन द साल्दान्य' (१५८३-१६३३), 'मिंगेल द आल्मेदा' (१६०७-१६८३) ह्या विद्वानांनीं फुडें व्हेलो.

कोंकणी व्याकरण आनी शब्दकोश हांचो वावर पुर्ण जाल्या उपरांत मिशनऱ्यांनी गोंयच्या नवक्रिस्तांव लोकां मदीं धर्मीक शिकवण पातळावपा खातीर जायती सरसपत रचली. तातूंत दोतिनीची पुस्तकां, सांतांच्या जिविताच्यो कथा, वांजेलांचें (क्रिश्त-जीवन कथेचे) भाशांतर, भक्तिपर बरपां, धर्मोपदेशाचे सेरमांव ह्या विशयांचो आस्पाव जाता. इग्नास्यु आर्कामोनी हांचो 'सगळ्या वरुसांचे वांजेल' हो ग्रंथ म्हळ्यार कोंकणींत रचिल्लें बायबल. ह्या ग्रंथाक लागून समस्त भारतीय भासांमदीं बायबलाचो पयलो अणकार रचून जालो तो कोंकणींत अशें 'डॉ. जुझे पेरैर' म्हणटात. (कों.मं. पान १५). ते फुडें म्हणटात, सगळ्या प्रमाण कोंकणी गद्यकारां मदीं, एकलो कृष्णदास शामा भायरावन, श्रेश्ठ बरोवपी तो 'मिंगेल द आल्मैद'. तांगेलो भोव मोलादीक ग्रंथ म्हळ्यार पांच खंडानी उजवाडायिल्लो 'वनवाळ्यांचो मळो'. आनी भक्तिकाव्य रचप्यामदीं म्हालगडो तो मंगळुरांत रावपी पूण मूळ गोंयचो पाद्री 'ज्योकीं द मिरांद' जाणें 'रिगलो जेजू मळयांतु' हे काव्य रचलें.

मिशनरी काळांत रचिल्ल्या कांय बरपांच्यो पती फुडें दिल्यात.

## भांगराळो काळ

भारतातंलो पयलो छापखानो गोंयांत उबो जालो तें वर्स १५५६. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय म्हणटात ते प्रमाण मुळांत हें छापयंत्र अबिसीनिया देशांत धाडपा खातीर पोर्तुगालच्यान बोटीन भायर सरिल्लें. त्या काळा वयल्या नेमाप्रमाण बोट 'केप ऑफ गूड होप' ह्या भूंयशिराक भोंवताडो घालून गोंय बंदराचेर विसव घेवन मागीर अबिसीनिया दिकेन वचपाची आसली. हे बोटीचेर अबिसीनिया देशा खातीर नेमिल्लो पात्रीआर्क प्रवास करतालो. तो गोंया देंवलो तेन्ना पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी कांय कारणाक लागून तांकां आडावन दवरलो. ताचेबराबर छापयंत्रूय बी गोंयांत

देंवोवचें पडलें. आनी उपरांत गोयांतूच आशिल्ले रायतूरचे सेमिनीरींत १५५६ वर्सा ताची थापणूक जाली. ताचो लाव घेवपाचें मिशनऱ्यांनी थारायलें. (Hist. of. K. Lt pg. 15)

पूण डॉ. ओलीव्हिन गोमिश सांगतात (K. Lt in R. script pg. 2) ते प्रमाण पोर्तुगालच्या रायान आफ्रिकेंतल्या एथिओपियांत ख्रिस्ती धर्माचो प्रसार करपी प्रॅस्टर जॉन ह्या थंयच्या राया लागीं इश्टागतीचे राजकी आनी धर्मीक संबद प्रस्थापीत करपाच्या हेतान हे छापयंत्र त्या रायाक भेट म्हूण धाडिल्लें. पोर्तुगालच्यान आफ्रिकेक वचपी बोटी गोंय बंदरांत रावपाची चाल आसली. ते प्रमाण छापयंत्र घेवन वचपी बोटूय गोंय बंदराचेर रावली. आनी बोट फुडल्या प्रवासाक वचपाक भायर सरली तेन्ना दर्यांत आकांताचें तुफान जालें आनी बोटीक गोंय बंदराच्या आलाशिऱ्याक परती येवचें पडलें. छापयंत्र गोंयांतूच उरचें अशी देवाची इत्सा आसुंये अशें येवजून छापयंत्र गोंयांत देंवयलें. आनी ताची थापणूक रायतूरचे सेमिनारींत १५५६ वर्साच्या सप्टेंबरांत जाली.

मिशनऱ्यांनी कोंकणी शिकून घेतिल्ली आनी कोंकणींत सरस्पतूय रचून तयार आसली. पूण छापपा खातीर नागरी खिळे (Type) नाशिल्ले. फादर थॉमस स्टिफन्सान पोर्तुगालच्यान खिळे तयार करून हाडपाची तजवीज केली. ते खातीर अक्षरांची चित्रां करून धाडलीं आनी थंयच्या ओतकाम कारखान्यांतल्यान तशे खिळे तयार करून धाडचे अशी विनंती केल्ली. पूण पोर्तुगालच्या राज्यकर्त्यांनी तें कानामनार घेतलें ना अशें डॉ. गोमिश सांगतात (K. Lt in R. script pg. 6). गोंयांतच तशे खिळें ओतून घेवपाचीय स्टिफन्सान तयारी दाखयिल्ली. पूण वयल्या अधिकाऱ्यांनी खर्च सुमारा भायर वाडटलो अशें सांगून पर्याय म्हूण छापयंत्रा बराबर आयिल्ले रोमन अक्षरांचे खिळे वापरचे अशें सुचयलें. नाइलाजान मिशनऱ्यांनी तें मानून घेतलें. पूण कोंकणीचे उच्चार रोमन लिपयेंत सारके बसनात तें पळोवन छत्तीस नवीं चिन्नां (diacritical marks) तयार करून घेवचीं पडली आनी अशे तरेन मिशनऱ्यांच्या खर आनी जिद्दी येत्नांक लागून कोंकणींतलीं पयलीं छापिल्लीं पुस्तकां तयार जावंक पावलीं. १५५६ वर्साच छापून तयार जाल्लें 'दोत्रीन क्रिस्तां' हें कोंकणी पुस्तक म्हळ्यार पुराय भारतीय भासां मदलें पयलें छापिल्लीं पुस्तक. सेमिनारींत पाद्रीपण शिकपी 'आंद्रे वाझ' ह्या गोंयकारान हें पुस्तक बरयिल्लें. उपरांत आंद्रे वाझाक १५५८ वर्सा पाद्रीपणाची दिक्षा मेळ्ळी.

क्रिस्तांव धर्मीक साहित्याचे नदरेन फुडलीं शंबर सवायशीं वर्सां हो भांगराळो काळ म्हणूंक जाय. ह्या काळांत एकापरस एक सोबीत सुंदर ग्रंथाची रचना जाली. कोंकणी-पोर्तुगेज-कोंकणी शब्दकोशाचो वावर जो 'आंतोन द साल्दान्य', 'मिंगेल द आल्मैद' आनी हेरांनी केल्लो तो 'दियोग रिबैर' ह्या विद्वानान परिपूर्ण करून १६२६ वर्सा छापून उजवाडाक हाडलो. येवरोपी धाटणीचें आधुनीक कोंकणी व्याकरण रचपाची गडगंज बुन्याद घाली ती आंद्रे वाझ हाणें जो वावर उपरांत 'फ्रेइश गास्पार दे सा मिंगेल' हाणें फुडें व्हेलो. पूण तो तडीक व्हरपाचो आनी कोंकणीचें पयलें व्याकरण छापून उजवाडाक हाडपाचो (१६४० वर्सा) मान फावो जाता तो थॉमस स्टिफन्साक. ह्या काळार कोंकणींत ख्रिस्ती धर्मसाहित्याचे सुमार ४८ वजनादीक ग्रंथ बरोवन जाले. तांतले म्हत्वाचे म्हळ्यारः- सांत आंतोनीची अचर्यां (बरोवपी- 'आंतोन द साल्दान्य', पोर्तुगाली जेजुइत ), वनवाळ्याचो मळो- ८ खंड (बरोवपी- 'मिंगेल द आल्मैद', पोर्तुगाली जेजुइत), देवाचीं एकांग्र बोलणीं (बरोवपी-'जुआंव द पेद्रोज', पोर्तुगाली जेजुइत), विवेक मळो (बरोवपी-'फ्रेइश गास्पार दे सा मिंगेल'), रिगलो जेजू मळ्यांत (बरोवपी-'ज्योकीं दे मिरांद', गोंयकार जेजुइत), दोत्रीना क्रिस्तां- १५५६ वर्सा उजवाडायले (बरोवपी-'आंद्रे वाझ', गोंयकार) आनी त्याच माथाळ्याचें १६२२ वर्सा उजवाडायिल्लें दोत्रीना क्रिस्तां (बरोवपी- 'थॉमस स्टिफन्स', आयरीश जेजुइत)

### गिराण

दक्षीण भारतांत भक्ती आंदोलनाचो उदेव सुमार सातव्या शतमानांत जालो. उपरांत सतराव्या शतमाना मेरेन पुराय देशभर भक्ती साहित्याचें पेंव फुटलें. भक्ती आंदोलनाचें सगळ्यांत व्हड योगदान म्हळ्यार जें रचीत आशिल्लें साहित्य- मागीर तें पुराण-प्रवचनां जावं वा वेद-गीता जावं - जें फकत अभिजन लोकां मजगतींच घोळटालें तें सरसामान्यां मेरेन पावलें. ह्या काळार प्राकृत भाशांक बरे दीस आयले. साहित्य भौसा मेरेन पावोवपाचो जाणीव पुर्वेक येत्न जावंक लागलो. कर्नाटकांत बसवण्णाली सर्वसमावेशक विचारधारा चडांतचड लोकांनी आपणांयली. अंधश्रद्धा आनी भेदाभेद हांकां विरोध करपी वचनसाहित्य अभिजनांक तशें भौसाक भोव मानवलें. भक्ति साहित्यांतल्या नादमधूर गीतां-संगीतान सरसामान्यांक पिशें लायलें. संत नामदेव सारक्यांनीं भक्ति साहित्याचो प्रसार करीत देशभर भोंवडी

मारली. संत ज्ञानेश्वरान मराठी भाशेचें मुळावण घालें. संत तुकारामाच्या अभंगांनीं भटां-बामणांची रायबारी न्हयकारून भौसाची नाळ निट्ट देवा कडेन जोडून दिली. उत्तर भारतांत कबीर, रविदास, गुरु नानक, पुरंदर, वल्लभाचार्य, चैतन्य महाप्रभू ह्या संत महात्म्यांनी भौस आनी देव हांचे मदीं सांकव बांदलो. सूरदास, मीराबाय हांचीय भजन-गीतां लोकांमोगाळ जालीं. पूण दुर्दैवान त्या काळार गोंयांत संतसाहित्य निर्माण जावंक पावलें ना. ना म्हणपाक सोळाव्या शतमानाचे सुर्वेक कृष्णदास शामा ह्या संतकवीन 'कृष्णचरित्र गाथा' हो पद्यमय ग्रंथ रचलो. कोंकणीक लागीं अशे मराठींत तयार जाल्लें भक्ती साहित्य पयलींच लोकां मेरेन पाविल्लें. अशा संत रचनांचो प्रभाव म्हूण जावंये- 'कृष्णचरित्र गाथा' हो ग्रंथ ताणें मराठींत रचलो. अजाप म्हळ्यार, ह्याच कृष्णदास शामान महाभारत-रामायणांतल्यो काणयो रचल्यो त्यो मात कोंकणींत रचल्यो. ह्या विशयाचेर वयर बरयिल्लेंच आसा.

पूण हो भांगराळो काळ सुमार शंबर वर्सांच तिगलो. त्या उपरांत गोंयां आयिल्ले व्हायसरॉय, जांव आर्कबिशप, जांव मिशनरी कोंकणी कडेन उणाक नदरेन पळोवपाक लागले. ताचें पयलें कारण म्हळ्यार हिन्दू धर्म सोडून जे क्रिस्तांव जाल्ले ते आदल्यो परंपरा सपसप सोडूंक तयार नासले. बेताळ, सांतेर, देंवचार हांचेवयलो तांचो भावार्थ उणो जावं नासलो. नाल्लार प्रमाण जावप, संक्शटा वेळार कुळदैवताक गाराणे घालप, म्हारवाक सूररोंट दिवप ह्यो चाली सुटनासल्यो. जल्मा-लग्रा कारणांक होंवयो घालताले तांतूत परंपरेन आयिल्ले बाळकृष्णाचे वा राम सितेचे उल्लेख येताले. रोमन कॅथॉलीक चर्चीचो इन्क्विझिशन हो कायदो गोंयाक आनी हेर भारताक लागू केलो ताचें कारण हेंच. जे लोक क्रिस्तांव धर्मांत रावन थळाव्या धर्माचेंय आचरण करतात तांचे आड हो कायदो. हो कायदो गोंयांत चालीक लावपा खातीर खाशेलें न्यायासन १५६० वर्सा स्थापन जाले. ह्या कायद्याची कारवाय कशी जावची हें विस्कटावन सांगपी जी संहिता (पिनल कोड) तयार केल्ली तातूंत कोणा-कोणा आड खटलो भरूं येता आनी कसकसली ख्यास्त फर्मावं येता तें विस्तारान सांगिल्लें. तांतलें एक कलम स्पश्ट सांगताः- 'ज्या कोणा कडेन आदलीं पुस्तकां वा बरपां सांपडटलीं तांचेर खटलो भरचो' "Contra os que leem e tem livros defesos" (हिंदूस्तानाचे दोन दरवाजे- अ.का.प्रि पान १२) हाचोच अर्थ पुर्तुगेजांनी आनी धर्मप्रसारकांनीं थळावे भाशेंतलीं बरपां ते पयलींच हुकूम काडून जप्त केल्लीं आनी नश्ट केल्लीं. अशें आसुनूय कांय लोक हीं बरपां

लिपून वाचताले, हांचो पाखल्यांक राग आसलो. देखून इन्क्विझिशनाचे संहितेंत नमूद करून असलीं बरपां कोणाच कडेन उरचीं न्हय हाची जतनाय तांणी घेतिल्ली.

शब्दकोशकार मोन्सिन्योर सेबास्तियांव रूदोल्फ दालगाद म्हणटात, "गोंय जिखून घेना फुडें, खोशेन भरिल्ले आवतिकायेंत आनी धर्मातिरेकाचे घुवळेंत, जशें ओमारान अलेक्झांड्रीया जिखना फुडें थंय केल्लें, तशे तरेन पोर्तुगाजांनी गोंय जिखून घेनाफुडें पयलीं देवळां मोडलीं, म्हुर्ती फोडल्यो आनी जें जें साहित्य हातांत पडलें तें तें मुर्तिपूजकांचें आनी देखून निशेधाई अशें लेखून लासून उडयलें. अशें करून तांणी थळावे भावार्थ आनी परंपरा हांचो अभ्यास करपाचें साधनच नाशें केलें. भास बरोवपाची पद्धत, लिपी, शैली, इतिहासीक दस्तऐवज, शिक्षणीक साहित्य आनी शेजारच्या लोकां कडेन वा लोकभाशां कडेन कशे तरेचे संबंद आशिल्ले हांचो सोद घेवपाचें म्हत्वाचें साधनच तांणी नश्ट केलें. उपरांत जेन्ना ख्रिस्ती धर्मीक साहित्य रचपाचो वा अणकारून थळावे भाशेंत हाडपाची गरज उप्रासली तेन्ना तांकां भोव आडमेळीं सोंसची पडलीं. थळाव्या पंडितांचो आदार घेवचो पडलो. कोंकणी भाशेंत रचिल्ल्या भक्ति साहित्याचेर संस्कृत आनी मराठीचो प्रभाव दिश्टी पडटा ताचे कारण हेंच."

धर्मांतर जालें तरी लोक आदल्यो परंपरा सोडूंक तयार नासले. तें संकश्टा वेळार आदल्या देवदैवतांक शरण वतालें. जंय खंयूय हिंदूंची पूजा चलता वा भक्तिगितां म्हणटात जाल्यार तांचेय हात भक्तिभावान जुळटाले. हें मिशनरीक मात्त मानवनासलें. त्या काळार जें थोडे भोव भक्तिसाहित्य हाताक लागतालें तें पुर्तुगेजानी जप्त करून नश्ट केल्लें. तरिकूय गितां आनी कथा जिबेर घोळटाल्यो तांकां आळाबंदा घालप जालें ना. हिंदू आपणालीं देवदेवसपणां करताले तांकां तांचो तितलो आक्षेप नासलो पूण क्रिस्तांव जाल्लो लोकूय आदले भावार्त आनी मुर्ती पुजा विसरनात हाची मिशनरींक तिडक आसली. मिशनरी मागीर सरकारी अधिकाऱ्यांचे कान फुंकताले. तो राग मागीर तें बाबड्या लोकांचेर काडटाले.

१६८३ वर्सा मराठ्यांचो राया संभाजी भोंसले गोंयचेर चाल करून आयलो. २४ नोव्हेंबर १६८३ दिसा संभाजीन जुंवें जिखलें. हो जुंवो ताब्यांत येनाफुडें ताणें मांडवी हुपून धावजेंच्यान पुर्तुगेजाचेर घुरी घालपाचो बेत आंखलो. ते पयलीं ताणें पुर्तुगेजाच्या शेकातळच्या पुराय वाठाराची नाकाबंदी केल्ली. पुर्तुगेजांक

हार खावची पडटली हें निश्चित दिशिल्ल्यान व्हायसरॉय फ्रांसिश्क दे तावोर हाची भियेवन गुळी जाली. निमणो उपाय म्हूण तो सां फ्रांसिक शाविएराक शरण गेलो. आपणाक ह्या संकश्टातल्यान वांटाय म्हूण मागणें केलें. इतले मजगतीं, गोंय जिखूनच परतो वतलों हो निश्चेव करून आयिल्ल्या संभाजीक अचकीत संदेश मेळ्ळो मोगल राजा व्हडलें सैन्य घेवन मराठ्यांचेर घुरी घालपा खातीर चाल करून येता. स्वराज्या रक्षणा खातीर बेगोबेग परतो वचप गरजेचें जाल्ल्यान गोंय शाराक घाल्लो रेवाडो काडून घेवन संभाजी आपणाली फौज घेवन परतो गेलो.

आपूण वांटावलों हाचें पुराय स्रेय व्हायसरॉय तावोरान सां फ्रांसिक शाविएराक दिलें. देवाचे उपकार मानले. पूण संभाजी हांगा येवन पुर्तुगेजाक धांवडावपा मेरेन पावलो कसो हाचें कारण सोदतना गोंयां भितरले लोकच ताका फितूर आशिल्ले असो दुबाव तावोराक आयलो. थळाव्या लोकांची निश्ठा पुर्तुगेजां वटेन ना म्हणपाचो दुबाव येवन तो तिडकलो. गोंयचो क्रिस्तांव लोक हिन्दू मदीं मिसळटात, हिन्दूंची राजनिश्ठा पुर्तुगेजां वटेन ना आनी हिन्दू लोक नव-क्रिस्तांवांचींय मनां कलुशीत करतात अशें मिशनरी लोक सांगताले तातूंत तथ्य आसा अशें तावोराचें मत्त जालें

सुर्वेच्या काळार धर्मप्रसारा खातीर जे मिशनरी आयिल्ले ते सर्वसंगपरित्याग करून पुराय जीण धर्मप्रसाराक ओंपिल्ले आसले. गोंयां धर्माचो प्रसार करतले जाल्यार थळावी भास शिकून ते भाशेंतल्यानच प्रचार जावंक जाय ही तांची धारणा आसली. देखून पयल्यानपयलीं तांणी थळावी कोंकणी भास शिकून घेतिल्ली आनी ख्रिस्ती धर्मसाहित्य अणकारून थळावे भाशेंत हाडिल्लें. त्या काळावयल्या मिशनऱ्यांच्या वरिश्टांनीय ठांय ठांय शाळा उगडून मिशनरींनी कोंकणी पुरायेन शिकून घेवंची असो आदेश काडिल्लो. पूण काळांतरान जे नवे मिशनरी आयले, भोव करून फ्रांसिकन, तांचे कडेन ती जिद्द नासली. पुरायेन वेगळी अशी ही कोंकणी शिकून घेवपा खातीर ते कश्ट घेवपाक तयार नासले. हांगासरली संस्कृताय तांकां असभ्यतायेची दिसताली. आपणाली अस्तमतेची संस्कृताय ही स्रेश्ट आनी ती संस्कृताय आपणें गोंयच्या क्रिस्तावांक शिकोवंक जाय अशें तांकां दिसतालें. व्हायसरॉयच्या कानांत भरून तांणी सांगलें, 'राज्यकर्त्याची भास प्रजेन शिकूंक जाय, राज्यकर्त्यांनी प्रजेची न्हय. तांची संस्कृताय आमी घेवप न्हय तर आमची उंचेली संस्कृताय आमी तिका दिवप.' तांचें सांगणें व्हायसरॉयान मानून घेतलें.

तरणेपणांत विधवा जाल्ल्या बायलांनी पर्थून लग्न करून संवसाराक लागचें अशें फर्मान राज्यकर्त्यांनी काडिल्लें आनी मिशनरी ताचो प्रचार करताले. विधवांनी लग्न करपाची थळावी परंपरा नाशिल्ल्यान गोंयकार क्रिस्तांव फर्मानाच्या आड एकवटान उबे जाले. फ्रांसिश्कनांनी पर्थून थळाव्या लोकां आड व्हायसरॉयाचे कान भरले. क्रिस्तांव लोक मुर्ति पूजकां कडेन कोंकणींत उलयतात देखून आदल्यो परंपरा चालू दवरतात. क्रिस्तांव गोंयकार आपसांत कितें उलयतात तें आमकां समजना देखून तांचें फावता. जो मेरेन गोंयचो समेस्त लोक कोंकणी उलोवपाचें सोडून फकत पुर्तुगेज आपणायनात तो मेरेन तांची राजनिश्ठा दुबावाचीच उरतली. अशे आपणाले निश्कर्श तांणी व्हायसरॉयाच्या मनार बिंबयले.

ह्या वयर सांगिल्ल्या गजालींचो एकवटीन परिणाम म्हूण गोंयचो व्हायसरॉय फ्रांसिश्कु तावोर हाणें २७ जून १६८४ ह्या दिसा वटहुकूम काडलो कोंकणींतल्यान केसलोय वेव्हार करचो न्हय, फकत पुर्तुगेजच वापरची, पाद्रींनी धर्माची शिकवण फकत पुर्तुगेजींतल्यान दिवंची अशें फर्मान काडलें. रातयांत भास बदलप शक्य जावचें ना हें मतीत धरून आपूण लोकांक तीन वर्सांची मूजत दितां. ह्या तीन वर्सा भितर पुर्तुगेज भास पुरायेन आत्मसात करची. त्या उपरांत खंयचेच परिस्थितींत कोंकणीचो कसलोच वापर जावंक फावना. जालो जाल्यार खर ख्यास्त जातली ही शिटकावणीय ह्या फर्मानांत आसली.

१७३६ वर्सा इन्क्विझिशन न्यायासनान आन्येक फर्मान काडलें. त्या काळार लग्नासमयार होंवयो गावपाची चाल आसली. आनी धर्मांतर जालें तरी लोक भावना उक्तावपाक आदल्यो होंवयो व्हडा उमेदीन गायताले. ह्या नव्या फर्मानान न्हक्याच्या जावं व्हंकलेचे वटयां कोणेच होंवयो गावपाक फावना, होंवरांच्या सोयऱ्याधायऱ्यांनी लेगीत होंवयो गावंक जायना, धर्मांतरीत ना जाल्ल्या हिन्दुंनी लेगीत भौशीक सुवातेरच न्हय तर खासगींत लेगीत होंवयो वा हेर गितां नव-किरिस्तांवाल्या कानार पडपा सारकीं गावंक फावना. (pg.35 of k.lit. in roman script) असो कायदो करून कारवाय सुरु केली.

१७४५ वर्सा अन्येक फर्मान काडून सेमिनारींत कोणेच पुर्तुगेजी बगर दुसरी भास उलोवंक जायना, कुमन्यांव घेवपाक येतले लोक पुर्तुगेज भासूच उलयतात हाची खातरी करची, तांकां धर्मीक शिकवणींतले प्रस्न पुर्तुगेजीन विचारून ती

तांकां सारकी येता जाल्यारच तांकां कुमन्यांव आनी साक्रामेंतव दिवचे अशें फर्मायलें.

१८१२ वर्सा पयली सरकारी शाळा गोंयांत उक्ती जाली. ह्या वेळार आर्कबिशप 'फ्रेय मानुएल दे गालदीन' हाणें फतवो काडलो- पुर्तुगेज भास जांकां बरी कळटा तांकांच शिक्षक म्हूण नेमचे, शिकपी विद्यार्थ्यांनी शाळेंत फकत पुर्तुगेजच उलोवंक जाय. पूण हे खेपेच्या ह्या फतव्यांत थोडीशी सदळसाण आसली. विद्यार्थ्यांक पुर्तुगेज बरी येवची हे खातीर शिक्षकांनी तांकां कोंकणींतल्यान समजावणी दिल्यार उपकरता अशी ही सूट दिल्ली. ह्या आर्कबिशपान कोंकणी भास बरी शिकून घेतिल्ली आनी कोंकणीचे व्याकरणी बांदावळीचो अभ्यास करून ह्या विशयाचेर लेखनूय केल्लें. खरें म्हळ्यार थळावे भाशेचें म्हत्व आनी मोल वळखल्ल्यान ते भाशेचो अभ्यास जावंचो ह्या मताचो तो आसलो. पूण ताका ताच्या सहकाऱ्यांचो तेंको मेळ्ळो ना. आनी हो आर्कबिशप बदलून दुसरे आयले तांणी तर ती सूट काडून उडयली. फुडें १८४७ वर्सा आर्कबिशप 'जुझे मारिया द सिल्वा तोर्रीश' हाणें आन्येक पावल फुडें घालून पाद्रींनी आनी शिक्षकांनी आपसांत लेगीत फकत पुर्तुगेजच उलोवंक जाय आनी कोंकणी उलयतल्यांक ख्यास्त मेळटली अशी शिटकावणीय दिली.

## थाकाय

कोंकणी मुळासकट ना नपयत करून उडोवपाचे इतले येत्न जावनूय कोंकणी भास लोकांचे जिबेर उरली. पूण जिबेरच उरली. बरपाक्षरांतल्यान पुरायेन नश्ट जाली. अशा वेळार जो कोंकणी लोक कर्नाटकात गेलो तांणी कन्नड भास शिकून घेतली. तांचे वाचन आनी लेखनूय कन्नड भाशेंतच जावंक लागले. पंजे मंगेश पै धरून हालींच्या गिरिश कर्नाड मेरेनच्या कोंकणी मनशांनी आपणाली सर्जक कुशळताय थळावे भाशेक भेटयली. हीच गत्त जाली केरळांत पाविल्ल्या कोंकणी लोकांची. अनेक कोंकणी मनशांनी मलयाळम भाशेक आपणालें योगदान दिलें. गोंयांत जे हिन्दू आशिल्ले तांचे मुखार पर्याय नाशिल्लो. कोंकणीक सगल्यांत चड लागींची भास ती मराठी. मुळांतच कोंकणींत संतसाहित्य चड निर्माण जावंक नाशिल्ल्यान हिन्दुंनी मराठी संतसाहित्याक लागीं केल्लें. कोंकणीचेर बंदी येना फुडें हिन्दुंनी मराठीक लागीं केली. शेजारच्या महाराष्ट्रांतलीं पुस्तकां हाडून आनी थंयचेच मास्तर हाडून धर्म आनी संस्कृतायेची राखण करपाचो येत्न केलो. जांचे कडेन सर्जक कला

आसली ते पुण्या-मुंबयंत पावलें. तांणी मराठीची सेवा केली. आनी मराठींत साहित्यूय रचलें. अदींमदीं कोणूय कोंकणींत बरयताले. पूण तें चड करून स्वानंदा खातीर आसतालें. छापून आयलेंच जाल्यार वाचकवर्ग उणो आशिल्ल्यान सगळ्यां मेरेन पावनासलें.

१८२२ वर्सा पोर्तुगालांत संविधानीक बदल घडून आयले. आनी तेन्नाच्यान ल्हवू-ल्हवू भाशा आनी साहित्या वयले निर्बंध सदळ जायत गेले. पूण तो मेरेन इतलो कळाव जाल्लो की कोंकणी साहित्या पासून पयस वचून मराठी साहित्याक लागीं गेल्ल्या हिन्दू समाजाक पर्थून कोंकणी भास आनी साहित्य आपणावपाची गरज दिसना जाली. उलोवपा खातीर कोंकणीच पूण वाचपा बरोवपाची भास ती मराठी अशें समिकरण तयार जालें. तशांतच कोंकणी-मराठी भाशावाद सुरु जालो. कोंकणीचो पाखो घेवन झगडपी स्वाभिमानी गोंयकार संखेन उणे आशिल्ल्यान तांकां नेट नाशिल्लो. तातूंत महाराष्ट्रांतली पुराय मराठी जनता कोंकणी ही मराठीची बोली अशें गृहीत धरून चलताली. ह्या वादाक लागून कोंकणीचें हिसबा भायर लुकसाण जालें इतलें खरें.

## लोकसाहित्य

क्रिस्तांवाक मूळ संस्कृताये पासून तोडपाचे येत्न जाल्ले खरे. पूण इतलें आसुनूय थळावे भाशेचो मोग काळजाच्या कुरकुटांत जतनायेन दवरिल्ले लोकूय हांगा आसले. मातशी मेकळीक मेळना फुडें तांचो कोंकणीचो मोग आनी निजाची कला उमळून वयर आयली. काळजांतले उमाळे देखणी, दुलपदां आनी मांडो जावन वयर सरली. देखणी हो गीत प्रकार शंबर वर्सा फाटीं बरोच लोकप्रिय आशिल्लो जावंये. पूण हालींसराक देखणी गितां साप थोडीं आयकूंक वा वाचूंक मेळटात. खूब गाजता ती देखणी म्हळ्यार 'हांव सायबा पलतडी वयता'. देखणी गीत गावपाचें आसलें तरी तें एक नृत्यगीत. ह्या गीताक आशिल्लो ताल आनी अंतर्भूत संगीत इतलें मनभुलावणे आसा, भास कळू ना कळू, आयकपी रोखडोच ताल धरूंक लागता. हे देखणेचे बोल अशे आसात–

वयल्या वयल्या दोंगरार, उदक कोंगरें
उदक कोंगरें जाल्यार, कलवंत मोगरें

दामुल्या लग्नाक पलतडी वचपाक भायर सरिल्ली अस्तुरी मागीर तारयाक कशी विनयता तें फूडें आसा – तारयो कसो आयकून घेना तेंय बेस बरें सांगला.

"हांव सायबा पलतडी वयतां
दामुल्या लग्नाक वयतां
म्हाका सायबा वाट दाखय
म्हाका सायबा वाट कळोना.
ही म्हुज्या नाकांतली नोथी
घे गा सायबा
म्हाका नाका गो, म्हाका नाका गो.
हीं म्हुज्यां पांयांतलीं पांयजणां

घे गा सायबा
म्हाका नाका गो, म्हाका नाका गो."

मागीर ती मुदी दिवपाक करता, सरपळी घे म्हणटा आनी अशे तरेन गीत कितलेंय लांबोवं येता.

दुलपदां हो प्रकार हिन्दू मदींय आसा. पूण क्रिस्तांव समाजांत तो वेगळे तरेन केळयला. मांडो सोंपल्या उपरांत वा दोन गीतां मदीं दुलपदां गायतात.

"बुलूबुलू माजरा
आवय गेली काजरा
देडपडीचे माणस केल्लें
कोणे खायलें गो रांडला !"

लोकसाहित्यांत लोक म्हणटा तो भौसांतलो आसता. त्या काळा वयलें भक्तिसाहित्य वा धर्मीक रचना वेदीक परंपरेक अणसरून निर्माण जाल्लें साहित्य. पूण लोक साहित्य हें लोक परंपरेतलें. आदिवासी समाजाची अभिव्यक्ति ह्या प्रकारांत दिश्टी पडटा. लोकसाहित्य आनी लोककला हांचो सुमेळ म्हळ्यार लोकवेद. ह्या लोकवेदांतले 'लोक' हे संज्ञेंत धवाडे वा भाटकार आसपावनात. पूण मांडो हो प्रकार मात लोकसाहित्यांत आसा तरी तो खास करून वयल्या थरावयल्या क्रिस्तांवानीच केळयला. विशिश्ट आंगलीं घालून मंद धोलत नाचतना म्हणपाचें हें प्रेमगीत. मोगाचीं विंगड विंगड रुपां मांडो रंगयता. मिलनाची ओड, मनधरणी, पैसावो, विरह अशी विशयां वयलीं हीं गितां.

मांडो हो प्रकार सुमार १८५० वर्सा जल्माक आयलो. डॉ. जुझे पैरैरा सांगतात (Song of Goa, Crown of Mandos, pg.35) होवी ह्या कोंकणी लोकगितांतल्यानच मांड्याचो जल्म जालो. त्याचवांगडा डॉ. जुझे पैरैरा सांगतात (पान ३३) ह्याच काळांत पोर्तुगालांत 'फादु' हो गीतप्रकार जल्माक आयिल्लो. हो प्रकार मांडो रचप्यांक खुबच मानवल्लो जावंये. कारण एकाच काळार जल्माक आयिल्ल्या फादु (पुर्तुगेज) आनी मांडो (कोंकणी) हातूंत खूब साम्य आसा. पूण फादु हो दुखेस्त गीतांचो प्रकार जाल्यार मांडो काळजाचे उमाळे आनी कळवळे खोलायेन मांडपी गीत. मांडो हो प्रकार लोकसाहित्यांत जरी आसपावता तरी हेर लोकसाहित्याचे

जनक हो समुह आसता तशें हांगा ना. चडशें मांडे कोणे रचल्यात ताची नोंद मेळटा. ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार मांडो रचपी वयल्या थरांतलो लोक इगर्जेन प्रोत्साहीत केल्ल्या संगीत वर्गांनी शिकून गीत आनी संगीतूय बरोवपा-वाचपाक जाणा आशिल्लो. एक खूब गाजिल्लो मांडो म्हळ्यार 'तांबडे रोजा, तुजे पोले.' हो मांडो मुळांत 'लिगोरिउ कॉश्त' (१८५१-१९१९) हाणें बरयिल्लो.

"तांबडे रोजा, तुजे पोले
ताज्या बेंफैत तुजे दोळे
त्या तुज्या दोळ्यांकू चवच्याक गो
येताय बामणांले चले."

अशी सुरवात करून हो मूळ मांडो उपरांत बदलत गेलो. इतलो की आयचे घडयेक जें रूप पळोवंक मेळटा तें वेगळेंच.

"तांबडे रोजा, तुजे पोले
दुकांनीं भोत्ताय म्हुजे दोळे
पापाचें लिसेंस आसा जाल्यार पळे,
काजार जांवच्याक तुजे कडे"

घडये आपणाल्या काळजाच्या उमाळ्यां कडेन जुळोवन घेत घेत हो मांडो आयचे घटकेक ह्या पांवड्यार पावला आसुंये. हाचोच अर्थ हो मांडो कोणा एकल्याचो उरनासतना तो धा जाणांचो जाला. आनी देखुनच तो लोकसाहित्यांत आसपावंक फावता. अशें आसले तरी तो लोक परंपरेतलो प्रकार न्हय इतलें खंडीत.

लुईस मानुएल मिनेझीस हाणें बरयिल्ले मांडे भोव लोकप्रिय जाले. तो वेवसायान वकील आसलो. क्रिस्तांव बामण समाजांत कोंकणीचो जो मोग आसलो तो मिनेझीसाच्या काळजांतूय धगधगतालो. ताणें रचिल्लो हो मांडो पळेवंया.

संवसार चारूच रे दिसांचो, उगडास वचना मनातुलो
आनी केल्ल्या करण्यांचो, मारयानीन, कश्टां-दगदगांचो ॥
कित्याक वळवळायताय सायबा, कुडी-आत्म्यासयतु?
जायते कश्ट तुवें सोंसलेय, मारयानीन, गरजे विरयतू ॥

हें लोकसाहित्य कांय बरपाक्षरी साहित्य हाचेर वाद आसूं येता. तो वाद केन्ना सरचोय ना. पूण 'मांडो' मेरेन चलत आयिल्ली ही परंपरा आधुनीक साहित्याचें मुळावण घालूंक पावली, इतलें खरें.

## लोकवेद

खंयचेय भाशेच्या आधुनीक साहित्याचें मुळावण ते भाशेच्या लोकसाहित्यांत आसता. कोंकणी हाका आडवाद ना. जनलोकांचे मनरिझवणेखातीर जनलोकांनीच नावांरुपाक हाडिल्ली कला म्हळ्यार लोककला. कोंकणी भाशेंत तिका भोव सोबीत सुंदर अशें नांव आसा. लोकवेद. लोकांनाच, लोकगितां, गीतकाणयो, लोक-खेळ, वाजंतरां आनी लोक-काणयो हांचो आसपाव आशिल्लो कोंकणी लोकवेद खूब गिरेस्त आसा. परकी आक्रमणांनी चिड्डून-खुडून उडयिल्लो आसुनूय तो लोकां मदीं तग धरून रावलो ताचें कारण जनमानसांत रिगिल्ली ताचीं खोलखोल मुळां.

ताल, स्वर आनी गीत हांचो सुमेळ म्हळ्यार लोकवेद. शेंकड्यांनी वर्सांची परंपरा आशिल्ल्या ह्या लोकवेदाक इतिहासीक घडणुकांचो खर हुलप बादुनूय तो जिवो उरलो हाची तोखणाय करची तितली थोडी. भारतांतले खंयचेच भाशेच्या वांट्याक अशे तरेची पिडापीड येवंक ना. १५१० वर्सा पुर्तुगेजांनी गोंय जिखलें आनी तांच्या फाटोफाट आयिल्ल्या ख्रिस्ती मिशनऱ्यांनी धर्मांतराचें काम हातांत घेतलें. धर्मांतरीत लोकांक तांचे भाशेंत ख्रिस्ती धर्माची शिकवण दिवपाक येवची म्हूण ह्या जेजुईत मिशनऱ्यांनीं थळावी भास शिकून घेतली. धर्मांतरीत जाल्लो लोक आदलीं मूर्तिपुजेचीं बरपां वाचतले ह्या भंयान मिशनऱ्यांनी हातांत मेळटा ते साहित्य पुंजावन नश्ट केलें. पूण तरिकूय नवख्रिस्ती लोक आदल्यो लोकपरंपरा सांबाळटात हें पळोवन तांणी नवो कायदो काडून जावं हिन्दू जावं क्रिस्तांव कोणाचकडेन पुर्तुगिज सोडून हेर साहित्य आसूंक फावना आनी सांपडलें जाल्यार कडक ख्यास्त भोगयतले असो कायदो पास करून घेतलो. त्या काळार बारशा कडेन, लग्नासुवाळ्यांनी वा मौजेखातीर होंवयो गावपाची चाल आसली. ह्यो होंवयो धर्मांतरितांक आदल्या धर्मा कडेन बांदून दवरतात अशी समजिकाय करून घेवन होवयो गावपाचेरूय बंदी हाडली. पुर्तुगेजांचे हे दुबावी आनी दुस्वाशी वृत्तीक लागून लोकसाहित्याचेर हावळ आयली. ताचो अनिश्ट परिणाम जावन क्रिस्तांव समाजा मदलें लोकसाहित्य नश्ट जावंक पावलें.

पोरन्या काबिजादींतल्या हिन्दुंच्या लोकसाहित्याचेरूय हो वायट परिणाम जालो. पूण त्या काळार पोर्तुगेज व्याप्त गोंयाभायर जो लोक रावतालो तांचे कडेन मात हें लोकसाहित्याचें धन सुगूर उरलें. नव्या काबिजादींचेर पोर्तुगेजांनी कबजो केलो तितले म्हणसर भास आनी साहित्या विशींचें तांचें धोरण मातशें मोव पडिल्लें. देखून सुर्वेक लिपचोरयां आनी उपरांत उकताडार लोकांखेळ जावंक लागले.

तालबद्ध संगीत म्हळ्यार कोंकणी लोकसाहित्याचें अविभाज्य आंग. धोल, तासो, शामेळ, कासांळें आनी घुमट हीं वाद्यां सामकीं थळावी. ते भायर शेनाय, सूर्त, जांघर, ढोलकें, झांज, पखवाज अशीं वाद्यांय खंय-खंय साथीक घेतात. सारंगी, व्हायोलीन असलीं वाद्यां खूब उसरां आयलीं. भोव करून क्रिस्तांव समाजा मदीं जेन्ना मांडो, दुलपद आनी देखणी ह्या गीतप्रकारंचो जल्म जालो तेन्ना व्हायोलीन हें तार वाद्य वयर सरलें.

अनंत काळा थावन जिबेर घोळपी हें साहित्य एके पिळगे कडसून दुसरे पिळगे कडेन वतना काळा प्रमाण, थळाप्रमाण आनी गरजेप्रमाण बदल आपणायत गेलें. आयचे घटकेक जें कानार पडटा तें पोरनेच लोकसाहित्य पूण ताचेर बदलिल्लो भेस. देखीक राजकुंवरीच्या स्वंयवराचीं आमंत्रणा वाजंतरान पेरगांव घालून न्हय तर 'मोटीं पत्रां तर शापल्या' अशें गाणेली सांगता. फुडें लग्नाचे सुवातेर 'मोठी सभा तर भरल्या'. 'सगलो लोक काय मोट्यां गाड्यांनी, टॅक्सींनी, जिपीन येवन मोटो तर भरला'— अशें वर्णन करता. हें वर्णन शंबर वर्सां फाटलें आसूंकच शकना. मूळ काणयेचेर हो काळा प्रमाण चडयिल्लो साज.

## आल्लयो

लोकवेदांत अन्येक प्रकार आसपावतात. सुवारी, तालगडी, तोणयामेळ, गोफ, फुगडी, धालो, कालो, तरंगा, जागोर, गीतकाणी हे जाले मांडार खेळपाचे प्रकार. नृत्य, संगीत आनी गीत हांचो हो एकवटीत आविश्कार आशिल्ल्यान तें लोकसाहित्यांत वा मौखीक साहित्यांत आसपावता. हांचे भायर जें लोकसाहित्य आसा तांतलें भुरग्यांसाहित्य म्हळ्यार आल्लयो. आल्लयो तरेकवार आसात. जल्मल्ल्या भुरग्याक पाळण्यांत घालतना म्हणपाची गितां, रडपी भुरग्याक थारावपाचीं गितां, जेवनाशिल्ल्याक भरोवपाची गितां, अपुर्बाय करपाचीं गितां

अशा गितांनी लिपिल्ली भाशेची गिरेस्तकाय दोळ्यांत भरपासारकी आसा. कांय गीतां समेस्त कोंकणी समाजांत पातळिल्लीं आसात. तांतलें हें एक-

'जोय बाबा जोय' (पान. १८४ - काणकोणाची...) वा

'जय बाये जय' (पान.४६ - कणेर खुंटी...)

रडटल्याक थारावपाक म्हणटात –

वोगी रे/गो वोगी
भायर आयला जोगी
रडी तांकां व्हरी
वोगी जा बेगीं

हिन्दू आनी क्रिस्तांव दोनूय समाजांमदीं घोळपी हें गीत बायेक धोलयतना म्हणटात –

धोल बाये धोल
पदेरान हाडल्यात बॉल
पदेर तुजे बॉल
दुडू सांगता चड
नाकात ते परते व्हर

सान भुरगें मुठी वळपाक-सोडपाक शिकता तेन्ना आवय म्हणटा–

लाडू वळ गे, लाडू वळ गे, आंबाबाय
एकेक लाडू- तूपान खाय

भुरगें हात बोटां हालोवपाक लागलें म्हणटकीच हें गीत गायतात-

येतें, येतें, येतें, येतें
नाच रे मोरा
पांखां फांकरून मोर
गेलो दोंगरा

मामा ना घरा
कोण देई चारा
येयलो मामा घायलो चारा
चारा खा, पाणी पी
भुर्रर रे मोरा

भुरग्याचो दावो हात हातांत धरून ताच्या तळव्याचेर उजव्या हाताचें बोट नाचयत म्हणपाच्या ह्या गिताचे अखेरेक दोनूय हात वाऱ्यार वावडीत मोर भुर्र गेलो अशें दाखयतात. हें गीत अशाचशा स्वरूपांत केरळांत-कर्नाटकांतूय आसा. अशें सांगतात- गोंयच्यान जे पळून वचून पयस दिगंतरा पावले तांकां घडये घडये गोंयची याद येताली. आवय कुळाराची याद काडीत मोराक मामा - घरा म्हळ्यार गोंयां धाडटाली. भुरग्याच्या मामान दिल्लो चारो-पाणी खावन-पिवन मोर कुळाराची खुशाली घेवन परतो आयलो ही भावना ह्या बाळगितांतसून व्यक्त जाता.

भुरग्याची अपुर्बाय करतनां, तांकां न्हिदयतना, खेळयतना आवयक उतरां कशींच उणी पडनात.

न्हीद रे बाळा, चांफ्या कळ्या
म्हगेले मांडयेर
न्हीद काडून उठलो सांज
बस रे हांडीर

हें गीत कर्नाटक वाठारांतल्या कोंकणी समाजांतूय घोळटा.

कर्नाटक आनी गोंय दोशीं कडेन लोकप्रिय जाल्लीं बाळगितां मदीं 'ता करी थिंगणा' अशीं सुरु जावपी गितां खूब आसात.

ता करी थिंगणां
पैशाक दोन हाडलीं वांयगणां
बायलेक भाजी करूंक कळना.

ही गितां कशींय आनी कितलींय म्हणूं येतात.

ता करी तातूली
भांगरान भरली हातूली
वा
ता करी थिंगणां
पायांत घालीं पांयजणां
वा
ता करी थिंगणां
हातभर घायली कांकणां

भुरगीं व्हड जातात तशीं तांचे बुद्धीक पुटवपा सारकीं नवीं गितां तांच्या कानार पडटात.

शेवण्या किटुरा
खंय गो गेलोलें?
घांटार गेलोलें
घांटार कित्याक?
वावळ्यो हाडूंक
वावळ्यो कित्याक?
घोंटेर बांदूंक
घोंटेर कित्याक?
तांतयां घालूंक
तांतयां कित्याक?
पिलां काडूंक
पिलां कित्याक?
मामालें शेत राखूंक

जिणेचें सत्य भुरग्यां मुखार अशें तरेन सोपे भाशेंत दवरपी हें गीत. शेवणें घोंटेर बांदता, तांतयां घालता, पिलां काडटा आनी निमाणे कित्या खातीर? मामालें शेत राखूंक. अशें तरेन भुरग्या मनांत सुकण्या विशीं प्रेम निर्मणी करपी हीं गितां. हें गीत हिन्दू आनी क्रिस्तांव दोनूय समाजा मदीं घोळटा. अशेंच आन्येक गीत आसा.

तळें सुकोलें, बकें म्हजें बाबडें रे जालें
तळें सुकोलें, बकें म्हजें बाबडें रे जालें
खडप कातय गो, बक्या म्हुज्या मोती मेवतोलें
मोती मेवतोकच, बकें म्हुजें गिरेस्त जातोलें
गिरेस्त जातोकूच, बकें म्हजें काजार जातोलें
काजार जातोकूच, बक्याक म्हुज्या भुरगें जातोलें
भुरगें जातोकूच, बकें म्हजें जाणटें जातोलें
जाणटें जातोकूच, बकें म्हजें मरून वयतलें
मरून वयतकच तळें म्हुजें परतून भरतलें

ह्याय गितांतल्यान जिणेचें दुश्टचक्र ल्हवपीक उतरांनीं भुरग्यांक समजावपाचो येत्न केल्ल्याचें दिश्टी पडटा. हेंच काम आमच्या लोककाणयांनीय केला. कुंडेकुस्कुराचीच काणी घेवंया. घरांत चड भुरगीं आशिल्ल्यान जावपी त्रास, रानांत व्हरून सोडिल्ल्यान भुरग्यांचे जाल्ले हाल, तांकां अचर्कीत सांपडिल्लें सात कुडींचे घर आनी मागीर भयणी-भयणी मदलो दुस्वास. कुंड्यान भरिल्ली कूड दिवन कुस्कुटायिल्ल्या कुंडेकुस्कुराच्या नशिबांत कसो राजकुंवर येता. ही सगली काणी भुरग्यांक मंत्रमुग्ध करून सोडटा. आमच्या लोककाण्यांनी पडवळां, दश्णीफुलां, मोगरे वाली हांचें मानवी करण जाल्लें पळोवंक मेळटा. तांकां लागून सैमाचो मोग आपसूक भुरग्यांच्या काळजांत रिगता. काणयो आयकतां आयकतां भुरगीं एका वेगळ्या कल्पनीक संवसारांत गुल्ल जातात. तांची कल्पकताय जागी जाता. काणयांची भास आयकून तांचें उतरांचें भांडार गिरेस्त जावंक पावता. देखून, लोकसाहित्यांत भुरग्यांच्या साहित्याक अनन्यसादारण म्हत्व आसा.

फाग म्हयन्याचो आनी लोकवेदाचो खूब लागशिल्लो संबंद. तालगडी, तोणयांमेळ, गोफ, हें सगले प्रकार फाल्गुनांत म्हळ्यार शिगम्या कडेन जातात. ते भायर सुंवारी, फुगडी, धालो, कालो, जागर, तरंगा हे प्रकार आसात. नृत्य, वाद्य हांचो वांटो म्हत्वाचो आसलो तरी तांतलीं गितां हींय तिंतलींच म्हत्वाची. हीं गितां म्हळ्यार आमचें गिरेस्त लोकसाहित्य.

भारतांत हेर कडेनूय शिगमो हो रंगांचो उत्सव म्हूण खेळटात. पूण चडशे कडेन तो होळीपुनवेच्या दिसांनी जाता आनी रोखडोच उलगता. गोंयांत मात तो म्हयनोभर

चलता. विंगड-विगंड गांवांनी विंगड-विगंड दिसांनी. घडये ह्या गांवचो लोक त्या गांवांतूय शिगमो खेळूंक पावचो देखून ही मांडावळ तशी रचल्या आसुंये. शिगम्याच्या दिसांनी गांवां गांवांत आनी वाड्याकणकणी शिगम्याचे मेळ भायर सरतात. सारयिल्ल्या मांडार नमन करून मागीर दारादारार वचून घुमटां, शामेळ आनी कांसाळें हांच्या सांगाताक गितां गायतात.

कवाशाची पाकळी
तिरान कापली
देरान वाटली
भावज्यांक..

देवदेवसपण आसता पूण समाजकारण चड. शिगमो हो उत्सव कश्टकऱ्यांचो. ह्या वेळार ह्या अशिक्षीत वा अर्दशिक्षीत भौसाचे उमाळे कशे नेटान फुलून कवनरूप घेतात तें पळोवपा सारकें. शिगम्याच्या दिसांनी भौसांतलो लोक धवाड्यांक उद्देशून फकाणां मारतात. केन्ना केन्ना कांय गडे समाजांतल्यो भानगडीय वयर काडटात. चारचौगां मदीं गाळी मारच्यो न्हय हो सभ्यतायेचो नेम आडकुशीक सारून असुदाय गाळी मारून घेवपाचो प्रकारूय घडटा. विशेश म्हळ्यार ह्या सगळ्याचेर लय, ताल आनी सूर हांचो साज चडयिल्ल्यान तांकां लोकसाहित्याचो मान मेळटा.

भले भले बामणा, भाजी करपली
भाजयेच्या वासान, बोमली परतली—शबै, शबै, शबै

मांय सुनांच्या संबदांचेर तर कितलींशींच गितां आसात

कट्टरी मांदरी घुडावयली
मांय मेल्यार सून म्हणटा पिडा गेली

मनोहरराय म्हणटात— शिगमो म्हळ्यार सुग्रिष्मक. म्हळ्यार बरो गीम. वसंताची सुरवात जाता आनी हाता-पायां-उतरांक नेट येता.

घुमटांच्या तालार शिगमो नाचोता
सोबीत पोल्यार रे गुलाब फुलोता

हिन्दू आनी किरिस्तांवां मदीं एक लोकगीत कशें थोड्याशा फरकान चलता तें ह्या गितांत पळोवंक मेळटा.

रथा तुज्यो घुडयो साडेतिनशें दाणयो,
रथीं कोण देव बसे गे
त्या रथीं कोण देव बसे गे
रथीं बसे ती शांतादुर्गा
जनलोकां दिसे गे
मांडार रथ
खेळे गे.

हें गीत अशाअशें क्रिस्तांव समाजांत म्हणटात तेन्ना एक वळ थोडीशी बदलता- 'शांतादुर्गा' काडून थंय 'फातीम' वा 'मिलाग्र सायबीण' अशें म्हणटात—

रथीं बसे ती सायबीण मांय
जनलोकां दिसे गे
मांडार रथ खेळे गे.

आमचीं लोकगितां चडशीं बायलांनी रचिल्लीं. भोव करून धालो- गितां, फुगडे- गितां वा होवयो. ह्या गितांनी भौसांतले अस्तुरेची सर्जकताय कशी रसरसून येता तें पळोवंक मेळटा. धालांच्या मांडार न्हेसून बिसून आयिल्ल्या बायलां मदीं अप्सरांचो आत्मविस्वास दिश्टी पडटा.

आमी देवांच्यो रंभा गे
आमी मांडार खेळूंक आयल्या गे
आयल्यो जाल्यार क्यो जाल्यो
सखयांक साद घाला गे, बाये
सखयांक साद घाला गे

देवांक होरावन जेवंक आफयतना ह्यो भयणी म्हणटात—

जाये जुयेचें गे पान
बरो साळीचो गे भात

बरें कुळदांचें गे वन्न
हरें केळींचे गे पान
चकट जालें जेवण—
देवांनो उठात हो भोजना

लोकसाहित्यांत आमकां लोकजिणेचें यथार्थ दर्शन घडटा. आदीम संस्कृतायेचो प्रभाव लोकमानसाचेर कसो पडलो आनी तिगून उरलो हाची म्हायती मेळटा. इतिहासाच्या पुस्तकांनी जें मेळना तें लोकसाहित्यांत मेळटा. भौसा कडेन किते गिन्यान नाशिल्लें? ते निरक्षर आशिल्ले जायत पूण ते अशिक्षीत नाशिल्ले. तांकां संवसाराची जाणविकाय आसली. पुराणां, रामायण आनी महाभारतांतल्यो काणयो तांकां तोंडपाठ आसल्यो. गणेशाक होरायतना-

गणेसा देवाचीं, उंच उंच देवळां
देवळाच्या कळसार, सोबीत कमळां

म्हणटां म्हणटां पिट्ट करून उडकी मारून ते रामायणात रिगतात.

चानयेच्या पिला तुका तीन गो पाट
रावणान शितेक व्हयल्या दाखय वाट

आनी तितलेच सहजतायेन ते महाभारताकूय आपल्या पोरसांत हाडून दाखयतात.

पणसाचो पणस
वयर वयर पिकला
कृष्णदेव जिकला
पांडवांनी... चोय चोय...

गोंयच्या इतिहासा कडेन संबंद दाखोवपी लोकप्रिय लोकांखेळ म्हळ्यार जागोर. जागोर हें लोकनाट्य. रातीच सूरू जावपी हो जागराचो खेळ रात उलगयसर चलता आनी फांतोडेर सोपता. जागरण घडोवपी हो खेळ देखून 'जागोर'.

जागोर लोकनाट्यांतली पात्रां रूपडीं वा मुखटीं घालून वावूरतात. शेजारच्या कर्नाटक राज्यांतल्या नामनेच्या 'यक्षगान' ह्या लोकनाट्याचो प्रभाव जागराचेर आसा म्हणपाचे जाणवता. गोंयांत जागोर जायते कडेन खेळटात. जागरांची अनेक

नांवां आसात. पूण मुळ गाबो एक. जागोर खेळपी जाती-जमातीं वयल्यान नांवां पडिल्लीं पळोवंक मेळटात. तशेंच गांवां प्रमाण नांवां आसात. देखीक गावडी-जागोर, खारवी जागोर वा शिवोलेचो जागोर. आनीक दोन चिके विंगड अशें जागराचे प्रकार आसात. एक म्हळ्यार पेरणी जागोर. हो काणकोण म्हालांत चलता. पेरणी जमातीचे लोक हो खेळ परंपरेन खेळटात. आन्येक प्रकार म्हळ्यार शेना-जागोर. कासांवले-वेळसांवच्या गांवांत चलपी हो प्रकार आतां मरणाचे धडेर आसा. पेरणी जागोरय तेच दिकेन वतालो पूण थळाव्या लोकवेदमोगींनी तांकां पुनर्जिवन दिवपाचो यत्न केल्ल्यान तिगून आसा.

जागरांत अनेक आख्यांनां आसतात. देव-दानवांचें युद्ध, राक्षसांची पिडापीड आनी तातुंतसून मुक्तताय, राजा-प्रजेची न्याय-नीत अशा विशयाचेर आदारिल्ले हे खेळ प्रेक्षकांक रातरात खिळावन दवरतात. जागोर ह्या प्रकाराचेर खूब जाणांनी बरोवन दवरलां. पूण जागोरांतलें नाट्य कागदार देंविल्लें पळोवंक मेळना.

कालो हो प्रकारूय असोच. पूण चिके वेगळो, काल्याचेय अन्येक प्रकार आसात. दशावतारी कालो, संकासूर कालो, रातकालो, धंयकालो, गवळणकालो, खेळकालो अशा ह्या काल्यांचें मुळूय कर्नाटकांतल्या लोकवेदांत आसा.

लोकसाहित्यांतलो सगल्यांत मनलुभावणो प्रकार म्हळ्यार गीतकाणी. गावन काणी सांगता तांकां गाणेली म्हणटात. एक वा दोन गाणेली गायतात आनी दोग वा तीन जाण साथ दितात. गीतकाणी सांगपी पंगड चडशे वेवसायीक आसतात. गांवांगांवांनी आपोवणे येता थंय वचून काणी सांगपाच्यो. गांवचो कश्टकरी समाज कामा- जंवजाळांतल्यान मुक्त जाल्या उपरांत राती कडेन मांडार येता थंय गाणेली काणी सांगतात. कांय वेळार एकूच काणी रातभर चलता.

भोळी आनी दुबो हांची काणी गोंयांत आसा तशीच केरळांत आनी कर्नाटकांतूय आयकूंक मेळटा.

एका करामती नगरीं  
भिमक रायाचे घरीं  
आमचे घरीं एक भोळी गंगा  
साठ सहस्र भोळ्यो गंगा

अशा उतरांनीं सुरू जावपी ही काणी भोळी नांवाचे एके गायेची. एक दीस चरुंक रानांत गेल्ले कडेन ती वाट चुकता. थंय तिका वाग मेळटा. तो म्हणटा, हांव तुका खातां. गाय काकुळटेक येता. धाकलो पाडो दुबो गोठ्यांत उरला. तो भुकेलो आसतलो. ताका दुद दितां तृप्त करतां आनी परती येतां मागीर तूं म्हाका खा. ती सोपूत घेता 'चंद्र-सुर्याच्यान तर' पूण वाग आयकना. फुडलो सोपूत 'भुमी-मातेच्यान तर' पूण वाग आयकना. निमाणे म्हणटा, 'म्हज्या दुब्याच्यान तर' गायेचे दुकांनी भरिल्ले काकुळटायणे दोळे पळोवन वाग मारतें घेता. परती येवपाचें उतर दिवन गाय गोठ्यांत परतता. पुताक पानो दिता. पोटभर पी म्हणटा.

पिये पिये रे पुता दुदाचो घोंट
फाल्यांच्या दिसा पुता भोगिशी कश्ट

फुडें ताका उपदेश करता—

तण नी खावचें पुता, पाणी नी पिवंचें
थंड सांवळेक पुता, गोठण करचें

गांय रानांत वचपाक परतता तेन्ना फाटोफाट दुबोय वाट चलता. रानांत पावना फुडें पळय जाल्यार वाग वाट तेळीत बसला. दुबो ताका सांगता—

आगा आगा वागा,
म्हाका तूं खा गा
म्हजे मायेक राख गा

पूण गांय तांकां फाटीं ओडटा. वागाक सांगता—

आगा आगा वागा, म्हाकाच खा गा
नेण्टेल्या दुब्याक म्हाज्या, सोडून दी गा

तांची ती माया पळोवन वागाचें काळीज विरगळटा. दोगांकूय तो परतीं धाडटा. वयल्यान सांगता—

भोळी म्हाजी भयण काय दुबो म्हाजो भाचो
शितळ सांवळेक पुता गोठण करा

दुश्टांच्या काळजांतूय मायेचो वझरो आसता. तांकां जागोवचो पडटा असो मनीसपणाचो संदेश दिवपी ही काणी.

वर्सां संखेनी चलत आयिल्ल्यो अनेक काणयो आयकूंक मेळटात. नाल्लबंद आनी माणकावंत ह्या राजकुवरांची काणी 'डॉ.जयंती नायक' हांच्या 'नागशेराचे सूर' संकलनांत जशी गायतात-सांगतात तशी बरयिल्ली वाचूंक मेळटा. जादुगरांच्योय काणयो परंपरेन चलतात. भोजराजा आनी गौड-फिर्तीस करपी साधुची काणी ह्याच संकलनांत आसा. ह्यो काणयो जनमानसाचेर खूब प्रभाव घालतात. ह्या काणयांनीच भौसाची कल्पनाशक्ती आनी सर्जनशक्ती जागी दवरल्या म्हळें जाल्यार अतिताय जावची ना.

पुर्तुगेजान बळजबरी करून हांगासरलें लोकसाहित्य नश्ट करपाचो यत्न केलो तरी पुर्तुगेजाच्या शेका भायल्या वाठारांत तें तिगून उरलें. किरिस्तांवां मदलें लोकसाहित्य मात चडशें काळाचे भकीक पडलें. तरिकूय भुंयेकडली नाळ तुटूंक दिवचे नात हो निर्धार खूब जाणांनी जोपासलो. तातुंतल्यानच धालो, जागोर आनी होंवयो कांय कडेन जित्यो उरल्यो. होंवयो गेल्यो पूण व्हेर्स आयलें. हे व्हेर्स म्हळ्यारूय होंवयोच. एका गांवची धूव काजार जावन दुस्र्या गांवां वता तेन्ना हे काजाराचे व्हर्स—

केप्पयां पडलें चुडीत, कुंकळे व्हयलें ओडीत<br>
आयज नशिबांतुलें घडीत, व्हंकल धूव मुगो आमची

काजाराचे व्हॅर्स घालपी खाशेल्यो बायलो आसतात. तांकां वेवसायीक म्हणूं येता. दांतें मांडटना, न्हाण घालतना, बेंसांव घालतना म्हणपाचे व्हॅर्स आसात. दोस वांटपावेळा वयलो हो व्हॅर्स—

मेज आरमार करनु<br>
मेजार दवरल्या बशी<br>
बशयेंतुली दोशी<br>
व्हंकले, पावोत तेशी वांटी

हालीं-हालीं मेरेन चलत आयिल्ली ही चाल हालीं ना नपयत जावंक लागल्या. क्रिस्तांव जाल्ल्यांक शिगमो चुकलो. पूण तांणी मागीर कार्नाव्हाल म्हळ्यार इंत्रूज

धरलें. इंत्रुजाच्या वेळार खेळ जावंक लागले. ह्या खेळाक फॅळ अशेंय म्हणटात. क्रिस्तांव गावडी, रेंदेर आनी खारवी समाजांतले लोकूच खेळ हो प्रकार चड खेळटाले. पंदरा-वीस मिण्टांच्यो तीन वा चार पार्तीनी समाजाचें यथार्थ दर्शन घडोवपी खेळ जातात. हे खेळ बसोवपी लोक निरक्षर जाल्ल्यान ते बरोवन दवरिल्ले मेळनात. पूण शिक्षणाच्या प्रसारा वांगडा कांय जाणांनी हे परंपरीक खेळ बरोवपाकूय सुरवात केल्या. पूण तियात्राची लोकप्रियता वाडत गेल्ल्यान आनी कार्नाव्हालाचें वेपारीकरण जाल्ल्यान खेळ हो प्रकार खूब फाटीं पडला हें सत.

लोकसाहित्याचे बुनयादीचेरच आधुनीक साहित्याची इमारत उबी जाता. हें मतींत घेवन गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, अस्मिताय प्रतिश्ठान आनी हेर संस्था वावुरतात. आयज, थोड्याच काळा भितर, कोंकणी साहित्यान झपय घेवन जी तेंगशी गांठल्या ताचें चडशें स्रय आमच्या लोकसाहित्याक दिवंक फावता.

'हॉर्टस मलबारिकस इंडिकस' च्या ग्रंथकर्त्यांलें प्रमाणप्रत्र

स्वस्तिश्री शालिवाहन शाक १५९७ राक्षससंवत्सर चैत्रशुद्ध १० को
चीराजपाटणी वैसिके रंगभट्ट तथा विनायकपंडित आप्पुभट्ट ते गौवैद्य
तानिं कोचियाकुमदोर आंद्रिक फांड्रे त्याचा निरोपानं ह्या मलबारदेशा
तु आसिले ओषधमात्र वृक्षवाल्लिझाडरवेउ ओळखते त्या मनुष्याक मनु
ष्यारो देसंतु ते ते गांवांतु पेढ्ढूनतितिं वीरवद आणवूनत्यात्याझाडाचें फळ
फूल पान बीजसमस्त त्यात्यातुतुकाळावरिसपाटूनतितीं चितारिलीं त्याउप
रांत आम्हिं आमगेल्या वैद्यग्रंथानि चेंटाप्रमाणी त्यांत्या ओषधाचे गुण
वाअरु नवानजो जो गुण आमकां कळलो तो वा त्यां आरवदांची नावं पळेउनु
आज्ञिवानि वर्षंसकारिंसाजे आम्हिं लागिरावूनु हालिवुसपाटून दिला तेंल
टिक अशिखणुंचा कनज अशिखणु आम्हिं आमचीतिस्याणिकर्णु दिली
ते सत्यकणु मानु वेजाइदखणु नागरबरयानहू बरवूनु दिलीं श्री

रंगभट्ट

विनायकपंडित

आप्पुभट्ट

# रंगभट्ट – विनायक पंडित – आपु भट्ट

(१७ वो शेकडो)

## 40

### *प्रमाणपत्र*

(१६७५)

॥ स्वस्ति ॥

श्री शालिवाहन शक १८९७ राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ १०. कोंचि राजपटणीं बैसिके, रंगभट, तथा विनायक पंडित, आपुभट्ट, तेग वैद्य, ताणीं कोंचिच्या कुम्दोरा आंद्रिक फांड्रे [COMMANDEUR HENRICUS VAN RHEEDE, c. 1637-1691] त्याच्या निरोपान ह्या मलबारा देशांतु ओशद [औषध] मात्र व्रुक्ष [वृक्ष], वालि, झाडखंड ओळखतल्या मनुश्यांक मुसरो देवुनु ते ते फूल, पान, बीज, समस्त त्या त्या रुतु [ऋतु] काळावरि संपादून, तीं तीं विचारिलीं. त्या उपरांत आमी आमगेल्या वैद्य-ग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणीं त्यां त्यां ओशदाचे गूण, वा अनुभवान जो जो गूण आमकां कळेलो, तो वा त्यां ओखदांचीं नांवां पळेव्नु, आजि दोनि वर्शा सकाळी सांजे आमी लागी राव्नु हो लीव्रु [हें पुस्तक] संपादून दिला.

तें लटिक अशि म्हणुच्याक नज – अशि म्हणु आमी आमंची निसाणि कर्नु दिली. तें सत्य म्हणु मानुचें म्हणु नगर बरपान हें बरव्नु दिलें. श्री. रंगभट. विनायक पंडित. आपुचें ओप.

## डॉ ग्रियर्सन- कोंकणी सरस्पत लासली

रघुनाथबाब फुडें म्हण्टात, 'खरेपणानशीं कोंकणी ह्मणपाची स्वतंत्र भास केन्नाच नासली; ते भाशेचें पुस्तक कोणेंच हिंदी पुतान बरौंक ना.' हाचेर, तांचे वळखिचो डॉ. ग्रियर्सन कितें म्हण्टा तेंच आमी पळौंया. 'Konkani is said to have developed an indigenous literature before the Portuguese conquest. This conquest aimed at the introduction of Christianity, and the old manuscripts were burnt by the invaders as containing pagan doctrines. The zeal of the missionaries caused the temples to be burnt and at the same time destroyed the old literature so that no traces are now left. They even tried to exterminate the language, and in 1684, a royal proclamation was issued forbidding the use of Konkani among the natives.'[५२] हाचो अर्थ: 'पुर्तुगेजांचे जिखेआदीं कोंकणी भाशेंत देसी सरस्पत घडिल्ली अशें म्हण्टात. पुर्तुगेजांनी क्रिस्तांव धर्म रिगौंचो नेम धल्लो आनी पुर्विल्ल्या हाता-लिखतांत बावल्यां-भक्तिचो धर्म भल्ला म्हणपाच्या समजान ताणीं तीं जाळ्ळीं. पाद्रिंनीं पोटतिडकेन देवळां जाळूंक लायलीं आनी त्याच वेळार, पुर्विल्ली सरस्पत नाशी केली; देखून आतां तिची कांयच नाट उरूंक ना. ते ती भासूय ना करून उडौंक वावुल्ले आनी १६८४ त एक सरकारी हुकूम काडून देसी लोकांभितर ताणीं कोंकणिचो वेव्हार मना केलो'.

## कोंकणीच्या मर्णाचें फर्मान अशें पाचारतात त्या सरकारी आदेशाचो इंग्लीश अणकार

The order dated 27th June, 1684, while primarily attempting to do away with the obstacles to the re-marriage of Goan Christian widows, provided in the matter of language, as follows: *"As it is not less convenient that the natives of these lands demit the use of their natural language and apply themselves all to speak the Portuguese language, with which will cease all inconvenience that comes to the fore owing to the fact of their speaking simultaneously the mother-tongue as well as Portuguese, on account of which they are not properly understood; besides as it is more convenient for the parish-priests to teach and instruct them in the mysteries of the faith, in which they are perhaps not explained as their importance demands, either because the parish-priest is not an expert in the language of the land or because the parishioners are not well-versed in the Portuguese language; as such one or the other lack is always detrimental not only to political dealings but also to the spiritual welfare of souls...*

*"And so as to facilitate more this communication among all, the sons of the soil shall apply themselves to speak Portuguese and the parish-priests and the masters of schools shall teach the children the Christian doctrine in the same language, so that henceforth it will be common to all, without making use of the mother-tongue; and to this effect in all the practices and congregations that they may have, they shall make use of the Portuguese language, until they are fluent in it; for which purpose I will allot them three years of time, within which period they shall all speak generally in the Portuguese language, and they shall use it solely in their dealings and contracts that they may carry out in our lands, and in no manner in the language of the land, on pain of being proceeded against with a show and severity of punishment that may be deemed fit..."*

मिशनरी काळांत रचिल्ल्या कांय बरपांच्यो पती

## क्रुस्ट्णदास शामा

# 4

## *क्रुस्ट्णु (कृष्ण), रुक्मिणी आनी गोपिका*

ऐसें म्होणु ताका बरौनु कागत धाडिलें, तें ततुखेणि... पावलें आणी तें कुबेरान वाचुनु पळेलें. जेतुकें द्रवें भांडारांतु आसिलालें, इतुकेंय् धाडुनु दिलें. तें द्रवें रुक्मिणी लागी हाडुनु वोंपिलें. तिणें तें ताटांतु रकय्लें, पण ते ताटांवैरि येना. ऐसें करितां खस्तवस्ति जाहली. देव स्वर्गीं होव्नि विमानारि बैसुनु अंत्रळीं विमान लाव्नु पळेवं लागले.

फुंडा नारंदान [नारदान] रुक्मिणीक म्हळें: 'आगे भिमुक रायाचे कुमारी, समेस्त द्रवें तुवें द्वारकेचें सरलें तें हि नपुरो जाव्नु, पाताळीचें, स्वर्गीचें, कुबेराचें इतुकेंय् द्रवें हाडुनु रकैलें. पण क्रुस्ट्णाचे [कृष्णाचे] सरी तुका ना जहालें. आतां तुमी हरय्लें, हांवें जिखिलें. तुमकां इतुकें ग्यान नां. हो क्रुस्ट्णु जो आस, तो परमेस्पराचो [परमेश्वराचो] अवतारु. हाका द्रव्याची काहीं हिसेबु पडला? पण येक ऐसें आस, केदोय दादुलो जरी समर्थु जहालो, तरी संघात आपण्या लागली हांसत खेळत म्होणु तिकाय् तो किर्कोळु दिसता. वर्कट समेस्त लोकाक तो व्हडु ऐसो दिसता. तैसो तुमीं क्रुस्ट्णाक केलालो, पण बाय्लेन आपुल्या भ्राताराच्या उतराचो विस्वासु मानु नये. खिणाचे मधें एकद्या उतराक जरि चूकि पडत तरि अपमान करीत. ह्या कारणें, जेयो कांय् भलियो स्त्रियो आसति, तियो आपुल्या भ्राताराच्या चित सारिख्यो चलताति. तुमी क्रुस्ट्णाच्या चित सारिख्यो चाल्लेल्यो नां देखुनु तुमकां इतुलो अपमानु केला. आतां तुमकां जें काहें सांगतां तें आय्क. क्रुस्ट्णाची अंतवरी येकि व्रंद म्हळली आस. तिचें पान हाड्या. आणी द्रवें ताटावेलें भूमिवरि रकैया.'

ताचें उतर आय्कुनु द्रवें समेस्त ताटावैलें रकैलें. आणी तें गळात पत्र त्या तागड्यांतु दवरलें, आणी तें गळात पत्रा सारिखोचि क्रुस्ट्णु [कृष्ण]

# जुआंव दे पेद्रोज

# 39

## कणिवेचे मातेक, विश्व वैदिणीक प्रार्थना

*(सर्वयगुणीं संपूर्णी वीर्जें मर्येच्या चरणांडे सपाट घालुनु घेव्नु,*
*आपुले 'कणिवळ डोळे मजेवरि पर्तिगे माते' म्हणुनु,*
*आत्मो ध्यानीं मनीं शरण्यं येवनु प्रार्थिता)*

ये सधा [सदा] आंकुवारी, सर्वय् प्रकारीं निस्कळंकी [निष्कलंकी] निर्मळी मर्ये, ये भोडुव्यांच्ये राण्ये, पाप्यांच्या आधारा आणी आलासिऱ्या! हांव समग्रां पापरूप्यां भितरि घोरु अवगुणी पापरूपी, आणी जो अवघ्यां पासि देवारि अनुपेगी जाव्नु सर्वय् प्रकारीं चुकललो, तुका शेरणा आयलां! आपुले कणिवळ डोळे मजेरि पर्ति गे स्वामिणी, माका अवहेरुं नाका गे दातान्ये: कित्या मजो आत्मो अति अळसिकणो, अति विरूपु, अति मूर्चन्यागतु, [मूर्छनागत], आणी जिणी वैलो, अति संकीर्णु आनी दैनी दुविखी जाला – कि तूं सर्वसुंदरी, सर्वदयाळी, आणी जिणी-जिवित्वाची माता आसतां, ताच्यान तुका निहाळव नज!

ये मज्यां दोसां [दोषां], मागिल्ये जिणिच्यां मज्यां अपरादांनो, केती निर्दैव पारा तुमीं माका पाय्ला, विवेकूनु पळ्या! तुमंची अवदिसा, पिडी, अलाव्, बालाव्, मजेरि येव्नु मीति संखा नाथिलली विधि माका निर्भाग्याक भोगता, मज्या आत्म्याक अति निर्दैव पदा पाव्नु, विकटु करुनु ध्यानीं भरिलो. हें पुरो; ताका अधिक परी विरूपु जायिसो करुं नाकाति – कित्या काकुळतिची माता मरिय ताची विकटाय् निहाळूनु जरि विटलु धरिता, तरि ताका कोण पावतलो? कोणाच्या आधारा रिगुनु काकुळती भारवीत?

ये मज्या आत्म्या, केती निर्भागी जालासि! ये निर्दैव, तुजो देव कोणे तुका ठकव्नु व्हेलो? ये निर्भाग्या, तुज्या देवाच्ये क्रुपे वेगळी जाव्नु किलें करिसि? तुजो अंतु कोणु जायत, वया! क्रुपाळु येसू [जेजू] आणी ताची

तॉमे पीरिश Tome Pires हांणी १५१२ ते १५१५ मजगतीं गोंयच्या राबित्यांत बरयिल्ल्या Suma Oriental ह्या मूळ फ्रेंच पुस्तकांतल्यान.



*folio Indo*[1], goes from here to Cambay, Ormuz and Aden, although that from Goa is better. As the ports in this kingdom were conveniently situated, the merchandise from all over Asia and Europe was to be found there; and the port of Chaul was very famous, but it is already on the decline.

## [GOA]

Now our road takes us to the magnificent kingdom of Goa—the key to the First and Second India. On the sea-coast it is separated from the Deccan by Kharepatan, the chief river in India; on the Honawar side it has *Cintacora*; and inland it is bounded by the kingdom of the Deccan and the kingdom of Narsinga. The language which is spoken in this kingdom is Konkani. The kingdom of Goa was always esteemed as the best of the king of Narsinga's possessions, for it was as important as it was prosperous. The people of the Deccan won part of this kingdom from him, and afterwards the old *Çabaio*, father of the present one, won the rest of it from the heathens. It is forty-five years since the *Çabaio* took over this kingdom, and as long as it formed part of the kingdom of the Deccan, Goa was the head of the whole kingdom of the Deccan and Goa. The language of this kingdom of Goa does not resemble that of the Deccan, nor that of Narsinga, but is a separate language. The people of this kingdom are strong, prudent and very hard-working, both on land and sea.

Next to Kharepatan along the sea coast Goa has Devgarh (*Damdriuar*), Banda, Old Goa, New Goa, Liga (*Aliga*), *Ancoll*, Pale (*Vpale*), Sal River (*Rijo de Sall*), Cape Ramas (*Ponta

# The Goa, Daman and Diu Official Language Act, 1987

(Act No 5 of 1987) (14-4-1987)

AN ACT to adopt the official language for official purposes of the Union territory of Goa, Daman and Diu.

BE it enacted by the Legislative Assernbly of Goa, Daman and Diu in the Thirty-eighth Year of the Republic of India as follows:-

1. Short title, extent and commencement. - (1) This Act may be called the Goa, Daman and Diu Official Language Act, 1987.

(2) It extends to the whole of the Union territory of Goa, Daman and Diu.

(3) It shall come into force at once.

2. Definitions, - In this Act, unless the context otherwise requires, -

(a) "Administrator" means the Administrator of- the Union territory of Goa, Daman and Diu appointed by the President under article 239 of the Constitution;

(b) "Government" means the Government of Goa, Daman and Diu;

(c) "Konkani language" means Konkani language in Devanagari script;

(d) "notification" means a notification published in the official Gazette;

(e) "Official Gazette" means the Official Gazette of the Government of Goa, Daman and Diu;

(f) "Union territory " means the Union territory of Goa, Daman and Diu.

(3) Official language of the Union territory. -

(1) With effect from such date as the Administrator may, by notification, appoint, Konkani language shall, subject to the provisions contained in sections 34 and 35 of the Government of Union Territories Act, 1963 (Central Act 20 of 1963), be the official language for all or any of the official purposes of the Union territory, and different dates may be appointed for different official purposes:

Provided that the Adrninistrator may, by a like notification, direct that in case of the Goa District, the Marathi language, and in the case of Daman and Diu Districts the Gujarat language, shall also be used for all or any of the official purposes and different dates may be appointed for different official purposes. Provided further that nothing contained in this sub-section shall be deemed to affect the use of the Marathi and Gujarati languages in educational, social or cultural fields: Provided further that the Government shall not, in granting aid to any educational or cultural institution, discriminate against such institution only on the ground of language;

(2) Nothing contained in sub-section (1) shall preclude any person from submitting any representation for the redress of any grievances to any officer or authority of the Union territory in any of the lanquaqes used in the Union territory.

4. Continued use of English language. - Notwithstanding anything contained in section 3, the English language shall continue to be used in addition to the languages specified in that section for all or any of the official purposes of the Union territory .

5. Laying of notification before Legislative Assembly, - Every notification issued under this Act shall be laid, as soon as may be after it is issued, before the Legislative Assembly while it is in session for a total period of fourteen days which may be comprised in one session or in two successive sessions, and if before the expiry of the session in which it is so laid or the session immediately following, the Legislative Assembly agree in making any modification in the notification or agree that the notification should not be issued , the notification shall thereafter have effect as the case may be; so, however, that any such modification or annulment shall be withour prejudice to the validity of anything previously done under that notification.

# आधुनीक साहित्याचें मुळावण

गोंय हें कोंकणीचें मूळपीठ. कोंकणी उलोवपी प्रदेश तसो खूब व्हडलो. पूण इतिहासीक कारणांक लागून तो विंगड विंगड राज्यांनी वांटून गेलो आनी शेजारच्या भाशांच्या प्रभावा खाला आयलो. उत्तरेक मराठी आनी दक्षिणेक कन्नड. गोंय हें मदेंकार उरलें आनी हेर भाशांचो प्रभाव मानून घेवनूय तें कोंकणीभाशी उरलें हें सत. राजकी कारणांक लागून गोंयचीं शिमेमेटां आंवुळ्ळीं आनी मुळांत खूब व्हड आसुनूय गोंय हें सध्याक आसा तितलें ल्हान उरलें.

भारताक स्वातंत्र्य मेळ्यां उपरांत भाशावार राज्यरचना अस्तित्वांत आयली. पूण त्यावेळार गोंय पुर्तुगेजाच्या शेकातळा उरिल्ल्यान भारतीय संघराज्यांचे कक्षे भायर उरलें. आनी ताकाच लागून तेन्ना कोंकणी भाशेचो आसपाव भारताच्या संविधानांत जावंक पावलो ना. पुर्तुगेज राजवटकेंत गोंयची राजभास पुर्तुगेज आसली. कोंकणी साहित्यीक चळवळीक पोशक वातावरण हांगा नाशिल्ल्यान अनेक गोंयकारांनी गोंयांभायर रावन कोंकणी भाशेची आपणाक तांकता तशी, जाता तशी सेवा केली. देखीक, एदुआर्द ब्रून द सौझान मुळावें शिकप पुर्तुगेजीन घेतलें तरी पुर्तुगेजीन अभिव्यक्त जावपा इतली ती भास गोंयकारांक येनासली. मागीर ते जाता नज करून रोमन अक्षरावळ वापरून चिटी बी बरयताले. तांची बरोवपाची रीत एकसारकी नासताली. एदुआर्दान ती निटायेर घालपा खातीर रोमन लिपी वापरपाची 'मारियान पद्दत' रचली. आनी ती लोकांमोगाळ करपा खातीर वावुरलो. पुणे शारांत ताणें 'उदेन्तेचें साळक' नांवाचे पंद्रशी नेमाळें २ फेब्रुवारी १८८९ ह्या दिसा सुरु केलें. (डॉ. मनोहरराय सरदेसाय. हिस्ट्री ऑफ कोंकणी लिटरेचर. पान १०१). एदुआर्दाक कोंकणी भायर पुर्तुगेज, इंग्लेज आनी थोड्यो भोव देशी भाशाय येताल्यो. 'उदेन्तेचें साळक' नेमाळ्या वरवीं ताणें साहित्य बरोवपाक आनी बरोवन घेवपाक सुरवात केली. त्या निमतान नित्याच्या धर्मीक साहित्या भायल्यो खबरो दिवपी साहित्य नेमान उजवाडपाक लागलें. एदुआर्दान ह्या नेमाळ्या वरवीं कोंकणी पत्रकारितेचें मुळावण घालें म्हणूंक जाय.

'क्रिस्तावांची दोतोर्न गोंयच्या भाशेन' (१८९७), 'एव्हा आनी मोरी' (१८९९), 'पियेदाद सायबिणीचीं आनी साबार दुसरीं गायनां' (१९०१) अशीं जायतीं पुस्तकां बरयलीं.

एदुआर्द जुझे ब्रून द सौझ (१८३६-१९०५) हो धर्मीक वृत्तीचो आसलो तरी तो बरो वाचक आशिल्ल्यान ताच्या आंगांत सर्जक गूण आसले. देखून, धर्मीक साहित्या वंगडाच ताणें सर्जनशील साहित्यूय रचलें. ताचेकडेन सोबीत, अलंकृत भास, बारीकसाणेची निरिक्षक नदर आनी समाजमनाचे खरीक हात घालपी कल्पनाशक्त आसली, जी सर्जक साहित्यकाराक प्रेरीत करता. ह्याच मुदलाचेर एदुआर्दान एक सोबीत कथानक घेवन कादंबरी रचली, 'क्रिस्तांव घराबो' (१९०५), जी कोंकणी सरस्पतेच्या मळा वयली पयली कादंबरी म्हणूंक जाय.

क्रिस्तांव घराब्यांतलीं मनशां म्हळ्यार घरकार पासकू, तार्ची बायल सबिना, तरनाटो पूत ज्यानी आनी ताची धाकटुली भयण लुईजा. हेर गांवचीं पात्रांय तितल्याच मुखेलपणान येतात. गांवचो पादविगार, भाटकार, तांडेल, म्हालो, पेदो, पादकूर, दोतोर असलीं गांवांतलीं संवकळीचीं मनशां तांच्या खाशेलेपणां सयत सहजतायेन येतात. कथानकांत गोंयांतले जातीभेद धरून राणे-पुर्तुगेजां मदलो संघर्श येता आसलो तरी हे कथेचो नायक आसा ज्यानी. ज्यानी हुशार, शिकपी, हरहुन्नरी आशिल्ल्यान सरकार ताका फुडें शिकपाक पुर्तुगालाक धाडटा. वाटेर दर्यार मोड जावन बोट बुडटा. पूण दुसरे एके बोटी वयले लोक ताका वाटायतात. ते बोटी वयले लोक ज्यानीन वाजयिल्ल्या संगीताचेर खुशाल जातात. जेन्ना मागीर ताका ब्राझीलाचे बोटीर पासपोर्ट ना देखून चडूंक मेळना तेन्ना आदले बोटीर आशिल्लो एक ब्रिटीश लॉर्ड ताच्या आदाराक येता. ब्राझीलाक पावतकच ज्यानी शिकप घेवन दोतोरकी चलयता. एक दीस पातशायाचे बापायचे भयणीक आवगोड वायटांतल्यान बरी करता. ज्यानीक पळयतकच वायटांतल्यान निवळिल्ले जाण्टे अस्तुरेक तो आपल्या पुता सारको दिसता. ती ताका पोसको घेता. उपरांतं ताका पुर्तुगालच्यान आपोवणे येता. थंयूय तो जायत्या लोकांक बरे करता. उपरांत पुर्तुगाल आनी स्पेन मदलो राजकी तंटो सोडयता. तागेली मुत्सद्देगिरी पळोवन सरकार आनी राणे मदलो संघर्श मेटोवपाक पातशा ताका गोंयांत धाडटा. गोंयां पावचे पयलींच मुंबय थावन ज्यानी आपणाल्या आवय-बापायची पयलीं काळजी घेता. मागीर गोंयां येवन सगलें थाऱ्यार घालता. आनी भुरगेपणार जिचो मोग केल्लो

ते इनेज हे तरनाटे लागीं काजार जावन परतो पुर्तुगालाक वता. हें सगळें अवास्तव, विज्मीत कशें वाचप्यांक दिसूं येता. पूण जर आमी ब्राझीलांत असोच हिरो जावंक पाविल्ल्या कर्नल सुरेश बिस्वास (१८६१-१९०५) ह्या मनशाची खरी काणी वाचली जाल्यार आमचें मत बदलतलें. घडये लेखकान ताची खबर वाचिल्ली जावं येता. कारण आजूय ब्राझील देशांत सुरेश बिस्वासाचें नांव थंयच्या रस्त्याक दिल्लें आसा. पूण एक गजाल जाणवता ती म्हळ्यार गोंयच्या गांवांनी हिंदू-क्रिस्तांवां मदीं जी सरमिसळ आसा तिचें चित्रण जाल्लें दिसना.

ही कादंबरी सवायशीं वर्सां फाटीं बरयिल्ली. कोंकणींत तेन्ना धर्मीक सोडून हेर साहित्य निर्मण जायनासलें. जिबेर घोळपी उतरावळूय मर्यादीत आसली. अशा वेळार एदुआर्दान बरयिल्ले हे साहित्यकृतीची मन सोडून तोखणाय जावंक फावो. ही कादंबरी बरोवपा फाटलो लेखकाचो हेतू तागेले प्रस्तावनेचे सुर्वेकच स्पश्ट जाता. लेखक म्हण्टा- 'क्रिस्तांव घराबो वर्तवता एक कथा स्वस्तायेचि आनी रविसेची. एका क्रिस्तांव मनशान देवाचेर वो दुस्र्या कोणाचेर चूक करिनासतनां आपले मतीक मातसो विसव घेवंक वाचून ही कथा जितूंत आटापलां धर्मपण, माणसुगी आनी अशें.' क्रिस्तांवपणाची देख दिवपाचो हेतू कितलो सुफळ जालो तें सांगूं नज. पण त्या निमतान क्रिस्तांव समाज जिणेचें बरें दर्शन मात घडलां हें खरें. हे कादंबरे वरवीं त्या काळा वयली कोंकणी बरोवपाची रीत बेस बरी कळटा. क्रियापदाचो उपेग निमाणे करपाबदला पुर्तुगेज बरोवपाचे धर्तेर मदीं मदीं केला. देखीक, 'क्रिस्तांव घराबो वर्तवता एक कथा ...' ते भायर क्रियापदाचो काळ चलोवपांतूय चुको जाल्यात. देखीक, 'भाटकार मातसो गोंदळ्ळो पूण रोखडोच परतीबाळ चलोवन, म्हणटा'. अभिव्यक्त जावपाक लेखकाक फावो तशीं नीज कोंकणी उतरां मेळनात म्हणून जावंये, खूब पुर्तुगेज उतरां भरशिल्यांत. देखीक, क्रियाद (नोकर), इस्प्लिकार (समजावणी), दिवेर्तमेंत (मनरिझवण), इस्कुर्तूर (लेखीऐवज), पिरदेर (इबाड), वगैरे. फकत संभाशणांत जाल्यार उपकरतालें. निवेदनांत न्हय. हे कादंबरी उपरांत सुमार पंदरा वर्सांनी शणै गोंयबाबान बरयिल्ले कथेंतूय, तंत्रीक चुको आसूं येत, पूण शणै गोंयबाब नीज कोंकणी उतरां खातीर अडिल्लो वा तिशठल्लो दिश्टी पडना. तशेंच एखादऱ्या धर्माचो पाखो घेनासतना धर्मातीत रावपाचो शणै गोंयबाबान जाणीवपुर्वेक केल्लो यत्न तांगेल्या बरपांनीं जाणवता. पूण एदुआर्दाच्या काळजांतलो गोंयचो आनी कोंकणीचो मोग मात

शणै गोंयबाबा इतलोच खर. 'क्रिस्तांव घराबो' जरी बरोवन जाल्ली ती १९०५ वर्सा तरी ती उजवाडाक येवपाक मात १९११ उदेलें. तितले मजगती कादंबरी बरोवन जाली त्याच वर्सा, दुर्दैवान, एदुआर्द जुझे ब्रून द सौझ ह्या संवसाराक अंतरले.

कोंकणींचे उच्चार देवनागरी इतलेंच बरे येतले जाल्यार रोमन लिपयेंत कुरवांची भर घालूंक जाय अशें एदुआर्द लेखतालो. 'आग्र्रू देइ' ह्या म्हयनाळ्यानय ताचीच रीत उपकरायली. पूण 'कुरवांबगर अडना, जाय ती निगूत भास' अशें लेखपी आसलो ज्योकीं आंतोन फेर्नांदीश (१८८९-१९७५). 'आमचो सोडवणदार' (१९५२) ही तांगेली साहित्यकृती म्हळ्यार मूळ 'जीझस द मसिहा' ह्या पुस्तकाचें रूपांतर. पुर्तुगेज उतरां कुशीक दवरून नीज कोंकणी उतरांनीं साहित्य रचूं येता अशें हो लेखक मानतालो. ताचो भाशेचो अभ्यास बरो आसलो. जे. ए. फेर्नान्दिशान कवितेच्या मळारूय पावली मारल्या.

दर्यावटेन, आगबोटीन आनी पातमारेन
गोंयकार मुंबय गेले
ते गेले आनी आयले
आनी सगलो काळ, ते दोग रूक विशाळ
थंयच रावले, वड कांदोळेच्या दर्यावयले
आनी वेता आसतनां, देसपुतान आपले दोळे
अप्रूप देसाचेर लायले तेन्ना
म्हातारे आवयबापूय कशे, रडकुळे येवन
आनी माथीं बागोवन तांकां आदेउस करताले
कितलीं झोडां-मोडां जालीं
अनर्थाचो वाव आनी वारीं सुटलीं
रूक आनी झाडां हुमटून पडली
पूण हे दोग मौजेन हालले आनी धोलले
पावसांत घुसू घुसूं न्हाले
आनी ज्या देसांत म्हातारपण येता रावून
त्या सुंदर देसांची भूंय-कुरु जावन, थंयच घट उबे रावले
वड कांदोळेच्या दोंगरावयले

(हिस्ट्री ऑफ कोंकणी लिटरेचर, मनोहरराय सरदेसाय)

ही कविता आशयानूय गिरेस्त आनी तिची भासूय सुंदर. जे. ए. फेर्नांदीशा इतली सोबीत निगूत कोंकणी बरोवपी त्या काळार दुसरो कोण्ण नासलो म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

एदुआर्दाकडसून प्रेरणा घेवन जांणी कादंबरी, वा त्या काळार जिका रोमांस म्हणटाले, बरोवंक सुरवातं केली तांतले कांय म्हालगडे म्हळ्यार जुवांव कायतानु द सौझ, आंतोन विंसेंत द क्रुझ आनी एफ. एक्स. फेर्नांडीस. हे सगले बरे शिकिल्ले आसले. पूण उपरांतच्या काळार जे रोमांसी बरोवपी जाले तांतूंत हेर भासांकडेन वा साहित्याकडेन संवकळ नाशिल्ले चड आसले. ते साहित्यीक उंचाय घेवंक पावले नात. एक खरें, एलियट दे एली, जुवांव इनास द सौझ, बोना वेंतूर द पिएत्रु आनी हेरांनी रोमांसी बरोवन लोकांक वाचपाची गोडी लायली. ह्या रोमांसींक नितळ साहित्य म्हणचें वा ना हो प्रस्न आसा. पूण तांचे वाचक संखेनी आसले हें खरें. तातुंतलो म्हालगडो आनी चड लोकांमोगाळ तो रेजिनाल्दु फेर्नांदीश (१९१४-१९९४). तांगेल्यो 'दारूण अस्तुरी', 'चिकान कंपनी', 'सिंगापुराचो सावकार', ह्या १९६० वर्सा सुमाराक उजवाडाक आयिल्ल्या रोमांसींनी तर वाचकांक पिशें लायलें. मिनीन जेस फेर्नांदीश हांची 'निर्मण' (१९६४) ब्राझिन्यु सुआरीस हाची 'डॉ. डेव्हीड' आनी हालींचे बरयणार, बोनावेंतूर द पिएत्रु हांगेली 'म्हज्या पायचो फोंड' (१९७४), वा रमाकांत पोवळेकार ह्या बरोवप्यांनी रोमांस हो साहित्य प्रकार फुडें व्हेलो. रोमांसी हो एक आगळो सो साहित्य प्रकार. तांतूंत मोग, पैसावो, धयर, धाडस, संकश्टां, आनी गूट सुटावो करपी कथानकां आसतात. १९८० वर्सा मेरेन रोमांसी येताल्यो पूण सटव्या दसकांत चड लोकांमोगाळ जाल्ली रोमांस उपरांत तिका देंवणी लागली. आनी हालींसरांक तर चुकून रोमांसी बरयिल्ल्यो आनी वाचिल्ल्यो पळोवंक मेळटात. ताचीं कारणां म्हळ्यार इंग्लीश शिक्षणाचो अतिरेक, मनरिझवण करपी प्रसार माधमांची वाड आनी वाचकांची वाडिल्ली अभिरूची.

ते पयलींचो एकोणिसाव्या शतमानाचो काळच असो आसलो जेन्ना साबार गोंयचो लोक फकत कोंकणीच उलयतालो. पूण तांतलो शिकिल्लो क्रिस्तांव लोक वाचपा-बरोवपाक पुर्तुगेज आनी हिंदू लोक मराठींतल्यान हो वेव्हार करतालो. तो मेरेन पुर्तुगेजान खाजगी मराठी शाळांक परवानगी दिल्ल्यान हिंदूचीं चडशीं भुरगीं मराठी शाळांनीं वतालीं. कांय जाणांनी मराठी साहित्यांत भोव नामना जोडिल्ली. पेडणेचे सोहिरोबानाथ आंबिये हांणी खूब सुंदर भक्तिसाहित्याची रचना

केल्ली. त्या उपरांत वि.स. सुखटणकर, कृष्णभट बांदकार, शांबाराव सरदेसाय हे नेमान मराठींत बरयताले. गोंयांत कडक सेन्सोरशीप आसली. सरकारान मराठी शाळांक थोडें सोंपेपण दिल्लें तरी कोंकणीक बरे दीस येवपाचीं चिन्नां दिसनासलीं. कोंकणी संबंदीं विचार करपी आसले ते सगले स्वतंत्र विचारांचे लोक जाल्ल्यान तांचे अभिव्यक्तीचो घुस्मटमार जावपाक लागिल्लो. भारतीय प्रदेशांत देशी भाशांचेर कसलेच निर्बंध नाशिल्ले. हांचो फायदो कोंकणीन घेतलो. जांणी मुंबयसारक्या भोवभाशीक शारांत रावन कोंकणी साहित्याचो वावर केलो तांतलो बुनयादी चिरो म्हळ्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब (१८७७-१९४६).

**शणै गोंयबाब**

कोण जाणा खंयचीं - फळां सुक्रुताचीं
सपनां कोंकणीचीं - रूपां आयलीं
शणैचे लिखणेचें - फळ्ळें मानायपण
जोडलें अंवरपण - कोंकणीन

सुमार ऐंशीं वर्सां फाटीं मुंबयंत रावपी 'बयाभाव' ह्या लिखणेनांवान बरोवपी काशिनाथ श्रीधर नायक हांगेली ही कविता ज्या मनशाक लेखून बरयली ते म्हळ्यार शणै गोंयबाब उर्फ वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार. (१८७७-१९४६)

शणै गोंयबाब हे आधुनीक कोंकणी साहित्योचे जनक अशें म्हणटात. कारण तांणी आधुनिकतेची वळख कोंकणी साहित्याक करून दिली. उपाट वाचन आनी तें पचोवपाची उपाट तांक आशिल्ल्या शणै गोंयबाबांनी आधुनीक साहित्याचें मुळावण घालें. तांणी घाल्ले बुनयादीचेरूच आयची वट्ट कोंकणी साहित्यीक चळवळ उबी जाल्ली आसा.

ज्या काळार गोंयांतूच कोंकणीक फावो तो मानभौमान मेळनासलो, कोंकणी ही क्रियादांची म्हळ्यार वावराड्यांची भास अशें लेखपी एक समाज आसलो, कोंकणी ही भास न्हय तर ती मराठीचीच गोमन्तकी बोली अशें लेखपी दुसरो समाज आसलो, अशा प्रतिकूल काळार शणै गोंयबाबांनी कोंकणी भास आनी साहित्य

हांचे सर्वांगीण उदरगती खातीर पेंगट बांदलें. तशें शणै गोंयबाबूय हेच परंपरेंतले-कोंकणीक मराठीची बोली अशें समजूपी. पूण भुरगे पिरायेचेरच तांकां मायभाशेचो दिश्टावो जालो आनी तांणी कोंकणीच्या पुनरूत्थानाचो वावर सुरु केलो. वामन मुंबयंतले शाळेंत शिकतालो तेन्नाच्यान ताच्यांत लेखनाची आवड निर्मण जाल्ली. मॅट्रीकेच्या वर्सा वामनान 'रामराज्याभिषेक' हें त्या काळा वयले परंपरेक धरून मराठींत नाटक बरयलें. मराठींतले आद्य नाटककार अण्णासाहेब किर्लोस्कर हे अदीं मदीं मुंबय येताले आनी आनंदाश्रम ह्या गिरगांवांतल्या हॉटेलांत रावताले. वामनान एक दीस तांची भेट घेतली आनी आपणे बरयिल्लें नाटक तांकां दाखयलें. 'दवरून वच, हांव मागीर अभिप्राय दितां' तांणी सांगलें. कांय दिसांनी वामन पर्थून वचून तांकां मेळ्ळो तेन्ना तांणी सांगलें- 'नाटकाचें लेखन बरें जालां. प्रसंग, पात्रां, नाट्य बेस बरें आसा. पूण नाटकाचो प्राण म्हळ्यार संवाद. तुगेले संवाद अडेचे पुस्तकी कशे दिसतात. तुजी भास मराठी न्हय. तूं मराठी वाचून जाणा. देखून हे संवाद सभावीक न्हय म्हणपाचें जाणवता.' अण्णासाहेबां सारक्या नाट्याचार्यांच्या तोंडसून हीं उतरां आयकून खंती जाल्लो वामन घरा परतलो. पूण ताका एक गजाल होलमली. आपूण बरयतां ती भास आपणाली मायभास न्हय. 'रामराज्याभिषेकान' उपरांत उजवाड पळयलो ना. उपरांत आन्येक गजाल घडली. मॅट्रीक परिक्षा पास जाल्या उपरांत वामनबाब गोंयां परतले आनी तांणी आसगांवचे एके शाळेंत नोकरी धरली. पुर्तुगेज शिकपी हिन्दू भुरग्यांक शिकप कठीण जाता तें पळोवन वामनबाबान 'उ मेस्त्री मारात-पुर्तुगेज' (O Mestre Marat-Portuguesa) हें मराठींतल्यान पुर्तुगेज सोंपी करपी मार्गदर्शक पुस्तक बरयलें. ह्या पुस्तकाक फावो अशी एक प्रस्तावनाय तांणी पुर्तुगेज भाशेंत बरोवन पुस्तकाचे सुरवातीक लायली. त्या काळार 'बारांव द कुमारजुंवा' म्हळ्यार तोमास द आकीनुमौरांव हो विव्दान पुर्तुगेज मनीस गोंयच्या पुर्तुगेज शाळांचो इन्सपेक्टर आसलो. तांकां मराठी सयत अनेक भाशा येताल्यो. वामनबाबान आपणालें पुस्तक तांकां व्हडा उमळशिकेन दाखयलें. प्रस्तावनेंत वामनबाबान मराठी विशीं बरयतनां 'a lingua vernacula de Goa' म्हळ्यार गोंयच्या लोकांची आवयभास वा थळावी भास असो उल्लेख केल्लो. बारांवान पुस्तकाची तोखणाय केली पूण 'गोंयच्या लोकांची आवयभास मराठी कशी जावं येता? हांगाची व्हर्नाकुलर भास कोंकणी.' वामनबाब येवजूंक पडलो. अण्णासाहेब आनी बारांव दोगानीय तांकां तुमगेली आवयभास मराठी न्हय म्हणपाचें अधोरेखीत केल्लें.

मॅट्रीके उपरांत नोकरी केली तरी वामनबाबांचो चडसो वेळ वाचनांत सरतालो. ते मजगती दोन लेखकांलीं बरपां तांच्या वाचनांत आयलीं. रा.भि.गुंजीकर ह्या नामनेच्या विव्दानाचें 'सरस्वतीमंडल' हें पुस्तक वाचून पयलेच खेपेक कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन वेगळ्यो भासो; आनी कोंकणीचें मूळ संस्कृत भाशेंत आसा म्हणपाचें तांच्या ध्यानांत आयलें. उपरांत गोंय सरकारचो मुखेल सचीव म्हूण गोंयां आयिल्ल्या ज्योकीं एलियोदोर द कुन्य रिव्हार ह्या विव्दान इतिहासकारान बरयिल्लो अभ्यास पुर्ण प्रबंध Ensaio Historica da Lingua Concani, म्हळ्यार कोंकणी भाशेच्या इतिहासा विशींचो प्रबंध, तांणी वाचलो. 'कोंकणी ही समेस्त गोंयकारांची भास. भास ही संस्कृतायेचो मुखेल घटक. देखून गोंयकारांनी आपणाल्या भुरग्यांक कोंकणींतल्यान मुळावें शिक्षण दिवंक जाय. ते खातीर तरणाट्या गोंयकारानी कोंकणीचे उदरगतीचो वावर हातांत घेवंक जाय' हे कुन्य रिव्हाराचे विचार वाचून वामनबाबांची पुराय खातरी पटली- गोंयकारांलीं भास कोंकणी. आवयभास सोडून परके भाशेचे पांगेंत वाडिल्ल्यान गोंयकारांचो स्वाभिमान न्हिदून पडला. तांकां जागोवंचे खातीर कोंकणीची उदरगत गरजेची.

मनार घेतलें म्हणटकच तें तडीक व्हरप हो वामनबाबांचो सभाव. कोंकणी विशीं उणाकपणाची भावना खूब खर आसली. मुंबयचो गोंयकार तर कोंकणीक हेंगाडी लेखून चौगां मदीं मराठी उलोवपांत पुरूशार्थ मानतालो. आयतो भूस मारपी अशा अर्थान गोंयकारांक हे लोक 'गोंयबाब' लेखताले. 'गोंयबाब' ह्या उतरांतली हिणसावणी पयस करपा खातीर वामनबाबांनी 'शणै गोंयबाब' हेंच लिखणे नांव आपणायलें आनी नोकरी सांबाळून उरिल्लो पुराय वेळ वाचन आनी लेखनांत सारूंक लागले.

कुन्य रिव्हारांच्या विचारांचो प्रभाव इतलो खर आसलो की १९०४ वर्साच्या सुमाराक जेन्ना तांगेलो पूत चार वर्सां पिरायेचो जालो तेन्ना ताका कोंकणी शिकयतलो जाल्यार एकूय मुळावें पुस्तक नासलें. तांणी स्वता मुळावें शिकप कशें आसूंक फावो हाचो अभ्यास करून 'कोंकणी मुळावें पुस्तक' बरयलें. ह्या पुस्तका उदेशीं पुताक कोंकणींतल्यान मुळावें शिक्षण दिलें. दुर्दैवान हें हस्तलिखीत १९४० मेरेन उजवाडाक येनासतनां उरलें. उपरांत गोमन्तक छापखान्यान तें प्रकाशीत केलें. पूण छापपी ना म्हूण बरयनासतना रावप्यां मदले शणै गोंयबाब नासले. तांगेलें लेखन चालूच आसलें. 'अभागी सुब्राय' आनी 'भिडेस्त रायूबाब' हीं दोन पुस्तकां

तांणी बरयलीं. हें दुसरें पुस्तक म्हळ्यार इंग्लीश नाटककार ओलिव्हर गोल्डस्मिथ हांगेल्या 'She Stoops to Conquer' ह्या पुस्तकाचें रूपांतर. शेक्सपियर, मोलिएर, गोल्डस्मिथ हांचीं पुस्तकां मूळ कोंकणी दिसपा सारकीं रूपांतरीत केल्ल्यान कोंकणी मनशाक तीं आपणालेंच पडबींब कशी दिसतात.

शणै गोंयबाबांचें पयलें प्रकाशीत जाल्लें पुस्तक म्हळ्यार 'गोंयकाराचो मुंबैकार'. मुंबय पाविल्लो गोंयकार कसो गोंयकारांचें तासता आनी आपूण वयले पदवेचो म्हूण दाखयता ताचें बरें मार्मीक चित्रण शणै गोंयबाबानी ह्या कटावांत केला. १९१० वर्सा शणै गोंयबाबांनी स्वखर्चान ह्या पुस्तकाची उजवाडावणी केली. बरें, हांसोवणे आनी नीज कोंकणींत बरयिल्लें आशिल्ल्यान पुस्तकाची सुमार बरी विकरीय जाली. रवळू ह्या एका तरण्या गोंयकार पसरकाराक मुंबयच्यो खबरो भूल घालतात आनी एक दीस कोणाक सांगिनासतना पळून मुंबय वता. हातांतले दुडू कडयतकच तो आपणालें रूप्याचें काण विकता. तेय दुडू सोंपतकच पोटा खातीर रांदपी जाता. उपरांत नोकरी धरता. स्वताक रवळू म्हणपाक लज दिसता देखून तो 'रवळेराव' जाता. एके गिरेस्त फोल्गी मुंबयकान्नी कडेन लग्न जाता. बायल फोल्गां मारता आनी रवळेराव घरांतलें रांदप करता. फोल्गां मारता, सट्टो खेळटा आनी आशिल्ली गिरेस्तकाय वगडावन बसता. बायल मरता. इतलो काळ 'रवळेराव, रवळेराव' करून भोंवतणी नाचपी इश्ट आतां तांकां फाट करतात. तांकां आतां गोंयची याद येता. एक दीस मुंबय सोडून रवळेराव गोंयां परतता. क्यां एका पसऱ्यार कामाक रावता. आनी अशे तरेन तो मुंबयचो रवळेराव पर्थून गोंयचो रवळू जाता. मुंबयच्या गोंयकारांची फकाणा मारलीं तरी तांचें कितें चुकता तें दाखोवन दिवप इतलोच हेतू आशिल्ल्यान हें पुस्तक कोणाक दुखयना. वयल्यान अंतर्मूख करता.

'मोगाचें लग्न' हें १९३१ वर्सा प्रकाशीत जाल्लें शणै गोंयबाबालें दुसरें पुस्तक. भोव लोकप्रिय जाल्ल्या ह्या नाटका-पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती १९३८ वर्सा उजवाडाक आयली. फ्रेंच नाटककार मोलिएर हाच्या एका गाजिल्ल्या नाटकाचें हें रूपांतर. वसवसो भाटकार घारूदाद आपणाले धुवेक सुब्रमणी हो ताचोच भाचो आवडटा तरी गिरेस्त आशिल्ल्या म्हाताऱ्या वेंकटरमणाक लग्न करून दिवंक सोदता. इत्सेविरुद्ध लग्न जातलें हें येवजून घारूदादाली धूव हांतुणार पडटा. तिची वाचाच धरता. म्हाळ्खूम आनी बाबगो– नाटकांत नाटक करून– वैजाचें संवंग घेवन बाबगो घारूदादागेर पावता. ताचे वांगडा सुब्रमणीक पळोवन धूव एकदम उठून बसता.

तिका वाचा फुट्टा म्हूण घारुदाद खुशाल जाता. पूण बाबगो आनी सुब्रमणीलें नाटक कळटकच तांकां बांदून घालता आनी पोलिसांक आफयता. इतलें म्हणसर तेलेग्राम येता आनी सुब्रमणीची आदमिनिस्त्रादोर म्हूण नेमणूक जाल्ल्याचें कळटा. आपणाली धूव बरे कडेन पडटली हें येवजून घारुदाद तांच्या लग्नाक तयार जाता. अशी ही कथा. पात्रां नीज गोंयकार आनी कथानकूय अस्सल गोंयचें. 'मोगाचें लग्न' जो वाचता वा पळयता ताका तें मूळ कोंकणी कशें दिसता. घडये, शणै गोंयबाबाचे सुवातेर दुसरो तिसरो कोणूय आशिल्लो जाल्यार तो ही आपणाली स्वतंत्र कृती म्हूण सांगूं येतालो आनी ताका कोणूच आक्षेप घेवचो नासलो. पूण शणै गोंयबाब साहित्याच्या मळार निश्ठा आनी नितिमत्ता दोनूय मानपी. पिण्डाचो संशोधक जाल्ल्यान प्रत्येक गजाल सत्याचे कसवटेर तपासून पळोवपी. देखुनच 'गोंयकाराचो मुंबैकार' हें पुस्तक कल्पनीक आसुनूय तातूंत सांगिल्ले प्रत्येक इतिहासीक वा विज्ञानीक गजालीची तळटीप तांणी दिल्या. हीं दोन पुस्तकां पयलीं छापून आयलीं कारण हीं दोनूय पुस्तकां- एक मस्क्यांचें आनी दुसरें नाटक दोनूय लोकाची संस्कृतीक गरज भागोवपी. पूण तांणीं बरयिल्ल्यो कथा वा ललीत साहित्य मात छापनासतनां वर्सां संखेनी हस्तलिखिताच्या स्वरुपांतच उरलें.

'गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक' हें तांगेलें इतिहासा वयलें पुस्तक १९२८ वर्सा उजवाडाक आयलें. हें पुस्तक म्हळ्यार आशिल्ले नाशिल्ले सगले दस्ताऐवज, छापून आयिल्ले सगले इतिहासा वयले ग्रंथ आनी लेख वाचून गोंयां विशींचो सुमार अडेज हजार वर्सांचो इतिहास तांणी बरयला. गोंयच्यान वेपारानिमतान उत्तरेक पाविल्ले पुर्ण वा पुण्ण हो भगवान बुद्धाचो शिश्य कशे तरेन जालो आनी भगवान बुद्धांचे सांगणेन बौद्ध धर्मप्रसारा खातीर कसो परतो गोंयां आयलो हें ताणें वसयिल्ल्या होंवरींचे आनी हेर पुराव्यांचे दाखले दिवन विस्तारान उजवाडाक आयिल्लें इतिहासाचें, कोंकणींतल्यानच न्हय तर खंयचेय भाशेतल्यान, प्रकाशीत जाल्लें हें पयलें पुस्तक. गोंयचेर राज्य करपी राष्ट्रकूट वंशाचे राया हे मूळ गोंयचे अशें तांणी म्हळां. कदंब आनी शिलाहार राजांचेर हें पयलें पुस्तक. गोंयचेर राज्य करपी राष्ट्रकूट वंशाचे राया हे मूळ गोंयचे अशें तांणी म्हळां. कदंब आनी शिलाहार राजांचो इतिहास भोव सहजतायेन गुंथला. मुसलमानांचीं आक्रमणां आनी हिन्दू धर्मांतर्गत अव्दैत आनी अहिंसेक लागून थळाव्या लोकांची जाल्ली आवतिकाय, बहामनी सत्त्या आनी विजयनगरच्या दरबारांतल्या माधव मंत्री ह्या गोंयकारान कशे तरेन गोंयचे

जनतेक संक्श्टमुक्त केली, आदिलशाय सोंपोवपाक कशे तरेन तिमोजा आनी म्हाळ पैन पुर्तुगेजांक आमंत्रण दिलें आनी १५१० वर्सा गोंयाक आदिलशायेंतल्यान मुक्त करपा बदला स्वता गोंय आपणाली वसणूक करून पुर्तुगेजान आपणालो शेक चलयलो, हाची सविस्तार म्हायती सोंपे सुंदर भाशेंत सांगपी हें इतिहासाचें पुस्तक. ह्या पुस्तका भायर आनीकूय इतिहासाचीं पुस्तकां तांणी बरयल्यांत. 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' हेंय अशेंच अभ्यासपुर्ण इतिहासाचें पुस्तक. गोंयची लांबाय-रुंदाय, शेतां-रानां, वेपार-उद्देग, पदां-पदव्यो आनी गोंय शाराचीं नांवां हांची सविस्तर म्हायती दीत बहामनी-मुसलमानांची सत्ता, दर्यावर्दी पुर्तुगेजांचो इतिहास, तिमय्यान दिल्ली बुद्द, आल्बुकेर्कान १५१० वर्सा मांडिल्लें झूंज आल्बुकेर्काक धांवडावपाचीं कारस्थानां, आल्बुकेर्काक गोंय सोडचें पडटा, पर्थून पुर्तुगालच्यान तारवां येतात, आल्बुकेर्क पर्थून गोंय जिखता, बिजापूर सरकार आनी आल्बुकेर्क हांचे मजगतीं शांततायेची कबलात– अशा विविध घडणुकांची क्रमवार म्हायती दिवपी हेंय पुस्तक आदल्या पुस्तका इतलेंच म्हत्वाचें आनी मोलाचें. तिसरें एक तितलेंच मोलादीक इतिहासाचें पुस्तक म्हळ्यार 'वलिपत्तनाचो सोद'. इसवी सन ९८८ वर्सां जाका वलिपत्तन म्हूण पाचारताले तेंच आयचें 'बाळ्ळी' अशें शणै गोंयबाब प्रतिपादन करतात. 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' आनी 'वलिपत्तनाचो सोद' हीं दोनूय पुस्तकां शणै गोंयबाबांनीं १९२५-१९२९ ह्या काळांत बरयलीं आसुंये. अर्थात ह्या पुस्तकां फाटलो जो अभ्यास आसा तो खूब वर्सांचो हातूंत दुबाव ना.

कोंकणी भास आनी भासशास्त्र हांचो खोल अभ्यास करून तांणी बरयिल्ल्या पुस्तकांक लागून कोंकणी भाशे संबंदानचे वाद आनी भाशेची व्हडविकाय हांचेर खोलायेन वाचूंक मेळटा. १०३० वर्सा 'कोंकणी भाशेचें जैत' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. कोंकणीची इतिहासीक बसका विस्कटावन सांगीत कोंकणी ही कशी स्वतंत्र आनी गिरेस्त भास हें तांणी दाखल्यां सयत स्पश्ट केलें. कोंकणीक मराठीची बोली म्हूण लेखपी तथाकथीत शास्त्र्यांक तांणी तर्कशुद्ध जाप दिल्या. दुसरें म्हत्वाचें पुस्तक म्हळ्यार 'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ'. हेंय पुस्तक खूब उसरां म्हळ्यार १९४९ वर्सा उजवाडाक आयलें. अनेक भाशांचो अभ्यास करून आनी कोंकणीचे बांदावळीची मराठी कडेन तुळा करून बरयिल्ल्या ह्या पुस्तकांत कोंकणीचीं खाशेलेपणां आनी मराठीचीं वेगळेपणां ठसठशीतपणान सिद्ध केल्यांत. ह्या पुस्तकाक नामनेचे भासशास्त्री सुमित्रनंदन मंगेश कत्रे ह्या विव्दानाची प्रस्तावना

आसा. तातूंत ते म्हण्टात... "Like the poet Rabindranath Tagore in Bengal whose mastery over the Bengali language was enriched by a keen appreciation of its structure, so in Konkani Mr. Valavlikar has given in the fruit of his lifelong study and practice of Konkani in this short work. He has digested the previous contriburion to such a study and brought his own unrivalled approach to the living Konkani in a treatise which will have its value to modern students of comparative linguistics". भाशेची नाडी आनी मोडी शिकून घेवन बरयिल्लें हें पुस्तक तुळात्मक भासशास्त्राच्या विद्यार्थ्यांक खूब उपकरा पडटलें अशें कत्रे मानतात. भाशे संबंदान तिसरें संशोधनपुर्ण पुस्तक आसा तें 'कोंकणी नादशास्त्र'. १९४० वर्सा प्रकाशीत जाल्लें पुस्तक भासशास्त्राचे नदरेन भोव म्हत्वाचें. हातूंत स्वर आनी स्वरांचीं रुपां, व्यंजनां आनी स्वरांचें मिलन, उच्चारांचे नेम, जोडाक्षरां वा जोडगिरांची कोंकणी तरा, उक्ते आनी धांकते उच्चार- ह्या संबंदांन शास्त्रीय नदरेंतल्यान केल्लें विवेचन दिश्टी पडटा. अशे तरेचीं नादशास्त्रावयलीं पुस्तकां भारतीय भाशांनी भोव थोडीं आसात.

आनीक दोन पुस्तकां भाशेच्या विशयांतलीं आसात. खास करून शिक्षणीक मळा वयलीं. आदी ज्या पुस्तकाचो उल्लेख जाला तें 'कोंकणी मुळावें पुस्तक'. पुस्तकरूपान आयलें ना तरी मुळावें पुस्तक म्हण ताचें मोल निखालस उणे ना. स्वर आनी व्यंजनांची वळख दीत उतरां घडोवप आनी मागीर वाक्यां रचप हाची म्हायती भुरग्यामनांक अभ्यासाची आनी शिकपाची गोडी लागतली अशे तरेन जाल्या. 'आयदन सकला पडलें आनी ताका चेप आयलें' वा 'बाबूक झेम येता' वा 'तागेले मांयन दुदाचो पायस केला' ह्या सारकीं वाक्यां आसात जांचो भुरग्याचे दिसपट्टे जिणे कडेन संबंद येता. सोंशा-कांसवाची परंपरीक काणी सांगतनां शिर्षक दिलां 'आटफाट धर म्हजी फाट'. सान भुरग्यांक वाचनाची ओड लावपा सारकें हें मुळावें पुस्तक. आनी दुसरें कोंकणी भाशेची, उतरावळीची, म्हणी-ओंपारींची गिरेस्तकाय कितली आसली तें दाखोवपी 'येवकार अध्यक्षाले उलोवप'. १९४२ वर्सा कोंकणी परिशेदेचें तिसरे अधिवेशन जाल्लें तेन्ना शणै गोंयबाब हे येवकार अध्यक्ष आसले. तागेलें अभ्यासपुर्ण उलोवप उपरांत थोडी भर घालून पुस्तकरूपान १९४७ वर्सा परगट जालें. 'कोंकणी लोक-वेद म्हळ्यार रत्नांची खाण' अशें शणै गोंयबाब

म्हणटात. कोंकणी सरस्पत पुस्तकरूपान उजवाडाक येवपाक चिके कळाव लागलो ताका इतिहासीक कारणां आसात. पूण व्याकरणां, उतरावळी आनी शब्दकोश हांचो वावर कोंकणींत खूब पयलीं म्हळ्यार सोळाव्या आनी सतराव्या शतमानांत जालो. सोळाव्या शतमानांत धरून आजवेर परगट जाल्ल्या म्हणी आनी हुमाण्यांचीं पुस्तकां व्हडा संखेन आसात. उपरांत नेमाळीं, नाटकां, तियात्र, मांडो, गितां हांची भर पडत कोंकणी जैताचे वाटेर फुडें वचत आसा हें दाखोवन दिवपी हें उलोवप.

हें पुस्तक छापपाक वचचे पयलींच शणै गोंयबाब हांतुणार पडले. १९४५ वर्सा मुंबयंत गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलनाचें तिसरें अधिवेशन भरिल्लें. ताचे अध्यक्ष विचारवंत आचार्य काकासायब कालेलकर आसले. आचार्य काकासायब हे कोंकणी फळची फुलची ह्या मत्ताचे आसले. कोंकणी-मराठीचो वांगड-सांगड गरजेचो अशें मत्त तांणी हे सभेमाजार मांडिल्लें. कोंकणी ही गोंयची राजकी आनी शिक्षणाची भास जावची पूण गोंयकारांनी जर कोंकणीक बरे दीस येवचे म्हूण मराठीचें बोट सोडलें जाल्यार ताचे अर्थीक परिणाम विपरीत जावं येतात अशें तांणी म्हणिल्लें. शणै गोंयबाबांनीं आचार्यांचे विद्वत्तेची तुस्त तोखणाय केली पूण तांगेल्या विचारांचें इतिहासाचे दाखले दीत खंडन केलें. 'ऐन वेळार' ह्या नांवान ही जाप ह्या पुस्तकांत छापल्या.

शणै गोंयबाबांनी इतिहासांत रिगून जीं मोलादीक रत्नां पुंजायलीं तातूंत तांच्या हाताक दोग अपुर्बायेच्या विव्दान आनी कर्तुपी गोंयकारांची म्हायती तांकां मेळ्ळी. भूल विद्येचो जनक आबे फारीय आनी राम कामती. उपरांत शणै गोंयबाबांनी ह्या दोगांलींय चरित्रां उजवाडाक हाडलीं. १७५६ वर्सा गोंयां कांदोळी गांवांत जल्मल्लो जुझे कुस्तोदिउ दे फारीय फुडें पाद्री जालो आनी पंदरा वर्सांचे पिरायेर उच्च शिक्षणा पासत बापाय वांगडा पुर्तुगालाक गेलो. थंयच्यान वर्सभरयान रोम शारांत गेलो. थंय ताणें ख्रिस्ती धर्मशास्त्रांतली पदवी संपादन केली. १९७७ वर्सा तो परतो पुर्तुगालाक पावलो. ताची उजू चलणूक आनी विर्वत्ता पळोवन राज्यकर्ती दोना मारीय हांणी तांकां आपणालो खाशेलो कुमसारकार आनी सल्लागार नेमलो. उपरांत गोंयांतले फिरंगी राजवटकेक विटिल्ल्या कांय गोंयकारांक हाताकडेन धरून जें बंड गोंयां जालें ताची सुलूस लागतकच कट रचप्यांक कडक ख्यास्त भोगोवपी पुर्तुगालान आबे फारीयाचो बापूय कायतान फारीयाक बंदखणींत उडयलो. आबे फारीय त्या दिसांनी कांय दिसां खातीर म्हूण फ्रान्सांत गेल्लो, देखून वाटावलो.

उपरांत अनेक राजकी मोडां फ्रान्सात उप्रासलीं तातूंत आबे फारीय सक्रीय जावन वावुरलो. उपरांत ताणें भूलशास्त्राचो सोद लायलो. ते पयलीं मेस्मेर हो लोकांचेर भूल घालपाचे प्रयोग करतालो. पूण ताचे फाटलें शास्त्र ताका कळनासलें. आबे फारीयान तें शास्त्र विज्ञानीक दिश्टीकोण वापरून सोदून काडलें. हेर संवसारीक नामनेच्या शास्त्रज्ञांनी ताका मान्यताय दिली. पूण दुर्दैवान तागेल्या धर्माचे अधिकारी ताचे फाटीक लागले. भूलन्हीद ही कातोलीक धर्माआड आसा- असो प्रचार सुरू जालो. आबे फारीयाचे बुदवंतकायेचेर जळपी आनी ताच्या जैताची नसाय करपी लोक नेमाळ्यांनी आनी भौशीक सभांनी फारीया आड उलोवंक लागले. भूलविद्या हें चिकान, फारीय हो फटकिरो, ढोंगी आनी तट्टुकी असो आरोप जावंक लागलो. तरी निर्शेनासतना फारीयान त्या दिसांनी भूलशास्त्राचेर पुस्तक बरोवंक घेतलें. चार खण्डांनी बरोवपाचें ताणें येवजिल्लें. ते प्रमाण पयलो खण्ड ताणें बरोवन छापूंक दिल्लो. पूण तो उजवाडाक येवचे पयलींच १८१९ वर्सा पिरायेच्या ६३ वर्सांचेर हो शास्त्रज्ञ संवसाराक अंतरलो. आयज आबे फारीयाक भूलशास्त्राचो, हिप्नोटिझमाचो जनक अशें मानतात. शणै गोंयबाबान ह्या गोंयच्या पुताचो भोव अभिमानान उल्लेख केला. ह्या पुस्तकाक गोंयची नामनेची विदुशी प्रोपेर्सिया कुर्रेय आफोंस द फिगरेदु हांणी भोव सुंदर प्रस्तावना बरयल्या. हें पुस्तक १९४१ वर्सा प्रकाशीत जालें.

ते पयलीं १९३९ वर्सा 'पुण्यात्मो राम कामती' हें पुस्तक उजवाडाक आयिल्लें. एका बुदवंत आनी कर्तुबी गोंयकाराचें इतिहास धवळून वेंचून काडिल्लें हें चरित्र. राम कामती हो मुंबय राबितो करून राविल्लो गोंयकार. जिणेचीं चाळीस वर्सां जनतेचे आनी सरकाराचे सेवेक वावुरलो. आपणाल्या कर्तुपांनी ताणें ब्रिटिशांच्या राज्यांत भोव मान आनी प्रतिश्ठा जोडली. कंपनी-सराफ म्हूण ईस्ट इंडिया कंपनीचें काम करून एक उजू आनी बुदवंत मनीस म्हूण नामना जोडली. टंकसाळेंत तो सरकारी म्होरो तयार करतालो. हेड-मिन्ट-मास्टर म्हूण ताणें केल्लो वावर भोव तोखणायेक पात्र जाल्लो. ते पयलीं जेन्ना याकुतखानान मुंबयचेर घुरी घाल्ली तेन्ना राम कामती झुंजारी जावन नाळखान्यांत वावुरिल्लो. वाळकेश्वराचें आयज आसा तें मंदीर राम कामतीन पुनर्प्रतिश्ठीत केल्लें. भोव कर्तुत्ववान मनीस जाल्ल्यान ताची सरकारदरबारांत आनी सरसामान्यां मदीं भोव तोखणाय जाताली. दुर्दैवान, ताच्या दुस्मानांची संख्याय वाडत गेली. आनी अखेरेक ताचेर बगलांट घालून मुंबयच्या

गव्हर्नरान ताका आजल्म बंदखणीची ख्यास्त भोगयली. शणै गोंयबाबांनी ह्या गुणेस्त, बुदवंत, उजू आनी कर्तुपी गोंयकाराचें पुराय जिवीत - चरित्र भोव सुंदर भाशेंत आमचे मुखार दवरलां.

लळीत साहित्याक शणै गोंयबाबान दिल्लें योगदान तितलेंच जड-जडावांचें. १९१३ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या 'मोगाचें लग्न' ह्या रूपांतरीत नाटकाची म्हायती आदीं आयल्या. मोलिएरच्याच आन्येका नाटकाचें रूपांतर शणै गोंयबाबान केलां. 'मोगाचें लग्न' वरीच हेंय नाटक स्वतंत्र दिसपा इतलें कोंकणी जालां. 'पोवनाचें तपलें' हें नाटक १९४८ वर्सा प्रकाशीत जालें. हिमट्या, आशाधशी आनी गिरेस्त तातूबाबाल्या चामटीपणाची खबर सोबीत सुंदर संवादांनीं फुलयल्या. संवाद लांबसडीक आसात खरे. पूण विनोद आनी उपहास व्हडा प्रमाणार आशिल्ल्यान वाचनीय आनी श्रवणीय जाल्यात. 'झिलबा राणो' हेंय अशेंच एक विडंबनात्मक फार्सिकल नाटक. अरेबिअन नाइटसांतले एके काणयेचेर आदारून बरयिल्लो हो खेळ. झिलबा हो गोंयचो एक भाटकार. एक दीस जरी कदंबरायाल्या शिंवासनार बसून राज्य करूंक मेळ्यार आपूण राज्याची विस्कळिल्ली परिगत थाऱ्यार घालतासलों अशें ताका दिसता. आनी तें कशें खरेपणीं उतरता तें ह्या हांसोवण्या खेळांत दाखयला. नाटकाची अखेर वाचतकच नाटका फाटलो हेतू ध्यानांत येता. झिलबा अखेरेक राया जयकेशी कडेन मागता– '... आमगेल्या ह्या सुंदर कोंकणांत भायले भुसमारे येवन जीं धुडबुसां घालतात तीं आळाबंदा हाडचीं... कोंकण, कोंकणी लोक आनी कोंकणी भास सगल्या संवसारांत चड-व्हड जावची.'

जें जें कोंकणी साहित्यांत आजवेर रचून जालें ना तें तें आपूण रचतलो ह्या व्हड हावेसान शणै गोंयबाब वावुरले. शेक्सपियरच्या खेळांची माळ तांणी अणकारीत केली. क्रिस्तांव भावांक कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची अदीक गोडी लागची देखून शणै गोंयबाबानी कांय काणयो रोमी लिपींत बरयल्यो. हॅम्लेट, ऑथेलो, किंग लिअर हीं सगलीं पात्रां आनी तांच्यो कथा भोव सोंपे, सादे आनी सरळ भाशेंत पूण नीज कोंकणींत वितरायल्यात. ही तांगेली बरपावळ हालीं हालीं मेरेन सांपडनासली. पूण गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझ हांणी शणै गोंयबाबांचे एकशेपंचाविसावे जंयती निमतान उजवाडायिल्ल्या 'समग्र शणै गोंयबाब' हे माळेंतलो चवथो खण्ड छापचेवेळार अचकीत हे माळेचे संपादक शांताराम वर्दे वालावलीकार हांच्या हाताक चारांतलीं तीन पुस्तकां लागलीं.

तांतल्यो ह्यो रोमींत छापिल्ल्यो काणयो. त्यो चवथ्या खण्डांत वाचूंक मेळटात. ते भायर 'जादुचो जुंवो' हें 'द टेम्पेस्ट' नांवाचे एके इंग्लीश काणयेचें भाशांतर. १९२० वर्सा बरयिल्ल्या ह्या पुस्तकाक 'नवें गोंय' प्रकाशनान १९६८ वर्सा उजवाड दाखयलो.

'वखदांची सांगशी' ही गांवठी वा घराव्या वखदांची म्हायती नेमाळ्यांनी प्रकाशीत जाल्ली. पूण पुस्तक रूपान येवंक पावली ना. 'नाम्सजुग्याचो दोंगर' आनी 'गीता कशी रचली?' हींय बरपां केन्ना उजवाडाक आयल्लीं नात. 'भगवंतालें गीत' हें श्रीमद् भगवद्गीतेचें गद्य भाशांतर. सोपे सरळ अस्सल कोंकणींत बरयिल्लें. देखीक, अठराव्या अध्यायाची ही सुरवात-

"अर्जूनान म्हळें- अगा इंद्रियांच्या धनया, केशी दैत्याक मारतल्या, बळिश्ट भुजांच्या श्री कृष्णा, संन्यासांचें खरेलें रूप आनी त्यागाचे खरेलें रूप हांव वेगळें वेगळें समजूंक सोदतां.

श्रीभगवंतान म्हळें- फळाचे वानशेन करचेल्यो करण्यो सोडप हाका शाणे लोक संन्यास समजतात. सगले तरेच्यो करण्यो करून फळ सोडप हाका विचारवंत लोक त्याग म्हणटात.

शणै गोंयबाबांनी बरयिल्ल्या कथा-कादंबरी कडेन वचचे पयलीं तांणी ल्हान तशा व्हड भुरग्यां खातीर बरयिल्ल्या पुस्तकांचेर एक नदर मारप गरजेचें. ल्हान भुरग्यां खातीर तांणी बरयिल्लें पुस्तक 'भुरग्यांलो इश्ट' हें ल्हान ल्हान बरपांचें ल्हानशें पुस्तक. भोंवतणच्या संवसारा कडेन भुरग्यांचे नदरेंतल्यान आनी तांचेच भाशेंत बरयिल्ल्या गजालीं वांगडाच हातूंत मूय आनी तोळ हांची काणीय आसा. ह्या पुस्तकांत 'म्हजें गोंय' ही कविताय आसा. शणै गोंयबाब कवी न्हय. तांची शैली काव्यात्म आसत, पूण तांणी काव्य बरोवंक ना. आडवाद ही कविता आनी हेर कांय कथा-काणयांनी आसपाविल्लीं गितां. "गोड म्हजे गोंय, सुंदर म्हजें गोंय, पुर्विल्ले नामनेचें, चड मोट्या भाग्याचें, उंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय." हें काव्य वाचून प्रेरीत जाल्ले अनेक जाण मुखार नामना जोडूंक पावले.

'कोंकणी विद्यार्थ्यांक' हो १९५८ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो झेलो म्हळ्यार शणै गोंयबाबांनी विद्यार्थ्यां मुखार केल्लीं भाशणां. भोव अभ्यासपुर्वेक तयार केल्ल्या

ह्या भाशणांनी 'गागर में सागर' वा 'बिंदू में सिंधू' म्हणटात तसो विचारांच्या आपरोसाचो अर्क अवघ्या उतरांनीं आयिल्लो आसा. श्रुति आनी स्मृति, पुस्तकी अभ्यास आनी अवांतर गिन्यान हातुंतलो फरक तांणी सोंपे भाशेंत विस्कटायला. अव्वल नंबरान उत्तीर्ण जाल्ल्या गोंयकार भुरग्यांक उद्देशून ते सांगतात– 'विद्येचें बळगें येतलें जाल्यार आमी छापिल्ल्या पुस्तकांयपरस व्हडलें एक निजाचें पुस्तक आसा तें वाचूंक लागूंक जाय... हाका फकत दोनूच पानां– वयलें मळब आनी सकयली धर्तरी'. शणै गोंयबाबांच्या संपादना खाला गोमन्तक छापखान्याचे धनी काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी 'नवे गोंय' हें (देवनागरी लिपयेंतलें पयलें) त्रिमासीक सुरू केल्लें. १९३४ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या 'नवें गोंय'च्या पयल्याच आंकांत शणै गोंयबाबांनी एक लेख बरयलो. उपरांत तो 'अमृताचो पावस' ह्या नांवान खूब गाजलो. गोंयची व्हडवीक सांगून संवसारीक सुखाची वानसा, केद्याय व्हडल्या संकश्टांक फुडो करपाचें धाडस, भंया विरयत मुक्त संचार आनी दुश्ट-अनिश्टांक थरथरो काडीत अशा व्यक्तितत्वाच्या तरण्या गड्यांची कदर करपी ही भूंय अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. हीं भांगरान बांदून दवरपा सारकीं तांगेलीं उतरां, 'अमृताचो पावस', आयज साबार स्वाभिमानी गोंयकारांच्या वण्टींचेर आनी काळजांनी झेतान मिरयता–

### अमृताचो पावस

*नवें गोंय पोरण्या गोंयांतसुनूच वैर सल्लां. जें सातां कोंकणांत म्हालगडें म्हणून सगळो संवसारभर गाजलें, जैं गोकुळांतल्या गोरवां राखण्याक श्रीविष्णुच्या अवताराचीं वस्त्रां आनी शस्त्रां मेळून देवपण आयलें, जैं दक्षिणेचें राज्य जोड्टल्या बळिष्ट राष्ट्रकूट सम्राटांचें पाळणे धोल्लें, जैं मराठणाच्या गळ्यांत सौभाग्याची गळसरी बांदतल्या पराक्रमी जिवबादादान उजवाडाचें पैलें किर्ण पळेलें तेंच हें पुण्यवंत, कुळवंत आनी भाग्यवंत गोंय. ताका आंगांतलो कस मोटो. तसो हावेसूय मोटो. आपूण उपाट सुखी जावन सगळो संवसार उपाट सुखी करचो ही ताची मोटी वान्सा. त्याखातीर तें कसलेंय साहस करीत. तें धतरिच्या खांची गोंयड्यांनी भोंवत. सातां समुद्रांचे खरीक हात घालीत. किर्णांची निसण करून एके गिरावळीवैल्यान दुसरे गिरावळीर चडत. एके दूदगंगेंतसून दुसरे दूदगंगेंत उडकी मारीत. एका केणांतसून दुस्त्या केणांत रिगत. एका ब्रह्मांडांतसून दुस्त्या ब्रह्मांडांत वचत आनी संवसाराचो बोंबाडो बारकायेन*

सोदून पळेत. असलो ताचो हावेस. तरण्या-धाकट्या उमेदिच्या गड्यांची ताका मोटी ओड. ताचोच ताका चड उबारो. चाळीसी फाटीं पडून संवसाराक उबगल्ल्या, धके-चपाटे खावन निर्णल्ल्या, सुक्या वेदान्ताची बडबड लागिल्ल्या, पिरी-पिरी करून पिर्डतल्या आनी हजारां दुभावांनी भरिल्ल्या लोकांचो ताका वीट येता. तसल्या लोकांकडेन तें दाव्या दोळ्यानूय पळेना. जीव म्हळ्यार गोडाचो बांदो कसो जे लेखिनात, जे मर्णाक भियेनात, जे संकष्टाची पर्वा करिनात, वेळाकाळार वागा-वांसवेलाचे दाडेंत हात घालूंक जे गणमणनात, जे भुकेतानेन जीव सांडिनात, जे रानां-रांयांत भोंवंक कांचवेनात, शिंयाचो कुडकुडो, ओताचो कडकडो आनी पावसाचो घडघडो आयलो जाल्यारूय, आपणाले लागणुकेकडसून जें केंसभर फाटीं सरनात, जे कित्यानूच निर्शेनात, जे कशेच तरेन हात-पांय गळसणायनात, जे परक्यांल्या बडवाचारान निखालस दिपकवनात, जे परक्यांल्या समुद्रांत न्हंया व्हाळांभाशेन बुडून नाशे जावंक सोदिनात, जे परक्यांल्या फाटल्यान बंद्यावरी भोंवनात, जे परक्यांल्या पोशान उदक पियेनात, जे परक्यांल्या मेंदून येवजिनात, जे परक्यांल्या तंत्रान चलनात, जे परक्यांलें उणे उतर सोंसून घेनात, जे नष्ट्या-दुष्टांक भयांकृत काळाभाशेन दिसतात, जे आपलेपणाच्या अभिमानान लकलकतात, जे व्हडविकेच्या उंच हावेसान फुरफुरतात, जे खाशेले कर्तुत्वदशेन वैर सरूंक सोदतात, जे सह्य पर्वतासारके मनाचे थीर, जे गोमन्त समुद्रासारके बुद्दिचे खोल, असल्या जुवान गड्यांची तांकां तोखणाय दिसता. असल्याच गड्यांक हातांत धरून आपल्या आनी संवसाराच्या बऱ्याक वावुरचेली तांकां मोटी उमेद आसा. ही तांगेली इत्सा तडीक वचून सगळो संवसार सुखान नंदू अशें हांव मागतां.

लळीत साहित्यांतल्यो सगल्यांत व्हडल्यो दोन साहित्यकृती म्हळ्यार 'गोमन्तोपनिषत् खण्ड १' आनी 'गोमन्तोपनिषत् खण्ड २.' काणयो-नाटकां व्हडा संखेन आसलीं तरी कथा-कादंबरीच्या मळार फाटीं आसात हे जाणविकायेंतल्यान जावंये- शणै गोंयबाबांनी कथा, लळीत-निबंद आनी कादंबरी बरयली. कथा आनी लळीत निबंदाचो झेलो म्हळ्यार गोमन्तोपनिषत् पयलें खण्ड आनी 'संवसारबुट्टी' ही प्रदिर्घ कथा जिका कोंकणी साहित्यांतली पयली अध्यात्मीक कादंबरी अशें लेखतात ती म्हळ्यार गोमन्तोपनिषत् दुसरें खण्ड. मूळ उपनिषदांत रचनाकारांनी तांच्या विभागांक 'आरण्यकां' म्हणल्यां तेंच उतर शणै गोंयबाबांनी वापरलां. 'म्हजी बा खंय गेली', 'वास शणैली पोपाय', 'बाबुमामालो पणस', 'पितुबाबालो तांब्यापटो'

आनी 'खर्णवीर' हीं पयल्या खण्डांतलीं पांच आरण्यकां आनी 'संवसारबुट्टी' हें सवें आरण्याक. देखून ह्या दोन पुस्तकांचीं नांवां तशीं दवरल्यात.

'म्हजी बा खंय गेली' ही शणै गोंयबाबांली कथा म्हळ्यार कोंकणी साहित्यांतली पयली आधुनीक कथा अशें लेखतात. पुस्तकांत जरी ती १९३३-३४ वर्सा पावली तरी शणै गोंयबाबांनीच बरोवन दवरलां ते भाशेन ती १९२० च्या सुमाराक बरोवन जाल्ली. पांच स वर्सां पिरायेच्या बाबुलो ह्या भुरग्याची मानसिकताय शणै गोंयबाबांनी यथार्थ रितीन हे कथेंत मांडल्या. मध्यमवर्गी घरांत जल्मल्ल्या बाबुल्याची आवय मरता तेन्ना ती देवागेर गेल्या अशें ताका सांगतात. देवागेर गेल्ली आवय परती येवची ना म्हूण कळटकच बाबुलो देवाचेर रागार जाता. किंवाट्यान देवाऱ्या कडेन वचून सगलो राग काडटा. आवयचो ध्यास लागिल्ल्या बाबुल्याक सुकतडो लागता. 'देव उलोवं ना जाल्यार ना उलोवं- म्हजी बा म्हाका जायच' असो आगरो धरीत बाबुलो 'ती म्हजे सरीं येना जाल्यार हांव तिचे सरीं वतलों' अशें येवजुपी बाबुलो खंतीन हांतुणार पडटा आनी तातुंतच तो 'म्हजी बा, म्हजी बा' म्हणीत प्राण सोडटा. अशी ही भावनाप्रधान कथा. १९२० वर्सा बरयिल्ली आनी कोंकणींतली पयली कथा हे नदरेन हे कथे कडेन पळोवंक जाय. 'आमचो माणकुलो बाबुलो, आपली अपुर्बायेची बा जंय गेल्ली थंय वचून, खोसयेन तिचे हाण्डीर बसलो हातूंत दुभाव ना' अशी हे कथेची अखेर केल्या. ही अखेर आयचे कथेचे फास्केंत बसना. पूण 'म्हजी बा खंय गेली' ही १९२० वर्सा बरयिल्ली कोंकणींतली पयली आधुनीक कथा इतलें निश्चीत.

ह्या झेल्यांतल्या हेर आरण्यकांक जरी कथा-काणयो म्हळें तरी तीं कथा आनी लळीत निबंद हांचे शिमे वयलीं बरपां. 'वास शणैली पोपाय' आनी 'बाबुमामालो पणस' ह्या दोगूय रूखांचें मानवीकरण करून बरयिल्लें हें निवेदन. वासशणैली पोपाय अचकीत आयिल्ल्या मोडाक लागून जिवा वयल्या संकश्टांत पडटा आनी ते वेळार सृष्ट रचतल्याक कशी खेपता तें दाखयलां. हुमटुन पडिल्ली पोपाय आकांतान आपणाक पर्थून उबी कर म्हूण दबकायता– 'नाजाल्यार तूं पक्षपाती, तूं मेळ्यांमोगी, तूं दुबळो, तूं अक्कल नाशिल्लो म्हणपाचें मोट्या व्हडल्या ताळ्यात संवसाराक कळोवन तुजी इज्जत काडटली आनी तुज्या नांवान प्राण सोडटलीं.'

बाबुमामालो पणसूय असोच मानवीमन घेवन उलयता. ह्या पणसाचे घरे 'नाजूक

बरे, चांफीं कशेशे, चार कसली ती नाच. घरो जाल्यार हळ्दुवें सतम्याचें भांगर. म्होंवान थपथपीत. जिबेर दवरना फुडें विरगळून उदक. पोटांत पावतकूच बोंबले मेरेन थंडाय...'नवो सोमार लागीं येता. दारांत पालखी पेणें करता तेन्ना प्रसाद म्हूण ह्या पणसाचे घरे वांटपाची बाबुमामागेर चाल. बाबुमाम भागेल्याक पणसुलां काडूंक सांगता. तें कानांर पडटकूच पणस थतरवितर जाता. ताच्या तोंडांत घाल्ले विचार ख्यांनीच विचार करूंक लायतात. 'आयिल्ल्या वर्सां कुलक्षय. उसरपत कसली ती ना. कित्याक जाय आशिल्लीं तीं भुरगीं?...' कुश्टबाबालो पणस शेकानशेक वाडला तांकां कुश्टबाबाल्यो सुनो वांज म्हणटात आनी ... म्हाका भाग्यवंत म्हणटात. तांकां त्यो वांजुट्टो म्हूण दुशण लायतात आनी म्हाका वियेल्ले खेपे पांटल्यो-धालो भरून भुरगीं जाता म्हणून, खावचीं पानां खावन, वाळवो पेंचून, तोंडभर म्हजी तोखणाय करतात. परंत म्हजे असल्या दादल्यांनीं सगळें सांडून वियेवचें ही जल्माची एक विटंबणाच म्हणपाचें सभागणींक कशें समजना? संवसारांत दादले मिंडे खंय गुरवार आनी बाळंत जातात?' मनशांक उद्देशून पणस म्हणटा– 'खादोळे जिवेच्या नादाक लागून दाटून तूं पिशेपण पांगुरता. पणसा-आंब्याक, गंवां-भाताक, नासण्या-कुळताक, वांयग्या-भेंड्याक जीव ना म्हणपाच्या समजान असुदाय तोंडांत उडोवंचो बरो उद्योग आडायला तुमी मनशांनी..आनी..आपणाली पातकी करणी सोबोवन व्हरूंक वेदांचे आनी शास्त्रांचे आदार.' मनीससमाजांतली 'जीवो जीवस्य जीवनम्' ही धारणाच खरी. अहिंसेच्या नांवान तोंडाची उब घालयतात पूण 'हिंसा परमो धर्म' हेंच मनशालें खरें ब्रीद अशें पणस म्हणटा. पोपाय आनी पणस हांच्या माध्यमांतल्यान शणै गोंयबाब मोनजाती कडेन आनी रूखावळी कडेन पळोवपाची वेगळी नदर आमकां दिता.

'पितुबाबालो तांब्यापटो' आनी 'खर्णवीर' हीं दोन आरण्यकां म्हळ्यार दोन विंगड विंगड प्रवृत्तीच्या मनशांचीं जबरदस्त व्यक्तिचित्रां. पितूबाब हो गिरेस्त, देवा-धर्मान चलपी, दानशूर, गरिबांक-गरजेवंतांक पावपी असो आदर्श परमपुरूश. केन्ना कोणाचे वाटेक ना वचपी पितुबाबाक एक दीस एक राखणो आपणाल्या पाड्याक शिट्टी घेवन मारता तें पळोवन राग येता. पाडो गोठ्यांत वचूंक सोदता जाल्यार ताचेर जबरदस्ती कित्याक करची? मोनजातीकूय तांणी कितें कितें करचे हाचें स्वातंत्र्य जाय ह्या विचारांनीं तो घरा परतता. ताच्याच गोठ्यांत शें - पांयशीं गोरवां आसतात. तो तांकां सोडून दिता. पूण तीं वचनात. दुस्र्या दिसा तांकां चरपाक रानांत सोडलीं

आनी राखणे परतले. जाल्यार आमोरेर गोरवां परतीं गोठ्यांत. उपरांत पितुबाबाक अहिंसेचें पिशें लागता. पयलीं तो नुस्तें सोडटा. बांगडे, तारले, पेडवे, धोडयारे बी शिजोवन, तळून, मनांत कसलोच दुभाव हाडिनासतना असुदाय तोंडांत उडयतां ही आपल्या धर्माची, शास्त्राची आनी नितीची मस्करीच कशी ताका दिसता. तो घरांत नुस्तें हाडपाचेंच सोडटा. पूण घरांतली जाण्टेली पतिआका नुस्त्याची गांठ लागून 'विसवणा'चे नांव घेत जीव सोडटा तेन्ना तांकां तें चड विपरीत दिसता. आमी चडच जिबेसुवादीन जाल्यांत, अशें दिसता. उपरांत ताका होलमता- शाक, भाजी, फळां, भात नासणे, मूग हे सगळे जीव आशिल्लेच नग. तांकां खावप म्हळ्यार तीय हत्याच. एक दीस पितुबाब संवसाराक विट्टा. आपणालीं दोन लाख पद्मटंकांची आस्पत हत्त्या जंय जायना अशा वावराक लागची ह्या हेतून तो एक दानपत्र तयार करता आनी षष्ठदेव कदंबाच्या दरबारांत व्हरून दिता. ताचेर- "जो मनान, उतरान वा करणेन केन्नाच कोणाची हिंसा करिना असलो मनीस, चंद्र सुर्य आसत तंववेर ह्या संवसाराचे फाटीर केन्नाय आनी खंयचेय कडेन जल्माक आयलो जाल्यार, संवसाराचे अखेरे मेरेन कदंब वंशाच्या आतांच्या आनी फुडल्या राजांनी घर-पटी, रांदन-पटी, उद्योग-पटी, शेता-शिदाव बी कसलोच उपसर्ग लायनासतना ही आस्पत ताका ताच्या गुणाखातीर, संवसाराच्या माथ्यार लकलकीत मुकुटाभशेन सोबण्या गोमन्त देसाच्या नांवान तसरीप दिवंची." इतलें करून पितुबाब भायर सरता. पूण अखेरे मेरेन तो पुर्ण शिवराक रावंक पावना आनी एके दोंगुल्ले वयल्या भुंयारांत तांकां मरण आयलां आसुंये असो निवेदक आदमास काडटा. कदंबरायान जाहीर केल्ले तसरिपेची खबर आयकून अनेक जाणांचे जिबेक उदक सुट्टा. समाजांतलीं फटकिरेपणां, दंभ आनी वसवशेपणाचेर उजवाड घालीत पुर्ण अहिंसेन जियेवप शक्यच ना देखून ती तसरीप कोणाकूच फावना असो निश्कर्ष राया काडटा.

पितुबाब एक त्यागी वृत्तीचो आदर्श जाल्यार 'खर्णवीर' हो झुंजारी वृत्तीचो दया-माया नाशिल्लो, सत्य-असत्याची पर्वा नाशिल्लो कोकस्तानचो राया. एक दीस धर्मस्ताना आड झुंजतना खर्णवीराच्या दोळ्याक बाण लागून तो पडलो आनी ताच्याच घोड्याच्या खुरांपोंदा चिड्डून मेलो. पूण त्या झुंजांत धर्मस्तानाचेर खर्णवीराल्या कोकस्तानान जैत जोडलें देखून तो त्या देशांत देवत्वाचे पदवेर पावलो. मेल्या उपरांत यमदूतांनी ताका यमराजा सामकार उबो केलो तेन्ना- हांव युद्ध करतनां मेलां, म्हण्टकच म्हाका सर्ग प्राप्त जावंक जाय आनी सर्गसुखां मेळूंक

जाय असो ताणें आगरो धरलो. ताच्यो त्यो गजाली आयकून यमराज खीणभर गोंदळांत पडलो. पातक्यांतल्या पातकी मनशाकूय न्याय-नितीच्यो गजाली भोव ब्यो सांगूंक येतात आनी धर्मशास्त्राचे आदार धिटायेन सडसडीत बरे दाखोवं येतात हें पळोवन तांकां मोटें अजाप जालें. युद्वभुंयेर मर्ण आयल्यार सर्गार पावता हें खरें. दुर्योधनाक सर्गप्राप्ती जाल्या हेंय खरें. मागीर खर्णवीराचेर अन्याय कसो जावचो अशें येवजून यमराजान तांकां सर्गार धाडलो. थंय सगलीं सुखां आनी गोडशें अन्न. जिबेक थोडें कोडशें-तिखशें रायतें लायले बगर गोडशें कशें गोड लागतलें? एक दीस कोण पळयनाशें करून खर्णवीर विमानांत बसून धर्तरेर आयलो. थंय ताच्या पुतळ्याची कावळ्यां-सुण्यां कडसून जावपी विटंबना पळोवन उबगण आयली. लोक आपणालो पराक्रम तोखेवचे बदला आतां आपणालीं वायट कर्तुपां उस्पून काडटात तें आयकून तो बेजारलो. ते वटेन सर्गार खर्णवीर ना म्हूण बोवाळ जालो. इंद्रसभेंत यमराजान सांगलें, अशे तरेचे वायट प्रवृत्तीचे लोक सर्गार पावतात देखून धर्तरेर पातकां वाडटात. मागीर सगल्यांच्या एकमत्तान झुंजतना मरता तांकां सर्ग फावता हें बदललें. जो सत्या खातीर अन्याया आड आनी दुश्टां आड झुंजता तांकांच सर्ग फावता असो नेम केलो. इतलें म्हणसर खर्णवीराक सोदूंक धर्तरेर गेल्ल्या गंधर्वांक खर्णवीर मेळ्ळो. ताका घेवन ते सर्गार आयले. पूण दरवंट्यार गंधर्वांक भितर सोडले पूण आदलो कायदो बदलिल्ल्यान खर्णवीराक यमकोणांत धाडलो. एक जाणवायेन भरिल्ली ही कथा. मोट्या मनशांचे पुतळे करपाची चाल बंद जावंक जाय हो संदेश कावळ्याच्या तोंडसून आयकतना बरें दिसता. हांसयत हांसयत, उपहासा वरवीं जिणेच्या सत्यां कडेन आनी तत्वां कडेन बोटां दाखोवन अहिंसा, शांतिकाय आनी मनीसपणाच्या नांवान चलपी दंभीकपणाचेर शणै गोंयबाब भोव फिशालकायेन बरयतात.

'संवसारबुट्टी' ही कोंकणींतलीं देवनागरी लिपींतली पयली कादंबरी. रोमी लिपींतली एदुआर्द ब्रून द सौझाली 'क्रिस्तांव घराबो' ही पयली. मुखार ह्या प्रकाराक 'रोमांसी' म्हणूंक लागले. शणै गोंयबाबान कादंबरी बरयली. पूण लेखनाची मोख ती लोकप्रीय जावची ही निखालस नासली. तशें आसल्यार ते एखादरी प्रेमकथा वा झुंजांची कथा बरोवंक शकताले. पूण जाणवायेचें योग्य मंथन जावचें ह्या हेतान तांणी ही कादंबरी बरयली. कोंकणींतलीच न्हय तर पुराय देशी आनी विदेशी भासांतलीय ही एक आगळी वेगळी कादंबरी. जिणेचें तत्वगिन्यान भोवतांशी आशिल्ल्यान

मनशा मनशा प्रमाणच न्हय तर दरेका जिवा प्रमाण बदलता. संवसारबुट्टी आयिल्ल्यान सगळी जीव जीवसाण उदकांपोंदा गेल्या. मरण कोणाक चुकिल्ले ना. आतां मेल्ल्याचे आत्मे कुडींतल्यान मुक्त जाल्यात. आनी सगल्यां आत्म्यांचें एक भिरेंच सर्गाच्या दारा कडेन पावलां. खरें म्हळ्यार मोनजातीक आत्मो आसता अशें कोण धरून चलना. पूण शणै गोंयबाबाले हे कादंबरींत एक हुंदीर, एक ज्योतिशी, एक मडवळ, एक भुरगें, एक खेतलो, एक बामण अशे सुमार बारा आत्मे आपापणाले विचार थंय मांडटात. ह्या वाद-संवादांतसून अनेक गजालींचेर मंथन जाता. सुवार्थ-परमार्थ, पातक-पुण्य, देव-सैतान, सत-असत, न्याय-अन्याय, धर्म-अधर्म, बरें-वायट, जल्म-पुनर्जल्म ह्या विशयांचेर गिन्यानपुर्ण भासाभास जाता. जल्माक येवन म्हयनो जावंक नाशिल्ल्या भुरग्याचो आत्मो आनी ताच्या बापयलो आत्मो देवदुताक कातरेंत धरतात. कांय आत्मे- आतां ते पातकी कुडींतल्यान मुक्त जाल्ल्यान- सत्य सांगतना सगलीं बरीं वायट कर्तुपां उकतीं करतात. पूण सर्गांत प्रवेश मेळपाचे आशेन आपणाल्या कर्तुपांचें समर्थन करतात. ह्या सगल्या विवादांतसून जीं जाणवायेचीं उतरां भायर सरतात तीं अशीं - एकदां सुरु केल्ल्या यंत्रांत देव धवळ करिना, देखून अजाणपणान देवाच्या नादाक लागून, तांकां पांयां पडून, ताची प्रार्थना करून कांयच फायदो ना... दुख्ख हें परम सत्य. सूख म्हण कांयच ना. उणे दुख्ख हेंच आमी सूख लेखतात... दुस्र्यान आपणा कडेन जशें वागचेंशें दिसता तशेंच आपणे दुस्र्याकडेन वागचें. तशें केल्यार दुख्खाक कारणच उरचेंना... देवान मनशाक बुद्द दिल्या. देखून ताका बरें-वायट कळटा. विवेकबुद्ध जागी दवरून वावुरल्यार वासनांचेर जैत मेळोवप सोंपें. देवळांतल्या वा उत्सवाच्या म्हुर्तींच्या आंगार भांगरां-शिंगरां आसचीं न्हय. देवमंदिरां दीस रात उकतीं उरचीं... मोक्ष, माया हें सगलें फट. पुनर्जल्मा पासून सुटका ना– अशा विचारांतच ऊंच-उणाक कोणे कोणाक लेखचें न्हय होय संदेश आसा. मनीसकुळयेक पडिल्ल्या प्रस्नांचेर भासाभास करतना लेखक गीता, कुराण आनी बायबल सारक्या धर्मग्रंथांचे दाखले दिता. परस्पर विरोधी आनी प्रस्थापीत मत्ताक छेद दिवपी विचारांची दी-घे करीत ही कादंबरी फुडें वता आनी विचारांची बसका मजबूत करून सोंपता.

शणै गोंयबाबांली लिखणी आनी व्यक्तित्व समेस्त कोंकणी जनांक प्रेरणास्थान जावन आसा. समग्र शणै गोंयबाब चार खण्डांनी प्रकाशीत जाला. ह्या ग्रंथाच्या तिस्र्या खण्डांत शणै गोंयबाबांचीं कांय बरपां आसपावल्यांत. हीं पुस्तकांनी

पावंक नासलीं. 'गोंयची बुट्टी' ह्या निबंदांत गोंयांत- चड करून सत्तरींतले म्हादय न्हयेक, सांखळेंतले वाळवट न्हंयेक आनी साळांतले तिळारीक आयिल्ल्या हुंवारांचें विश्लेशण केलां. ह्या हुंवारांक लागून जाल्लें लुकसाण, हाचे पयलीं आयिल्ल्या हुंवारांची म्हायती, गोंयच्या पुर्तुगेज सरकारान घेतिल्ले वा ना घेतिल्ले उपाव, थळाव्यांनीं दिल्लो आदार आनी फुडाराक अशीं औरां येवचीं न्हय म्हूण घेवपाच्या उपावांची गरज अशें ह्या बरपाचें स्वरूप आसा. 'दसरो' ह्या लेखांत दसऱ्याच्या निमतान गोंयकारांनी उद्देगधंदे उबारून स्वावलंबी कशें जावंक फावो तें सांगलां. 'गोंयचे शूर भंडारी' ह्या म्हायतीपर ल्हानशा लेखांत शणै गोंयबाबांनी भंडारी समाजाच्या धारिश्ठ्याची तोखणाय करून तांचे दर्यावर्दी जिणेचेर उजवाड घाला. 'मयेंच्या तळ्यार' हो सुंदर लेख म्हळ्यार गद्य काव्यच. तळ्या भोंवतणचे पांचवेचार दोंगर आनी रूखावळीचें तळ्यांत पडिल्लें पडबींब, कुसडीच्या आनी कुड्याच्या फुलांचो परमळ आनी सुकण्यांचे साद- काव्यमय शैलींतलो हो लेख म्हळ्यार लळीत बरपाची एक सुंदर देख.

आतां मेरेन पुस्तकांत छापून आयिल्ल्या बरपां भायर शणै गोंयबाबांचीं आनिकूय बरपां आसतलीं पूण तीं आजून हाताक लागूंक नात. कांय बरपांचे उल्लेख मेळटात. कांय बरपांचीं टिपणां आसात. पूण ती निर्णायक बरपां न्हय. अशें आसुनूय शणै गोंयबाबांली बरपावळ खूब व्हडली. वाचन, अभ्यास, संशोधन हातूंत सुमारा भायर वेळ वतालो अशें आसुनूय तांणी कोंकणीचें दरेक दालन गिरेस्त करून सोडलां. त्याच कारणाक लागून कोंकणीचो म्हापुरूस वा आधुनीक साहित्याचो बापूय अशें तांकां मानतात.

शणै गोंयबाबांनी स्वाध्याय पद्धतीन केल्ल्या अभ्यासाक आनी संशोधनाक फळां आयलीं. पूण हीं फळां पिकून कुसून वचचे पयलीं तीं वाचकांमेरेन पावोवपाचें महत्कार्य केलें तें मुंबयच्या गोमन्तक छापखान्याचे धनी काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी. शणै गोंयबाबांले विचार आयकून प्रभावीत, अजापीत आनी उचांबळीत जाल्ल्या काशिनाथ श्रीधर नायकांनी आयकल्ल्या खिणाक थारायलें- जाता ते परीन शणै गोंयबाबांली सरस्पत छापून लोकां मेरेन पावोवंक जाय. हें पदराक खार लावन करपाचें काम तांकी भायलें आसुनूय तांणी निभायलें. देखुनच शणै गोंयबाबांल्या साहित्याचीं पुस्तकां भायर सरूंक पावलीं. शणै गोंयबाब हें कोंकणीचे बुद्ध आशिल्ले जाल्यार काशिनाथ श्रीधर नायक हे कोंकणीचे अशोक.

## रवीन्द्र केळेकार

शणै गोंयबाबां कडसून प्रेरणा घेवन कोंकणीची घुडी आपणाल्या खांदार उबारून जे फुडें वचत रावले तातुंतले म्हालगडे म्हळ्यार रवीन्द्र केळेकार (१९२५-२०१०). शणै गोंयबाबांनी कोंकणी साहित्यीक चळवळीचें मुळावण घालें देखून तांकां आधुनीक कोंकणी साहित्याचे जनक म्हणटात. पूण शणै गोंयबाबांचो वावर सरसामान्यां मेरेन पावोवपाचो भोव मोलादीक वावर रवीन्द्र केळेकारांनी केलो. सुमार साठ वर्सां तांणी निश्ठेन आनी सातत्यान कोंकणी सरस्पतेची सेवा केली. कोंकणीची चळवळ ही 'मिशन' म्हूण तांणी विसाव्या शतमानाच्या मध्याकूच आपणायली. १९५३ वर्सा वर्ध्याक आसतना तांणी 'मीर्ग' हें नेमाळें उजवाडायलें. तेच संपादक आसले. ते स्वता बरयताले आनी हेरांक बरोवपाक प्रवृत्त करताले. 'मीर्ग' नेमाळ्यान आपणालें ध्येय जाहीर केल्लें. कोंकणी भास आनी साहित्याचो विकास जाले बगर कोंकणी मनशाचो विकास जावचो ना. कोंकणी हें मिशन म्हूण तांणी मानून घेतलें तरी कोंकणी हें साध्य न्हय, तर तें साधन कोंकणी मनशाचे समृद्ध जिणेचें. रवीन्द्रबाबांच्या लिखाणाक वैचारीक बसका आसा. जिणेचें तत्वगिन्यान तांगेल्या साहित्यांत चांटये पावलाक जाणवता. देखूनच तांचें साहित्य कोंकणीची वंय हुपून भारतीय साहित्यांत पावलें.

१८ - २० वर्सांचे पिरायेचेर तांच्या हातांत विवेकानंद पडलो तेन्ना समाजपरिवर्तनाचे वाटेर चलपाचो हावेस तांच्या मनांत जागो जालो. उपरांत तांकां मार्क्स मेळ्ळो तेन्ना केळेकारांच्या मनांत उप्राशिल्ला उत्फर्क्यांक विचारांची एक बसका मेळ्ळी. म्हणसर ते डॉ. राम मनोहर लोहियांच्या प्रभावा सकयल आयले. धीट, धाडसी, जिनिअस म्हणपा सारके लोहिया त्या काळा वयल्या तरनाट्यांचें आराध्य जाल्लें. लोहियांच्या विचारांनीं रवींद्रबाबांच्या मना वयले मार्क्सवादी संस्कार पुसून उडयले. लोहियांच्याच कडसून तांणी क्रांतिकारी म्हूण गांधींचें म्हत्व समजून घेतलें. 'गांधीं कडेन खऱ्यांनीच कितेंय आसा जाल्यार पळोवंचें म्हूण वर्ध्याक गेलों.' अशें रवीन्द्रबाब म्हणटात. (म्हजें साहित्य. पान ५, कुळागर १९८४)

वर्ध्याक गांधी आश्रमांत रावन आयिल्ले रवीन्द्रबाब हे गांधी विचारांनी प्रेरीत जाल्ले. उपरांत तांकां आचार्य काकासाहेब कालेलकार हांगेलो सहवास लाबलो हाचो परिणाम म्हळयार रवीन्द्रबाबांल्या विचारांची आनी अभिव्यक्तीची बुनयाद मजबूत

जाली. एक विचारवंत म्हूण लोक तांचे कडेन पळोवंक लागलो. तांगेलीं वृत्तपत्री सदरां आनी वैचारीक लेख वाचून तांचेर भासाभास जावंक लागली. वर्सां उलगलीं तशी तांगेले लिखणेची धार अदिकादीक तिक्ष्ण जायत गेली. शांत आनी थीर वृत्तीचे रवीन्द्रबाब जणेके गजाली कडेन बारीकसाणीन पळयताले, चिकित्सक नदरेन तिचें विश्लेशण करताले आनी नितळ, सोंपे, शुद्ध कोंकणींत हे विचार वितरायताले. कोंकणींत तांचीं सत्तावीस पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. कांय पुस्तकांच्यो दुस्र्यो आवृत्त्योय भायर सरल्यात. पूण वट्ट साहित्य संपदा सुमार साठ पुस्तकांची. हातूंत तांणी केल्ले अणकार, रूपांतरां, तांगेल्या पुस्तकांचे हेर भासांनी जाल्ले अणकार आनी तांणी मराठी, हिन्दींत बरयिल्ल्या पुस्तकांचोय आसपाव आसा.

शणै गोंयबाब आमच्या कांटयार बसला आनी आमचे कडसून काम करून घेता अशें रवीन्द्रबाब म्हणटाले तातूंत तथ्य आसा. कारण शणै गोंयबाबां वरीच रवीन्द्रबाबांनीय कोंकणी सरस्पत गिरेस्त करपा खातीर जिवीत कोंकणीक ओंपलें. कोंकणींत जें ना तें तें कोंकणींत हाडूंक जाय हो हावेस बाळगिलो. कोंकणीची गरज कितें तें पयलीं समजून घेतलें. कोंकणी शिक्षणांत कित्याक आनी कशी आसची हाचेर दोन पुस्तकां पयलीं बरयलीं. महात्मा गांधींचें विचार त्या काळार वाचकांक आकृश्ट करताले देखून तांणी 'सत्याग्रह' हें सत्याग्रहा फाटली भुमिका विस्कटावन सांगपी पुस्तक १९५५ वर्सा आनी 'अशे आशिल्ले गांधीजी' (६ वांटे) १९६० वर्सा उजवाडा हाडले. ही तांगेली साहित्याच्या मळा वयली पयली पावली आसली. अर्थात 'मीर्ग' पंद्रशी नेमान भायर सरतालें तातूंत तांगेलें साहित्य आसतालेंच. 'मीर्ग' नेमाळयाच्या पयल्या आंकाचेर तांणी जें संपादकीय बरयिल्लें ताचे वरसून तांगेले लिखणेचो कस लागता. (पळयात- लोकभासांचे मीर्ग)

'कथा आनी काणयो' हें रूपक कथांचें पुस्तक तांणी १९६१ वर्सा प्रकाशीत केलें. कोंकणींत आजून कादंबरी ना हाचें दुख्ख रवीन्द्रबाबांक आसलें. १९७१ वर्सा तांगेली 'तुळशी' ही नवलिका उजवाडाक आयली. एके अस्तुरेच्या जिवितांत कशेतरेन आडखळींक फुडो करीत, शीलाची राखण करीत, समाजाची उवेखणी सोंशीत वाट काडची पडटा हें 'तुळशी' हया पात्रा वरवीं रवीन्द्रबाबांनी दाखयलां. रवीन्द्रबाबांचो पिण्ड हो कथाकादंबरीकाराचो निखालस न्हय. पूण 'तुळशी' नवलिका इतली वाचनीय आसा की ती एखाद्र्या कुशळ सर्जकाची साहित्यकृती न्हय अशें कोण म्हणचो ना. नाटक होय रवीन्द्रबाबांलो प्रान्त न्हय. पूण कोंकणींत बरीं नाटकां जाय

हे खातीर तांणी कांय गाजिल्ल्या नाटकां-नाटकुल्यांचीं रूपांतरां करून प्रकाशीत केलीं. एडवर्ड आल्बी हांगेल्या 'द झू स्टोरी' हया नाटकुल्याचें कोंकणी रूपांतर आनी क्लॉड हॉटनच्या 'द मास्कस् एण्ड द फेसीस' हया नाटकुल्याचेर आदारीत पूण स्वतंत्र दिसपा सारकें नाटकुलें हया दोन नाटकुल्यांचें पुस्तक 'मुक्ती' हें १९७५ वर्सा प्रकाशीत केलें. फाटोफाट १९७६ वर्सा 'लाला-बाला' हें ज्याँ आनुयी हया फ्रेंच लेखकाले साहित्यकृतीचेर आदारिल्लें पुस्तक उजवाडायलें. फुडल्याच वर्सा १९७७त 'तीन एके तीन' हो तीन रूपांतरीत नाटकुल्यांचो संग्रह प्रकाशीत जालो. हीं नाटकुलीं गुजराती लेखक रमाबेन गांधी, मधु राय आनी लाभशंकर ठाकर हांगेल्या नाटकुल्यांचेर आदारीत आसलीं.

सोंपी, सरळ, निवळ, नितळ, आनी लालित्यपुर्ण भास हें रवीन्द्रबाबांल्या साहित्याचें खाशेलेंपण. तांगेली कोंकणी सरस्पत उतरां खातीर केन्नाच अडली ना. अभिव्यक्ती खातीर भाशीक स्वातंत्र्य तांणी घेतलें. अस्सल नीज कोंकणी उतरां आनी हेर भासांतलीं तदभव तत्सम वापरून तांणी कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय वाडयली. रवीन्द्रबाब आंतरभारती संकल्पनेचेर विस्वास दवरपी जाल्ल्यान अनेक हिन्दी-मराठी-गुजराती उतरां सहजतायेन कोंकणी जावन वावुरतना तांच्या साहित्यांत दिश्टी पडटात. हांचो फायदो 'ब्रह्माण्डांतलें तांडव' (१९८०) हया नक्षत्रविद्येचेर उजवाड घालपी पुस्तकाक जाला. 'ब्रह्माण्डांतलें तांडव' हो कोंकणी सरस्पतेच्या आंगा वयलो एक अप्रूप अळंकार. अवकाशांतल्या गिऱ्या-नखेत्रांसंबंदान शास्त्रीय म्हायती सादे सोंपे भाशेंत सांगिल्ल्यान वाचकाक ती रोखडीच समजता आनी अप्रुपांच्या अंतराळांत भोंवडी मारून आयिल्ल्याचो आनंद मेळटा. हें पुस्तक बरोवचे पयलीं रवीन्द्रबाबान नक्षत्रविद्ये वयलीं पुस्तकां वाचलींच. ते भायर एक व्हडली दुर्बीण (टेलेस्कोप) विकती घेवन मळबांतले गिरे, गिरावळी, नखेत्रांचे पुंजके आनी मळबांतलीं हेर विज्मितां रात रात जागून समजून घेतलीं.

"कोंकणींत 'ना' म्हणटा? हें घे" म्हूण 'ब्रह्माण्डांतलें तांडव' सारकें गूढ गहन विशया वयलें शास्त्रीय पुस्तक दिवन ते वगी बसले नात. तांणी 'राजा राणी' हें भुरग्यां खातीर काणयेचें पुस्तक १९७९ वर्सा बरयलें. चिंतन-पर वैचारीक साहित्य तर ते बरयतालेच. तातुंतूय विविधताय आसली. कांय पुस्तकां गंभीर विशयांचेर गंभीरतायेन उलोवपी जाल्यार कांय चिंतनां वाचकाक हाताक धरून प्रज्ञेची वळख घडोवपी. कांय पुस्तकां स्वताचेच गूण-दोश दाखोवपी जाल्यार

कांय प्रस्थापितांची रूपडीं पिंदपी. 'वेळेवयल्यो घुलो' (१९७१) होय एक अप्रूप प्रयोग. रवीन्द्रबाबांची ही दीसपटी 'राष्ट्रमता'च्या आयताराचे पुरवणेंत २९.११.७० थावन २१.०२.७१ मेंरेन क्रमशा उजवाडा आयिल्ली. हे दीसपटयेंत विंगड विंगड विशयां वयलें मनन आनी चिंतन आसा. संवसारांतल्या व्हड व्हड साहित्यकारांक, विचारवंतांक, फुडाऱ्यांक उद्धृत करून तांच्या विधानांचेर चर्चा आसा. दारांत आयिल्ल्या इश्टां-सोयऱ्यां कडेन उलयतनां उप्राशिल्ल्या मुद्यांचेर भासाभास आसा. केन्ना केन्ना लेखक स्वता कडेनच वाद घालता ताचोय आपरोस आसा. कांय काळजाक दसून उरपी वा विचार करपाक प्रवृत्त करपी वाक्यां आसात. देखीक- 'देवापरस दैवाक एक मात्रा चड', 'जाका चारित्र्य आनी तत्वां आसात तांकांच निक्षिप्त लेखतात', 'अल्पमतांतले लोक सदांच फुडाराची जीण जियेतात' रवीन्द्रबाब विचारांनी भोव पुरोगामी. सेक्सा संबंदान बरयतना ते स्पश्ट सांगतात ज्या संभोगांत काळजां एक जायनात तो नितीभायलो immoral. मागीर तो आपले बायले कडेन आसूं वा घोवा कडेन. हया संभोगांत आनी वेश्ये कडल्या संभोगांत फरक ना. उरफाटें, काळजां एक जातकूच कुडी एक करपी संभोग हो moral- मागीर तो परस्त्री वा पर-पुरुशाकडेन घेतिल्लो आसलो म्हूण कितें जालें?

सेक्साचो अर्थ दादल्यांक वेगळो दिसता, बायलांक वेगळो दिसता हें स्पश्ट करतना लेखक म्हणटा- "आमी जेन्ना sex संबंदान येवजितात तेन्ना बायलाचें मन तांची psychology- समजुनूच घेनात. म्हाका जें कितें तांचें मन थोडें भोव समजलां ताचे वयल्यान म्हाका दिसता: बायलांक संभोगाचें व्हडलें-शें म्हत्व दिसना. संभोगापरस मोगाक तांचे नदरेन म्हत्व चड. खंयचेय बायलेक कोणाचीय 'बायल' म्हुण रावपा परस ताची 'प्रेयसी' म्हुण जियेवप चड मानवतलें. तिच्यांतल्या स्त्रीत्वाचेर जो मोग करता 'ताची' जावन रावप, ताकाच आपलें सर्वस्व ओंपप हें तिचें सैम. Nature. खंय वाचिल्लें हाचो उगडास जायना, पुणून एकल्यान म्हळां: man's sexuality is a biological function whereas woman's is mainly a psychological phenomenon. Man's is an action. Woman's is a state. दादल्यांची sexuality संभोगाक सर्वस्व लेखता. बायलांचें तशें न्हय. बायलेचे सर्वस्व म्हळयार, तिचें काळीज. तें जो जागयता आनी जिखता तांकां ती मागीर आपणाली कुडूय दिता. तिची कूड तिच्या काळजा फाटल्यान चलपी. जो बायलेचे काळीज जिखूंक जाणा तोच तिचो खरो 'घोव'. लग्नाचे घोव सगळेच 'खरे घोव' नासतात. कांय

बायलो जाल्यार असल्या घोवांनी 'कश्याय कश्यो वापल्लेल्यो' आसतात. असल्या घोवांपसून तांकां जीं भुरगीं जातात तांकां, म्हज्या मत्तान, illegitimate भुरगींच म्हणूंक जाय. आनी असल्याच बायलांक 'पातकी' लेखूंक जाय- because they live in sin. म्हाका केन्ना खंयचीच बायल unfaithful दिसली ना. ती केन्ना केन्ना सांकेतीक नीत मोडटा खरी; पुणून केन्ना? जेन्ना sexचे सभावीक नितीक ती जागता तेन्नाच."

मनाक पुटवता तें उकतेपणान स्पश्ट उतरांनीं बरोवपी रवीन्द्रबाबांले खूबशे विचार लोकांक उस्तुरे वताले. २०१० वर्सा ज्ञानपीठ पुरस्काराचो स्वीकार करतना रवीन्द्रबाबान केल्लें भाशण खूब जाणांक नाकसुरें गेल्लें. इंग्लीश भाशेच्या आक्रमणाक लागून 'भारत नांवाच्या ह्या सार्वभौम प्रजासत्ताक देशांत.... देशी भाशांच्या माथ्यार काळीं कुपां दाटिल्लीं दिसूंक लागतात... असले हे स्थितींत देशी साहित्य कशेंच मूळ धरपाची शक्यताय ना.' हें सांगतनां तांणी उक्तायिल्ल्या विचारांनी अनेक 'बुदवंतांक' आनी 'सुशिक्षितांक' लजेक घाल्ले. तांणी म्हणिल्लें- 'मुळां छाटून व्हडल्या व्हडल्या रुखांक खुजे करपाची कला जापानी लोकांनी केळयली. माड जो मळबाक स्पर्श करूंक वयर मेरेन वतालो ताका फकत पांच फूट हे कलेच्या माध्यमान केल्लो हांवें पळयला. भोव सुंदर दिसता. पूण तो नाल्ल दिवंक शकना. सालाची सोबाय वाडोवंक उपकरा येता. हे कलेक बोन्साय कला म्हणटात. इंग्रजीन आमच्या देशांत जायते बोन्साय विद्वान, बोन्साय बुद्धिजिवी, बोन्साय लेखक आनी आतां बोन्साय वाचकूय निर्माण केल्यात. परिसंवादाची सोबाय वाडोवपाक उपकारा पडटात. ठोस कांयच दिवंक शकनात. आमी आमचो देश बोन्साय लोकांचो जावंक दितले? आमी हें विसरूंक फावना की देवाचे सृश्टीपरसूय सरस प्रतिसृश्टी निर्माण करपाचो हावेस बाळगुपी विश्वामित्रा सारके रूशी ह्या देशांत जल्मांक आयले. तांकां कितें आमी बोन्साय लोकांचो देश जावंक दितले? ना मू? तशें जाल्यार आमच्या देशांत इंग्रजीचें जें स्तोम माजलां ताच्या आड विद्रोह करप अपरिहार्य जावन गेलां. कोण करतलो हो विद्रोह? कोणूय राजकी फुडारी? एक नरशार्दुल आशिल्लो. जाणें हो विद्रोह सुरूं केल्लो- डॉ. राम मनोहर लोहिया. अकस्मात गेलो. आतां? म्हजी नदर देशांतल्या साहित्यिकांचेर वता. (४२व्या ज्ञानपीठ पुरस्कार प्रदान सुवाळ्यांतलें स्वीकृती भाशण. ३१ जुलय २०१०) कसलोय विचार उक्तायतना भीडमुर्वत बाळगुवप ना ह्या तत्वाक ते अखेर मेरेन दसून रावले.

१९७३ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या 'उजवाडाचे सूर' हया निबंदसंग्रहान रवीन्द्रबाबांल्या वैचारीक साहित्याची पयली सुलूस दिली. ते पयलीं तांगेलें 'भज गोविन्दम' हें शंकराचार्यांच्या एका स्तोत्राचे अर्थावणेचें पुस्तक उजवाडा आयिल्लें. 'उजवाडाचे सूर' हया संग्रहांतल्या निबंदां वरवीं केळेकारांल्या विचारांची खोलाय आनी वाचकाक हाताक धरून तांकांय ते खरीक हात लावपाचें सोंपेपण दिवपी तांगेली भास हांकां लागून वैचारीक साहित्याक हापापिल्लो वाचकवर्ग भुल्लसून गेलो. देखुनच हया पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती भायर सरूंक पावली. वैचारीक साहित्य आनी थोडे लळीत निबंदूय हया पुस्तकांत वाचूंक मेळटात. सैमाचीं रूपां तोखेतना रवीन्द्रबाब म्हणटात- "सकाळचें मळब एके तरेचें, जाल्यार सांजवेळचें दुसरे तरेचें. सकाळच्या शिरंगारांत थोडी लज भरसल्ली आसता. सांजवेळचें मळब मुरवत लेगीत सोडटा. इंद्रधोणुचे सातूय रंग सांजवेळच्या मळबार शिंपडिल्ले पळोवंक मेळटात. थोडया वेळात सूर्य बुडटा आनी सातांतले फकत तिनूच रंग उरतात- शेंदुरी, तांबडो आनी हय न्हयसो नारिंगी. मागीर तेच एकमेकांत एकजीव जातात." काव्याचे भाशेंत बरयिल्लें हें गद्य. रवीन्द्रबाबांच्या आंगांतल्या विचारवंता वांगडाच तांच्यांत एक लळीत लेखकूय वावुरता हें स्पश्ट जाता. काकासायब कालेलकरांल्या 'मरणाक परमसखा लेखपी' विचारांचें रवीन्द्रबाबांकच न्हय तर समेस्त साहित्यीक संवसाराक अप्रूप आसा. 'उजवाडाचे सूर' पुस्तकांतलो 'पावलें म्हणटकूच' हो निबंद रवीन्द्रबाबानी भोव लालित्य पुर्ण शैलींत बरयला. "खोलायेन जियेवप हाकाच 'जियेवप' म्हणूंक जाय" अशें सांगपी रवीन्द्रबाबांनी उजवाडाचे सप्तसूर सुंदर आळयल्यात.

'भौभाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र' हें १९७४ वर्सा प्रकाशीत जाल्लें पुस्तक कोंकणी-मराठी वादाचे फाटभुंयेर आसलें तरी पुराय भारतीय भाशाकारणाच्या संदर्भांत आसा. रवीन्द्रबाबांनी भासशास्त्र आनी समाजशास्त्र हांचो खोलायेन अभ्यास करूनच हें पुस्तक बरयलां.

'उजवाडाचे सूर' प्रकाशीत जाल्या उपरांत रवीन्द्रबाबां कडसून वैचारीक साहित्याचो अपेक्षा वाडीक लागल्यो. तितलें म्हणसर १९७६ वर्सा रवीन्द्रबाबांलें 'हिमालयांत' हें प्रवासवर्णनाचें पुस्तक उजवाडाक आयलें. हिमालयांत भोंवतना नियाळिल्लीं सैमाचीं आनी संस्कृतायेचीं विविध रूपां हांचें भोव सोबीत वर्णन हया पुस्तकांत आसा. 'हिमालयांत' हया पुस्तकाक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो

जालो. कोंकणी भाशेक साहित्यीक भास म्हूण मान्यताय मेळटकच अकादेमीचो हो पयलो पुरस्कार फावो जालो तो रवीन्द्रबाबांक.

रविन्द्रबाब सातत्यान नवे नवे प्रयोग आपणायत आयले. तांणी दीसपटी बरयली, प्रवासवर्णनां बरयलीं आनी संखेनीं ललीत लेख बरयले. एक दीस तांच्या मनांत आयलें - जें सांगपाक आपूण आठ धा पानांचे लेख, निबंद बरयतां तें आटोवन एका पानाभितर सांगूंक पळोवंचें. तशे तरेन आपरोस कसो एक एक विचार मांडीत गेले. तांचें संकलन म्हळ्यार 'सांगाती'. (१९७७)

'सांगांती' (१९७७), 'समिधा' (१९९६), 'ओथांबे' (१९९९), 'घुसपल्लें जानवें' (२०००), 'सर्जकाची आंतरकथा' (२०००), 'आमोरेर' (२००३), 'भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना' (२००५), 'तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं' (२००५), 'अघळपघळ' (२००५), 'आशीकुशीक' (२००७), 'कषायमधूर' (२०१०) – ही सगली वैचारीक साहित्यसंपदा. प्रत्येक निबंद हो पुरोगामी विचार मांडपी, विवेक बुद्दीची गरज सांगपी, सत्य, शीव आनी सुंदर तें उकलासून धरपी. तातूंत पुनर्विवाहाच्यो खबरी आसात, भ्रुणहत्येचेर चर्चा आसा, नोकरी करूनूय घर सांबाळपी बायलांची आनी खांके वरशे करपी दादल्यांची खबर आसा.

तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं तीं म्हळयार- धर्मक्रान्ती, समाजीक क्रान्ती आनी अर्थीक क्रान्ती. तीं कशीं चलचीं ताचेर रवीन्द्रबाबांनी सवाल उठयल्यात. परकी तें तें बरें अशें लेखपी आमगेल्या फुडाऱ्यांनीं लोकांची दिशाभूल केल्या. जो मेरेन आमी देशीवादी धोरणाक आंखनात तो मेरेन आमी प्रज्ञेचे वाटेर चलूंक पावचे नात. रासवळ जिणेंतलो कोयर काडून उडोवपा खातीर आमी तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं चलूंक जाय अशें सांगपी रवीन्द्रबाबांले विचार आतां राष्ट्रीय पावंडयार पावल्यात. देखुनच तांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार दिवन तांचो भोवमान केला. भारतीय ज्ञानपीठ संस्थेच्या इतिहासांत पयलेच खेपेक हो पुरस्कार एका निबंदकाराक फावो जाला, हें विशेश.

वैचारिकच पूण चिके वेगळे तरेचें पुस्तक म्हळयार 'तथागत' (१९९८). भगवान बुद्धाचें जिवीतकार्य आनी बुद्धविचार हांचेर विस्तृत केल्ल्या हया लेखनांत लेखक बुद्धाच्या जिविताकडेन आनी विचारां कडेन समरस जाल्लो जाणवता. सिद्धार्थाचो बुद्ध

जाल्या उपरांत तो जेन्ना बापूय शुध्दोधनाच्या आमंत्रणाक मान दिवन राजमहालांत वता तो प्रसंग, राजमहालाच्या दारार भिक्षापात्र घेवन उबो रावन भिक्षा मागता तेन्नाचो प्रसंग जावं परित्यक्ता यशोधरेक मेळपाक महालांत भितर सरता तो प्रसंग - लेखक भोव आत्मीयतेन रंगयता. सात वर्सांचो तांगेलो पूत राहूल आवयचे सांगणेन जेन्ना बुद्धाक मेळूंक वता तो प्रसंग तर काळजाक पिळव घालता. सादे आनी व्हांवते भाशाशैलींत हें सगलें सांगिल्ल्यान 'तथागत' वाचकांच्या मनांत घर करून रावता. मनशान प्रज्ञावान जावपा खातीर बौद्ध तत्वगिन्यान समजून घेवंक जाय अशें हें पुस्तक वाचतकच दिसता.

आन्येक वेगळेंशें पुस्तक म्हळयार 'पांथस्थ' (२०००). खासा लेखक हें आत्मचरित्र न्हय म्हणटा. पूण वाचल्या उपरांत हया पुस्तकाचें लेखन आत्मचरित्रपर जालां म्हणपाचें जाणवता. हया पुस्तकाक डॉ.मनोहरराय सरदेसायांनीं प्रस्तावना बरयल्या. तांणीय 'पांथस्था'चो आत्मचरित्र असो उल्लेख केला. रवीन्द्रबाबान आपणालें कूळ-मूळ, भुरगेंपण, शिक्षण, प्रवास आनी जिणेंतलीं स्थित्यंतरां हाचेर मेकळेपणान पूण तटस्थपणान बरयलां. आपूण कसो घडलों हें अप्रत्यक्षपणान सांगतना आपणांचेर त्रिशतांव ब्रागांझ कुन्य, मिनेझीस ब्रागांझा, ज्युलियांव मिनेझीस, मार्क फेर्नांदीश, एव्हाग्रिओ जॉर्ज अशा महान गोंयकारांनी कसो प्रभाव घालो तें सांगलां. रवीन्द्रबाबांचो राम मनोहर लोहियां कडेन आयिल्लो संबंद, काकासायबांच्या संपर्कांतले दीस, रघुनाथ धोंडो कर्वे हांचे कडलो पत्रवेव्हार, लेखकाले सुटके चळवळींतले प्रत्यक्ष अणभव- हें सगलें विस्तारान आयिल्ल्यान लेखक अंतर्बाह्य आमचे मुखार उबो जाता. पूण 'पांथस्थां'तले लेखकाले अणभव हे लेखका पुरते मर्यादीत उरनात कारण तातुंतल्यान गोंयचो इतिहास स्पश्ट जायत वता. 'गोंयान जेन्ना कूस परतिली' हें पांथस्थांतलें प्रकरण वाचकाक विचार करपाक लावपी. कांय राजकी वा समाजीक मळा वयल्या व्यक्तीं संबंदान रवीन्द्रबाबांनी जें बरयलां तें प्रस्थापीत धारणेच्या आड आसा. तें तांगेलें व्यक्तिगत मत देखून ताचेर भासाभास जायना. लेखकान सुर्वेकच आपणाली भूमिका स्पश्ट केल्या- "पांथस्थ सगलें सांगिना. वाटे वयल्यान वतना ताका जें दिश्टी पडटा तेंच आनी तितलेंच सांगता." गोंयचो १९४६ उपरांतचो इतिहास रवीन्द्रबाबांनी प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष अणभवला देखून तांगेलें हें पुस्तक इतिहासाच्या अभ्यासकांकूय मोलाचें थारता.

'सर्जकाची आंतरकथा' हें पुस्तकूय लक्षांत उरपा सारकें. एका साहित्यकाराच्या

अंतरांतली साहित्यीक यात्रा घडोवपी हे लेखन. साहित्य आनी साहित्यकार हांचे विशीं लेखकाक कितें दिसता तें प्रामाणीकपणान बरयलां. तॉलस्तॉय, हेमिंग्वे, मार्सेल प्रुस्त, दोस्तोयव्हस्की, विवेकानन्द, कोशकार केतकर, बाकिबाब, चाफ्रा हे सगले आमचे भेटेक आयिल्ले वरी हें पुस्तक वाचतनां दिसता. "हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो 'फायटर'.... हांव 'रायटर' जालां तो म्हज्यांतल्या फायटराक लागून" अशें प्रतिपादन करीत - 'हांव कित्याखातीर बरयतां?' हया प्रस्नाची जाप सोदीत सृजनाचे प्रकियेचेर विचार करीत अखेरेक ओप्रा विनफ्रे हांणी टि.वी. शो करतना चोखंदळ नदरेन केल्ले मोलावणेक लागून पुस्तकांचो खप कसो वाडलो तें सांगून रवीन्द्रबाब म्हणटात, 'पुस्तकां छापलीं म्हूण भागना. तीं लोकांमेरेन पावंक जाय.....नेमाळयांचेर तांचीं परीक्षणां येवंक जाय.....परिक्षणां लोकांनी वाचूंक जाय.... दृक्श्राव्य माध्यमांचो लाव आमच्या पुस्तकांक मेळ्ळो जाल्यार आमचें संस्कृतायेच्या मळावयलें केदें दळदीर ना जातलें ! '

कोंकणी सरस्पतेक दिल्लें तांगेलें सगल्यांत मोटें योगदान म्हळयार दोन खण्डांनी उजवाडा आयिल्लें 'महाभारत – एक अनुसर्जन' (१९८५) महाभारताचे अनेक रुपकार विंगड विंगड भासांनी वाचूंक मेळटात. पूण त्या सगल्यां परस वेगळें अशें हें रवीन्द्रबाबांलें अनुसर्जन. महाभारतांतले प्रसंग आनी पात्रां हांकां दैवी पावंडयार व्हरीनासतना तांकां मानवी पावंडयार दवरून केल्ल्या निवेदनाक लागून हें महाभारत वेगळें जालां. ते भायर म्हायतीपुर्ण आसुनूय तें इतलें लालित्य पुर्ण जालां की हातांत घेतकच वाचप्याच्यान सकयल दवरूं येना.

हें अनुसर्जन करतना लेखकान अनेक ग्रंथांचे संदर्भ घेतल्यात. सुर्वेक राजाजी आनी बापटशास्त्री हांगेल्या रुपांतरीत/अणकारीत महाभारतांचो आदार घेतिलो. उपरांत लेखक अदीक खोलायेंत देंवलो. महाभारताच्यो चार विंगड विंगड आवृत्त्यो तयार जाल्ल्यो तांचो अभ्यास केलो. व्यास, वैशंपायन, सौती आनी निमाणे भागवत संस्करण अशीं महाभारताचीं चार रुपां. दरखेपेक कितें ना कितें प्रविश्ट जायत आयचें महाभारत तयार जालां. महाभारतांतलें कितलें खरें, कितलें फट, कितलें मुळावें आनी कितलें प्रविश्ट तें वेंचून काडप भोव कठीण. अशावेळार भांडारकर प्राच्यविद्या संशोधन मंदिरान तयार केल्ली महाभारताची संशोधीत आवृत्ती रवीन्द्रबाबांक वाचूंक मेळ्ळी. देशविदेशांतल्या सुमार साठ संशोधक विद्वानांनी

सगली पोरनावळ उस्तून जें मुळावें वा मुळाव्याक लागींचें तें सोदून काडलें आनी लाखांनी श्लोक वाचून अखेरेक अठरा पर्वांची १९४८ अध्यायांची आनी ८९१३६ श्लोकांची एक संशोधीत आवृत्ती तयार केली. हे भांडारकर आवृत्तीचो मुखेलपणान आदार घेवन रवीन्द्रबाबांनी 'महाभारत – एक अनुसर्जन' रचलें. ८७४ पानांच्या दोन खण्डांनी प्रकाशीत जाल्ल्या हया ग्रंथाक लागून कोंकणी साहित्यांत भोव मोलाची भर पडल्या.

शणै गोंयबाबांक दैवत मानून तांणी सुरु केल्लो कोंकणीच्या पुनरुत्थाचो वावर त्याग, कश्ट आनी अर्थीक लुकसाण सोंसून निश्ठेन फुडें व्हरपी रविन्द्रबाबांक लागून कोंकणीचे साहित्यीक चळवळीक पकदस्त अधिश्ठान मेळ्ळें.

तांचे आन्येक व्हड योगदान म्हळ्यार तांणी तरणे पिळगेक बरोवपाची उर्बा दिली आनी बरे बरपी विंचून तांकां उजवाडाक हादले. सुर्वेच्या काळार दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, शीला नायक कोळंबकार, मीना काकोडकार हे चौकडेची तोखणाय करीत तांकां वाचकां सामकार हाडपी रवीन्द्रबाबच आशिल्ले.

रवीन्द्रबाबांक अनेक साहित्यीक पुरस्कार फावो जाले. केन्द्रीय साहित्य अकादेमीन कोंकणीक दिल्लो पयलो पुरस्कार, ज्ञानपीठ संस्थेन कोंकणीक दिल्लो पयलो पुरस्कार, गोवा कला अकादेमीन दिल्लो गोमन्तशारदा पुरस्कार आनी भारतीय भाषा संस्थान हे म्हैसुरचे संस्थेन प्रदान केल्लो भाषा भारती हो कोंकणीक मेळिल्लो पयलो पुरस्कार हांचे मानकरी रवीन्द्र केळेकार हांणी कोंकणीचे उदरगतीक दिल्लें योगदान आयज तरणे पिळगेक प्रेरणादिणे थारलां.

# लोकभासांचें मीर्ग लागलें

♦ रवीन्द्र केळेकार

पोरणें देणें भडिये टळत. पणून पोरणो संकल्प टळना म्हण्टात. दोन वर्सां वैर जालीं जातलीं, कोंकणी भाशेंत एक नेमाळें चलौंचें अशें आमी येवजिल्लें. पुणून जायते आडमेळ्यांक लागून तें ते वेळार भायर सरूंक पावलें ना. आयज दोन वर्सां उपरांत आनी इतले पैशिल्ल्यान कित्याक जायना, एक पोरणो संकल्प फळाक येता हें पळोन जिवाक ल्हाना-सामान्यांतली खोस जायना!

संवसाराचो एक नेम असो आसा किं जेन्ना जेवपाखावपाक अन्न मेळना तेन्ना लोकसंख्या वाडटा. कोंकणींत बरोपी लोक चडशे नात, वाचपी आनी मौ करून विकतें घेवन वाचपी कितले मेळतीत म्हणपाची खातरी कोणं दीत? आनी तरी आसतना जेन्ना फाटल्यान एक नेमाळीं अुजवाडाक येंवक लागल्यांत! हे 'कित्याक कितें' ज्ञाल्लां जायत; पुणून ताका उपाय ना. जीवन जशें आसा तेच रुपान ताजेकडेन पळोंक जाय आनी तातूंतल्यानच वाट काडूंक जाय एक मात दुनात्रांविरेत सांगूं येता जे नेमाळ्याक बरोप्यांचो, वाचप्यांचो आनी ग्राहकांचो पालव ना ताजे पिरायेची खातरी दिवंक येना.


मीर्ग

संवसारांत जायतीं नेमाळीं भायर सरतात तातूंत आनीक एकाची भर घालची हे हेतून आमी हें अुजवाडावंक ना. कोंकणी आमची आवैभास, आमचो आत्मो. तो पालेतलो, फुलतलो, परमळटलो कोंकणी मार्फतूच म्हणपाचें आयचें विज्ञान सांगता. मागीर ती कोंकणी कितलीय ल्हान आनी 'हेंगाडी' आसना! मनशाचे अंतस्कर्णाचे तळामेरेन पावपाचें अेकूच साधन म्हळ्यार ताजी भास. तो दुसऱ्या भासांनी अुलोंक करोंक शकना असो हाजो अर्थ न्हंय. नाटकांत दादले बायलांचें सोंग बेस बरें करून दाखेनात? सभाविकपण आनी अभिजातपण आवैभासेंतूच आसता.

हे तत्त्वाचें म्हत्व वळखून हिन्दुस्तानांतल्या फाटीं पडिल्ले जमातींच्या कितलेशेच ल्हानल्हान भासांक लेगीत वैर काडचेले यत्न सुरू जाल्यात. आनी सामान्यतायेन जांकां हिन्दी भासांच्यो 'बोली' मानतात त्या मारवाडी, मेवाडी, हरियानी, बुन्देली, भोजपुरी, मगदी, छत्तीसगडी, गढवाली, मैथिली सारक्या लोकभासांतूय पुस्तकी बरपावळ सुरू करची आनी जायते भासांनी ती जाल्याय — आनी सुगले वेव्हार तांचे वरती जांवचे अशे हिन्दी भाशेचे अेक अंग पांवड्याचे बरोवपी महापंडित राहुल सांकृत्यायना सारके म्हण्टात. म्हण्टकर जोकां वैलें मत्त मान्य आसा ते कोंकणीचे पुतं ओगी कशे रावतीत?

हे तत्वाक लागून आनी कोंकणीविशी आमकां जी भक्ति दिसता तिका लागून तिची तांकत तशी सेवा करची म्हणून आमी हें नेमाळें अुजवाडाक हाडलां. कोंकणीचेर तिजे पुतांकडसून आनी हेर लोकांकडसून आयजवेर जो अन्याय घडला तोय धुवन काडपाक जाय.

लोकभासांची वाड करचेले वैलें म्हणे आड कांय जाण जो एक मुद्दो फुडें करतात ताका आदीं जाप दिवपाक जाय. ते म्हण्टात किं हिन्दुस्तानांत आदींच पैलीं जायत्यो भासो आसात. तांची एकामेकांकडेन चल्लेलीं केस्तावां पळेत जाल्यार दुसऱ्या ल्हान ल्हान भासांक आनी पोटभासांक, आमी म्हण्टात ते भाशेन वैर काडचेले यत्न चल्ले जाल्यार सातशीं पन्नास वेगळीं 'पाकिस्तानां' निर्माण जावन हिन्दी राष्ट्राच्यो तिसत्योवादऱ्यो जातल्यो. हांचे मत्तान भास म्हळ्यार 'प्रांत'!

आमकां हे भंयाचो निखालूस भंय दिसना. 'पाकिस्तानां' निर्मितात त्यो भासो न्हंय. तांचीं कारणां वेगळीं आसात. एक तर प्रांतांच्या आनी भासांच्या झगड्यांनी कांय जाणांचे सुवार्थ घुसपल्ले आसात. (Vested interests) आनी दुसरें, वेगळेचाराचें वीख आमचे मेंदूंतुच आसा. तें जेमेरेन थैंय आसा तेमेरेन तें भाशेचे प्रस्नांतूच न्हंय तर खेंतेय निरुपद्रवी प्रस्नांत दैंवक शकता. देखून 'पाकिस्तानां'चे भंयान भासांचे वाडीक आडमेळीं हाडचेपरस हें वीखाकूच आनी 'घुस्पल्ले सुवार्था'क ना करपाक आमी वावरूंया. प्रस्न टाळ्ळे म्हणून ते टळनात आनी टाळून ते सुटीय नात.

आमचे मत्तान संवसारांतले ल्हान व्हड सगल्या भासांनी आपणालो संवसार आतां नीट मांडपाक लागूं जाय. सभ्यतायेचें आनी संस्कृतायेचें हें मागणें आनी लक्षण आमी विसरूंक फावना. मनीस जेन्ना भक्तीन आपणाले आवैभाशेची सेवा करतलो तेन्नाच ताचो आत्मो परमळटलो, आनी तेन्नाच तो दुसरे भासांची, आपले देशाची आनी संवसाराची खरेली सेवा करूंक पावतलो.

हें सत्य कोंकणी अुलौपी लोकांमुखार दवरचेले हेतून आमी हें नेमाळें अुजवाडावंक फुडें सरल्यांत. हो युगधर्म पाळपाचे बाबतींत आमी फाटीं अुरचे नात म्हणपाची आमकां खातरी आसा.

आतां लोक-भासांचें 'मीर्ग' लागलें; रौव बांलूंया!

*(मीर्ग वर्स १ आंक १, १५ ऑगस्ट, १९५३)*



# 42 वो ज्ञानपीठ पुरस्कार
## स्वीकृतीचें भाशण

31 जुलय 2010
दीनानाथ मंगेशकार सभाघर,
कला अकादमी, गोंय.



रवीन्द्र केळेकार
(मूळ हिन्दी भाशणाचो कोंकणीत अणकार)

म्हाका एके गजालीची खोस भोगता ती म्हळ्यार देशाचो सर्वोच्च साहित्यिक ज्ञानपीठ पुरस्कार आमची आवय संस्कृत वांगडा कोंकणीक फाव जाता. कांय वर्सां पयलीं साहित्य अकादेमीची महत्तर सदस्यता म्हळयार फेलोशीप, जी साहित्यिकांच्या संवसारांत एक व्हड गौरव मानतात, ती कोंकणीक फाव जाल्ली. म्हाका ह्या सन्मानाखातीर योग्य समजले म्हणून दोनूय संस्थांच्या सगळ्या सदस्यांचें काळजाथावन उपकार मानप हें म्हजें परम कर्तव्य जावन आसा.

'चडांत चड देव बरें करूं.'

एक म्हत्वाची गजाल हांव तुमकां सांगूंक सोदतां की हो सन्मान अश्या एका लेखकाक दिला, जाचे भाशेक काल-पयर मेरेन व्हडले व्हडले लोक भास मानपाकूच तयार नाशिल्ले. हिका लिपी ना, व्याकरण ना, हातूंत साहित्य ना म्हणत खासा ही भास उलोवपी लेगीत तिच्यो बकच्छायो करताले. ही भास जर आयज अकादेमीची महत्तर सदस्यता आनी ज्ञानपीठ सारको सन्मान मेळोवंक पावली, तर ताचें पुराय श्रेय त्या लोकांक वता, जे हे भाशेक 'भाशा' करपाखातीर फाटलीं पन्नास साठ वर्सां सावन एक सारके खर संघर्श करीत आयल्यात. तांचें स्मरण करप हें म्हजें एक व्हड कर्तव्य जावन आसा. मोठे नमळायेन हांव त्या सगळ्या ज्ञात अज्ञात-संघर्शकर्त्यांक अभिवादन करून ताणी हें जैत फाव करून दिल्ले खातीर तांचे अभिनंदन करूंक सोदतां.

जेन्ना साहित्य अकादेमीची स्थापना जाल्ली तेन्ना भारतीय साहित्याची व्याख्या अशी केल्ली - भारतीय साहित्य वेगवेगळ्या भासांनी बरयतात आसलें तरी तें साहित्य एक आसा Indian Literature is one though written in several languages. हाचो अर्थ असो की आमी आपआपले भाशेंत बरयतात आसले तरी आमी निखळ ते भाशेंतले लेखक न्हय, तर भारतीय लेखक जावन आसात.

आत्मसंतोसाखातीर हें टॉनिक बरें आसा. पूण हो आत्मसंतोस आमकां जायते फावट संभ्रमांत उडयत आयला. उकत्या दोळ्यांनी आमी सत्याकडेन जेन्ना पळयतले तेन्ना आमचें काळीज खप्प जातलें. जर आमी इतल्या व्हड देशाचे लेखक, तर सांगात, आमचीं पुस्तकां ह्या देशांत कोण वाचतात ? कितले लोक वाचतात ?

फाटल्या पंचवीस तीस वर्सांत कोंकणींतल्यान म्हजीं लागीं लागीं पंचवीस पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. चडशा पुस्तकांची पयली आवृत्ती 1000 प्रतींची आशिल्ली. ह्यो 1000 प्रती खपपाक लागीं लागीं धा वर्सां लागतात म्हणपाचें हावें पळयलां. रोखडीच दुसरी आवृत्ती काडपाचें धाडस आमकां जायना. उण्यांत उणीं वीस वर्सां मेरेन वाट पळोवची पडटा.

कोंकणी तर ल्हान भासांतली एक भास ! हिन्दी ? ती तर सगळ्यांत व्हडली भास मू ? देशाची राष्ट्रभासूय आसा. राष्ट्रभाशा नाशिल्ली तरीय बी पंजाब, हरियाना, हिमांचल, राजस्थान, मध्यप्रदेश, उत्तर प्रदेश, बिहारच्या लोकांची भास आसा मू ? इतल्या व्हडल्या वाठाराचे भाशेंतल्या खंयच्याय पुस्तकाची पयली आवृत्ती कमीत कमी एक लाख प्रती तरी छापूंक जाय आशिल्यो. कितल्यो प्रती छापतात ? म्हज्या

'ओथांबे' ह्या कोंकणी पुस्तकाचो हिन्दी अणकार जाला. 'पतझर में टूटी पत्तियाँ' ह्या नांवान प्रकाशीत जाला. प्रकाशनूय खंयच्या साद्या प्रकाशकाचें न्हय तर ज्ञानपीठ सारख्या व्हड संस्थेन केलां. ताच्या ब्लर्बचेर (blurb) 'कोंकणी की यह एक अदभूत रचना है' अशें बरयला. प्रती कितल्यो छापल्यात ? फक्त एक हजार!

हे परिस्थितीचीं कारणां सोदपाचो यत्न करतां तेन्ना म्हाका सगळ्या देशी भाशांच्या माथ्यार काळीं कुपां दाटिल्लीं दिसूंक लागतात - भारत नांवाच्या ह्या 'सार्वभौम प्रजासत्ताक' देशांत इंग्रजीचें प्रस्थ आसा. ह्या स्वतंत्र देशांत राजकारभार इंग्रजींतल्यान चलता. कायदे इंग्रजींतल्यान तयार करतात. न्यायदान इंग्रिजींतल्यान चलता. इतलेंच न्हय व्हडल्यो व्हडल्यो नोकऱ्यो इंग्रजी शिकिल्ल्या लोकांकूच मेळटात. इतलेंच न्हय, इंग्रजी आमकां 'स्टेटस'त दीत आयल्या.

अशे हे परिस्थितींत आवयभासांचें कितलेंय व्हडलें स्तोत्र गायत रावले तरी कोणाचेरूच ताचो परिणाम जावपाचो ना. लोक दिसान दीस इंग्रजी बाबूच जायत रावतले. असले हे स्थितींत देशी साहित्य कशेंच मूळ धरपाची शक्यताय ना. खंयचोय 'शिकिल्लो' मनीस आमचीं पुस्तकां वाचचो ना. इंग्रजी पुस्तकांच वाचत रावतलो.

हांव अशें म्हणना की इंग्रजीच्या गिन्यानाची आमकां गरज ना. जेरूल आसा. फकत हे खातीर की ती आमकां विश्व साहित्याच्या संपर्कांत दवरता. पूण कितल्या लोकांक हे भाशेचें गिन्यान जावंक जाय ? देशांतल्या शंबर टक्के लोकांक ? अशक्य गजाल ती. देशाच्या विकासाखातीर तर नाच ना. हे सगळे वाठार देशी भाशांचेच. जर्मनी, फ्रांस, जापान, चीन, रशिया सारके देश आपआपले भाशेंतल्यान राजकारभार चलयतात, उदरगत करूंक शकतात, तर आमी करूंक शकनांत ?

आमी कितलोय इंग्रजी बाबू जावपाचो यत्न केलो तरी केन्नाच अमेरिकन, इंग्रज जावंक पावचेनांत. आंतरराष्ट्रीय तर मुळीच ना. फकत आपले भुंयेंतल्यान उखलापे uprooted जातले Out of place everywhere, at home no where. न घर के न घाट के.

इंग्रजीच्यो कांय मर्यादा आसात. ती आमकां संवसाराकडेन जोडटा आसत, पूण आपल्या लोकांकडल्यान तोडटा. अध्यात्माच्या संवसारांत अनपढ श्रीरामकृष्ण देशांतल्या कोनश्या कोनश्याक पावंक शकलो. साईबाबाय पावलो. पूण शंकराचार्या उप्रांत जाणीं भारतीय तत्वविचारांत मुळावें योगदान दिलां अशे देशांतले दोन म्हापुरूस - श्री ओरोबिन्दो आनी जे. कृष्णमूर्ति आळशी, फॅशनेबल, निष्क्रिय इंग्रजीवाल्या लोकांमदींच घुसपून उरले. राजकारणाच्या मळार एम्. एन्. रॉय सामान्य व्यक्ती नाशिल्ली. एक सशक्त व्यक्तित्व आशिल्लें. ते क्रांतिकारी आशिल्ले, एक मौलिक चिंतकय आशिल्ले. मेक्सिकोचे क्रांतीचे एक अग्रदूत आशिल्ले. आनी लेनिनाचो उजवो हात आशिल्ले. देशांतली खंयचीच भास तांकां येना आशिल्ली. इतलेंच न्हय आपली जल्मभास बांग्लाय विसरिल्ले. देशाच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत वांटो घेवंक आयिल्ले. पूण लोका वांगडा मान्नूय मिसळूंक पावले ना. मुंबय आनी कोलकाता विश्वविद्यालयांतल्या कांय प्राध्यापकां वांगडा आनी बुध्दीजिवींच्या कंपूत घुसपून उरले.

मुळां छाटून व्हडल्या व्हडल्या रुखांक खुजे करपाची कला जापानी लोकांनी केळयली. माड जो मळबाक स्पर्श करूंक वयर मेरेन वतालो ताका फक्त पांच फूट हे कलेच्या माध्यमान केल्लो हावें पळयला. भोवच सूंदर दिसता. पूण तो नाल्ल दिवंक शकना. सालाची सोबाय वाडोवंक उपकारा येता. हे कलेक बोन्साय कला म्हणटात. इंग्रजीन आमच्या देशांत जायते बोन्साय विद्वान, बोन्साय बुध्दीजीवी, बोन्साय लेखक आनी आतां तर बोन्साय वाचकूय निर्माण केल्यात. परिसंवादाची सोबाय वाडोवपाक उपकारा पडटात. ठोस कांयच दिवंक शकनांत. आमी आमचो देश बोन्साय लोकांचो जावंक दितले ? आमी हें विसरूंक फावना की देवाचे सृश्टी परसूय सरस प्रतिसृश्टी निर्माण करपाचो हावेस बाळगुपी विश्वामित्रा सारके रुशी ह्या देशांत जल्माक आयले. ताका कितें आमी बोन्साय लोकांचो देश जावंक दितले ? ना मू ? तशें जाल्यार आमच्या इंग्रजीचें जें स्तोम माजलां ताच्या आड विद्रोह करप अपरिहार्य जावन गेलां. कोण करतलो हो विद्रोह ? कोणूय राजकीय फुडारी ? एक नरशार्दुल आशिल्लो. जाणें हो विद्रोह सुरू केल्लो - डॉ. लोहिया. अकस्मात गेलो. आतां ? म्हजी नदर देशांतल्या साहित्यिकांचेर वता.

विक्टर ह्युगो व्हडा गर्वान सांगताले - इटालीन रिनेसांस ची चळवळ चलयली. जर्मनीन रिफॉर्मेशन चलयली आनी युरोप बदल्लो. फ्रांसान फकत एक वॉल्तेर निर्माण केलो. ताणें रिनेसांस रिफॉर्मेशनच्या वांगडाच अर्दें रेव्होल्युशन चलयलें आनी फकत फ्रांसाचेंच न्हय तर पुराय युरोपाचें रूप पुरायेन बदल्लें. असो एखाद्रो वॉल्तेर देशांतले खंयचेय एके भाशेंत निर्माण जातलो, तेन्नाच आयची परिस्थिती मुळासावन बदलतली. ह्या उतरांवांगडाच हांव ज्ञानपीठ पुरस्कार व्हड नमळायेन स्वीकारतां.

['बिम्ब' मासिकाच्या उपकारान]

## चंद्रकांत केणी (१९३४-२००९)

गोंयमुक्ती पूर्व काळार 'भारतमित्र' नांवाचें मराठी म्हयनाळें नेमान येतालें. सुपुल्लीशी पत्रिका ती. कांय थळाव्यो खबरो, कांय राष्ट्रीय खबरो, एकादरी कविता, आपउलोवप अशें तरेकवार साहित्य आसतालें. कांय स्फुटां आनी काणयो लक्ष ओडून घेताल्यो. तातूंत केन्नाय चंद्रकांत केणी ह्या लेखकाचें नांव वाचूंक मेळटालें. ताच्यो इल्ल्योश्यो काणयो वा स्फुटां भोव वाचनीय आसतालीं. तांतलीच ही एक सुपूल्ली कथा-

निवेदक रेल्वेन पयसुल्ल्या प्रवासाक वता आसतना सकाळफुडें गाडी एका स्टेशनाचेर थारता तेन्ना दोग भुरगे 'म्हजें वर्तमानपत्र विकतें घे' म्हूण ताचे कडेन हुज्जत घालतात. ताकाय पेपर जायच आसता. एकल्याचो पेपर घेतकच दुसरो पिरायेन मातसो ल्हान आशिल्लो भुरगो व्हडल्या कडेन झगडटा आनी आपणालोय एक पेपर घे म्हूण निवेदकाचे फाटीक लागता. ताची तोखणाय आनी काकुळट करीत निवेदक ताचे कडल्यानूय तोच पेपर घेता. गाडी सुटपाक थोडो वेळ आसा म्हूण निवेदक लागशिल्ल्या च्याच्या स्टॉलार वता. तेन्ना फाटले वटेन ते दोगूय भुरगे पेपर विकून आयिल्ले पयशे मेजतना तो पळयता. तांचो संवाद आयकतकच ताका कळटा, ते दोगूय खास भाव.

त्या इल्ल्याश्या नेमाळ्याच्या एकाच पानार छापिल्ली ती ल्हानशी पूण काळजाक हात घालपी कथा पन्नास वर्सां उलगलीं तरी वाचपी अजून विसरूंक पावंक ना ही एकच गजाल त्या लेखकाचे लेखन कुशलतायेची देख म्हूण दिवपाक पुरो.

आयज सगले चंद्रकांतबाबांक कथिकेचो जनक म्हूण पाचारतात. खासा चंद्रकांतबाब कथिका हो प्रकार कथे परस चिके वेगळो अशें लेखताले. आटाप ल्हान आशिल्ल्यान केन्ना केन्ना कथिका हो लळीत निबंद आनी कथा हांचे मदलो साहित्य प्रकारसो दिसता हें तिचें वेगळेंपण. अशें आसलें तरी कथिका बरोवप हें कठीण काम. गागर में सागर भरपा इतलेंच कठीण. पूण हें काम चंद्रकांतबाब सहजतायेन करताले. ताचें कारण जें कितें सांगपाचें आसा तें थोडे भितर सांगून मेकळो जावपाचो तांचो सभाव. 'भारतमित्रा'चेर आयिल्ली ती काणी हीय एक कथिकाच. 'आंबले तोर' ही तांची गाजिल्ली कथा हीय कथिकाच. तांचे प्रकृतीक सगल्यांत चड मानवपी साहित्य प्रकार म्हणल्यार कथा, आनी कथेंतूय चड उठून

दिसता ती तांची कथिका. सातत्य आनी भोवप्रसवता हे तांचे तोखणाय करपा सारके गूण. खंयच्याय नेमाळ्यान वा साहित्य पत्रिकेन तांचे कडेन कथा वा लेख मागलो आनी तांणी तो दिलो ना अशें केन्ना घडलें ना. अर्द शतका परस चड काळ सातत्यान कथालेखन करपी चंद्रकांतबाब हे घडये कोंकणींतले एकलेच लेखक आसुंये.

## आद्य कथाकार

कोंकणींत आधुनीक कथेचो जल्म केन्ना जालो? पयली कथा खंयची? आमी हेर भासां परस चड फाटीं नात म्हूण दाखोवपा खातीर आमी शणै गोंयबाबां कडेन बोट दाखयतात. 'म्हजी बा खंय गेली' ही कोकणींतली पयली आधुनीक कथा अशें सांगतात. ती एक उत्कृश्ट कथा आनी त्या काळाच्या मानान खूब वयल्या पांवड्या वयली कथा हातूंत मातूय दुबाव ना. पूण मॉर्डन शॉर्ट स्टोरी म्हूण ज्या प्रकारा कडेन आमी पळयतात तातूंत 'म्हजी बा खंय गेली' खंय शी बसता तें परतून तपासून पळोवंक जाय. ते कथेची मांडावळ आनी अखेर पळयल्यार तिका आयची कथा म्हणूंक येत अशें दिसना. तेन्ना आपसूक आद्य कथाकार म्हणून फकत चंद्रकांतबाबां कडेन बोट दाखोवचें पडटा. आधुनीक कथेचें मुळावण तांणीच घालें अशें म्हणूक जाय.

कोंकणींत पुस्तक उजवाडावपाचें धाडस त्या काळार कोणच करिनासलो. शणै गोंयबाबाचीं पुस्तकां लेगीत काशिनाथ श्रीधर नायक हांचे वेव्हाराचेर आडनदर करून केल्ले निसुवार्थी करणेक लागून प्रकाशीत जावंक पाविल्लीं. अशा वेळार चंद्रकांतबाबांचो 'धर्तरी अजून जियेताली' हो कथां झेलो उजवाडाक आयलो. शणै गोंयबाबांल्या 'गोमन्तोपनिषत्' (पयले खंड) ह्या पुस्तकांत 'म्हजी बा खंय गेली' ही कथा आसा. पूण तांतूतल्यो 'वासूशणैली पोपाय', 'बाबुमाममालो पणस', 'पितुबाबालो तांब्यापटो' आनी 'खर्णवीर' ह्यो साहित्यकृती म्हणल्यार ललीत निबंदच. कथा न्हय. देखूनच चंद्रकांतबाबांचो 'धर्तरी अजून जियेताली' हो कोंकणींतलो पयलो कथां झेलो म्हणूंक जाय.

सुर्ती रुपया वरी चोख उतरांची खाण गांठीक आशिल्ल्या केणींची भासूय व्हांवती सरस्पत. भोव वाचनी. भास हो साहित्याचो प्राण अशें लेखतात. भास प्रवाही

आसल्यारच साहित्यांत लालित्य येता. हें लालित्य चंद्रकांतबाबांच्या साहित्यांत- मागीर ती कथा आसूं वा नवलकथा, कथिका आसूं वा ललित निबंद- उचांबळून आयिल्ले वरी खळखळटा. केणीबाब मूळ साश्टींतल्या कांसावले गांवचे. तांच्या कथांनी हे वातावरण येता. हांगासरलीं मनशांय दिश्टी पडटात. पूण त्या पात्रांच्या तोंडांतली भास संवादांची शी दिसना. देखीक 'सपन' हे तांचे कथिकेंत मिगेल ह्या पात्राच्या तेंडांत 'सांगतां हांव. पूण एक अट' अशें वाक्य आसा. 'अट', 'माया', 'तोल गेलो', 'अचकीत', 'नकळं' हीं उतरां ह्या वाठारांतलो क्रिस्तांव मनीस उपकारायना. हरशीं कथा बरी बरयल्या. सुंदरच आसा. पूण चंद्रकांतबाबां सारकिल्या खांप्या आनी फिशाल कथाकारा कडल्यान अशें कशें घडूं येता हाचो विचार केल्यार लक्षांत येता, ल्हान पिरायेर चंद्रकांतबाब ह्या वाठारांत वाडले. पूण भास घडटा अशे पिरायेर ते गोंया भायर पावले. भाशेचेर आंतरभारती संस्कार जावंक लागले. हिंदी, मराठी, इंग्लीश ह्या भासांतल्यान वाचप-उलोवप जालें. ताचो पोशक परिणाम केणीबाबांचे कोंकणी भाशेचेर जालो. तांची कोंकणी आंतरभारती जाली. हेर भारतीय भासांनी वापरतात तीं समान उतरां आनी कोंकणी भाशेच्या सभावा कडेन जुळटात असलीं उतरां घेवन तांणी साहित्य रचलें. अशें करतना कांय कडेन, भोव करून क्रिस्तांव पात्रांच्या संवादां कडेन पावतकच, तांची भास अडेची कशी दिसता इतलें खरें. पूण घडये वाचपाचे प्रक्रियेंत थळावी बोलीभास आडखळ हाडटा हो कांय वाचकांचो अणभव लक्षांत घेवन, संवाद सुटसुटीत जावचे ह्या हेतुनच ते तशें करताले जावंये.

कोंकणी भाशेची उतरावळ अभिव्यक्ती खातीर उणी पडटा अशें कांय लोक आनी लेखक लेगीत समजतात. पूण ती तांची समजूत तांचे अज्ञानूच दाखयता. चंद्रकांकबाबांच्या साहित्यांत कसलोय जिणे-अणभव वा अतिसुक्ष्म भावना अभिव्यक्त करपाचें सामर्थ आशिल्ली भास स्पश्टपणान दिश्टी पडटा.

चंद्रकांतबाबांक कथेच्या मळार नवे नवे प्रयोग करपाक मानवतालें. भाशा शैलीचे नदरेन तांणी व्हडलेशे प्रयोग केल्ले दिश्टी पडनात. पूण विशयांचे नदरेन सामके नदरेंत भरपा इतले केल्यात. गोंयच्या सुटके झुजांचे फाटभुंये वयले धरून घटस्फोटीत पालकांच्या भुरग्यांचे अशे तरेकवार विशय तांणी हाताळ्ळ्यात. राणी रूपमती वा मंगल पांडे सारक्या इतिहासीक पात्रांच्या संबंदांतल्योय कथा बरोवन एक वेगळे

तरेचो प्रयोग तांणी केला. ह्यो कथा इतिहासीक कथा न्हय. लेखक वा निवेदक आपणाक मेळिल्ल्या पात्रांच्या तोंडांतल्यान ह्यो इतिहासीक खबरो आयकता अशें सांगीत ह्यों कथा आकार घेतात. 'काशीचो वधस्तंभ' हीय अशीच एक पुराणकथेचेर आदारिल्ली कथा. एका राजान आपल्या कुंवराक परस्त्रीचें अपहरण केल्ले खातीर मरणाची ख्यास्त फर्मायिल्ली आनी ज्या वधस्तंभाचेर ताचो बळी गेल्लो ताची ही कथा. ह्यो कथा वाचनीयतेचे कसवटणेर भोव वयल्या पांवड्याच्यो आसात हें खरें आसलें तरी कथा हे संज्ञेक त्यो कितल्यो पात्र आसात काय? चंद्रकांतबाबानी केल्ले हे प्रयोग सरसामान्य वाचकांक भोव भावले हें मात खरें.

कथेचे शैलीचे वा मांडावळीचे प्रयोग करपाकूय तांकां भोव मानवताले. 'किस्सा मुर्गीका' ही तांची कथा चित्रगुप्ताच्या दरबारांतल्या निवाड्याचेर आदारून आसा. पात्रां कोण? कोंबो, कोंबी आनी कोंबयेकार घोव-बायल. कथालेखक जेन्ना आपणाले कलेच्या मळार पांय रोंबून घटमूट उबो रावता तेन्नाच तो नवे नवे प्रयोग करून आपणाले कलेक विस्तार दिवंक सोदता. सदांच तो जैतिवंत जाता अशें ना. प्रयोग फसताय. पूण नवी जाणविकाय मेळटा. चंद्रकांतबांबानी अशे प्रयोग केल्यात. 'मांडवी अशीच व्हांवता' ही कथा निखट्या संवादांतल्यान उबी जाल्या. हेर भारतीय भासांनी हे असले प्रयोग जावंक लागिल्ले आनी चंद्रकांतबाब हे चतुरस्त्र वाचक जाल्ल्यान तांकां ताची जाणविकाय आशिल्ली. पूण कोंकणी कथा निकतीच आंग धरूंक लागिल्ली. कूस परतूंक सोदताली. अशा समयार चंद्रकांतबाबान नवे प्रयोग करून पळोवपाचें धाडस दाखयलें. देखीक, 'जननी' ही कथा घेवया. सर्जनानुभुतीचो आविश्कार घडोवपी ही कथा म्हणल्यार एके वेगळे शैलींत आनी वेगळ्या मुडांत बरयिल्ली कृती. कथानक व्हडलेंशें ना. पूण कथन करपाचो लेखकाचो कलात्मक किंवाटो दिश्टीक पडटा. एक बरो प्रयोग आसलो तरी ही फशिल्ली कथा. भाशेचें लालित्य भोव सुंदर. पूण जिणेचें एक व्हडलें सत्य गूढ उतरांनीं सांगपाचो यत्न लेखकान केला. मोगाक लागून सर्जन घडटा हांचो अणभव 'ती' घेता. 'ती' ही कोण? एक अस्तुरी? एक झाड? काय लेखकाची प्रतिभा? ती कोणूय आसूं येता- पूण ती एक जननी, हें सांगपा खातीर लेखकान विणिल्ल्या मायाजाळांत चोखंदळ वाचक फारावना. उतरांचो खेळ आनी विचारांची पुनरावृत्ती टाळून कथा अदीक मोटवी केल्ली जाल्यार घडये तो एक जैतिवंत प्रयोग जावं येतालो.

चंद्रकांतबाबांच्यो खूब म्हणल्यार खूब कथा प्रथमपुरुशी निवेदनांत आसात. असल्या निवेदनांत हो लेखक अदीक रमता. 'नातें रगताचें' वा 'खंत ना, खेद ना' वा 'याद आसा?' ह्या कथांनी लेखक आपणालेच अणभव जिवे तट्टीत करून सांगता असो भास जाता. प्रथमपुरुशी निवेदनांत लेखकाक मनांतल्यो भावना उकतावपाक सोंपेपण मेळटा. पूण तेय परस मर्यादा चड आसतात. निवेदकाचे असवडीं कितें घडटा तें सांगतना मर्यादा पडटात. पूण चंद्रकांतबाबांची लिखणी प्रथमपुरुशी निवेदनांत सदांच पर्जळ्ळ्या. चडशे लेखक प्रथमपुरुशी निवेदनांत निवेदकाक नायक करतात. पूण चंद्रकांतबाब चडश्या कथांनी निवेदकाची भुमिका फकत श्रोत्याची वा प्रेक्षकाची घेतात. 'विप्रदास' कथेचो नायक आपणाले अणभव लिखीत स्वरूपांत निवेदकाचे सुवादीन करता. वा 'रीना जोझेफ' हे कथेंतली रीना ही अस्तुरी लेखकाक मेळूंक येता आनी आपणाली जिणेकाणी सांगता. जावं 'अपराजिता' जावं 'लुसी' जावं 'कर्फ्यू' जावं 'जगताप', ह्या सगल्या कथांनी निवेदक नाममात्र आसा. कथा आनी व्यथा त्या त्या पात्रांच्यो. तांच्याच तोंडांतल्यान उकतायिल्ल्यो, निवेदकाच्यो फकत प्रतिक्रिया. पूण हेंच ह्या लेखकाचें खाशेलेपण.

चंद्रकांत केणी ह्या लेखकाच्या साहित्यकृतींतल्यो अस्तुऱ्यो हो खरें म्हणल्यार प्रबंधाचो विशय. कितल्यो तरेकवार बायलो. 'अहिल्या', 'लुसी', 'मीस डायना डिसोझा', 'रीना जोझेफ' हातूंत एकले भाशेन दुसरी ना. अहिल्या ही फेमिनिस्ट विचारांची, मीरा स्वताक संत मीराबायेचो अवतार लेखपी, रीना ही आपणाल्या अपंगूळ घोवा खातीर कितेंय करपाची तयारी आशिल्ली- ह्यो सगल्यो बायलो आपआपणालें दुख्ख वा भावना कांयच दाखय-लिपय करिनासतना निवेदका मुखार व्यक्त करतात.

केणीबाबांच्यो चडश्यो नायिका पिरायेन मध्यम. घडये हे पिरायेचेर संभाशण उकतेपणान करप सोंपें जाता वा खाजगी गजाली सांगतना लजभीड आड येना म्हणून जावंये. चडश्यो बायलो दिसपाक सुंदर, आंगलोटीन रेखीव आनी पुरुशत्वाक आव्हान दिवपी. '... तिचो भेस भडक आसलो. आंखून चित्र काडचें तशी ती दिसताली. देहाची बारीक सारीक बाग लेगीत नदरेंत भरताली. आनी तोंडार गोड हांसो.' (रीना). वा '... चार चवगांत नदरेंत भरपाची. गंवां रंगाची गोरसाण आनी कोरीव शिल्पा वरी आंगलोट... चकचकीत दोळे. हांसतना गालाक खळ्यो पडटाल्यो आनी धवेफुल्ल दांत ल्हायां वरी चकचकताले. फुडल्यान घेतिल्ली लांब

केंसांची फांती तिचे छातये वयल्यान जमनीर पाविल्ली.' (मिनाक्षी). 'आंगभर साडी. मानेर लांब सळसळीत रसमी केंस. फूल स्लीवजांचो ब्लावज- साडयेच्या रंगाक मॅचिंग असो. गळ्याक भांगराची बारीक सरपळी आनी तिका भांगराचो खुरीस. सरपळी ब्लावजा वयल्यान भायर काडिल्ली. कानाक दोन रिंगो. नाकाक कांय ना. कपलाक कांय ना गोरी-धवी. तिशींतली आसुंये' (मीस डायना).

शिरंगाराचींय वर्णनां कथांनी येतात. पूण चंद्रकांतबाब नायक नायिकेचो शिरंगार विशिष्ट मर्यादे भायर व्हरपाचें धाडस दाखयनात. चडांत चड ओंठांक ओंठ तेंकतले. पूण उत्कटतायेन घेतिल्लें चुंबन येवचें ना. आंगा वयल्यान नदर भोंवता पूण हात भोंवना अशे तरेचीं वर्णनां चड. चंद्रकांतबाबांच्या कथांतलो शिरंगार होय एक अभ्यासाचो विशय.

चंद्रकांतबाबांचीं अनेक स्त्रीपात्रां धीट आनी धाडसी. रीना जावं अहिल्या. कुडीचें हतियार वापरून दुडू जोडपी रीना पयशे कशे जोडले ताचें समर्थन करून म्हणटा- '.... तातूंत म्हजो गुन्यांव कसलोच ना. थोडोसो म्हज्या रुपाचो आनी आंगलोटाचो. पूण चडसो पयशेकारांचोच.' आनी फुडें निवेदकान दिल्ले पयशे परते दिवन ती विचारता- 'तुका कांयच दिले बगर तुजे पयशे हांव कशें घेंव?' अहिल्या ही दुसरेपणांतली बायल घोवाक सडेतोड विचारता- '... हांव वांझ न्हय आनी दादल्यान दुसरी बायल करप धर्मांत बसता आसत जाल्यार बायलेन दुसरो घोव करप हो अधर्म कसो जायत?'

पूण हें धाडस चंद्रकांतबाबांचे नायक दाखयनात. 'पोस्टमॉर्टम' कथेंतलीं मिनाक्षी धिटाय दाखोवन नायकाच्या आंगार लवंडटा तेन्ना 'तिगेल्या उकत्या गोऱ्या पोटा वयल्यान एके फावटी हात भोंवडावचो अशें ताका दिसलें आनी एक उस्वास सोडून ताणें तो विचार बदल्लो.' सिनेमा पळयतना 'थेटरांतलो हो काळोख, पड्ड्या वयलो उत्तान श्रृंगार आनी कुशींतली कंवळी ऊब' आसुनय 'इंटरवलाक लायटी पेटल्यो तसो तो सडसडीत उठून उबो रावलो. चोराचेर पुलिसांच्या बॅटरी दिव्याचो झोत पडटकच तो साव दिसपाचो यत्न करता तसो ताणें बुश्शर्ट सारको केलो. 'येता आं' म्हणून तो भायर गेलो.' चंद्रकांतबाबांचे चडशे नायक संस्कार, सभ्यताय, लज, संकोच, भंय... हांच्या चेपणा खाला वावुरतना दिश्टी पडटात. 'हिप्पी चली' ही तांची गाजिल्ली कथा. दोन संस्कृतायां मदलें अंतर दाखेवपी. नायकाचो अस्तुरे कडेन

कुडीचो संबंद आयिल्लो दाखोवपी ही त्या मानान धिटायेन बरयिल्ली कथा. पूण हे कथेंतलोय नायक भिवकुरो. तिका दीस गेल्यात म्हूण कळटकच अस्वस्थ जावपी. केणीबाबांचे एकेय कथेंतलो नायक धीटपणान, उत्कटतायेन प्रणयक्रिडेंत रमिल्लो दिश्टी पडना. सभ्यतायेचो बुरखो पांगरूनच भोंवता.

चंद्रकांतबाबांची भास आतंरभारती तशीच तांची कथाय आंतरभारती. ती गोंयचे भुंयेक दसून रावना. ती खयूंय घडटा. दिल्लीक, अहमदाबादेंत, मुंबय वा अलाहबादेंत. चंद्रकांतबाबान अनेक गांव पळयल्यात. देखून तांचे कथेंतलें वातावरण अस्सल दिसता. तांच्या आंगांतलो बहुश्रुत लेखक तांच्या कथांनी ठळकपणान जाणवता.

निजी जिणेंत चंद्रकांतबाब केणी हे सारस्वत समाज, पर्तगाळी मठ वा ज्ञाती संबंदी व्यासपिठां कडेन खूब संवकळेचो संबंद दवरून आशिल्ले. पूण चंद्रकांतबाबांच्या साहित्यांत खंयच जातीचो अभिमान वा धर्माची ओड दिश्टी पडना. निजी जीण आनी भौशीक प्रणाली आपआपणाले सुवातेर राबोवपाची कळाशी तांकां भोव बरी जमल्या. 'व्हंकल पावणी' कथेंत तर ते आंतरजातीय लग्नाचें समर्थनच करतात. देखून आपपर भाव मातूय ना मानपी चंद्रकांत केणी हे एक श्रेष्ठ कथाकार.

**कादंबरीकार**

वेळाची आनी पानांची मर्यादा पळोवन चंद्रकांतबाब कथांचें लेखन करताले. पूण चंद्रकांतबाबांल्या कादंबरी लेखनांत एक वेगळी तरा दिश्टी पडटा. कादबरींत कथानकाक फावता तितलो विस्तार दिवपाची मेकळीक लेखकाक आसता. चंद्रकांतबाब ती घेतात. पूण हांगाय विस्कळीतपणां जाणवतात. मदींच कथानक विस्तार घेता जाल्यार मदींच तें संक्षिप्त आनी तुटक दिसता. पूण मुळांत चंद्रकांतबाब हे उत्तम ललीत निबंदकार जाल्ल्यान तांच्या सगल्या कादंबऱ्यांनी लालित्य खेळटना दिश्टी पडटा.

'एकलो एकसुरो' ही तांची पयली नवलिका. पुर्ण कादंबरेचें कथानक जावपाची तांक आशिल्लें हें कथासुत्र. पूण लेखकान, वेळ नाशिल्ल्यान जावंये वा मूड नाशिल्ल्यान जावंये, बसकण मारून कथानकाक विस्तार दिवपाची तकालस घेतिल्ली दिसना. कथानक सुचलें पूण कादंबरी बरोवपाक फुरसत ना देखून थोडे भितर तकलेंतलें सगलें कथानक संक्षिप्तपणान बरोवन दवरलें- फुडें केन्ना तरी

कादंबरी लेखन करपाच्या हेतान. पूण तशें घडूंक पावलें ना. अखेरेक जल्माक घालपाचे कादंबरेचो सारांशच वाचप्या मुखार दवरचो तशी ही नवलिका 'एकलो एकसुरो' उजवाडाक आयली. पांचव्या म्हयन्याचेर बाळंत जावन जल्माक आयिल्लें भुरगें खिन्नटिल्लें उरचें तशी ही कादंबरी जाल्या. आयज एका चंद्रकांतबाबाल्योच स कादंबऱ्यो प्रसिद्ध जाल्यात. पूण १९७३ वर्सा 'एकलो एकसुरो' उजवाडाक आयिल्ली तेन्ना कोंकणी कादंबरेचें दालन तशें रितेंच आशिल्लें. कोंकणींत कशीय जावं, कादंबरी येवची अशें येवजुनच केणीबाबांनी लेखन केल्ले भशेन दिसता. 'एकलो एकसुरो'चें कथानक इतलें सुंदर आनी काळजाक हात घालपी आसा की विस्तार मेळिल्लो जाल्यार हे कादंबरीचें भांगर जातलें आसलें. ब्राझीलाच्या सां पावल शारांत भारताचो कोन्सूल म्हूण गेल्ल्या एका गोंयकार अधिकाऱ्याक थंयचे बंदखणींत ना केल्ल्या अपराधाची ख्यास्त भोगीत कश्टतल्या गांवभावाची खबर कळटा. नोकरी लेगीत धोक्यांत घालून तो त्या गांवभावाक वाटावपाखातीर वावुरता. पूण त्या तिरायत मनशा पासत इतलेय त्रास काडले उपरांत घरचींच कशीं त्या मनशाक फाट करतात हाची ही करूण कथा. बरी कादंबरी जावं येताली. पूण समाजीक, राजकी, भाशीक आनी साहित्यीक चळवळींत घुस्पून पडिल्ल्या एका लेखकाक पडिल्ले समयविवंचनेक लागून व्हळून गेली जावंये.

१९९१ वर्सा तांची 'रातभर पावस' ही दुसरी कादंबरी उजवाडाक आयली. हिका कादंबरी म्हणची काय ना होय एक प्रस्नूच. ही एक प्रेमपत्रांची सरपळी. नवो प्रयोग करून पळोवपाचे वानशेंतल्यान जल्माक आयिल्ली. प्रेमपत्रां होय एक साहित्यप्रकार अशें लेखपी चंद्रकांतबाबान एका फाटोफाट एक असो प्रेमपत्रमय साहित्यप्रकार रचून नेमाळ्यांतल्यान उजवाडायला. उपरांत सगलीं प्रेमपत्रां एकठांय करून तांणी 'रातभर पावस' हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. वयलेचाराक कादंबरेचोच प्रकार सो दिसपी हो प्रयोग म्हळयार लेखकाची फशिल्ली निर्मिती अशें म्हणूंक जाय. मुळांत हें बरप नेमाळ्या खातीर बरयिल्लें. तेन्ना एक एक पत्र वाचतना वाचनीय जाल्लें. पूण उपरांत सलग सगलीं पत्रां वाचतना कांय पानां वाचून जातकच पुनरावृत्ती जाणवता. ते भायर सलग छापिल्ल्यान एक पत्र खंय सोंपता आनी दुसरें खंय सुरु जाता तेंच समजना. ताका लागून वाचकांचो गोंदळूय जाता आनी उबगणूय येता. बरोवप जालांच न्हय, एकठांय करून छापून उडोवंया हे भावनेंतल्यान जल्माक आयिल्ली ही कादंबरी अशें म्हणूक जाय.

चंद्रकांतबाबानी खऱ्या अर्थान कादंबरी केळयली ती तांचे साठी कडेन. ताचे पयलीं तांची आनीक एक कादंबरिका उजवाडाक आयिल्ली. 'एक सपन सपनेल्लें' ही कादंबरिका एका स्वातंत्र्य सैनिकाचे जिणेंत आयिल्ल्या मोगाच्या मोडाची. हे कथावस्तूंतय एक बरी आनी व्हड कादंबरी जावपाची तांक आशिल्ली. पूण थोडे भितर सांगून उडोवपाची ताकतीक केल्ल्यान ही नवलिका व्हडली उबारी घेना. पूण 'विराट' वा 'बर्मी दीस' सारक्यो कादंबऱ्यो मात बरो विस्तार घेतात. घडये, वृत्तपत्र संपादकाचो भार उणो जाल्ल्यान फुरसत मेळूंक लागली देखून फुडल्यो कादंबऱ्यो चंद्रकांतबाबांक ब-यो विस्तारान बरोवंक मेळळयो.

चंद्रकांतबाबाल्यो अनेक कथा प्रथमपुरुशी निवेदनांत आसात आनी निवेदक खासा चंद्रकांत केणीच आसात. पात्रां तांकां मेळून आपणाली कथा व व्यथा सांगतात आनी लेखक मागीर ताचेर कथेचो साज चडयतात. कादंबऱ्यांनीय चंद्रकांतबाब तशेंच करतात. तांचे 'श्रीनिवास' हे नवलिकेंत खासा श्रीनिवास हें पात्र लेखकाक येवन मेळटा आनी आपणाली जिणेकाणी खूब विस्तारान सांगता. खिस्ती- खिस्तींनी गांठी मारीत आनी गांठी सोडयत कथानक फुडें वता. आपणाल्या जिवितांतलीं कांय कुवाडीं श्रीनिवास उलोवन दाखयता. आपणाली काणी निवेदकान बरोवन छापची अशीय अपेक्षा करता. इतल्यान कादंबरी थांबना. लेखकान बरयिल्ली काणी वाचून नवीं पात्रां लेखकाक मोळटात. दामोदर लेखकाक मेळून कथानक फुडें व्हरता. श्रीनिवास मेलो ही खबर निवेदकाक हें पात्र सांगता आनी कथानकांतले दुवे जुळोवचे खातीर एवरिकाक मेळून ताचे कडसून खबरो काडटा. अशे तरेन मोडणां घेत घेत अखेरेक श्रीनिवासाचे जिणेचीं सगलीं कुवाडीं सुटलीं हे भावनेन लेखक नवलिका सोंपयता. हे कादंबरिकेची निवेदनशैली आगळीच आसा. श्रीनिवास हें पात्र आपणाली जिणेकाणी लेखकाक सांगतां सांगतां खासा लेखकूच हया कथानकांतलें एक पात्र जावन उरता. खरें म्हळयार, शैली खातीर कोंकणींतली तरी ही एक दखलपात्र नवलिका थारता. पूण घडये बारीक अक्षरांत छापिल्ल्यान वाचपाक हातांत घेवपाक मन फाटीं सरता देखून तिची फावो तशी नोंद कोणी घेतिल्ली दिश्टी पडना. कुळागर प्रकाशनान पन्नास ते साठ पानांचीं पुस्तकां छापून उजवाडावपाची एक येवजण जाहीर केल्ली. ते येवजणेंत बसोवपा खातीर बारीक प्रिण्ट वापरून ती तितल्या पानांनी बसयिल्ल्यान वाचनाक थोडी आडखळ येता.

'श्रीनिवास' ही नवलिका आसली तरी तिका संक्षिप्ततायेची बादा जावंक ना. विशय योग्य रितीन हाताळ्ळा आनी फावो तितलोच विस्तारय तिका दिला. वयर नमूद केल्ल्या साहित्यकृतींनी लेखकाली थोडे भितर सांगून झटपट सोंपोवपाची ताकतीक हे नवलिकेंत दिश्टी पडना. आनी ते पयलीं उजवाडाक आयिल्ल्या दोन विस्तृत कादंबऱ्यानीय ती दिश्टी पडना.

'बर्मी दीस' आनी 'विराट' ह्यो दोनूय कादंबऱ्यो विशय आनी आशयाचे नदरेन पुरायेन वेगळ्यो. अश्यो नवलकथा कोंकणी साहित्यांत आज मेरेन येवंक नात. दोनींतलेंय समान सुत्र म्हळ्यार कादंबऱ्यांच्या प्रमुख पात्रांनी लेखकाचे सुवादीन केल्ली आपापणाली डायरी. ही काणी दुसऱ्याची. ताणें सांगल्या आनी हांवे फक्त ताचेर साहित्यीक भाशेचो साज चडोवन तिचें शब्दांकन केलां अशे भावनेंतल्यानच लेखकान ह्यो कादंबऱ्यो बरयल्यात.ब्रिटिश लस्करांत मेजर म्हूण निवृत्त जावन आपणाली कूड गांवघरा मातयेक लागची हे भावनेन लंडनांतसून गोंयां आयिल्ल्या एका जाण्ट्या मनशान सांगिल्ली आनी डायरेंत बरोवन दवरिल्ली काणी म्हळ्यार 'बर्मी दीस.'

दुसऱ्या महायुद्धाचे फाटभुंयेर तरणे पिरायेर लंडनांतसून गोंयांत परततना अँथनी रॉड्रीग्स हो ताची बोट ब्रह्मदेशांत आडखळून उरिल्ल्यान रंगूनाक पावता. गांठीक दुडू नात म्हूण मेळत तें काम करतां करतां तो मांगशीश नांवाच्या एका बर्मी संस्थानांत पावता. ह्या पयसुल्ल्या देशांत नवी भास, नव्यो चाली रिती, कुड्डे भावार्थ, विक्षिप्त लोक, विचित्र अणभव ह्या सगल्या अँथनीन घेतिल्ल्या अणभवांचो आपरोस म्हळ्यार 'बर्मी दीस' ही कादंबरी. चंद्रकांतबाब मुळांतच फिशाल अशे लळीत लेखक. लालित्यपूर्ण भाशेक लागून कादंबरी भोव वाचनीय जाल्या. अनुभुतीच्यो मर्यादा जाणवतात. पूण वाचनाक बादिकार जायनात. बर्मी जीवनशैली प्रत्यक्ष अणभवूंक नाशिल्ल्यान ज्यो थोड्योभोव मर्यादा आसात ताची जाण लेखकाक आसा. देखून अँथनीचे डायरीचो लेखकान मुजरत उल्लेख केला.

'बर्मी दीस' कादंबरींत बर्मी वातावरण आनी थंयचे भावार्त वाचकां मुखार बेस बरे येतात. कथानक एकसुत्री अशें ना. महायुद्धाचे अखेरेक नायक अँथनी मांगशीश सोडून परतो भारतांत येता आनी ताच्या बर्मी अणभवां वांगडाच 'बर्मी दीस' कादंबरी सोंपता. कादंबरीची अखेर ताकतिकेन आटापिल्ले वरी अचकीत

जाल्ल्याची भावना वाचकांच्या मनांत दाटून उरता.

'विराट' हीय अशीच डायरेच्या आदारान बरयिल्ली नवलकथा. सुर्वेच्या मनोगतांत लेखकान हाची गवाय दिल्या. आनी उपरांत कादंबरेंतूय लेखक हो नायकाचे जिणे कडेन तटस्थतायेन पळोवपी एक पात्र जावन वावुरता. लेखकाची आनी नायकाची भेट, उपरांत नायका विशीं कुतुहल, नायकान लेखकाक डायरी दिवप आनी आपणाली जिणेकाणी बरोवपाक अनुमती दिवप ह्यो गजाली ह्या दोनूय कादंबऱ्यांनीं एकेच तरेन आयल्यात.

गोंयच्यान घर सोडून पळून गेल्लो विराट भगवी कफनी घेवन दीस सारता. परत गोंयां येता. उपरांत कॉलेज शिक्षणा खातीर मुंबयंत पावता. थंय ताचे जिणेंत एक नाटक घडटा. पुरबी हे चलयेची आवय सुमित्रा विराटाक हिन्दी बरी उलोवची कशी तें शिकयता. ल्हवुल्हवू ती विराटाक वश करता. विराटान आपणाले धाकले धुवे कडेन, पुरबी कडेन, लग्न करचें आनी आपणा कडेन कुडी संबंद दवरचे अशी मागणी ती करता. इतले मजगतीं शिरीन ही तरनाटी विराटाचे जिणेंत येता. पूण तें नातें चड दीस तिगना. घोवाची बदली जाल्ल्यान दिल्लीक पाविल्ली सुमित्रा वकिली करपाच्या निमतान मागीर विराटाक दिल्लीक आफयता. एक दीस पुरबी, जी आतां भोव सुंदर आनी गुणेस्त तरनाटी जाल्या, अचकीत घरा पावता तेन्ना ती आपणा खतीर आवयन वेंचून काडिल्ल्या घोवाक आपणाले आवयचे कुशींत रतीमग्न पळयता. जिणेक उबगून ती जीव दिवपाचो यत्न करता. विराट वितरागांनी हिमालयांत वता. थंय एका साधुचो शिश्य जाता. साधुच्या आदेशाचें पालन करपाक तो पवनगिरी संस्थानांत वता. थंय ताका महाराणी रूपमती मेळटा. मोडणां मोडणांनी कथानक फुडें सरता. राणी महानंदा, फुलवंती, अशा अस्तुर्यां कडेन संबंद येतकच विराटाक आपूण अबरगती कडेन वतां म्हणपाचें जाणवता आनी तो बद्द गोंयां आपणाल्या घरा येता. एक दीस परतोय मुंबय वता. नोकरी धरता. पूण रोखडोच उबगून भगवी मुस्तायकी आंगार लकोवन दक्षिणेचे भोंवडेर वता. एका गांवांत पाविल्ले कडेन जोर तापता देखून ताका एका घरांत आलाशिरो घेवचो पडटा. हो एक सिद्धपुरूश जावंये अशें लेखून घरचीं ताची सेवा करतात. घरकान्न सुशिला ताचे पांय चेपता. सेवा करतां करतां ती कुडी सूख मागता. सुमित्रा वरीच हिवूय विराटाचें लग्न आपणाले सतरा-अठरा वर्सांचे धुवे कडेन तिचे इत्से विरूद्ध करून ताका घरजावंय करून बांदून दवरूंक सोदता. पर्थून विराट थंयसून

पळून वता. हांगाच कथानक सोंपता.पर्थून एक फावट वाचकाक अतृप्त दवरून तुटकपणान कादंबरेची अखेर जाता. 'विराट' कादंबरेची अखेर करतना डायरेची एक नोंद नमूद करून लेखक नायकाक उद्धृत करता- "वासना तृप्त करुनूच आसक्ती सोंपूं येता." हें वाक्य नायकान केल्ले वासनापुर्तीचें सूचक. कादंबरी सोंपोवनय डायरेचो आदार घेवन आचार्य रजनीश आनी काझा नोव्हा हांचे उल्लेख केल्ल्यान ते अप्रस्तूत दिसतात. ते टाळूंक जाय आसले.

'विराट' म्हळ्यार एक वासनाकांड. हातूंत खरें कितलें, फट कितलें तें सांगप कठीण. डायरेचो उल्लेख सुर्वेच्या मनोगतांत आयिल्ल्यान ही काणी विराट (मूळ नांव बदल्लां अशें लेखक म्हणटा) ह्या पात्राची असो विस्वास वाचक बाळगिता. पूण वाचतासतना लेखक त्या पात्रा कडेन चडच समरस जावन तांकां न्याय दिवंक सोदता अशें दिसता. डायरेंतल्यो नोंदी ख्यो काय हो नायकाचो कल्पनाविलास असो संभ्रम वाचकाक पडूं येता. तोंडार सभ्यतायेचें रूपडें घेवन वावुरचें पडटा तेन्ना वासनापुर्तीक आडमेळीं येतात. दादल्यां वरीच बायलोय कुडी सुखाक हापापिल्ल्यो आसतात. वासना पुर्ती खातीर खंयच्याय थराक वचूं येतात अशें दाखोवपाचो यत्न हे कादंबरेंत जाला. कुडी सुखाक वंचीत आशिल्लो दादलो फँटसीत रममाण जावन जीं चित्रां दोळ्या मुखार हाडटा तशे तरेचें फँटसायज्ड कथानक हे कादंबरेंत दिश्टी पडटा. तातूंत चूक कांय ना. पूण सर्जनशील अभिव्यक्तीचें दर्शन निखालस घडना. अशें अशें घडलां तें हांव निवेदन करतां हे भुमिकेंतल्यान हे कादंबरीचें लेखन जालां.

डायरे वयल्यान कादंबरी बरोवपाचे प्रयोग हाचे पयलीं हेर भासांनी जाल्यात. इंग्लीश लेखक सुधीर ककर हांगेली 'मीरा ऍण्ड महात्मा' ही कादंबरी मॅडलीन स्लेड उर्फ मिराबेन हिगेले डायरे वयल्यान आनी तिणें बरयिल्ल्या वा तिका आयिल्ल्या पत्रांचे संदर्भ घेवन बरयल्या. हे कादंबरींत निवेदक आसा. निवेदकाक डायरी कशी मेळटा ती खबर आनी उपरांत निवेदकान सेवाग्रामांत महात्मा गांधी वांगडा सारिल्ल्या दिसांची खबर सांगीत लेखक 'मीरा आनी महात्मा' हांच्या संबंदांचेर उजवाड घालता. पूण हो निवेदक खासा लेखक न्हय. तर लेखकान कल्पना शक्तीचेर आदारून तयार केल्लें एक पात्र. हो निवेदक आश्रमांत पावता आनी प्रत्यक्ष गवाय जावन खुबश्यो गजाली सांगता. एक आगळी वेगळी शैली वापरून बरयिल्ली ही कादंबरी. हीय एक सत्यकथाच. पूण भोव वाचनीय आनी कादंबरी कशी दिसता. चंद्रकांतबाबांल्या डायरे वयल्यान बरयिल्ल्या कादंबऱ्यांनी नायक आशिल्ल्या

डायरेच्या मालकां परस निवेदक आशिल्ल्या लेखकाचेंच मनोगत आमी वाचतात काय असो दुबाव येता. सुधीर ककर हांणी खूब म्हायती मेळयली. पूण कादंबरीक पोशक तितलीच वापरली. डायरेंतल्यो अनावश्यक नोंदी तांणी टाळ्ळ्यो. पूण चंद्रकांतबाबांक कादंबरी बरयतना डायरेंतल्यो नोंदी उण्यो पडल्यो म्हणपाचें जाणवता.

चंद्रकांतबाबांली निवेदनशैली सुंदर, भोव वाचनीय. नागरी आनी गांवगिरी ह्या दोनूय भाशाशैलींची जाण तांकां आसा. अशें आसुनूय 'बर्मी दिसां'त अँथनीच्या तोंडांत घाल्ली भास अडेची कशी दिसता. संवाद हे जशे उलयतात तशेच आसचे. पूण हांगा 'मरतना एकलोच वतलों... देखून ह्या संवसारीक वस्तूं वयली आसक्ती सोडूंक सोदता.' वा 'हांव म्हज्या पुर्वजांचो अवतार' असलीं वाक्यां लंडनांत रावन आयिल्ल्या अँथनीच्या तोंडांत सोबनात. 'बर्मी दीस' कादंबरींतलीं कांय सौंदर्यस्थळां ठळकपणान जाणवतात. एके कडेन अँथनी गोंयकारांचेर बडी मारून म्हणटा- 'इंगलीश उलयले म्हूण ते इंग्लीशमॅन जावचे नात आनी कोंकणी विसरले जाल्यार ते गोंयकार उरचे नात.'

'विराट' कादंबरीचें कथानक चडशें गोंया भायरच घडटा. म्हणटकच आंतरभारती भाशाशैली चंद्रकांतबाबांनी भोव सुंदर रितीन केळयल्या. संवादांतल्यान कथानक फुलत वता. विराटा वांगडाच वाचकूय ठांय ठांय भोंवन येता. खासा लेखक भारतभर भोंविल्ल्यान, आकांताचें वाचन केल्ल्यान आनी बहुश्रूत आशिल्ल्यान ताचो प्रभाव ताच्या वट्ट साहित्याचेर दिश्टी पडटा.

कृष्ण दास शामा, एदुआर्द ब्रून दे सौझ शणै गोंयबाब, रवीन्द्र केळेकार आनी चंद्रकांत केणी ह्या स्रेश्ठ साहित्यकार म्हळ्यार कोंकणी सरस्पत मंदिराचे मुखेल खांबे. कोंकणी साहित्याच्या मुखेल प्रवाहांचो नियाळ घेतनाच कर्नाटक, केरळ आनी मुंबय ह्या वाठारांतले कोंकणी साहित्यीक चळवळीची दखल घेवंकच जाय. गोंय हे कोंकणींचे मुळपीठ आसले तरी इतर तीन राज्यांनी फापसून आसिल्ल्या कोंकणींजनानी व्हडा अभिमानान साहित्याक मळार आपणाले योगदान दिलां.

# कर्नाटकांतलें साहित्य

कर्नाटकांतल्या उत्तर कन्नड वाठाराक कोंकणी भाशीक प्रदेश अशें म्हणूं येता. आयचे घटकेक कर्नाटकांतलो कोंकणी साहित्यीक वावर मोठ्या प्रमाणार जाता तो मात मंगळूर-कोडयाळ ह्या दक्षीण कन्नड वाठारांत. ह्या वाठारांतल्या कोंकणी समाजाच्या इतिहासाचेर नदर मारल्यार लक्षांत येता- गोंयच्यान हांगा आयिल्ल्या लोकांचें पयलें स्थलांतर जालें तें तेराव्या शतमानांत. गोंय तेन्ना देवगिरीच्या रामदेवराय यादवाच्या शेकातळा आसलें. जेन्ना अल्लाउद्दीन खिलजीन यादवांचेर घुरी घाली तेन्ना धर्मांतराच्यो ज्यो अफवा पातळ्ळ्यो तांकां भियेवन जे गोंयकार गोंय सोडून गेल्ले ते मंगळूर ते कोच्ची मेरेन वचून स्थायीक जाले. उपरांतूय जेन्ना जेन्ना बहामनी वा विजापूरच्या सुलतानाच्यो घुरयो पडल्यो तेन्ना तेन्ना धर्मांतराचे भिरांतेन ल्हान व्हड संखेन गोंयकार अशे दक्षिणे दिकेन वचत रावले. दुसरें स्थलांतर दोन वांट्यांनी जालें. पुर्तुगेजांनी गोंय जिखल्या उपरांत जेन्ना मिशनऱ्यांनी धर्मांतरांक सुरवात केली तेन्ना व्हडा संखेन हिंदू लोक पळून मंगळूरा मेरेन गेले आनी रोखडेच पर्थून इंक्विझिशनाचो खर कायदो लायलो तेन्ना नव्यान क्रिस्तांव जाल्लो लोक जिवाच्या आकांतान पळून कोडयाळ वाठारांत येवन रावलो. तिसरें स्थलांतर गोंयां दुकळ पडलो त्या काळार (१७३० वर्साच्या सुमाराक) जालें. विंगड विंगड काळार ह्या वाठारांनी पाविल्ल्या गोंयच्या कोंकणी लोकांनी वांगडा आपणाल्यो संस्कृतीक परंपराय व्हेल्यो. ह्या वाठारांत तांकां बरो येवकार मेळ्ळो देखून ते थंयच राबितो करून रावले. तांच्या वांगडा गोंयचो लोकवेदूय थंय पावलो.

गोंयच्यान पयलो चोमो त्या वाठारांत पावलो तो दक्षीण गोंयचो- चडसो साश्टींतलो. उपरांत दुसरो चोमो थंय देंवलो तो उत्तर गोंयचो- बार्देसांतलो. काळांतरान तांची उलोवपाची मूळ तरा बदलत गेली आनी तातुंतल्यान कोंकणीची नवी मोडी तयार जाली. दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांतल्या कोंकणी लोकांनी आपणाल्या बरपा खातीर कन्नड लिपी आपणायली हें त्या काळाक धरून सभावीक आसा.

कर्नाटक विश्वविद्यालयाचे भाशाविज्ञानाचे प्राध्यापक डॉ. विलियम माडता हे म्हणटात- "कोंकणी भास इंडो आर्यन कुटमाची जाल्ल्यान नागरी लिपी तिच्या हक्काची. पूण तिच्या कुळाराच, गोंयांत, इकराव्या शतमानांत कदंब रायाच्या काळार कोंकणीची कन्नडा लागीं सोयरीक जाली आनी अशे तरेन तिका कानडी वर्णमाळ लाबली." ही गजाल कितलीशी खरी तें इतिहासकारांनी पडताळून पळोवचें. कदंब राजवटकेंत हळेकन्नड लिपयेंत वेव्हार चलतालो अशें म्हणटात. पूण हांचो अर्थ ज्या गोंयकारांनी धर्मांतराच्या काळांत वा इन्क्विझिशनाच्या काळार गोंयच्यान पळून वचून कर्नाटकांत आलाशिरो घेतलो तांकां कन्नड लिपयेंतल्यान कोंकणी बरोवंक येतालें असो न्हय. कोंकणी मनीस जो दक्षीण कन्नड जिल्ल्या पावलो ताणें थंयचे भुयेंक आपणाली कर्मभूमी लेखली. थळावी भास शिकून घेतली. पूण आपापणामदीं फकत कोंकणीच उलयताले. बरोवपाचो प्रस्न उपरासलो तेन्ना तांकां अवगत आशिल्ले कन्नड लिपयेचो आदार घेतलो आनी कन्नड लिपयेंत साहित्यरचना केली. जो कोंकणी मनीस उत्तर कन्नड जिल्ल्यांत रावलो ताणें चड करून देवनागरी लिपयेचोच वापर केलो. कारण उत्तर कन्नडांत मराठी शिक्षणाची वेवस्था आशिल्ली. ताका लागून कोंकणी खातीर लिपी वेगळी शिकची पडली ना.

गोंयचेर राज्य करपी जैन धर्मी कदंबांची राजवट जेन्ना कारवार धरून मंगळूर मेरेन पातळिल्ली त्या काळार श्रवणबेळगोळच्या गोमटेश्वराचे मुर्ती सकयल 'श्री चावुण्डराजे करवियलें' हें देवनागरींतलें वाक्य आसा तें कोंकणी अशें जाणकार सांगतात. गंगराजाले कारकिर्दीत तांगेली राजभास कन्नड आसली तरी नागरी कोंकणीय वापरांत आशिल्ली असो ताचो अर्थ.

पुर्तुगेजांच्या शेकातळा पावलें तेंच गोंय अशें आमी आयज लेखतात आसले तरी एका काळा पुराय उत्तर वाठार हो गोंयचो संस्थानीक राया सौंदेकार हांच्या अधिपत्या खाला आशिल्लो. देखून कारवार, गोकर्ण, भटकळ, शिरसी हो प्रदेश मुखेलपणान कोंकणी प्रदेश आसलो. आयज लेगीत काणकोणच्या मल्लिकार्जुन संस्थानाचो अधिकार कारवारवासी लोक मान्य करतात. पूण पुर्तुगेज राजवकेंत पोळें मेट ही गोंयची शीम जाली आनी कोंकणी लोक राजकी नदरेन वांटून गेले.

राजकी विभागणेचे परिणाम कोंकणी भाशेकूय भोगचे पडले. गोंयां जे उरले तांचे

भाशेचेर मराठी आनी पुर्तुगेज भासांचो प्रभाव पडलो. उत्तर कन्नडांतले कोंकणीचेर कन्नडाचो प्रभाव आनी थोडो भोव मराठीचो पडलो. जाल्यार दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांतले कोंकणीचेर तुळू आनी कन्नड भाशेचो व्हड प्रभाव पडलो. अशे तरेन कोंकणी भास विंगड विंगड वाठारांनी विंगड विंगड प्रभावा खाला वाडूंक लागली.

इतले मजगतीं, कारवार जिल्ल्यांतल्या संत सहजानंद आनी शिवरामाश्रम स्वामी हांणी भक्तिपर गितां कोंकणींत रचलीं. पंडीत मंगेशराव तेलंग हांणी 'भगवद्गीतासर' कोंकणींत बरयलो. शिवरामाश्रम स्वाम्यांली एक रचना हांगा पत म्हूण दिल्याः-

घोंगो आयलो घोंगो | संवसार नाका भोंगो |
दोळ्यां दिसता हाता मेळना | न्हय म्हण्णुं कोण सांगो || धृ ||
घोंग्या हातांतु सुडियो | सोब्बार करता मोडियो |
बशिल्ले कडचो आपूण हालना | भोंवता गुडियान गुडियो || १ ||
मुगा एदें माथें | मळबा एदें सातें |
पांय कांय नात गांवभर भोंवता | चार्मुर करता जोतें || २ ||
चोवच्या गेल्यार भोळो | ब्रह्मांड करता गोळो |
सान परंत आश्चर्य भारी | काजळापक्षीं काळो || ३ ||
सांसवा एदो दोळो | कोसा सपूर गळो |
कोटि सूर्य चंद्र मोडोवनुं | निडलार केला तिळो || ४ ||
आंगाक नाना रंगु | चोवचाक भारी चांगु |
चोयतां चोयतां मनांत येता | हाजोच करका संगु || ८ ||

कर्नाटकांतल्या कोंकणी साहित्याची सुरवात केन्नाशी जाली ताचो थाव लागना. डॉ. ओलिविन्यु गोमीश म्हणटात, "कर्नाटकांत सोंपत्या १७व्या शतमानांत कवी अपय्या, जोगव्वा, राघवदास आनी आवडी हांणी श्रेश्ठ भक्तिकाव्य रचलें." पूण त्या संबंदान वा त्या नंतरच्या साहित्यीक वावरासंबदीं कांय वाचूंक मेळना. हे चौगूय संत परंपरेंतले म्हालगडे जांणी तांच्या प्रवचनांतल्यान आनी रचनांतल्यान जनमानसाचेर भारी प्रभाव घाल्लो. ते आनी तांच्यो रचना भोव लोकांमोगाळ जाल्ल्यो अशें डॉ. गोमीश सांगतात. ('कोंकणी' दिवाळी आंक १९८०)

उत्तर कन्नडांतलें लोकसाहित्य आनी गोंयांत चलत आयिलें लोकसाहित्य हातूंत व्हडलोसो फरक ना. सारकेंपणच चड आसा. देखून चिके विंगड दिसपी एक दोन गितांचोच उल्लेख करन दिसता. लागशिल्ल्या नात्यांतल्या मनशांची भुरग्यांक वळख करून दिवपाची चाल इतर भाशांतल्या लोकसाहित्यांत आसा तशी हांगाय दिश्टी पडटा.

वाटेवयलें घर तानेचें पिवन
आनी नीतीचे दिवान बाबा- आजो तुजो.
आमचे न्हंयेंत, भोव पडल्यात खुबे
आनी मुंडासार उबे बाळा- मावळे तुजे
दमस्काचे सत्रे मोतयांच्यो वाळयो
आनी सत्रे तळा उब्यो- भयणी तुज्यो
तेणे कोण येता, तांबडे काबायेचो
भुरगे सोबायेचो बाळा- मावळो तुजो
मावळो आनी बापोलये दारांचे तिळे
जळूं बाबा दिवे- तुज्या आजोळाचे

सदाशीवगड-कारवार हांगा सरल्या उषा उल्हास राणे हांगेल्या संकलनांतल्या ह्या लोकगिता वांगडाच आन्येक बालगीत मेळ्ळें.

भोबे भाज, भोबे भाज, वोट्टं कायलार
बाये तुजो मामा येता थोट्या बैलार
भोबे भाज, भोबे भाज- माळटेंत
बाये तुजी मावशी येता- पालखेंत
भोबे भाज, भोबे भाज- मालटुलांत
बाये तुजो मामा येता- माचुलांत
भोबे भाज, भोबे भाज- गोडाचे
घोड्यार बसून बाप्पा येता- बायेचे

हें गीत दक्षीण कन्नड वाठारांत आजून चलता. आन्येक लोकगीत सगल्यांचे जिबेर आसा तें म्हळ्यार-

आडकुलो गो बुडकुलो तेला तुपाचो,
बायेगेर बाबू जाला फिरंगी रूपाचो
माडांमुळांत चेटको (चेडो/ चलो) जाला, डांगारो (पेरगांव) फेरांया,
उठा गो बायांनो, मांदरी कवळुंया

ह्या गितांतलें फिरंगी हें उतर ब्रिटिशांक लेखून आसलें आनी फिरंग्यांनी आगळीक करचे पयलीं मांदरी- बिटकी कवळात अशी बायलांक शिटकावणी दिवपाचे हेतून गायताले.

लोकगितांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तांकां अमुकच जनक नासता. त्या त्या काळा वयली ती समाजीक अभिव्यक्ती आसता. मांदरी कवळपाची शिटकावणी दिवपी गिताक लागून 'फिरंगी रूपाचो' भुरगो जल्माक घालपी अस्तुरे विशीं वायट समज जावं येता अशें चिंतून जावंये, काळाचे व्हांवतेंत गिताचे बोल बदलले-

आडकुलो गो बुडकुलो तेलातुपाचो
बायेगेर बाबू जाला फिरंगी रूपाचो
इतलें जातकच गिताफुडें हीं उतरां घोळूंक लागलीं-
दिवो लावन पळयतना, सारक्या रूपाचो.

फुडें नामनेचे कवी चा.फ्रा. डिकॉश्ता हांणी गिताचो मुखडो तसोच दवरून नव्यान जें गीत रचलें त्या गिताच्या प्रभावा खाला हें मूळ लोकगीत काळाच्या पड्ड्या आड लिपलें.

बंटवाळ (दक्षीण कन्नडा) चे संतोषकुमार गुलवाडी हांणी 'ता ता तिंगणा' ह्या नांवाचें लोकसाहित्यांतल्या बालगितांचें संकलन उजवाडायलां. गोंयातूय 'ता ता तिंगणा' अशी सुरवात जावपी गितां म्हणटात. देखीक- "ता ता तिंगणा, पैशाक दोन हाडलीं वांयगणां" वा "ता ता तातुतली, भांगरान भरली हातुली." कर्नाटकांतलो कोंकणी लोकूय थोड्याश्या फेरबदलान अशींच गितां म्हणटात–

ता ता तिंगण
आनी येद्दें आंगण
तिंगण म्होणु खेळ्द
आंगण बी दि भरद

रंगणे हाल्लोनु खेळार
थोंगण केल्यारि हासद

लोकवेद संशोधक डॉ.जयंती नायक हांगेले सांगणेप्रमाण कर्नाटकांतलीं लोकांकाणी ही मूळ गोंयचीच. पूण तिणें काळांतरान वेगळो रूपकार घेतलो. तरिकूय 'पातोळ्यांचो रूख' जावं', 'पडवळें आनी भोंवर' ह्या सारक्यो काणयो तशातशो आयकूंक मेळटात.

लोकसंस्कृतायेचे अभ्यासक गोपाळ एम. गौडा हांणी कर्नाटकांतल्या कुडमी (कुणबी) जनांगाचेर बरयिल्ल्या (अनन्य आंक ३, पान १७७) लेखांत कुडमी समाजांत घोळपी लोकसंस्कृतायेचेर उजवाड घाला. बाळगितां, लग्ना-गितां, शिगम्या-गितां, अशे प्रकार विस्कटावन सांगल्यात. तांतलीं बाळगितां चडशीं समान आसात. लग्ना वेळार रोस, हळद हे प्रकारुय आसात. पूण तांचे मदीं 'रेग' नांवाचो अनेक रिवाज आसा- लग्नाच्या आदल्या दिसा न्हक्यागेर केलशी (म्हालो) आपोवन होरेताच्यो (न्हक्याच्यो) खाड-मिश्यो तासून नितळ करपाची चाल म्हळ्यार रेग. त्या निमतान गायतात तांतलें हें एक गीत:

केलशा तुजो वाकोरू, होरेता तुजी रेग
पांय जाण मेवणे तुजे, चाकरेकार
एक सेर तांदूळ दवरूनु होरेत रेगेक बसयालो
केलशा तुजो वाकोरू, होरेता तुजी रेग.

अशीं साबार गितां ह्या कुडमी समाजांत घोळटात. भाव आपणाले व्हार्डिकेक भयणीक आपोवपाक वता तेन्ना भयण गुरवार्न आसता. त्या वेळार म्हणपाचें गीत हें अशें:

आंवळिणीच्या रूखामुळा कुंवळिणीची रोपी
भावा तुजे व्हार्डिकेके, भयण दुवाळ्यांची.
दोगां बैलांची गाडी हाडि रे भावा, चवदा हातांची साडी
चवदा हातांची साडी रे भावा, कुळाराच्या कुल्र्यांची कडी-
लोकवेद भौसाच्या समाज मनाचो हारसो.

तांतले तातूंत अजापाची गजाल म्हळ्यार सोळ्याव्या आनी सतराव्या शतमनांत जो कोंकणी लोक गोंयच्यान स्थलांतरीत जालो ताणें गोंयचें साहित्य वतनां वांगडा व्हेलें. पूण स्थलांतरणाचे प्रक्रियेचेर कोंकणींत कांय बरयिल्लेंय मेळना आनी आयकुंकूय मेळना. ह्या फापसल्ल्या लोकांक खंयच सुखासुखी राबितो करूंक मेळ्ळो ना. खूब हालउपाद्रे सोंसल्यात हाची कल्पना करूं येता. पूण ताचो पडसाद मौखीक साहित्यांत्यूय मेळना आनी लिखीत बरपांतूय ना.

कर्नाटकांत वचून स्थायीक जाल्ले कोंकणी मनीस उत्तर कन्नड जिल्ल्या थावन दक्षीण कन्नड जिल्ल्या मेरेन पातळिल्ले आसात. त्या त्या वाठारा कडेन, वाठाराचे संस्कृताये कडेन आनी थळावे भाशे कडेन जुळोवन घेतलें तरी तांणी कोंकणी भास सोडली ना. अभिव्यक्तीक सोपी पडटा ती लिपी आपणायली, पूण भास फुडें व्हेली. उत्तर कन्नडांतले लोक चड करून देवनागरींत कोंकणी बरयतात आनी दक्षीण कन्नडांतले चडशे जाण कन्नड लिपींतल्यान बरयतात.

कवी जेन्ना विचारांनी प्रगल्भ आनी सुसंस्कृत आसता तेन्ना तागेलीं सर्जनशील चिंतनां ताच्या साहित्य कृतींतल्यान अभिव्यक्त जातात. तो खंयचे भाशेंत बरयता तें गौण थारता. बाकीबाब जर मराठींतले प्रतिभावंत कवी जाल्यार तांची कोंकणी कविताय तितलीच प्रतिभाशाली थारल्या. कोलटकर मराठींत बरोवं वा इंग्लिशींत ताच्यो रचना तितल्योच सुंदर आनी प्रभावी थारल्यात. कन्नड भाशेंतलो 'एकच दिनकर' असो गौरवपुर्वेक उल्लेख जांचो जाता त्या दिनकर देसायांनी कन्नड कवितें वांगडाच कोंकणीतूय कविता रचल्यो. दिनकर देसाय हे मूळ कुमटा लागशिल्ल्या होंडक्कल गांवचे. म्हळ्यार उत्तर कन्नडांतले. तांचें शिक्षण कन्नड भाशेंत जाल्लें. कोंकणी शिक्षणाची वेवस्था त्या काळार नाशिल्लीच. ह्या उत्तर कन्नड जिल्ल्यांत रावपी कोंकणी लोकां मदीं एक चाल आशिल्ली. चल्यांक कन्नड शाळेंत धाडपाची आनी चलयांक मराठी. हाचे फाटली मानसिकता दोन भाशेनची. चलयांक चड शिक्षण कित्याक जाय? चवथी वा चडांत चड सातवी मेरेन शिकल्यार पुरो. आनी कोंकणीक लागीं ती मराठी. देखून चलयांक मराठी शाळेंत धाडची चाल. चल्यांक फुडलें शिक्षण कन्नडांत मेळ्ळ्यार नोकरे धंद्याक ब्याक पडटलें देखून तांकां कन्नड शाळेंत. आन्येक गजाल थळावे लोक सांगतात. चलयेक न्हवरो मुंबयचो मेळ्ळो जाल्यार ती बरे कडेन पावली अशें लेखताले आनी चली लग्न जावन मुंबय पावली जाल्यार तिका थोडें भोव मराठी येवचें ह्या हेतून तांकां मराठी शिकयताले. ह्याच

तर्काक धरून जावंये दिनकर देसायांचें शिक्षण कन्नड भाशेंत जाल्लें. तांणी मॅट्रिकेक आसतनाच कन्नड भाशेंत कविता बरोवंक सुरवात केल्ली. कवितेक बरी प्रसिद्धीय मेळ्ळी. उपरांत तांकां कोंकणीतूय कविता रचपाची उमेद आयली आनी तांणी कन्नड लिपयेंत कोंकणी कविता रचल्यो. उपरांत तांगेले धुवेन त्यो देवनागरींत लिप्यांतरीत करून उजवाडायल्यो. 'दिनकरालीं कवनां' ह्या झेल्यांत तांच्यो वेंचीक २६ कविता आसपावल्यात- कांय दिर्घ कवनां धरून. दिनकरांच्या कोंकणी कवितांनी थंयची कोंकणी जीण स्पश्टपणान दिसता आनी ताचे वरसून मूळ कोंकणी समाजा कडेन जोडिल्ली बोमलेची नाळ होलमता. बाकीबाब म्हण्टाले-

नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर
नुस्तें नासल्यार गोंयकार व्हीर

दिनकराले कवितेंतूय नुस्त्याविणे झुरपी कोंकणीपण दिश्टी पडटा. १९३० वर्सा बरयिल्ले 'एक पावसाळो दीस' हे कवितेंतल्यो ह्यो कांय वळी -

समुद्रा तुफान, जालें खंय गो काल
उंडयेचेर काळ, आयलो आज ||
गावीत ना खारवी, कोणी दिसनात,
तोंडाचेर हात, घेवचो पडलो ||
सुकें कांय ना गो, रांदचो बेजार,
आशिल्लेंय शेजार, शिवराक ||
तांकां तर वासा, शिवाय उंडी वचनां,
म्हाका दाळ पचना, कितें करूं ||
चिरी चिरी पावस, भिरी भिरी पडता,
कित्याक तो झडता, बेजार सो ||

पावसा दिसांनी नुस्त्याविणे बेजारपी सगले- मागीर तो कुमटाकार आसूं वा गोंयकार आसूं- एकेच माळेचे मणी. दिनकर देसायांनी सुमार पंदरा वर्सां सातत्यान कोंकणी कविता रचल्यो. पूण त्यो हस्तलिखीतच उरल्यो. तांकां चड उर्बा उमेद मेळ्ळी ती तांगेल्या कन्नड कवितेच्या रसिकां कडल्यान. देखून कोंकणींत कविता रचुनूय तांची कन्नड कवी म्हणूनच इतिहासांत नोंद आसा.

हीच गजाल गौरीश कायकिणींची गोकर्णांत जल्मल्ल्या गौरीश कायकिणी ह्या कोंकणी मनशान कन्नड भाशेची विपूल सेवा केली. मदीं प्रेरणा मेळ्ळी तेन्ना कोंकणी कविताय रचल्यो. तांच्या नांवार दोनश्यांवयर कविता आसात. तांतल्यो वेंचीक कविता 'मीनाक्षी' ह्या झेल्यांत उजवाडाक आयल्यात. नुस्त्याचेर कविता करिना तो कोंकणी कवी कसलो? गौरिशांनीय 'तीरार आमचें तारुं' हे कवितेंत तुफानाची पर्वा करिनातसतनां खारव्यांलें तारुं नुस्तें घेवन तिरार येता ताचें वर्णन केलां.

भिजली डोलकाटी तग्गूवयर वाऱ्यानु
खडपां आदळूनय राखलें देवानु

होडी आयली कापीत उदक
मजेंत पोंवत- तळ्यांक बदक

नशीब आमचें सिकंदर
दादले आमचें बिलंदर

इसवण तार्ले
नगले कुर्ले
तांबसे बांगडे
मोरी बांगडे

मासळी वेळेर उतरयली
पोरां बाळां हुरळ्ळीं

असलें मत्स्यपुराण गावपी हो कवी गंभीर जावन जीवनाचेर भाष्य करता तेन्ना "म्हज्यांतलो एक 'झू' " हे कवितेंत स्वता भितर कितल्यो मोनजाती आसात ताचें वर्णन करून म्हणटा-

जग-रहाटगाडे ताणटा
म्हजे मानेर तूं
आनी म्हज्यांत एक 'झू' – (ZOO)

मनामुळांत माजर बसलां, वाग दोळो वटारता, काळजाक वेंटो घालीत नाग फणो उबारता, छातींत कोलो, पोटांत लांडगो, माथ्यांत माकड नाचता, बेंबें बोकड करता आनी आंतड्यात सिसडर फिरता, जिराफे मान आनी गाडवाचे कान, चाल उंटाची- जगा वाळवंटाची आनी पिलाक पोटलून बशिल्ल्या कांगारूची खबर सांगीत कवी अखेरेक म्हणटा-

नंदिबैल हांव सजलां
जगा जोखडाक हांव जुंपला
म्हजे मानेर तूं
तरी म्हज्यांत एक 'झू'

भाषातज्ञ आनी समिक्षक हांचे मदीं केन्ना केन्ना वाद जातात तेन्ना कवीमन कशें खंती जाता तें गौरिशांनी आपणाले चार वळींचे 'नाका' हे कवितेंत मांडलां-

शब्दां पाकळ्यो सांडनाका
अर्था पिसडून मांडनाका
भावाखातीर भांडनाका
तर्का तुस्सु कांडनाका.

गौरिश आनी दिनकरांचेय पयलीं १८८२ वर्सा जल्मल्ले तेन्नाच्या म्हैसूर राज्याचे राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविंद पै हे कन्नड भाशेंतले अग्रगण्य कवी कोंकणी भाशी. तांणीय कोंकणीची थोडीभोव सेवा केल्या. पूण आयज तांतलें कांयच उपलब्ध ना. ह्या कवीच्याच उतरांनीं सांगचें जाल्यार, 'आवसुचें दूद मेळूंक नासल्ल्यान कानडी मायेचेंच दूद पिवन तांणी आपणाल्या कवी पिंडाची पसवण केल्ली'.

उत्तर कन्नडांत कोंकणी बरोवपी खूब जाले. पूण काळाचे कसवटेर तिगून उरपा इतले प्रतिभावंत साप थोडे. पूण दक्षीण कन्नडाची गजाल वेगळी. कन्नड लिपयेंतल्या कोंकणी काव्याचे मूळ पुरूस म्हणूं येता तो लुवीस मस्कारेन्य (१८८७-१९६१) हाणें कवितेक दिल्लें योगदान खूब व्हडलें. 'आब्रावांचे यज्ञदान' हें महाकाव्य तांचे प्रतिभेची उंचाय दाखयता. ताचे पयलीं इंन्क्विझसांवाच्या भंयान जो क्रिस्तांव लोक गोंय सोडून कोडयाळ वाठारांत वचून रावले तांणी वतनां फा. तोमास इश्तेवांव (थॉमस स्टिफन्स) हांणी रचिल्ल्या 'क्रिस्तपुराणा' च्यो प्रती वांगडा व्हेल्ल्यो आसूंये.

मुळांत तें मराठींत आशिल्ल्यान ताचें कोंकणींत तर्जण करपाचो वावर फा. लियो सालदान्हा हांणी सुरु केल्लो. पूण तो तडीक पावलो ना. उपरांत थोडे अध्याय जे. जे. रेगो आनी हेरांनी अणकारीत केले. पूण आयज तांचीं हस्तलिखितां मेळनात. अठराव्या शतमानांत फा. ज्योकीं सांतान द मिरांद हो मिशनरी पाद्री गोंयच्यान कोडयाळांत पावलो. लोकांच्या काळजांत आपलेंपण जागोवन लोकांमोगाळ जालो. थंयसर फिरंगीपेठ ह्या गांवांत ताणें एक इगर्जय बांदली. भक्तीपर कविता रचपी ह्या कवीलें 'रिगलो जेजू मळ्यांतु' हें गीतकाव्य क्रिस्तांव धर्म साहित्याचो एक गिरेस्त आनी अप्रूप नमुनो अशें लेखतात.

रिगलो जेजू मळ्यांतु
धान ओरासांवांतु
करुंच्याक पुरतें फारिकपण
जें आदावान केलेलें रीण
त्या मळ्यांतु,
भूमिवैंकुंठांतु
आदि पुरसा, सर आतां मुकारि,
घेवनु तुजी संसति वेरि,
आकांतु कुळाहाळु करि,
दीवनु द्रुष्टि त्या रूकारि,
त्या फळारि
भूमिवैकुंठारि

ह्या भाशेन संस्कृतप्रचूर उतरांनी आनी सोबीत काव्यांत कोंकणींत रचिल्लें हें खंडकाव्य म्हळ्यार कोंकणी भाशेच्या आंगा वयलो भोव मोळादीक अळंकार अशें संशोधन करपी वाखाणटात.

आदीं सांगिल्ले प्रमाण कोंकणी लोकांच्या काळजांत कोंकणी विशींचो मोग निरंतर आशिल्लो तरी ते भाशेंत साहित्य रचपाची चाल पडपाक खूब कळाव लागलो. १७८४ वर्सा म्हैसुरचो वाग म्हूण जाका इतिहासान पाचारला त्या टिपू सुलतानान कोडयाळ-मंगळूर वाठारांतल्या क्रिस्तांव लोकांक भोव निश्ठुरपणान वागयिल्ले. कितले हजार मेले आनी कितले हजार दोणांत चेपणाक पडिल्ल्या

आंबल्यांवरी बंदखणींत पडले ताचो कोंतहिशोब ना. जेन्ना ह्या क्रिस्तांव कोंकण्यांक बंदे करून श्रीरंगपट्टणांत व्हेले तेन्ना तांतल्या कांय जाणांनी सांगाताक लिपचोरयां गोंयां थावन हाडिल्लीं पुराणां, दोतोर्न, गायना व्हेल्लीं. ख्यास्त भोगतनां तांचें नैतीक बळगें वाडोवपाक ह्या बरपांनी खूब पालव दिलो. १७९९ वर्सा ब्रिटिशां आड झगडटना टिपू सुलतान पराभूत जालो आनी श्रीरंगपट्टणांत बंदखणींत पडिल्ल्या ६०,००० कोंकण्या क्रिस्तांवांची सुटका जाली. अशें म्हणाटात टिपू सुलतानाचो बापूय हैदर अली खान हो फा. ज्योकीं सांतान मिरांदा कडेन आदरान आनी इश्टागतीन चलतालो. ताका लागून तो मिरांदाचे वाटेक गेलो ना. आयल्यो पयल्यो इगर्जे मोडल्यो पूण फिरंगी पेटांतले इगर्जेक मात ताणें हात लायलो ना.

एकोणिसाव्या शतमानाच्या आठव्या दसकाचे अखेरेक इटालींत जल्मल्लेलो फादर आंजेलस फ्रान्सीस शाविएर माफेय (१८०४-१८९९) मंगळूरांत पावलो आनी मंगळूर वाठारांतले कोंकणीचें भाग्य उजळ्ळें. हांगा सरल्या क्रिस्तांव लोकांच्यो तोंडांतली कोंकणी भाशेची सोबितकाय आनी गिरेस्तकाय पळोवन तो अजापीत जालो. ताणें बरोवन दवरलां की कोंकणी भाशकांनीं तिचे उदरगती खातीर कांयच केल्लें ना. ताका लागून ही भास भाशा-साहित्याचे नदरेन दुबळी उरल्या. कुन्य रिव्हारा कडल्यान प्रेरणा घेवन गोंयां कोंकणीचो वावर करपी फा.पीयु नोरोन्य (१८१०- १८३३) हाणें मंगळुरी शैलीचो अभ्यास करून एक व्याकरण बरयिल्लें. पूण तें पुर्तुगेज भाशेंत आशिल्लें. फा. माफेय जेन्ना मंगळुरांत पावलो तेन्ना फा. पीयु नोरोन्य तांकां येवन मेळ्ळो. त्या समयार फा. नोरोन्यान फा. माफेय कडेन मंगळुरी कोंकणी विशीं उलवणीं केली आसुंये अशें डॉ.जुझे पैरैरा म्हणटात. फा. माफेयच्या सांगण्या प्रमाण माफेय मंगळूरांत पाव मेरेन कोंकणीचो उपेग बरपांत जाय नासलो. सोबीत आनीं गिरेस्त कोंकणीची ही आवतिकाय पळोवन फा.माफेयान पेंगट बांदलें आनी कोंकणीचो अभ्यास सुरू केलो. भास शिकचेपयलीं ह्या लोकांची संस्कृताय पयलीं समजून घेवंक जाय हें होलमल्ल्या फा. माफेयन ह्या क्रिस्तांव कोंकणी समाजांतल्यो परंपरीक चाली-रिती समजून घेवपाचो खर यत्न केलो. व्हार्दिकेच्या आदल्या दिसा रोस लावप, व्हॅर्स घालप, काजारा दिसा व्हंकलेक साडी, पिड्डुकांची माळ आनी फुलांनी न्हेसोवप, वेण-वेणीचीं देणी-घेणीं, लोकांनी गावच्यो होंवयो, काजरा उपरांतचें पर्तवण हें सगलें पळोवन फा. माफेय भोव प्रभावीत जालो. ताणें विंगड-विंगड थरांतल्या लोकांच्या तोंडांतली कोंकणी शिकून घेतली. भास

जिबेरच उरिल्ल्यान विंगड-विंगड थळा वयले लोक उलयताले तिचें प्रमाणीकरण नाशिल्लें. उच्चार बदलताले. एकाच शब्दाचे अर्थ बदलताले. फा. माफेयान भोव तकालस घेवन कोंकणीचें शब्दभांडार एकठायलें. जणेक उतर वापरपाची रीत शिकलो. आनी मागीर ताणें शब्दकोश रचलो. तो १८८३ वर्सा कोडयाळबैल प्रेसांत छापून उजवाडाक आयलो. उपरांत शंबर वर्सांनी म्हळ्यार १९८३ वर्सा दुसरी आवृत्ती दिल्लीच्या एशियन एज्युकेशनल सर्विसेस ह्या प्रकाशकान उजवाडाक हाडलीं. पयलीं इंग्लिश-कोंकणी आनी मागीर कोंकणी-इंग्लिश (१८८५) अशे दोन शब्दकोशा रचल्या उपरांत फा. माफेयान कोंकणीचें व्याकरण रचलें. ताचें नांव दिलें 'कोंकणी रानांतलो सोबीत सुंदर ताळो.'

फा. माफेयाच्या काळांत कोंकणी भास बरोवपा खातीर वापर नासले. थळावी कन्नड भास शिकिल्लो लोक बरोवपाक कन्नड आनी उलोवपाक कोंकणी वापरताले. कोंकणी बरप थळावे कन्नड लिपयेंत जाल्यार उपकारता. लिपी गौण. भास म्हत्वाची. हे धारणेंतल्यानच फा. माफेयान दक्षीण कन्नड वाठारांतल्या कोंकणी लोकांमदी तांचे आवयभाशेचो मोग जागयलो आनी येता तशें बरोवपाक उर्बा दिली. हांगा कन्नड लिपयेंत बरोवपी फा. माफेय हो पयलो लेखक. हाचो परिणाम जावन १८८२ वर्सा कोडयाळबैल हांगासर छापखानो सुरू जालो. तो वेळ मेरेन कन्नड अक्षरांचे खिळे तयार जावंक नाशिल्ल्यान सुर्वेक ल्हानव्हड पुस्तिका रोमी लिपयेंत छापताले. फा.माफेयालो इंग्लिश-कोंकणी शब्दकोश देखुनच रोमी कोंकणींत प्रकाशीत जाल्लो. १९८४ वर्सा बेंगळूरच्यान कन्नड छाप्याक्षरां हाडलीं आनी तेन्नाच्यान कन्नड लिपयेंत कोंकणी पुस्तकां उजवाडाक येवंक लागलीं. अर्थात हीं पुस्तकां धर्मीक विशया वयलीं वा भक्तिसाहित्याचीं आसलीं. 'मरी म्हजी मांय', 'पवित्र काळजाचो म्हयमो' वा 'ये मरिये तुजें नांव' हीं पुस्तकां भायर सरलो.

### नेमाळीं

दक्षीण कन्नडांत कोंकणीचे चळवळीन नेट धरलो खरो. पूण आजून धवाडो लोक इंग्लिशीकडेन ओडटालो आनी कोंकणीक उणाक लेखतालो. अशा वेळार लुवीस मस्कारेन्य (१८८७-१९६१) ह्या बुदवंत लेखकान 'कोंकणी दिर्वें' नांवाचें म्हयनाळें सुरू केलें. १९१२ वर्सा सुरू जाल्लें हे मासीक इतले लोकांमोगाळ जालें, १९१४ तें पंदरशी जालें. दिर्वें पांच वर्सां चलयल्या उपरांत जेन्ना लुवीसाक तें जड जालें

तेन्ना ताचो आनी कोंकणीचो बरें मागपी एका इश्टान आदाराचो हात दिलो. तो म्हळ्यार आलेक्स पायस. पायसान संपादकाची जापसालदारकी आपणायली आनी नेमाळ्याचो वावर फिशालकायेन फुडें चलयलो. आलेक्स पायस हे मुंबय रावन वकिलीचो वेवसाय करपी नामनेचे विद्वान वकील आनी समाजीक वावुरपी आसले. तांचे डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरां लागीं इश्टागतीचे संबंद आसले आनी स्वतंत्र भारताचें संविधान रचपाक तांणी आंबेडकरांक आदार केल्लो अशें म्हणटात. सुमार बावीस वर्सां परस चड काळ संपादनाचो वावर केल्या उपरांत १९४० वर्सा 'कोंकणी दिर्वें' सदां खातीर बंद पडलें. आलेक्स पायस हाची व्हडवीक सांगपी एक कुरू आजून मुंबयंत आसा. ह्या शारांतल्या एका रस्त्याक 'पायस स्ट्रीट' अशें नांव दिल्लें आसा तें आलेक्साचे यादस्तेक. सुमार अठ्ठावीस वर्सां चलिल्ल्या 'कोंकणी दिर्वें' ह्या नेमाळ्यान कोंकणी लोकां मदली अस्मिताय जागयली आनी लोकांक बरोवपाची गोडी लायली. पयलीं पांच वर्सां संपादक म्हूण वावुरल्या उपरांत लुवीस मस्कारेन्यान संपादकपण सोडलें. पूण लिखणी सोडली ना. शेंकड्यांनी लेखक निर्माण करपी हें 'दिर्वें' अखेरेक म्हाझुंजाच्या काळार कागदाची टंचाय उपराशिल्ल्यान आनी म्हारगायेक तोंड दिवप कठीण जाल्ल्यान १९४० वर्सा बंद करचें पडलें. मजगतीं नवीं नेमाळीं सुरू जालीं. थोडीं इंग्लिशींत सुरू जावन उपरांत लोकां मागण्यांनीं तातूंत कोंकणी विभाग सुरू जालो. 'मेंगलोर' हें तांतलें एक. तेपयलीं १९१८ वर्सा 'जेजुच्या पवित्र काळजाचो आञ्ज' हें कोंकणी म्हयनाळें सुरू जाल्लें. नांवाप्रमाण तें धर्मीक स्वरूपाचें आसलें. १९३७ वर्सा 'समाजीचो दिवो' नांवाचें कोंकणी-इंग्लिश व्दिभाशीक पंदरशी सुरू जालें. १९३८ वर्सा बिशप वितोर फेर्नांद हांच्या फुडारपणा खाला 'राकणो' हें साताळें सुरू जालें. 'सत उलय, धैर चलय' अशें ध्येयवाक्य घेवन सुरू केल्लें हें नेमाळें आयजवेर चलता. ह्या पत्राउदेशीं अनेक नवे लेखक-कवी, कथा-कांदबरीकार, वयर सरूंक पावले.

नेमाळीं खूब आयलीं. चडशीं अल्पजिवी थारलीं. पूण 'दिर्वें' २८ वर्सां चललें. 'आंञ्ज' पन्नासा वयर वर्सां चल्लें. आनी 'राकणो' १९३८ जाल्लें तें आयज लेगीत जैताची वाट चलत आसा. 'दिर्वें' सोडल्यार हातुंतलीं चडशीं नेमाळीं इगर्जेच्या पालवान वा धर्मसंस्थेच्या पाख्या खाला चलतालीं. 'दिर्वें' हें स्वतंत्र आशिल्ल्यान धर्मोपदेशाच्या वावराक चड आदार मेळना जालो देखून 'राकणो' हें साताळें काडपाची गरज दिसली जावंये. 'दिर्वें' पत्राक लागीं आशिल्ल्यांक आनी जायत्या वाचकांक 'राकणो'

नेमाळें म्हळ्यार 'दिर्वें'क दिल्लें एक आव्हान कशें दिसलें. १९४० वर्सा 'दिर्वें' बंद पडलें ताचें एक कारण हेंय आसूं येता. कारण 'दिर्वें' लोकांमोगाळ जालां तें पळोवन सुर्वेक इगर्ज ताका आदार करताली. पूण उपरांत तो आदार काडून घेतलो मात्र न्हय तर दिर्वें कोडयाळबैल छापखान्यांत छापपाक लेगीत मनाय केली. मजगतीं अनेक नेमाळीं वयर सरलीं. पयणारी, सेवक, झेलो, मित्र, पंचकादायि, काणीक, आमचो संदेश, काजुलो, जय कोंकणी, उदेव, उमाळो, पुनव अशीं नेमाळीं आयलीं. हातुंतलीं थोडी भोव दक्षीण कन्नड वाठारांत रावपी हिन्दू कोंकण्यांचीं आसलीं.

ह्या वाठारांत कोंकणी समाज तीन धर्मांनी वांटून आसा. हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मोयर. क्रिस्तांव धर्मसंस्थेक लागून तो समाज एकसंघ आसा. हिन्दू समाज जाती-भेदा प्रमाण वांटून गेला आनी मोयर म्हळ्यार नवायत मुस्लीम लोक थारावीक वांठारांत रावन उर्दूंतल्यान शिक्षण घेतात आनी पेर्सोअरेबीक लिपयेंतल्यान कोंकणी बरयतात. ह्या नवायत कोंकणी लोकांचेंय एक दिसाळें खूब काळ चललें. ताच्यो सुमार पांचशी प्रती खपताल्यो अशें म्हणटात. पूण हालींच तें बंद पडलें. सध्याक 'नक्षनवायत' हें पंदरशी मात चालू आसा.

हिन्दू समाजाचें- भोव करून सारस्वत ब्राह्मण समाजाचें पयलें कोंकणी म्हयनाळें 'सारस्वत' ह्या नांवान सुरु जालें. कांय वर्सां चललें. पूण केन्ना बंद पडलें हांचो पुरावो मेळना, उपरांत १९४१ वर्सा व्ही.एस.कुडव हाणें पर्थून 'सारस्वत' हें कोंकणी साताळें सुरु केलें. मंगळूरच्यान सुरु जाल्लें हें नेमाळें १९४६ मेरेन चललें. आयचे घटकेक 'अमर कोंकणी' हें षणमासीक नेमाळें नागरी आनी कन्नड लिपयेंत उजवाडाक येता. विशेश म्हळ्यार तें समेस्त कोंकणी-जनांचें नेमाळे जावन तांतल्या अभ्यासपुर्ण बरपांक लागून लोकांमोगाळ जालां.

उत्तर कन्नड वाठारांतूय कोंकणी भाशेची उदरगत करचे खतीर नेमाळीं जाय म्हणपाची गरज लोक उकतेपणान भासावंक लागले. कारवारचे वकील मंगेशराव तेलंग हांणी जाहीर आवाहन करून कोंकणी भाशेंत लोकांनी बरोवपाक सुरवात करची अशें मागिल्लें. १९३९ वर्सा कारवार शारांत पयली कोंकणी परिशद जाली. ताचो परिणाम म्हूण जावंये, १९४० वर्सा एस. डी. नाडकर्णी हांणी संपादन केल्लें देवनागरी लिपयेंतलें 'नवयूग' नेमाळें सुरु जालें. १९४७ च्या अदमासाक 'उजवाड' आनी 'सर्वोदय' हीं पत्रां चलतालीं. आनी १९५० वर्सा कुमटाच्यान 'कोंकणी

किनारा' हें पत्र चलतालें अशें पाव्लु मोरास आपणाल्या पुस्तकांत मुरलीधर उपाध्याय हिरियडका हांगेल्या पुस्तकाचो हवालो दिवन सांगतात.

## कविता

विंगड विंगड धर्माच्या लोकांनी सुर्वेच्या काळार जे कोंकणी साहित्य रचलें तें चडशें भक्तिकाव्य आसलें. मंगळूर वाठारांत पत्रिकोद्दम सुरू जालो तेन्ना नेमाळ्यांक तरेकवार साहित्याची गरज लागली. मंगळूरच्या एका नेमाळ्यांत १९३३ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्यो ह्यो दोन सान कविता-

उठा, उठा प्राणिया
सांडा, सांडा संवसारा माया
पाटी करोनि थेया
वोळका जेजू राया

**आनी**

आयका क्रिस्तांव जन

लक्ष लावुनी ध्याना
ऐसें अथीरपण
संवसाराचें संवसाराचें

ह्या कवनांच्या प्रकारांक 'कंतीग' म्हणटात. अशे शंबरेक कंतीग बरयिल्ले मेळटात अशें 'मेंगलोर' ह्या नेमाळ्यांत रावबहादूर सी. डी. जे. पिंटो हांणी म्हळां. अशे तरेच्या धर्मीक गितांनी कोंकणी भाशेक गिरेस्त करपाक मोलाचो हातभार लायलो.

नवायत कोंकणी लोकां मदीं लोकांमोगाळ जाल्लें हें एक गीत आसा-

आयकागे सय्यांनो मेगे सांगता
अल्लाहचे पाशी तव्रफीक मांगता
महम्मद नाबियाचो करा गे वाखण
अल्लाह गे राखीत तुमचें गे इमाण

संवसारांतल्या सगळ्या भासांनी सर्जनाची अभिव्यक्ति अशीच भक्ति काव्यांतल्यान

जाल्या. कोंकणी तांकां आडवाद कशी आसूं येता. कर्नाटकांतल्या हिन्दू कोंकण्यां मदींय हीच तरा. काळजा थावन भायर सरलीं तीं कोंकणी भक्तिगितां. जशीं किरिस्तांवांनी येवरोपी धर्म साहित्यांतलीं गितां कोंकणींत अणकारलीं वा रुपकारलीं तशींच हिन्दू कोंकण्यांनी 'भजगोविन्दम' वा 'रघुवंश महाकाव्यम' सारके ग्रंथ समश्लोकी कोंकणींत अनुवादल्यात.

सुर्वेच्या काळांतल्या ह्या धर्मीक रचनांतल्यानच उपरांत लळीत साहित्याचे निर्मणेन मूळ धरलें.

कर्नाटकांतल्या अनेक कोंकणी जनांनी कन्नड भाशेची अमाप सेवा केल्या. पंजे मंगेश राव, बंगले नारायण कामत, मंजेश्वर गोविंद पै, ह्या लोकांनी कन्नड भाशेची खूब व्हडली सेवा केल्या. कर्नाटकांत पयलो कवितांझेलो उजवाडाक आयलो तो 'गितामृत साकी.' कवी जावन आसले बंगले नारायण कामत. १९१९ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या ह्या संग्रहाचें संपादन मुल्कि नरशींव राव हांणी केल्लें. ते पयली १९०४ वर्सा पुरंदर दासालें काव्य अणकाररुपान उजवाडाक आयिल्लें. राष्ट्रकवी म्हूण जाका कर्नाटकान भोवमानीत केले ते मंजेश्वर गोविंद पै (१८८३-१९६३) तर कन्नड साहित्यांतले अग्रणी. कोंकणीची साहित्यीक चळवळ सुरु जाली तेन्ना ते कन्नड भाशेंतले प्रस्थापीत म्हालगडे साहित्यकार आशिल्ले. व्हडा खंतीन तांणी म्हणिल्लें. "कन्नड म्हगेली पोसकी आवय. म्हजे आवयच्या थानांनी म्हाका दूद मेळ्ळें ना देखून कन्नडान म्हाका पोसको घेतलो." पूण तांणीय मागीर कोंकणी आनी मूळपीठ गोंय हांकां उद्देशन ही कविता रचली.

### आमचें गोमंत

आवय आमचें गोमंत- जय जय<br>
धन्य धन्य तू निरंत- जय जय<br>
कीर्ति सदा तुजि दिगंत- जय जय<br>
गांवु नांव तुजे महंत- जय जय || १ ||

फूल पान न्हेसणांचे पांच- तुजे<br>
लाटांच्या पांयजणांचे नांच<br>
दूद सागराचे मोतिया गांच<br>
सह्या गिरिचे चोय किरीट ऊंच || २ ||

भार्गवान जंय विंदलि कुडारि
थंय सून तू खंय फुल्लितटारि
भारतान तुकां हांडीरि घेतलि
रवि शशि किरणांचि शेंस ओतलि || ३ ||

माधवान मागधाक धपेलो
मांगरीशु हांगा खंय लिपलो
भार्गवान खत हांगा धुल्ले खंय
(भार्गवु हांगाचे मोकळो जाल्लो खंय)
धात ऋशींनि तप हांगा केल्लें खंय || ४ ||

यादु आसमू तुका न्हयें अघाशी
व्हड व्हडिल आमचे तुज पाशी
उतरिल्लो तो पाटिलो शुभ्रदीसु
जंयसून आसुचो गोंयांतु आवासु? || ८ ||

आसूनी खंय खंय तरि आमी मायि
आमची ह्रदय सदा तुज पांयि
तुजे न्हंयगे हें आमचे हाड-मास?
तुजि विना खंयचि आमची दुद-भास? || ६ ||

धर्म अगदिं सागरांत थोर
आमचामचांत जळौचाक वैर
तूं आमचें एकमात्र कुळार
खंय खंयचे आमी गे गोंयकार || ७ ||

क्रिस्तांव मुस्लीं आनी हिन्दु
तुज्या मोगांत आमी सारकेय बन्धु
एकांत देवामचो जल्मदाता
तूंचि एकि अपुरबायेचि माता || ८ ||

भौ मोगाचि चिंतूप तूं बावलि
तूं भूंय वयलि सरगाचि सावलि

म्हाळ शे मजें अमृत घेवन येयगे
तनु मन भर नव जीण पियेयगे ॥ ९ ॥

आवय मोगाळे विसरू नाका माका
आमका गोंयपण विसरू सोणाका
तूजांतामचो जल्मु जांव
लिखय उरो मांय तुजे पवित्र नांव ॥ १० ॥

(पान ८६, नंदादीप, संपा. शरतचंद्र शेणै)

शणै गोंयबाबांनी बरयिल्ल्या/अणकारिल्ल्या 'श्री भगवंतालें गीत' ह्या पुस्तकाक आमूख ह्या कवीचें आसा. तो बरयता- 'हें कोंकणी गीतादेवीचें मंदीर उकतें करतना म्हजीं हीं चार आबोलीं हुंबरारि दवरतां'. मंगेश, म्हाळसा ह्या दैवतांक गाराणे घालपी हो कवी 'क्रिस्तांव, मुस्लीम आनी हिन्दु' हांचे मदल्या बंधुत्वाकूय तितलेच उत्कटतायेन मानता हें विशेश.

कवितेच्या मळार सगळ्यांत व्हडलें योगदान दिवपी आद्य कवी म्हळ्यार लुवीस इनास मस्कारेन्य. 'कोंकण दिर्वे' सुरु करून पयल्याच आंकांत ह्या संपादक कवीली एक रचना उजवाडाक आयल्या- 'माते कोंकणी भाशेचें रूदान.' ही कविता भाशेविशीं भाशकांक आशिल्ले उदासीन वृत्तीचेर आसा. राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविंद पै हांगेली 'आमचें गोमंत' ही मूळपीठ गोंयचे भुयें विशीं उलयता जाल्यार लुवीस मस्कारेन्याली कविता कोंकणीच्या दुर्भाग्या विशीं.

माते कोंकणी भाशेचें रूदान

कितलो काळ थावन रडटां बसोन
इतले म्हजे भुरगे आसोन
ना म्हण उर्बेन म्हजे पासून
वावुरतलो कोण एक
म्हज्या उसक्यार म्हजे चले
हासोन खेळोन जाणटे जाले
पूण हा ! सक्कड भुलोन गेले
परकी सुंदर कन्येक

सुरूप बया इंग्लेज नाडटा
म्हज्या पोरांक लार्गी वोडटा
तांच्या काळजांत पालवोन सोडटा
मोग आपले मायेचो.
म्हाका पोसचे म्हजे बाळ
दितात आपले मतीचो फळ
मानवोक तिका करोनि गोळ
म्हज्या म्हातारेचो.
स्वाम्या म्हज्या, कशें भोगूं
म्हजे कळवळ कोणाक सागों?
कोणा कडेन वचोन मागूं
करूंक म्हजें जीवन.
नासतां पोशण अशी भागलीं
रडोन रडोन मांद्रेक लागलीं
तरी पुतांक येदोळ राखलीं
येतीत म्हण धांवोन
विसरोन गेल्यात, नात ते येदोळ
खंयरे पावल्यांत बाळां सुफळ
पुसोंक म्हज्या दुकांचे व्हाळ
नातगी कोणय म्हजे?
मरोंक तेंकल्या, आतांपुणी
म्हज्या बाळां, तुमी कोणी
पावनांतगी सोडूंक पाणी
मरचे आवयक तुमचे !

कोंकणी कविता अदीं मदीं उजवाडाक येताली खरी. पूण दिर्वें नेमाळें प्रकाशीत जायत सावन कोंकणी कवितेक चंवर फुललो. आनी हया कवीं मदलो म्हालगडो दुबाव विरयत जावन आसा लुवीस मस्कारेन्य (१८८७-१९६१). तांगेलें 'आब्रांवाचें यज्ञदान' हें महाकाव्य म्हळ्यार कोंकणी सरस्पतेच्या आंगा वयलो झगझगीत रत्नांहार. १९२३ वर्सा बरोवन जाल्लें हें महाकाव्य १९३६ वर्सा पुस्तक रुपान

उजवाडाक आयलें. हे खबरेक आयज ऐंशीं वर्सां सरलीं. हया रत्नांहाराचो झगझग आनी मोल आयज आदले परस चड दिसता. हाचें कारण लुवीस मास्कारेन्य हाचे लागीं आशिल्ली विचारांची प्रगल्भताय, सोबीत सुदंर भाशाशैली आनी निजाची काव्यप्रतिभा. तांणी अनेक गितां आनी कविता रचल्यात. तरी 'आब्रांवाचें यज्ञदान' हो तांगेलो मॅग्नम ओपस ग्रंथ. बायबलांतले एके कथेचें हें काव्यात्म रूपांतर म्हळ्यार कालिदासान रचिल्ल्या गीत-नाटया वरीच एक मोलादीक साहित्यकृती. काव्य विशयाची भोव बरी जाण आशिल्ल्या लुवीसबाबांचे हें महाकाव्य 'स घातांच्या' म्हळ्यार हॅक्जामिटर छंदांत बरयलां, अशें कवी मेल्विन रोद्रिगीश म्हणटात. सरसामान्य कोंकणी मनशाक सहजतायेन समजुची भास आनी सैमाचीं सोबीत सुंदर प्रसंगानुरूप वर्णनां हीं लुवीस मस्कारेन्य हांगेल्या हया महाकाव्याचीं खाशेलेपणां. पोरन्या टेस्टामेंटांत एक काणी आसा. आब्रांव आनी सारा हीं घोव-बायल. तांकां भुरगें नासता. देवाचे कृपेन तांकां भुरगो जाता. ताचें नांव इजाक. आब्रांवाचो देवाचेर पुर्ण भावार्त. हया भावार्ताची पारखणी घेवपा खातीर देव आब्रांवाक एका धर्म संकश्टांत घालता. देव फर्मायता- आब्रावांन इजाकाक घेवन मोरया पर्वताचेर वचचें आनी थंय पुताची तकली कातरून ताचो बळी दिवंचो. देव सांगता तें ब-याच खातीर हो भरवंसो. पूण आपणाल्याच पुताक आपणाल्याच हातान मारप तरी कसो! हे कातरेंत सांपडिल्ल्या आब्रांवाची मानसीक दुविधा लुवीस मस्कारेन्यान ह्या महाकाव्यांत मांडल्या. विशेश म्हळ्यार हो विशय बायबलांतले काणयेचेर आदारीत आसुनूय लेखकान तें धर्मीक साहित्य कशें रचूंक ना. सर्जनशील रचनाकाराक फावो तें अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य घेवन बापूय म्हूण आब्रांवाचे लागणूके विशी आनी देवा वयले उपाट भक्ती विशीं बरयतना तशेंच पूत म्हूण बापायचें मनोबळ उणे जावचें न्हय म्हूण वावुरपी इजाकाली मानसिकता चित्रायतनां लुवीस मस्कारेन्यान साहित्यकृतीची काव्यात्मता आनी नाट्य हांकां कलात्मकतेच्या खूब वयल्या पांवड्यार पावयलां. तांगेले छंदबद्ध कवितेची देख म्हळ्यार-

पुरो जालां तुका, उसक्यार तकली दवर<br>
कालय समा न्हीद ना, आबने दोळ्यां भोवोर<br>
इंगलो जाल्यात, सगळी रातीय आवयचो जोप<br>
ओंट बी करपोन गेल्यात, ताळवेंत येता हुलोप<br>
घरा आसतास्तना सदां जाय जाय आसली

सुकण्यां पिलांपरी तुका आवय पासळी
मोगा सांवटाक वाडोन वताक पडल्यार पळे
आलपुलिशी बावतात तुजे असले कळे

(पान ११६, अमर कोंकणी, क्र. ६५)

लुवीस मस्कारेन्य हांचो सगल्यांत व्हडलो वावर म्हळ्यार ताणें 'दिर्वें' वरवीं साबार कवी निर्मण केले. भक्तिसाहित्यांत घुसपल्ले सर्जकतायेक समाजीक जाणविकायेची वळख करून दिली. आधुर्नीक कोंकणी कवितेचे जनक अशें जांकां पाचारूं येता अशा लुवीस मस्कारेन्य कडल्यान प्रेरणा घेवन जे कवी वयर सरले तांतले फा. पी. एल. बोथेलो (१८९२-१९७२) हे विसाव्या शतमानांत जे भोव लोकांमोगाळ जाले तांतले एक म्हालगडे. तांगेलो शंबर वेंचीक कवितांचो झेलो 'काव्यांझेलो' प्रकाशीत जाला. फा. बोथेलो हांगेले कवितेचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तांतलो मार्मीक विनोद. मुक्तछंदांतली तांगेली कविता समाजांतल्या धोंगांपोंगांचेर बेस बरो उजवाड घालता. फाटोफाट उजवाडाच्या झोतांत आयले ते फा. सिल्वेस्टर मिनेझीस (१८९४-१९६८). फा. मिनेझीसान बरयलें तें भक्तिसाहित. 'पाशांवाचें गीत' ह्या तांगेल्या काव्यांत २३२० वळी आसात. ह्याच काळार वयर सरिल्ले फेलिक्स पावल नोरेन्य हांणीय साबार ब्यो कविता रचल्यो. तांतल्यो चडशो धर्मीक विशयां वयल्यो. तांगेले दोन संग्रह प्रकाशीत जाले- 'काव्यांझेलो' आनी 'मोतयांहार'. हे दोनूय झेले तांगेले काव्यमय शैलीक लागून लोकांमोगाळ जाले. ह्या सगल्या कवींचीं कवनां हीं धर्मीक विशयाचेर आसलीं तरी हेतू लोकां मदी नीत पातळावचो आनी भाशे मोग वाडोवचो होच आसलो. आब्रांव जरी देवाचो प्रेषीत आशिल्लो तरी मनीस म्हूण ताच्यो मनभावना आनी संवेदना कवीन प्रस्तूत केल्ल्यान ताका एक वेगळें परिमाण मेळ्ळां. हीच गजाल ह्या काळा वयल्या चडशा लेखकांची.

त्याउपरांतच्या काळांत कवी म्हूण लोकांनी माथ्यार घेतले तांतले एक फा. अँथनी जॉन डिसौझा. तांकां 'मोरिदास' ह्या नावान वळखतात. भाशेचेर प्रभुत्व आनी उतरांकडेन खेळपाची अप्रूप कळाशी हांकां लागून तांकां प्रास भोव बरो करूंक येतालो. फा.मोरिदास हे मेरी सायबिणीचे भक्त. तांणी 'आमची मांय' हें धर्मीक नेमाळें कांय काळ चळयलें. कवितेंत प्रास करतालेच पूण तांच्या दिसपट्ट्या उलवण्यांत आनी संवादांत लेगीत प्रास सहजतायेन येतालो. ताका लागून मोरिदास

हे 'प्रास-कवी' म्हूण नामनेक पावले. दुर्दैवान तांगेल्या कवितांचो झेलो उजवाडाक येवपाचो उरलो. घडये जिणेच्या निमण्या दिसांनी तांगेलें मानसीक संतुलन इबाडिल्ल्यान तें उरलें आसूंये. तांचो समकालीन कवी फा. सी. सी. ए. पै उर्फ स्वामी सुप्रिया (१९२७-२००१). फा. मोरिदास हे विनोदी प्रकृतीचो कवी जाल्यार स्वामी सुप्रिया हे गंभीर प्रकृतीचे. संस्कृताचो अभ्यास आशिल्ल्यान कोंकणींत बरयतना गरज थंय संस्कृतांतलें उतर कोंकणीमय करून वापरपाची कळाशी तांचे लागी आशिल्ली. तांगेले दोन कवितासंग्रह उजवाडाक आयल्यात- 'आन्या आकय' आनी 'काळीज मुरमुरे'. एक विव्दान आसुनूय तांगेली कविता सरसामान्य वाचकाक भोव भावताली. 'जेझू आमी देंवोन येतांव' हे सारक्यो कविता देखुनूच लोकांचे जिबेर घोळ्ळ्यो.

फाटोफाट कवितेच्या मळार जोगील पडिल्लेवरी एक दावे विचारसरणेचो कवी उदेलो, ताचें नांव चार्ल्स फ्रांसीस कॉश्ता (१९३१-१९९२) जाका समेस्त कोंकणी संवसार चाफ्रा ह्या नांवान वळखता. चाफ्रान कवितेक खंयचेखंय व्हरून पावयली. पंदरा वर्सांचे पिरायेर लेखनाक 'निश्ठूर बोतल' ह्या नाटकुल्यान बरोवपाक सुरवात केल्ल्या ह्या सर्जनशील तरनाट्याची पयली कविता बरोवन जाली ती ताचे पिरायेचे वीस वर्सांचेर. 'तुकाय आसा वांटो' ही कविता 'पयणारी' चेर उजवाडाक आयिल्ली. मांड-सोबाण हे संस्थेन एरीक ओझारिओ हांगेल्या निर्देशना खाला चाफ्राच्या कवितांचें सादरीकरण केलें. तें लोकांक इतलें भावलें की चाफ्राल्यो कांय कविता आयज लोकगिताचे पदवेर पावल्यात.

१९८८ वर्सा चाफ्राल्या 'सोंशाचे कान' ह्या कविता संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो प्रतिश्ठेचो पुरस्कार फावो जालो. ह्या म्हालगड्या कवीची वळख ह्या पुस्तकांत हेर कडेन मुखेल प्रवाहांतल्या कवीं वांगडा विस्तारान आयल्या देखून हांगा ताचें पुनर्लेखन टाळ्ळां. १९३३ वर्सा जाल्लो जे. वी. मोरायश आनी १९३७ वर्सा जल्म घेतिल्लो जे.बी.सिक्वेरा ह्या दोगांकूय साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार फावो जाल्यात. हे दोगूय रावपाक मुंबय आसतात. तांचीय सविस्तार वळख हेर भागांत वाचूंक मेळटली.

जे. बी. रास्किन्य, हेन्री डिसिल्वा, अरूणा राव, एक्स. एम. उद्दावर, सिल्वेस्टर डिसौझा, आम्ब्रोज डिसोझा अशा अनेक कवींनी मोलादीक योगदान दिलां. प्रतिनिधीक

स्वरुपांत थोड्याच कवींची आनी तांगेल्या वावराची वळख दिवप समा जातलें. लान्सलोट पिण्टो (१९५५) हांणी भोव सुंदर कविता दिल्यात. लिओ डिसौझा (१९३४) हांणी 'काव्यदास' ह्या टोपण नांवान कांय वेगळ्यो कविता बरयल्यात. हांच्यो कविता तांणी आपणायिल्ल्या 'सुनीत' (Sonnet) प्रकाराक लागून वेगळी आनी उठून दिसता. कोंकणी कवितेच्या मळार नवे नवे प्रयोग करून पळोवपाचीय चाल आसा. ए. टी. लोबो हे मुळांत कादंबरीकार. पूण तांणी 'कव्वाली' हो प्रकार रचून कोंकणी कवितेक आगळें चैतन्य दिवपाचो यत्न केला. फा. प्रताप नायक (१९५१) हांणी मातये कडेन इमान दवरून रचिल्ली कोंकणी कविता 'कानडी माती - कोंकणी कवी' ह्या देवनागरीत उजवाडायिल्ल्या संकलनावरवीं कर्नाटकाची शीम हुंपून गोंयकारांच्या काळजांत रिगली. ह्या झेल्यांत फा.प्रतापान रचिल्ल्या कवितां भायर हेर कवींच्योय कविता आशिल्ल्ल्यान कर्नाटकांत निर्मण जावपी वट्ट कवितेची झलक नागरी वाचकांक मेळूंक पावली. फा. व्हायटस् प्रभुदास हांच्यो कविता चडशो भावूक विशयां वयल्यो. 'शेत भांगराळें' हो तांगेलो झेलो प्रकाशीत जाला.

हालींच सोंपिल्लो विल्फी रेबिम्बस हो एक गीतकार आनी संगीतकार. तांचीं गितां गेय आसातच. ते भायर काव्यमुल्यांनी भरिल्लीं आसात. 'विल्फीची पदां' ह्या नांवान तांगेलीं अनेक पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. गावपी कवी जाल्ल्यान विल्फी रेबिम्बस रसिकांच्या काळजांत खाशेली सुवात जोडूंक पावलो. ह्या काळार आन्येक कवी व्हड नामना जोडूंक पावलो तो वालेरियान डिसौझा उर्फ वल्ली वग्गा (१९४७). हांगेल्यो कविता ल्हान आकाराच्यो आसून त्यो भोव लोकप्रीय जाल्यात. तांगेली 'अमर कलाकार' ही कविता तांगेली प्रतिनिधीक म्हूण घेतल्या-

रंगरंगाळ पिसोळ्यांक देखोन<br>सगळोच हांव पिसावलां<br>ह्ये जिवींक रंगान सजवंचे<br>व्यक्तीक सोदून सल्वालां

डॉ.एडवर्ड नोरोन्य हो म्हैसूरचो कवी (१९६४-२००९). तांचो 'कीर तूं म्हजो' हो कवितां झेलो प्रगल्भतायेचे नदरेन भोव उंचेल्या पांवड्या वयलो. सध्याक जांचीं नांवां घेतले बगर जायना अशांतले कांय कवी म्हळ्यार आन्सी पलाडका, मावरीस डिसा,

किशू बार्कूर, शकुन्तला आर.किणी, रॉबर्ट फेर्नांडीस, अँड्र्यू डिकुन्हा, एंथनी बार्कूर, दिनेश कुरेया, विल्सन कटील, एच्चेम पेर्नाल आनी मेलवीन रॉड्रीगस. ह्या सगल्यांनीं भोव व्हडलें योगदान कोंकणी कवितेक दिलां. पतीक दोन कवी घेतां. एक एच्चेम पेर्नाल ह्या पेननांवान बरोवपी हेन्री आनी दुसरो एंथनी बारकूर.

संवसारीक कवितेचें वाचन पचयिल्ले हे दोगूय कवी. एच्चेम पेर्नालांचे कवितेंत सांकेतिकता व्हड प्रमाणार दिश्टी पडटा. देखीक-

घरचें जनेल दारा तेदें
व्हड कांय नय, पूण...
दारांतल्यान पळोवंक जायनातलें
जनेलांतल्यान मात पळेवयेत
दारांतल्यान येवंक जायनातल्यान
जनेलांतल्यान भितर रिगयेत
दार सयऱ्यांचे, जनेल चोरांचें
तरूय दारार चाबकोर सुणें
जनेलार सोभीत माजार
दार घोवाचें
जनेल प्रेमीचें
देकून मिस्ता –
एका घराक दार एक
जनेलां मात साबार.

(जनेल)

आयचे समाजीक जिणेचेर भाष्य करपी ही कविता जाल्यार एंथनी मंगळूरच्या वाचकांक इंग्लंडाचे भुंयेर घेवन वता –

राणयेच्या गांवांत
वोताकच करटी लागता.
पाना रूकाक सांडतात,
लोक थंडाक खेंडतात.

हींव हाडां खाता.
वाऱ्या ल्हारांक
कऱ्या मारांक
धरती धवसाट जाता.
कांती सुकतात,
प्राणी थकतात.
जिणी थांबता.
आनी...
जेन्ना भुमी रूदान
मोळबा पऱ्यांत पावता...
सुर्यो परत तिळता.
बरफ हींव जाता
हींव धुंवरी जाता...
धुंवरी धोव जाता
धोव मायाग जाता...
सुर्याच्या एका हाश्याक
भुमीच्या एका हिशाऱ्याक
राकोन आसल्ल्या बरीं
वसंत येता.

(राणयेच्या गांवांत)

मेल्विन रॉड्रिगस हो एक प्रतिभाशाली तेजिश्ट कवी. हालींच तांगेल्या 'प्रकृतिचो पास' ह्या कवितांझेल्याक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. मेल्विनाचो आस्पाव मुखेल प्रवाहांत जाला देखून हांगा तो टाळ्ळा.

## कादंबरी

कन्नड लिपयेंत जितले संखेन कादंबऱ्यो निर्मण जाल्यो तितल्यो आयजवेर कोंकणी सरस्पतेच्या मळार खंयच जावंक नात. गोंयांत रोमी लिपयेंत बरयिल्ल्या कादंबऱ्यांक 'रोमांसी' अशें म्हणटात. ह्यो व्हडा संखेन उजवाडाक येताल्यो. तरिकूय

तुळा करून पळयल्यार कन्नड लिपयेंतल्यो कादंबऱ्यो संखेन आनी तोलामोलान भोव वयर. १९१२ वर्सा सुरू जाल्ल्या 'कोंकणी दिर्वें' नेमाळ्यान पयलीं कादंबऱ्यांचें क्रमशा म्हळ्यार सांखळे रुपान प्रकाशन सुरू केलें. उपरांत आनीकूय नेमाळीं वयर सरलीं आनी सगट नेमाळ्यांनी क्रमशा नवलकथा उजवाडावंक सुरवात केली. ते वरवीं जायते नवे लेखक बरोवंक लागले. वाचकांनीय कादंबरी उकलून धरली. काळांतरान कादंबरीकार, वाचक आनी नेमाळीं एकांमेकांचेर पातयेवन चलपाक लागलीं. इतलीं कीं नेमाळ्यांक लागून कादंबरी बरोवन जाता काय कादंबऱ्यांक लागून नेमाळीं चलतात असो सवाल उठूंक लागलो.

सुर्वेच्या काळार स्वतंत्र लेखन जायनासलें. 'दिर्वें'चेर पयलीं अणकारीत साहित्य प्रकाशीत जावंक लागलें. पूण कादंबरी लेखन क्रमशा उजवाडावचें कोणाक सुचलें ना. आलेक्स पायस हांणी 'काउंट ह्युगो' आनी 'अबूल फारागोस' ह्यो अनुवादीत कादंबऱ्यो बरोवन उजवाडायल्यो. पूण नेमाळ्याचेर न्हय. पयली नवलकथा नेमाळ्याचेर क्रमशा आयली ती व्हि. जे. पी. साल्डाना हांगेली 'तांबडी पितूळ'. 'पयणारी' ह्या नेमाळ्याचेर १९५४ वर्सा ही उजवाडाक आयली आनी वाचकांनी तिका माथ्यार घेतली. फाटोफाट 'रूजवात' ही तांगेली दुसरी कादंबरी आयली. अशे तरेन नेमाळ्यांनी कादंबरी निर्मितेंत भोव मोलाचें योगदान दिलें. पूण स्वतंत्र रितीन पुस्तक रुपान येवपी पयली कादंबरी म्हळ्यार ज्योकीं सांतान आल्वारीस (हांकां 'जोसा' ह्या नांवान वळखतात) हांगेली 'आंजेल'.

जो. सा. आल्वारीस (१९१८-१९९३) जो 'मित्र' आनी 'झेलो' हया नेमाळयांचो संस्थापक संपादक जावन आसलो, ताणें १९५० वर्सा 'आंजेल' नांवाची सुमार ४०० पानांची दिर्घ कादंबरी बरोवन प्रकाशीत केली. ही कन्नड लिपींत प्रकाशीत जाल्ली पयली स्वतंत्र कादंबरी, सोपी, सुंदर, व्हांवती भाशाशैली आनी मनाची पकड घेवपी समाजीक विशया वयलें कथानक हांकां लागून वाचप्यांक ती भोव मानवली. 'आंजेल' ही एका घराब्याची कथा. रोजीबायलो पूत राफायल म्हळ्यार रोफी आनी सून आंजेल काजार जावन सुखांत आसतात. पूण घरची आसपत सुदरावचे खातीर रोफी नेव्हींत नोकरी धरता. संवसारीक झूंज चालू आशिल्ल्यान ताची खबर मेळना. वर्सां सरतात तेन्ना 'तुजो घोव मेला आसतलो. आतां तूं दुसरेपणी म्हजे लागीं काजार जा' अशें भाटकार धनी तिका सांगता. पूण आंजेल ही बऱ्या चरित्राची बायल

आनी घोव परतो येतलो म्हूण देवाचेर भरवंसो दवरून आशिल्ल्यान धनयाक पयस दवरता. नाडगो शेणै आनी भाटकार धनी हांगेल्या कर्तुपांक बळी पडनासतना आंजेल दीस काडटा. रोजीबाय हांतुणार पडटा आनी नाडगो शेणै तिका फुसलावन आंजेलाक पटोवंक सोदता. सून शिटूक आशिल्ल्यान सासमांयचें आयकना. धनी तांकां भोव पिडापीड दिता. शेकीं रोफी परतता. अखेर गोड जाता.

१९५० वर्सा बरयिल्ली पयली स्वतंत्र कादंबरी म्हूण जोसा आल्वारिसाची तोखणाय करची तितली थोडी. स्वतंत्र प्रतिभेच्या ह्या लेखकान आपणाल्या जिवितांत पन्नास सुमार कादंबऱ्यो बरयल्यो. समाजीक विशयांचेर, मोग-भोगाचेर आनी रहस्यकथाय बरयल्यो. 'आग्नेस मावशी', 'आबोलें', 'आंगवणेची काल्स', 'रिटाचें कारबार', ' मतलबी मोनिका', 'बोंबय मेरी', 'एव्हाक तेरावी सोयरीक' अशो अनेक समाजीक संदर्भ आशिल्ल्यो स्वतंत्र कांदबऱ्यो बरोवपी जोसान कांय रहस्यकथाय बरयल्यो. 'नव्या घरांतली खून' वा 'लिपयलेलें दिर्वें' सारक्यो डिटेक्टीव कथा वाचकांक खूब मानवल्यो.

जोसांली भाशाशैली आनी तांगेलें शब्दभांडार भोव तोखेवपा सारकें. आंजेलाचें वर्णन तांणी अशें केलां- "त्या फेस्तादिसा पळयिल्लें तिचें आंजाळ तोंड, तेच नखेत्रांसारके दोळे, तेच तांबडे वोंट आनी तांचे भितर पोवळ्यां सारके दांत, तेच मुदयाळे केंस आनी शेंडो, तेच गोरे नितळ सुद्द हातपांय, तीच चकी-चाक माणसुगेची सुडसुडी चाल, तेंच नाजूक उतरांचें उलवणें." उपरांत कश्टदिण्या राटावळींनी अस्कत जाल्ली आंजेल जेन्ना शेतांतसून चलता तेन्ना "भात आसलल्या मेरांनीं वेतांनां पिकोन  बागाल्ल्यो भाताच्यो कणश्यो तिका पळोवन भोव विजमीत जावन तेवशीन हेवशीन आसल्ल्या हेरां कणश्यांलागीं कितेंगी घूट सांगतात तशो धोलताल्यो." अशा उतरांनीं जोसा तिचे अवतिकायेचो आनी सैंबाचो सांगोड घालत. नाडगो शेणै जेन्ना आंजेला कडेन गोड-गोड उलयता तेन्ना "पणसाच्या रुकार कावळ्याची बोब आयकोन पणस पिकला म्हूण समजोन घेतल्ल्यावरी शेणैचें उलौणे आयकोन तांतूं कांय पूण शिंत्र्यो आसात म्हण आंजेलाक दुबाव मारलो." अशा उतरांनीं जोसा सहजतायेन भावना उक्तायतात.

नामनेचे साहित्यकार एडवीन जे. एफ. डि सौझा हे 'आंजेल' विशीं म्हणटात, "ही कादंबरी कन्नड लिपींतल्या कोंकणी साहित्याक आजून पर्यांत एक क्लासीक

जावन उरल्या. ती ह्या कारणांक लागून म्हळ्ळी अभिप्राय म्हजी- १. सादी सरळ सोपी भास आनी जोखतीं उतरां, २. कथेचो सुगम व्हाळो आनी आल्वारिसाची कथा सांगपाची अ-सादारण शक्त, ३. खत-आयब नासल्लीं सन्निवेशां..." (एडवीन डि सौझा हांणी २९ सप्टेंबर २००६ दिसा साहित्य अकादेमी आनी गोवा कों. अका. हांच्या जोडपालवान आयोजीत परिसंवादांत सादर केल्लें प्रपत्र.)

जोसांनी बोणी केली आनी फाटोफाट कितलेशेच नवे लेखक कादंबरी बरोवंक लागले. आल्वारिसा फाटोफाट नांव घेवंक जाय तें ए. टी. लोबो ह्या म्हालगड्या कादंबरीकाराचें. पांच खंडांनी उजवाडाक आयिल्ली वट्ट हजारा परस चड पानांची 'वेळ-घडी' ही तांगेली मॅग्नम ओपस. हे कादंबरीचें वैशिश्टय म्हळ्यार तीन विंगड विंगड धर्मांच्या तीन इश्टां भोंवतणी विणिल्लें तिचें कथानक. क्रिस्तांव, हिन्दू आनी मुस्लीम ह्या तिनूय समुदायां मदल्या चालीरितींची, परंपरांची आनी धर्मीकतायेची लेखकाक भोव बरी जाणविकाय आसा म्हणपाचें जाणवता. तांगेली दुसरी एक कादंबरी 'देवाची खुशी' ही इतिहासीक काळावयलें कथानक घेवन बरयिल्ली एक बरी साहित्यकृती. टिपू सुलतानाचे राजवटकेंत कोडयाळ वाठारांतल्या हजारांनी क्रिस्तांवांक बंदे करून श्रीरंगपट्टणाक दवरिल्ले तांतल्या एका कवी प्रतिभा आशिल्ल्या बंद्याची ही कथा. हे तांगेले कादंबरेंत अठराव्या शतमानांतल्या म्हैसूर राज्याची वेवस्था, किरिस्तांवांची संकश्टांक तोंड दीत जियेवपाची तरा आनी त्या काळा वयल्या मुस्लीम समाजांतल्यो चालीरिती हांचें भोव सुंदरतायेन विवेचन केलां. ह्या लेखकाक समाजीक बांदिलकेची भोव बरी जाण आसा. समाजां मदलें भावपण वाडचें हो हेतू तांगेल्या साहित्यांत दिश्टी पडटा. पूण तेचबराबर कांय सुवातींचेर इतलें विस्तारान बरयलां की वाचतना उबगण येवं येता.

ए. टी. लोबो हांगेली आन्येक गाजिल्ली कादंबरी म्हळ्यार 'तूं बरो जा.' एक डॉक्टर आनी ताची बायल हांचेभोंवतणी विणिल्ले हे कादंबरींत डॉक्टरी पेशा समाजसेवा म्हूण आपणायतात तेन्ना खरी धादोसकाय मेळटा अशें सुचीत केलां. लोबोचेर मराठी साहित्याचो प्रभाव आशिल्लो अशें म्हणटात. लोकांक मानवतलें तशें बरोवपी असोय आरोप तांचेर जाता. अशें आसलें तरी सुर्वेच्या म्हालगड्या कादंबरीकारां मदीं तांचें नांव अभिमानान घेवचें पडटा.

ह्याच अदमासाक आन्येक भौप्रसव कादंबरीकार उदेलो ताचें नांव व्हि. जे. पी.

साल्डाना उर्फ 'खडाप'. १९५४ वर्सा 'पयणारी'चेर उजवाडाक आयिल्ली 'तांबडी पितूळ' ही साखळे रूपान येवपाचें मुळावण घालपी पयली कादंबरी. उपरांत १९६७ वर्सा साळीक प्रकाशनान ती छापली. पानां फकत ७४ देखून तिका नवलिका अशेंच म्हणूंक जाय. समाजीक आशयाच्यो कांय कादंबऱ्यो व्हिजेपीन बरयल्यात. 'पेट आनी पाळणे', 'मोगा म्हाका शिकय', 'रूजवात' हयो समाजीक कादंबऱ्यो बरोवपी व्हिजेपीन कांय गुप्तहेर रहस्यकथाय बरयल्यात. लोकांक मानवतात हें पळोवन वाचकाक जाय तें दिवपाच्या हेतून जावंये, तांणी बरयिल्ल्यो 'तांबडी पितूळ' आनी 'तोरीची दाळ' हयो डिटेक्टीव्ह कादंबऱ्यो लोकांक भोव रूचल्यो.

व्हि जे पी साल्डाना हो कोंकणींतलो पयलो इतिहासीक कादंबरीकार. गोंयचे इन्क्विझिशन धरून टिपू सुलतानाचे कारकिर्दीतलो धर्मच्छळ हया सगल्या इतिहासीक घडणुकांचेर तांणी कादंबऱ्यो बरयल्यात. व्हि जे पी ली कादंबरी 'सायबा भोगोस' ही इन्क्विझिशनाच्या काळार भारतीय परंपरांक दसून राविल्ल्या धर्मांतरीतांक कशे तरेन धर्मा आड कर्तुपां करून पिडापीड भोगयली हया विशया वयली कादंबरी खूब अभ्यास करून बरयिल्ल्यान ती वास्तवाक धरून आसा अशें जाणकार सांगतात. अठराव्या शतमानांतलें गोंयां तलें खवदूळ वातावरण आनी, जांव आपखोशयेन जावं बळजबऱ्यां, धर्मांतरीत जाल्ल्या क्रिस्तांव भावंडांची मानसिकताय व्हि जे पीन बारीकसाणीन चित्रायल्या. गोंयच्यान पळून वचून कोडयाळ वाठारांत आलाशिरो घेतिल्ल्या, क्रिस्तांव आनी हिन्दू दोनूय धर्मांच्या लोकांची आवतिकायूय व्हि जे पीन जबरदस्त पिंतारल्या. हैदर अली आनी टिपू सुलतान हांगेले राजवटकेंत दक्षीण कन्नडांतल्या क्रिस्तांवांची दशा तर कायलींतल्यान उज्यांत पडिल्ले वरी जाल्ली. हया विशयाचेर 'सरदारांची सिनाल', 'बचावेची चावी', 'बेलतांगडीचो बाल्ताझार', 'सरदाराचें सन्निधान' अशो नवलकथा तांणी बरयल्यो. चडशो क्रमशा प्रकाशीत जाल्यो. आनी उपरांत पुस्तक रूपान भायर सरल्यो. अठराव्या शतमानांतल्या इतिहासीक घडणुकांचेर कल्पकतायेचो साज चडोवन रचिल्ल्या हया कादंबऱ्यांनी वाचकांच्या काळजाक हात घालो. 'देवाचे कुर्पेन' ही ह्याच विशयावयली भोव गाजिल्ली कादंबरी. कुंदापूर, कोडयाळ, म्हैसूर हया वाठारांचीं वर्णनां त्या काळाक धरून आसात. सुमार साठ हजार क्रिस्तांवांक बंदी करून तांकां आमडीत कशे श्रीरंगपट्टणाचे बंदखणी मेरेन व्हेले हाचें काळजाक पिळव घालपी वर्णन व्हि जे पीच्या कादंबऱ्यांनी मेळटात. हया बंद्यां

मदीं भिवकुरे लोक आसले तशेच निर्भय स्वाभिमानी लोकय आसले. हया प्रवासांत आनी उपरांत बंदखणीत ह्या देवभावार्ती, निसुवार्थी, लोकांदयाळ आनी सज्जन लोकांच्या वांटयाक कसले हाल उपाद्रे आयले ताचीं यर्थाथ वर्णनां व्हि जे पीच्या बरपांत आयल्यांत. पूण हीं वर्णनां जोडिल्ली म्हायती पर्जळावपा खातीर न्हय तर कादंबरीची गरज म्हूण आयल्यांत. १९६१ वर्सा 'पयणारी' नेमाळ्याचेर क्रमशा प्रकाशीत जाल्ली 'देवाचे कुर्पेन' ही २२८ पानांची कादंबरी १९६२ वर्सा पुस्तक रूपान आयली आनी खूब खपली. 'देवाचे कुर्पेन' ही उपरांत देवनागरींत प्रकाशीत जाली आनी हेर वाठारांतल्या वाचकां मेरेन पावली. गोंयच्या वाचकांनीय तिका उकलून धरली. हे कादंबरेंतलीं दोन पात्रां 'सरदार सिमांव' आनी 'आग्नेस कुंवर्न' हीं वाचप्यांच्या काळजांत घर करून रावल्यांत.

इतिहासीक कादंबरी बरयतनां कल्पना विलासाचेर पातयेवन उपकारना. ते खातीर इतिहासीक घडणुकांची म्हायती अधिकृतपणान घेवची पडटा. व्हि जे पीन ही म्हायती एकठांय करपा खातीर सरकार दरबारांतलो दस्तऐवज आनी हेर इतिहासकारांनी बरोवन दवरिल्लीं संशोधना हांचो अभ्यास केला म्हणपाचें तांगेलीं बरपां वाचतनां जाणवता. तांगेलें साहित्य जिणेच्या तत्वांचेर सादे सोंपे भाशेंत लालित्यपूर्ण शैलींत बरयिल्लें आशिल्ल्यान सर्वसामान्यांचो लोकांमोगाळ कादंबरीकार हें बिरुद तांकां फावता.

वयर उल्लेख केल्ल्या तिगां कादंबरीकारां इतलोच नामनेक पाविल्लो चवथो कादंबरीकार म्हळ्यार गाब्रिएल डिसौझ, जाचें पेन नांव आसा 'श्रीगब्बू'. ह्या लेखकान कोंकणी साहित्याच्या मळार क्रांती घडोवन हाडली. दक्षीण कन्नडांतल्या क्रिस्तांव कोंकण्यांलीं चडशीं नेमाळीं हीं इगर्ज वा इगर्जेच्या पालवान चलतात. तांकां लागून कळटां-नकळटना लेखक आपणाचेरूच कांय बंदनां घालून घेतात. शिरंगारीक, मोगाभोगाच्यो वा धर्मीक विचारां आडचें बरप छापून येवचें ना हें जाणा जाल्लो लेखक ह्या अलिखीत निर्बंधांक पाळो दिवन लेखन करताले. अचकीत श्रीगब्बून शिरंगारीक लेखनाक हात घालो. 'मोगाची मस्ती' आनी 'झडती' ह्या दोन शिरंगारीक विशयां वयल्या कादंब्र्यांनी क्रिस्तांव वाचकां मदीं खूब खवदळ घालो. 'पातकी', 'बांदून दिल्ली व्हंकल' हयो कादंब्र्योय अश्योच. उमो-चुंबन, मोग-भोग, दादलो-बायलेचे कुडी संबंद हे विशय कोंकणी वाचकाक नवे आनी धक्कोदिणे आसले. देव भिरांतेच्या वाचकांनी श्रीगब्बुचेर खूब टिकात्मक आरोप केले. पूण तांकां

दुसरीय वट आसली. जे वाचक इतर भाशांतलें, भोव करून इंग्लीश भाशेंतलें साहित्य वाचताले तांकां आदलें धर्मीक विचारां भोंवतणी रचिल्लें परंपरां वादी साहित्य वाचून उबगण आयिल्ली. जें प्रगत भाशेंत मेळटा तें आतां कोंकणींत येवंक लागलां हें पळोवन तरणो सुशिक्षीत वाचक वर्ग खूश जालो. ह्या वर्गान श्रीगब्बूक माथ्यार घेतलो.

श्रीगब्बू शिरंगारीक विशयांचेर बरयतालो देखून तो व्हड अशें न्हय. तागेली शैली आनी तंत्र ओडलायणें आशिल्लें. संवादांतल्यान प्रसंग उबे करपाची तागेली कळाशी तोखणाय करपा सारकी. मोग आनी भोग हया विशयांचेर उकतेपणान आनी मेकळेपणान बरोवन श्रीगब्बून आजवेर बंद आशिल्लीं निर्बंधांचीं अनेक दारां खोंट मारून उकतीं केलीं. ताचो फायदो तांच्या समकालिनांक आनी फुडले पिळगेकूय मेळ्ळो.

कर्नाटकांतल्या कादंबरी लेखनांतले 'पंच पांडव' अशी जांची नामना आसा तांतलो पांचवो कादंबरीकार जावन आसा चार्लस फ्रांन्सीस डिकोश्ताक जाका सगले चाफ्रा (१९३१-१९९२) हया नांवांन वळखतात. जोसा, ए. टि. ए. ल. व्हि. जे. पी. श्रीगब्बू आनी चाफ्रा हया पांचच जाणांनी रचिल्ल्या कादंबऱ्यांची संख्या दोनश्यां परस चड आसा. हया पांचां मदीं सगल्यांत उण्यो कांदबऱ्यो बरयल्यात त्यो चाफ्रान. ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार चाफ्रांचो पिण्ड हो कवींचो. पूण तागेली एक्कान एक कादंबरी ही अभिजात साहित्याचो नमुनो. देखुनच तांचें नांव हेर चवगां वांगडा अभिमानान घेवचें पडटा.

चाफ्रा हो मार्क्स विचारसरणेचो प्रतिभावंत लेखक. मुळांत कवी. ते भायर नाटककार, समिक्षाकार, कथाकार आनी एक बरो वक्तो. समाज सुदारणेचो ध्यास घेतिल्लो कविमनाचो हो कादंबरीकार. ताची पयली कादंबरी 'सैंबाचें पातक' १९६० वर्सा 'पयणारी' चेर क्रमशा उजवाडाक आयली. समाजांतलीं धोंगा-पोंगां, दोत-देणीं, ऊंच-उणाक, गरीब-अमीर ह्या भेदाभेदांचेर निश्ठूरपणान प्रहार करपी तांगेल्यो ह्यो साहित्यकृती दर्जाचे आनी समाजीक आशयाचे नदरेन भोव श्रेश्ठ. पूण संख्या मात साप उणी. तांणी पांचच नवलकथा बरयल्यात. पूण प्रत्येक कादंबरी दर्जेदार जाल्ल्यान हेर अनेक भौप्रसव कादंबरीकारां परस चाफ्रा खूब वयल्या पावंडयार उरता.

पंचपाण्डवां फाटोफाट माचयेर देंवले ते जेरी कुलशेकर, व्हिक्टर रोड्रीग्स, एडवीन जे.एफ्. डिसौझा, डोल्फी लोबो, आयरीन पिण्टो, रोनाल्ड पैरैरा अशे सातत्यान बरोवपी कांय बरे, कांय सुमार अशे लेखक. हया सगल्यांनी कादंबऱ्यांचे संख्येंत खूब व्हडली भर घाली. पूण हे भरींत कांय दर्जेदार साहित्यकृतीय दिल्यो.

डोल्फी लोबो उर्फ डोल्फी कास्सिया हांणी चाळीसां वयर कादंबऱ्यो बरयल्यात. 'मळबावयली दिवटी', 'म्हज्या कालजांतलें फूल', 'घाताफाटलें सत', 'हांव जिवंत आसां' अश्यो साबार कादंबऱ्यो रचपी डोल्फीन आपणाली खाशेली अशी शैलीय रचल्या. भोव वाचनीय अशा हया कादंबऱ्यांचे विशयूय वेगळे. 'हांव जिवंत आसां' ही तर एक रहस्यकथा. मुंबयच्या गुंन्यावकारी मळा वयल्या गुंडांच्या जिविताचेर उजवाड घालपी ही कादंबरी. मोग, साहस, योगायोग आनी चमत्कृतींचेर आदारून लोकांमोगाळ करपाच्या हेतान बरयिल्ल्यो ह्यो साहित्यकृती आसल्यो तरी डोल्फी कास्सिया हया लेखकाले कल्पनाशक्तीची तोखणाय करूंक जाय.

१९६७ वर्सा 'झेलो' नेमाळ्याचेर आपणाली पयली कादंबरी 'निमणी शैली' क्रमशा उजवाडावन कादंबरेच्या मळार देंवलो तो आयचे घटकेचो म्हालगडो कादंबरीकार एडवीन जे. एफ्. डिसौझा (१९४८). बरयतनां 'वासू वालेंसिया' हें टोपण नांव घेवन बरोवपी एडवीनान आयज मेरेन सुमार तीस कादंबऱ्यो बरयल्यात. संवसार भोंविल्लो, खूब वाचन आशिल्लो आनी नवे नवे प्रयोग करपाची जबरदस्त वानसा आशिल्लो हो लेखक तरणे पिळगेचो प्रतिनिधी म्हणूं येता. धर्मसंस्थेच्या निर्बंधांचे फास्केंत रावन बरयिल्ली 'निमणी शैली' ही ४६६ पानांची दिर्घ कादंबरी बरयल्या उपरांत एडवीनान 'जोळळीं वज्रां' ही दुसरी कादंबरी बरयली. एडवीन इंग्लीश साहित्याचो वाचक आशिल्ल्यान अस्तेंती साहित्याचो प्रभाव ताचेर आसा हें खासा लेखकच कबूळ करता. 'जोळळीं वज्रां' वाचून कांय समिक्षकांनी ही कादंबरी व्हिक्टर ह्युगो ह्या नामनेच्या लेखकाले 'प्रिजनर ऑफ झेंदा' हे साहित्यकृतीचेर आदारिल्ली आसा असो आरोप केलो. हो आरोप लेखकान मानून घेतला अशें न्हय पूण न्हयकारूंकय ना. जेम्स हार्डली चेज आनी हेर रहस्य कथाकारांच्यो कथाकादंबऱ्यो आपणाक प्रेरीत करतात हें तो मान्य करता. 'ते आयल्यात' वा 'आयज आमी खून करूंया' ह्यो हेच प्रेरणेंतल्यान जल्माक आयिल्ल्यो रहस्यप्रधान कादंबऱ्यो. गोंय मुक्ती संग्रामाचेर गोंयकारांनी कादंबरी बरोवं ना बरोवं, एडवीन डिसौझान 'पिलातान दिल्लें फर्माण' ही कादंबरी बरयल्या. ही एक गुप्तहेर कादंबरी. कोंकणींतली ही पयली spy thriller

गुप्तहेर कादंबरी अशें लेखक म्हणटा. भारतांत अनुशासन पर्व हया सोबीत नांवा खाला आणीबाणी जाहीर जाल्ली ते परिस्थितीचो अभ्यास करून १९७२ वर्सा एडवीनान 'हांव जियेतां' ही कादंबरी बरयली. अस्तित्ववाद उकलून धरपी ही साहित्यकृती वाचकांक व्हडलीशी रूचली ना तरी विमर्सकांनी तिची तोखणायच केली. १९८२ वर्सा ती 'झेलो' नेमाळ्याचेर क्रमशा आनी रोखडीच पुस्तकरूपान प्रकाशीत जाली.

'म्हज्या वोडतांतलो गुलाब', 'खुर्साफाटलो उजवाड', 'विंचून काडलेली पर्जा', 'शेतांतलीं फुलां', 'जुदासांक कुरोव', 'मोगाची रात', 'चार दीस पांच राती', 'एक मनीस दोन सावळ्यो' अशो साबार कादंबऱ्यो साबार विशयांचेर बरयल्यात. 'रेंवेंतले फातर' आनी 'काळें भांगर' ह्यो तांच्यो हालींच्यो कादंबऱ्यो. एडविनान संवसार पळयला. आखाती देशांत सोळा वर्सां रावन आयिल्ल्यान तांच्यो अणभवांच्यो कक्षा रूंदावल्यात. ताचो लाव कोंकणी कथा-कादंबरेक मेळटा ही खोशेची गजाल.

अस्तुर्यानीय कोंकणी कादंबरीक योगदान दिलां. आयरीन पिण्टो हांणी बायलांचो संवसार आपणाल्या साहित्यांत भोव बरो उबो केला. तांणी रचिल्ल्यो 'म्हजें अंतस्कर्ण विसरचें ना', 'हांव चुकोन पडोंक ना', 'स्त्री', 'मोग आनी भरवंसो', 'तुवें म्हाका नेगार केलें' हयो कादंबऱ्यो परंपरीक शैलींतल्यो आसल्यो तरी पयलेच खेपेक अस्तुरेचें जीवन प्रभावीपणान चित्रावपी म्हूण तिची दखल घेवंक फावो. टिना डिमेलो हीय अशीच अस्तुरेची मानसिकता चित्रावपी कादंबरीकार. तांगेली 'तांबडो गुलाब' ही कादंबरी तोखणायेक पात्र थारल्या.

व्हिक्टर रॉड्रीगस हो एक म्हत्वाचो कादंबरीकार. 'मायकाचें भुंयार', 'अंधकाराच्या खंदकांत', 'शिरापाची भाली', 'प्रतिकार' अश्यो तांच्यो कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. हालींच तांच्यो 'विधीचे दावलेंत', 'रगताची बोबाट', 'रावणराज्यांतलो विरप्पन' ह्यो कादंबऱ्यो नेमाळयांचेर क्रमशा उजवाडाक आयल्यात. कथाकार म्हूण नामना जोडिल्लो डॉ. एडवर्ड नाझारेझ हांणीय कादंबरेक हात घाला. तांगेली 'निर्मोण' ही कादंबरी 'राकणो' नेमाळ्याचेर क्रमशा उजवाडाक आयल्या. मिक मॅक्स होय एक कथाकार तांणेय कादंबऱ्यो बरयल्यात. 'म्हजी वाट म्हाका' ही म्हत्वाकांक्षी मांय-सूनेचेर बरयिल्ली राजकी कादंबरी. कर्नाटकांत कोंकणी कादंबरीकारांची

ंख्या शंबरां वयर आसा. चडशा लेखकांल्यो कादंबऱ्यो क्रमशा व्हाळटात. पुस्तक रुपान प्रकाशीत जावपी त्या मानान थोडयो.

क्रमशा छापपाचे प्रक्रियेक लागून चडश्या ह्या कादंबऱ्यांनी विस्कळीतपण उरता. खूब काळ क्रमशा चलता तेन्ना फाटल्या फुडल्याचो सारको मेळ बसना. गरजेभायलो वेस्तार येता. पुनरावृत्ती क्रमशा येतना तितली जाणवता पूण पुस्तकरुपान येता तेन्ना ती आडखळ कशी दिसता. नेमाळें जेन्ना धर्मसंस्थेच्या आलाशिऱ्यान चलता तेन्ना पडिल्ल्या अलिखीत निर्बंधांकलागून अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याक बादा येता. लेखकाच्यो ह्यो मर्यादा स्पश्ट जाणवतात. आन्येक म्हत्वाची गजाल. नेमाळयांक गरज आसता, वाचप्यांकूय जाय आसता तेन्ना उत्स्फुर्त बरोवपा परस बरोवन उडोवपाक झुकतें माप मेळटा. परिणाम- चड बरोवपाचे ताकतिकेंत दर्जाकडेन दुर्लक्ष जाता.

### कथा

जी परिगत कादंबरेची तीच गत कथेची. नेमाळीं सुरु जायसर एकूय कथा हांगा बरोवन जावंक नासली उपरांत कांय मोटव्यो कथा, चडशो काणयोच, त्योय धर्मीक वृत्ती वाडोवपा खातीर बरयिल्ल्यो, कोंकणींत अणकारुन उजवाडाक आयल्यो. लोकांक त्यो मानवल्यो. पूण स्वतंत्र कथा बरोवंची अशें कोणाकच दिसलें ना. इतले मजगतीं १९५० वर्सा 'आंजेल' कादंबरी प्रकाशीत जाली आनी साहित्य परगटणेक एक नवी दिका मेळ्ळी. १९५३ वर्सा जो. सा. आल्वारिसांनी 'मित्र' नांवाचें नेमाळें सुरु केलें. हया म्हयनाळयांत तांणी स्वता मोटवी कथा बरोवंक आरंब केलो. उपरांत तांणीच लोकांची साहित्याची मागणी वळखून साहित्याक चड सुवात दिवपा खातीर 'झेलो' हें म्हयनाळें सुरु केलें. सुर्वेच्या काळार कथा म्हळ्यार काणी-तीय विनोदी- अशे तिचें स्वरुप आसलें. चडश्यो देखदिण्यो काणयो. सत्याचें जैत जाता, बरें तें चिरंतन उरता, बरें करता ताका बरेंच प्राप्त जाता अशे तरेच्यो ह्यो कथा आसल्यो. पूण जो. सा. आलवारीसांक कथेचें तंत्र बरें अवगत आशिल्ल्यान तांणी नवी स्वतंत्र कथा लोकां मुखार हाडली. फाटोफाट व्हि जे पी साल्डाना, ए. टी. लोबो, गाब्रिएल डिसौझा उर्फ श्रीगब्बू आनी चाफ्रा डिकॉश्ता हया कादंबरीकारांनी कथेक उकलून धरली आनी तेन्नाच्यान कन्नड लिपींतली कोंकणी कथा फसफसून वयर सरली.

पयली कथा खंयची हाचे विशीं वाद आसूं येता. पेद्रु जुआंव सौझ हांणी बरयिल्ल्यो कथा घडये पयल्यो आसुंये. १९१५ वर्सा तांणी 'कोंकणी कथा भाग पयलो' आनी १९१९ वर्सा 'कोंकणी कथा भाग दुसरो' प्रकाशीत केलो. हातुंतल्यो चडशो कथा अणकारीत वा आदारीत आसल्यो. थोडयो स्वतंत्र आसपाचीय शक्यताय आसा. फाउस्तीन डिसौझा हांणीय कथां झेलो प्रकाशीत केला. चडशे कोंकणी लेखक कन्नड साहित्याचे वाचक जाल्ल्यान कन्नड साहित्याचो प्रभाव तांचेर आसलो जावंये. कारण चडशो कथा चाबून जाल्ल्या विशयांचेरूच आसल्यो. पूण वयर नमूद केल्ल्या कादंबरीकारांनी आधुनीक कथेंतल्यान मानवी संघर्शाची वास्तव पावंडयाचेर वळख करून दिली.

ए. टी. लोबो हांगेलो पयलो झेलो पुस्तक रूपान उजवाडाक येतासर १९७० वर्सा उजवाडलें. साळक प्रकाशनान 'ल्हारां आनी तारां' हो तांगेलो संग्रह प्रकाशीत केलो त्याच वर्सा जेरोम सिरील विएगस, जो 'सिरिवंत' हया टोपण नांवान बरयतालो, तांगेलो 'मोगाच्यो कथा' हो पयलो कथांझेलो उजवाडाक आयलो. तांचेच 'परिवर्तन' आनी 'समाधीवयलीं उतरां' हे संग्रह उपरांत उजवाडाक आयले. फाटल्या शतमानाच्या सव्या आनी सातव्या दसकांत सिरिवंत हो कथाकार म्हूण नामनेक पाविल्लो. 'देवाचें राज' सारकी कथा त्या काळार खूब गाजिल्ली. पूण कथेक गरजेची ती संदिग्धताय आनी विशयाचो बारीक अभ्यास नाशिल्ल्यान पाद्रीचे जिणे वयली परदुवारी विशया वयली ही कथा उंचाय घेवंक पावली ना. हीच गजाल ह्या काळा वयल्या चडशा लेखकांची. पूण काळांतरान कथेन कूस परतिली. एडवीन जे. एफ. डिसौझा, एडवर्ड नाझारेथ, नंदिनी डिकॉश्ता, सिल्वेस्टर डिसौझा, मीक मॅक्स, फ्रान्सीस साल्डाना, सी. जी. सिक्वेरा, एन्सी पलाडका, वल्ली वग्गा, चेतन, एडी नेट्टो, स्टॅन आगेयरा, मनू बाहरेन, हेमाचार्य, आनी हेर अनेक लेखकांनी नवे नवे प्रयोग करीत कथेक गिरेस्त केली. ए. टी. लोबोंले 'हरद्यार खुरीस' हे कथेचो विशय आसा मोन्या भुरग्याची वेथा. जाल्यार सिरिवंताली 'नवो अवसर' ही कथा आंधळ्या भुरग्याचेर बेतिल्ली आसा. 'मारियेचें कुमसार' कथेंत नंदिनी डिसौझान आंब्या रूखा कडेन इश्टागत जोडून काळजांतलीं गुपितां कोण भाशेन ताचे लागीं कुमसार जाता तें भोव प्रभावी रितीन मांडलां. सिल्वेस्टर डिसौझाली 'बळी' ही कथा ल्हान भुरग्यांक उखलून व्हरून ताचे दोळे फोडून भीक मागपाक लावपी एका सुवार्थी भिकाऱ्याची. सी. जी. सिक्वेराली 'दुखान' ही कथा इत्से विरूद्ध काजार

जावचें पडटा अशे एके चलयेची. अशे तरेन विंगड विंगड विशय घेवन कथेची शैली, ब्रांदावळ, पात्रां आनी प्रसंग ह्या संबंदान कथेच्या मळार तरेकवार प्रयोग करीत कथा फुडें गेल्या.

हालींच्या काळार जांणी कथेचें मळ गिरेस्त केलां तांतूंत एडवीन जे. एफ. डिसौज़ा, डॉ. एडवर्ड नाझरेत, केवीन डिमेलो आनी किशू बारकूर हांचीं नांवां मुखेलपणान घेवं येत. तरी ज्या नेटान ए. टी. लोबो, सिरिवंत, श्रीगब्बू, एडवीन डिसौझा हांणी कथेच्या मळार वावर केला त्या नेटान वावर फुडें व्हेल्लो दिश्टी पडना. जे सातत्यान बरयतात तांचे लिखणेक दर्जो आसा पूण संखेन ते साप थोडे.

डॉ. एडवर्ड नाजरेत (जल्म १९५९) फाटलीं साबार वर्सां कथा लेखन करतात. तांच्यो कथा नेमाळ्यांनी व्हाळतात. तांगेल्या 'व्हडलें फेस्त' ह्या कथाझेल्यांत वेंचीक काणयांचो आस्पाव आसा. 'मेलो बरें जालें', 'पुताचें मरण', 'मरणाची तयाराय', 'चोराचो पूत', 'रॅगिंग', 'मोगाचो पूत' वा 'बांदूक जायनातल्लो फोंड' ह्यो तांतल्यो कांय नामनेच्यो कथा. कथा कांदबरी धरून तांची वट्ट धा पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यात. स्वता दोतोर हाडांचो आसले तरी तांकां मानसशास्त्राचीय भोव बरी जाण आसा. वैजकी वेवसायांत घुस्पून उरिल्ल्यान बरोवपाक फावो तितलो वेळ दिवप जायना हें खरें आसलें तरी एडवर्ड नाझरेतान कोंकणी कथेक दिल्लें योगदान भोव व्हडलें आसा. ताचेसरी येवपी वायटकार हो तांगेलो प्रेरणास्त्रोत. लिंगीक विशयाचेर कथा बरोवपाचें धाडस करपी- कर्नाटकांत तरी भोव थोडे. एडवर्ड नाझरेथ हे मात वैजकी समस्यांसयत लिंगीक विशयांचेर भोव सहजतायेन बरयतात. संकश्टांक फुडो करतना पात्रां मानसीक पावंड्यार कशीं वागतात तें भोव प्रभावी रितीन मांडिल्लें एडवर्डाल्या कथांनी पळोवंक मेळटा.

अस्तुरेचीं सुखदुख्खां यथार्थ रितीन समजून घेवपी दादले लेखक भोव थोडे. त्या थोड्यांतलो डॉ. एडवर्ड एक. ह्या संबंदान बरयतनां विमर्सक मेल्विन पिन्टो म्हणटात- "अस्तुर्यांक दुस्र्या वर्गाचीं मनशां म्हळ्ळे परी आमचो पुरुशप्रधान समाज पळयत आयला. पूण अस्तुरेक तिरस्कारान पळयतना ह्या संवसारांतल्या पन्नास प्रतिशत सैंबाकच नेगार केल्लेपरी जाता तें आयच्या समाजान समजूं जाय. असलें सुक्ष्म चिंतप आसलेल्यानच डॉ. एडवर्डाचीं स्त्री पात्रां बळवंत जाल्यां." संदिग्धताय हें एडवर्डाल्या कथांचें खाशेलेंपण. तांच्यो चडावत काणयो शोकान्त आसात अशें

विमर्सक मेल्विन पिन्टो फुडें म्हणटात. 'मरण हे आवर्तिकायेक विंगड विंगड मनशां कशीं आगळे वेगळे रितीन प्रतिसाद दितात तें एडवर्ड भोव सुंदर भाशेन पिंतारता -' एडवर्ड नाझरेथ हो कर्नाटकांतलो म्हालगडो आनी प्रतिभावान कोंकणी कथाकार. १९९५ वर्सा ह्या कथाकाराले दोन संग्रह प्रकाशीत जाले. 'आडवारल्लें फळ' आनी 'भुमी वैकुंठांत' ह्या दोन कथाझेल्यांनीं मानवी मुल्यांचेर उजवाडाचो झोत घालपी खूब सुंदर कथा आसात.

दुसरो म्हत्वाचो कथालेखक म्हळ्यार केवीन डिमेलो. 'चंड आनी गर्भ' हो तांगेलो २०१३ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो झेलो. हागेल्यो कथा चडशो ग्रामीण समाजवेवस्थेचेर आदारिल्ल्यो. आयतें गिळपी भाटकार आनी कश्ट काडपी मुंडकार, जळू कसो शोशण करपी सावकार आनी रिणांच्या वज्यापोंदा चिड्डल्लो दरिद्री भौस, सुस्ताविल्ली गांवगिरी जीण आनी शारांतल्या सुखांक संवकल्लो गिरेस्त लोक हांचे मदलो परंपरीक संघर्श केवीनांच्या कथांनीं पळोवंक मेळटा. भूंय सुदारणा वा 'कसतल्याची जमीन' कायदे जाल्या उपरांत वयली परिगत बदलली. पूण ह्या बदलांचोय परिणाम ग्रामीण संस्कृतायेचेर आनी अर्थ वेवस्थेचेर जालो ताचें चित्रण केवीनाच्या कथांनी जाल्लें पळोवंक मेळटा. एडवर्डाल्या कथां वरीच केवीनाल्याय साहित्यांत बायलमनीस पिंतारिल्ली दिश्टी पडटा. पूण इल्ल्याशा फरकान. केवीनालीं स्त्री पात्रां अबरगत न्हय वा अस्कत न्हय. तांगेलीं पात्रां दादल्यांचेर शेक गाजोवपी आसात. प्रसंगार दादल्यां परस बायलोच चड धिटायेन आनी धैर्यान संकश्टांक सामकार वतात हें केवीनान दाखयलां.

आयचे घटकेक कादंबरीकार म्हूण विशेश नामना जोडिल्ल्या एडवीन जे. एफ. डिसौझा हांणी आजवेर सत्तर पाऊणशें कथा बरयल्यात. १९७३ वर्सा 'तर्नी किर्णां' हो कथां झेलो परगट जाला. एडवीनाचेर विदेशी साहित्याचो प्रभाव आसा. अशें विमर्सक मानतात. तें पुराय खरें न्हय तरी पुराय फट न्हय. 'मॅरी ख्रिसमस शर्ली' सारक्या अनेक कथांनी हो प्रभाव भोव प्रकर्शान जाणवता. नातालां वा ख्रिसमस फादर ह्यो संकल्पना मुळांत विदेशी आसल्यो तरी भारतांत त्यो भारतीय जावन वावुरतात. मंगळूरांत तर क्रिस्तांव समाज ही परब पुराय भारतीय पद्दतीन मनयता. पूण एडवीनाल्या कथांनी नातालाचें वातावरण उबें जाता तें विदेशी. मात तांगेल्यो हेर अनेक कथा साप वेगळ्यो आसात. 'मोतीक एक पटो' ही कथा एका

पुण्यापेट्याची. 'देव, देवुळ आनी रगत' ही वयलेचाराक रगताचो बळी दिवपाची कशी दिसली तरी ती मानवी संबंदांची काळजाक पिळव घालपी कथा. 'आमी सर्व पातकी', 'केंबेरळ्ळी', 'एक कोप हुमोनी काफी' ह्यो तांच्यो कांय गाजिल्ल्यो कथा.

एडवीन डिसौझा आनी एडवर्ड नाझरेथ दोगूय लिप्यंतरीत जावन व्यापक वाचक वर्गा कडेन पावल्यात आनी रसिकांची पावती तांकां मेळ्ळ्या. सिल्वेस्टर डिसौझा हो म्हैसूर वाठारांतलो लेखक. सिरिवंता वरीच विंगड विंगड विशयांचेर बरोवन लोकांमोगाळ जाल्ल्या ह्या लेखकांल्या कथासंग्रहाचें नांव 'अपरिचित'. तंत्राचे नदरेन विशुद्ध कथा बरोवपी सिल्वेस्टर डिसौझा हो एक म्हत्वाचो म्हालगडो लेखक. फ्रान्सीस साल्डानान कांय ब्यो कथा बरयल्यात. वाचनीयतेचे कसवटेर त्यो ब्यो उतरतात. 'उटीं काणयां झेलो' हो तांगेलो कथांझेलो. अस्तुयां मदें नंदिनी डि कॉश्ता आनी ग्लॅडीस रेगो हांचो उल्लेख मुजरत करूंक जाय. 'आकांत' ह्या संग्रहा वरवीं नामना जोडिल्ली नंदिनी ही एक कल्पक लेखक. अस्तुरेच्या जिवितांतले भोगणार भोव प्रभावी रितीन मांडपा खातीर तांणी कथा हें माध्यम वेंचून काडलें आनी भोव कुशळतायेन अस्तुरेची मानसिकताय चित्रायली. ग्लॅडीस रेगो ही भोवतांसांची लेखक. लोकवेद, बालसाहित्य, अणकार आनी स्वतंत्र कथा लेखन करपी हे लेखकाले दोन कथांझेले प्रकाशीत जाल्यात- 'तुटलेलीं काळजां' आनी 'किण्कुळें'. पयलो झेलो हो समाजांतल्या समस्यांचेर गंभीरपणान उलोवपी जाल्यार 'किण्कुळें' हो संग्रह विनोदी शैलींत कथा सांगपी. लिली मिरांदा हे लेखकानूय कथा बरयल्यात आनी 'फुलां-फळां' हया नांवाचो एक झेलो परगटायला.

उत्तर कन्नडांतूय अनेक लेखकांनी कथा हो साहित्य प्रकार केळयला. पूण दक्षिणेच्या मानान थोडो. एन्. शांतादेवी हांगेलो 'होडम्मान सांगिल्ल्यो कथा' हो झेलो आसा. तंत्राचे नदरेन चिके फाटीं म्हळ्यार काणी आनी कथा हांचे मदलो प्रकार. विठा आर. शानभागान 'पांच संत' नांवाचो संग्रह उजवाडायला. उडुपीची लिलाबाय कामत हांगेलो 'वोंवळां' हो कथांझेलो भायर सरला. कथेच्या मळार पावली मारपी जायते लेखक आसात. अंकोलाचे एन.बी.कामत, शिरसीचे कुडल आनंद शानभाग, जयश्री नायक एकांबी अशा लेखकांनी कथा बरयल्यात. पूण वट्ट कोंकणी कथेच्या मळार प्रभाव घालपा इतलें तांचें योगदान लक्षणीय ना. ना म्हणपाक, मूळ भटकळचो पूण आतां मुंबय लागीं डोंबिवलींत रावपी पद्मनाभ नायक हांचो खाशेलो उल्लेख जाय. 'मधुमालती' ह्या नांवान तांचो झेलो प्रकाशीत जाला. तांकां कथेचें तंत्र बरें

होलमलां. सातत्यान बरयता जाल्ल्यान तांचे कडल्यान अपेक्षा निर्मण जाल्यात.

वट्ट कर्नाटकांत, नेमाळ्यांच्या बरेपणान, शेंकड्यांनी कथा बरोवन जाल्यात. पूण पुस्तक रूपान लोकां मुखार आयिल्ल्यो कथा थोड्यो. झेले काडूंक नाशिल्ल्यान विसरायेर पडिल्ल्यो कथाच चड, तशेंच दर्जाचे नदरेन हे लेखक चड फुडें पावंक नात. भारतीय साहित्यांत नदरेंत भरपा सारक्यो कथा दिवपाक हे लेखक उणे पडल्यात. गोपालकृष्ण पै आनी ना डिसौझा सारके दमदार आनी कसदार लेखक कन्नड साहित्यीक संवसारांत व्हडा नामनेक पावले. पूण कोंकणी कडेन तांणी आडनदर केली. सुदैवान हालींच ना डिसौझांनीय कोंकणी साहित्यीक मळार पावली मारल्या. तांच्या येवपान हेर लेखकांक उर्बा-उमेद मेळटली अशी आस्त बाळगूं येता.

स्वतंत्र झेल्यां भायर कांय संकलनां उडवाडाक आयल्यांत. सी. जी. सिक्वेरा हांणी संपादीत केल्लो 'पांच पाकळ्यो' हो पांच कथांचो झेलो. हातूंत स्वता सी. जी. सीच्यो, हेमाचार्यांच्यो आनी हेरोल्पीयस ह्या लेखकांल्यो कथा आसपावल्यात. अँड्रयू मेन्दोन्सा हाणें संपादीत केल्ल्या संग्रहाचें नांव आसा 'मोग आनी उतर' हातूंत सात लेखकांल्यो सात कथा आसात. मोग ह्या विशया वयल्या ह्या कथां मदीं सी. जी. सिची कथा आनी एडवीन जे.एफ.डिसौझा हांगेली 'मोगाची रात' ही दिर्घ कथा आसा. 'मोगाची रात' ही एक आगळी वेगळी कथा जी जेझू क्रिस्ताच्या जल्मा कडेन संबदीत आसा. सी. जी. सींन दुसरो एक झेलो परगट केला जातूंत इकरा लेखकांल्या इकरा कथांचो आसपाव आसा. ह्या 'उळो आनी झेलो' संग्रहांत स्टॅन आगैरा, डोल्फी कास्सिया, ग्लॅडीस रेगो, व्हिक्टर रॉड्रीगस, एस.एच.मास्कारेन्यश आनी स्वता सी. जी. सी अश्या नामनेच्या लेखकांच्यो कथा आसपावल्यात. सी.जी. सिक्वेरा हांगेलो आन्येक झेलो आसा, 'सात साळकां'. विगंड विगंड लेखकांल्यो सात मोगा-कथा एकठांय करून ह्या संग्रहांत उजवाडायल्यात. ग्लॅडीस रेगो हांणी संपादीत केल्लो 'कळे आनी झेले' हो एक आगळो संग्रह. बायल-लेखकांच्यो कथा घेवन प्रकाशीत केल्ल्या ह्या संग्रहांत प्रस्थापीत कथा लेखकां वांगडाच कांय ब्या नवोदितांच्योय कथा घेतिल्ल्यान बायल-लेखकांक प्रोत्साहन दिवपाचें मोलादीक काम ग्लॅडीस रेगो हांणी केलां.

कर्नाटकांतले आधुनीक कथेन फाटल्या पन्नास वर्सांचे अवधेंत जीं मेटां हुपल्यात

नीं पळयल्यार कथेची प्रगती समादान दिणी आसा आनी ती योग्य दिकेन चलता अशें म्हणूंक जाय.

### अणकार

जेन्ना स्वतंत्र साहित्याची झर आटिल्ली आसता तेन्ना अणकाराचे झरीचें उदक हाडून मूळ प्रवाहांत सोडलें जाल्यार अभिरुचीपूर्ण स्वतंत्र साहित्याक नेट येता अशें म्हणटात. कर्नाटकांतल्या लेखकांनी कोंकणी साहित्याची अवतिकाय सुदारपाचे नदरेन होच मार्ग आपणायलो. आरंबाच्या काळार पेद्रुजुआंव सौझान विदेशी साहित्यांतल्या कथांचे अणकार करपाक सुरवात केल्ली. १९१३ वर्सा 'पारवो' आनी 'गुलाबाचे झाड' ह्यो कथा परगट केल्ल्यो आनी फाटोफाट 'केणेरी सुकणें' १९१४ वर्सा प्रकाशीत जाली. ते पयलीं धर्मीक साहित्य कोंकणींत उजवाडावपाचें काम सुरु जाल्लें. थॉमस स्टिफन्सालें 'ख्रिस्तपुराण' १९०७ वर्सा जुझे साल्डाना हाणें कोंकणींत अणकारीत करुंक घेतिल्लें. जुझे साल्डानाले गिरेस्त भाशेची लुवीस मस्कारेन्यांक खूब व्हडविकाय आशिल्ली. दुर्दैवान साल्डानालो वावर पुर्ण जावंक पावलो ना. पूण जितलो वावर जाला तो भोव सुंदर जाला आनी ताचें हातबरप सांबाळून दवरिल्लें आसा.

पेद्रु जुआंव सौझान कॅनन स्मीड हांगेल्यो नवलिका सोबीत सुंदर कोंकणींत अणकारीत केल्यो. त्या उपरांत 'राखणो' नेमाळ्याचो पयलो संपादक मोंसिन्योर सिल्वेस्टर मिनेझीस हांणी १९४७ वर्सा 'दुलसिनाची सोयरीक आनी हेर कथा' हो झेलो उजवाडायलो. कथा ह्या नांवा खाला जरी प्रकाशीत जाल्यो तरी त्यो मुखेलपणान अणकारीत वा आदारीत काणयो आसल्यो. सुरवात जरी धर्मीक विशया वयल्या काणयांच्या अणकारान जाली तरी मोटव्या काणयां कडेन वाचकांचें लक्ष ओडून घेवपाचें काम ह्या अणकारांनी केलें.

हालींच्या काळार फा. विली डि सिल्वा हांणी अणकाराच्या मळार भोव मोलादीक वावर केला. बायबलाचो, दोन तेस्तामेंतांचो, केल्लो फा. विलीलो अणकार भोव सुंदर जाला आनी घडये तो कोंकणींतलो अशे तरेचो पयलो अणकार जावंये. विशेश म्हळ्यार उपाट वाचन आशिल्ल्या फा. विली डि सिल्वांनी अनेक भारतीय साहित्यकृती कोंकणींत हाडल्यो. तघळी शीवशंकर पिल्लै हांगेली गाजिल्ली नवलकथा 'चेम्मीन' हिचो सोबीत अणकार केला. कन्नड भाशेंत लेखन करपी अनेक

साहित्यकारांल्यो कृती तांणी अणकारीत केल्यात. मूळ कोंकणी आसून कन्नड साहित्याक भोव मोलादीक योगदान दिल्ले म्हालगडे साहित्यकार यशवंत चित्ताल आनी ना डिसौझा हांगेल्यो कथा तांणी कोंकणींत अनुवादल्यात. हें अणकारीत साहित्य पुस्तक रूपान प्रकाशीत जालां. कन्नड भाशेंत भोव नामना जोडिल्ले पुर्णचंद्र तेजस्वी हांगेल्याय कथांचे अणकार फा. विली डि सिल्वांनी केल्यात. तरणे कवी मेल्विन रोद्रिगीश हांणीय यशवंत चित्रालांच्या कथांचो अणकार केला तो 'काणी जाली चली' ह्या नांवान प्रकाशीत जाला. यशवंत चित्रालांची एक दिर्घकथा 'आवोलिना' कोंकणींत हाडल्या सिरिल जी.सिक्वेरा हाणें. नामनेचे कोंकणी कवी जे. बी. मोरायश हांणी ज्ञानपीठ पुरस्कारान गौरवीत जाल्ल्या शिवराम कारंथ हांगेली 'चोमणा दुद्दी' ही नवलकथा कोंकणींत हाडल्या. ते भायर मोरायशांनी 'रोमिओ आनी ज्युलिएट' हें अणकारीत पुस्तक उजवाडायलां. रेमंड मिरांदान 'सेदार ऑफ लेबनॉन' ह्या गाजिल्ल्या इंग्लीश पुस्तकाचो अणकार प्रकाशीत केला. सुमंद ह्या लेखकान इंग्लीशींत परगट जाल्ल्या वेंचीक विज्ञानकथांचे अणकार संग्रहीत करून 'वांकड्यो वाटो' ह्या नावान प्रकाशीत केला. 'राय उंदीर' हेंय अणकारीत पुस्तक तांगेलेंच. जेम्स हेडली चेज ह्या संवसारभर लोकप्रिय जाल्ल्या रहस्य कथाकाराच्यो कादंबऱ्यो वॉल्टर लासरादो हांणी अनुवादीत केल्यात. विदेशी साहित्य आनी देशी साहित्य कोंकणींत अणकारपाच्या वावरांत आघाडिचेर आसात ते एडवन डि सौझा, जेरी रास्किन्य, रिचर्ड रेगो, मावरीस डिसा, चेतन, एवलालिय आल्वारीश, आल्वान कास्तेळिनो आनी हेर. जे. वी. कार्लो हांणी 'गांधींचें पर्जळीत फुडारपण' नांवान पास्कल आलेन नझ्रेत हांगेल्या पुस्तकाचो अनुवाद केला. मेल्विन रोद्रिगीश हांणी के. एस. नरसिंह स्वामी हांगेलें 'तेरेजा बागेलु' ह्या पुस्तकाचो अणकार 'उकतें दार' ह्या नांवान केला.

एडवर्ड नोरोन्य हांणी मंजेश्वर गोविंद पै हांगेलें गाजिल्लें महाकाव्य 'गोलगोथा' अणकारीत केलां. जेझू ख्रिस्ताच्या निमण्या दिसांचेर आदारीत हें खण्डकाव्य मूळ कन्नडांत भोव गाजिल्लें. कोंकणींतूय तें वाचकप्रिय जालें. नोबेल प्रायझ जिखपी एकमेव भारतीय साहित्यकार रविंद्रनाथ टागोर हांगेल्या गाजिल्ल्या 'गीतांजली' संग्रहांतल्या वेंचीक कवितांचे अणकार एम. गोविंद पै, जे. बी. मोरायश आनी फा. एंथनी जॉन जिसौझा उर्फ मारियादास हांणी केल्यात.

## नाटक

नाट्य हो सादरीकरण जावपी साहित्य प्रकार कर्नाटकाचे भुंयेर खूब फळफळ्ळा. कन्नड भाशेंतलें लोकनाट्य भोव फुडारिल्लें. ताचो प्रभाव कोंकणीचेर पडलो जाल्यार अजाप न्हय. मुळांत कोंकणी मनीस हो नाट्यमोगी. तातूंत हे भुयेंर ही कला फुडारिल्ली. सभावीक कोंकणी लोकांनी नाटकांच्या मळार आपणालें पकदस्त पावल घालें.

बंगले नारायण कामत हो गोंयकारां वरीच नाट्यपिसो. ताणें कन्नड भाशेंत नाटकां रचलीं. १९०५ वर्सा सावन नाटकां बरोवन रंगमाचयेर प्रस्तूत करपाचें काम कामतीन पोटतिडकेन केलें. नाटकां खातीर सभाघर नाशिल्ल्यान बंगले नारायण कामतीन स्वता 'मनोरमा हॉल' हें नाट्यघर मुल्कींत बांदलें. चडशे नाट्यकर्मी कोंकणी मनीस आसुनूय १९१२ वर्सा मेंरेन एकूय कोंकणी नाटक बरोवन जालें ना. अदीं मदीं लोकनाट्यां कोंकणींत सादर जातालीं. पूण भोव थोडीं. १९१२ वर्सा बोळंतूर कृष्ण प्रभून पयलें कोंकणी नाटक बरोवन सादर केलें. 'चंद्रहास' हें पयलेंच नाटक आसुनूय तातूंत नाट्य परिपूर्ण आशिल्ल्यान तें भोव लोकप्रीय जालें. देखूनच ह्या नाटकाचे प्रयोग दक्षीण कन्नडा भायर जावंक लागले. मुंबय आनी केरळांतूय ताचे प्रयोग जाले. 'चंद्रहासा'च्या जैतान प्रोत्साहीत जाल्ल्या बोळंतूर कृष्ण प्रभून रोखडेंच दुसरें नाटक बरयलें, 'प्रल्हाद चरित्र'. ह्याय नाटकाक लोकांमोग फावो जालो. ह्या दोन नाटकांतल्यान प्रेरणा घेवन कुंबळे नरशींव लक्ष्मण नायक हांणी 'सावित्री-सत्यवान' नाटक बरयलें. हीं सगळीं नाटकां फकत बरोवन सादर जालीं इतलेंच न्हय, तर तीं छापून प्रकाशीत जालीं आनी वाचकां मेंरेन पावलीं.

मुंबय रावपी उमानाथ डोंगरकेरी हांणी 'वज्र-कुटका' हें नाटक १९१४ वर्सा बरयलें. ह्याच लेखकान मुखार आनीक दोन नाटकां बरयलीं, 'चेकोलु' आनी 'सपनांतुलो बुवा'. जी. एन. लक्ष्मण पै हांणी 'आमगेलो समाजु' हें नाटक बरयलें. सुंदर उल्लाळ हांणी 'मामाली मैना', 'चुकि कोणाली' आनी 'भारत-भाग्य' हीं तीन नाटकां बरयलीं. उपरांत देवराय बैंदूर हांणी 'दोनी व्होरां', 'सोयरिके संभ्रमु', 'दुडवाध्यान' अशीं अनेक नाटकां बरयलीं. गोपी कामत हांणी 'विलायती व्होरेतु', 'गृहिणी गृहम', 'उच्याते' अशीं जाल्यार. आर. डी. कामत हांणी 'पडललीं फुलां', 'मातृदेवो भव',

'भर्तृहरि' अशीं नाटकां बरयलीं. हीं सगलीं नाटकां सादर जालीं आनी रोखडींच लोकांमोगाळ जालीं.

हिन्दू सारस्वतां मदीं आशिल्ले नाटकांचे परंपरेक लागून देवाधर्मा वयलीं नाटकां चड बरोवन जालीं. 'सावित्री-सत्यवान' वा 'प्रल्हाद-चरित्र' हीं नाटकां तांतलीं. पूण उपरांत विशय बदलले. समाजांतल्या धोंगांपोंगांचेर उजवाडाचो झोत घालून लोकांमदीं जागृताय निर्माण करपी नाटकां व्हडा प्रमाणार जावंक लागलीं. देवराय बैंदूर, गोपी कामत अशा लेखकांलीं नाटकां हीं प्रहसनां आसलीं. चडशे हांसोवणे खेळ. रामानंद चुर्याली नाटकां 'दोनी घडी, हांसून कडीं' वा 'माळ्ळेलें फूल' हीं ह्याच प्रकारांतलीं. मदींमदीं देवदेवता वा पुराण विशया वयलीं नाटकांय येतालीं. बी. व्ही. बाळिगा हांगेलें 'संत तुकाराम' वा 'भरत भेट', आर. डी. कामतींलें 'भर्तृहरि' वा प्रभाकर मुडूर हांगेलें 'दत्तजन्म' हीं नाटकां धर्मीक वृत्तीच्या लोकां खातीर बरयिल्लीं.

१९१२ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या 'चंद्रहास' नाटकाक आयज शंबर वर्सां उलगलीं. पूण ह्या शंबर वर्सांमजगतीं नाटक ह्या प्रकारान हें भुयेंर उंचाय गांठिल्ली दिश्टी पडना. आजुनूय मांय-सुनेच्यो काणयो वा पचपचीत विनोद हांच्या परिघा भायर हांगासरले नाटक आयिल्लें दिश्टी पडना.

लळीत साहित्याच्या मळार भोव कृतिशील आशिल्लो क्रिस्तांव कोंकणी समाज नाटकाकडेन चिके उसरां पावलो. काळांतलीं तांगेली नाटकां येवरोपी प्रभावा खाला जातालीं. जायत्यो नाट्यसंस्था कार्यरत आसल्यो. पूण १९२० मेंरेन कोणेय बरयिल्ली एकूय संहिता मेळना. खेळ जाताले ते सगले देवधर्म विशया वयले. १९२० वर्साच्या सुमाराक पेद्रु जुआंव सौझा हांणी कांय नाटकां समाजीक विशयाचेर बरयलीं. पेद्रु जुआंव, पास्काल सिक्वेरा आनी बोनाव्हेंतूर तावरो ह्या तिगांनी ह्या काळार भोव मोलादीक नाटकां माचयेर हाडलीं. 'दोग सार्जंट', 'चूड कोत्रू', 'नावाडिक वैज', 'तकलेंतलें सुकणें', 'बाळ आलेस', 'देश दैवीक', 'जेनेव्हीव' हीं तांगेलीं नाटकां म्हळ्यार कोंकणी माचयेक मेळिल्लें भोव मोलाचें योगदान.

लुवीस मस्कारेन्य हांगेलें 'आब्रांवाचें यज्ञदान' हें जरी खण्डकाव्य आसलें तरी तें काव्य-नाट्य. माचयेर सादर जालें ना तरी ताचें साहित्यीक मुल्य चड. तांचे कडल्यान प्रेरणा घेवन मागीर व्हि. जे. पी. साल्डानानय दोन गीत-नाट्यां रचल्यांत. 'तब्यास' आनी 'खतांवीण काळीज' हीं तांगेलीं संगीतबद्ध जावन सादर जाल्लीं नाटकां. व्हि.

जे. पीन कांय धर्म विशयक नाटकांय बरयल्यांत. पूण समाजीक नाटकांनी चड लोकां-मोग जिखलो. 'खालती मान', 'उलयतात, उलोंवदीत', 'निर्मण', 'भावनांतलो गुलाब' हीं तांगेलीं नाटकां गाजल्यांत. पूण आयज लेगीत व्ही. जे. पील्या सगल्या नाटकां मदीं 'सरदाराची सिनोल' हें नाटक भोव उंचेल्या पांवड्याचें अशें लेखतात.

कोंकणी साहित्यीक चळवळीचें खाशेलेंपण म्हळ्यार खंयच्याच लेखकाक एकच साहित्यप्रकार घेवन बसप शक्य जायना. शणै गोंयबाबान साहित्याच्या सगल्या मळांचेर संचार केला. कथा, कविता, नाटक, निबंद, संशोधनपर... कितें ना म्हूण ना. हीच तरा रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय ह्या म्हालगड्यांची. कर्नाटकांतलीय गत्त वेगळी न्हय. देखून आमकां जोसा आल्वारीस, व्हि.जे.पी साल्डाना, श्रीगब्बू, सी.जी.सिक्वेरा, चा.फ्रा.डि कॉश्ता, जे.बी.मोरायश, डोल्फी कास्सिया हीं नांवां सगल्या मळांचेर वाचूंक मेळटात. ह्या सगल्यांनी नाटक ह्या प्रकाराकूय लक्षणीय योगदान दिलां.

जो. सा. आल्वारीस ह्या अश्ट तांसांच्या लेखकान 'चेडवाचो हंकार पळे', 'एस्तेल तेगांची व्हंकल', 'जेझू नाजरेन' आनी 'चेडो एक चेडवां साडेसात' अशीं सात नाटकां बरयलीं. हांतलें 'चेडो एक चेडवां साडेसात' हें नाटक अणकार जावन तुळू भाशेंत पावलें. ह्याच काळार जे. बी. कुलशेकार हो नाटककार जावन गेलो. ताणें एकांकी लेखन केलां. एस. एस. प्रभू होय ह्याच काळार नाटककार म्हूण नामना जोडूंक पावलो. तागेलीं 'दोत', 'नौकर', 'रयताक जैत', 'जोड तेकीत मोड' हीं नाटकां खूब लोकप्रीय जावंक पावली. मार्टीन पी. डिसा हो हांगा सरलो म्हालगडो नाटककार जाच्या नांवार पंचविसां वयर नाटकां आसात. सगलींच न्हय तरी चडशीं नाटकां हीं देवाधर्माचेर आदारून बरयिल्लीं. 'लेउपोल्दाचीं पातकां', 'कोमुनिज्म', 'सपनांत मरण', 'सोमियाचो पाशांव', 'फातिमाची सायबीण', 'ख्रिस्ताचें जनन', 'मार्तिराचें जैत', 'आसिसाचो सेराफ' हांचे मदलें 'सोमियाचो पाशांव' हें जेजू ख्रिस्ताच्या मर्णा वयर बरयिल्लें नाटक उत्कृश्ट अशें मानतात.

लॅन्सी पिन्टो नायक हाणें नाटकां बरयल्यांत तशो एकांकी बरयल्यात. अणकारीत नाटकांय ताच्या नांवार आसात. जे.बी.रास्कीन्य, डी.पी.आल्बुकेर्क, फ्रेड फेर्नांडीस हांणीय कांय सुंदर नाटकां बरयल्यांत. रास्किन्याली 'इश्टागत' आनी 'अपुर्बायेचें काजार', आल्बुकेर्कालीं 'हांव राय जाल्लों जाल्यारि', 'गढीपार केल्लो रायकुंवर'

'आस्तेक लागोन ख्यास्त' आनी 'आमचें दायज'. फ्रेड फेर्नांडिसालीं 'भिकारी', 'बलात्कार', 'विचित्र खुनी' आनी 'मांय कूंय आसाय?' हीं नाटकां खूब गाजल्यांत. मीक मॅक्स, एडी सिक्वेरा, क्लॉड डिसौझा, हेन्री डिसिल्वा सुरतकल, विल्फी रेबिम्बस, फ्रान्सीस फेर्नांडीस, जे. वी. डिसौजा कुलशेकार ह्या लेखकांनी नाटक ह्या साहित्य प्रकाराक भोव मोलाचें योगदान दिलां. पूण हया सगल्यां मदीं आपणाल्या वेगळे पणाक लागून उठून दिसता तो कवी आनी नाटककार चा. फ्रा. डिकॉश्ता.

मार्क्सवादी विचारांच्या प्रभावा खाला आयिल्ल्या चाफ्रांची संवसारा कडेन पळोवपाची तरा आधुनीक आनी बुद्दीप्रामाण्यवादी आसली. सरसामान्या कडेन पावपाचें सगल्यांत चड प्रभावी माध्यम म्हळ्यार नाटक हें तांकां होलमल्लें. कांय काळ मुंबय शारांत सारिल्ले कडेन मराठी प्रायोगीक रंगभुंये कडेन तांची वळख जाल्ली. मुंबयंत रावन मराठी, गुजराती, हिन्दी आनी इंग्लीश भासांत माचयेर येवपी नवे-नवे प्रयोग तांणी पळयले. आनी आपणाले समाजाभिमूख आधुनीक विचार नाटक ह्या माध्यमा वरवीं लोकां मेरेन पावोवपाचो निर्धार केलो.

नाटयसंहिता कशी आसची हाची बरी जाण आशिल्ल्या चाफ्राच्या नाटकांनी कथानकाचो विकास सभावीक जाल्लो दिसता. पात्रां भोंवतणच्या समाजांतलीं जितीं जिवीं जावन वावुरतात. प्रसगांची वीण चित्तवेधक आशिल्ल्यान अखेर मेरेन वाचक जावं प्रेक्षक नाटकाक खिळावन उरता. चाफ्राले संवाद म्हळ्यार नाटकाचो कणो भास, म्हणी, वाक्प्रचार हांचो ताजी इतलो सुंदर मेळ घाला जाका लागून अरसीक लेगीत रसीक जावन रूच घेता. 'सुणे माजर हांसता' हें समाजांतले दंभिकतायेचेर उजवाड घालपी नाटक. प्रोफेसर मोरेलो हाका मोनजातीची भास समजूंक लागता आनी तातुंतल्यान 'दिसता तशें नासता' हें कोडू सत उकताडार येता. विशय गंभीर आसुनूय संवादांक विनोदाची देग आसा. 'विशेंतीलो भाव' हें नाटकूय एक वेगळेच भाशेनचें. व्हडा कश्टांनी ल्हानांचे व्हड केल्ले भुरगे कशे पडमूर जावन आवयक फाट करतात हें दाखोवपा खातीर आवयच कशें मरणाचें नाटक करता तें हया नाटकांत दाखयलां. 'तरने तरने मोरने' हें नाटकूय जिवितांतल्या कोडू सत्याक उकतें करून दाखोवपी. पाद्री हे देवाचे म्हणयारे म्हूण वावुरतात तरी तेय मनीसच; तांकांय नसाय, दुस्वास, तिडक, आस, मोग आनी राग आसता. देवभावार्ती लोकांचे दोळे उकते करचे खातीर बरयिल्लें हें नाटक. चाफ्रालीं नाटकां मंगळूरा परस मुंबय शारांत चड गाजलीं. ते इतले

ेशाल नाटककार की तांकां कवी म्हणचो काय नाटककार असो प्रस्न पडटा. ़व पळयत आसा', 'हांडो ओतला', 'कुवाळयाची वाळ', 'बुकल्याक सात जीव', ांगर मनीस', 'मांकडाचो पाय' अशीं अनेक नाटकुलीं तांणी बरयलीं. दोत-'रदक्षणा विशयाचेर तांणी बरयिल्लें 'सोबीत संवसार' हें नाटक जेन्ना प्र.के.अत्रे ्या नामनेच्या मराठी नाटककारान पळयलें तेन्ना अत्रेन चाफ्राची मेकळया मनान ्स्त केल्ली. चाफ्राच्या नाटकांक लागून कोंकणी नाटक चळवळूच न्हय कोंकणी ासूय गिरेस्त जावपाक पावली.

ालनाटय चळवळीन आजून हांगा मुळां घट करूंक नात. पूण अशे चळवळीची ारज वळखून गुरु बाळिगा हया तरनाटयान बीं रोयलां. 'पात्तोळे रूख' हें लोकवेदाची ्रसका आशिल्लें नाटक बरोवन मुळावण घालां.

## संकीर्ण

निबंदलेखन, बालसाहित्य, प्रवासवर्णन, आत्मचरित्र, समिक्षा अशा विविध विशयांचेर लेखन जाता. नेमाळयांतल्यान उजवाडाक येता ते सगलेंच पुस्तकरूपान परगट जाताच अशें ना. प्रसंगी परोब आनी लुविजावतीबाय हांणी नेमाळयांचेर केल्लें विनोदी लेखन भोव लोकांमोगाळ जालां. अश्टतांसांचो लेखक सी.जी. सिक्वेरा हांची विनोदी शैली खूब मार्मीक. 'गृहाचार', 'फुगेटयो', 'फकाणां', 'सुरसुयो', 'कुचिल्यो', 'मसक्यिो' हीं नांवा वयल्यानच समजूं येता अशीं विनोदी लिखाणांचीं संकलनां प्रकाशीत जाल्यांत.

बालसाहित्याचींय पुस्तकां भायर सरूंक लागल्यांत. एन्सी पलाडका हाणें भुरग्यां खातीर पुस्तकां बरयल्यांत तीं गोंयांत लेगीत लोकप्रीय जाल्यांत. 'कुंडयांकुरकुल' सारक्यो लोकांकाणयो संकलनांतल्यान लोकां मेरेन पावल्यात. एन्सी पलाडकान बालगितांय बरयल्यांत. हालींच विश्व कोंकणी केन्द्रान 'बाल साहित्य माळा' ही पुस्तकांची सांकळ छापपाक सुरवात केल्या. पंचतंत्रांतल्यो सचित्र कथा कोंकणी आनी इंग्लीश दोनूय भाशांनी एकाच पुस्तकांत प्रकाशीत केल्यात. जांची मातृभास कोंकणी पूण शिक्षण इंग्लिशींत जाता त्या भुरग्यां खातीर ही खोशेची गजाल. जांची इंग्लीश बरी ना ते कोंकणींतली काणी समजून घेवन इंग्लीश भाशांतरा वरवीं आपणाली इंग्लीश उतरावळ वाडोवंक शकतात. तशेंच जांकां इंग्लीश बरी कळटा पूण कोंकणीचें गिन्यान संपादपाची इत्सा आसा तांकांय हांचो लाव मेळटा.

हे माळे वरवीं परंपरीक, लोकवेदांतल्यो आनी नव्यान रचिल्ल्यो स्वतंत्र काणयो भुरग्यांक वाचूंक मेळटात.

प्रवासवर्णनां नेमाळ्यांनीं खूब छापून आयल्यांत. पूण आगळें वेगळें म्हणपा सारकें पुस्तकरूपान तरी हाताक मेळना. चरित्रां खूब आसात. मों.सिल्वेस्टर मिनेझीस आनी आलेक्स पायस हांणी संतांचीं चरित्रां बरयल्यांत. भोवतांसांचो साहित्यकार जो. सा. आल्वारीस हाणें 'म्हज्या जिविताची चरित्रा' हें आत्मचरित्र बरयलां. हें घडये कन्नड लिपयेंतलें आजवेर उजवाडाक आयिल्लें एकलें एकसुरें आत्मचरित्र जावंये. समिक्षेच्या मळारूय जाल्लो वावर हो चडसो नेमाळ्यांच्या पानांनीच बंदिस्त उरला. स्वामी सुप्रिया हांणी र.वि.पंडितांच्या 'दर्या गाजोता' कविता संग्रहाचेर विमर्सो परगटायला. फा. सी. सी. ए. पै म्हळ्यार स्वामी सुप्रिया हांणी अध्यात्म, संस्कृताय आनी लोकवेद हया विशयांचेर चिंतनपर लेखन केलां. तांगेलें 'कोंकणी हुमणयो' हें हुमाण्यांचें संकलन म्हळयार कोंकणी सरस्पतेच्या आंगा वयलो मोलादीक अळंकार. 'टिका' ही साहित्याची गरज अशें प्रतिपादन करपी चा. फ्रा. डिकॉश्त म्हणटा- "जर बरयणार नैतिक मोलांचेर सवाल उठयता- हाची टिका जाय जाय." गोंयच्या तियात्रांची टिका जायना देखून ते कलात्मक पावंडयार अदीक उंचायेर पावनात अशें परखड मत उक्तावपी चाफ्रा स्वता एक उत्तम टिकाकार आसलो. फा.विली डि सिल्वा हे समाजशास्त्रांतले विद्वान. तांणीय समिक्षेच्या मळार मोलादीक वावर केला. जंय जंय वांकडें वा चूक दिसता थंय थंय कडक प्रहार करपी अशी फा. विलींची नामना आसा. लुवीस मस्कारेन्याल्या 'आब्रांवाचें यज्ञदान' हया खण्डकाव्याचेर फा. विली सयत चाफ्रा, एडवीन डिसौझा आनी जे. बी. मोरायश हांणी समिक्षात्मक लेखन केलां. जेन्ना कोंकणी साहित्य लोक उणाक लेखताले वा काव्य म्हळयार बेकारपणाचें काम अशें लेखताले तेन्ना चा. फ्रा. सारको हाडाचो कलाकार न्हिन्नळून म्हणटा- "कुंडोखायग्यांक उंडयाची रूच कितें कळीत?," देखून आपणे त्या लोकांकडेन कवितेचेर उलोवप सोडून दिलां अशीं तिडकेचीं आनी निर्शेणेचीं उतरां तांणी काडिल्लीं.

हालीं सराक दक्षीण कन्नड वाठारांतले लेखक आपणाल्यो उत्तम साहित्यकृती देवनागरींत लिप्यंतरा सयत उजवाडायतात. हाचो फायदो नागरी वाचकांक मेळटा. वट्ट कोंकणी साहित्यांत हया साहित्याचो कस कितें हाचो तुळनात्मक अभ्यास करूंक ताचो आदार जाता. साहित्याचे उदरगती पसत वावुरपी आनीक कांय

आपवावुरपी म्हालगड्यो संस्था आसात. कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादेमी, सेंट अलोयसियस कॉलेज मंगळूर, कोंकणी कला आनी संस्कृती केंद्र, तशेंच विश्व कोंकणी केंद्र, कविता ट्रुस्ट, आदी. हांच्या कार्या उदेशीं फापसून आशिल्लो विंगड विंगड वाठारांतलो कोंकणी लोक एकठांय येता ही खोशेची गजाल.

# केरळांतलें साहित्य

केरळ हो गोंयचे वरीच सैमान नटिल्लो चकचयाळ उदकांचो पिकाळ प्रदेश. सैमीक साधनांनी गिरेस्त तसोच साबार कलांच्या मळारूय समृद्ध. ह्या केरळान भारताक अनेक नामवंत साहित्यकार दिले. साहित्याक भोव पोशक वातावरण आसुनूय हांगा सरल्या कोंकणी समाजान कोंकणी भाशेक फावो तितलें योगदान दिल्लें ना. अर्थात, ताका इतिहासीक कारणां आसात. भाशीक, संस्कृतीक आनी कुटुंबीक मळां वयल्यान पाळांमुळां सकट हुमटून ह्या दूरदेशांत येवन स्थायीक जाल्ल्या कोंकणी लोकांनी त्या काळार कितल्या संकश्टांक तोंड दिलां आसतलें हाची कल्पना करुं नज. अल्लाउद्दीन खिलजीन रामदेवराय यादवाचेर घुरी घाली तेन्ना धर्मांतराचें संकश्ट टाळपा खातीर गोंय वाठारांतल्या कोंकणी लोकांनी पयलें सत्तांतर केलें आनी ते कोची शारांत पावले अशें इतिहासकार सांगतात. धर्म कोल्ली पुर्तुगेजांच्या बचक्यांतसून सुटपा खातीर सोळाव्या शतमानाचे अखेरेक आनी सतराव्या शतमानांत जे व्हडा प्रमाणार स्थलांतर जालें तांतले चडशे लोक जरी कर्नाटकांत मंगळूर मेरेन गेले तरी खुबशे कोची शारांत पावले. कोचीचो राया केशव वर्मा हाणें तांकां वेपार उद्देग करपा खातीर सुविधा प्रदान केल्यो. कोंकणी लोकांची हुशारी, बुदवंतकाय आनी उजू चलणूक पळोवन कोचीच्या रायान भोव प्रभावीत जावन तांकां तांचें देवस्थान बांदपा खातीर सुवात उपलब्ध करून दिली. पूण भोव कश्टांनी तांणी जी कीर्त आनी दुडू जोडलो तो उपरांत झुटयेर आयिल्ल्या राजा राम वर्मा शक्तन तंबु हाच्या दोळ्यां गेलो. दुस्वासाक लागून ताणें तांची लूटमार केली. देवूळ लेगीत सोडलें ना. त्या वेळार कोचींत स्थायीक जाल्ले खूब जाण शार सोडून आनीक दक्षिणे वटयां आलेप्पी तशेंच हेर सुवातींनी पावले. आकांताभरशीं पळून गेल्ल्यान जी कितें कोंकणी बरपावळ तांचे कडेन आशिल्ली तीय नश्ट जाली अशें अनुमान आसा.

केरळांत कोंकणी लोकांची बसकण थिरावता म्हणसर शंबर देडशीं वर्सां लागलीं. ह्या प्रस्थापीत जावपाच्या काळांत कोंकणी समाजाक भाशेचे वाडी खातीर कितेंच करप शक्य जालें ना. मजगतच्या काळांत लोकांनी थळावी मळ्याळम भास

शेकून घेतली आनी ते भाशेंत साहित्यूय रचलें. अशें आसलें तरी जिबे वयली कोंकणी तांणी सांबाळून दवरली. स्थलांतर करतल्यांची संख्या कितली आसली हांचो हिशोब मेळ्ळो ना तरी ती कांय शेंकडे वा एक दोन हजारा वयर नासूंये. आयचे घडयेक फकत कोची शारांत सुमार दोन लाखा परस चड कोंकणी लोक रावतात आनी पुराय केरळांतली संख्या सुमार पांच लाख आसूंये. लोकमेजणेंत मेळटा ती संख्या खरी न्हय हें हांगासरलं कोंकणी लोकच सांगतात. ताचीं कारणां विंगड-विंगड आसात. मुखेल म्हळ्यार कोंकणी भाशी म्हळ्यारच गौड सारस्वत ब्राह्मण अशें समीकरण जावन पडिल्लें. शिक्षणीक, संस्कृतीक, व्यापारी आनी राजकी मळारूय गौड सारस्वत ब्राह्मण समाजाचे वर्चस्व जोडिल्ल्यान कोंकणी समाज हो अर्थीक आनी समाजीक नदरेन सुस्थितींतलो समाज अशी भावना केरळांत निर्माण जाल्ली. खरें म्हळ्यार, बामण सोडल्यार वैश्य आनी कुणबी कोंकणी समाज हांगा व्हडा संखेन आसा. इतलो की तांची संख्या गौड सारस्वत ब्राह्मण समाजा परस चड आसा. पूण त्या समाजा वांगडा जोडल्यार आपणांक अर्थीक नदरेन दुबळे म्हूण मेळपी सरकारी सुविधा मेळच्यो नात वा मागास वर्गीय म्हुण मान्यताय मेळची ना अशीं असुरक्षीततताची भावना ह्या ब्राह्मणेतर लोकां मदीं निर्माण जाली. देखून जिबेर कोंकणीच घोळटा आसुनय हे लोक आपणाली आवयभास 'मलयाळम' अशी नोंदणी लोकमेजणेंत करूंक लागले.

## लोक साहित्य

कोंकणी भाशी समाजान गोंयच्यान येतना वांगडा कोंकणी लोकसाहित्यूय हांगा हाडलें हाचें इतिहासीक प्रमाण मेळटा. गोड्डेंरामायण सारकें जिबेर घोळून शेंकड्यांनी वर्सां जिवें उरिल्लें महाकाव्य हांगा मेळटा. गोंयच्यान हाडिल्ल्यो कुंडेकुस्कूर सारक्यो लोकांकाणयो, लोकगितां, आल्लयो, बालगितां, व्हार्डिकेगितां, फुगड्यो आनी हेर लोकसाहित्य तांणी जाता तितलें सांबाळ्ळें. केळयतां-केळयतां काळाचें व्हावतेंत खुबशें शेणलें आनी ते सुवातेर थळाकाळा प्रमाण नवें निर्माणूय जालें.

इतिहासीक वा धर्मीक संकश्टां येतात तेन्ना लोक एकलो दुकलो वचना तर चोम्यांनीं वता. एकेच जातीचो वा एकाच वेवसायांतलो न्हय तर गांवचो साबार लोक एकठांय येवन स्थलांतर करता. केरळांत पाविल्लो लोकूय असोच विंगड विगड समाजांतलो आसलो. बामण, सोनार, वाणी, मडवळ, कुणबी, खारवी असो

हो लोक फाटलीं किमान साडेचारशीं वा पावणे पांचशीं वर्सां केरळांत राबिते करून आसा. ह्या लोकांनी गोंयच्यान वतना ओंठांर घोळपी कोंकणी भास आनी ते भाशेंतलें लोकसाहित्यूय वांगडा व्हेलें. लोकांकाणयो, आल्लयो, व्हार्डिकेगितां, भक्तिगितां हांचे वांगडाच रामायणा सारकें म्हाकाव्य थंय लोकसाहित्याच्या रूपान पावलें. तें म्हळ्यार कोंकणी लोक परंपरेंतलें आद्य अशें जाका म्हणूं येता तें 'गोट्टु रामायण'. विशेश म्हळ्यार एका काळार गोंयच्या भौसांत घोळपीं हें काव्य आता गोंयांत सोदुनूय मेळना.

काल पयर मेरेन दिसतालें, कृष्णदास शामान बरयिल्ल्यो रामायणांतल्यो काणयो हेंच आमचें आद्य रामायण साहित्य. सोळाव्या शतमानांत शामान रचिल्ल्या ह्या रामकथांकूय आमच्यांनी लोकसाहित्य म्हणूं येता. कारण तें वाल्मिकी रामायणा प्रमाण ना. हांगा रावण सितेक घेवन पळटा तो उतट्टें, केळशी ह्या गांवांतल्यान वता. गोंयच्या थळांचे संदर्भ आशिल्ल्यो ह्यो रामकथा वेदीक परंपरेंतल्यान देंवन लोकसाहित्याचो भेस चडयिल्लेवरी दिसतात. पूण केरळांत पाविल्लें गोट्टु रामायण लोकपरंपरेक धरून तयार जाल्लें कथनात्मक काव्य जावन आसा, अशें लेखपी जायते जाण आसात. कोच्ची शारांतले नामनेचे विद्वान प्रो. आर. के. राव (१९२४-२००८) हांकां एर्नाकुलमच्या मुण्डश्शेरी नांवाच्या घराब्यांत 'गोट्टु रामायण' म्हाकाव्याचीं पोरनी तळतां-शिवंडी (ताडपत्रां) सांपडलीं. ही शिवडी त्या प्राचीन काळार लोकांमोगाळ आशिल्ल्या 'वेंकटेश कल्याण' ह्या काव्या परसूय पोरनी म्हणपाचें जाणकारांक होलमलें. तळतांची आवतिकाय इबाडपा कडेन पाविल्ली. प्रो. रावानी तांकां खबर आशिल्या पोरन्या तंत्रा प्रमाण पानकुरके झाडाच्या पानांचो रोस लावन तळतां वाचपा सारकीं निवळ केलीं. ही ताडपत्रां दोनशीं वर्सां पोरनीं अशें त्या वेळार जाणकारांनीं सांगलें खंय. मुळांत गोंयचें हें लोककाव्य कोंकणी लोकांनी जिबेर सांबाळिल्लें. थळ आनी काळा प्रमाण कांय उतरां बदललीं तरी मूळ रामःकथा आनी गीत काणयेची गेयता ह्या काव्यांत जतनायेन दवरिल्ली आसा. लिपी मल्याळम आसा कारण मलयाळम शिकिल्ल्या कोंकणी मनशान ही गाथा बरयल्या अशें अनुमान डॉ. राव हांणी केलां. जीं ताडपत्रां मेळ्ळ्यांत तांची संख्या ६४ आसात. पूण मदलीं आनी अखेरचीं कांय तळतां नश्ट जाल्यांत वा शेणल्यांत. मेळ्ळ्यांत त्या तळतांनीं पांचशां वयर श्लोक आसात. ही पुराय रामकथा वाल्मिकीन रचिल्ल्या रामायणाचेर आदारून आसा. पूण सुर्वेक इश्ट देवतांक नमन

केल्या उपरांत श्रावणबाळाची कथा येता ती मात मूळ आमी जाणात ते प्रमाण ना. मागीरचीं बालकाण्ड धरून हेर काण्डां मात वाल्मिकी रामायणाक अणसरून आसात. (प्रो. आर. के. राव, 'गोड्डे रामायण', प्रका. कोंकणी भाशा इन्स्टिट्यूट, कोची.)

वेदीक परंपरेंतलें साहित्य हें लिखीत स्वरूपांत आसता. जे वरवीं गोड्डें रामायण तळतां शिवडींचेर बरयिल्लें मेळ्ळां ते वरवीं ताका वेदीक परंपरेंतलें लेखप समा जातासलें. पूण हांगा तशें म्हणूंक मेळना. कारण मुळांत तें गोंयचे लोकपरंपरेंतल्यान कोच्चीक पाविल्लें ओंठां वयलें काव्य. उपरांत शंबर सवायशें वर्सां सरतकच कोणें तरी अनामिकान बरोवन दवरलें. आयज आमी लोकसाहित्याचें जतन करपा खातीर धालो- फुगड्यो- जागर हे प्रकार बरोवन दवरतात तेचपरी हें काव्य काळाचे व्हांवतेंत शेणून वचचें न्हय म्हूण बरोवन दवरिल्लें आसुंये. एका अर्थान तें सार्थ जालें. कारण फाट्ल्या पांच दसकांत गोड्डे रामायणाचें भौशीक सादरीकरण बंदच पडलां.

सतराव्या शतमानांत केरळांत रचून जाल्लो 'हॉर्टस इंडिकस मलबारिकस' हो म्हाग्रंथ म्हव्यार कोंकणी मनशांचे बुदवंतकायेचो गडगंज पुरावो. पाळां-मुळां आनी झाडपाल्याच्या वखदां विशीं मोलादीक म्हायती दिवपी हो बारां खंडांनी प्रकाशीत जाल्लो प्रकल्प सतराव्या शतमानांत मलबार देशांत कोझिकोडे वाठारांत पाविल्या रंगा भट, विनायक पंडीत आनी अप्पू भट ह्या तीग कोंकणी वैजांनी दिल्ले म्हायतीचेर आदारून आसा. ह्या प्रकल्पाक अर्थीक पालव दिवपी डच कमाण्डर आंद्रिकी फांड्रे (Henrique van Rheede) हाच्या आग्ग्याक लागून बरयिल्या ह्या ग्रंथाक ह्या तिगां वैजांनी जें स्वहस्तान प्रमाणपत्र बरोवन दिलां तें देवनागरी लिपयेंत आसा. हें हस्तमुद्रीत (ब्लॉक प्रिंटिंग केल्लें) केल्लें बरप केरळांतलेंच न्हय तर सबंद भारतांतलें पयलें देवनागरी मुद्रण अशें लेखतात.

केरळांतल्या आदिकाव्यां मदीं गोड्डे रामायणा फाटोफाट मेळटा तें 'वेंकटेश कल्याण.' हें लोकसाहित्य न्हय. पूण ह्या काव्याचो रचनाकार कोण ताची नाट मेळना. दक्षीण भारतांत भक्ती आंदोलन जेन्ना तेमकार पाविल्लें त्या काळार केरळांत पाविल्ल्या कोंकणी मनशाची चित्तवृत्ती आजून थाऱ्यार पडची आसली. पूण वीस पंचवीस वर्सां मदीं ताणें आपणाली बसकण थीर केली. मुळांतच ताचो पिंड धर्मीक आनी अध्यात्मीक जाल्ल्यान ताची सर्जक शक्त धर्मीक साहित्य रचपांत गुल्ल

जाली. कोंकणी समाजाचे पयलें देवस्वम स्थापन जालें त्या समयार जावंये. ह्या काव्याची निर्मणी जाल्ली. हें काव्य भोव करून बायलां मदीं चड लोकांमोगाळ जाल्लें. ह्या काव्याचीं पारायणां जावन तें लोकांच्या तोंडार बशिल्लें अशें म्हणटात. ज्या प्रो. आर. के. राव हांच्या यत्नांनी 'वेंकटेश कल्याण' देवनागरी लिपयेंत पुस्तक रूपान येवंक पावलें तें 'वेंकटेश कल्याण' हें केरळांतल्या वट्ट साहित्यांतलें पयलें खण्डकाव्य अशें प्रतिपादन प्रो. आर.के. राव करतात. (प्रकाशकाचीं उतरां, पान ७ - 'वेंकटेश कल्याण' प्रका. कोंकणी भाशा इन्स्टिट्यूट) त्या प्रदेशाची भास मल्याळम आसूनय ते भाशेंतलें पयलें खंडकाव्य 'वीण पूव' (बाविल्लें फूल) कवी कुमारन आशन हांणी १९०३ वर्सा बरयिल्लें. 'वेंकटेश कल्याण' चो रचनाकाळ अमूकच वर्स म्हूण सांगू येना. पूण १५९९ वर्सा कोंकणी जनांनी वेंकटेश मंदीर बांदून प्रतिशठापना केली त्या समयार रचलां जावंक जाय अशें प्रो. राव म्हणटात. भाशातज्ञांचो तांकां तेंको मेळटा कारण खंडकाव्याच्या भाशेच्या आदारान ताची रचना सतराव्या शतमानाचे सुर्वेक जाल्या अशें अनुमान हे तज्ञ काडटात. ह्या भक्तीकाव्याचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तें गावंकूय सोंपें आनी पाठ करपाकूय सोंपें.

आरंबाच्या काळांत जें साहित्य हांगा रचलें तें चडशें धर्मीक वा भक्तिपर साहित्य आसलें. अठराव्या शतमानांत रचिल्लें खंडकाव्य 'वेंकटेश कल्याण' हो केरळांतल्या कोंकणी साहित्याचो आद्य नमुनो. हें काव्य कोणे रचलें तें कळपाक मार्ग ना. पूण संगिताची बेस बरी जाण आशिल्ल्या कोणाय विव्दानाची ही निर्मिती आसूंक फावो. भविश्योत्तर पुराणांतल्या वेंकटाचल महात्म्याचेर आदारीत हे खंडकाव्याचे चार अध्याय आनी वट्ट १६८ श्लोक आसात.

'वेंकटेश कल्याण' हे रचने फाटल्यान आनीक गीतरचना जाल्ल्यो आसूंक जाय. पूण त्यो घोळटिकेंत उरूंक नाशिल्ल्यान कसलीच म्हायती मेळना. कोचींत आशिल्ल्या सुकृतिन्द्र ओरिएण्टल रिसर्च इन्स्टिट्यूट हांणी उजवाडायिल्ल्या आनी शरतचंद्र शेणै हांणी संकलीत केल्ल्या 'नंदादीप' ह्या पुस्तकांत १८५० ते १९५० ह्या काळा मजगतीं केरळांतल्या कोंकणी साहित्यिकांनी जें योगदान दिलें ताची सविस्तार म्हायती मेळटा. ह्या काळांतली म्हालगडी म्हळ्यार अम्मूलक्का शेणै (१८५१-१९०२). अम्मूलक्का ही एक स्त्रद्धाळू कवी. तिका ताळोय बरो आसलो. ती स्वता गितां रचताली आनी भावार्तो लोकां मदीं गावन दाखयताली. तिगेलीं गितां इतलीं लोकप्रीय जालीं कीं उपरांत तीं लोकसाहित्याचे पदवेक पावलीं. तिणें

नक्ष्मी प्रतिश्ठा' आनी 'भांगरा गरूड' हीं प्रसंगोचीत रचिल्लीं दोन गितां आजून ोकांचे जिबेर घोळटात.

hरळांत राबितो करून राविल्ल्या कोंकणी लोकां खातीर कोंकणींतल्यान शिक्षण ावची वेवस्था नाशिल्ल्यान लोक मलयाळम भास शिकलो. मुळांतच कोंकणी ानीस हो भाशाप्रेमी जाल्ल्यान अवघ्या दोन पिळग्यांमदीं ताणें मलयाळम ााशेचेर इतलें प्रभुत्व जोडलें की ताणें रचिल्ल्या मलयाळम साहित्यावरवीं ताका नलयाळम भाशेंतले नामनेचे साहित्यकार म्हूण लेखूंक लागले. घरांत उलोवपाची भास कोंकणी आनी साहित्य रचने खातीर मलयाळम ही चालच जावन पडली. अशें आसलें तरी तांणी कोंकणीक फाट केली ना. सरभोंवतणचें वातावरण अनुकूल नासुनूय तांणी कोंकणीक लिखीत रूप दिवपाचो तोखणायेचो वावर केलो. साहित्याच्या इतिहासांत पर्जळिल्ले एम.शेषगिरी प्रभू (१८५५-१९२४) ह्या संस्कृत, मल्याळम, इंग्लीश भासांचेर प्रभुत्व जोडिल्ल्या विद्वानान मायभाशेची सेवा करपाचे जबर वानशेंतल्यान 'कोंकणी भासेचो उगम आनी स्वरूप' ह्या विशयाचेर खोलायेन आनी विस्तारान बरयलें. पूण मूळ कोंकणी बरप आयज सोदल्यारूय मेळना तरी इंग्लिशींत रचिल्ले 'द कोंकणी लँग्वेज - हिस्टोरिकल ॲण्ड लिंग्विस्टीक पर्सपॅक्टीव्हस' (प्रका. -सुकृतीन्द्र ओरिएन्टल रिसर्च इन्स्टिट्यूट कोची) हाची गवाय आसा. तांचोच पूत आर.एस. प्रभू (१८७८- १९५६) हाणें बापायलो वावर अदीक फुडें व्हेलो. कोंकणी भाशेची गिरिस्तकाय होलमल्ल्या ह्या विद्वानान विंगड विंगड वाठारांनीं भोवन कोंकणी भाशेंतल्यो २००० वयर म्हणी आनी वाक्प्रचार पुंजावन निगूत अक्षरान नागरी लिपयेंत संकलीत केल्यो. हें संकलन उपरांत १९८५ वर्सा केरळ कोंकणी अकादेमीन उजवाडाक हाडलें. 'सारस्वत बोधिनी' ह्या ज्ञातीच्या नेमाळ्याचेर पयलेच खेपेक (१९२४) कोंकणी विभाग सुरू करून स्वता ताचेर बरोवपाक सुरवात करपी आर. एस. प्रभून ताचेर ल्हानसान नाटकुलींय बरयलीं. तांणी तयार केल्लें म्हणी-वाक्प्रचारांचे संकलन उपरांतचे पिळगेक प्रोत्साहक आनी प्रेरणादायी थारलें हें विशेष. त्या उपरांत पी. एन. नरसिंह पै (१८७९-१९५९) हांणी केल्ली कोंकणीची सेवा आगळे तरेची आसली. भजन, किर्तन, प्रवचन, हरिकथा अशा विंगड विंगड मार्गांनी तांणी कोंकणीची सेवा केली. आवाज बरो आनी संगिताची जाण आसलेल्यान तांणी लोकांमोग तर जोडलोच पूण कोचीच्या राया कडल्यान प्रशंसापत्र आनी उपहारूय जोडलो. आपणें रचिल्लें साहित्य पुस्तक

रूपान उजवाडावन घराघरांनी भोंवन आनी विकून तांणी कोंकणी वाचनाची गोडी लोकां मदीं पातळायली. त्या उपरांतचो म्हालगडो म्हळ्यार ए. डी. हरि शर्मा (१८९३-१९७२) जाणें मल्यालम भाशेचें व्याकरण रचलें. अखिल भारतीय साहित्य परिशदेचो संस्थापक आशिल्ल्या ह्या विद्वानान विद्याभुषण, साहित्य रत्न अशीं जायती बिरुदां जोडलीं. कोंकणींत गायनांय रचलीं. आर. सी. शर्मा (१८९७-१९८०) हो हरि शर्मालो धाकलो भाव. संस्कृत, मलयाळम, बंगाली अश्या भाशांनी प्राविण्य जोडिल्ल्या ह्या पंडितान कोंकणीची व्हड सेवा केली. १९३० वर्सा उजवाडाक आयिल्लें 'गानमंजिरी' हें गीत संकलन आनी १९४४ वर्सा रचिल्लें 'अश्रुबिंदू' हें कोंकणी भाशेंतलें पयलें विलापकाव्य (एलॉजी) अशें म्हणटात. तांगेल्या बरपाक लागून केरळांतले कोंकणी साहित्यीक चळवळीक नवजागरण आयलें अशें 'नंदादीप'कार शरतचंद्र शेणै म्हणटात. मजगतीं, आर. रंगनाथ प्रभू, जयप्रकाश कुलूर, के. पुरुषोत्तम पै अशा अनेक कोंकणी जनांनी आपापणां परीन योगदान दिल्लं आसा. विशेश म्हळ्यार १८५१ ते १९५० ह्या शंबर वर्सांच्या काळांत दादल्यांच्या सांगातान बायल लेखकांनीय व्हड योगदान दिलां. अमुलक्का शेणै फाटल्यान द्रौपदीबाय, वेदवती अम्माळ, सरस्वती रंगा भट, गंगा बाय, जंबा बाय, सुमित्रा बाय अशा साबार जाणांनी कोंकणीची सेवा केल्या. पूण सगल्यां भितर अदीक प्रभावीपणान जाणवता ती जी. कमलाम्माळ (१९०२-१९८३). ल्हानपणा थावन वाचन आनी लेखनाची गोडी आशिल्ले कमळाम्माच्या कानांनीं कोंकणी काव्य वेंकटेश कल्याण पडलें आनी भक्ती काव्य रचपाची उमळ आयली. तिणें रचिल्लें 'रघुरामायण' ही एक महान काव्यरचना अशें म्हालगडे लेखतात. सुमार धा वर्सां ती 'रघुरामायण' बरयताली जावंये. ताचो पयलो वांटो 'बालकाण्ड' १९३० वर्सा उजवाडा आयलो. पूण म्हारगायेक लागून फुडलें अप्रकाशीत उरलें

चारशें वर्सां केरळचे भुंयेर राविल्ल्या कोंकणी समाजान आपणाली भास साहित्य आनी संस्कृताय सांबाळून दवरपाचो कितलोय यत्न केलो तरी थळावे संस्कृतायेचो प्रभाव हे संस्कृतायेचेर पडप सभाविकच. आयज केरळांतले कोंकणी भाशेचेर आनी साहित्याचेर हो प्रभाव प्रकर्शान जाणवता. अनेक मल्याळम उतरां कोंकणींत भरसल्यांत. मूळ कोंकणींतले जागर, कालो हे सादरीकरणाचे लोकप्रकार तांचे सुवातेर मलयाळम भाशेंत लोकांमोगाळ जाल्ल्या 'कथाप्रसंगम' ह्या प्रकाराची नक्कल केल्ली दिश्टी पडटा. 'कथाप्रसंगम' म्हळ्यार एकांकी वा एकपात्री एकांकी.

हरिकथा वा पुराणीक कथा साभिनय साग्रसंगीत सादर करपाचो हो प्रकार मुळांत मल्याळम भाशेंत 'कथाप्रसंगम' ह्या नांवानच चलता. तेच धरतेचेर कोंकणीन हो प्रकार आपणायलो आनी ताचें नांवूय तेंच दवरलें. मुळांत मलयाळम भाशेंत संस्कृत उतरावळ व्हडा प्रमाणंत आशिल्ल्यान मल्याळम-कोंकणीमदले दी-घे संबंद भोव बरे उरल्यात. आयज लेगीत केरळांतली कोंकणी संस्कृतप्रचूर आनी मलयाळम ढंगांतलीं जाल्ल्यान कानाक सुमधूर लागता. एकपात्री कथाप्रंसगम सादर करून तें लोकप्रिय करपी पयलो म्हालगडो म्हळ्यार नारायण नरशींव पै (१८७९-१९५९) हाणें मलयाळम आनी इंग्लीश भाशेंतूय हरिकथा सादर केल्यो. हेर कोंकणी जनांवरीच नारायण नरशींव पैनूय अर्थार्जना खातीर मल्याळमांत बरयलें तरी कोंकणींत रचलें तें कोंकणी मोगापोटींच.

१९५० इसवे मेरेन केरळी कोंकणींतलें सगलें साहित्य धर्मीक आनी भक्तिगितांनीच घुसपून उरलें. तो काळच तसो आशिल्लो. हेर साबार भासांनी सभावीक घडटा तशेंच हांगाचें कोंकणी साहित्यूय धर्माधिश्ठीत काव्य रूपानच चंवराक आयलें. सुर्वेच्या काळांत कोंकणींत बरोवप म्हळ्यार देवनागरींत बरोवप अशें समीकरण आशिल्लें. कारण कोंकणीची नीज लिपी ही देवनागरी अशी लोकांची धारणा आशिल्ली. पूण उपरांत लोकांचे शिक्षण मल्याळमांत जावंक लागिल्ल्यान तांकां हेच लिपयेंत बरोवप सोपें दिसपाक लागलें. देखून मदेंकात जें बरप जालें तें चडशें मलयाळम लिपींतच जालें. तरीकूय मदीं मदीं जागृताय करपी घडणुको घडटाल्यो. केरळांतल्या सारस्वत समाजाचें एक मुखपत्र 'सारस्वत बोधिनी' हें मलयाळम भाशेंतलें मासीक नेमाळें. मदीं ह्या समाजाचें मंगळुरांत जाल्ले वर्सुकी बसकेंत एक थाराव पास जालो आनी ह्या नेमाळ्यांत कोंकणी साहित्या खातीरूय थोडीं पानां राखून दवरचीं अशें थारलें. ते प्रमाण १९२४ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या सारस्वत बोधिनीच्या आंकांत सीताराम प्रभू हांणी बरयिल्लें 'हळ्ळेंतुलो संवाद' हें सान नाटकुलें प्रसिद्ध जालें. सीताराम प्रभू म्हळ्यार आर. एस. प्रभू (१८७८-१९५६) हांणी सारस्वत समाजाचे बसकेचो पुराय वृत्तांत देवनागरी कोंकणींत ह्याच मासिकाचेर छापून हाडलो. दुर्दैवान 'सारस्वत बोधिनी' हें नेमाळेंच उपरांत बंद पडलें आनी कोंकणींत बरोवपांतूय खंड पडलो.

गोंयच्यान केरळांत गेल्ल्या कुणबी समाजानूय आपणालें संस्कृतीक आनी भाशीक दायज सांबाळून दवरपाचो मोलादीक यत्न केला. शिगम्याच्या दिसांनी गावपाची

गितां गोंयच्या लोकगितां वरीच भगलो मारपी. देखीक –

शिगम्याचे वेळारी पोंगीरू फुलिला
एके सायेचीं चेडवां खेळूंक आयल्यां
...
सान तुळशी होड तुळशी कशी गो भूशण?
शिळखिळेचें वोटाण येता सोडि गे नेसण
...
एशी करूं गो, तशीं करूं गो
रोसु गेलो गिळून, मिणबायले देखुनु.

हो कुणबी समाज मातये कडली आपणाली नाळ तुटूंक दिना. फुगड्यो, परवे गितां आजून तांचे जिबेर फुलतात. ह्या समाजांत चालंत आशिल्ली 'श्रवोण' ही पद्यकाणी भोव प्रसिद्ध. 'कोंकणी साहित्य समाज' हें संस्थेचे कार्यदर्शी के. के. सुब्रमण्यन हांच्या यत्नांनी आतां 'श्रवोण' ही गीतकाणी पुस्तक रूपान उजवाडाक आयल्या. आदीं सांगिल्लें 'गोड्डे रामायण' परंपरेन केरळांतल्या वैश्य समाजाचें दायज जाल्लें. शिगम्या कडेन गावन, नाचून अभिनय करीत देवळाच्या प्रांगणांत सादर करपाचें हें काव्य वैश्य आनी सारस्वत दोनूय समाजां मदीं चलतालें अशें प्रो. आर. के. राव म्हणटात. पूण 'श्रवोण' हें गीतक (गीतकाव्य) मात पुरायेन कोंकणी कुणबी समाजाचें दायज. गोड्डें रामायणाची सुरवात श्रवोणाचे कथेन जाता म्हणपाचें वयर सांगलांच. सुर्वेच्या धा श्लोकांनी श्रवोण कथा सोंपता आनी मागीर आठ काण्डांचे गोड्डे रामायणाचें सादरीकरण जाता. पूण कुणबी समाजांत चलत आयिल्लें 'श्रवोण' हेंच मुळांत एक म्हाकाव्य. काणी श्रावणाचीच. पूण खूब वेगळी आनी व्हडली. हाचीय सुरवात इश्टदेवतांक नमन करून जाता. पूण गोड्ड्यांक होरायतनां गणेस, सरस्वती, कुलदेव, रूद्र अशा इकरा जाणांक नमन करतात. ताच्या बदला कुणबी समाज श्रवोण सादर करतनां सुरवेक गणेस, नारायण, चन्द्र-सूर्य, आकाश, धरतीमाय, पांचोय माय, सातोय दोणि लोक, प्रजा, गुंडो-फातर हांकां नमन करतात. ताचे वरसून ह्या आदिवासी समाजाचें सैमा कडलें नातें कशें वंदनीय आसलें तें होलमता.

गोंयांत काणकोण वाठारांत चालंत आशिल्लो 'गड्यां रामायण' हो लोकसाहित्याचो

कार आनी केरळांतले 'गोड्डे रामायण' मुळांत एकूच आसूं ये. शिगम्याच्या दिसांनीं ेयांत गड्यांक होरावपाची चाल आसा. तेच प्रथेक धरून केरळांतूय शिगम्याच्या देसांनीं गोड्डें रामायणाचें सादरीकरण करताले. शेंकड्यांनी वर्सांच्या काळांतरांत ोनांयमदें बदल जावप सभावीक. तरिकूय दोनांयचें मूळ एकच हें खरें.

ोड्डे रामायणांत श्रवोण कावडी घेवन तिर्थयात्रेक भायर सरता हांगाच्यान कथेक ुरवात जाता. जाल्यार श्रवोण गीतकांतली काणी खूब फाटीं वता. दोन अंधकां ासलीं हांगाच्यान कथेक सुरवात जाता. तांकां संतत नासता. मुनीचे सांगणेन ीं सात देवळां बांदतात. देव प्रसन्न जाता. देवाचो प्रसाद खावन बायलेक गर्भ धरता. श्रवणाचो जल्म जाता. तीं रूशीक शरण वतात. काळगामुनी श्रवणाक वेद्यादान करता. एक दीस सातूय देवळांनी वचून तो गंधफूल पूजा करता. येतना वाटेर तांकां हीं अंधकां दिश्टी पडटात. श्रवोण आवय-बापायक वळखना. तो तांकां धांवडायता. तीं बगलेक येत म्हूण तांचेर फातर शेवटून मारता. रागान तीं पुताक शिराप दितात. भियेवन तो काळगामुनीक शरण वता. मुनी तांकां उपाव सांगता कावड करची, तितूंत अंधकांक बसोवचीं आनी तांकां तिर्थयात्रा घडोवची. तेप्रमाण तो कावड घेवन आनी दोन दाल्यांनी दोगांकूय बसोवन तिर्थयात्रेक भायर सरता. वाटेर आमोरे वेळार अंधकांक तान लागता म्हूण न्हंयचेर उदक हाडपाक वता. कुरंबळू (कमंडलू) बुडयता तेन्ना उदकाचो बुडबूड आवाज जाता. त्या वेळार शब्दवेधी दशरथ राया काळखांत सावज समजून ताचेर बाण सोडटा. न्हिन्नळिल्लो आवाज आयकून दशरथ थंय धांवता. मरणा धडेर श्रवोण रायाक अंधकांक उदक दी म्हूण विनयता. श्रवोण जीव सोडटा तेन्ना दुखेस्त मनान दशरथ अंधकां सरीं वचून तांकां उदक दिता. मागीर आपणाली चूक कबूल करून श्रवोणा खातीर सारी रचता. सारयेक उजो लायना फुडें दोगांय अंधकां दशरथ रायाक शिराप दीत पुताले सारयेर घालून घेतात. अशी ही काणी ल्हान दिसली तरी मदेंकात देवपुजा, दुवाळे, विद्यार्जन तिर्थयात्रा हांचीं विवरणां भोव विस्तारान गीतकांत येतात. सारी रचून अग्नी दितना मनवपाचो मसण-विधी लेगीत ह्या गीतकांत आयला. 'तेगांय वर्गांक रायान मोक्षाक पावयलीं गा' ह्या उतरांनीं हें श्रवोण गीतक सोंपता. मुजरत सांगपाचें म्हळ्यार, गोड्डें रामायण आनी श्रवोण ह्या दोनूय गाथांनी गीताची प्रत्येक वळ 'गा' ह्या संबोधनान सोंपता. (शरतचंद्र शेणै, अमर कोंकणी, केरळांतलो कोंकणी लोकवेद, जुलै २००८).

मुदाळीं, पेंपारीं, घुमट, झांज ह्या मूळ गोंयच्या परंपरीक वाद्यांच्या सांगातान हें गीत शिगम्याच्या दिसांनी गायतात. 'श्रवोण' ह्या प्रकाराचेर पी. जी. कामथ (१९२६-२००९) हांणी संशोधन करून बरयिल्लें पुस्तक १९९६ वर्सा उजवाडाक आयलें. श्रवोण गीतकाचेर अधिकारवाणीन उलोवपी-बरोवपी आसलो तो म्हळ्यार आचार्य के. के. रामन (१९३९-२०१४). तो एक विद्वान, सर्जनशील बरोवपी आनी कुणबी समाजाचो लोकांमोगाळ फुडारी आसलो. समाजांतल्या लोकसाहित्याचें संवर्धन करपा खातीर तांणी केल्लो वावर भोव मोलादीक थारला. समाजाची गरज वळखून तांणी भक्तिगितां कोंकणींत रचलीं. तांचें संकलन जालें ना. पूण तांणी रचिल्लें 'दशरथाचो मृत्यू' हें खण्डकाव्य तांच्या मरणा उपरांत तांच्या भावान के. के. सुब्रमण्यनान संपादीत करून २००४ वर्सा उजवाडाक हाडलें.

पांयशीं वर्सां फाटीं केरळचे भुंयेर पाविल्लो हो विस्थापीत समाज केरळांतल्या कोंकणी समाजाच्या मुखेल धारे पासून चिके पयसच उरलो. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या केरळांत जाल्ल्या अधिवेशना उदेशीं पयलेच खेपेक हो लोक उर्वरीत कोंकणी जनांक लागीं आयलो. केरळांतल्या अभिजनांनीय तांकां लागीं घेवपाचो जाणीवपुर्वेक यत्न केलो. के. के. सुब्रमण्यनान दूरदिश्टीन केल्ल्या यत्नांक लागून हो समाज आतां कोंकणी भाशी मुखेल प्रवाहांत येवंक लागला. तांचे कडलें लोकसाहित्य निरंतर सांबाळून दवरप ही काळाची गरज खरी. पूण इतिहासान दिल्ल्या धपक्यान आनी भुगोलान निर्मिल्ल्या पयसाव्यान तो इतलो कडेक पडला की मुखेल प्रवाहांत भरसुपाक चड कळाव जाला काय कितें असो दुबाव मारता. तांचे कडलें लोकसाहित्याचे धन चिरंतर सांबाळून दवरप ही काळाची गरज आसा.

केरळांतलो वैश्य समाजूय आपणालें लोकसाहित्याचें वैभव साबार वर्सां मिरयतालो. ह्या समाजांतूय लोकांमोगाळ आशिल्लें 'गोड्डे रामायण' म्हळ्यार कोंकणींतलें आद्य रामायणच. दशरथ राया यज्ञ करता थंयच्यान रामायणाची पुराय कथा येता. आयज ह्या गीत रामायणाचो चडसो वांटो शेणला. आदल्या काळार जेन्ना पानांचेर बरोवपाची चाल आसली त्या काळावयलीं कांय पानां मेळटात. प्रो. आर. के. राव (१९२४-२००५) हांणी ह्या पानांचो अभ्यास करून जो मजकूर मेळ्ळा तो उजवाडाक हाडला. पूण तातूंत रामायणांतलें बालकांड ते अयोध्याकांड मेरेनचींच बरपां मेळटात. गोंयांत काणकोण वाठारांत चालंत आशिल्लो 'गड्यां रामायण' हो साहित्यप्रकार आनी केरळांतले 'गोड्डे रामायण' मुळांत एकूच जावंये. शिगम्याच्या

दिसांनी गडयांक होरावपाची चाल आसा. तेच प्रथेक धरून केरळांतूय शिगम्याच्या दिसांनी 'गोट्टु रामायणाची' पारायणां करताले. दुर्दैवान ती चाल आतां बंद पडल्या. कुणबी समाजूय आतां 'श्रवोणाचीं' पारायणां करिनासो जाला.

## नाटक

१९८० इसवे उपरांत थोडो काळ कोंकणीचो वावर थंड-थंड पडत गेलो. गोंय मुक्ती उपरांत गोंयांत कोंकणी खातीर चळवळ सुरु जाली. तिचे पासून प्रेरणा घेवन १९६५ वर्सा कोचीच्या एन.पुरषोत्तम मल्ल्या ह्या कोंकणीचो उपाट अभिमान बाळ्गुपी मनशान 'कोंकणी भाशा प्रचार सभा' सुरु केली आनी कोंकणी समाजाक एके सत्रेखाला हाडपाचो वावर सुरु केलो. भाशा वृध्दि खातीर साहित्य गरजेचें हें वळखून प्रो. आर. के. राव, नारायण अनंत शर्मा, शेट बलराज, पी. जी. कामथ, सुशिला त्रिविक्रम भट्ट, के. पुरषोत्तम पै अश्या जाणकार, विद्वान आनी साहित्यप्रेमी कोंकणी जनांनी खूब वावर केलो. ताका लागून १९६५-१९९५ हो काळ केरळी कोंकणी खातीर भांगराळो काळ म्हणूंक जाय.

केरळांतल्या कोंकणी जनांची प्रतिभा सुर्वेक कवितेंतल्यान वा भक्तीगितांतल्यान अभिव्यक्त जाली. कोंकणी लोकांक संगीतकलेची भोव आवड आशिल्ल्या कारणान हांगा संगितिका निर्माण जाल्यो. संगीत रूपकां फाटोफाट नाटकुलीं जल्माक आयलीं. मंगळुरी नाटककार बोळंतूर कृष्ण प्रभू हांणी बरयिल्लें 'चंद्रहास' नाटक मंगळूर-मुंबयच्या कोंकणीजनां मदीं लोकप्रीय जाल्लें पळोवन १९३८-३९ सावन केरळांतूय ताचे प्रयोग जावंक लागले. नवीं संगीत नाटकांय तयार जालीं. मलयाळमांत नामना जोडिल्लो लेखक आर. माधव पै हांणीय कोंकणींत बरोवंक आरंब केलो. नाटयगितां लोकप्रीय जावंक लागलीं. उपरांत फार्सिकल नाटकां येवंक लागलीं. विशेश म्हळ्यार फकत कोच्चींत न्हय तर आलेप्पी, त्रिशूर, काण्णूर अशा विंगड-विंगड वाठारांनी नाटकां जावंक लागलीं आनी तांकां बरो प्रतिसादूय मेळूंक लागलो. शेट बलराज हांगेलें 'म्हांतारी आजी' हें नाटक लोकांक भोव मानवलें. ए. जी. प्रभू हांणी बरयिल्लीं समाजीक आशयाची नाटकांय लोकप्रीय जालीं. 'भक्त धूव', 'भक्त प्रल्हाद', 'चेलिया चरित्र' हीं नाटकां चडशीं देवळांच्या प्राकारांत जातालीं. विठ्ठल गणेश प्रभूलें 'सत्यवान-सावित्री' सारकें नाटक वर्सां वर्सां चलले. मदेंकार एकांकी खूब निर्माण जाल्यो. पूण बरोवन कागदारच उरल्यो. छापून आयल्यो नात.

१९६५ उपरांत मात नवें वारें व्हांवंक लागलें आनी समाजीक आशयाची नाटकां-नाटकुलीं तयार जालीं. सुभाषचंद्र प्रभू, शेट बलराज, रामचंद्र किलीकार हांणी नवीं नाटकां बरयलीं. केरळांत लोकप्रीय जाल्ल्या तामीळ सिनेमांतलें एक पात्र 'वीर पांड्य कट्ट बम्मन' हांचो कोंकणी रूपकार रामचंद्र किलीकार हाणें केलो आनी तो भोव लोकप्रीय जालो. 'वीर पांड्य कट्ट बम्मन' हें पात्राचे नांव तशेंच दवरून कोंकणी नाटकाचेंय नांव तेंच दवरलें. मदीं चौग-पांच जाण एकठांय बसून पंगडान नाटकां बरोवपाचेय प्रयोग जाले. नित्यानंद राव, एस अशोक हांणी एकांकी लेखन केलें. जयप्रकाश कुळूर हो मलयाळमांतलो नावांजतो एकांकीकार. ताणें 'शिरलो' सारकीं कांय नाटकुलीं कोंकणीतूय बरयलीं. आर. सुभाषचंद्र प्रभू हाणें 'कर्म-बंधन' सारख्या नाटकांतसून समाजीक आशय केळयलो. ए. गोपालकृष्ण प्रभू हांणी १९८२ वर्सा बरयिल्लें 'अनुसंधान' हे एक आगळें वेगळें नाटक. कोंकणी विशी जागृताय करपी आनी तिचे आवतिकायेचेर उजवाड घालपी हें नाटक. कोंकणी आमची पूज्य माता म्हूण देवी कशी सादर केल्या आनी विशेश म्हळ्यार कोंकणी भास कोणा एका पंगडाची वा जाती जमातीची न्हय तर ती समेस्त कोंकणी भाशिकांची आवय हो विचार प्रकर्शान मांडला. के. अनंत भट हांणी रचिल्ल्या 'हरवें पान' वा 'चेली जाय' ह्या गीतनाटयांनी लोकांचें मनोरंजन केलां. तांगेल्या 'अहल्या' आनी 'अशोकवनांतली सीता' ह्या नाटकुल्यांचें प्रस्तुतीकरण जालां.

केरळांतल्या कोंकणी नवजागरणाक खऱ्या अर्थान चंवर फुल्लो तो १९७८ वर्सा कोच्चींत भरिल्ल्या कोंकणी परिशदेच्या अधिवेशना उपरांत. रविन्द्रबाब केळेकार हांचे अध्यक्षते खाला संभ्रमीत जाल्ल्या ह्या अधिवेशनान दिल्लो 'एक लिपी, एक भास, एक समाज' हो मंत्र हांगा सरल्या कोंकणीजनांच्या काळजा मेरेन पावलो. हांगा लिपयेचो प्रस्न केन्नाच हावको जावन वावुरलो ना. देवनागरीच कोंकणीची लिपी पूण मलयाळम संवकळीची ही समजिकायेची भावना प्रबळ आशिल्ल्यान हांगा दोन लिपीं मदीं संघर्श वा वाद मुळांतच नाशिल्लो. कोच्चींत घडोवन हाडिल्ल्या कोंकणी परिशदेची फलश्रुती म्हळ्यार कोंकणी साहित्याचे मुखेल व्हांवतेंत घालून घेवपा खातीर केरळच्या कोंकणी लेखकांनीं पेंगट बांदलें आनी हाचे फुडें फकत देवनागरीच रचना करपाचो निर्धार केलो. कोंकणीचे अभिवृद्धी खातीर वावुरप्यां मदीं एन. पुरशोत्तम मल्ल्या, प्रो. आर. के. राव, पी. जी. कामत, एन. एन. आनंदन, पय्यनू रमेश पै हांणी केल्ल्या कश्टांचें मोल करूं नज. हाचो परिणाम म्हळ्यार

ंविता, कथा, नाटकुलीं, बालसाहित्य, अणकारीत साहित्य हांची केरळी कोंकणी ाहित्यांत अमाप भर पडली.

## ामाळीं

ाहित्याचे वाडी खातीर नेमाळीं गरजेचीं हें वळखल्ल्या आमगेल्या कांय हालगड्यांनी जाणीव पुर्वेक कांय प्रयत्न केल्ले. 'सारस्वत बोधिनी' ह्या मलयाळम ाशेंत उजवाडाक येवपी म्हयनाळ्याचेर थोडीं पानां देवनागरी कोंकणीतूय ासचीं असो आगरो धरिल्लो. तें प्रमाण १९२४ वर्सा सुरवातूय जाल्ली. उपरांत ोकांच्याच मागण्यांनी 'सारस्वत बोधिनी' पत्रिकेंत १९२७ वर्सा साकून मलयाळम आनी कोंकणी वांगडाच इंग्लिशींतलीं बरपांय उजवाडाक येवंक लागलीं. ताचेर ादा निर्माण जालो. आनी थोड्याच काळा भितर 'सारस्वत बोधिनी' बंद पडलें. उपरांत आनिकूय यत्न जाले. १९३१ वर्सा 'सारस्वत मित्रम' हें मासीक कोची थावन सुरु जालें. तातूंत कोंकणी विशीं जागृताय करपाचो वावर जालो. १९४२ वर्सा 'द सारस्वत' हें नेमाळें आनी १९४३ वर्सा 'सारस्वत भूषणम' हें म्हयनाळें सुरु जालें. पूण हीं सगलीं अल्पजिवी जावन एक थंय तीन वर्सांचो काळ जियेलीं. मदीं 'सारस्वत वाणी', 'वैष्णवरत्न' अशीं नेमाळीं उदेलीं आनी अस्तमलीं. मुळांत सारस्वत ज्ञाती समाजाचें मुखपत्र जाल्ल्यान सरसामान्यां मेंरेन तें पावलें ना, हें एक कारण. आनी दुसरें म्हळ्यार भाशेचो मोग उपाट आसलो तरी सातत्य आनी जिद्द उणी पडली. त्या उपरांत हो विशय गंभीरतायेन घेवन पेंगट बांदून फुडें सरलो तो आर. रंगनाथ प्रभू (१८९८-१९५२). हांणी कोंकणी भास आनी साहित्य लोकां मेंरेन पावोवपाच्या हावेसान 'द कोंकणी' (१९४४) हें, नावांन इंग्लीश दिसपी, कोंकणी हस्तलिखीत म्हयनाळें काडलें. स्वता हातान धा-बारा प्रति बरोवन काडप आनी धा विंगड-विंगड संस्थां मेंरेन पावोवप हें भोव कश्टांचें आनी वेळखावू काम रंगनाथ प्रभून चलयलें. वेंचून काडिल्ल्या धा संस्थांचे वांगडी भोव संखेन कोंकणी आशिल्ले आनी ते मज घेवन 'द कोंकणी' वाचताले. ह्यो संस्थां तिरुवनंतपुरम धरून कोच्ची, अलपोळे, पुरक्कड, क्योलॉन, तुरवूर अश्या विंगड-विंगड वाठारांनी आशिल्ल्यान चडांत चड कोंकणी लोकां मेंरेन कोंकणीचो मोग पावचो हो तांचो हेतू सुफळ जालो. पूण १९४४ वर्सा सुरु जाल्लें हें काम चड काळ चललें ना. दोन वर्सां तर न्हयच न्हय. वर्स भरयांत नेमान काडिल्ले बारा आंक आजून वाचूंक मेळटात.पूण फुडले आंक

मेळनात देखून १९४५ उपरांत तें बंद पडलें जावंये असो अदमास. हो घडये कोंकणी म्हयनाळें चलोवपाचो केरळांतलो पयलोच प्रयोग. त्या उपरांत बद्द १९७२ वर्सा 'कोंकण जनता' हें म्हयनाळें भायर सरलें. आयज नामनेक पाविल्ल्या सगल्या कोंकणी लेखकांनी ह्या नेमाळ्याचेर बरप केला. कोच्चीच्यान प्रकाशीत जावपी ह्या म्हयनाळ्यांत कथा, कविता, निबंध अशा ललीत साहित्याक भोव प्रोत्साहीत केलें. काण्णूरच्यान भायर सरपी 'समाज डाइजेस्ट' आनी कोच्चींचें 'कोंकण जनता' ह्या उपरांत सुरू जाल्ल्या नेमाळ्यांनीय लेखकांक उर्बा उमेद दिली. १९८० वर्सा केरळ-कोंकणी अकादमीची स्थापणूक जाली आनी अकादमीन 'दिवली' हें म्हयनाळें उजवाडायलें. उपरांत ताचें नांव बदलून 'दिवटी' अशें केलें.

१९७८ आनी १९७९ हया दोन वर्सां मदीं 'कोंकण जनता' प्रकाशनान 'कोंकणी कथाष्टक' आनी 'काणयां घोस' अशें दोन कथांझेले उजवाडाक हाडले. कोंकणी भाशा प्रचार समितीन भाशेचे अधिवृद्धीचेर लक्ष केंद्रीत केल्ल्यान कोच्चींत 'केरळ कोंकणी अकादमी' ही साहित्याचे वाडी खातीर ओंपिल्ली संस्था १९८० वर्सा जल्माक आयली. प्रो. आर. के. राव आनी पी. रमेश पै हांगेल्या कुशल मार्गदर्शना खाला हे संस्थेन धा-पंदरा वर्सां भितर आकांताळो वावर केलो. तांगेल्या प्रकाशनां मदलें 'कथा ८३-८४-८५' हो प्रतिनिधीक कथांझेलो म्हळ्यार एक मैलाफातर.

## अनुवाद

जेन्ना स्वतंत्र साहित्य निर्मिती जायना तेन्ना अणकारीत साहित्याची निर्मिती जावंक जाय. ह्या अणकारीत साहित्यांतसून प्रेरणा घेवन नवें सर्जनशीळ साहित्य निर्माण जावंक लागता; हें होलमल्ल्यान केरळच्या लेखकांनी अनेक पुस्तकांचे कोंकणींत अणकार करून उजवाडायल्यात. प्रो. आर. के. राव (१९१४-२००५) हांणी कोच्चींत 'कोंकणी लँग्वेज इन्स्टिट्यूट' कोंकणी भाशा संस्थान नांवाची संस्था उगडली आनी हे संस्थेमार्फतीन जायतीं पुस्तकां उजवाडायलीं. 'कोंकणी स्वयं शिक्षक' रचून प्रकाशीत केलें. ते भायर पयलीं उल्लेख केल्लें 'गोड्डे रामायण' उजवाडाक हाडलें. संत तुलसीदासाचें चरित्रूय तांणी कोंकणींत उजवाडायलें. हो वावर करतनाच तांणी अणकाराच्या मळारूय पकदस्त पावलां मारलीं.

प्रो. रावान 'दो सेर धान' हे हिन्दी कादंबरीचो 'दोन दंगाळी भात' ह्या नांवान अणकार केला. ह्या अणकाराक साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कार प्राप्त

जाला. के. गोकुलदास प्रभु हांणी मल्याळम साहित्यकार एम.टी वासुदेवन नायर हांगेले 'नालुकेटू' हे गाजिल्ले कादंबरेचो 'चवकी' ह्या नांवान अणकार केला. ते भायर के. रामानुत्री ह्या लेखकाचे मलयाळम कादंबरेचो अणकार केला. एन. एन. आनंदन हाणें गुरुदेव रविन्द्रनाथ टागोर हांगेले 'चोखेर बाली' हे कादंबरीचो 'दोव्व्यांतलें किशीर' ह्या नांवान अणकार केला. आनंदन हांणी सुनितीकुमार चॅटर्जी हांचे वयलो मोनोग्राफ कोंकणींत अणकारला. राहूल सांकृतायनालोय मोनोग्राफ कोंकणींत हाडपाचें स्त्रय प्रा. एन. एन आनंदनाक फावता. इंद्रकांत वासुदेव शेणै हांणी 'गोड गोड काणयो', 'गोड सपनांचो अर्थ' अशीं धा-एक कोंकणी रुपांतरां उजवाडायल्यांत. के. अनंत भट हांणी संत तुलसीदास रचीत 'श्री राम चरितमानस' ह्या महाकाव्याचो काव्यमय अणकार कोंकणींत केला. ह्या अणकाराकूय साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कार फावो जाला. तशेंच आर. एस. भास्कर ह्या कोंकणी कवीन वयक्कम मोहम्मद बशीर ह्या नामनेच्या मलयाळम लेखकाचे गाजिल्ले 'एनतुप्पुप्पाकोरोनेन्डारनु' हे कादंबरेचो अणकार 'म्हज्या आज्याक एकी हस्ती आशेली' ह्या नांवान उत्कृष्ट अणकार केला. तांकांच साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कार प्राप्त जाला. भाशा आनी साहित्याचो खोलायेन अभ्यास केल्ली एल.सुनिताबाय हांणी मूळ केरळांत जल्माक आयिल्लो कन्नड महाकवी गोविन्द पै हांचे वयल्या मोनोग्राफाचो कोंकणी अणकार प्रकाशीत केला. केरळचो कोंकणी कथाकार वसंत मणी हांणी आपणाल्या 'भांगरा दांत' ह्या कथासंग्रहांचो आपणेच मल्याळम भाशेंत 'मडें मोरता' ह्या नांवान अणकार केला. कोंकणी कथांचो अनुवाद मलयाळम भाशेंत करून तो पुस्तकरुपान हाडपाचो वावरूय केरळ कोंकणी अकादमीन केला. अशे तरेन कोंकणी साहित्य मल्याळम भाशेंत पावोवपाचोय मोलादीक वावर वसंतमणी, एन. एन. आनंदन, एल. सुनिताबाय हांणी केला. कय्यारा किंजण्णा हांणी बरयिल्लें महाकवी मंजेश्वर गोविंद पै हांगेलें चरित्र मलयाळमांतल्यान कोंकणींत अणकारपाचें कामय तांणी केलें. पुंदानम नंबुद्री हांगेल्या 'ज्ञानपाना' ह्या एक पुस्तकाचे कोंकणींत चार अणकार जाल्यात. तांचे अनुवादक जावन आसात आर. के. राव, एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या, पी. जी. कामथ आनी सूर्या अशोक. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांणी 'तिरुक्कुरल' ग्रंथाचो अणकार केला. तांकां साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कार फावो जाला. आर. एस. भास्कर हांणी चंगमपुळा हांगेली कादंबरी 'केळी घडाय' नांवान अणकारीत केल्या. गोंयचे फाकीवंत कवी प्रकाश पाडगांवकार हांगेल्या 'ब्रम्हांडयोगी' ह्या

कविताझेल्याचो मल्याळम अणकार चालू आसा. तो वावर एल.सुनिताबाय
आपणाल्या आंगार घेतला. नामनेचे कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल हांगेली 'हावटण
ही कादंबरी एल.सुनिताबायन 'चुळा' ह्या नांवांन अणकारल्या. चंद्रकांत केणी
संपादत केल्लो प्रतिनिधीक 'कोंकणी कथासंग्रह' सुनताबायनच 'कोंकणी कथ
समाहरम' ह्या नांवान मलयाळमांत अणकारला. एल. सुनिताबाय हांचें हिन्दं
भाशेचेरूय प्रभुत्व आसा. तांणी शरतचंद्र शणै ह्या साहित्य अकादेमी पुरस्का
प्राप्त कवीच्या 'अंतरनाद' संग्रहांचो हिन्दींत अणकार केला. कोंकणी साहित्य
हिन्दी साहित्यसरितेंत पावोवपाचो मोलादीक वावर हाचे पयलीं पी.जी.कामत ह्या
विव्दानान केल्लो. कोंकणींतलें वेंचीक साहित्य मलयाळम आनी हिन्दी वाचकां
मेरेन पावोवपी पी.जी.कामत हे पयले म्हालगडे.

## कविता

भक्तिकाव्याचें पर्व सोंपलें आनी नवकवितेचो उदेव जालो हाका निमित्यमात्र
थारलें ते कोंकणी परीशदेचें अधिवेशन. पी. जी. कामत, एन.एन.आनंदन हांकां
कोंकणी साहित्याचीं पकदस्त पावलां खंयचे दिकेन वतात तें होलमलें. आनी तांणी
समाजीक आशयाच्यो कविता रचूंक आरंब केलो. पी.जी.कामत एके कवितेंत
म्हणटातः

तुका सुन्दर आंगण जाय?<br>
तण हुमटाय, आनीक हुमटाय<br>
तुका मनांतु शांति जाय?<br>
तिष्णा हुमटाय, आनीक हुमटाय.

'कोंकण जनता' म्हयनाळें कोच्चीसून सूरू जालें आनी कथा-कवितांक हुवांर
आयलो. फाटोफाट कोंकणी भाशा प्रचार सभेचे 'कोंकणी विकास' हें मासीक सुरू
जालें. म्हणसर कोझिकोडेच्यान 'सारस्वतवाणी' हें म्हयनाळें भायर सरूंक लागलें.
केरळ कोंकणी अकादेमीन 'साहित्यमत्सर' ह्या नांवांन एक अभिनव सर्त सुरू केली.
तातूंत के. अनंतभट, के. नारायण नायक हे कवी चड पर्जळ्ळे. के. अनंतभट हे
फाटलीं पन्नास वर्सां कोंकणी साहित्याची सेवा करतात. सुर्वेक तें फकत भक्तिगितां
वा भजनां वा संगितिका बरयताले. खरें म्हळ्यार तोच तांचो पिंड. पूण उपरांत
तांणी भावगितां आनी समाजीक आशयाच्योय कविता रचल्यो. केरळ कोंकणी

ाकादेमीच्या सर्तींनी सतत दोन वर्सां प्रथम पुरसकार जोडपी के. नारायण नायक ंणीय कांय सुंदर कविता रचल्यो. वत्सला राव, सुशिला भट, सुनिता बाय हांच्या ारक्या अस्तुयांनीय खूब व्हडलें योगदान कवितेक दिलें.

ोयां जशे 'रायटर्स' 'फायटर्स' जावन वावुरले तशीच गत केरळांतल्या कोंकणी ोगी लोकांची जाली. पयन्नूर रमेश पै आनी के. गोकुलदास प्रभू हे कोंकणी खातीर वंयच्याय तोंकाक वचपाक तयार जाले. संघटनात्मक वावर करतनाच पी. जी. कामत आनी रमेश पैन कविताय रचल्यो. के. गोकुलदास प्रभू हो कथाकार. पूण काळाची गरज वळखून तांणी कवितेंत भर घाली. व्ही. शेट बलराज हेय मुळांत कथा लेखक. तांणी कवितेक योगदान दिलें. एन. एन. आनंदन (जल्म १९४५) हे पयलीं मलयाळम भाशेंतले समिक्षक. तांणी सुंदर कविता रचल्यो. 'आनंदाचीं पदां' हो तांगेलो कवितासंग्रह १९८५ वर्सा उजवाचाक आयलो. पूण उपरांत तांणी कवितेवयलें लक्ष काडून विमर्सो, निबंध आनी अणकार हांचेर तें केंद्रीत केलें. वत्सला राव हांगेले तीन झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'फुलां माळ', 'काव्यधारा' आनी 'कोंकणी पद्यसंग्रह'. ह्यो कविता चड करून ईश्वराक शरण वचपाच्यो वा देखदिण्यो, उपदेशकारक अश्यो आसात.

१९७८-१९९० मजगतीं अनेक कविता जल्माक आयल्यो. मुळांत हांगचो कोंकणी मनीस हो भोवभाशीक आनी मलयाळम सारके साहित्यान समृद्ध आशिल्ले भाशेचो वाचक आशिल्ल्यान ताची कविता आशय आनी विशय दोनूय दिश्टींनी बऱ्या दर्जाची आशिल्ली. एल. सुनिताबाय हांणी अनेक व्यंग कविता बरयल्यात. आजून तांचो कवितासंग्रह ना. पूण आतां रोखडेंच व्यंग कवितांचे पुस्तक प्रकाशीत जावपाचें आसा. पी. ए. श्रीधर कामत, के. अशोककुमार, शरत, लक्ष्मीश, व्ही. शिवदास मल्ल्या, व्ही. लक्ष्मण प्रभू ह्या कवींनी मोलादीक योगदान दिलां. पूण दुर्दैवान तांतले जायते कवी म्हूण रोखडेच सोंपले. सुमित्रन ह्या टोपण नांवान बरोवपी व्ही. वेंकटेश हांगेलीं ल्हान ल्हान कवनां वाचकांक आनी विमर्सकांक भोव मानवल्लीं. पूण थोडो काळ बरोवन उपरांत तांगेलीय प्रतिभा आटली. पूण ज्या थोड्यांनी सातत्य सांबाळ्ळें तें साहित्यकार म्हूण तोखणायेक पात्र थारले. तांतलो एक म्हालगडो म्हळ्यार पी. जी. कामत. साबार वर्सां विविध तरांचें लेखन तांणी केलां. कवितेच्या मळार तांगेलें योगदान व्हड आसा. केरळ कोंकणी अकादमीन सुरु केल्ल्या 'दिवटी' ह्या म्हयनाळ्याचे ते संपादक आसले. त्या वेळार साहित्याक भारी

प्रोत्साहन मेळिल्लें. तांणी स्वता अनेक कविता रचल्यो. 'कोंकण जनता', 'कोंकणी विकास', 'दिवटी', 'सारस्वत वाणी' आनी हेर अन्येक नेमाळ्यांनी त्यो प्रकाशीत जाल्यो. पूण विसावें शतमान उलगयसर त्यो पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्यो नात. पूण तांगेल्या इश्टमित्रांनी आनी घरच्यांनी केल्ल्या आगग्याक लागून २००३ वर्सा 'पवळीं' हो कविताझेलो प्रकाशीत जालो आनी उरिल्ल्यो कविता वेंचून २०११ वर्सा तांगेल्या पुतान आनंद कामत हांणी 'ओळख' हें पुस्तक प्रकाशीत केलें. तांगेल्या कवितांनी सद्यः स्थितीचेर केल्लें भाष्य आसा. बुरशा परंपरांचेर बडी मारतना कवी म्हणटाः

आयेन खालें 'आज्ज्यालें'<br>
आम्मान खालें 'बाप्पालें'<br>
बायलेन खालें 'मेगेलें'<br>
सून खावूं 'पुतालें' -<br>
ही आमची परंपरा<br>
उश्ट्यांचीं परंपरा<br>
चला मुखार, वरा मुखार<br>
ही सनातन परंपरा -<br>
उश्टें खा उश्टें खा<br>
स्वाम्याचें उश्टें खा<br>
उश्टे खावन श्रेश्ट जा<br>
उश्टे खावन शुद्ध जा -

समाजकारणांतल्या भश्टाचाराचेर कवी म्हणटाः

मूस गोडांत थापलो<br>
भायर येतलो कशी?<br>
भ्रश्टाचारांत शिरकल्लो<br>
भायर येतलो कशी?

कोंकणी मनीस केरळांत वचून रावलो तरी ताणें आपणाली अस्मिताय सोडली ना. ज्या कोणे अविचारान थळावे संस्कृतायेक आपली केल्ल्या तांचे खातीर दोन वळीचें सुंदर कवन आसाः

व्हडें उदकांत रावूं
उदक व्हड्यांत न्हय.

ग्रोडू-गोड जिणे अणभवांचें सार पी. जी. कामथ हांगेले कवितेंत मेळटा. समाजांतलीं धोंगां पोंगां दाखयतना विचार प्रभावीपणान मांडपा खातीर केन्ना केन्ना भगलो तारप गरजेचें जाता. सरळ बोटान तूप भायर सरना तेन्ना बोट वांकडें करचें पडटा. तेच तरेन हो कवी आपणालो विचार मांडपाक उपहासात्मक भास उपकरायता. ही तांची कविता 'सोरगु'-

बोड कराय, खाड कराय; धवें सोड, काळी काड
खोलो सोड, कंवंडळु घे; बायलेक सोड, सखी धर
पुताक सोड, शिष्य काड; घर सोड, आश्रम बांद
जेवं नाका भिक्षा घे; न्हावं नाका, स्नान कर
न्हिंदे नाका, शयनाक वच; बिडी सोड, भांग ताण
सोर्गार वच, सूख भोग.

पी. जी. कामथ हांचे लागीं विचारांची गिरेस्तकाय खूब आशिल्ल्यान तांगेल्या कवितांनी प्रागतीक विचार, समभाव, उदारमतवाद हे विशींची पोटतिडक खरसाणीन जाणवता.

फाटलीं तीस पस्तीस वर्सां सातत्यान कविता लेखन करपी कवीं मदले नांवाजते कवी म्हळ्यार – आर. एस. भास्कर, शरदचंद्र शेणै आनी पी. एन. शिवानन्द शेणै. १९४७ वर्सा जल्मल्लो आर. एस. भास्कर हो एक संवेदनशील भावकवी. कवितेच्या भावविश्वांत रमता खरो- पूण आपणांक जमनी वयलो हुबूंक दिना. सपनां पळयता पूण वास्तवाचें भान सोडना. समाजांतल्या अनाचाराचेर, विशमतेचेर जावं धोंगापोंगांचेर बरयतनां तांचे कवितेंत निर्शेणेचो सूर येना. कवी आशावादी. युगपरिवर्तन जातलें आनी तें समाजाच्या बऱ्या खातीर आसतलें हो तांचो भावार्त. 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' हे कवितेंत तो यात्र्याक होरायताः

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल-तूं चल
तर घुंवन चोवंनाका

चलूंक आयलेली वाट
उलो पाटीत रावतली
पूण घुवन चोवंनाका.

आनी अखेरेक म्हणटा-

अखेर तूं
आगळ्या वेगळ्या जाग्यार पावतलो
थांगा नाळयेचो घुडघुडो पावचो ना
थांगा रक्ताचो व्हाळ व्हांवचो ना
सपन तुजें
रूप्या वाटले भाशेन मळबार सोबतलें...

आर. एस. भास्कर कवितेच्या मळार खूब क्रियाशील आसात. तांणी अध्यात्मीक कविताय रचल्या. तांच्यो 'आत्मनिवेदन', 'पंचायतना', 'गुरुचरणी' अश्यो भक्तिपर काव्य रचना प्रकाशीत जाल्यात. आजवेर सर्जनशील कवितांचे तांचे चार झेले उजवाडाक आयल्यात. 'अक्षरां' (१९९२), 'नक्षत्रां' (१९९५), 'अक्षतां' (१९९७) आनी 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' (२०१४).

शरतचंद्र शेणै (जल्म १९५३) होय केरळांतलो एक दिग्गज कवी. तो कवी आनी विमर्सकूय बी. केरळांतल्या कोंकणी लोकसाहित्याचेर जावं काव्यसाधनेचेर तांणी भोव बरप केलां. स्वता विशीं उणे उलोवपी पूण कवितेचेर उपाट मोग करपी शरतचंद्र शेणै. तांणी भक्तिगितांच रचल्यात पूण तांगेल्यो समाजीक आशयाच्यो कविता आगळ्यो वेगळ्यो दिसतात. तांच्या 'अंतरनाद' (१९९७) ह्या कवितांझेल्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो प्रतिश्ठेचो पुरस्कार मेळ्ळा. 'अंतरनाद' झेल्या उपरांत 'आत्मायन' हो दुसरो कवितां झेलो उजवाडाक येवपाक धा वर्सां लागलीं. ताचें कारण हो कवी स्वताचे कवितेक उजवाड दाखोवचे पयलीं हेर कोंकणी कवींच्या कृतींक प्रसिद्धी मेळची म्हूण आनी कोंकणीचो नियाळ घेवपाक चड वावुरता. तांणी संग्रहीत, संकलीत आनी रुपांतरीत केल्लीं जायतीं पुस्तकां तांच्या नांवार आसात. देखीक, 'नंदादीप', 'युगांतर', 'साहित्य संकलन', 'साहित्य दिप्ती', 'काव्योद्यान' ते भायर 'श्रीकृष्णकर्णामृत' आनी 'मीराः जीवन आनी कवन'. 'म्हज्यांतल्या फातराक जीव दिला कवितेच्या पावलान' ही भावना केळयत शरतचंद्र कविता रचतात. 'आत्मायन'

ल्यांतले कवितेंत म्हणिल्ले वरी, 'कविता म्हूण कविता म्हय- अंतर्मनांतुले दर्यविळे यले हे उण्याच उतरांचे कुटके... नेणतांशे वेंचलेले, झोळयेंत भरलेले...काव्य न्हय, कविता न्हय, जिविताचें सार हें... आत्म्याचें सत्य हें' अशें सुर्वेकच स्पश्ट करपी आनी जेवनाक सदांच फुडो करून आशिल्लो हो कवी अर्थ आनी परमार्थ, भौतीक आनी अध्यात्म, जीवन आनी मरण, कर्मकाण्ड आनी परंपरा अशा परस्परविरोधी तत्वांचेर मोव बरो ताळमेळ घालून बरयता.

अध्यात्मा विशीं वा विज्ञाना विशीं बरयतना अती सामान्य उतरांनीं आशयाचे खरीक हात घालपाची जादू हांचे कडेन आसा. ह्या कवीक जाणवल्लो मोग कवितेंतल्यान व्यक्त जातना पयलीं ल्हवपीक शब्दांनी 'मोग म्हळ्यार जपून धरचेलो जिणेचो मंत्र' अशें सांगीत सांगीत कवी मोगाची वळख अशी घडयताः

मोग म्हळ्यार-
एक अशें खीण-
तकलेर जोगूळ बेसल्लें!
गळ्यांत हुंडके शिरकून,
मेंदवाक उजो लागून,
आंगाक शेळि हूम फुटून,
त्या श्रापित खिणार वळखिल्लें
काळीज फाळपी एकटेपण-

होच कवी तंत्रयुगांन घडोवन हाडिल्ल्या बदलाक लागून जावपी दुश्परिणामाचेरूय बरयता. 'नवी खबर' ही कविता प्लास्टीकान आमची जीण कशी व्यापून उडयल्या ताचेर उजवाड घालताः

येता रे येता
प्लास्टिकीचो देव येता !
आमचे प्रगतिचें प्रतीक जावन
इंटरॅक्टीव देव येता !
जड जड्डे पोरने देव
काडून उडय पयस पयस ....

पोरनीं सगळीं दान दियात !
डिस्पोजेबल आरती येता
डिस्पोजेबल घांट येता
गोमटें आनी ल्हान हलकें
डिस्को-गर्भकूड येता !
येता रे येता
फायबराचें बळ घेवन
सिलिकनाचें हड्डें घेवन
हांसून आशिर्वाद दिवपी
इंटरॅक्टीव देव येता !

काळाचीं पावलां शरतचंद्र वळखला. ह्या कवीची प्रकृती चिंतनशील जाल्ल्यान कवितांक तत्वगिन्यानाची बसका लाबल्या. 'अंतरनाद' चे प्रस्तावनेंत नामनेचे लेखक गोकुलदास प्रभू म्हणटात, 'कवीन कविता निर्मितेचे प्रक्रियेंत पुर्ण तल्लीन जावन, सुंदर भास आनी नाजूक अनुभुती 'कालोवन' कवितेक सौंदर्याचो आकार आनी संगिताचो सूर दिला.' शरदचंद्राची सभाव-प्रकृती शांत आनी गंभीर. पूण तांचें अस्वस्थ मन सदांकाळ निरिक्षण करीत आसता. पांय भूतकाळांत रोंवून नदर भविश्या कडेन लावपी ह्या कवीची कविताय अशीच शांत, शितळ आनी गंभीर. केरळी कोंकणी कवितेक नवी दिका दिवपाचें महत्कार्य ह्या कवीन केलां.

पी. एन. शिवानंद शेणै (१९५१-२०१८) हो जनसामान्यां मदलो असामान्य कवी. मलयाळम भाशेचेर प्रभुत्व आशिल्लो आनी ते भाशेंत बरोवपाक सुरवात करून नामना जोडिल्लो हो कवी कोंकणीच्या नवजागृतीच्या ल्हारांत सांपडून कोंकणी साहित्याचे तडीर शेंवटलो. तांचे कवितेंत केरळी कोंकणीची गोडी होलमता, संस्कृतीक तांसां जाणवतात आनी विशेश म्हळ्यार लोकमानसाचे उत्फर्के प्रकर्शान येतात. हांव' ही कविता म्हळ्यार तांगेल्या अंतरंगाचो दिश्टावो. कवी म्हणटा-

मळबार हांव नक्षत्र/ उदकांत हांव मासळी
स्वप्नांत बावनातिल्लें फूल/ कानार आयकूंक संगीत
जाल्यार--इंगळो/ काळोच शेळायिल्लो इंगळो

ही तांगेली आत्ममग्नताय न्हय, आत्मप्रौढी तर न्हयच न्हय. कवितेंतलो 'हांव' हो

समाजपुरुस. 'हांव' हो कवीचो आत्मस्वर. तांगेले दोन कवितांझेले उजवाडाक आयल्यात - 'किरकीर' (१९८४) आनी 'चांगपणाची सांत' (१९९४). हांगा सरले हे आधुनीक विचारांचे, सर्वसमावेशक वृत्तीचे आनी समाजांतल्या दुर्बळ घटकां विशीं सहानुभुती आशिल्ले कवी. 'हांव शुद्दु' हे कवितेंत ते चिड्डल्ल्या माड्डल्ल्या भौसा कडेन समरस जावन तिडकून म्हणटात-

हांव शुद्दु
भूंय उबी जाल्लेलो/ रेंवेंतसून किल्लून येयलेलो, हांव शुद्दु
चिकलांत बुडून न्हांवचो/ मातियेची घाण आसिल्लो, हांव शुद्दु

आनी फुडें हो बंडखोर कवी म्हणटा-

म्हजो देवूय शुद्दु
गोडसाणीचें खाण नाकाच ताका/ तो खाता हांवें खावचेंच
तो पेज पिता, सुकें शीत जेवता, मांस खाता, नुसतें भाजून खाता
म्हजो देव शुद्दु

'हांव गावडो' हे पंडितांचे कवितेची याद करून दिवपी ही तांची कविता. शिवानंदबाब हे अन्याया आड उलोवपी, खास करून बायलां विशीं कळवळो आशिल्ले भौसाचो कवी.

होच कवी भावकवितेंत आपणाली तरल संवेदना कशी अभिव्यक्त करता तेंय पळोवपा सारकेः

फुल्लल्लें फुल फाय पोणु वतलें
आयकिल्लें गीत फाय विसरनु वतलें
दुःख तसीचि राबतलें.

सरकारी चाकरेंतल्यान हालींच निवृत्त जाल्लो शिवानंद शेणै कोंकणी कवितेच्या मळार आतां चड कृतिशीळ जातलो अशें दिसतनाच तो अचकीत हो संवसार सोडून गेलो- निमणो संग्रह उजवाड पळोवपाचे वाटेर आसतनाच.

कोंकणी कवितेची साधना जनसामान्यां मदीं कितलीशी पावल्या ताचो अदमास घेतले जाल्यार 'मोगरा माली' ही चाकोरीभायली कविता पळोवंची. के. के.

सुब्रम्हण्यन हो कोच्ची वाठारांतल्या भौसाचो प्रतिनिधी. कुणबी समाजांत प्रचलीत आशिल्लें 'श्रवोण' हें महाकाव्य मौखीक परंपरेंतल्यान भायर काडून तें पुस्तक रूपान उजवाडाक हाडपा खातीर वावुरिल्लो के. के. सुब्रम्हण्यन हो एक म्हालगडो. तांणी कविताय रचल्यात. तांतली 'मोगरा माली' ही कविता त्या समाजांतल्या भाशा वैशिश्ट्यां सयत अशी येताः

देवाले फूल चांग फूल
कोणका जाय मोगरा फूल
पोरमोळु यत्ता हंगाय
थंगाय मोगरा फुल्लाचो
मोंव पिवच्याक भोवरू यत्ता
आज मोगरा फुल्लारी

हे कवितेंतलो भोंवर म्होंव खावन फुलाक सोडटा तेन्ना फूल दुखी जाता. पूण अखेरेक मोगऱ्यांचे हळयेंतसून तें देवाच्या आंगार पावता अशी ही कविता. हांचे भायर वत्सला मंजुनाथ राव हिगेल्यो कविता 'काव्य-धारा' ह्या संग्रहांतल्यान वाचकां मेरेन पावल्यात आनी वाचकांक त्यो भावल्यात.

वयर उल्लेखिल्ले चडशें कवी आयज कृतिशील आसात. केरळ कोंकणी अकादमीचें मुखपत्र 'स्पंदन' नवे लेखक फुडें हाडटा. तेच बराबर म्हालगडें लेखक के. पुरूषोत्तम पै आनी के. अनंत भट हांकांय कार्यरत दवरता. खोशेची गजाल म्हळ्यार नवे कवी जल्माक येत आसात. एम. जी. राजीव हांगेलो संग्रह 'हरघांतुलीं सवणीं' १९९९ वर्सा प्रकाशीत जालो. नवे कवी बरयतात तातूंतली सूर्या अशोक (१९६९) हिणें दिल्लें योगदान लक्षणीय आसा. कथा, भक्तिगितां आनी बालसाहित्या वांगडाच ती कविताय करता. 'गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो' (२००७) ह्या तागेल्या कवितांझेल्यांत गुंजींवरीच सान सान कविता आसात.

जगांत उपजताय सपनां
सपनांत उपजताय कवनां

अशा उतरांनीं गुंजो पुंजावपी ही कवी केन्ना केन्ना थोड्या उतरांनीं शिटकावणी दिता-

मरणाच्या भंयान
जीण विसरशाय
जीणेच्या भयान
मरण आपणाशाय

नोहररायांल्या पिसोळ्यांवरी रचिल्लीं हीं सान सान कवनां गुंजेवरीच भांगर ोलायतात. 'दुकांच्या पावसान शिंपून, सुखाचें रान वाडोवचें' वा 'वाती जळटना ावळी नाचता' अशें सांगतनाच ती फुडें कोडू सत सांगता- 'तूं हांसतना लोकूय ांसता, पूण रडटना तूं एकलोच रडता'. सुर्या अशोक ही भोवतांसांची कलाकार. चेत्रीक आनी शिल्पी. आवय जावन भुरग्यांची गरज वळखून तिणें बालसाहित्य चलां. ललीत लेखन करता. समेस्त कोंकणी वाचकांनी अपेक्षेन पळोवचें अशे ांकिची ही लेखक.

२००१ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या 'पुष्पांजली' कवितासंग्रहाचे लेखक पी. एस. रामचंद्र शेणै (जल्म १९१७) होय एक बरो म्हालगडो कवी. जिणेचें तत्वगिन्यान पद्यरूपान ांडपी हो कवी 'मेणवाती' हे कवितेंत म्हणटाः-

वाती जळता- मेण करगता
उजवाड दिता- तो तिचो धर्म-
...
केलेलें चांगपण- वाट दाखयता
मेल्यारीय ताचो- उगडास राबता-

'बेंदरली' हे कवितेंत ब्र्या मनशांक वायट मनीस बेंदल्ल जावन कशें सोंपयतात तें सांगताः-

सज्जनांक एक वेळार निपून
दुर्जनांची बेंदरली घांस घेता
बुदवंत तिका चिकळून सोडता
नातिल्ल्यांक ती नाशूच हाडता.

आनी हीं जाणवायेचीं उतरां तांगेले 'संध्या' हे कवितेंतलीं-

बुध्दि आशिल्ल्याक भांडार कित्याक
पाखां आशिल्ल्याक चक्रां कित्याक

संथ पूण पकदस्त पावलां मारीत कोंकणी कविता केरळचे भुंयेर आपणालो खाशेलो छाप परगटायत आसा. 'देर' जाला तरी 'दुरूस्त' आसा अशेंच म्हणूंक जाय.

**कादंबरी**

केरळच्या कोंकणी समाजांत जायते कादंबरीकार जावन गेले. भक्ता आर. कन्ननगड, चंद्रकला कामत हांणी मलयाळम भाशेंत कादंबरी लेखन करून नामना जोडली. पूण कोंकणींत कादंबरी लेखन करपाक फाट केली. आयचे घटके मेरेन केरळांत चार कोंकणी कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. तांतली पयली कादंबरी के. गोकुलदास प्रभू (जल्म १९५४) हांगेली 'पृथिवै नमः'. गोकुलदास प्रभू हांचो पिंड कथाकाराचो. 'एकलेपणाची सांज', 'आराट्ट' वा 'लाशें' सारक्यो अप्रतीम कथा तांणी बरयल्यात. केरळी कोंकणींत नवलकथा आजून निर्मून जाल्ली ना हाची खंत तांकां आशिल्ल्यान तांच्या हातसून 'पृथिवै नमः' ही नवलिका (१९८६) बरोवन जाली आसूंक जाय. १९८१ वर्सा सावन नेमान कथा लेखन करून कोंकणी वाचकांचें लक्ष ओढून घेवपी ह्या कथालेखकाचें पयलें पुस्तक कादंबरिकेचें प्रकाशीत जावचें हें अजापच.

मा वसुंधरेचो म्हयमो सांगपी ही नवलिका शारी जीण आनी गांवगिरी जीण हांच्या मदल्या संघर्शाचेर आदारिल्ली आसा. एक फावट कामा निमतान गांव सोडून पयस शारांत वचून रावंक लागिल्लो मनीस परतो गांवांत परतना ही आमच्या देशाची शोकान्तिका. शारांत वचून घेतिल्लें उच्च शिक्षण ताका पर्थून गांवांत वचून गांव समृद्ध करपाक प्रेरीत करना. उरफाटें शारांतल्या ऐशोआरामी जिवनाचे ओडीन गांवांतली पिळग्यान पिळगी चलत आयिल्ली जमीन विकून त्या दुडवांनी शारांतलें जिवन अदीक सुखी करपाची वृत्ती वाडीक लागल्या. के. गोकुलदास प्रभू हांच्या आंगांतलो सृजनशील कलाकार ताका अस्वस्थ करता देखून 'पृथिवै नमः' जल्माक आयली.

शारांत पदव्युत्तर शिक्षण घेवन आतां कर्तुत्वाक सुरवात करची ह्या विचारांत आसतनाच परमानंदाचो बापूय तांकां सांगता- गांवांत वच. थंय आमगेली जमीन

गासा. ती वीक. हातांत आयिल्लो दुडू तुका उपकरा पडटलो. ते प्रमाण परमानंद गांवांत पावता. जल्मा थावन शारांत वाडिल्ल्यान ताका ती गांवगिरी जीण रानवटी कशी दिसूंक लागता. गांवांतलो म्हालगडो राघव पै हाची व्यक्तिरेखा गोकुलदासान भोव सुंदर उबी केल्या. पुंडलीक नायकांले 'अच्छेव' कादंबरातलों आबू जसो गांवगिरे संस्कृतायेचो राखणदार तसोच हो राघव मामा जमनीचो आनी सैमाचो भोग करपी म्हालगडो. वाठार गांवगिरो आसलो तरी लोक सुसंस्कृत आनी सैममोगी. ह्याच राघव मामालो पूत कृष्ण पै हो समाजकारण घेवन बशिल्लो मार्क्सिस्ट विचारांचो तरनाटो. ह्या कृष्ण पैच्या वावरा वरवीं गोकुलदासान केरळांतल्या गांवां मदल्या लोकांची विचारसरणी आमच्यामुखार दवरल्या. धर्मकोल्ली लोक आनी पुरोगामी विचारांचे लोक हांचे मदलो संघर्श दाखयला. राघव मामाली धूव निर्मला ही रंगारुपान सोबीत आनी सभावान भोव मायेस्त तिचो सोज्वळ आनी निर्मळ सभाव परमानंदाक खूब मानवता. राघव मामा, कृष्णा आनी निर्मला ह्या तिगांच्या प्रभावान परमानंदांत बदल घडूंक लागता. नोकरी करून दुडू जोडूं येता पूण गांवांतली जमीन पिकयल्यार ताचे परस चड जोडूं येता. '..भूंय आमगेली व्होडि तांक पुता. ती आमगेली अम्माच'... भूंय म्हळ्यार फकत माती आनी रेंव न्हय तर आमकां व्हटयेंत घेवन आमचें पिळग्यान पिळगी पोसवण करपी ती आमची आवय- हें राघव मामालें तत्वगिन्यान परमानंदाक प्रभावीत करता आनी अखेरेक जमीन विकपाचो विचार काडून उडोवन शारांत परतो वचनासतना गांवांतच रावन जमीन पिकोवपाचें थारायता.

परंपरा आनी प्रगती, जाणटे आनी नेण्टे, शिक्षणाचे उदरगतींतल्यान तरनाट्यांच्या विचारांक आयिल्ली अबरगत ह्या परस्पर विचारांचेर अप्रत्यक्ष पूण प्रखरतायेन केल्लें भाष्य म्हळ्यार 'पृथिवै नमः'.

केरळी कोंकणींत दुसरी कादंबरी जल्माक येवपाक सोळा वर्सां वाट पळोवची पडली. वी. कृष्ण वाध्यार (जल्म १९४५) हे कोंकणी आसुनूय साबार वर्सां मल्याळम भाशेंत कादंबरी रचताले. कोंकणी साहित्यीक चळवळेकडेन धडेर रावन पळयतां पळयतां ते केन्ना चळवळेंत देंवले कळ्ळेंच ना. कृष्ण वाध्यार मलयाळम भाशेंत बरयताले तरी कथानक, विशय, पात्रां कोंकणी समाजांतलींच. 'भटमाम', 'देवळी', 'अरियाप्पोडात्तवर', 'ओरु पुरावृत्तम', 'कळावती', अशो एकापरस एक सरस कादंबऱ्यो बरोवन नामनेक पाविल्लो हो साहित्यकार. मलयाळमांत तांणी

कथाय बरयल्यात. तांचो 'समराधना' हो कथांझेलोय उजवाडाक आयला. कोंकणी साहित्यीक चळवळ फुलूंक लागिल्ली पळोवन कृष्ण वाध्यारांचेंय मन उकल्लें. फाटल्या शतमानाच्या निमण्या दसकांत तांणी कोंकणी कथा लेखनाक सुरवात केली आनी फाटोफाट २००० वर्सा कादंबरीलेखनाक हात घालो. कोझिकोडच्यान उजवाडाक येवपी 'सारस्वत वाणी' ह्या म्हयनाळ्याचेर ही कादंबरी खिस्ती खिस्तींनी उजवाडाक येवंक लागली. आतां ही 'दुर्पती' (२००२) पुस्तकरूपान प्रसिद्ध जाल्या.

प्रस्तूत साहित्यकाराल्या मलयाळम कादंबऱ्यांचे तुळनेन ही कादंबरी खूब ल्हान आसा. खरें म्हळ्यार तिका 'नवलिका'च म्हणूंक फावो. समाजांतल्यान वायट चालीरितींचेर खरसाणीन बरोवपाचें काम कृष्ण वाध्यार करीत आयल्यात. 'दुर्पती' ताका आडवाद ना. हे नवलिकेंत तांणी कोंकणी बामण समाजांत विधवा अस्तुर्यांक कशी मनीसपणा आडची वागणूक मेळटा ताचें काळजाक हात घालपी चित्रण केलां. भाशाशैली, कथानक आनी आशय ह्या तिनूय दिश्टीकोणांतल्यान उजवी थारची अशी ही नवलिका.

'दुरपतक्काक देकूंक अवसतेलेवे? तिक्का लास्सूचे फुडें थारवडारि पावंचा जात्तेलवे? ना जाल्यार म्हजे देवा, सांगूंक नाक्का.' अशा उतरांनीं कादंबरेची सुरवात जाता. केरळचे कोंकणी भाशेची म्होंवाळ गोडसाण चाखूंक दिवपी ही शैली भोव सुंदर. कोंकणींतली ही वाध्यारांची पयली नवलिका आसली तरी ते मलयाळमातले एक कुशल कादंबरीकार जाल्ल्यान बरे साहित्यकृतीचे सगळे गूण हे नवलिकेंत पळोवंक मेळटात.

एका दरिद्री ब्राह्मणागेर तीन धुवो. तांतली दुर्पती ही सगळ्यांत व्हडली. त्या वाड्यार तिचे इतली सुंदर सोबीत चली दुसरी ना. तिका पळयत सावन शेजारच्या गांवांतलो देवाभटालो पूत नरहरी सामको पिसो जाला. तो तिका मागणी घालता. पूण नक्षत्राक पडना. तातूंत दुर्पती जल्माक येतनाच 'पापत्व' आशिल्लें जातक घेवन आयिल्लें. जातक पळोवन नरहरीचो बापूय लग्नाक कस्सोच तयार जायना. पूण नरहरीन स्पश्ट सांगता "जातकारू माका विश्वासु ना. माका द्रौपदि जावंका." बापायन उपाव नासून मारतें घेतलें. लग्न जालें. दुर्पती घरांत आयली आनी थोड्याच दिसां भितर तिणे मांवा-मायचीं मनां जिखून घेतलीं. नरहरि आनी दुर्पतीचो मोग वाडत वतालो.

वदेवस्पणाचेर नरहरी भटालें लक्ष उणें जालां अशी चर्चा गांवांत सुरु जाली. सगलें ान्यार आसतनाच एक दीस दुर्पती-नरहरीक एक धूव जल्माक आयली. नात जल्मली न्ना जातकांत दोश नासुंये वा आसल्यार तो आतां निस्तरतलो अशें भावनेंत बापूय ाासतनाच एक दीस नरहरी देवळांतसून परततनां तळ्येंत पडून मेलो. वैधव्य प्राप्त ााल्या उपरांत बोडकी केल्ले दुर्पतेचे जिणेंत जे कश्ट आनी भोगणार येतात ताचें वेदारक चित्रण हे कांदबरींत केलां. सगले त्रास भोगले आनी सोंसले उपरांत दुर्पती ारता तेन्ना तिचे खाशेले धुवेपरस दुर्पतेक आवय समान मानपी कलावतीक चड ुख्ख जाता. दुर्पतीलें चली सिलबाय- जिणें जिवितभर आवयक फाटच केल्ली- ी दुर्पतीच्या मड्याचेर नदर घालपाक लेगीत पावना. पूण मरण जाल्या उपरांत ुर्पतील्या भांगराची पोटली मात ती हक्कान हातासता. कथानक अशें आसलें तरी ्या निमतान ह्या समाजांत विधवेक मेळपी चलणुकेचेर लेखकान भोव बरो उजवाड ााला. वी.कृष्ण वाध्यार हांगेली ही नवलिका म्हळ्यार कोंकणी साहित्यांत पडिल्ली मोलादीक भर.

हांगा सरली तिसरी कादंबरी म्हळ्यार 'अयोध्या' (२००८). आनंदी मुंबय हांणी मलयाळम लिपींत बरयिल्ली ही कादंबरी आदल्या दोनूय नवलिकांचे तुलनेंत आकारान व्हड आशिल्ल्यान ही 'कादंबरी' हे संज्ञेक पात्र थारता. आयच्या काळार नानपश्यात जावंक लागिल्ली 'एकवटीत कुटुंब संस्था' हो हे नवलकथेचो विशय. घरां वचून फ्लॅट संस्कृताय वयर सरल्या. लग्न जायना फुडें स्वतंत्र रावपा कडेन तरनाट्यांचीं मनां ओडटात. ल्हान घराबे ही फॅशन जाल्या. एकवटीत कुटुंबां आनी सान घराबे हांचे मदीं तुळा करीत फाटली रीत आयचे रिती परस कशी बरी आसली हें दाखोवपी ही कादंबरी. एकवटान रावतात तेन्ना एकामेकांक पावतात, एकमेकांक आदार जाता आनी परस्पर मोग वाडत वता अशें लेखक मानता. सान स्वतंत्र कुटुंबांनी रावपी लोक स्वता पुरतें येवजुपी आपकेंद्रीत जाल्यात अशें ती म्हणटा. हें पटोवन दिवपा खातीर रचिल्लें हें कथानक.

'अयोध्या' ही सुमित्राक्काली कथा. सुमार आस्पतीच्या घरांत पूण बरे संस्कार जोडीत व्हड जाल्ली सुमित्रा व्हार्डीक जावन एका गिरेस्त घराब्यांत पावता. कांय वर्सां उलगतात. तिका स भुरगीं जल्माक येतात. आनी घरांत कलह सुरु जाता. तिच्या घोवाचे दोग व्हडले भाव आपणाल्या धाकल्या भावाक, कृष्ण पैक, वेगळो संवसार मांडूंक सांगतात. उपाव नासून कृष्ण पै आवयक, बायलेक आनी भुरग्यांक

घेवन चिके पयस आशिल्ल्या तांच्याच भाटांत आशिल्ल्या धाकटुल्या घरांत रावंक लागता. मास्तर आशिल्ल्या घोवाची जोड संवसाराचो गाडो धुकलपाक पावना तें पळोवन सुमित्राक्का पेंगट बांदता. दोन गोरवां सांबाळटा. तांचें दूद विकता शेतांत आनी पोरसांत शाक-भाजी, फुलां-फळां पिकयता. फुलां-तरकारी विकून संवसार चलयता. भुरग्यांक शिक्षण बरें मेळचें आनी तेच बराबर तांचेर बरे संस्कार जावचे हो तिचो प्रयत्न आसता. व्हडलो पूत धावी शिकून धंदो सुरू करता. दुसरो ड्रायव्हींग शिकून कामाक लागता. एकलो ग्रॅज्युएट जावन नोकरी करता. धाकलो बरो शिकचो म्हूण सगलींच यत्न करतात आनी तो कमप्युटर इंजिनिअर जातात. व्हडली चली लग्न जावन दिल्लींत एका ब्या घराब्यांत पावता आनी धाकली ग्रॅज्युएट जावन ब्या भरिल्ल्या घरांत पडटा. सुमित्राक्काक नातरांय जाता. ल्हवू-ल्हवू सुमित्रालें घर चंवरूंक लागता. व्हडल्या पुतालो धंदो भरभराटीक पावता. ड्रायव्हर आशिल्लो कर्तुपी पूत आतां ट्रॅव्हल एजन्सीचो मालक जाता. नोकरदारांकूय प्रमोशनां मेळटात. कम्प्युटर इंजिनिअरांक बरे दीस आयल्यात. घरांत चार सुनो आयल्यात त्योय संवसारी. एकली रांदप आनी घरांतलीं कामां निस्तरायता. दुसरी शेतां-पोरसां पळयता. एकली गोरवां-गोठो सांबाळटा आनी धाकटी शिकिल्ली आशिल्ल्यान नातरांच्या शिक्षणाचेर लक्ष दवरता. काळांतरान नातरां मदलो डॉक्टर गांवांत हॉस्पिटल घालता. अशे तरेन सुमित्राक्कालो संवसार दिश्ट लागपा इतलो बरो चलता. ते वटेन कृष्ण पैच्या ज्या भावांनी हांकां घरा भायर काडिल्लीं तांची आवतिकाय कठीण जाता. कश्टांविणे जियेल्ल्यान आशिल्ली आस्पत सरता. जाणटीं जाल्यांत तांकां पळोवपाक घरांत कोण नात. भुरगीं व्हड जावन वेगळीं रावतात. तांकां हांचे कडेन लक्ष दिवंक फुरसत ना. जाणटो जेन्ना चड बरो ना जाता ताका सुमित्रक्काल्या नातवाल्या हॉस्पिटलांत उपकार हाडटात. अर्थात, सगळें अशें सवस्तकायेन चलता अशें न्हय. संघर्श आसात पूण तांचें समादान घराच्या चार वण्टीं भितर जाता. धाकली धूव जेन्ना अबुद्धीपणान आपसुवार्थी तरनाट्याच्या मोगान भुल्लुसता तेन्ना सुमित्राच्या संस्कारांत तयार जाल्ली सून तिका त्या संकश्टांतसून वांटायता. घराब्यांतर्गत संघर्श आसात पूण ते घरचे भितरच निस्तरतात. अखेरेक भुरगीं नवें व्हडलें घर बांदतात आनी घराक नांव कितें दवरचें हाचेर विचार विमर्स जाता तेन्ना सर्वानुमत्तान घराचें नांव 'अयोध्या' दवरचें असो निर्णय जाता. अयोध्या हाचो अर्थ जंय झगडीं नात अशी सुवात. सुमित्राक्का हें पात्र कादंबरीभर मुखेलपणान वावुरता. एखादरी बायल जेन्ना संस्कारी आनी संवसारी

ासता तेन्ना ती केदींय संकश्टां हांसत खेळत जिखून घेता. ती जैतिवंत जाता तेन्ना ी कर्तुपी थारता. मागीर ती घरापुरती उरना. ती गांवची जाता. सुमित्रा आपणालें ार वसोवन पुर्ण समादानी ना. ती गांवा खातीर हॉस्पिटल घालचें अशें नातरा लागी ागता. गांवांत तिचेच सांगणे वयल्यान 'वृद्धाश्रम' उबो जाता. कसल्याय संकश्ट नेवारणाक गांवचो लोक तिचे कडेन अपेक्षेन पळयता. अशे तरेची एके कर्तुपी आनी विचारी अस्तुरेची ही कथा. हे कथेंत नवें कितेंय सांगलां अशें न्हय. अशे तरेचे कथा तीन दसकां फाटीं व्हडा प्रमाणार सांगून जाल्ल्यो. समाजांत जेन्ना परिवर्तन घडून येता तेन्ना ताचीं आवर्तनां साहित्यांत परावर्तीत जाल्लीं पळोवंक मेळटात. ह्या विशया वयली ही कादंबरी कोंकणींत खूब उसरां आयली इतलेंच. पूण केरळांतले कोंकणींत- जंय चारच कादंब्र्यो आसात- हे कादंबरीक बरो येवकार फावता.

ह्या चारां मदीं उजवी म्हणूंक जाय ती सूर्या अशोक हांगेली 'विश्वास'. दर्यावर्दी तडवांच्या हातांत सापडिल्ल्या बोटीवयल्या भारतीयांच्या वांट्याक आयिल्ल्या कश्टांची ही कथा. तेय परस गांव घरा ताचे बायलेचेर आयिल्ल्या संकश्टाची आनी तिच्या अढळ भावार्ताची. एका फिशाल कलाकाराचे संवदनेन बरयिल्ली ही अप्रूप कादंबरी. विशय आंतराष्ट्रीय मळार गाजपी पायरेटिंगाचो आनी भारतीय संस्कारांचो. ह्या चारूय कादंब्र्यांतलीं वैशिश्ट्यां आनी संवेदना समजून घेवप गरजेचें. चारूय लेखक आपापणाल्या अणभव विश्वा कडेन प्रामाणीक रावन अभिव्यक्त जातना दिश्टी पडटात. संवसारभर हें अशेंच घडटा. पूण आपणाल्या अणभव विश्वाच्यो कक्षा बळांटून नवें कितेंय रचपाचो यत्न अभावानच जाता. प्रस्तूत चारूय कादंब्र्यो मध्यमवर्गी संवेदना (middle class sensibility) जागयतात. समाजांत तरेकवार लोक आसतात. केरळांतल्या कोंकणी कुणबी वा वैश्य समाजांतल्या लोकांची संवेदना ह्या कादंब्र्यांनी जाणवना. उल्लेखच जालो वा एक दोन पात्रां मांडलीं म्हूण त्या उर्वरीत समाज मनाची उकल जायना. तांच्या अंतरमनाचो तटस्थतायेन थाव घेवप जाता तेन्नाच ती साहित्यकृती व्यामिश्र जावन उबी रावता. अर्थात, हें ह्या तीन कादंब्र्यांतलें उणेपण न्हय. आपापणा परीन तिनूय साहित्यकृती उंचेल्या दर्ज्याच्योच आसात. तरिकूय अदीक खोलायेंत रिगून खरीक हात घालप जालो ना अशें दिसता. ह्या तिनूय कादंब्र्यांनी जी. एस. बी समाजाचें लोकमानस भोव प्रभावी रितीन उबें जालां. ह्या समाजांतल्यो ब्र्यो-वायट प्रवृत्ती, देवदेवस्पणा वयले कुड्डे भावार्थ, संस्कारी मनां आनी बुरशो परंपरा ह्या समस्त

आंगांचेर उजवाड पडिल्ल्यान समाजाची नवी विस्तृत वळख मेळटा.

चारुय कादंबऱ्यांक आशिल्लीं शिर्शकां भोव अर्थपूर्ण आसात. के. गोकुलदास प्रभुली 'पृथिवै नमः' ही नांवा प्रमाण पृथ्वी तत्वाची महती सांगपी कथा. ही भूंय म्हळ्यार आमची व्हडली आवय, देवमाता. तिचो बरो सांबाळ करप ही आमची लागणूक. भुयेंक नमन करचें हो संदेश दिवपी हे कादंबरेचें शिर्शक मूळ संस्कृत सुभाषितांतल्यान घेतलां. 'दुर्पती' म्हळ्यारच द्रौपदी. महाभारतांतल्या पात्राचें नांव मिरोवपी ही कादंबरी अस्तुरेक समाज कसो गृहीत धरून चलता आनी तिच्या वांट्याक आयिल्ले भोगणार कशे तरेन स्वस्थ बसून तटस्थतायेन पळयता हें दाखयता. अशा वेळार वस्त्रहरणाच्या समयार कौरवदरबारांत तोंड धापून बशिल्ले रथी महारथी दोळ्यां मुखार येतात. द्रौपदी कडेन सांगड घालचे खातीर नायिकेचें नांव 'दुर्पती' दवरप हें सुचकतायेचें लक्षण. तिसरी कादंबरी 'अयोध्या' हें शिर्षकूय भोव सुचक आनी अर्थपूर्ण आसा. सुमित्रा सारकी कर्तुपी बायल आनी तिच्या घराब्यांतल्या समस्त मनशां सारकीं सुसंस्कारी मनशां ज्यां घरांत वावुरता त्या घरांतूच न्हयतर गांवांतूय झगडी-झुजां जावचीं नात. अयोध्ये सारकी नगरी आमकां मेळूं येता हो अर्थपूर्ण संदेश दिवपी हें शिर्शक. आनी आयज वेरची निमणी कादंबरी 'विश्वास' ही अंतर्मनांत दाटिल्ल्या भावार्ताचेर आदारिल्ली सुंदर कृती.

## कथा

मुळांतच कोंकणी कथेचो उदेव उसरां जालो आनी ताचे पडसाद केरळ सारक्या दुरप्रदेशांत उठपाक आनिकूय कळाव जालो. लोककाव्यां, भक्तिगितां, भावकविता असो प्रवास करीत पद्य साहित्य फुडें वतालें. पूण कथा साहित्याक पोशक अशें वातावरण नाशिल्लें. केरळांतल्या कोंकणी मनशान आपणाली कोंकणी अस्मिताय जरी सांबाळून दवरिल्ली तरी ती साहित्यांतल्यान अभिव्यक्त जावपाक उणी पडटाली. भाशेची वाड जातली जाल्यार साहित्य जाय हाची जाण तयार जावंक नाशिल्ली. पूण गोंय स्वतंत्र जालें आनी कोंकणीची भाशीक आनी साहित्यीक चळवळ चोंय आंगांनी फुलूंक लागली ताचे पडसाद केरळांतल्या कोंकणी जनांच्या कानार पडले. १९६६ वर्सा कोंकणी प्रचार सभा स्थापन जाली. १९७२ वर्सा 'कोंकण जनता' म्हयनाळें उजवाडाक येवंक लागलें आनी कोंकणी ही बरोवपाची भास हें जनसामान्यांक होलमलें. तो मेरेन मर्यादीत लोकां मजगतींच

ा विचार आशिल्लो. आतां ताका भौशीक रूप मेळूंक लागलें. म्हणसर १९७८ र्सा कोंकणी परिशदेचें बारावें अधिवेशन कोच्चींत भरलें. हे परिशदेन सुमारा ायर जागृताय केली. साहित्याची जाण आशिल्ल्या लेखकांनी कथेच्या मळार ावल घालें. आनी अवघ्या धा वर्सां मदीं हांगां स कथाझेले उजवाडाक आयले. ९७८ वर्सा 'कोंकणी कथाष्टक' आनी १९७९ वर्सा 'काणयांघोंस' हे दोन संग्रह फाटोफाट प्रसिद्ध जाले. 'कोंकण जनता' म्हयनाळ्याचेर प्रकाशीत जाल्ल्या विंगड वेंगड लेखकांल्या कथांचीं तीं संकलनां आसलीं. ह्या अणभवांतल्यान प्रोत्साहीत जाल्ल्या सुदास शेणै ह्या लेखकालें 'एकु सपनाचो अर्थु' हें बालकथांचें पुस्तक १९८० वर्सा प्रकाशीत जालें. आनी फाटोफाट इंद्रकांत वासुदेव शेणैलें 'गोडि गोडि काणयो' हें अणकारीत कथांचें पुस्तक १९८१ वर्सा उजवाडाक आयलें. चार वर्सांत चार पुस्तकां उजवाडाक आयल्या उपरांत तीन वर्सां खंड पडलो. उपरांत डी. विश्वनाथ मल्ल्या हांगेलो भुरग्यां खातीर बरयिल्लो 'काणियां झेलो' प्रकाशीत जालो. इतलें म्हणसर १९८० वर्सा केरळ कोंकणी अकादमी स्थापीत जाल्ली. १९८६ वर्सा अकादमीन 'कथा ८३-८४-८५' अशें एक कथासंकलन उजवाडायलें. १९८३-८४-८५ ह्या तीन वर्सां मदीं बरोवन जाल्ल्या वेंचीक कथांचें हें प्रतिनिधीक स्वरूपाचें संकलन.

कथा लेखनांत सातत्य उरता तेन्ना कथासंग्रह उजवाडाक येतात. थोडे कथा लेखक बरी सुरवात करून मदींच बंद करतात वा मदीं गॅप घेतात. सातत्यान बरोवपी बरो लेखक रोखडोच प्रकाशकांचे नदरेंत भरता आनी ताका संग्रहा खातीर मागणी येता. अशीच गजाल घडली ती के. गोकुलदास प्रभू हांच्या जिवितांत. मुळांत मलयाळम लिपयेंत कथा बरोवपी गोकुलदास प्रभू १९७८चे परिशदे उपरांत देवनागरींत बरोवपाक लागले. कोंकणीच्या मुखेल प्रवाहांत येवपाच्या तांच्या ह्या यत्नांक कोंकणी वाचकां कडसून भोव बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. हाचो परिणाम म्हळ्यार १९९१ वर्सा 'अंतर आयामी' हो तांगेल्या १४ कथांचो झेलो गोंयच्या नामनेच्या 'अपुर्बाय प्रकाशनान' उजवाडाक हाडलो. के. गोकुलदास प्रभू हे कोंकणी कथा साहित्यांतल्या मुखेल प्रवाहांतले नामनेचे लेखक. तांगेल्या 'अंतर आयामी' ह्या संग्रहाक उपरांत केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. ह्या लेखकाची आनी कथा-साहित्याची विशेश वळख हेर कडेन मेळटली. देखून हांगासर हे विशीं इतल्यार थारुंया.

केरळांतलो कोंकणी समाज हो सुशिक्षीत समाज. मागीर तो जी. एस. बी आसूं, वैश्य आसूं वा कुणबी. सुशिक्षीत आशिल्ल्यान ताचें वाचन आसा. मुळांत मलयाळम ही साहित्यान गिरेस्त भास. तें वाचत आशिल्ल्यान साहित्याची मोलावणी करपाचीय तांक ह्या समाजांत आसा. देखून ह्या समाजांतले लोक जेन्ना साहित्य लेखनाक हात घालतात तेन्ना तांच्या हातसून बरें साहित्य निर्माण जावप सभावीक. केरळांतले वट्ट समाज जिणेंत साहित्याक साद घालपी अनेक समस्या हेर भारती समाजा वरीच आसात. उर्वरीत भारतांत आसात ते परस चिके वेगळ्यो अश्यो आसात. दावी विचारसरणी खर आशिल्ल्यान हांगा सरलें राजकीय वातावरण मातशें वेगळें. समाजांतर्गत सरमिसळ इल्ली चड. पूण इतलें आसुनूय अस्तुरेची जीण हेर कडेन आसा तशीच कुस्कुटा समान. दरिद्री लोकांचे हालउपाद्रे तितलेच कश्टदिणे. लिंगीक आसक्ती आनी विकृती तितलीच पिडार्पीड दिवपी. ताका लागून कोंकणी मध्यमवर्गी संवेदना जाणवली तरी ही कथा वेगळी कशी दिसना. वेगळेंपण आसा तें समाजाच्या चित्रणांत. आनी परिसरांच्या वर्णनांत. विशय आनी आशयाचे नदरेंत ह्यो कथा हेर भारतीय कथां वरीच आसात.

के. गोकुलदास प्रभू हांचे फाटोफाट कोंकणी कथेच्या मळार शेक गाजयलो तो के. आर. वसंतमणि (जल्म १९४१) ह्या कथाकारान. तांचे दोन कथांझेले उजवाडाक आयल्यात. 'भांगरा दांत' (१९९३) हो केरळ कोंकणी अकादमीन प्रकाशीत केला. आनी 'निमज्जन' १९९९ वर्सा अंजली प्रकाशनान हाडला. तांच्या कथासाहित्यांत विविधताय जाणवता. विनोदी कथा हो प्रकार केरळच्या कोंकणी साहित्यांत ना. पूण वसंत मणिंच्या कथांनीं नर्म विनोदाची झलक आसा. तांगेली 'गोल्डन शॅर' ही अशीच विनोदी आंगान बरयिल्ली कथा. दोन साडवां मदलो अंतर्गत संघर्श मांडटना निवेदकाच्या मनांतल्या दुबावांक आगळे तरेन व्यक्त केल्यात. हे दुबाव घेवन न्हिदिल्ले कडेन निवेदकाक पडिल्ल्या सपनांतलो साडवां मदलो शॅअर्स विकपा-घेवपाच्या वेव्हारा वयल्यान जाल्लो वितंडवाद तेमकार पावता नामकरणाचो सुवाळो सोडून घरा परतुपाक निवेदक बायलेक ओडटा तेन्ना तें सगलें सपन आसलें म्हणपाचें कळटा. कथा म्हूण ही कृती उबारी घेना तरी तातुंतली विनोदी शैली लेखकाचें वेंगळेंपण दाखयता. 'भांगरा दांत' हो झेलो लेखकानच केल्ल्या अणकारांतल्यान मलयाळमांत गेला. पूण लेखकाच्या वांट्याक आयिल्ल्याक बलायकी अस्वास्थ्याक लागून ह्या दोन संग्रहां फाटल्यान तांचें साहित्यीक मळा

ायलें योगदान उणे जालां. 'कोंकण जनता' नेमाळें बंद पडिल्ल्यान तांच्या बरपांत खंड पडलो अशेंय म्हणूं येता.

१९७८ उपरांत अनेक कथा लेखकांनी कोंकणी कथेक उकलासून धरली. सुशिला त्रिविक्रम भट हांगेली 'मांगल्य सौभाग्य' कथा त्या काळार घरचे आस्पतीक लागून तरण्या चलयांक कशे तरेन दुसरेपणांत जाणट्या दादल्यां कडेन लग्न करून दिताले ताची खबर आसा. अश्यो कथा हेर भासांनी आयल्यात तरिकूय केरळी कोंकणींत ती पयलेच खेपेक आयली आनी लोकांक भावली. सुशिला भट ही सातत्यान बरयता. विविध विशयांचेर बरयता. पूण आजून तिचे कथासंग्रह सोडच कसलेंच पुस्तक प्रकाशीत जावंक ना. मुळांत सुशिला भट ही भौतांसांचें व्यक्तिमत्व आशिल्ली अस्तुरी. ती हांगासरली 'हरिकथा' सांगपी पयली अस्तुरी किर्तनकार. १९७६ ते १९९० मेरेन तिणें दर वर्सां गीतनाट्य वा नृत्यनाटिका वा नाटक बरोवन स्वता सादर केलां. सध्याक ती 'आज्जेलीं वखदां' हे सदर 'स्पंदना'चेर बरयतात. दायज म्हूण चलत आयिल्ल्या वनस्पती वखदांची वळख दिवपी म्हायतीपर लेखाचें तांचें पुस्तक रोखडेंच येवपाचें आसा.

केरळांतलो कोंकणी चळवळीचो खडेगांठ कार्यकर्तो पयन्नूर रमेश पै हांच्याय आंगांत साहित्यीक गूण आसा. तांणी सुरवातीच्या काळांत ललीत लेखन करतनाच कथालेखनय केलें. तांगेली 'चान्निणें' ही देणें-दोत ह्या विशया वयली कथा लक्षांत उरपा सारखी आसा. के. गोकुलदास प्रभू वरीच पी. रमेश पै हेय आपणाली कथा पुराय कोंकणी वाचकां मेरेन सहजतायेन पावची ह्या हेतून भाशा शैलींत फावो तो बदल करतात. बी. एस. आशा हिंगेली 'जन्मानें उणत्व' ही कथा विशयाचे नदरेन चाकोरीभायली. रंगरुप नाशिल्ल्यान आंकवार उरिल्ली एक वाडिल्ली चली देवी सारक्या असाध्य रोगाक बळी पडिल्ल्या एका भुरग्याक भोग दिवन आपुणूय त्या रोगाचे सुवादीन जाता. चलयेचे मानसिकतायेचे नदरेन कथा बरी चित्रायिल्ली आसली तरी देवी-रोग जाल्ल्या तरनाट्याक भोगाची वानसा जावं येता व्हय? हांचो लेखकान योग्य विचार करूंक ना अशें दिसता. अर्थीक विशमता आनी तातुंतल्यान तयार जाल्ली दोन तोंकांची मानसिकता केरळांतल्या समाजवादी वातावरणाक लागून कथा साहित्यांत प्रकर्शान तकली वयर काडटा. एन. आर. मल्ल्या हांगेली 'मोगरे फूल', आर. के. प्रकाशाली 'उदयाचें अस्तमन', पी. श्रीनिवास प्रभूली 'भिके शीत' अश्यो समाजवादी विचारसरणेंतल्यान बरयिल्ल्यो कथा

विसाव्या शतमानाच्या निमण्या दोन दसकांत बरोवन जाल्यो. तातूंत पी. शिवराज ह्या नामनेच्या मलयाळमले लखकान बरयिल्ल्या कोंकणी कथांचोय आसपाव आसा.

नवविचारांचें वा बुध्दिप्रामाण्याचें ल्हार जांकां आफडूंक ना अशा लेखकांनी परंपरांची व्हडवीक सांगपी कथाच चड बरयल्यो. ह्या यत्नांत आदल्या अंधविश्वासांचें समर्थन जाल्लेंय दिश्टी पडटा. तशेंच आपणालो वाचकवर्ग हो लेखकाल्या उच्चभ्रू आनी धर्माधिश्ठीत समाजाचोच घटक आसतलो अशें गृहीत धरून बरयिल्ल्यान कांय लेखकांल्यो कथा सांप्रदायीक कशो आसात. तटस्थताय आनी सर्वसमावेशक भाव उणो आशिल्ल्यान कलात्मक पावंड्यार तांगेल्यो कथा सकयल उरतात. अर्थात, ताका आडवाद आसात. पी. एन. शिवानन्द शेणै आनी शरतचंद्र शेणै हे जाणीव पुर्वेक यत्न करून आपणाली कथा ही पुराय कोंकणी समाजाचें प्रतिनिधित्व करपी हाचें भान दवरून कथा बरयतात. खरें म्हळ्यार, ह्या दोगांलीय प्रकृती कवीची. पूण तांणी कथा लेखनूय केलां. समाजांत जाती वेवस्थेक लागून वा प्रदेशांच्या वेगळेपणाक लागून जावं धर्मभेदांक लागून जे भेदाभेद आसात तांचेर मनीसपणाचे व्यापक नदरेन बरोवपाचो यत्न ह्या लेखकांनी केला. खास करून शरतचंद्र शेणै हांगेल्या कथांनी हे परस्पर संबंद वास्तव पातळीचेर येवन वाचकाच्या काळजाक हात घालतात. देखीक, 'परकी' वा 'अलमेलू' हातूंत आंतर-धर्मी संबंदांचेर भोव मार्मिकतायेन पूण तितलेच सहजतायेन बरयलां. पी. शिवानन्द शेणै हांगेली 'सानसान फूल' ही कथा आंतर धर्मी पात्रां मदल्या लागशिल्ल्या संबंदांचेर आदारिल्ली आसा. हातूंतलें 'जोसेफ' हे पात्र खलनायक जावन वावुरता पूण तें परक्या धर्मीयांचे प्रतिनिधित्व करिना. बरे आनी वायट लोक सगल्या समाजांनी आसतात. तसोच हो 'जोसेफ'.

१९८८ वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीचे वतीन प्रकाशीत जाल्लें संकलन 'साहित्य पंचक' आनी २००० वर्सा सरळ कोंकणी प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्लें 'साहित्यरत्न' ह्या दोनूय संकलनांचें संपादन सुरेश ए. शेणै (जल्म १९४७) हांणी केलां. सुरेश शेणै स्वता कथा लेखक. तांणी आजवेर साबार कथा बरयल्यात. केरळ कोंकणी अकादमीचो एक जापसालदार जाळवणदार जाल्ल्यान रमेश पै भाशेनच स्वता कडेक रावन दुसऱ्यांक प्रोत्साहीत करपाचो वावर करता. वी. लक्ष्मण

ल्ल्या कांचना बोस ह्या लेखकां कडसून नव्यो कथा बरोवन घेता. खासा सुरेश णी गांवगिरीं पात्रां भोव बरीं उबीं करता. लॉटरी लागली म्हूण खूश जाल्ल्या रंगण मामाक दुडू भोगूंक मेळना वा रूपान सोबीत आनी बरो घरसंवसार चलोवपी सुंदरी चकीत कालचक्र घुंवता आनी पिशीं जाता ताची काळजाक हात घालपी कथा रेश शेणैनी बरयल्यात.

गा सरल्या कोंकणी कथाविश्वाक आश्वस्त करपी आनीक दोन लेखक तयार ल्ल्यात आनी सातत्यान कथा बरयतात. एक म्हळ्यार सूर्या अशोक (जल्म १६९) जिचो 'पुनर्जनी' हो कथासंग्रह २००५ वर्सा उजवाडाक आयला आनी सरी राधिका शेणै (ज. १९६०) हिंगेलो 'निरांजन' हो कथांझेलो २०१० वर्सा जवाडाक आयलो. २००१ वर्सा थावन तिगेल्यो कथा 'सारस्वत वाणी', ष्णवरत्न' ह्या नेमाळ्यांनीं सातत्यान उजवाडाक आयल्यात. हिंगेलें खाशेलेंपण ळ्यार सदच्या वेव्हारांतलें विलक्षणपण जुस्त वेंचून ताचेर कथा बरोवप. 'पणटी' कथेंत पणजो, आजो आसतना घराबो एका काळार घणघणटालो. पुतळ्यो, ांगरां, पवळीं तिळेलान सारोवन हातरीर सुकत घालतालीं. अशा घराचेर वकळा येता. पूण घरांतली पणटी सरिता शिकून नोकरेक लागता आनी पयलो गार हातांत पडटा तेन्ना सरिताक अभिमान दिसता. त्या सुकत घालच्या मोतयां-वळ्यां परस चड मोल ह्या स्वकश्टांचे जोडीक आसा. ह्या संग्रहांतली 'पुण्यवंती' ो कथा भावविवश करपी आनी एक मोलादीक विचार दिवपी कथा. कोचीच्या ाधव मामाली बायल मेल्या. वर्सभर घरांत दवरिल्ल्यो तिगेल्यो अस्थी निमज्जन विसर्जन) करपाक तो रामेश्वराक वचून परतता. अस्थी घरांत आसतना बायलेची ासाय तांकां जाणवताली. आतां एक रितेंपण वांट्याक आयलां अशें येवजीत ल्वेन घरा परततनां प्रवासांत ताका एक सात वर्सांचें चली डब्यांत दिश्टी पडटा. ी ताका वळखीची दिसता. मागीर कळटा तें कुटूंब कोचींतल्या एका मनशाक मेळपाक वतात. खबर काडटकच कळटा- माधव मामाचे बायलेचे निमणे इत्से प्रमाण तिचें नेत्रदान जाल्लें. ते दोळे हे सात वर्सांचे चलयेक मेळिल्ल्यान तिच्या घरकाराचे उपकार मानपा खातीर तीं कोचीक वतालीं. ही एक भावस्पर्शी कथा. राधिका शणैल्या कथां विशीं सूर्या अशोक म्हणटा- 'साधारण मनुष्यांचो, साधारण संदर्भांचो आनी साधारण जिविताचोच परामर्श ह्या काणयांत केला तरी प्रत्येक काणयेंतूय एक ना एक असाधारण अंश आसा.' हें पुर्ण सत्य.

साहित्याच्या सगल्या मळांचेर लेखन करून नामना जोडिल्ली सूर्या अशोक हांणी कथेक दिल्लें योगदान खूब लक्षणीय आसा. 'पुनर्जनी' झेल्यांतल्यो सातूय कथा दखल घेवपासारक्यो आसात. कथानकां केरळी भुंयेतलीं. जणेक पात्र पुराय रितीन सबावीक वागपी. कथेची सुरवात, मध्य आनी अखेर बेस बरी करपी हे लेखकेक कथा कशी केळोवची हाची कळाशी होलमल्या. 'तिरूपती देवालो निवेदु' हे कथेंत गोपाळ तिरूपती वचपाचें येवजिता आनी आपणाले आत्तेक यमुनाक्काक वांगडा व्हरपाचें उतर दिता. पूण मागीर बायलेले सांगणेन तिका घेनासतना वता. पूण तिरूपतीक खेटाखेट जावन ते गचमुट्टेंत कितलेशेच लोक चिड्डून माड्डून जखमी जातात. गोपाळ-गीता कशींबशीं जीव वाटावन घरा परततात. गोपाळाचें मन खाता. तो यमुनाक्काची भगसणी मागता. यमुनाक्का व्हड मनान ताका क्षमा करता आनी वयल्यान हातांतली खाणाची पोटली ताका दिता. पळय जाल्यार तिरूपतीचो निवेद्याचो लाडू. कारण मजगतीं शेजारच्या गोविंदान तिका व्हरून दर्शन घडोवन हाडिल्ली आसता. वयल्या वयर पळयल्यार ही कथा चाकोरींतलीशी दिसली तरी ती सांगपाची लेखकाली कळाशी तोखणाय करपा सारकी आसा. 'पुनर्जनी' संग्रहांतली शिर्शक कथा भोवच सुंदर. हें कथेंतलें वातावरण थोडें गाड काळें, मन खिन्न करपी, जें गजानन जोग हांचे 'रूद्र' कथेंत वा के. गोकुलदास प्रभुंल्या जायत्या कथांनीं दिश्टी पडटा. तरणे पिरायेचेर पोटा खातीर गांव सोडून गेल्लो मुकुंद गांवांत परतो येता तेन्ना सगलो परिसर बदलला. मुकुंद आतां पयशोकार जाला. पूण सुरवातीक जेन्ना तो दुडवांक पातिशेर आशिल्लो तेन्ना आपली मोगी जयाक चीट बरोवन ताणें कळयिल्लें आसता- 'म्हजी वाट पळोवं नाका. येता ती सोयरीक मानून घे आनी संवसाराक लाग.' पूण उपरांत ताका बरे दीस आयले तरी तो स्वता लग्न जायना. आतां गांवांत आयिल्ले कडेन तो तिच्या घरा वता. पूण थंय दोन जाण्टेल्यो सोडून कोण मेळना. दुस्त्या दिसा तो परतो येवपाक बस स्टॅण्डार येता जाल्यार ताचे खातीर आंकवार राविल्ली जया थंय ताची वाट पळयता. अखेर सुखांत केल्ली आसली तरी कथेचो विकास भोव बरो जाला. पोरनो उगडास काडून तो आंगडींत वचून चार आण्याचीं पिपरमटां मागता तेन्ना पसरकार ताका सांगता- 'आतां पंचवीस पयशांक कितलीं येतलीं? दोन रूपयांचीं दिवं?' बदलिल्लो काळ व्यक्त करपी हो प्रसंग. फुडें तांकां एक जाणटो मनीस मेळटा. पूण तो मुकुंदाक वळखना. गांवांत रावपाक आयल्यार धा वर्सां जालीं म्हूण सांगता. गांवांत पडिल्लो फरक

ह्या प्रसंगांतल्यान उबो केला. दोन शेणिल्लीं मनां काळाचे व्हांवतेंतूय आशेची क्रोमरी कशीं तिगोवन आसात तें प्रभावी रितीन मांडपी ही एक भोव सुंदर कथा. ह्या दोनय लेखकांक कथा तंत्राची भोव बरी जाण आसा. विशय आनी आशय हांचे नदरेनूय तांगेली कथा दर्जेदार आसा. आकारान मात ल्हान. लेखन म्हळ्यार फाविल्ल्या वेळार बरोवपाचें काम अशें चिंतून बरयतात तेन्ना कथा विस्तार घेना. अणभव विश्व समृद्ध जाता तेन्नाच कथा सर्वांगांनी फुलूंक पावता. ह्यो दोगीय अस्तुर्यो जाल्ल्यान नोकरी-घर-संवसार सांबाळून वाचन आनी फुरसतीच्या वेळार लेखन अशें जाता जावंये. जेन्ना तांगेल्या अणभवांच्यो कक्षा विस्तारतल्यो तेन्ना तांच्यो कथा आनीक प्रगत जावन मुखार येतल्यो.

कांय आडवाद सोडल्यार केरळची कोंकणी कथा अप्रतीम वा खूब उंचेल्या पांवड्या वयली म्हणूंक येवची ना. पूण ह्या कथा साहित्यांतलें वातावरण आनी पात्रांचें चित्रण भोव सभावीक देखून अस्सल दिसता. भास आनी शैली लेखका प्रमाण बदलतात. जंय साहित्याची बुनयाद निकतीच पडल्या थंय अशें जाताच. हातुंतल्यानच आपसूक प्रमाणीकरण घडून येता. कथा साहित्यांत ताची सुलूस मेळटा.

## बालसाहित्य

आल्लयो, बालगितां, गीतकाणयो अशे बालसाहित्याचे साबार प्रकार केरळच्या कोंकणी लेखकांनी हाताळल्यात. मनोहरबाबाल्या बालसाहित्याची देख दोळ्यां मुखार दवरून रचिल्लें साहित्य रोखडेंच वळखूंक येता. आर. के. राव आनी पुरुषोत्तम मल्ल्या हांणी संग्रहीत केल्लीं लोकसाहित्यांतलीं बालगितांय हांगां सरल्या लेखकांक प्रेरणा दितात. हे लोकगीत पळयात-

आका म्हाका ताक नाका
केळ्या फोडीन वाड म्हाका
आका गेली ताकाक
धरलें सुण्यान नाकाक
सोडि म्हजें नाक
धरि तुजें ताक

आनी एम. जी. राजीव हाणें रचिल्लें हें नवें बालगीत-

चेल्याक मूंजि
मुंजीक केले उण्डे
उण्ड्यां पटळी एकी
कुंड्यांत पटली
कुंड्यांत थाकून ती
पेंडींत गेली
पेंडी पीवनु
पोट भरनु
गोड गोड उण्डेय खावन
गायेन निमगिलें-
'चेल्या'
आनीक तुका व्हारदीक केदना?

'स्पंदन' ह्या केरळ कोंकणी अकादमीच्या चालंत म्हयनाळ्यांतूय बालसाहित्याक खाशेली सुवात आसा. विशेश म्हळ्यार- परंपरीक बालसाहित्याचे रचनेंत घुसपून रावनासतना आयच्या काळाची गरज वळखून विज्ञानीक नदरेन रचिल्लीं पुस्तकांय उजवाडाक येवंक लागल्यांत. सूर्या अशोक ही कथा लेखक. तिणें भुरग्यां खातीर खूब बरयलां. 'भुरग्यांलो संवसार' हें खऱ्या अर्थान आधुनीक बालसाहित्य. 'परिश्रमि मुयो', 'मूस आनी म्हींव' ह्या लेखांनी मुयांची, मुसांची विज्ञानीक नदरेंतल्यान म्हायती दिल्या, तिवूय संवादांतसून आनी भोव साद्या उतरांनीं. वारो, उदक, वोत तशेंच 'दोळ्यांतुलीं दुकां', 'भंय' ह्या विशयांचेरूय खूब सुंदर बरयलां. 'उत्सवाचो हस्ती' ह्या लेखांत हतयाची म्हायती दितनांच उत्सवाच्या हतयाक वोतांत तिश्ठावन आमी तांचेर कसो अन्याय करतात तें सांगलां. हतयांक हूम येना. देखून ते रानांत आसतना सांवळेंत हेडटात. गरम जाता तेन्ना सोंडेन उदक वा चिखोल आंगार घेतात. मागीर भुरग्यांच्या दुसरे शंकेक जाप दितनां लेखक सांगता- माजरां सुण्यांकूय हूम येना. पूण तांच्या दावखुलांक आनी नाका शेंड्याक उदक सुट्टा. विज्ञान भुरग्यां कडेन तांचेच भाशेंत पावोवपाचे अशे यत्न हांगां जातात ही भोव खोशेची खबर.

ात्मचरित्र हो प्रकार पुराय कोंकणींत ना-के-बराबर. केरळांत मात नगाक म्हणटात शी दोन पुस्तकां मेळटात. तीं के. अनंत भट हांणी पद्यरुपान बरयिल्लें 'अनन्तु'; ानी एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणीय पद्यांतच बरयिल्लें 'आत्मचरित्र शतकम'. ह्या ोगांनीय कोंकणी साहित्याची खूब सेवा केल्या. पूण साहित्यीक कसवटेर उंचेल्या ावंड्या वयलें म्हूण तिची दखल घेवंक मेळची ना. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्यान ामनेच्या किर्तीवंत कोंकणी आनी कोंकणेतर लोकांची चरित्रांय पद्यांत बरयल्यांत. ाष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविंद पै शतकम धरुन एन. एम. सरस्वतीबाय, सुनितीकुमार ॅटर्जी, टी. एम. ए. पै, हरि रंग भट, डॉ. नारायण वेंक्टेश्वर मल्ल्या, अमेम्बल सुब्बराव ै, जस्टीस व्ही. आर. कृष्ण अय्यर, एम. शेशगिरी प्रभू आनी पं. नारायण अनंत शर्मा ास्त्री शतकम अशीं धा महान मनशांचेर शतश्लोक बद्ध काव्यां तांणी रचल्यात. े भायर 'पंच शतकम' आनी 'दश शतकम' अशीं त्या काव्यांचीं संकलनांय उजवाडायल्यांत. ह्या चरित्रात्मक काव्यांनी 'काव्य' उणे आसलें तरी त्या त्या व्यक्तीं विशींची म्हायती खोलायेन मेळटा इतलें खरें.

प्रो. आर. के. राव ह्या विद्वानान संशोधनाच्या आनी प्रकाशनाच्या मळार केल्लो वावर अती मोलाचो. भाशेचो आनी लोकसाहित्याचो तांचो अभ्यास खूब व्हडलो. १९७६ वर्सा जेन्ना 'रामचरितमानस' ग्रंथरचनेचें चतुःशताब्दि वर्स देशभर मनयताले तेन्ना कोंकणी फाटीं उरुंक फावना हे भावनेन के. अनंत भट हांचें सहकार्य घेवन प्रो. रावांनी 'तुलसीदास' हें चरित्रात्मक पुस्तक उजवाडाक हाडलें. वल्लतोळ नारायण मेनन ह्या मलयाळम कवीचें चरित्रूय प्रो. आर. के. राव हांणी रचलें. तशेंच एन. एन. आनंदन ह्या लेखकान जी. कमलम्माळ हिचें जीवनचरित्र रचलां. 'नरहरी' ह्या लिखणे नांवान बरोवप्यान एच. मंजुनाथ राव हांचें अनुस्मरण बरयलां. के. पुरुषोत्तम पै हांणी बी. व्ही. बाळिगा आनी के. पुरुषोत्तम पै हांगेलीं चरित्रां बरयल्यांत. आर. रंगनाथ प्रभू हांचें अनुस्मरण पी. रमेश पै हांणी केलां. हातुंतलीं चडशीं चरित्रां नेमाळ्यांचेर उजवाडाक आयल्यांत. पूण पुस्तकरुपान उजवाड थोड्यांनीच पळयला. एन. वासुदेव प्रभू आनी आर. अनंत भट हांणी भगवतगीतेचेर गद्य टिप्पणी केल्या.

थोडी प्रवासवर्णनांय उजवाडाक आयल्यांत. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांणी 'कलकत्ता नगरी वर्णन' हें काव्यात्म पुस्तक (१९८६) उजवाडक हाडलां. एन. व्ही.

प्रभू हांणी 'तिरुपती यात्रा', के. एन. रमेश हांणी 'हरिद्वार-बद्री यात्रा' आनी ए सदानंद पै हांणी इशान्य भारताचे भोंवडेवयलें 'इशान्यांतल्यो सात भयणी' अशीं प्रवासवर्णना बरयल्यांत.

आर. एस. प्रभू हांणी विसाव्या शतमानाचे सुरवातीक केरळांत साबार कडेन भोंवन कोंकणी म्हणी पुंजायिल्ल्यो. तांचें संकलन १९८५ वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायलें. प्रो. आर. के. राव हांणी 'कोंकणी स्वयं शिक्षक', 'कोंकणी व्याकरण', 'कोंकणी मल्यालम स्वबोधिनी' अशीं विद्यार्थ्यांक शिकपाक उपकरा पडटलीं अशीं पुस्तकां प्रकाशीत केलीं.

केरळांत संकीर्ण लेखन खूब जालां. नेमाळ्यांची गरज म्हूण तयार जाल्लें हें साहित्य ग्रंथांनी-पुस्तकांनी येवपाची वाट पळयता. अशांतूय केरळाची गरज वळखून कांय मोलादीक पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. देखीक- के. पुरषोत्तम पै (जल्म १९२९) ह्या म्हालगड्या साहित्यकारालो 'श्रीमदभागवत कथामाला' हो ग्रंथ. परम धर्मीक वृत्तीचे के. पुरूषोत्तम पै हे एक विव्दान लेखक. तांणीभागवत पुराणांतल्यो कथा शुद्ध कोंकणींत भावानुवाद करून प्रकाशीत केल्यात.

पी. जी. कामत हांणी भोव मोलादीक भर केरळच्या कोंकणी साहित्यांत घाल्या. मुळांत ते कवी आनी अनुवादक. पूण तांणी वैचारीक, संशोधनपर आनी ललीत साहित्य व्हडा प्रमाणार रचलां. सगलेंच प्रकाशीत ना. पूण तरिकूय हीं तांगेली साहित्य संपदेची वळेरी.

श्रद्धांजली (संपादन)- १९८३, कोंकणी म्हणयां सोरू (जोड वावरान केल्ले संकलन)- १९८५, लिपी एक शास्त्रीय चिंतन- १९८६, एक अवतारिका भगवदगितेक (अणकार)- १९८७, श्रवोण (अभ्यास)- १९९६ आनी कोंकणी बरयतनां (जोड वावरान केल्लो अभ्यास)- २००१ विमर्सो वा समिक्षा ह्या विशयांचेर आजून लेखन जायना. जाता तो नियाळ. 'अमर कोंकणी' वा 'जाग' सारक्या केरळा भायल्या नेमाळ्यांचेर छापून आयिल्ले नियाळ सोडल्यार हेर साहित्य-आस्वादक लिखाण मेळटा तें विंगड-विंगड पुस्तकांनीं बरयिल्ल्या प्रस्तावनांनी. हुमाण्यांचीं संकलनांय उजवाडा आयल्यात. केरळांतली कोंकणी साहित्यीक चळवळ कोंकणी मनशाक आपणाल्या कोंकणी भाशीक अस्तित्वाची आनी अस्मितायेची जाण दीत संथ पूण निर्धारान फुडें वचत आसा.

# मुंबयकारांचें कोंकणी साहित्य

ुबय हो कोंकणी प्रदेश काय न्हय हाचेर वाद आसूं येता. पूण मुंबय शारांत कोंकणी ोक व्हडा संख्येन आसा हें मात पुराय सत्य. मुंबय शार घडोवपा खातीर जाणे ोलादीक योगदान दिल्लें तो राम कामती कोंकणी मनीस. तेय पयली कोंकणी नीस ह्या वाठारांत पाविल्ले. उत्तर कोंकणांतलो वसय म्हाल सोळाव्या आनी तराव्या शतमानांत पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्लो. त्या काळार सरकारी गारदार म्हूण काय गोंयकार थंय पावले. सरकार दरबारांत गोंयकार आसात तें ळोवन आनिकूय गोंयकार उद्देगधंद्या निमतान थंय पावले आनी चडशे मुंबय जुंव्यार स्थायीक जाले.

तराव्या शतमानाचे सत्तरेंत मुंबयचो जुंवो पुर्तुगेजांनी आंदण-दोत म्हूण ब्रिटिशांचे सुवादीन केलो. ब्रिटिशांचे राजवटकें अदीक सुरक्षीतताय आसा अशें चिंतून आनिकूय गोंयकार मुंबय पावलें. ह्या लोकांनी थंय देवळां आनी मठ बांदिल्ल्याच्यो इतिहासीक खबरो वाचूंक मेळटात. मुंबय जुंव्याचें आंतरराष्ट्रीय कीर्तीचें भार-भरकूम शार बांदपांत आनी ताका गिरिस्तकायेचे तेंगशेर पावोवपांत ह्या मूळ गोंयकारांचो खूब व्हडलो वांटो आशिल्लो अशें इतिहास सांगता.

आयची मुंबय वेगळी दिसता. देशभरांतलो लोक हांगा भरला. तातूंत कोंकणी लोकूय आसा. हो कोंकणी लोक गोंयां सावन, कर्नाटकां सावन, केरळच्यान असो विंगड विंगड वाठारांतसून येवन मुंबय स्थायीक जांला. पुर्तुगेज राजवटके विटून आयिल्ले गोंयकार, टिपू सुलतानाचे राजवटेकन बेजारून आयिल्ले कोडयाळकार आनी नशीब आजमावपाक आयिल्लो कोंकणी केरळकार हे मुंबयंतले कोंकणी लोक. ह्या लोकांक मुंबयंतलें संस्कृतीक वातावरण भोव आश्वासक आनी प्रोत्साहक दिसलें. देखुनूच कोंकणीच्या साहित्यीक पुर्नजिवनाक तें पोशक थारलें.

दूरवासी (diasporic) गोंयकारांनी साहित्याचें पयलें मुळावण घालें तें मुंबय लागसार आशिल्ल्या पुणे शारांत. २ फेब्रवारी १८८९ ह्या दिसा कोंकणींतलें पयलें

नेमाळें `उदेन्तेचे साळक' एदुआर्द जुझे ब्रून द सौज ह्या लेखकाच्या संपादना खाला सुरू जालें. त्या काळार जे क्रिस्तांव गोंयकार मुंबय, पुणे आनी हेर वाठारांनीं गेले ते संपर्का खातीर रोमी लिपींतल्यान पत्रवेव्हार करताले. हेच लिपींत कांतारां रचताले. पूण एदुआर्द जुझे ब्रून द सौझान पयलेच खेपेक तांकां एक वेदी उपलब्ध करून दिली. ताकाच लागून कोंकणींतूय साहित्य रचूं येता ही भावना ह्या क्रिस्तांव गोंयकारां मदीं जागी जाली. 'क्रिस्तांव घराबो' ही एदुआर्दबाबाली कादंबरीय १९११ वर्सा पुस्तक रुपान उजवाडाक आयली.

शणै गोंयबाबांक आमी आधुनीक कोंकणी सरस्पतेचो जनक म्हणटात. कारण तांणी एकहाती यत्नांनी कोंकणी साहित्याचीं सगळीं मळां-कथा, कादंबरी, नाटक, निबंद, व्याकरण, नादशास्त्र, इतिहास, बालसाहित्य, पाठ्यपुस्तकां, अणकार, रुपकार, आदी – सगळे प्रकार रचले आनी उजवाडा हाडले. हो तांचो वावर घडलो तो मुंबय शारांतच. देवनागरी लिपयेंतलीं कोंकणी पुस्तकां उजवाडावपाचें काम ज्या गोमन्तक छापखान्यान केलें तोय ह्या मुंबय शारांतलोच. १९३४ वर्सा मुंबयच्यान उजवाडा आयिल्लें 'नवें गोंय' हें त्रिमासीक कोंकणींतलें पयलें नेमाळें. शणै गोंयबाबांच्या संपादना खाला सुरू जाल्लें हें तीन-म्हयनाळें १९३७ मेरेन चललें. त्या काळार मुंबय शारांत राबितो करून आशिल्ल्या कोंकणी साहित्यीक रत्नांक प्रसार माध्यम उपलब्ध करून दिवन तांकां लोकांमोगाळ करपी आकाशवाणी (ऑल इंडिया रेडिओ) पयलीं सुरू जाली तीय ह्याच शारांत. विंगड-विंगड वाठारांतसून शिक्षणा खातीर मुंबयंत रावपी तरनाट्यांनी 'विद्या' वर्सुकी चलयलें तें हांगाच. आंतर महाविद्यालयीन नाटकांच्यो वर्सुकी सर्ती आयोजीत करून कोंकणी नाटकांक चालना दिली तीय मुंबयंतच. आयज गोंयांत, कर्नाटकांत आनी मुंबयंत भारी कार्यशीळ आशिल्ल्या कोंकणी भाषा मंडळाचो जल्म जालो तोय हे मुंबयंतच. देवनागरी, रोमी आनी कन्नड ह्या तिनूय लिपींनीं साहित्य निर्मिती जाली ती मुंबयंतच. क्रिस्तांव समाजांत कोंकणी भास जिती दवरपा खातीर संवकळीचे रोमी लिपींतल्यान साहित्य रचलें आनी उजवाडाकूय हाडलें. तांचे मेरेन पावपा खातीर शणै गोंयबाबांनीय रोमींत रचना केल्ली. 'गोआ टायम्स' आनी 'आव्हे-मारिया' हीं नेमाळीं त्याच उद्देशान सुरू जालीं. गोंयां भायर रावपी समेस्त गोंयकारां खातीर हीं नेमाळीं भायर सरतालीं हें खरें आसलें तरी खासा मुंबयंत रावपी संखेनी गोंयकारांक वाचपाक प्रवृत्त करप ही तांची मुखेल मोख आसली.

एली भाव हांणी कोंकणी नेमाळ्याक दिल्लें योगदान भोव व्हडलें. मारिया ,येदाद रोद्रिगीश हिका कोंकणीचो खूब मोग. तिणेच आपणाल्या तिगां पुतांक ग्रें साताळें काडपाची प्रेरणा दिली. एन्क्लिदश (Enclidas), एलियट आनी जेम्स ा तिज्या पुतांनी 'सिने टायम्स' हें साताळें सुरू केलें. एन्क्लिदश हो छापखान्यांत क्षरजुळोवणीचे काम करूंक शिकलो. सुर्वेक गोंयां सुरू केल्ले हें नेमाळें उपरांत बयच्यान उजवाडा येवंक लागलें. झीन, आल्मैद, जॉन गोमिश, तोमाझीन कार्दोज ानी हेर लेखक ह्या नेमाळ्यांत नेमान बरयताले. दे एली भावांनी सिने टायम्स लोवपा खातीर जायत्यो खास्ती काडल्यो, लुकसाण करून घेतलें पूण जिद्द ोडली ना. निमाणे तांचें घर-जंय तांचो छापखानो चलतालो तेंच मोडून पडलें ानी सिने टायम्स साताळें बंद पडलें. दे एली भाव हे कार्यशीळ राष्ट्रवादी आशिल्ले. ोंय मुक्ती खातीर आनी उपरांत जनमत कौला वेळार गोंयची अस्मिताय राखून ावरपाखातीर ते जायते वावुरले. त्या काळार मुंबयंत रावन कोंकणीची चळवळ लोवपी एव्हाग्रियु जॉर्जवांगडा तांणी काम केला. मुंबयंत रावन कोंकणीची पाट सेवा करप्यांमदीं फा. एच. ओ. मास्कारेन्यश ह्या विव्दानाचें नांव पयलें वपाक जाय. संस्कृत आनी मराठीचेर प्रभुत्व जोडिल्लो हो पंडीत कोंकणी भाशेचे दरगतीखातीर खूब वावुरलो. एफ. जे. मार्तिरीश हांणी लेखन चड केलें नासत पूण नेक लेखकांक बरोवपाक प्रवृत्त केलें. मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळाचें अध्यक्ष ूण ते साबार वर्सां वावुरले. रा. ना. नायक हांणीय कोंकणीची भोव मोलादीक ेवा करीत संशोधनपर आनी अणकारीत साहित्याची भर घाली. बयाभाव ह्या ांवान कविता रचपी काशिनाथ श्रीधर नायक हे तर म्हालगडेच.

डॉ. दत्ताराम सुखटणकार हे एक नामनेचे निबंदकार. मुंबयंत रावन कोंकणीची सेवा करपी. मूळ गोंयचे पूण मुंबयंत रावपी. तांकां घडये घडये गोंयची याद येताली. मुंबयंत रावपी गोंयकारां कडेन ते संबंद दवरून आशिल्ले. रवीन्द्रबाब केळेकार हे तांगेले लागशिल्ले इश्ट. अ. ना. म्हांबरो, विष्णु नायक हांचे कडेन तांची इश्टागत आसली. मदीं मदीं गोंयां येवन आपणालीं मुळां सांसपून घट करून वताले. तांगेल्या निबंदानीं गोंयचेच विशय चड दिश्टी पडटात. तांगेली शैली मिश्कील आनी लालित्यपूर्ण. सुखटणकारांचें लेखन खूब आसा. पूण सगलेंच पुस्तक रूपान येवंक ना. 'मान्नी पुनव' हो तांगेलो निबंदसंग्रह उजवाडाक आयला. ताका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारूय फावो जाला.

१९५० वर्सा आकाशवाणी सुरू जायत सावन साहित्य-भोव करून कविता आनी नभोनाट्यां- लोकांमोगाळ जावंक लागलीं लिपीच्यो वण्टी मोडून सगळे लेखक लागीं आयले. मनोहररायांली कविता आयकतनाच चा. फ्रा. देकोस्ताची कविता कानार पडूंक लागली. आनी सगळ्यांकच ती आपलीशी दिसूंक लागली. अ. ना. म्हांबरो आनी एविग्रियो जॉर्ज भासाभास करतना वेगळेचाराचे भेदाभेद नश्ट जाले.

१९४८ वर्सा मुंबयंत राबितो करून आशिल्लो मंगळूरकार कवी गास्पार रोद्रिगीश जाका लोक (G M B) जीएमबी म्हुण वळखतात तांणी 'सूख-दूख' नांवाचें साताळें सुरू केलें. तें एक धाडसूच आसलें. ह्या हफ्ताळ्यांत मुंबयंत रावपीच न्हय तर मंगळूर वाठारांतूय रावपी बरोवप्यांक सुवात उपलब्ध करून दिली. मुंबयंत कन्नड लिपींत बरोवपी खूब आसात. पूण चडशे कवी. कथा-कादंबरी दक्षीण कर्नाटकांत चड. घडये मुंबयच्या ताकतिकेच्या जिवितांत कादंबरी खातीर फुरसत काडप कठीण म्हूण जावंये. घडये कश्ट काडून बरयली तर वाचपी मेळटले हाची शाश्वती नाशिल्ल्यान जावंये मुंबयच्या लेखकांनी कविते पुरतें मर्यादीत रावप पसंत केलें अशें दिसता.

अरूणा राव कोंदाजे आनी प्रेमलता बैंदूर हांणी साबार कविता बरोवन नांव जोडलां. अरूणा राव हांच्या कवितांक लोकगितांचो बाज आसा. तांगेलो एक कवितां-झेलोय उजवाडाक आयिल्लो आसा. प्रेमलता बैंदूर हांणीय कवितां वांगडाच बालगितांय रचल्यांत आनी तीं लोकप्रिय जाल्यात. 'यो र यो रे पावसा', 'अश्शीं कश्शीं हीं व्हडांगेलीं उतरां' हीं गितां आकाशवाणीचेर प्रसारीत जावन आतां लोकांचे जिबेर घोळटात.

उपरांत कर्नाटकांत पाविल्ले कवी मरीदास हे कांय काळ मुंबयंत आशिल्ले. फा. आंतोन जुआंव सौझ हांणी आपणाल्या कविता खातीर मरीदास हे नांव आपणायिल्लें. यमकांचेर यमकां जुळयत उतरां कडेन सहजतायेन खेळपांत कुशळ आशिल्लो हे कवी थोडोच काळ मुंबयंत उरिल्ल्यान तांचे कवितेक मुंबयची कविता म्हणूंक मेळची ना. हीच गत चा फ्रांची. ग्लेडीस रेगो आनी एच. एम. पेर्नाल हांचीय. तशीच एन्सी पलाडका ह्या कवीची.

हांचे मदीं दोन नांवां अती म्हत्वाचीं. जे. बी. मोरायश आनी जे. बी. सिक्वेरा. दोगांयकूय साहित्य अकादमीचे पुरस्कार फावो जाल्यात. दोगांनीय शेंकड्यांनीं कविता रचल्यात. जे. बी. मोरायश मुंबयंत रावतालो तरी तांगेली कविता सदांच

ंगळूरी कविता कशी दिसता. मुंबयचे जिणेचो स्पर्श तांगेले कवितेक जालोच ना अशें म्हणूंक येवचें ना. मुंबयची दंगल आनी मुंबयची जीण जरी अर्दी-मर्दी दिसता आसली तरी मुळांत ती मंगळुरीच म्हणूंक जाय. जे. बी. सिक्वेरा कविता संदिग्धतायेचो गड्डो पिंदून सगल्यो भाव-भावना उकतेपणान मांडटा. कवी हो देवाधर्माचो आसचो न्हय अशें निखालस न्हय. पूण ताची कविता धर्मातीत आसूंक फावो. खंयच्याय एका धर्माचें बोट धरून चलता तो कवी सांप्रदायीक फास्केंत आडखळून उरता. अशी थोडीशी गत ह्या कवीची जाल्ली दिसता. 'एक खालतें मागणें' वा 'आयली क्रेस्त जयंती' ह्या कवितांक सांप्रदायीक म्हणूंक येवचें ना. पूण मदर तेरेजाक हे कवी 'क्रिस्ती नारी' म्हणटा तेन्ना मन खंती जाता. "काल हांव पावसाक आशेलो, आज हांव पावसाक दुरसालो देवा, आमकां पातक्यांक भोगशी!" अशे तरेन देवाक शरण वचपी हे देव भावार्ती कवी 'बेसांव घाल तुजें, देंवय आमचे वजें, वाडों तुजे भावा' अशें मागता तेन्ना ताचो मनीसपणा परस देवस्पणाचेर चड विस्वास आसा अशें दिसता.

सुधीर कोडकाणी हे लेखक मात मूळ कर्नाटकी आसले तरी मुंबयकार. फाटलीं पांच दसकां ते कविता बरयता. आकाशवाणीचेर प्रसारीत जाल्ल्यो ताच्यो कविता भोव लोकप्रिय थारल्यात. मुंबयच्यान उजवाडा येवपी 'कॅनरा सारस्वत' ह्या नेमाळ्यांत ताच्यो कविता प्रसिद्ध जाल्यात. ते 'भायर' 'जाग' आनी 'बिम्ब' ह्या गोंयच्या नेमाळ्यांनीय उजवाडाक आयल्यात.

नागेश सोंदे हे लेखक मुखेलपणान अध्यात्मीक आनी तत्वगिन्यानपर लेखन करपी. मुंबयंतल्या कोंकणी लेखकांक- विशेश करून कर्नाटकांतसून येवन मुंबय राबितो करून आशिल्ल्यांक एकठांय हाडपा खातीर तांणी केल्लो वावर खूब मोलादीक आसा. तांणी 'कौंडिण्य' हे त्रिमासीक साबार वर्सां चलयलां. तांचो 'कोंकणी भाशेचो इतिहास' हाचे सयत अनेक पुस्तकां उजवाडाक आयल्यात.

उत्तर कन्नडा जिल्ल्यांतले जे सर्जनशील लेखक मुंबयं पावले तांणी कोंकणी साहित्याक मोलाचें योगदान दिलां. तातूंत वरिश्ट म्हळ्यार आनंद वर्टी. आवयभास कोंकणी, शिक्षणाची कन्नड आनी वाचनाची मराठी- अश्या त्रिवेणी संगमांतसून उदयाक आयिल्ले हे साहित्यकार. सुरवातीक कन्नड भाशेंत बालसाहित्य आनी 'जय गोमन्तक' ही कांदबरी बरोवन फुडें मराठींत बरोवंक लागले. मराठी वाचकांक

सुपरिचीत जाल्ले आनंद वर्टी उपरांत कोंकणीकडेन पावले. कथा,कादंबरी आनी कविता तितलेच कुशळतायेन हाताळपी ह्या भोवभाशीक लेखकान कोंकणींत मात काव्यच बरयलें. साद, साळीक, प्रजेचो आवाज, विद्या ह्या नेमाळ्यांनी आनी मुंबय आकाशवाणीचेर नेमान कविता उजवाडायल्या उपरांत हालीं जाग आनी ऋतू ह्या नेमाळ्यांचेरूय तांणी बरयलां. तांचो 'अक्षयदिवो' हो कवितांचो झेलो १९९३ वर्सा प्रकाशीत जालो. सैमाचो मोग आनी मनीसपणा वयलो भावार्त उक्तावपी आनंद वर्टीली कविता थळा काळाचें भान दवरून चलता. मुंबयकारांलें जिवीत तांचे इतलें बरें कोणेंच अभिव्यक्त करूंक नासतलें. तातूंत रेर्साचे घोडे आसात, मुंबयची लोकल आसा, चाळींतली नळा खातीर लायन आसा, गाडयेंतल्यान पडून मरपी मनीस आसा, कोयरा पिंपांत सोडिल्लें नवजात अर्भक आसा. अशी मुंबापुरी कोंकणी कवितेंत वितरावपी हो कवी. विशेश म्हळ्यार तांणी दिनकर देसाई ह्या कन्नड भाशेंत नामनेक पाविल्या कोंकणी मनशाल्या कोंकणी कवितांचें संपादन केलां. 'दिनकरालीं कवनां' ह्या नावान हो झेलो उजवाडा आयला.

असोच आन्येक लेखक म्हळ्यार प्रभाकर नाडकर्णी. गझल हो साहीत्यप्रकार कोंकणींत केळोवपांत ताचो व्हड वांटो आसा. मातृभाशा कोंकणी, शिक्षण कन्नडांत आनी मुंबयंत उरिल्यान वेव्हारांत मराठी अशें आसुनूय तांणी विशेश सेवा केली ती कोंकणी कवितेची. 'गजलप्रभा' हो तांचो गजलगितांचो झेलो १९९६ वर्सा उजवाडा आयलो. ह्या झेल्यात प्रभाकर नाडकर्णी हांणी मूळ कोंकणींत रचिल्लयो गजलो आसातच. ते भायर तांणी नामनेच्या उर्दू शायरांच्या गजलांचे केल्ले कोंकणी अणकारूय आसात. अकबर इलाहाबादी, गालीब, शकील बदायुनी, फिराक गोरखपुरी, अशा फांकिवंत शायरांचीं गाजिल्लीं गजलगितां कोंकणींत अणकारपी हो पयलोच कवी.

मुंबयंत रावन कोंकणीची सेवा करप्यां मदीं आन्येक विंगड तरेचो मनीस आसलो. तांचें नांव कृष्णा करवार. कोंकणीचो तांकां भारी मोग. बरयताले. पूण लेखक म्हणचेपरस बरो मुद्रक म्हूण तांणी नामना जोडली. कोंकणी पुस्तकांच्या मुद्रणांत कृष्णा करवार हांचो शिंवाचो वांटो आसा. अनेक लेखकांनी मुंबयंत रावन कोंकणीची सेवा केल्या. पूण चडशी एकोड्यान आनी विस्क्कळीतपणान. देखीक, पांडुरंग ना. नाडकर्णी हांणी 'श्रीमद भगवद्गीतेचें' कोंकणी भाशांतर केलें. मराठी

वी मोरोपंत हांगेल्या गाजिल्ल्या 'केकावली'चोय कोंकणी अणकार पांडुरंग
[.नाडकर्णी हांणी केलो. तांचो पूत वसंत नाडकर्णी हांणी बापाय कडसून प्रेरणा
वन रविन्द्रनाथ टागोराच्या `गीतांजली' पुस्तकाचो अणकार केलो. हें पुस्तक
९९ वर्सा उजवाडा आयलें.

बयंत कर्नाटकी कोंकणी लोकांनी एक संस्था स्थापन केल्ली. ही संस्था दर
र्सा कोंकणी नाट्य महोत्सव घडोवन हाडटाली. मूळ कोंकणी संहितांचो उणाव
ाशिल्ल्यान मराठी नाटकांचे अणकार जावंक लागले. वेंकटराव तलगेरी,
ुदरगोपाळ गोळीकेरी ,मुक्ताबाय मंगळूर, अण्णाजीराव सुरकूंद ह्या लोकांनी
ापापणा परीन कोंकणी नाटकां बरोवन वा अणकारून साहित्यांत भर घाल्या.

या काळार गांवघरा कडसून पयस आशिल्ले मुंबयंत रावपी कोंकणी मनशांनी
ापणाले आवयभाशेची जितली सेवा केल्या तितली आनीक खंयच घडूंक
ा. १९४२ वर्सा कोंकणी परिशदेचें तिसरें अधिवेशन मुंबयंत जाल्लें. त्या वेळार
ापणाल्या अध्यक्षीय भाशणांत शणै गोंयबाबांनी खूब म्हत्वाची म्हायती दिल्या.
ो म्हणटात"....'उदेन्तेचें साळक' १८८९ वर्सा पुणेच्यान सुरू जालें तें कोंकणींतलें
यलें म्हयनाळें. १९४२ मेरेन वट्ट ५२ कोंकणी नेमाळीं आयल्यांत वा येतात. तातूंत
३ दिसाळीं, २९ साताळीं, ५ पंद्राळीं, २३ म्हयनाळीं आनी ३ तीन-म्हयनाळीं....
चडशीं मुंबयचीं आनी थोडीं कराची, कारवार, पुणे, मंगळूर आनी गोंयचीं....."

पुर्तुगेजांचे मुस्तींत गोंयांतलें राजकी वातावरण साहित्याक प्रतिकूल आशिल्ल्यान
कोंकणीची चडशी सेवा जाली ती मुंबयच्यान. चडशीं नेमाळीं सुरू जालीं तीं
हांगाच्यानच. शणै गोंयबाबांल्या वावरा उपरांत परतून थोडिशी सदळसाण
जाणवल्ली. म्हणसर १९५३ वर्सा वर्धाच्यान रवीन्द्रबाब केळेकारांनी 'मीर्ग' म्हयन्याळें
सुरू केलें. रवीन्द्रबाब वर्धाकच रावताले देखून सभावीक ते वर्ध्या सावन प्रकाशीत
जातालें. १९५६ वर्सा उपरांत रवीन्द्रबाबांनी वर्धा सोडले आनी तेन्नाच्यान 'मीर्ग' बंद
पडलें. थोडो काळ दिल्लीक रावन रवीन्द्रबाब मुंबय आयलें आनी थंयसून तांणी
'गोमंत भारती' सुरू केलें. सुमार तीन वर्सां चल्या उपरांत रवीन्द्रबाब मुंबय सोडून
गोंयां पावले आनी 'गोमंत भारती' बंद जालें. पूण तांतूत बरयताले ते चडशें मुंबयंत
रावपी कोंकणी मोगी. मनोहरराय सरदेसायांनी सुरू केल्लें 'साद' जावं 'साळीक',
'प्रजेचो आवाज' आनी उपरांतचें 'गोमंत भारती' ह्या नेमाळ्यांनी कोंकणीची

मशाल धगधगती दवरली. विष्णु नायक, हरदत्त खांडेपारकार, विश्वंभर उजगांवकार, यशवंत केळेकार, एवाग्रियो जॉर्ज, अ. ना. म्हांबरो, लुसिओ रोद्रिगीश, निळकंठ धुमे, रा. ना. नायक, गोविन्द मुद्रस, चंद्रकांत केणी, बी. ई. मेंदीश, शंकर भांडारी हांचे सारके तांकिवंत लेखक ह्या काळांत मुंबय उदेले देखुनच गोंय मुक्ती उपरांत गोंयांत कोंकणीची चळवळ घसघशीत वाडूंक पावली.

महाराष्ट्रांतली कोंकणी साहित्यीक चळवळ मुंबय पुरती मर्यादीत नाशिल्ली. पुणे, सावंतवाडी ह्या वाठारांनीय ती चलताली. पूण शिंपडून. तांतली पत म्हूण एक कविता हांगा उदधृत केल्या. सावंतवाडीचो कवी मानुएल सालवादोर रॉद्रिगीश हांगेली 'कल्पित कथा' ह्या नांवाची ही कविता :

न्हंयेंत उबतालें / मातयेचें मडकूल / तांब्याचें हांडूल /
एका दिसा- पूण मडकूल
लागी सरनासलें/ पयस रावतालें / ताचें भिरांत-
ताका तें हांडूल / राव गो म्हणटा / आमी या सांगाता, मित्रपणीं-
मडकी जाब दिता / तुजो सांगात नाका
तेंकशी जर म्हाका / कयल्यो करशी-
तुमचें सारकी / सांगाती शोधुंचो
संग तर थोरांचो दुश्ट मूळ-

फापसल्ल्या कोंकणी मनशान भास जिबेर सांबाळटनांच परिगत अनुकूळ नासुनय लिखणी चलयल्या हाची ही गवाय. पूण एके मुंबयचें योगदान इतले व्हडलें आसा की ताका तुळा ना.

इतलीं वर्सां सरलीं गोंय मुक्ती उपरांत अनेक गोंयकार गांवघरा परतल्यार, तरी मुंबयंतली कोंकणी चळवळ सरूंक ना. आतां मुंबयकार जाल्ले कोंकणी लेखक सातत्यान बरयत रावले. शीला नायक कोळंबकार, सुधीर कोडकाणी, जे. बी. मोरायश, जे.बी.रॉड्रीक्स, जयमाला दणायत, मुबंय विठ्ठलराय भट, फिलोमेना सां फ्रांसिस्को हांगेले साहित्य साधनेक लागून मुंबयंत अजुनूय कोंकणीचें वातावरण तग धरून आसा.

# मुखेल प्रवाहांतले उल्लेखनीय साहित्य

## आदले उमाळे

खंयचेय भाशेंत कविता हो साहित्य प्रकार पयलीं फुलता. उपरांत हेर. कोंकणी ताका आडवाद आसुंकच शकना. संत नामदेव गोंयां पाविल्ले कडेन ताणें आपणाल्या गौळण-गितांत कोंकणी कडवीं घाल्यांत. हाचो अर्थ- एकतर गोंयांत कोंकणी काव्याची परंपरा आसली ती पळोवन संत नामदेवान हें गीत रचलें वा घडये हांगा सरल्या लोकसाहित्याचो प्रभाव तांचेर पडलो आसूंये. एक गजाल मात मान्य करुंकच जाय पंदराव्या आनी सोळाव्या शतमानांत उर्वरीत भारतांत आनी हेर देशी भासांनी जशें प्रभावी भक्ति- साहित्य आनी संतसाहित्य निर्माण जालें तें कोंकणींत जावंक पावलें ना. व्हडा तोलामोलाचे संत कोंकणींत जल्मले नात, हें एक कारण आनी गोंय सातत्यान बिगर कोंकणी आनी कोंकणी विरोधी शेकातळा उरिल्ल्यान सर्जनशिलताय पुरायेन चेपणांत उरली, हें दुसरें.

कोंकणी-मराठी भयणभासो जाल्ल्यान भक्तिसाहित्याची गोंयकारांची गरज मराठी संतांनी आनी साहित्यान भागयली. संत नामदेव, संत ज्ञानेश्वर आनी संत तुकाराम हांगेले अभंग कोंकणी जनांनी आपणायले. देखुनच, कृष्णदास शामा सारखो कवी 'श्रीकृष्णचरित्र' हो ग्रंथ मराठींत बरोवंक पावलो. सोहिरोबानाथ आंबिये हांचेरूय मराठी संत साहित्याचो कितलो प्रभाव आसलो तें तांगेल्या अभंगांतल्यान होलमता.

मिशनरी गोंयां पावल्या उपरांत धर्मांतरीत लोकां खातीर धर्मीक ग्रंथ रचचे पडले. लोकांची भास शिकून घेवन फा. थॉमस स्टिफन्सा सारक्या विदेशी मिशनऱ्यांनी भोव सोबीत भक्तिसाहित्य रचलें. अर्थात चडशें अणकारलें वा रूपांतरीत केलें. उपरांत असल्या साहित्याचें पेंव फुटलें. गास्पार द सांव मिंगेल ह्या मिशनऱ्यान रचिल्लें गद्य-पद्य साहित्य जावं, ज्योकीं द मिरांदालें 'रिगलो जेजू मळ्यांतु' हें भक्तिगीत जांव- सरसामान्यांचे भाशेंत रचिल्लें उंचेल्या पावंड्याचें साहित्य जावन आसा.

जे कोण धर्मांतराच्या भंयान गोंय सोडून पळून गेले ते सुर्वेचीं कांय वर्सां पोटाच्या जाळण्यांनी घुस्पून उरले. हालून-घोळून बस्तान बसयल्या उपरांत तांतल्या कांय जाणांनी त्या काळाचे परंपरेक धरून भक्तिसाहित्य रचलें. मूळ कुठ्ठाळेची लक्ष्मीबाय नारायणप्पा नाडकर्णी ही तिच्या आवडीच्या भक्तिरसांत इतली बुडली की लोकांनी तिका नांवच 'आवडी' दिलें. आवडींक आयज साध्वी लेखतात. तिणें कोंकणी आनी मराठींत भक्तिसाहित्य रचलां अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. संतीण जोगव्वा हीय मूळ कुठ्ठाळेची. हेमाडी गांवांत जल्मली. कोंकणी-कन्नड आनी मराठींत रचिल्ल्या साहित्याक लागून 'संतीण' हे पदवेक पावली. मूळ कुठ्ठाळेचोच पूण भटकळा जल्माक आयिल्लो लक्ष्मण रामचद्र नाडघर होय असोच आपणाल्या करण्यांनी आनी कोंकणी, कन्नड आनी तेलुगू भाशेंत रचिल्ल्या साहित्या वरवीं संत समर्थ 'अप्पय' हें नांव जोडूंक पावलो. पूण तांगेल्यो 'कोंकणी रचना' काळचे व्हांवतेंत नश्ट जाल्यात. थोड्योशयो आजून थळाव्या लोकांचे जिबेर घोळटात. पूण तांचें शब्दांकन जाल्लें ना.

फोंडेंचे नामनेचे वैज रामचंद्र पांडुरंग वैद्य, जांकां दादावैद्य ह्या नांवान गोंय वळखता, हांणी कोंकणींत कांय सुंदर गितां आनी भक्तिगितां रचल्यांत. फोंडेंच्यान प्रकाशीत 'प्राचि-प्रभा' ह्या कविता-झेल्यांत मराठीवांगडाच कांय उत्तम कोंकणी कविताय आसात. ज्या काळार कोंकणी ही उलोवपाची आनी मराठी ही साहित्याची भास अशें लेखताले त्या काळार दादा वैद्यांनी कोंकणी कविता रचल्यो हाचेवयल्यान तांकां आशिल्ली कोंकणी विशींची आस्था जाणवता.

## कविता

त्या काळार उत्स्फूर्त शिघ्रकविता करपी खूब जाण आशिल्ले जावंये. बाकीबाबाक मेळिल्लो पात्रीस रेंदेर जर थंयचे थंय कटाव रचतालो जाल्यार हेर कडेनूय कटाव रचपी रेंदेर, पदेर, राखणे आसतालेच जावंये. दुसरो उल्लेख मेळटा तो बाकिबाबांचो भाव दामोदर भगवंत बोरकार हांगेल्या एका लेखांत. बाकिबाबांच्या शेजाराक एक जाकी नावाचो मनीस रावतालो. तो भुरग्यांनीं आगरो करतकीर खंय कांतारां रचून म्हणटालो. कृष्णभट बांदकार (१८४४-१९०२) हे दोंगरी गांवांतले भोव नामनेचे कलाकार. तांच्या शिघ्रकाव्या विशींय बाकीबाब खूब तोखणायेन उलयताले. पूण ही उस्फूर्त येवपी शिघ्रकविता कागदार चडशी देंवली ना. वा देंविल्ली जाल्यारय

त्रचीत उजवाडाक आयली. तांगेलें एक गीत पत म्हूण घेवंया:

नवसा दिसांत शेतांत घालतात रोव गे रोव, रामदेवाच्या कृपेने पिकून जेव गे जेव
रामाचो उत्सव पळोवंची इत्सा भोव गे भोव,
भुरगेबाळांक निश्चय कळाक येवं गे येवं
संतांसाठीं काळीज जाचें मोव गे मोव, कृष्ण जगन्नाथ भक्तां ल्हव गे ल्हव

णै गोंयबाबांनी पेंगट बांदून कोंकणींत जें जें कितें ना तें तें निर्मण करपाचो नेट रिल्लो. कथा-कविता हें शणै गोंयबाबांचे क्षेत्र केन्नाच नाशिल्लें. पूण तांणीय हजी बा खंय गेली' सारकी कथा आनी अप्रुपांचे निबंद बरयले. 'म्हजें गोंय' ही ांची कविताय तेंच भावनेंतल्यान आयली जावंये. 'भुरग्यांलो इश्ट' ह्या १९३५ र्सा प्रकाशीत जाल्ल्या पुस्तकांत ही कविता उजवाडाक आयल्या. ही कविता या काळार नामनेक पाविल्ले खंयचेय भारतीय भाशांतले कविते इतलीच उंचेल्या ावंड्याची आसा. गोंयचो मोग, कोंकणीचो मोग, कोंकणी संस्कृतायेचो मोग ोटतिडकीन उक्तावपी ही तांची कविता ह्या पुस्काचे सुर्वेकच उद्धृत केल्या.

नक्तिसाहित्याचो परीघ हुंपून कोंकणी कवितेन समाजीक मळार पावल धालें ती ाणै गोंयबाबांनी सुरु केल्ले कोंकणी साहित्यीक चळवळीचीच फलश्रुती. मुंबयच्या ोमन्तक छापखान्याचे धनी काशिनाथ श्रीधर नायक (१८९९-१९८३) हे पिण्डाचे कवी. बयाभाव ह्या टोपण नांवान ते कवी म्हूण नांवाजले. गोंयची व्हडविकाय ावपी 'गोमन्त-गीत', नवें गोंय घडोवपा खातीर पोटतिडकेन वावुरपाचो उलो नारपी 'नवें गोंय, नवें गोंयकार' वा 'वचूं तुटून बोंबलेचो देंठ, मार बोब.' अशें निक्षून सांगपी 'सांवार' ह्यो तांगेल्यो गाजिल्ल्यो कविता. 'वाट पळयतां, दुखां गळयतां' ही मात प्रेमकविता. ही कविता गीत जावन लोकांच्या काळजाक भिडली.

वाट पळयतां, दुखां गळयतां, दोळे गेले सुजून
आतां येत, मागीर येत
म्हणून बसून काडली रात
दिवलेंतली पांचवी वात - गेली पळय जळून |
फांत्या पारा, बेगीन उठून
मोगरेचे कळे खुटून
सोबीत हार हाडलो गुंथून - गेलो पळय सुकून

वाऱ्यान दिसता वाजलें दार
म्हणून गेलें घेवन हार
पारव्यांचें जोडें मुखार - जीव गेलो सुकून ।
आतां धीर धरूं नजो
एक ध्यास लागलो तुजो
सांबाळ, तोल सुटलो म्हजो - धर आतां जिखून ।

बयाभावानी कोंकणी कवितेची बुनयाद घाली. कोंकणीचो मोग, भाशे वय
प्रभुत्व आनी नवे बदल आपणावंक सोदपाची वृत्ती हांकां लागून तांगेली कवि
उठून दिसता- भोव करून त्या कोंकणीक प्रतिकूल काळार.

गोंयांत पुर्तुगेज साहित्य निकतेंच चंवरूंक लागिल्लें. मार्यान ग्रासियश, नासिमे
मेन्दोन्सा, आदेउदातु बार्रेत हे पुर्तुगेजींत कविता रचताले. काळजांत गोंयचो आन
कोंकणीचो मोग दवरून बरयताले. १९३५ वर्सा आदेउदातु बार्रेत ह्या नामने
पाविल्ल्या पुर्तुगेजींत बरोवपी गोंयकार कवीन एक कोंकणी कविता रचल
वावराड्यांक उद्देशून बरयिल्ले 'बेकाऱ्यांक' हे कवितेंत कवी म्हणटा-

घांटा दोंगरा पाटल्यान / सुर्या उठून येता
आपल्या भांगरा केंसान/ धगधगता-
गोंयचे चाकर, उठाय / सग्गीर उजवाड जालो
सुर्या उठून आयलो / भायर सराय-

समाजीक जाणविकायेंतसून आयिल्ली ही कविता गोंयकार विचारांनीं कितले
फुडें आसले तें दाखयता. पूण ह्या कवींनी आपणाली प्रतिभा पुर्तुगेज भाशेंत
पर्जळायली. कोंकणीक चडशी फाटच जाली.

गोंय मुक्त जायसर गोंयांत कोंकणी साहित्य फुललें ना. पूण मुंबय राबितो करून
आशिल्ल्या गोंयकारांनी तें रितेंपण भरून काडलें. तेन्ना कवितेच्या मळार कार्यरत
आशिल्ल्यां मदीं शेषगिरी केशव प्रभू, सुनिल, शां. वि. कामत, माधव मंजुनाथ
शानभाग, बंग्ले नारायण कामत हे बरोवपी आसले. तांकां 'कवी' म्हणचें काय
ना असो प्रस्न पडटा. कारण तांणी कवितां रचल्यो त्यो कोंकणी भाशेच्या यज्ञांत
समिधा घालपा खातीर. म्हालगड्यांनी पेटयिल्ले दिवलेंतलें तेल सरचें न्हय म्हूण

थोडे थोडे तेल ओतचें हे भावनेंतल्यान बरयिल्लो ह्यो कविता जरी जाल्यो तरी पगल्या बरोवप्यांक साहित्याची बरी जाण आशिल्ली. देखून तांगेलें तें योगदान ल्हानासमानांतलें लेखूंक फावना. देखीक रा. ना. नायक.

**रा.ना.नायक** (१९०१-१९८२) हांकां कवी अशे म्हणूं नज. पूण ज्या काळार कोंकणींत कोण बरयच नाशिल्लो त्या काळार कोंकणीचे मिशनरी जावन जे वावुरले तातूंतले रामा नारायण नायक. तरेकवार लिखाण केलें तातूंत कांय सुंदर कविताय रचल्यो. 'व्यर्थ न्हय रे तें रक्त' ही कविता स्वातंत्र्या खातीर बलिदान दिल्ल्या हुतात्म्यांक उद्देशून आसा. 'ताच्या उगडासाक' ही कविता तांणी जांकां आदर्श मानलो ती वोंवळीच्या रुखा भाशेन आशिल्ली व्यक्ती सोपल्या उपरांत बरयली. ते व्यक्तीन दिल्लें उपदेशाचें वोंवळ तांणी काळजांत साबांळून दवरलां हें सांगतना कवी म्हणटा-

"संशयाचें बीं मनांत तूं केन्नाच तुज्या रोवुं नाका
रुख ताचो जावचे पयलीं, कातरून तूं उडय तांकां"
उगडासाच्या संपुष्टांत म्हज्या, जतनायेन दवल्लेल्लें
आसा हेंय एक फूल, ओंवळीच्या त्या रुखावेलें.

तांणी रविन्द्रनाथ टागोराले 'गीतांजली'तल्यो कांय वेंचीक कविता कोंकणींत अणकारल्यात. "जेझू क्रिस्ताचो दोंगुल्लेवयलो सेर्मांव" आनी 'स्ट्रे बर्डस'चो कोंकणींत अणकार केला.

कारण त्याच म्हालवजार फुडली पिळगी कोंकणी कवितेचें मळ गिरेस्त करूंक पावली. त्या सुमाराक जे वयर सरले तांतुंतलो म्हालगडो म्हळ्यार बाकीबाब बोरकार. बाळकृष्ण भगवंत बोरकार (१९१०-१९८४) हो मूळ बोरयेचो. हाडाचो कवी. कोंकणी-मराठींत कविता रचून नामनेचे तेंगशेर पाविल्लो. बाकीबाबांनी आपणाले प्रतिभेचो आपरोस मराठीक दिलो आनी पिळून उरिल्ली सोय कोंकणीच्या वांट्याक आयली अशें मानपी खूब जाण आसात. बाकीबाबांनी मराठीची उपाट सेवा केली हें सत्य. पूण तांणी कोंकणीची केल्ली सेवा ल्हानासमानांतली निखालस न्हय. बाकीबाबांचे कोंकणी कवितेच्या मळार निखटें 'आसप' लेगीत तरणे पिळगेक प्रेरणा दिणें थारलें. बाकीबाबां वांगडाच आनीक दोग कवींचो उल्लेख जावंक जाय. र. वि. पंडित आनी

मनोहरराय सरदेसाय. बोरकार-पंडित-सरदेसाय ह्या त्रिकुटान कोंकणी कवितेक दणदणीत सुरवात करून दिली आनी कोंकणी कवितेची घुडी खंयचे खंय पावयली.

## बाकीबाब

बाकीबाब हे शिरंगारीक कवी. मराठींतली तांगेली कविता मोग-प्रणय आनी शिरंगार हांणी सुयेन भरिल्ली.

असा कसा मी तरूण निरंतर सांगूं कैसे तुला
सहज अचानक झाकून डोळे तिने चुंबिलें मला

अशी शिरंगारीक कविता दिवपी बाकिबाबांनी 'जपानी रमलांची रात्र' वा 'प्रणयमुग्धेस' ह्या कवितां वांगडाच 'तेथें कर माझे जुळती' सारकी दिव्यत्वाक प्रणाम करपी अप्रतीम कविताय बरयल्या. कोंकणींत तांचे दोन झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'पांयजणां'ची पयली उजवाडावणी १९६० वर्सा आनी दुसरी तांगेल्या शताब्दि वर्सा जाली. 'सासाय' हो दुसरो कवितांझेलो १९८० वर्सा प्रकाशीत जालो. ह्या झेल्याक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो.

बाकीबाब हो मनस्वी कवी. जिणेचेर उपाट मोग करपी भावकवी. हरशीं बाकीबाब मराठीच्यो दोनूच यत्ता शिकिल्लो. घरांत दिसपट्टी चलपी भजनां आनी वाड्यार जावपी नाटकां-किर्तनां दीसरात कानार पडटालीं. सुरवेक तांचो सगलो अर्थ कळनासलो. पूण ल्हवू ल्हवू समजुपाक लागलीं. बाकीबाबाक उतरांचो सोस. एखादें नवें उतर कानार पडलें वा वाचनांत आयलें की ताचो सोद घेवप, तें उतर मनांत घोळवप आनी तोंडपाठ करप ही तांची संवंय. मराठी भजनांची गोडी तशीच कोंकणी लोकगितांची आनी शिगम्या पदांची. आवाज बरो आशिल्ल्यान गावपाची गोडी लागली. तातूंतल्यान संगीत कळपाक लागलें. भुरगे पिरायेचेर वाचन आनी गायन हातूंत रंगून गेल्ल्या बाकीबाबान एक दीस पात्रीस रेंदेरान थंयचे थंय रचून गायिल्लो कोंकणी कटाव आयकलो आनी बाकीबाब अजापलो. तांकां दिशिल्लें गितां, पदां, भजनां हीं दैवी आसतात वा पंडितांनीं रचिल्लीं आसतात. पात्रीसान रचिल्लें तें शिघ्रकाव्य पळोवन बाकीबाबांक नवो साक्षात्कार जालो. मागीर तेय बशिल्ले कडेन उतरां कडेन खेळत नव्यो रचना घडोवंक लागले. पात्रीसाल्या तोंडचो कटाव मागीर बाकीबाब आपल्या म्हींव्या ताळ्यान गावंक लागले. तें पळोवन

त्रीसान परत परत तांकां मेळचें आनी आपणाली नवी रचना ताचे कडल्यान वन घेवची. बाकीबाबांल्या मूळ घराक तेंकून रावपी जाकी होय कांतारां यतालो. भुरगो बाकी आपल्या भावंडां वांगडा वा सवंगड्यां वांगडा तीं आयकत वतालो. ल्हव्यू ल्हवू बाकीबाब स्वता कविता रचूंक लागले.

राठी, हिंदी, पुर्तुगेज आनी इंग्लेज अश्यो चार भासो ते शिकले. आनी त्या भासांतलें ाहित्यूय वाचलें. ताकालागून बाकीबाबाली साहित्यीक जाण समृद्ध जायत गेली. ोयांतले परकी राजवटकेंत अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचेर हावळ आयल्या हाची कल्पना ाशिल्ल्या बाकीबाबांन राम मनोहर लोहियाचे १८ जून १९४६ चे बसकेक हाजिरी ायली आनी तेन्नाच्यान स्वतंत्रतायेचो ध्यास घेतलो. सरकारी नोकरेची सोडचीट देवन जयहिंदाचे चळवळींत घालून घेतलें. आनी एक दीस पुर्तुगेज सरकारान वॉरंट काडले तेन्ना बाकीबाबांक गोंय सोडून मुंबय वचचें पडलें.

ुरगेपणा थावन कानार पडपी भजनां, पदां, कविता मराठीच आशिल्ल्यान ाकीबाब मराठी कविता सहजतायेन बरोवंक लागिल्लो. मुंबय-पुणेच्या मराठी ातावरणांत तागेले मराठी कवितेक परमळीत चंवर फुलल्लो. पूण बाकीबाबान राठीच्या तळ्यांतूय कोंकणी साळकां फुलयलीं. मराठींतले नामनेचे लेखक ु.ल. देशपांडे हांणी बाकीबाबांच्या मराठी कविते वयल्या कोंकणी प्रभावा विशीं रयलां- "मराठी कवितेंत 'केळीचे 'गाभे' म्हणण्याऐवजी 'केळीचे गबे' म्हटल्याखेरीज ोरकरांनां रहावत नाहीं. कारण ती केळ बोरीच्या घरांतील परसांतील आहे. तिला गबाच असतो. ही एक विलक्षण मजबुरी आहे. भाषेला कोषांतून फुगवणारे तिचा फक्त मेद वाढवतात, सौष्ठव वाढवत नाहीत. कोंकणीसारख्या ज्या भाषा मुख्यतः लोकांच्या ओठांतून पोटांतलें गुज सांगत आल्या, त्या भाषेंतूनच गोव्यांतली मुकी झाडे बोलतात. त्या भाषेतील गाणे नारळींना कळते आणि मग त्या तालात झावळ्या डोलतात...बोरकरांच्या कोंकणीच्या प्रेमाचे राजकीय व्याकरण ज्याला लावायचें असेल तसे त्याने लावावे. पण ज्याला म्हणून बोलीभाषेतून जीवनातले पहिले संस्कार घडले त्याला बोरकरांचे कोंकणीबद्दलचे प्रेम कळायला हवें'.

पु. ल. देशपांडेचे आजोळ कारवारचें जाल्ल्यान कारवारी शैलीतली कोंकणी भोव बरी कळाटाली. आनी बोरकाराली कोंकणीची ओडूय कळटाली -"बोरकर जेव्हां कोंकणींतल्या शब्दांच्या छटा सांगू लागतात तेव्हा संस्कृतांतल्या एक पात्र ह्या

शब्दाला मराठीत आकारभिन्नत्वाने येणारे पन्नास शब्द सांगणाऱ्या दासोपंतांची आठवण होते. मराठीतल्या 'घाण' ह्या शब्दाला घाणीच्या बदलत्या प्रतीप्रमाणे शब्द नाहीत. पण कोंकणींत माशांची घाण 'हिंवसाण' किंवा 'हिंवळाण' होते, लघवीची 'पचरटाण' होते, दुधाची 'घुरटाण' असे किती सुक्ष्म भेद. भाषेच्या रानफुलांचे हे रंग पहात आणि बोरकरांसारखा एखादा कवी असेल तर भोगत भोगत वाढणाऱ्या माणसांची त्या त्या रानफुलांशीं जवळीक तोडा म्हणून तुटेल का?"

पूण बाकीबाबांक आशिल्लो कोंकणीचो मोग महाराष्ट्रांतल्या लोकांक कळ्ळो ना आनी गोंयांतल्या मराठीवादी आनी कोंकणीवाद्यांकूय कळ्ळो ना. मराठी साहित्याच्या तळ्यांत बाकीबाब गळ्या मेरेन बुडिल्लो पूण मराठी उदक नाकांत वचूंक दिलें ना. आपणाले आवयचो मोग करतना दुस्र्याले आवयची सेवा ताणें तितल्याच आपलेपणान केली. मराठी संमेलनांनी वांटो घेतलो तेन्ना मराठी कवितां बरोबरच 'त्या दिसा वडाकडेन' कविता सादर करून ताळयो घेतालो. जिवनानुभव आनी साहित्यीक अनुभुती हांचो सांगोड घालपी ह्या कवीन जुलमाआड बरोवपाक केन्नाच फाट केली ना.

डॉ. राम मनोहर लोहियां कडसून प्रेरणा घेवन गोंय मुक्तीचो हावेस परगटावंक बरयिल्ली कविता म्हळ्यार बाकिबाबांलें स्वातंत्र्य संग्रामाक दिल्लें व्हड योगदान.

दोतोर बोस, दोतोर बोस समजिकायेन वाग
तकली तुका ना जाल्यार उठून चलूंक लाग-
फातरां तांदूळ, तेंय ना वेळार पोटाक पेटली आग
लजेक लुगट म्हारग जालां उक्ती पडली जांग

हें गीत लोकांचे जिबेर जालें आनी बाकीबाबांक गोंय सोडचें पडलें.

महात्मा गांधी आयलो रे
गोंयांत आमच्या पावलो रे
लोहियान हाडलो बावटो ताचो
मडगांवा शारांत लायलो रे

लोहियान गोंयचे स्वतंत्रतायेची कीट उडयली आनी बाकिबाबांच्या कवनां उज्यान पेट घेतलो. कवी गोंय- मुक्तीचें सपन पळोवंक लागलो.

सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले
अंदल्ल्यात मंत्र जिवीं ते फाल्यां उलयतले

गीत चैतन्य निर्मण करूंक लागलें. गोंय स्वतंत्र जालें आनी गोंयाक पिडपी अनेक स्त्र उबे रावले. लोकांक मिंधेपणांत दवरपी सुवार्थी लोकांची तिडक उक्तायतनां ोच स्वतंत्रतायेची सपनां जागोवपी कवी म्हणटा

प्राणांक क्षय, बुद्दीक भंय,
फाल्यांक जंय, कालचीच वंय
आयलां थंय तें स्वातंत्र न्हय, स्वातंत्र न्हय, स्वातंत्र न्हय.

गोंयचे अस्मितायेचेर हावळ आयली तेन्ना हो कवी पर्थून खुबळून उठलो लोकांक खुबळावंक-

जागी जाल्या गोंयची सासाय
येतलो भार, येतलो भार
धोल ताशे बडय, बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

आनी भार काडुनूच वगी रावना. गुरूच्या नांवान कवी लोकांक शिटकायता-

गुरु शिटकायता कुरवांनी, आरे, गुरु शिटकायता कुरवांनी
मेरेर झेमलो, शेतोड ताची अचळय भकली गोरवांनी
भरताडेचीं तारवां बाबा समूळ नाडलीं तडवांनीं
पेंवता घाळळे, हांयसा भाळळे, जितेच व्हेले गरयांनी
प्रसाद पाकळी फटवण सगळी, देव लिपयला गुरवांनी
कस्तूरमेरवावरी कित्या तूं जीव वगडायता बळयांनीं?

ह्यो कविता आनी तांतलो जोश पळयतकच दिसता कवी जाणासलो, गोंयांक गरज ती शिरंगाराची न्हय तर शिटूक रावपाची. देखून बाकिबाबान कोंकणीक दिल्ली शिटकावणेची कविता ही चड म्हत्वाची आनी मोलाची. मोगाच्यो कविता बाकिबाबान रचल्योच नात अशांतलें मात न्हय. 'त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसनां, मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां' ही प्रेमकविता काळजाक हात घालता.

'निळें निळें सवणे एक, सकाळच्या गो पारा, भांगराची घुंगरां बांदून, आयलें म्हज्या दारा' ही कविता कितली सुंदर. बाकिबाबाली कविता छंदबद्ध. इतले नाजुकसाणीन लय सांबाळपी दुसरो कवी चुकून सांपडटलो. ताणी ठुमरी रचल्यात- 'याद न्हय गो हो उजो' आनी अभंगूय- 'तुज्या पांयांर हांवें घाली उडी, बुडय ना जाल्यार पावय तडी.' तेभायर- 'उगड तुजीं नयनदळां, शामसुंदरा' सारकी भुपाळी रचल्या आनी कच-देवयानीचेर गीत- नाट्यूय बरयलां. बाकीबाबां विशीं नामनेचे मराठी कवी मंगेश पाडगांवकर म्हणटात- रंग, गंध, रस, रूप हांचो लावण्यमहोत्सव म्हळ्यार बाकीबाबांची कविता.... वताचेंय चान्ने करपी. (आठवणींतील बोरकर)

स्वता कवी बाकीबाब म्हणटाले - 'प्रत्येक नवी कविता जल्माक येता तेन्ना एक नवो कवी जल्म घेता.' हे तांचे भावनेक लागून हो कवी जिणेच्या अंता मेरेन तरनाटोच उरलो. बाकीबाबान 'पांयजणां' ह्या कविता झेल्याक बरयिल्ले प्रस्तावनेंत आपणांले मनोगत उकतें केलां. ते म्हणटात 'भाव अनावर जावन प्राणाक कंप भरता तेन्ना उतरांच घुंगरां जातात. आनी तांचींच पांयजणां करून कवितारति पावली मारूंक लागली म्हणूनच शृंगार, वीर, वत्सल, भक्ति, हास्य बी रस घुमूंक लागून काळाची रेंव, थोडो वेळ जायना, अम्रुतान ओली करतात. म्हज्या वांट्याक आयिल्ले असले कांय भाग्याचे खीण आज रसिकांचे सेवेक ओंपतना म्हाका विशेष संतोष भोगता. तांचे निनाद तांकां तितल्याच सुखाचे जावं. काव्याचे तरेकतरांचे छंद आनी प्रकार दैववशात् हातूंत प्रगट जाल्यात आनी तांणी कोंकणीच्या अपार काव्यशक्तिचो साक्षात्कार म्हाका घडैला. भावकवनां, गीतां, नाट्यगीतां, संगीतिका, लावणी, पोवाडो, अशी तरेकतरांची रचणूक कोंकणींत कितली सहज जावं येता हें पळेतकच ही भास जातकच काव्याची हे विशीं दुबाव उरना. तिजें हें बळगें आमच्या आयच्या फायच्या कवींक चड चड होलमूंक हीं 'पांयजणां' थोडीं भोव कारण जालीं जाल्यार म्हज्या सुखाच्या सुवर्णांत सुगंध फुलतलो.'

## र. वि. पंडित

बाकीबाबां फाटोफाट दोळ्यां सामकार येतात ते रघुनाथ विष्णु पंडित (१९१७-१९९०). १९४२ च्या आंदोलनांत महात्मा गांधींच्या उल्याक ओ दिवन र. वि. पंडितांनी गोंय सोडलें. पत्रकार म्हूण जावं छायाचित्रकार म्हूण ते भारतभर भोंवले. तांकां मुळांतच कवितेची आवड. सत्यकथेंचेर तांच्यो मराठी कविता प्रकाशीत

ाल्ल्यो. कांय गाजिल्ल्यो इग्लीश कवितांचे मराठी अणकारारूय प्रकाशीत
ाल्ले. मायभास कोंकणीचो दिश्टावो जाल्ल्या पंडितांनीं १९५६ साकून कोंकणी
विता बरोवंक आरंब केलो. १९६३ वर्सा तांगेले पांच कवितांझेले एकाच दिसा
जवाडाक आयले. कोंकणी साहित्याच्या मळार ही घडणूक सगल्यांकूच अजापीत
रपा सारकी आसली. तेंच बराबर खोसदिणीय. 'आयलें तशें गायलें' (पॉप्युलर
काशन, मुंबय), 'उरतलें तें रूप धरतलें' (कोंकणी केन्द्र, मुंबय), 'चंद्रावळ' (कोंकणी
ाशामंडळ, मुंबय), 'धतरेचें कवन' (कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय) आनी 'म्हजें उतर
ावड्याचें' (पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय) अशे हे पांच कवितांझेले एकाच दिसा
काशीत करून पंडितांनी इतिहास घडयलो. उपरांत १९६५ वर्सा 'ल्हारां', १९६९
र्सा 'रेवेंतली पावलां', १९७१ वर्सा 'मोतियां' (हो झेलो रोमींत लिप्यांतर केल्ल्या
कवितांचो), १९७४ वर्सा 'मोगाचे आवंडे', १९७५ वर्सा 'नाच रे मोरा' आनी १९७७
र्सा 'दर्या गाजोता' ह्या कविताझेल्याचें प्रकाशन जालें. १९७९ वर्साचो केन्द्रीय
ाहित्य अकादेमीचो पुरस्कार पंडितांल्या 'दर्या गाजोता' ह्या कवितासंग्रहाक
ाबलो. 'चारां' (१९८३) हो ल्हान-ल्हान कवितांचो झेलोय मजगतीं प्रकाशीत
ालो.

कवितांचो, भोव करून झेल्यांचो, इंग्लिशींत अणकार जावप हें एक अप्रूपच
भाशिल्लें. पूण र. वि. पंडिताक हो भोवमान फावो जालो. थॉमस गे हांणी तांगेलें
पुस्तक 'द मून, द मून' (The Moon, The Moon) ह्या नांवान उजवाडाक हाडलें.

पंडितांली कविता ही चालंत, जिबेवयले भाशेंतली. तिच्यांत अलंकार नात. सगलीच
मुक्तछंदांतली. गद्यांत बरयिल्ली कविता कशी दिसता. पूण आशय म्हान. थोड्याच
उतरांनीं खूब सांगपी. कवी हे विशीं कवितेंतल्यानच सांगता-

म्हजे कवितेंतल्या वळींकडेन पळोवं नाका<br>
उतरांकडेन पळोवं नाका<br>
तांतलो अर्थ पळय, विचित्राकडेन पळोवं नाका<br>
तांतले चित्र पळय.

बाकिबाबां भाशेनच पंडितांचेरूय घरच्या घरा साहित्याचे संस्कार जाल्यात.
संतचरित्रा, संतवादमय, अभंग, ते भायर केसरी, किर्लोस्कर सारक्या नेमाळ्यांचें

वाचन घरांत जातालें. ज्या पाळें गांवांत पंडितांचें भुरगेंपण सरलें त्या गांवचो लोकवेद तांच्या कानांर पडटालो. तांच्याच उतरांनीं सांगचें जाल्यार - पाळ्यांत वर्साचे बाराय म्हयने म्हज्या कानार तरेक तरांचे लोकसंगिताचे सूर येताले. जागर, तालगडी, रोमट, सुंवारी, धेंडलो, केळ नाचोवप, धालो, शिगमो ह्या उत्सवांचे निमतान ते येतालेच. खेरीज गावड्यांचीं लग्नां, कारणां, दळप, शेतां नडप, रोंपप, लुंवप, भुरग्यांक पाळण्यांत घालप, खेळोवप, तांचें जावळ काडप ह्या वा तुळशीच्या लग्ना निमतान वेगवेगळीं लोकांगितां आयकूंक मेळऽ. लोकांनाट्यां पळोवप, तांचे कडेन जोडिल्लें म्होंवाळ संगीत आयकप, तरेकतरांच्या वाजपांनी गुल्ल जावन वचप अशे चलतालें. दिवाळेच्या दिसांनी मुसळांनी फोव कांडप आसूं वा वाड्या वाड्यांचेर पिकेच्या दिसांनी भात कांडप आसूं.... लोकांगितांचे म्होंवाळ सुरूच सूर कानार पडटाले. अशे तरेच्या वातावरणांत खंय तरी खोलवेर म्हज्या मनांत लोकांगितां, लोकांसाहित्या विशीं आवड, ओड निर्माण जाली. निळकंठ मास्तराक, विठ्ठल मडवळाक लागून चित्रकला, शिल्पकला, तरेक तरेच्या रंगांची ओड उत्पन्न जाली. ते प्रमाण, म्हजे जायते ल्हान व्हड गावडे इश्ट सदां खंयचो खंयचो चिखोल हाडून ताचे तरेक तरांचे गणपती करताले. तांकां बरो वायट रंग दिताले. तांकां पळोवन म्हाका ह्योय कला मानवूंक लागल्यो. अश्या कारणाक लागून एक कवी, कलाकार, बरोवपी, लोक साहित्याचो संकलक म्हूण फुडें येवपाक लागपी आंगां पाळ्यांतल्या रावतिकेंत म्हज्यांत येवंक लागिल्लीं." (जाग, जून २००६ )

गावडा समाजांतल्या लोकांक धवाडे लोक कशे वापरतात तें पंडितांनीं लागींच्यान पळयलां. जिणेंतलो जणेक अणभव चिंवून तो कवितेंतल्यान मांडपाचो तांणी यत्न केला. गावडा समाजांतल्या भुरग्यांक शिक्षण, खेळ, मनरिझवण ह्यो सुविधा मेळनासल्यो त्या भुरग्यं कडेन तांणी इश्टागत केल्ली. तांकां लागून भद्रलोक त्या लोकांक कशें पिळून काडटात तें पळोवन ते न्हिन्नाळिल्ले. कांय गाजिल्ल्या कवितां मदीं 'हांव गावडो' ही कविता खूब वयल्या पावंड्याची. हे भुंयें कडेन नातें सांगपी आदिवासींचे धिटायेची, आडमेळ्यां आड तग धरून रावपाचे कळाशेची कथा आनी व्यथा पंडीत हे भाशेन अभिव्यक्त करतात-

कितलोय कांड, कितलोय कांड,<br>
म्हजो पिठो मात जायना,<br>
कांड, भायर पोखरान उडय,

कितेंय कर, हांव कुसना,
आसा तस्सो उरतां,

्या गावड्यांक समाज गृहीत धरून चलता तांकां हो कवी आवाज दिता. पूण हो
कवी मार्क्सवादी न्हय. समाजांत जंय जंय अन्याय चलता ताचे आड ताचो आवाज
ऊठटा. गोंयां 'कसता ताची जमीन' कायदो आयलो आनी कांय ल्हान भाटकार
अबंत पडले. तांचे खातीर कवी म्हणटा-

हांव भाटकार
आतां म्हजे म्हाकाच
हांव विकपाचो आसां
दर ना देखून उरलां

सरसामान्यांच्या मरणाचेरूय हो कवी भाश्य करता तांगेले 'आरे, आयज घात जालो'
हे कवितेंत पंडित सांगता-

रगताचो एक थेंबो, वा चरबेचो एक तोळो
कोणाखातीर खर्च केलो ना
हो मनीस आयज मेलो. ताकालागून संवसाराचें
कांय एक लुकसाण जावंक ना

पंडितांचो गांव पाळयें. थंय तांचो लोकसंस्कृताये कडेन संबंद आयलो. ताचो प्रभाव
तांच्या कवितांचेर स्पश्ट दिश्टी पडटा. लोकगितांच्या प्रभावांतल्यान घडिल्ली ही
कविता पळयात. लय आसा, ताल आसा, अर्थ आसा, आशय आसा.

आपोवणे येयलां नाचपाकू, सायबा नाचपाकू
आमी हिणयां नाच नाच नाचचें
नाच रे मोरा तालारू, सायबा
ढिम ढिम ढिम ढिम धोलारू
कळवणें येयतां वचपाकू, सायबा

'झिंगचे झिंगय' ही कविताय अशीच लोकगिताचो बाज घेवन आयल्या.

आगोर आमी काडलो, पांये सोलुनू

माय आमी ओडलो, व्हडीं भरून्
निसतें खालें मानशेकारान
पेंसाव खायलें भाटकारान
शेळो खालो माडांनीं
पैशे खालें व्हडेकारांनीं

पंडिताले शिरंगारीक कवितेक लेगीत लोकसाहित्याचो वास मारता. देखीक-

सगली रात तुजे कुडीं, दिवली झेमेता, बाये, दिवली झेमेता
वण्टीवयल्यान हिणयां तिणयां सावली धोलोतो
तुजी, सावळी नाचोता-
हांव हिण्यां, घुसमटत, काळखां फुगार, तुजेपासत
तूंय म्हजे सायबिणी, कित्या जागोता
बाये, कित्या नागवता?

पंडिताली सगल्यांत चड गाजिल्ली कविता 'आयज तू येतलो देखून' एक जितें जिवें चित्रच दोळ्यां मुखार उबें करता.

आयज तूं येतलो देखून, बांयचेर कावळो रडून गेला
आंगणांतुल्या पार्दिकान, फुलां शिंवरून शितांडो केला.

(सायबिणी)

तरेकवार कविता रचून नवे नवे प्रयोग करीत, पंडितांनी आपणाली वेगळी वाट माडयली. आजून हे वाटेर चडशे झळकनात. घडये पंडितांली आगळी शैली तांकां झेपनासुंये. पूण पंडिताले कविते कडसून प्रेरणा घेतिल्ले रमेश वेळुस्कारा सारके कवी स्वताची नवी वाट निर्मण करूंक पावले हेंय थोड्यासमानांतलें न्हय.

## मनोहरराय सरदेसाय

बोरकार-पंडित-सरदेसाय त्रिकुटांतलो तिसरो कवी म्हळ्यार मनोहरराय सरदेसाय (१९२५-२००६). तिसरो हो क्रम न्हय. कारण तिगूय कवी एकापरस एक. तिगांल्योय तरा वेगळ्यो. पूण लोकप्रियतेचे नदरेन जाल्यार मनोहरराय सरदेसाय अव्वल. १९६६ वर्सा गोंयच्या काव्यरसिकांनी मनोहररायांक 'कविराज' ही पदवी दिली. आनी

परांत समेस्त गोंयकारांनी तांकां 'लोककवी' हें बिरुद लायलें. लोकांचो कवी ानी कवींचो राजा म्हळ्यार मनोहरबाब. तांगेली कविता नीज कोंकणी. तांगेली कविता गोयचे मातयेंतली. कवी प्रतिभावंत आनी प्रज्ञावंत म्हणपाची जाण तांचे कवितेंत मेळटा. विद्यार्थी म्हूण मनोहरराय हुशार आसले. पोटतिडकेन शिकले. उच्च शिक्षणा खातीर ते फ्रान्साक पावले. फ्रान्सांत आसतना गोंयची याद काडीत तांकां कविता सुचली ती तांगेले कोंकणी भाशेंत. ते पयलीं मुंबय आसतना तांणी मराठींत कविता बरयिल्ल्यो आनी त्यो छापून आयिल्ल्यो. पूण पॅरीससारक्या धुंद शारांतय तांकां गोंयची याद अस्वस्थ करताली. तांणी बरयिल्ल्यो पैसाव्याचो कविता 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या झेल्यांत आसपावल्यात.

मनोहररायांक अनेक भासो येताल्यो, कोंकणी भायर मराठी, हिन्दी, इंग्लीश, फ्रेंच, पुर्तुगेज अशा देशी-विदेशी भाशांतल्या साहित्याचेर तांचो पिण्ड पोसलो. मनोहरराय म्हणटात तांगेली 'कविता मोवाळ जावपांत फ्रेंच आनी पुर्तुगेज भाशांचो हात आसा.' तांचो बापूय लक्ष्मणराव सरदेसाय हे मनोहररायांच्या भुरगेपणांत मराठींतले नामनेचे कथाकार म्हूण गाजताले. घरांत पुस्तकां खूब. पुर्तुगेज, मराठी, इंग्लीश... मनोहररायांक मुळांतच वाचनाची आवड. कोंकणी विशीं विशेश आस्था. शिक्षणा निमतान मुंबय पावले तेन्ना तांणी पयली कविता मात मराठींत बरयली ती १९५० वर्सा. नांव आसलें 'पॉलीशवाला.' थंयचो मुखेल वाचकवर्ग मराठी आशिल्ल्यान तांणी मराठींत बरयलें. पूण फ्रान्सांत मराठी कोणाक कळनासली. बरोवप थोडो काळ बंद पडलें. पूण मागीर गोंयचे यादीन जीव आकूळ पिकूळ जावंक लागलो आनी जिबेर कवीत फुललें ते कोंकणींतल्यान.

म्हजें मन ना रे हांगा  
हांगचो म्हाका नाका भोग  
म्हजी जीण उपाट भरूंक  
म्हाका जाय गोंयचो मोग

पॅरिसाचे प्रणयरम्य भुंयेर मनोहररायांच्या दोळ्यां मुखार येतांलें तें गोंय

हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे  
चांफो हांसता वासाळ हांशें

तेंगशेवयलें पिकलां तोर
म्हणून चानयेक लागलां पिशें
हुस्के माथ्यार गोंडिच गोंडि
चांफो हांसता वासाळ हांशें
गोंयां भायल्या मनाक म्हज्या लागता पिशें, लागता पिशें

मनोहरबाब स वर्सां फ्रान्सांत उरले. सोर्बोन विद्यापिठाची डॉक्टरेट घेवन भारतांत परतले. १९६१ वर्सा तांगेली 'आयज रे धोलार पडली बडी' ही संगितिका उजवाडाक आयली. कंसवधाची ही काणी गितांतल्यान सांगल्या.

खळखळटा ही यमुना - सदा नव - यौवना
मथुरेचे घेत उमे - वाजयत ल्हारां पांयजणां

सोबीत सुंदर कवनांनी गुंथिल्ले हे काणयेंत प्रतिकात्मकता आसा. अन्याय सोंशीत निश्क्रीय जाल्ल्या समाजाक खुबळावपाची ही रीत. पातकांक जाप दिवचीच पडटा अशें सांगपी ह्या गितांत कृष्ण कंस-वध करचे पयलीं ताका आव्हान दिता-

खेळ न्हय हो वेळ आयला, म्हजे कुडींत देव जागला
कंसा तुजो करुंक ध्वंस, विष्णुचो आयला अंश
पातकांचें भल्लां माप, पापाक सदांच मेळटा जाप
आयज रे धोलार पडली बडी, कंसा, तुजी भरली घडी
सोंपल्यो तुज्यो बडी-नडी, मरणाच्यो मेज रे बोडी

हे गीतकाणये संबंदान समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले म्हण्टात- 'गोंयची तत्कालीन परतंत्रता सालाझाराची दडपशाय, अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचेर आशिल्ली बंदी, गोंयांत १९४६ सावन प्रज्वलीत जाल्ली आनी १९५४-१९५५ त तेमकार पाविल्ली गोंय मुक्तीची चळवळ आनी १९६०-६१ च्या दरम्यान प्रत्यक्ष मुक्तीचे आस्थेची प्रखर जांणीव - ह्या सगल्या भौशीक संदर्भां वांगडाच हे सांगितिकेंत नकळटनां कवीच्या व्यक्तीगत उमाळ्यांचें-जाळांचें-उमळशिकेचें उदात्तीकरण जाल्लें दिसून येता. एके वेगळे नदरेन हे संगितिकेक पळयल्यार ती समष्टींच्या हाल उपाद्र्यांक तर उक्तायताच, समकालीन संदर्भाचे फास्केंत हाडून त्या समाजाच्या सामुहीक हावेसांकूय वाचा फोडटा.' (जाग २००६)

: कवितेंत नादमय काव्यात्मक गुणांचो नियाळ घेवन किरणबाय त्याच लेखांत ह्णटा - 'तांचे कवितेंत ताल, नाद, शब्द, छंद आनी भाव हे काव्यगूण तर सरसतायेन ग्रावुरतातच. पूण तांचे परसूय 'वर्णनक्षमता, प्रतिमावळ आनी रूपकात्मकता' वेशेशतायेन दिश्टी पडटा.

आयज रे धोलार पडली बडी' हाका रविन्द्रबाबांची सुंदर प्रस्तावना आसा तिचो अखेरचो वांटो असो आसा

आयज रे धोलार पडली बडी" हांतलो कृष्ण जेन्ना "कंसा, तुजो करूंक ध्वंस, विष्णूचो आयला अंश" अशें म्हणटा तेन्ना कृष्ण हो निखटो खेळ खेळपी "गवळ्यालो पोर" नासता, तर अनंत अन्यायांचे जड शिळे पोंदच्यान वयर तकली काडपी एक जागृत समाज आसता, इतलें आमी लक्षांत दवरूंक जाय. जेन्ना जेन्ना कंस निर्माण जातात तेन्ना तेन्ना श्रीकृष्णूय जल्माक येतात, पूण एक गजाल आमी विसरूंक फावना कि कंसांक मारपी कृष्ण आसतात प्रति- कंस आसनात. अन्याय, असत्य ना करपाक न्याय, सत्य हांची गरज आसता. असत् तत्वांक ना करपाक 'सत्'- 'तत्वांचीच' गरज आसता इतलें आमच्या लक्षांत आयलें आनी शेंकड्यांनी वर्सांचीं तरकतरांचों बंदेपणा भोगून निर्वीर्य जाल्लो समाज पर्थून जागो जालो जाल्यार आमची एक गरज भागली अशें म्हणचें पडटलें.

मनोहररायांनी रामायण कथेचेर आदारिल्ली 'रामगितां' बरयलीं. 'गीतरामायण' ह्या मराठी लोकप्रीय कवितां माळेभाशेनच स्वरूप आशिल्ली रामगितां कोंकणीतूय भोव लोकप्रिय जाली. तांतली कांय गितां आयजूय लोक रूचीन आयकतात.

'जायात जागे' (१९६४) ह्या तांगेल्या कविता झेल्यांत गोंयचेर आयिल्ल्या राजकी अरिश्टांचें चित्रण आसा. सत्याचो पाखो घेवन सरसामान्यांच्या काळजांत रिगपाचो हावेस बाळगुपी हो कवी साद्या सरळ उतरांनीं लोकांक साद घालता-

शेतकारांनो, मुंडकारांनो,<br>
जणकारांनो, गांवकारांनो,<br>
जायात जागे, जायात जागे-

जागयता आनी तांकां खुबळायता-

कुणब्यांनो, खणप्यांनो,
चिरप्यांनो, बांदप्यानो,
मागली भीक पुरो जाली
कट्टी आतांच फोडचेली
खणखणीत दोनूय हातांत
खोस झोमून घेवचेली.

(जायात जागे)

गोंयांत जें राजकी, समाजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक परिवर्तन घडून आयलें ताका फुडो करपाक जावं, ह्या परिवर्तनाचें आव्हान पेलपाक जावं, सरसकट गोंयकारांनी पेंगट बांदचें असो उलो दीत कवी स्वतंत्र गोंयचीं म्होवीं सपनांय तांकां दाखयता-

फायच्या गोंयांत येद्दे नाल्ल
आनी शेतांत तीन पिकां
फायचें गोंय म्हणटलें गा
"तुमची भीक आमकां नाका"

मनोहररायांनी तरेकवार विशयांचेर कविता रचल्यो. गोंयच्या पैसाव्याचेर, गोंयची व्हडवीक गावपी, कोंकणीचो मोग जागोवपी, अस्मितायेची जाण करून दिवपी, देशभक्तिपर आनी समाजीक आशयान भरिल्ल्यो. कांय उपहासात्मक कविता इतल्यो गाजल्यो की आजून तांचीं पारायणां जातात.

स्वाभिनान जागोवपी ही कविता पळयात -

तुज्या मुखार दुस्माना, नाच दिमी मोडचों ना
वठार दोळे, पेटय नाळी, हावेस म्हजो मरचो ना

ध्येयवाद, आदर्शवाद, आशावाद जागोवपी ह्या कवीन आपणांले उमाळे आनी उत्फर्के उकतायतनांच व्हड व्हडले आदर्शय आमचे मुखार दवरले. कांय नांवाजत्या आनी म्हान व्यक्तिंचेर तांणी कविता रचल्यो. 'शणै गोंयबाबांच्या उगडासाक', 'आग्वादाच्या शिवां तुवें' ही राममनोहर लोहियांचेर आनी मिनेझीस ब्रागांझाक स्मरून 'सगल्यां परस व्हडलो तू' ह्या कवितांनी तीं व्यक्तिमत्वां अज्रंवर केल्यांत.

वाहरलाल नेहरू गोंयां आयिल्ले वेळार तांणी 'जवाहराक येवकार' ही कविता ़्ली. आनी नेहरू ह्या संवसाराक अंतरले त्याच दिसां दुखेस्त अंतस्कर्णान तांकां ार्गी दिवपी कविता दिली-

रडूं नाका वगी फुलां, रडूं नाका वगी
नखेत्रांचीं फुलां खुडूंक, गेला तुजो मोगी.

कवितेन अनेकांचीं काळजां हालयलीं. जें जें गोंयच्या ब्याचें तें तें कवितेच्या ाध्यमांतल्यान मनोहररायांनीं दिलें. पंडित 'म्हजे उतर गावड्याचें' म्हणीत गावड्याक ाचा फोडटा. आनी मनोहररायाले कवितेंतलो गावडी-

गावडो हांव, कुणबी हांव
माड हांव, पिंपळ हांव
म्हजीं पाळां आनी मुळां
खोल भुयेंत रिगल्यात गा-

अशें सांगीत 'म्हज्या हाडांत आनी मासांत, सुर्याचो व्हांवता उजो, जीण म्हजी वीज ा' म्हूण धेंक घालता.

नोहररायालें दोन झेले चड गाजले ते तांच्या वेगळेपणाक लागून. 'जायो-जुयो' १९७० वर्सा आनी 'पिसोळीं' १९७८ वर्सा पुस्तकरूपान उजवाडाक आयले. व्हडलो विचार आटोवन थोड्या उतरांनी मांडपी तांगेली कविता रसिकांक खूब मानवली. जायो-जुयो' आनी 'पिसोळीं' दोनूय संग्रहांनीं ल्हान ल्हान कविता आसपावल्यात. जिणेंतलें वास्तव काळजाक चुरको लावपी भाशेंत तांणी सांगलां

झरो थांबता - थंय कोंड जाता
मनीस थांबता - थंय फोंड जाता
वा
आयले उगडे, वेतले उगडे
मदीं हें - न्हेसपापासत झगडें

मनोहररायांली कांय पिसोळीं आयज लोक म्हणी भाशेन उपकारायतना दिश्टी पडटात. देखीक- 'गिरेस्तांक दुबळ्यांची काकुळट दिसता पूण तांचेलागीं मोड

नासता' वा 'तेल सोंपले, वात सरली- पण्टी मात तशीच उरली.'

ह्या कवीन कांय दिर्घ कवनां रचल्यांत. तांतली जीं विडंबनात्मक वा उपहासात्मक आसात तीं चालंत परिगत उकती करतात देखून रसिकांक चड भावतात. 'मेज आयलें', 'मदलें आमी', 'लोकशाय' ह्यो कविता वास्तवाचें भान बाळगून सुस्ताविल्ल्या लोकांक जागोवपा खातीर आसात. गोंय पयलीं कशें आशिल्लें आनी आयज कशें आसा तें दाखोवपी 'लोकशाय' कवितेंत कवी राजकी बदलाचें चित्र हे भाशेन उबें करता-

आयले काळे, गेले धवे, फाटलें वचून आयलें नवें
पेद्रुचो जालो पिटर, लित्राचो जालो लिटर
सेर्वेज वचून, आयली बिअर, ग्रावाद वचून आयलो टाय
ही लोकशाय-

आनी लोकतंत्र येवन जाल्लो बदल अशा उतरांनीं दाखयता-

जाका धरूंक येना सत्री तो जाता राखणमंत्री
जाणे जल्मांत चिरलीं ना शिरी तो जाता शिक्षणमंत्री
जो चलयता कायद्याचें खातें तो फटक्रियांचो पाय
ही लोकशाय

अशीच दुसरी एक कविता म्हळ्यार 'मदले आमी'. मध्यमवर्गी समाजान स्वताचेरच घाल्ल्या कांय निर्बंधांक लागून एखादें काम उणाक दर्जाचें लेखून ते फाटीं सरतात-

आमकां नांगर धरूंक येना, आमकां माडार चडूंक येना
आमकां चुडीत मोडूंक येना, आमकां जळोव फोडूंक येना
रोवंक येना, लुवंक येना, तासूंक येना कोंड्या कामी
असले आमी - मदले आमी

अस्तुरेची जीण कशी सुयेवरी तें 'सुये बाये, सुये बाये' हे कवितेंत सांगतना कवी अस्तुरी जे दगदगे काडून नातीं जुळयता आनी झगडीं मेटयता ताचेर सूय हें प्रतीक घेवन मनोहररायान रचिल्ली ही कविता. सुमार पन्नासां परस चड वर्सां कोंकणी

कवितेचें मळ गिरेस्त करून सोडपी मनोहररायांनीं अखेरच्या दिसांनी 'तिकली' हो कवितेचो नवो प्रकार रचलो. २००४ वर्साच्या आरंबाकच 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचे मागणेन मनोहरबाबान ह्या नव्या साहित्य प्रकाराक हात घालो. लघुत्तम कवितेचो तो प्रकार भारतीय साहित्यांतय नवोच आसूं ये. 'पिसोळीं' तली चडशी कविताय ल्हानच आसली. पूण तिचेय फुडें वचून मनोहररायांनी 'तिकली' रचली. थोड्या उतरांनीं जिणेचो अर्थ आनी मर्म सांगपी उतरांचो आपरोस म्हळ्यार तिकली. दाखीक-

कागदा वयली ही वळ, म्हज्या काळजांतली कळ

वा

सुखाखातीर धडपडटा, ताची फकत धडपड उरता - सूख खंयतरी शेणटा

वा

रूचता तितलेंच खावचें
पचता तितलेंच वाचचें

एकेच वळींत वा चडांत चड दोन वळीं भितर जिवीतभर केल्ल्या चिंतनांतल्यान भायर सरिल्ली ही जाणवाय वाचकांक खूब मानवली. मनोहररायाच्या पावलार पावल दवरून आनिकूय कवींनी हो साहित्य प्रकार केळयलो. माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, अरूण साखरदांडे, नयना आडरकार, भरत नायक, अशोक भोंसलो, श्रीधर कामत, मुकेश थळी अशा साबार कवींनी 'तिकली' बरयली. मनोहररायांली सगल्यांत व्हडली गिरेस्तकाय म्हळ्यार तांचे लागीं आशिल्लें शब्दभांडार. उतरांची कोटी करीत उलोवपाची आनी बरोवपाची तांची कळाशी सामान्या भायरी. प्रकाश थळी, शांताराम वर्दे वालावलीकार, फेलीस्यु कार्दोज हांचे सारके लेखक मनोहररायांच्या भाशा प्रभुत्वाच्या प्रभावा खाला वावुरले आनी वाडले.

आपणाले कवितेंतल्यान उतरांचो जादूगार आशिल्ल्या मनोहररायांनीं उतरांचेर केल्लें भाष्य पळोवचें-

हांव उतरांचो धनी/उतरांचो चोर
उतरांचो चरव खावपी/उतरांचो मोर (जाग दिवाळी १९७३)

आनी उतरां कशीं वापरचीं हाचेर ताचो सल्लो-

उतरां तुजी सारकीं जोख - मागीर मोख (पिसोळीं पान १००)

आनी उतरांचो हो धनी स्वता विशीं सांगता:

लिखणे-पारय घेवन, फोंड खणलो- म्हाकाच पुरलो
उतरांचो रूख जावन हांव उरलों, हांव उरलों

तांच्या कवितांनीं त्या काळा वयल्या तरण्या कवींक पिशेंच लायिल्लें. कवी शांताराम शं. वर्दे वालावलीकार तांकां म्हणटा -

कोंकणी मनीस जियेतासर - कोंकणी भास तिगतली
फायची पिळगी तुजीं गितां - माथ्यार घेवन वाचतली

मनोहररायांक संवसारीक साहित्याची भोव बरी वळख आसली. फ्रेंच, पुर्तुगेज, इंग्लेज ह्या भाशांतलें साहित्य तांणी वाचून पचयिल्लें. पुरोगामी विचारांचो तांचेर आशिल्लो प्रभाव जाणवतालो. ही प्रगल्भता तांगेल्या लिखाणांनीं दिश्टी पडटा. अशा गाड विद्वानांची भास आपसूकच जडगुळी वा संस्कृतप्रचूर जाता. पूण मनोहरबाबांली भास केन्नाच क्लिश्ट दिसली ना. मनोहररायांली भास सादी-सोपी. गोंय मुक्ती उपरांत तांगेल्यो कविता रोमी लिपयेतल्या 'सत' दिसाळ्याचेर नेमान उजवाडा येवंक लागल्यो. त्या कवितांनी रोमी वाचक भारावन गेलो. आर्मांद पैरेरा, आग्नेलराव ब्रागांझ, फा.मोरेन द सौझ हे मनोहररायां कडसून प्रेरणा घेवन कविता रचूंक लागले. हें तांगेलें कवितेच्या मळाक लाबिल्लें व्हड योगदान.

मनोहररायांलीं कांय गितां रेमो फेर्नांडीस ह्या संवसारीक नामनेच्या 'पॉप' गायकान गायल्यांत. 'सोयरी कशी आयली आनी धनी कशी रावली' ही कविता रेमोक इतली आवडिल्ली की तांणी बेगोबेग फोन करून मनोहरबाबांची परवानगी घेतली आनी संगीतबद्ध केली. 'व्हिव्हा रे गोआ' हेंय गीत तांणी गायलां तें मनोहरबाबांले लिखणेंतलें. सिनेमा खातीर बरयिल्लीं तांगेली अनेक गितां आयज लोकप्रिय जाल्यांत. 'आंग म्हजें चोय पूण हात लावं नाका' हे तांतलें एक. हालींच भायर सरिल्ल्या 'शितू' आनी 'आलिशा' ह्या फिल्मां खातीरूय तांणी गितां बरयल्यात. मनोहररायांनी भुरग्यांखातीरूय खूब सुंदर बालगितां, बडबडगितां आनी गीतकाणयो रचल्यात. कोंकणी सरस्पतेच्या मळार मनोहररायांनी जें वट्ट योगदान दिलां तातूंत बालसाहित्याचें मोल चड करूंक जाय.

ाकीबाब, मनोहरराय, आनी पंडित ह्या तीन कवींनीं आधुनीक कोंकणी कवितेचें
ळावण घालें अशें म्हणूंक जाय. गोंय मुक्ती पयलीं सुरवात करून मुक्ती उपरांतचीं
ान दसकां तांणी शेक गाजयलो. पूण तशें करतनां उदेत्या नव्या कवींक उर्बा उमेत
्वन नवें पीक काडलें. तितले मजगतीं तांच्या पावलार पावल दवरून कवितेचो
ाव घेवपांत जैतिवंत जाल्लें दोन म्हालगडे कवी म्हळ्यार पांडुरंग भांगी आनी शंकर
माणी. ह्या दोगांनी केळयिल्ली अमूर्त आनी अल्पोतरी कविता म्हळ्यार कोंकणी
ायेच्या कानांतल्यो वज्रांवेडी. तांचे आत्मनिश्ठ कवितेन कोंकणी कवितेची बसका
कदस्त केली. तांचे फाटोफाट, सातवें दसक धरून धाव्या दसका मदीं आन्येक
ावकूट वयर सरलें तें पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार आनी प्रकाश
ाडगांवकार हांचें. चौगांच्यो चार तरा; पूण चौगांनीय कोंकणी कवितेक राष्ट्रीय
ावाहांत व्हरून प्रस्थापीत केली.

ांगी-रामाणी आनी पुंडलीक-रमेश-माधव-प्रकाश हांचे मदलें एक महत्वाचें
्यक्तिमत्व म्हळ्यार नागेश करमली जाची कविता समाजवाद घेवन आयली.

ा. ना. नायक आनी सुटके झुंजांत उडकी मारून गोंयां भायर पाविल्ले वामन
सरदेसाय उर्फ अभिजीत हांच्या वांगडाच गीतकार म्हूण नामनेक पाविल्ले गजानन
ायकार, यशवंत केळेकार, उदय भेंब्रे हांणी आपणा परीन योगदान दिलां.
हातुंतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता ती म्हळ्यार कोंकणी कविता सगल्या आंगांनीं
फुलूंक लागिल्ली. प्रतिकूळ काळार जरी कविता व्हडा प्रमाणार रचून जाली ना,
तरी कोंकणी लोक हेर भाशांतल्या साहित्या कडेन संवकळ दवरून आशिल्लो.
भोवभाशिकत्व हो कोंकणी लोकांचो सभावधर्म जाल्ल्यान ज्या भाशे कडेन संपर्क
आयलो त्या भाशांतलें साहित्य तांणी आत्मसात केलें. पुर्तुगेज, फ्रेंच, इंग्लेज, मराठी,
हिन्दी, कन्नड, मल्यालम, संस्कृत अशा भाशांतल्या साहित्याचें वाचन जाल्ल्यान
साहित्याक पोशक वातावरण मेळना फुडें साहित्यीक उमाळ्यांक वाट मेळ्ळी.
कोंकणी-मराठी वादाक लागून सृजनाक मार बसलो हें खरें. पूण तशें आसतनाय
कोंकणी कवितेन आपणाली वाट सोदून काडली हें म्हत्वाचें. इतर भाशांतल्या
काव्यांन जीं स्थित्यंतरां पळयलीं, जे बदल अणभवले ते कोंकणीच्या वांट्याक
आयले नात. भक्तिसाहित्य ते देशभक्तीपर साहित्य ही वाट कोंकणीन माड्टिली ना.
बुरशा परंपरांची तोखणाय अपुर्बाय करपाचे दीस हेर कडेन सरचे आशिल्ले तेन्ना

कोंकणी लोकांनी आधुनिकतेक वेंगायिल्ली. ही विचारसरणी कोंकणी कवितेचे पसवणेक उपकरा पडली.

## अभिजीत

वामन सरदेसाय उर्फ अभिजीत (१९२३-१९९४) हांणी भोव सुंदर कविता कोंकणींक ओंपल्यात. तरणेपणांत देशभक्तीन प्रेरीत जाल्ल्या वामनबाबांनी आपणालें वैजकी शिक्षण अर्दार सोडून स्वातंत्र संग्रामांत उडकी मारली. लोहिया येवन वतकच गोंयचे सुटके खातीर वावुरपी तरनाट्यांचें फुडारपण वामनबाबांनीं केलें. ते खातीर तांकां णव म्हयन्यांची बंदखणूय भोगची पडली. उपरांत ते महात्मा गांधींच्या सेवाग्रामांत पावले. तेन्ना 'मीर्ग' हें नेमाळें निकतेंच सुरू जाल्लें. वामनबाबांनी मीर्गांत बरोवपाक आरंब केलो. थंयच कवितारती तांकां प्रसन्न जाली. अभिजीत हें टोपण नांव घेवन तांणी कविता रचल्यो. तांची संख्या व्हड नासली तरी मुल्य व्हड. तांगेलो पयलो कवितांझेलो 'अभिजीत' हो तांच्या मरणा उपरांत १९९५ वर्सा प्रकाशीत जालो. पंडीत जितेंद्र अभिजषेकींनी गायिल्ले 'ते निळनिळशे धुंवरेपेल्यान- दिसभर लागलां थंयसर ध्यान' हें गीत अर्थगर्भ आसा. ही कविता अभिजीत शिमे भायर वावुरतनां गोंयची याद काडून बरयिल्ली. फुडें तो म्हणटा: 'कूड हांगा आनी तेवशीन प्राण.'

तांगेल्या कविता संबंदान डॉ.मनोहरराय सरदेसाय म्हणटात-

नीज कोंकणी 'अभिजीत' एकसुरोच पूण चकचकीत तारो कसो कांय वेळ झगजगलो. वेंचिल्ली निजाचीं कोंकणी उतरां, विशयाची खोलाय, उमाळ्याची हुनसाण आनी सोबीत बांदावळ. अभिजिताचे कवितेक कोंकणी काव्यांत वेगळीच सुवात आसा. 'गोंय' आनी 'गोंयची सुटका' हे अभिजिताले कवितेचे मुखेल विशय. हेर सुटकेझुंजाऱ्यावरीच ताचेंय 'दिसभर लागलां थंयसर ध्यान.

महात्मा गांधीच्या संपर्कांत आयिल्ल्या वामनबाबांनी 'वैष्णवजन तो तेणे कहिए' चो कोंकणींत सुंदर अणकार करून 'मीर्गा'च्या १.१०.१९५३च्या आंकांत प्रकाशीत केलो.

वैशणव जन एक तोचि म्हणुंये, जो
दुस्त्यांची दुख जाण्टा रे

दुखेस्तांक मायेन हात दी
नामनेचें ना भान रे - वैशणव जन...

तीवन-मरणाच्या चक्राचेर ह्या कवीन केल्लें एक भाश्य भोव सुंदर आसा. 'आमी उरतलें' हे कवितेंत कवी संवसाराचें चक्र फुडें वचत रावतलें हें सत्य अशे तरेन उलगयता

हांव गेलों, तुंवय गेलो, आमी उरतले
फाटलें दायज घेवन फुडें, वचत रावतले- आमी उरतले
देगेपेल्यान तुका म्हाका, पायतले पुशीत दुकां
परततनां तांचे कुशीक, आमीय चलतले- आमी उरतले
हांव नी तुंवूय गेले, 'धा'चे 'धा'य उरतले
'धा जाणां' जिवांत जियेत, सदां रावतले- आमी उरतले

मुक्ती उपरांत गोंय सरकाराचे नागरी सेवेंत घुस्पून उरिल्लो हो कवी, कवी म्हूण बेगीन सोंपलो.

## पांडुरंग भांगी

पांडुरंग भांगी (१९२३-२००८) हांगेली कविता अंतर्मूख आनी मीतभाशी. पुर्तुगेज कवी फेर्नांद पेस्सोआच्यो अनेक कविता आनी वक्तव्यां तांकां तोंडपाठ आसलीं. तांकां ते एक आदर्श कसो लेखताले. घडये पेस्सोआच्या साहित्याचो प्रभावूय भागींले बरपावळीचेर आसूंये. घोटिल्ल्या उतरांनीं जिणेचें कोडू सत्य सांगपी तांगेली कविता आशावादी आसा

मातीच ही सगली खरी / मातयेचीच पूड
तरी तिचे गर्भकणयेंत / हावेसाची चूड

भांगींली कविता पयसुल्ल्यान कानांर पडपी इगर्जेचे घांटी भाशेन कानांत किणकिणटा. 'मोनेळ' ही तांगेली शिरंगारीक कविता.

कितले खेपो तुज्या ओंठांक हांवें दंश केलो
ताचो हिशोब दवरलो ना- दितनां माप पळयलें ना.
रवाणेची कोंबी कशी, आयज तूं पुनवे जोरगत उबयता

तुका मोनेळ जाय. मोनेळांतच तूं चंवरून घोंसार येता
तुज्या काळ्या वज्रकेंसांत चान्न्याकूय मस्ती चडल्या
घडये उतरांच आमचो घात मारुंये
तेपयलींच ओंठांच्या उज्यान आमो पुनव जागोवंया.

भांगींली कविता चडशी मुक्तछंद. तांचे कवितेंत आटून घोटोवन केळयिल्लो विचार आसा. ह्या अंतर्मूख कवीची घुस्मट तांगेल्या कवितांनी स्पश्ट दिसता. 'काळोख हार जावन' हे कवितेंत कवी एक भिषण किंवाटो उक्तायता. भांग्यांले कवितेंत आडवादान येवपी समाजीक आशय हांगा खोलायेन जाणवता.

काळोख हार जावन, विळखे घाली घार्लीत, सगळ्यांक गिळत चलला
उजवाडाक घायांचीं भगां पडल्यांत
किवणांतले किडे, भंयाच्या वागऱ्यांत, आपआपल्या स्वार्थाच्या घोटेरांत गुल्ल आसात
वाऱ्यांत आगेलाची वीज आसा, तांकांय सर्वनाशाचो किटकिटो आयला

कवी माधव बोरकार पांडुरंग भांगीं विशीं बरयतात - 'भांग्याली कविता एककेंद्री. ती आपलोच सोद घेत भितर भितर वता. भायल्या वास्तवा कडेन तिचो व्हडलोसो संबंद आयिल्लो दिसना. घडये कवीन तो येवंक दिवुंना जावंये. सामाजीक आशय आपले कवितेक मानवना अशी तांची भावना आसपाची शक्यताय न्हयकारुंक येना.' (जाग, एप्रील-मे २००९)

अल्पोतरी भांगीची कविता खूब सांगपी. बाकीबाबां वरी तो शिरंगारीक वा रोमॅंटिक कवी न्हय आसत. पूण तांकां शिरंगार मानवता. गोकुळांतल्या कृष्णा विशीं तो बरयता -

अमुरपिकीं बोरां - केंसरांचीं रानां
नंदाचो पोर लुची - गवळणीचीं थानां
पूण तांकां अडेचें शिरंगारप सोंसना. ते म्हणटात -
रंगयल्ले ओंठ, रेखिल्ल्यो भोंवयो
अडेच्या थानांक, कांतयिल्ल्यो तोंकयो
कित्याक ही अडेची, कांतयिल्ली सया?
न्हेसुनूय नागडीच, जिवाची काया.

अदृश्टाचे कळे पुंजावपी हो कवी अखेर मेरेन एकसुरेपणच केळयत रावलो. भांगी म्हाणटात, 'म्हजे कवितेंतल्यान हांव म्हगेलें एकसुरेंपण जागयतां.' एकसुरेपणाक होरावपी हो कवी मोनेळांत चंवरता हें खरें. तांगेल्या 'अदृश्टाचे कळें' ह्या झेल्याक २००० वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला.

**शंकर रामाणी**

शंकर रामाणी (१९२३-२००३) हांगेली कवी-प्रकृती पांडुरंग भांगींक लागींची. दोगूय कवी गुढतेक, मोनेळाक, एकसुरेपणाक वेंगावन कविता फुलयतात. तांची कविता स्वान्त सुखाय कशी दिसता. भांगी वरीच रामाणींची भासूय नितळ आनी घोटीव. 'निळें निळें ब्रह्म' (१९९३) आनी 'ब्रह्मकमळ' (१९९५) अशे दोन झेले तांच्या नांवार आसात. तांगेल्या 'निळें निळें ब्रह्म' ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादिमीचो १९९६ वर्साचो पुरस्कार प्राप्त जाला.

कवितेचो प्रवास करतना निळें ब्रह्म पळोवन स्वता भितर खोशी जावपी हो कवी मेकळ्या उतरांनीं ईश्वरी साक्षात्कार जाल्लें वरी बरयता -

चलून चलून, पावलां शिणून, रूजवणाक आयलीं
वरशी नदर, मळबां रोमून, भरून भुंयेर रकली
चोंयवशीन मोनेळ.... म्होवें तिकाय उतर फुटलें
दिठये पेल्यान पलतडयां ब्रह्म निळें देखलें

'ब्रह्म' हे कवितेंतलो आत्ममग्न कवी ताका जाल्ल्या अमूर्त दिस्टाव्याचें उत्सवरूप शब्दांनी उतरायता तेन्ना ब्रह्म ख्यांनीच निळें निळें आसूंक जाय असो विस्वास वाचकाच्या मनांत जागयता. स्वताची अनुभुती वाचकामेरेन पावोवपाची तांक ताचे कवितेंत आसा. ताका दैव भावता. सैमाची विंगड विंगड रूपां ताका अप्रूप रितींनी दिसतात. आशाडांतलो हुतहुतो पावस ताचे कवितेंत विसंव घेता. तागेली दनपार गाबणे म्हशीवरी सुस्तावता. सरत्या श्रावणांत पावसाची धार इल्ली इल्ली मुणावत वता तशीं तन्नीं तन्नीं रसरशीत वतां न्हावंक लागतात आनी पारपोळ वारो आंकवार चेडवांक चाळयता.

भांगी वरीच होय कवी उतरां मेजून मापून जोखून वापरपी. ताका बोवाळ सोंसना. तरी भांगीं परस विस्कळ. गरज थंय हात सदळ सोडून उतरां वापरपी. 'जात्रा उलगतकीर'

ही रामाणीली कविता एखादस्या निबंदावरी. जात्रा सोंपतकीर देवळाच्या दरवट्याचे दिकेन पयसुल्ल्या गांवा गांवांनी परतुपी लोकांची रीग लागल्या, खाजेकार मांड कवळूंक लागल्यात, सगली रात जागिल्लें झगझगीत देवूळ शांत जालां. अशा वेळार शेजारच्या गांवांत परतुपी एक घोव बायलेक विचारता-'जात्रेंत तुका चड किते आवडलें?' आनी ती जाप दिता- 'म्हगे खोंपो आनी तुगे रुमाल' आनी तांची फुडली वाट फांकत फुलत वता.

रामाणीनी कवितेची सुरवात खूब बेगीन म्हळ्यार, १९४० वर्सा पयलीं केल्ली. पूण कवीच सांगता, 'वर्स १९६० च्या सुमाराक म्हाका 'म्हगेली' कविता दिसली. बरी कविता 'येवप' हो परमेश्वराचो प्रसाद'. एके कवितेंत रामाणी म्हणटात -

'कविता येता, म्हळ्यार / पिशाक केन्ना केन्ना / मळबायेदीं पांखां फुट्टात.'

कविता हें ह्या कवीलें दैवत. कवितेचेर ताची उपाट श्रृद्धा आनी मोग. संवसारीक कवितेचो अभ्यास आशिल्ल्यान रामाणींच्यो कक्षा खूब रुंदाविल्ल्यो पळोवंक मेळटात. देखून तांकां 'जोगलांचें झाड' दिश्टी पडटा तें अशें-

मळबाच्या वाठाराक, जोगलांचें झाड<br>
जवाडाचें धन आतां लिपय दोळ्यां आड<br>
लखलखून पेट्टा आनी जळटा कशें झाड!<br>
गोबोर ताचो जावचे आदीं तुकाच सोदून काड.

स्वतामदीं बागोवन कवितेची सुलूस सोदपी आनी कविता येना म्हूण अस्वस्थ जावपी हो कवी कविता येवप म्हळ्यार किते तें अशे तरेन सांगतात-

'तो एकलो एकसुरो कवी<br>
तागेल्या मोडक्या घराच्या जनेलांतसून दिसता त्या मळबाक<br>
दीस-रात पळयत आसता.<br>
तो सामको मालूक- तुमी तांकां आपोवं नाकात<br>
उलोवंक वचूं नाकात, ताचेर नदरुय घालूं नाकात<br>
पाटलोभर शेंक्यांचो शिंवर तो तुमच्या माथ्यार केन्ना घालीत सांगूं नज<br>
पूण चुकून केन्ना तरी तागेलें जनेल जेन्ना निळें निळें जाल्लें दिसता

तेन्ना दिगंताचीं पांखरां
तांकां नितळ उजवाडाचो साद घालतात'

शंकर रामाणींचें भावविश्व आनी शब्दकळा खूब गिरेस्त. कविता 'येना' तेन्नाय रामाणी कवितेंत रमल्यात - दुस्याले. तांणी रॉबर्ट फ्रॉस्ट वाचला, डोस्टोव्हस्की आनी टी. एस. एलियट वाचला. टागोर आनी गुलजार वाचला. आनी आवडिल्ल्या कवितांचो अणकार केला. एखादरी बरी कविता आयकुपाक मेळ्ळी म्हणटकच कवी म्हणटा - 'एके सलील तनरेंत पिशेपणाचीं पांखां फुटिल्लेवरी सवणे कसो घरा येतां.' रामाणी आनी भांगी दोगूय समपिरायेचे कवी. मोनेळांत सूख मानपी आनी एकटुक्यान निळायेंत नदर लावन बसपी. तांगेल्या अप्रतीम प्रतीमा-संवसाराक लागून कोंकणी कवितेचें दालन गिरेस्त जावंक पावलां.

**गीतकार रायकार- केळेकार- भेंब्रे**

कोंकणी-मराठींत तितलेच समरसतायेन कविता रचपी गजानन रायकार हांगेले कोंकणींतले दोन कवितां झेले प्रकाशीत जाल्यात. तांच्या कवितां विशीं उदय भेंब्रे म्हणटात- "...तांचें काळीज कवीचें आनी ताळो गीतकाराचो देखून तांच्या गितांनी कवितेच्या सुराक संगीताचो ताल मेळटा आनी जी अप्रुप चीज जल्माक येता ती आयकुप्याच्या काळजाक मोराच्या पांखान वारो घालून वता." तांगेल्या 'सुंवारी' संग्रहांतलें हें एक गीत-

गिमशी गाळी पिकली गो, तुजी-म्हजी जोडी जमली गो
चारां-चुन्नां दोंगरांनीं, बोल्सां भरुंया भिण्णानीं
अगळान आंगलीं रंगलीं गो- तुजी म्हजी जोडी जमली गो

आयचो कलाकार कसो दुडवांचे आशेन कलेक फाट करता हाचेर तांगेली ही सोबीत कविता-

तंबुऱ्याची तार हांवें, आज घाणा घातली
गळ्यांतली तान हांवें, पसरकारा विकली
आज म्हजी कला हांवें, पेजे खातीर फुंकली
बाजारांत कवनांचीं दुकनां हांवें घातलीं

(घाणा घातली)

कवी रायकारांक बरो ताळो आसा आनी कविता गावन दाखोवपाची कळाशी आसा. देखून जावंये तांगेल्यो चडशो कविता गीत जावन येतात. पूण 'बनवड' ह्या दुस्र्या संग्रहांतली एखादरी कविता छंदमुक्त जावंक सोदता-

म्हजे जिणेंत दुख्खाचें स्थान
खूब उंच पांवड्याचें आसा
म्हजें दुख्ख- ही म्हाका देवान दिल्ली व्हडान व्हड देणगी

कवी गजानन रायकारांच्याच अदमासांतलो दुसरो गीतकार कवी आसा यशवंत केळेकार मुंबय आताशवाणीचेर कोंकणी विभाग सुरू जालो आनी हरतरेच्या साहित्याची गरज पडली. गितां जाय आसलीं तेन्ना व्हडली गरज भागयली ती यशवंत केळेकारानी. वितरावपाक जाय म्हूण वा गरज भागोवपाक म्हूण गितां रचलीं. पूण मुळांत आंगांत काव्यगूण आशिल्ल्यान ह्या गितांक कविताय म्हणूंक येता. केळेकारांलीं कांय गितां इतलीं लोकप्रीय जालीं कीं आयज लेगीत विसरायेर पडूंक नात.

तारया मामा, तारया मामा व्हडें तुजें सोड
सुर्ती रुपया सोडून, दितां सगली तुका मोड
वा
चंदामामा, चंदामामा. आयली तुजी गाडी
भांगरा गाडी, हळुहळु ओडी, हरणांची जोडी
आनी
भांगराचें केलां ताट राया, रुप्या केला पाट
राजकुंवरावरि आज केला, सोनुल्याचो थाट

हीं गितां लोकांच्या गळ्यांत वचून बसलीं. उपरांत मुंबय दूरदर्शनाचेर 'कौस्तूभ' कार्यावळींतूय केळेकारांलीं गितां गाजलीं. 'दुलु फुलुचें कमळ सांडलें, गो माना, कमळ सांडलें' हें गीत सुंदर ताळ्यान उषा आमोणकारान गायलें. तशेंच 'कोंबडी झुंजयता' हेंय. हें गीत अर्थभरीत आसा. ल्हानपणांतलो इश्ट आतां जुवानपणांत नदर चुकयता तें पळोवन कश्टी जाल्ली प्रियतमा म्हणटा-

कणयो दाखोवन कित्याक बाबा कोंबडीं झुंजयता
कीर-मोर मनांत म्हज्या, कित्याक नाचयता

आकाशवाणीचेर केळेकारां वांगडां कांय काळ काम केल्ल्या उदय भेंब्रे (१९३९) ह्या क़वीनूय खूब सुंदर गितां रचल्यांत. तांगेलें 'चान्याचे राती' हें गीत इतलें लोकांमोगाळ जालां, तें लोकगिताचे पदवेक पावलां. आनी हें पैसाव्याचें-

मंद वाऱ्यार दर्या ल्हारार
गोंया तुजी याद येता
पैस म्हजें रितें जिणे
नव्या सुखान भरून वता

मुंबय सारक्या पैसुल्ल्या शारांत रावन गोंयच्या पैसाव्याचें गीत गावपी हो कवी मोगा-गितांय तितलेच फिशालकायेन बरयता.

येवचें तुवें काळखे राती
न्हेसून शालू काजुल्यांचो
नखेत्रांचीं मोतयां शिंपीत
व्हलयत पनेळ चंद्रिमाचो

उदयबाबाल्या कांय गितांच्यो रेकॉर्डी आयल्यो आनी अवध्या दिसां भितर हीं गितां लोकांच्या तोंडांत बसलीं 'रात सोंपूं वात आसा, आनी मातसो राव', 'ल्हाराल्हारार, ल्हाराल्हारार, तारूं तुरु तुरु तुरु धांवता' वा 'सुर्य गेला पलतडी, चंद्र आलतडी, आमोरी अमुरपिकी, याद घडीघडी' हें गीत, जावं 'यो साळोरे यो', 'हांव बाबा न्हवरो' जावं, 'आगा आगा तारया, तड बेगी मारुंया'- उदयबाबांली चडशीं गितां भोवच लेकप्रिय जाल्यात. मुळांत सांगिताची जाण आनी गावपाची आवड आशिल्ल्यान जावंये ह्या कवील्यो चडशो कविता गेय जाल्यात आनी देखून ताका गीतकार म्हणचें पडलां.

कोंकणींत नांव घेवपा सारके आनी नांव टाळपा सारके अनेक कवी जाले वा आसात. पूण गीतकार म्हूण नामनेक पावले ते भोव थोडे. बाकीबाब आनी मनोहरबाबां उपरांत वयर सांगिल्ल्या कवीं भायर आनिकूय आसात. तांतले हरदत्त खांडेपारकार हे एक. तांचो 'गितोत्सव' हो गितां झेलो प्रकाशीत जाला. 'हळडुव्या सांजवेळा दीस देंवतना / हांसय वात दिवलेंतली आस्त दिसतना' अशीं गेय म्होंवाळ गितां हरदत्तानीं रचल्यांत. मुंबय उरिल्ल्यान गोंयचे साहित्यीक जिणे कडली नाळ

तुटिल्ल्यान जावंये, हालीं तांचीं गितां नवीं आयकूंक / वाचूंक मेळनात. मात निकतोच तांचो झेलो प्रकाशीत जाला.

आन्येक गीतकार म्हळ्यार उल्हास बुयांव. स्वता गावपी जाल्ल्यान तांगेलीं गिता चाल घेवनच येतात. तातूंत काव्य उणे पूण गितांची सुरबुसाण चड. 'मंगळुराच्या शारांत, एक चेडूं देखिलां - काजार म्हजे लागीं जाता म्हणून उतर ताणें दिलां' हे तांगेलें गीत गोंयां वांगडाच मंगळूरकारांकूय भोव मानवता. आनी जाचें नांव घेतले ना जाल्यार अन्याय जातलो तो म्हळ्यार भिकाजी घाणेकार. वेवसायान वैजकी मळार वावुरपी डॉक्टर पूण पिंडान कवी. आजवेर शेंकड्यांनीं कविता आनी गितां तांणी रचल्यांत. हिंदू आनी क्रिस्तांव दोनूय समाजांमर्दी सारकेच चहाते आशिल्ल्या घाणेकरांलीं खूब गितां आकाशवाणीचेर कानार पडिल्ल्यान ते गीतकार म्हूण तांची वळख आसा. स्वता गावन सादर करपी विल्फी रेबिम्बस होय एक भोव लोकांमोगाळ गीतकार- भोव करून दक्षीण कर्नाटकांत. आनी तीस वर्सां फाटीं 'रूखावयल्या सुकण्या पिला, उडचें शिकचें पडलें ना/ आनी मोग कसो करचो तें आमकां शिकचें पडलें ना' अशे तरेचीं तरनाट्यांच्या काळजांक खातकुतल्यो करपी गितां रचपी सोयरू वर्दे हांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं नात तरी तांचें नांव घेतले बगर गीतकारांची वळेरी पुर्ण जायना. आयचे घटकेक स्वता रचून गितां गावपी कवी आसात तातूंत पुर्णानंद चारी, शकुंतला भरणे आनी साईश पाणंदीकार हांचीं नांवां घेवंक जाय. पूण कवी आनी गीतकार आसा तो रमेश लाड. तांगेलो 'कवन कांठ' हो झेलो उजवाडाक आयला. आनी लोकांमोगाळ जाल्लो पूण अचकीत आयिल्ल्या मर्णान पयसावल्लो गीतकार म्हळ्यार श्रीधर कामत. श्रीधरांनी कविताय रचल्यो आनी गितांय. तेभायर नाटकां- नाटकुलींय. पूण श्रीधरांक चड वळखतात ते गीतकार म्हूण. तांगेलीं सुरबूस भावगितां- 'दारांत म्हज्या सांजपिशी/ पोसो भरून साय कशी' वा 'कळी कळी, मोनी कळी'. अशोक पत्की हांच्या संगिताचेर बेला सुलाखे आनी देवकी पंडीत हांणी गायिल्ल्या ह्या गितांनीं खूब लोकप्रियता जोडली. तेय परस चड 'नीळ रंगान' ह्या गितान.

त्या अंबरांतल्या नीळभुंयेचेर, श्याम कन्हैया नाचे
त्या अवनितळांतल्या रास लयेची, एक बांसुरी बाजे
म्हजी सूध बूध आनी रीत बीत तूं भिजला चिंब चिंब रे
नीळ रंगान रंगला रे कान्हा, नीळ रंगान रंगला

ह्या गितान समेस्त कोंकणी जनांक पिशें लायलें, आजूनय लायता. श्रीधरांलीं तीन पुस्तकां तांच्या मरणा उपरांत (२०१९) उजवाडाक येतली, एक कवितेचें, एक गितांचें आनी एक नाटकांचें. कविता आनी गितां दोनूय पुस्तकांचें नांव एकच आसा- 'इन्फिनीत श्रीधर'.

युसुफ अ. शेख सुमार चाळीस वर्सां कवितेच्या मळार वावुरले. १९७७ वर्सा तांणी बरयिल्लें 'शब्दुलेच्या फुला तुका भंवरो जावन चिंवतलों' हें गीत पयल्याच फाराक लोकांक भावलें. उपरांत तें आकाशवाणीचेर सतत प्रसारीत जावन लोकांचे जिबेर घोळूं लागलें. तांगेली 'ओ रे सोय ' हीय अशीच रसिकांनी माथ्यार घेतिल्ली कविता. गोंयची अस्मिताय जागोवपी तांगेली कविता म्हळ्यार आमी गोंयकार.

नुस्त्याचें हुमण जाय, नाल्लाची कडी जाय
गांवठी तांदळां पेज जाय, पातळ भाजी पाव जाय
तोंडाक लावंक खारें आनी इल्लें आंबट-तीख जाय
आलतडेच्यान पलतडी गा तारयाची तार जाय
आबोल्यांचे झेले आनी अस्मितेची जाग जाय
आमी गोंयकार आमकां काळजाची भास जाय

(पान २८, रंगघाय)

कोंकणी कवितेंत विविधताय हाडपाचे तांणी जांणीव पुर्वेक यत्न केल्यात. गझल, कव्वाली, दुकलगीत अशे प्रकार केळोवपी कवील्यो फाटल्या वीस वर्सांतल्यो कविता चड करून अन्याया आड आनी समाजीक जाणविकायेंतल्यान आयल्यात.

युसूफ अ. शेख हांगेले तीन झेले उजवाडाक आयल्यात. 'गांठी' (१९८२), 'रंगघाय' (२००५), आनी 'ओड' (२०१४)

मूळ कर्नातकांतलो पूण मुंबय राबितो आसलेलो नांवाजतो कवी जे. बी. मोरायस (१९३३-२०१४) हांणीय सुमार चाळीस वर्सां कवितेचें लेखन केलां. 'नवी व्हंकल' हो तांचो पयलो झेलो १९७७ वर्सा प्रकाशीत जाल्लो. सैम, मोग, देवभक्ती, घरसंसार, रिती-रिवाज, आनी सोयरीं-नातीं हातूंत घुस्पल्ले मोरायशाले कवितेचें त्या सातव्या दसकांत नवे व्हंकले वरीच स्वागत जालें. उपरांतची तांगेली कविता समाजीक बांदिलकी मानून ते वाटेन फुडें सरली. 'मुर्ती आनी शिल्पी' कवितेंत कवी विपर्यास दाखोवन देवळा विशीं सांगता- 'कसलें मजबूत देवुळ अद्भूत बांदलां ताच्या भोंवती

/ पांयातळा हरेक वेळा पडटीत गुलाब शेंवतीं' आनी शिल्पी कलाकाराविशीं म्हणटा - 'मुर्तीक राबोंक देवुळ व्हडलें, शिल्पीक ल्हान एक झोंपडें / वोता-पावसाक, दिसाक रातीक लिपोवंक मातें आपलें' जिणेचेर भाष्य करतना कवी सांगता 'थोडे गोड थोडे कोडू मेळोवन खाता तो बुदवंत-ज्ञानी जाल्यार कोडसाणींतली गोडसाण सोदूंक कळटा तो तत्वज्ञानी-जाणवय'. गरीब कसो फकाणांचो धनी आनी गिरेस्त हो चर्चेचो विशय कसो जाता हाचेर हो कवी म्हणटा - 'गिरेस्ताले नाल्ला-बोंडे चोरयेक गेल्यार गांवार चर्चा जाता गिरेस्ताक जाल्ल्या व्हड लुकसाणीचेर आनी गरिबाल्या घरचें भांगर चोरून व्हेल्यार म्हणटात 'नकली चोरून मेळळें कितें?'

मोरायसांच्या नांवार तीन कविता संग्रह आसात: 'नवी व्हंकल' (१९७७), 'भितरलें तुफान' (१९८४) आनी 'एक धेंट एक पान' (२००२). ते भायर 'दिव्यामृत' हें कवितेचें पुस्तक प्रकाशीत जालां तें 'पवित्र पुस्तकाचेर नीळ-कविता' अशें कवी म्हणटा. तांगेल्या 'कितुरलें तुफान' झेल्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार गावला.

### विसरायेर पडूंक नाशिल्ले कांय कवी

शंकर भांडारी हो कवी आयज आमचे मदीं ना. शंकर भांडारी हांणी कोंकणी हें मिशन मानिल्लें आनी कोंकणी हें साध्य न्हय तर गोंयचे सर्वांगीण उदरगती खातीरचें साधन अशें ते लेखताले. लोकतंत्राच्या नांवा खाला सरसामान्य कश्टुपी मनीस कसो भट्टुता तें तांगेल्या 'पदयात्रा' आनी 'गणराज' ह्या दोन कवितांनी दिश्टी पडटा.

पदयात्रा -

हांची फेस्तां, तांच्यो जात्रा, तुका सदां पदयात्रा
हांची शेतां, तांची भातां, हिरी हिरी तुजीं जोतां
हांचे आमदार, तांचे नामदार, तुवें कित्या सोडलां घरदार?
हांची भास कामोंयशाचीं, ज्ञानेशाची तांची वाणी
कोणाक जाय गा तुजी कोंकणी?
गणराज्य हे गाजिल्ले कवितेंत ते म्हणटात,
कितलीं वर्सां जाली आज? गणाचें आयलां राज !
कोण गणा? कोण जाणा?
भुरगेपणांत आयकलेलो आणकु माणकु खेळटनां

आदू गोदू फिर्गी चारी, पांचवो आसलो एक गणा
होच बी काय तो गणा? हो गणा तसो दिसना

चडशो उपहासात्मक कविता रचपी शंकर भांडारीली जवाहरलाल नेहरु भायर पडले तेन्ना बरयिल्लीं 'सोंपली वात' ही मात मनाकाळजाक हात घालपी वेगळी कविता,

सैमाचे दिवलेंतली, परजळटी सोंपली वात
आयज सगल्या संवसारार, अकस्मात काळखी रात
आयज शब्दब्रह्मांतलें, जालां एक उतर उणे
जवाहरा तुजे विणे, रितें, रितें आमचें जिणें

विजयाबाय सरमळकार हिणें कोंकणी कवितेच्या मळार खूब उसरां पावली मारली. पूण ती पावली पकदस्त आसली. अस्तुरेचीं सुखदुख्खां पयलेच खेपेक कोंकणींतल्यान उलोवंक लागली. तिची ही कविता 'दिसता म्हाका' अस्तुरेचें एकसुरेपण भोव थोड्या उतरानीं चित्रायता-

म्हजें 'हांवपण' विसरनाशिल्लीं हांव
आयज अकस्मात येवन थांबल्या, तुज्या यादींचे देगेर
वादळांतल्या पानांवरी तळफेता तापिल्ले रेंवेर
दिसता म्हाका, भरतेचें ल्हार कशें येवचें तुका मेळूंक
आनी... आनी दिवचो काळाक जिणेचो खेळ खेळूंक

विजयाबायलें 'सांग गो केन्ना साखरपुडो' हें गीत भोव गाजलें. तरणे पिरायेर साखरपुडो थारता तेन्ना व्हंकलेचे चालचलणुकेंत भायर भितर जाल्लो बदल विजयाबाय भोव नाजूक, रस्मी उतरांनीं विस्कटायता-

ओंठा ओठांत रंगला विडो, हांसता केंसांत जायांपुडो
पडला पोल्यांर लजे सडो, सांग गो केन्ना साखरपुडो

विजयाबायन कविता रचल्योच पूण तरणे पिरायेच्या चलयांक कविता बरोवपाक प्रवृत्त केलें, ही तांगेली सगल्यांत व्हडली जोड.

मदीं जायते कवी म्होंवा बोट जिबेक लावन नाच जाले. प्रकाश थळीन कवितेन

सुरवात केली पूण उपरांत नाटक, निबंद आनी अणकार हें मळ वेंचून काडलें. ओलिव्हिन गोमिश हांणी कांय कविता रचल्यो पूण उपरांत हेर प्रकारांकडेन घुंवले. फातिमा डिसौझा, सुरेश पै, उल्हास पै रायकार, भिकू बोमी नायक ह्यां सारके कवी सातत्य सांबाळून दवरूंक नाशिल्ल्यान कुर्शीक उरलें. थोडे काळाच्या पड्ड्या आड गेल्ल्यान दाव आर्दार सोडून गेले. सदानंद जांबावलीकार हांणी कोंकणी कवितेकडेन उसरां इश्टागत केली. पूण थोड्याच वर्सां मजगतीं तांणी भर भरून कविता दिली. बी.ई.मेंदीस हे तत्वगिन्यान आनी अध्यात्मीक कविता बेसबरी रचताले. शंकर परूळेकार हेय भरिल्ल्या पाना वयल्यान उठून गेले. सुरेश जयवंत बोरकार हे आजूनूय कार्यरत आसात. पूण चड बरयनात. तांगेली कविता भांगी-रामाणी भाशेनच मीतभाशी कविता.

**नागेश करमली**

गोंय मुक्तीच्या झुंजांत उडकी मारून बंदखणींची ख्यास्त भोगिल्लो सुटके झुंजारी नागेश करमली (१९३३) गोंयचे खातीर जे पोटतिडकीन वावुरलो तितलेच पोटतिडकीन कोंकणीक मानाभौमानाचो पाट मेळोवन दिवपा खातीर झुंजलो. तांगेली कविता चडशी, सगलीच म्हळयार जाता, मुक्तछंदांतली. केन्ना थोडया उतरांनीं उलोवपी जाल्यार केन्ना तिडकून घोग्यांनी व्हांवपी. समाजांतल्या भेदाभेदां आड, अन्यायाआड, अनितीआड आनी दंभिकताये आड करमली फाटलीं सुमार पंचावन्न वर्सां बरयता. समाजांतल्या असमानताये कडे वा अन्याया आड जेन्ना बरयता तेन्ना तांगेली कविता दिर्घ रूप घेता. हिन्दी साहित्यांत अशी चाल आसा. पूण कोंकणींत हे भाशेनची कविता घेवन येवपी नागेशबाब हो पयलोच कवी. 'आवेग' कवितेंत नागेशबाब अन्याया आड तुमी वगी कित्याक अशें तिडकून विचारतात-

तुमी रडटात, दुखां गळयनासतनां
तुमी चेपतात, चेपण नासतनां
तुमी मरतात, मरणां मरनासतनां
तुमी जगतात, जगप नासतना
आनी तरी तुमी
वगी कित्याक, वगी कित्याक - काळीज आसतनां?

नागेशबाबांली कविता म्हळयार वोतांत करपल्ल्याच्या आंगार थंड उदकाचो घोगो. कविता कश्टतल्यांक फाटीकणो दिता, पेटून उठपाचो संदेश दिता. 'उज्याची कीट' हे तांगेले कवितेंत पळयात –

हुलपू हलपून दागावल्ले हे जिबेक
उज्याकीट – म्हौंवा थेंबो
घामे- घामेत कश्टावल्ले हे कुडीक
खाजना रेबो – गंधा तिबो

आयज ८५ वर्सांचे पिरायेर लेगीत कवितेच्या मळार कार्यरत आशिल्लो नागेशबाब हो ताच्या काळाचो प्रॉडक्ट, काळाची फळनिर्मिती. मुळांत कवी खरो, पूण कोंकणीची गरज म्हूण कोंकणी चळवळींत, साहित्यांची गरज वळखून नवें रगत कोंकणी वटेन ओडपांत आनी समाजीक परिवर्तनांत वाट दाखोवपाच्या वावरांत सक्रीय उरिल्ल्यान तांचे कवितेन समाजीक बदल घडोवन हाडपाची वाट आपणायली. गोंयच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत उडकी घेवन, बंदखाणीची ख्यास्त भोगून, स्वतंत्र गोंयांत नवनिर्मणेचो ध्यास बाळगून कविता रचपी नागेश करमलींची कविता ही समाजवादी. तांकां कवीमनाचो झुंजारी म्हणूं येता आनी झुंजारी मनाचो कवी अशेंय म्हणूं येता. 'थांग अथांग' (२००७) ह्या झेल्यांतली 'खबर ना' ही कविता बाकिबाबांले 'आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय' हे कवितेचो उगडास करून दिता,

अजून मुक्तीच्या गीताक / कितलें आळोवंचें आसा----खबर ना
काळोख पयस जाला / तो कितलो पयस गेला----खबर ना
ह्या रणांत आसां उबो / कितलें झुंजचें आसा-----खबर ना

देवाधर्माचीं, कुड्डे श्रद्धेचीं नश्टीं बंदना मोखून उडयिल्लो हो कवी मेकळेपणाक आंवडेता. 'रे तोडून बंदपास, घेवचो तुवें मेकळो स्वास' अशें मागता. दुर्बळांचेर जावपी अत्याचार, गरिबांचेर जावपी अन्याय आनी धर्तरेचेर मातिल्लो दुश्टाचार हांचे आड किंवाट्यान झगडें मांडपी हो कवी आपलें दायज मात विसरना. आमकां वंशकुळाचें देणें लागता आनी तें पावोवपा खातीरच आमी आपणाली लिखणी झरयतात अशें कवी सांगता,

आमी आमच्या वंशकुळाक देणे लागतात
देखून आमची गितां आमकां गावचीं पडटात.

कवीचे समाजीक लागणुके संबंदान हो कवी म्हणटा - 'समाजीक बांदिलकी म्हळ्यार ज्या युगांत हांव जियेतां, त्या युगाचो उलो बुद्धिनिश्ठपणान आनी शुद्ध विज्ञानीक नदर दवरून आयकप आनी ताका धरून बरें-वायट आसडूंक फाफडूंक शिकप. बुद्धिनिश्ठपण आनी विज्ञानीक नदर अशें हांव म्हणटां तेन्ना तातूंत मनीसपण येता. हें मनीसपण म्हाका जात-धर्म, अंधश्रद्धा, काळाभयल्यो चालीरिती ह्या गजालींआड उबो करता.' ( कोंकणी, आगश्ट १९९६, कों.भा.मं. मुखपत्र )

कवीन इतर भाशांतल्या कवितांचे अणकारूय केल्यात. 'म्हजी भूंय' हो तांचो पुर्तुगेज भाशेंतल्या कवितांच्या अणकाराचो झेलो उजवाडाक आयला. 'जोरगत', 'वंशकुळाचें देणें', 'सांवार' आनी 'थांग- अथांग' अशें तांगेले चार झेले उजवाडाक आयल्यात. 'वंशकुळाचें देणे' झेल्याक १९९२ वर्साचो केन्द्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा.

नागेशबाब आकाशवाणीचेर काम करताले तेन्ना तांणी अन्येक सर्जनशील लेखक कवींक फुडें काडले. अनेक कवी नागेशबाबांचें बोट धरून वयर सरले आनी स्वता मदले प्रतिभेन मागीर तांणी मळबाक हात तेंकयले.

### रमेश भगवंत वेळुस्कार

कवी पंडितांल्या गांवचो आनी तेच मातयेंतल्यान स्फुर्त घेवन कवितेच्या मळार देंविल्लो रमेश भगवंत वेळुस्कार (१९४७-२०१८) हो एक अप्रूप कवी. तांगेल्या कवितांक लोकसाहित्याची देग आसा. तांगेलो पयलो कवितांझेलो 'मोरपांखा' उजवाडाक येवचे पयलींच रमेश वेळुस्कारान कोंकणी कवितेच्या मळार बस्तान बसयिल्ले. उतरांक जाय तशीं मोडपाची, जोडपाची आनी घडोवपाची रमेशाली कळाशी सामान्या भायली. सैमाचो शिरंगार उक्तायतना सैमच तांकां जाय जाय त्या उतरांची पुरवण करतालो जावंये-

म्हाका गिरे जाय, तारे जाय, सृश्ट जाय, इश्ट जाय, दिश्ट जाय
कित्याक काय म्हणटा? म्हजेकडें एक मळब आसा –

अशें कवितेचें मळब मिरोवपी हया कवीक मोर खूब भावता. 'मोरपांखां' हे तागेले कवितेंत कवी म्हणटा-

तुज्या दोळयांत मोरपांखां, म्हज्या दोळयांत मोरपांखां
तुजीं म्हजीं मोरपांखां सोदतना फुट्टा पांखां तुका म्हाकां
म्हज्या पांखांत तुजीं पांखां घुसळता घुसळता
चोंचेंत चोंच कळसता कळसता
'आळो पिळो, साय मेळो' तुज्या दोळयांत म्हजो दोळो
मोरपांखार भांगर तिळो एकूच दोळो..... दोळयांत कितें?

रमेश वेळुस्कार ह्या कवीची जातकुळीच वेगळी. लोकवेद वा लोकसाहित्याचो आगळे दिश्टावो जाल्ल्या ह्या कवीली कविता म्हळ्यार लोकसाहित्याचोच नवो रूपकार कशी दिसता. ताचें कवितेंत प्रगल्भ तत्वगिन्यान भरिल्लें आसा. सैम आनी मनीस हांचें अद्वैत ताचे कवितेंत दिश्टी पडटा. आनी ताच्याय फूडें वचून हिरण्यगर्भाचे सुर्वेक हो कवी म्हणटा, 'हांव' आनी 'आमी ह्या दोन तत्वांनीं जीं दोशींपणां आमी पळयतात तें तत्व एकूच हांचो सुवर्ण महोत्सवी साक्षात्कार जावपाक लागता. वेळुस्करांची कविता केन्ना केन्ना गूढ कशी दिसता. 'तो वयता तो हांव/ आनी तो येता तोय हांव/ तुजे वीण जीण जाची वचना/ तोय हांव' हे तांचे कवितेंत 'हांव' हें अस्तित्व आनी हें अस्तित्व म्हणचेच विश्व अशें तांचें म्हणणें आसा. स्वताच्या अस्तित्वाचो सोद होच सत्याचो सोद अशें ते लेखतात.

आप-पर भाव रमेश वेळुस्काराक मानवना. सर्व समावेशक वृत्तीचो हो कवी. लोकभास आनी वेदभास दोनींचेंय मिसरण तागेले भाशेंत दिश्टी पडटा. हिरण्यगर्भ, सुवर्ण, ऋतंभरा, शुभंकर, वसुंधरा ह्या संस्कृत उतरां वांगडाच आयावपण, फागूर-आडफागूर, उज्याकेण, आयणो, कवडुलां, पेणे, मिरास अशीं नीज कोंकणी उतरां तो सहजतायेन वापरता- कवितेची गरज पळोवन. 'तुका सांसपितकूच म्हजे भाशेंतल्या आदीम अर्थांचे संदर्भ म्हाका मोनेळ जावन केळयत येतात. आनी हांव प्राण-मरणाचे चिमटेंतल्यान अचळय सुट्टां.'

कवीक संगीताची जाण आसा. लोकसंगीताची तर चडच. देखून ताच्यो 'सावुलगोरी', 'शिरशिर नम्रुबे', वा 'भौसार्पणमस्तु' ह्यो कविता आयकतनां शिरंतरांक स्फुरण येता. ह्या कवील्यो प्रतिमा सदांच अर्थगर्भ. मोरांपाखां, मोर, सूर्य, माती, झाड ह्यो

लोकप्रतिमा ठांय ठांय दिश्टी पडटात. झाड ही प्रगल्भताये खातीर वापरिल्ली प्रतिमा. झाड एके सुवातेर थीर आसता. जसो तत्वाचो मनीस आदर्शां कडसून पयस वचना. झाड परोपकारी. लोकांक तरा तरांनीं उपकारा पडपी. झाड म्हळ्यार ईश्वर- सावळी दिता, थाकाय दिता तरी तें स्थितप्रज्ञ. ह्या कवीन झेन तत्वगिन्यान आपणायलां. झेन कविता अणकारल्यात. तांणें गद्यनिबंद बरयल्यात. नवलिका बरयल्यात. तरी तांचो आत्मो मात काव्यात्म. भुरग्यां खातीरूय तांचीं कवितांचीं पुस्तकां आयल्यांत. तांचे 'सावुलगोरी' कवितां झेल्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

'मोरपांखां', 'माती', 'आंगणी नाचता मोर मोरया', 'सावुलगोरी', 'हिरण्यगर्भ', 'तनरज्योती' आनी दर्या' अशे एकापरस एक कविता संग्रह प्रकाशीत करून रमेश वेळुस्कारांनी भारतीय कवितेच्या दालनांत आपणां खातीर अशी एक खाशेली सुवात निर्माण केल्या. रमेशांले कवितेंतलो शिरंगार लेगीत सैमा कडेन नातें दाखयता. 'सांवर' हे कवितेंत कवी सैमशिरंगार कसो रंगयता पळयात –

त्या उकत्या बांदार, भर दनपरां
धरली घट्ट, वाऱ्यान सांवरीक
किरमिली, लज भीड धरिनासतनां
तो गेलो, ती आंग झडपीत रावली.

शिरंगार, सैममोग आनी सृजनाचो मोगी रमेशांली कविता समाजीक बांदिलके कडसून पयस आसुंये असो गैरसमज कोणे करचो न्हय. 'जांकां मातयेचो विसर / तेच म्हणटात - 'वेद म्हणटां, पयस सर.' अडेची विद्या शिकून उन्मत्त जाल्लो मनीस मातयेक विसरता हें थोड्याच उतरांनीं पूण खरसाणीन सांगपी हो कवी म्हळ्यार कोंकणीक पडिल्लें एक म्हेंवें सपन. असो हो सैमपिसो कवी कवितेकडेन खेळटां खेळटां नवे नवे प्रयोगूय करपी. रमेश वेळुस्कार हाका भारतीय कविता संवसारांत एक जबरदस्त कवी म्हूण वळखतात.

### माधव बोरकार

कवितेचें वरदान जल्मजात घेवन आयिल्लो माधव बोरकार (१९५४) हांगेलो पयलो कवितांझेलो तांचे पिरायेच्या पंदरा वर्सांचेर १९६९ वर्सा उजवाडा आयलो. पयल्याच धपक्याक बाकीबाब, मनोहरराय, भांगी हया व्हडल्या कवींनी तांची

तोखणाय केल्ली. ते तोखणायेक आपूण पात्र आसां हें माधव बोरकारांनी अवघ्या वर्सांभितर सिद्ध करून दाखयलें.

माधव बोरकार हो पांडुरंग भांगी आनी शंकर रामाणी हांचे मुशींतलो सल्पउतरांचो कवी. अर्थ सांगपाक उतरांचो विस्तार वा विस्कटावणेची गरज ना अशें मानपी माधवबाबांल्यो चडशो कविता चार-स वळींच्यो.

पुंजायत गेलों हांव म्हज्या रित्या पोशांत
वाटेवयलो भिण्ण काळोख, उजवाडाक ओंपूंक

माधवबाबांच्यो सुरवातीच्यो कविता थोड्यो व्हड-लांब आसताल्यो. पूण उपरांतच्यो मोटव्यो जायत गेल्यो. आशय आटोवन थोड्याच उतरांनीं सांगपाची माधवांली कळाशी भोव अप्रुपांची. तांगेले कवितेंतलो शिरंगार लेगीत अव्यक्त कसो –

पर्जळाची वात, पर्जळाची मठी/ तुजी म्हजी मिठी – दिकां पार-
वा
राती तूं म्हजे कुशींत रिगतनां/ काळखाकूय दोळे फुट्टात

हो कवी अथांगाचे खरीक हात घालपी. काळोख, सांवळयो, ल्हारां, नखेत्रां, पांखां हीं प्रतिकां जावन ताच्या कवितांनी वावुरतात. 'खोल खोल काळखाक' हे कवितेंत कवी म्हणटा –

खोल खोल काळखाक, दिठयेची बांय
फुटलें दूद ओंठांत, पानेली गे गाय –
खोल खोल काळखाक, उदेन्तेची काया
करपल्ल्या संचिताक, अद्रुश्टाची माया –
खोल खोल काळखाक, अथांगाचे गांव
थेंबे थेंबे पाणयार, मळबाचें नांव

माधव बोरकारांले कवितेक छंदांचो सोस ना. पूण ती निखटी मुक्तछंद म्हूण सोडून दिवं येना. तांगेल्या कवितांनीं संगीत आसा. जिणे अणभवांची मुक्त आवर्तनां आसात. कवील्या विचारांक अमूर्त रितीन अभिव्यक्त करपी माधवांली कविता आंखीव आनी सूचक. 'फांतोडेर फुलपी फुलांक सुर्या अळंग वेंगेंत घेता' आनी

'आमोरेर निर्माल्य जावन बावपी फुलांक माती मायेचे व्होंटयेंत झेलता' अशें सांगीत एक विश्वात्मक सत्य कवी कितले कलात्मक रितीन कवितेंत बांदता तें होलमता. ह्या कवी कडेन शब्दांचें भांडार आसा आनी उतरां केळोवपाची कळाशी आसा. तांचे कवितेंतल्यो प्रतिमा फकत कवितेच्या आंगा वयले अलंकार जावन येनात जाल्यार अर्थगर्भतायेची उबारी दिवपाक येतात. ताचें कारण हो कवी कवितेक येवपाची ताकीत मारना. वेळ दिता. वेणो सोंसता. आनी घोळोवन घोळोवन मनांत परिपक्व जाली म्हणटकच मागीर बरयता. कवी म्हणटा-

कविता म्हजे भोंवतणी फेर धरता
आनी फांतोडेर ओंवळावरी परमळान घमघमून
म्हज्या रित्या पोशांत झडटा - झडत रावता.

माधव बोरकार हांगेले वट्ट स कवितांझेले उजवाडाक आयल्यात. 'चंवर', 'वताच्यो सावळ्यो', 'पर्जळाचें दार', 'उजवाडाचो रूख', 'यमन' आनी 'अव्यक्ताचीं गाणीं' हांतल्या 'यमन' संग्रहाक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

**प्रकाश पाडगांवकार**

वेळुस्कार, बोरकार आनी पाडगांवकार हे तिगूय एकाच काळार कवी म्हूण उदेले आनी एकाच काळार पर्जळ्ळे. पूण तिगांच्यो तीन तरा. प्रकाश पाडगांवकार (१९४८) हो सरळमार्गी आनी स्पश्टवक्तो. तागेले कवितेंत सैम आसा, मोग- शिरंगार आसा. पूण तागेली कविता मुखेलपणान मनशाच्या मनीसपणाक होरायता. 'उजवाडाचीं पावलां' (१९७६) हो तागेलो पयलो कवितांझेलो. 'काळखांत आडखळटल्यांक उजवाडाचो हात दिवन तांच्या प्राणात किरणांचे बीं रूजयत फांतोडे वाटेन व्हरतल्या चैतन्य पुरूशाक हें पयलें वयलें पुस्तक ओंपपी हो कवी उजवाडाक होरायता आनी चैतन्याक भजता.

उजवाडाचें पावल म्हजें काळखा सोपण चडटलें
येवं तुफान, जावं मोड सहजकायेन परतितलें

पाडगांवकार मोगाची कविताय रचतात. तागेले कवितेंत उकतो ओतो येवपासारको

शिरंगार दिश्टी पडना. पूण ल्हवपीक मोग पाकळेपाकळेन उकतो जातनां जाणवता -

फांतोडेची ओली तांबसाण, तुज्या पोल्यार पिशी
दोळयांतल्यान रकयत पुनव, सातरंगी खोशी
नखेत्रांची लिकलिक फांती, उमास काळया केंसांर
एकेक तुजें शाश्वत उतर, कूड शिल्प विनाशी

१९७७ वर्सा प्रकाश पाडगांवकारांले दुसरें पुस्तक उजवाडाक आयलें तें 'वास्कोयन'. हें एक खण्डकाव्य. वास्को शाराची आवतिकाय हया पुस्तकांत बेस बरी वर्णिल्या.

वास्को म्हळ्यार एक रसायन / खतखतत रावपाचें
रसायन तें हेंच काय कितें / विश्वाच्या उद्धाराचें?

प्रकाश पाडगांवकार हो समाजीक जाणविकायेचो कवी. सैम, मोग, शिरंगार, भक्ती हे रस ताका मानवनात अशांतली गजाल न्हय. पूण हे भावनीक गजालींनी रमपापरस तो विशमताय, विफलताय, दडपशाय, जुलूम, अज्ञान ह्या समाजाक पिडपी समस्यांचेर चड बरयता. १९७६ वर्सा प्रकाशीत 'उजवाडाचीं पावलां' आनी दुसरें 'वास्कोयन' (१९७७) बरयल्या उपरांत कवीन कूस परतिली. ताची कविता अदीक प्रगल्भ जाली. 'हांव मनीस अश्वत्थामो' (१९८५) संग्रहांत ह्या कवीन अश्वत्थामो धरून अनेक मिथकांचो वापर केल्लो पळोवंक मेळटा. 'कवीताः काळेरल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावस पाणयाच्यो' (१९९३) ह्या शेकानशेक शिर्शकाच्या संग्रहांत कवी प्रतिमां वांगडाच प्रतिकांचो वापर करतना दिश्टी पडटा. 'सर्ग घडपाक धतरीचो' (१९९४) ह्या झेल्यांत कवीलो आदर्शवाद आनी आशावाद अदीक मजबूत जाला. जाल्यार 'व्हांवती न्हय काळाची' (२००३) संग्रहांत कवील्या आदल्या झेल्यांतल्या वा आदीं बरोवन दवरिल्ल्या कवितांचो आसपाव आसा. मनीसधर्म, काळचक्र, नियती अशा विशयांनीं रमपी हो कवी फुडल्या 'ब्रह्मांडयोगी चिरंतनाचो' झेल्यांत अध्यात्मीक पावंड्यार पाविल्ल्याचो भास जाता.

मन ब्रह्मांड उंचाय , मन ब्रह्मांड खोलाय
मन अनंत अमाप, मन चैतन्य निळाय

असो योगब्रह्माक आळयत कवी विस्तारत रावपी ब्रह्मांडांत थाकाय सोदता. प्रकाश बाबांचो आतां मेरेनचो निमणो संग्रह आसा तो 'पुनरोर्थापनिषद' ह्या

झेल्यांत तांच्यो णव दिर्घकविता आसात. कवीच सांगता - 'काळ उत्क्रांत जावन एकसारको मुखार सरत आसा, तशी मनशांची विचारसरणी बदलता, जिणेचे संदर्भ बदलतात, नवे नवे प्रश्न, समस्या, आव्हानां मनशां भितर उबीं रावतात.' पुराणांतल्या मिथकांचेर चालंत काळाच्या संदर्भांत भाष्य करपी ह्यो णव कविता. सत्यकाम जाबाली हे पुराणकथेचेर आदारून 'ब्रह्मर्षी सत्यकामाचें शुभवर्तमान' हें कवितेंत कवी प्रश्न करता- 'आमी कोण? आमचें कूळ कितें? मूळ कितें? कोण मुळावो, कोण थळावो?' आनी जापूय दिता- 'आमी सगले आलायते. आतां आमी मनीस वृद्धिंगत मुल्यां वरवीं सप्तमळबां हातासुंया आनी आमची भितरली ज्योत अदृश्टाचे ज्योतींत विरगळोवंया.' समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले म्हणटात तेप्रमाण प्रकाश पाडगांवकराली कविता 'आत्मप्रत्ययी' तशीच 'काळाच्या प्रवाहाची साक्षी खरी पूण अनुभुतीच्या सुकाळाचीय गवाय आसा. प्रकाश पाडगांवकाराले सात संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. तांगेल्या 'हांव मनीस अश्वत्थामो' संग्रहांत जाणवता. हया झेल्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाबला.

### पुंडलीक नारायण नायक

पुंडलीक नायक (१९५२) हया कवीचो व्हड भोवमानान उल्लेख करूंक जाय. हो एक अश्टतांसांचो साहित्यकार. तांणी कवितेन लेखनाक सुरवात केली. कथा घेवन फुडें गेलो. देवनागरी लिपींतली 'संवसारबुट्टी' फाटली पयली कादंबरी दिली आनी मागीर नाट्य लेखन हें आपणालें मळ म्हूण वेंचून काडलें. नाटककार म्हूण तांचो उल्लेख येतलोच. पूण कवी म्हूण तांणी दिल्लें योगदान ल्हाना समानांतलें निखालस न्हय. 'म्हजो बांगर बैल' ही कविता 'भौस आतां शाणो जाला ताका गृहीत धरूं नाकात' हो संदेश दिवपी. हे कवितेन भौसांतल्या अनेक तरनाटयांक हालोवन जागयले. अशे तरेच्या कणखर उतरांनीं समाजाक निश्ठून सांगपी हया कवीन एक क्रांती घडोवन हाडली अशें म्हणूंक जाय.

कवी म्हूण आपणाली साहित्यीक कीर्द सुरू करपी पुंडलीकबाब उपरांत कथे कडेन आयले. मागीर कादंबरीक हात घालो आनी मागीर नाटकाक वेंगायलें. ह्या आपणा भितरल्या बदलपी रुपकारांक नियाळपी तांचे भितरलो कवी कवितेक उद्देशून म्हणटा –'कविता म्हजेर रुसून आसा व्याभिचारी घोवाचे बायले भशेन'. आनी कारण कितें? तिच्या प्रस्नांक हाचे कडेन जाप ना. ती तर खरें उलयता. तूंच न्हय

तो गिताच्या तालार काल धुंद जावन नाचतालो. आनी पयर कथेची किरंगळी धरून भोंवतना आपल्या आपणांक शेणोवन बशिल्लो. आनी अयर नाटका वांगडा खेळ करतालो. आनी पयलीं तूंच मूं तो कादंबरी वांगडा आपलेच जिणेचें कपयाळें जोडीत बशिल्लो'?

गोंय मेकळें जालें तरी भौसाक आजून जाग येवची आसली. भुजांत बळगें आसलें पूण ताची ताका जाणविकाय नासली. भोवजन समाजाचें समाजभान जागोवपाचें काम करपी लेखक-कवीं मदलो पुंडलीक बाब पयलो म्हणूंक जाय. स्वता राखणो जावन वावुरिल्लो हो कवी मागीर शिक्षीत जालो. घरचे बरे संस्कार आशिल्लेच. उपरांत वाचनांतल्यान जीवनमुल्यांची वळख जाली. संवेदनशील मन आनी सर्जनशील लिखणी हातांत आशिल्ल्यान ह्या तरनाट्या कवीचे उत्फर्के काव्यांतल्यान व्यक्त जाले. स्वताचे जिणे अणभवांचें मुल्यमापन करतनांच सरभोंवताणच्या वास्तवाची जाण जाल्ल्यान कवितेन तांचेर भार हाडलो. गांवगिरें शब्दभांडार जें तो वेळ मेरेन कागदार देंवंक नाशिल्लें तें कवितेंतल्यान मुखार आयलें. पुंडलीकांली शब्दकळा आनी भौसाचे जिणेचो हुंकार वाचकांक नवो आसलो. देखून सत्तराचें दसक ह्या कवीन गाजयलें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. 'पाडेल्यांनो, आतां अशें सदळ रावप ना' वा 'देंठांत तुटिल्ले आमी' अशा कवितां वरवीं पुंडलीक नायकांनी भौजनसमाजाच्या दुखण्यांक वाचा फोडली आनी काळ कूस परतिता ताची भौसान दखल घेतल्या हें व्यक्त करीत धेंक घालो. भौसाक ग्रहीत धरपी अभिजनांक उद्देशून कवी भोवजन लोकां विशीं सांगता, उमाशे राती मध्यानीचेर भयाक भाजून खावपी आमी; होमखणांतले इंगळे झेल्यांत गुंथून गळ्यांत घालपी आमी; पेजेमुखार अमृताचे पेले शेंवटून मारपी आमी - पूण आमी हिंसाचारी न्हयत. आमी शांतेचीं, करूणेचीं, नमळायेचीं बाळकां, दिव्यत्वामुखार मान बागोवपी साळकां, आमच्या काळजांत पेट्टात उजवाडाच्यो चुडयो आनी कळसार धोलतात जैताच्यो घुडयो. सत्याखातीर झगडटना आमी बाबत कुळां न्हय, कोणाक भियेवपी न्हय. हे आमी म्हळ्यार कोण ताची जाप 'आमी कोण' हे कवितेंत दिवन अखेरेक म्हणटा -

आमी कोण - हाची जाप तुमकां काळच दितलो
अशें आमी म्हणचे नात
ती जाप आमीच दितले.

वर्सां संखेच्या इतिहासांत नागवल्ल्या, चिट्टुल्ल्या भौसाक जाग आयल्या. हाचे फुडें काळाचेर पातयेवन रावनासतना फुडलो इतिहास घडोवपाची तांक ताच्यांत आयल्या हें निश्‍ठून सांगतना कवी भौसाक पिडटल्यांक शिटकायता आनी त्याच वांगडा भौसाकूय प्रेरणा दीत ताचो आत्मविस्वास वाडयता. देखूनच पुंडलीकबाब्रा कडसून प्रेरणा घेवन मागीर आनीक कवी वयर सरूंक पावले.

सोळा-सतरा वर्सांचेरच कविता रचूंक लागिल्ल्या पुंडलीकबाबालो पयलो कविता झेलो 'गा आमी राखणे' १९७६ वर्सा उजवाडक आयलो. उपरांत हेर साहित्य प्रकार केळयत केळयत पुंडलीकबाब नाटक ह्या दकवाक्य प्रकारा कडेन येवन थारलो. आयज पुंडलीक नायक हें नांव भारतीय प्रमूख नाटककारां मदलें एक जावन आसा तरी तांची कविता सुस्तावल्या आसत पूण सोंपूंक ना, इतलें खरें.

### जेस फेर्नांदीश

रोमी आनी नागरी लिपींनी सातत्यान बरोवपी जेस फेर्नांदीश (१९४१) हांणी साबार कविता रचल्यात, कथाय बरयल्यात, नाटकांय. 'किरवंट' हया तांगेल्या संग्रहाक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. जेसबाब हे धर्तरिचेर आपणालीं पाळां मुळां घट रोमून उबो आसात. देखून तांगेले कवितेकूय मातयेचो वास मारता. मनशाचे वेव्हारी पाडे वृत्तीचेर बडी मारतनां जेस फाटींफुडें पळयना –

मनशा तुज्या मनीसपणाचें मोल, फकत आठशींच रूपया
तुजे अकलेचें आनी तुज्या शुयलाचें
तशेंच तुज्या विकासाचें आनी स्वतंत्रकायेचें मोल
चडांत चड आठशीं रूपया
एक मात याद धर मनशा –
ती पावणी पावोवपाक त्या आठशीं रूपयांक
म्हजेवांगडा तुकाय व्हरत –
तुजें अस्तीत्व आनी काश्टेसयत

ह्या संवसारांत सरळ मार्गान चलपीं फोंडांत पडटा आनी उजू वाटेन वचप्याक उतरांचो मार सोंसचो पडटा हें आथवे रितीन कवी आपणाले हे ल्हानशे कवितेंत हया उतरांनीं मांडटा –

शाणो जाल्ले परस दिसता- जिवीत बरें पिशाचें
तांकां पडून वचूंक ना कोणाचें
कोणाक पडून वचूंक ना तांचें

हो कवी देवभावार्ती. पूण परमेश्वराचीय नीत चुकता अशें ताका दिसता तेन्ना तो देवाकूच खेपता -

परमपित्याचो नेम आसा – पातक करचेपयलीं कोणाक ख्यास्त करची न्हय.
परमपित्यान केलले नेम – ताणेंय मोडचे न्हय.

मदीं जायते कवी आयले. शांताराम वर्दे वालावलीकार हांणी वयर सरतां सरतां कवितेचें बोट सोडलें. पंढरीनाथ लोटलीकार हे आयज लेगीत बरयतात. तांगेलीं देशभक्तिपर गितां चड लोकप्रिय जाल्यांत. फा. लीनु द सा हे फाटलीं तीस पस्तीस वर्सां नेमान बरयतात. तांगेले दोन झेलेय उजवाडाक आयल्यात. वॉल्टर मिनेझिस हो हालीं आदले परस चड बरयता. चड करून रोमी लिपींत. तांगेलो झेलो हालींच उजवाडाक आयला. नीला तेलंग हीय फाटलीं साबार वर्सां कवितेची आराधना करता.

**चा.फ्रा. डिकॉश्ता**

मंगळुरांतले दोग कवी कोंकणी कवितेच्या मुखेल प्रवाहांत पावले. तांतलो पयलो चा. फ्रा.डिकॉश्ता आनी दुसरो ताचेंच बोट धरून फुडें सरिल्लो मेल्विन रोड्रिगस्. चा. फ्रा. डिकॉश्ताली कविता भोवढंगी. लोकसाहित्याची शाल पांगरून येवपी 'आडकुलो गो बुडकुलो तेलातुपाचो, बायेगेर बाबू जाला फिरंगी रुपाचो' ही तांगेली कविता इतली लोकांमोगाळ जाली की चाफ्रांचें नांव घेनाफुडें ही कविता पयलीं दोळयां मुखार येता.

तशें पळयल्यार हे कवितेच्यो पयल्यो दोन वळी थंयच्या लोकगिताच्यो. पूण फुडलें गीत बदलून चाफ्रांनी नवें रचलें आनी तांकां संगीतकार येवरीक ओझारिओ हांणी संगीतबद्ध केल्या उपरांय तें भोवच लोकप्रिय जालें. चाफ्रा हो एक असो कवी जो फकत मंगळूरकारांचो उरलो ना तर समेस्त कोंकणी जनांचो कवी जालो. इतलो की चाफ्राचे चहाते कर्नाटकांत आसात ते परस गोंयांत चड आसात. समाजवादी

विचारसरणेचो कवी जेन्ना समाजांतल्या अन्यायांचेर बडी मारता तेन्ना तांगेलीं कविता तापयिल्लें लोखण कशी धगधगून हुलपायता. थळावी कोडयाळची बस सर्तेंत धांवतना, ज्या पॅसेंजरां खातीर ती धांवता तांकांच त्रासांत कशी उडयता तें सांगता तेन्ना ही गजाल कोडयाळचीच मात्र न्हय म्हणपाचें जाणवता.

तरणे रगत उठोंक जाय, मोनकीं तोंडां सुटोंक जाय
कोडयाळांतल्या बस्सांची ती लायलूट रावोंक जाय
कोम्पिटिशन, कोम्पिटिशन- मुसमुसून ती येता गाडी
हांडीर आपल्या भुरग्याक घेवन आवय एक मेट काडी
हाकले सायड, हाकले सायड, रायट म्हण दरवडटा
बाळशें तेणे आवय हेणे पळोवंक कोणाक परवडटा
हांतलें वेगीं सुटोंक जाय, बिरमत दोळयांक उठोंक जाय
कोडयाळंतल्या बस्सांची ती लायलूट रावोंक जाय.

भौशीक येरादारी चलता थंय सगल्यांकच ही कश्टदिणी परवड बादता. चाफ्रा आस्पत्रेंत व्हेल्ल्या वायटकारांचे भोगणारूय स्पश्ट उतरांनीं सांगता. लांच खावयले बगर पान हालना - वॉर्ड बॉय, नर्स, डॉक्टर हांचीं बोल्सां भरतासर पेशंट सर्गार पावता आनी कवी निमाणे कडेन विचारता- 'सर्गार कोण लांच घेतीत काय?'

चाफ्रालीं अनेक गितां मंगळूर-गोंयां लोकांमोगाळ जाल्यांत. 'बिरी बिरी पावसा', 'टिक टिक पान कणकेचें रान', 'रात रात रडलां आकांतांत पडलां', 'सात सात चोवदा सान्नां नाकात जाकिना', 'आबोल्या तुजो रंग उजो गो' हयो कविता भोव अर्थाळ. तांतली गेयता पारखून एरिक ओझारिओ हया संगीतकारान तांचेर संगिताचो साज चडयलो आनी हीं तशीं आनिकूय गितां भोव लोकांमोगाळ जावंक पावली. खूब वर्सां फाटीं चाफ्रांली कविता मुबंय आकाशवाणीचेर पावली आनी तेन्नाच्यान तिणें जनमानसांत घर केलें. चाफ्रांली 'कोंबले दादांनो साद रे घाला, आमगेर एक बाबु जाला' हें गीत आयज लेगीत लोकांचे जिबेर आसा.

चाफ्रा हो समाजीक जाणविकायेचो कवी. धर्मसंस्था आनी कर्मकांडां हातून भट्टुता तो भौस, नागवता तो गरीब आनी फटवता तो दुबळो हें आडून सांगपी जाल्ल्यान चाफ्राक कांय विशिश्ट प्रस्थापीत वाटकुळांनीं पयस दवरलो. पूण कला-साहित्याच्या मळार मात उकलून धरलो. काळजांत घर करून आशिल्ले तांचे

विचार साहित्यीक अभिव्यक्ती जावन भायर येतात. साम्यवादी पक्षाचो आसुनूय तांगेल्यो साहित्यकृती प्रचारकी दिसनात. विद्रोह लेगीत म्होंवाचो लेपोड लावन ताव्या सकयल देंवोवपी ह्या कवीन प्रेमगितांय तितलींच सुंदर रचल्यांत. 'बिरी बिरी पावसा, तूं येयी नाका रे, म्हज्या पापयाच्या लग्ना दिसा येयी नाका रे', अशें विनवपी व्हंकलेचो हुसको परगटावपी हो कवी भावार्ती मनीस कसो फटवता तेंय मेकळेपणान सांगता - 'दंवाक भुल्ली, केगद फुल्ली, माळूंक आशेलों / वावराची चली माळून गेली, हांव खरशेलों _ पेटयें पुस्तक, रितें पुस्तक, वाचूंक आशेलों / वाळय धादोशी वाचून गेली, हांव खरशेलों.' जिणेंतल्या खरर्शेणेचेर, निरर्शेणेचेर बरोवपी ह्या कवील्या उतरांनीं आशावाद झळकता. 'हाड चेडवा बुडकुलो' हे कवितेंत काजाराक विरोध जाता तें पळोवन पुरोगामी विचारांचो मोगी सांगता-

हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
तुजें म्हजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत -
पाद्री चीट वाचिना, वडील माटोव रचिना
म्हज्या तुज्या ब्यां फाल्यां सोयऱ्यां सावळीं येचीं ना
पाद्री सोयरे व्हाळून वचों व्हाळच्या व्हाळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत

समिक्षक डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार म्हणटात - 'तांचे कवितेची प्रवृत्ती एकाच वेळार भावकवितेची आनी चिंतनगर्भ कवितेची जावन आसा. पूण तातूंत भावकवितेचो प्रवाह प्रभावी जाल्ल्या कारणान तातुंतली चिंतनशिलताय सोंपेपणी लक्षांत येना.' ( समिक्षेंतलो क्ष -पान ११२ )

जिणेचें तत्वगिन्यान आटोवन थोडयाच उतरांनीं सांगपी चाफ्राली कविता म्हळ्यार कोंकणी कवितारतीचो एक भौमोलाचो अळंकार. 'सोंशाचे कान' हया तांगेल्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

### अरूण साखरदांडे

अरूण साखरदांडे (1948) हो एक मनस्वी कवी. मोगाच्यो भावना ल्हवपीक उतरांनीं उक्तावपी तांगेली कविता जिणेचें तत्वगिन्यान भोव सोपें आनी सरळ भाशेंत उलयता.

तुटून पडिल्लीं नखेत्रां, हांव केन्नासावन पुंजायतां काय ?
वेळा अवेळा याद करतां
घरांत, तुटून पडिल्ल्या नखेत्रांची, ही व्हडली रास जाल्या.
केन्ना केन्ना एक पोरणी याद येता
तूं फाट करून गेलें
तेन्ना तुटून पडिल्लें एक तेजाळ नखेत्र मात
आयज ते राशींत सोदुनूय सापडना.

अरूणबाबांले कवितेक केन्ना केन्ना मिश्कील विनोदाची देग दिश्टी पडटा.

दरेक खेपे, तुज्या घरा सामकारसून वतनां
जनेलांत तूं दिसता काय म्हूण, हांव पळयतां
पूण
दर खेपे म्हाका तुजी आवय जनेलांत दिश्टी पडटा
आनी हांव हळूच नळी मारतां
आज अचकीत तूंच जनेलांत दिसलें
तुजे आवयची भलायकी बरी आसा मुगो?

(भलायकी)

अरूण साखरदांडेलीं तीन पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. 'एका झाडाक घर जाय', 'कावळयाचें श्राद्ध' (२००७) आनी 'मोग किनारी' (२००८). हया अखेरच्या झेल्याक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

गोंयां ज्या अन्येक कवींनी मोलादीक योगदान दिलां तातूंत साखरदांडे, परेश कामत, निलबा खांडेपारकार, काशिनाथ शांबा लोलयेंकार, संजीव वेरेंकार, माया खरंगटे, नयना आडारकर, राजय पवार, भालचंद्र गांवकार, पुर्णानंद चारी, ग्वादालूप डायस, राजश्री सैल, तुकाराम शेट, योगिनी बोरकार हांचे सारके तांकिवंत कवी आसात.

नुतन साखरदांडे हिगेली कविता झाडपिक्या पूण अमूरपिक्या आंब्या वरी. थोडी आंबट चड गोड. अस्तुरेचे जिणेचें पुराय पडबींब नुतनांले कवितेंत अणभवूंक मेळटा. तांगेलो 'जीण जाली अस्तुरी' हो संग्रह १९९४ वर्सा प्रकाशीत जालो. उपरांत २०१० वर्सा तांगेलो 'पासवर्ड' हो झेलो भायर सरलो. हया संग्रहांतली ही शिर्षक कविता –

तूं चल्लो? वच. हांव तुका राव म्हणचें ना
म्हज्या पुता, कम्प्युटरावयलो संवसार म्हळयार संवसार न्हय.
खरो संवसार आतां तुका कळटलो....
हालीं तुजे मांडयेर सदांच लॅपटॉप
तशें हांवूय बसतालें रे –
तुका लॅपटॉप कसो मांडयेर घेवन वरांचीं वरां

आयच्या टॅक्नॉलॉजीच्या युगांत नात्यांचे अर्थ बदलूंक लागल्यात हाची जाण दिवपी हे कवितेचे अखेरेक कवी म्हणटा –

तूं वच. हांव तुका राव म्हणचे ना
पूण वतना तुजो पासवर्ड मात दिवन वच
केन्नाय म्हाका दिसलें जाल्यार
तुज्या काळजांत भितर रिगूंक
तुज्या मनाचो थाव घेवंक

**नुतन साखरदांडे, नयना आडारकार आनी माया खरंगटे** ह्या तीन कवींनी एकाठांय येवन 'त्रिवेणी' हो पंगड करून अनेक सुवातींनी कविता सादर केल्यात. पन्नांसा वयर सादरीकरणां करून नामना जोडिल्ल्या ह्या तिनूय कवींनी कवितेचो पावंडो खूब वयर पावयलो. नयना अडारकार हिंगेलें प्रतिमा विश्व खूब व्हडलें. 'अशेंच घडटा' कवितेंत ही कवी म्हणटा- 'हो मिर्गच जाला बेभरवंशाचो; पावस शेनचे आदींच हीं पावशी कुपां वतात वाऱ्या भेटेक'. दिसपट्टें बदलपी जिणे चक्राचेर केल्लें हें भाश्य. नयनाले 'प्रतिमा' आनी 'मनसांवर' हे दोन संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. माया खरंगटे ही कथा आनी कविता दोनूय मळांचेर कार्यरत आसा. तिगेले 'श्रावण शिंवर' आनी 'कयपंजी' हे दोन झेले उजवाडाक आयल्यात. नुतन, नयना, माया ह्या तिगांलेंय भावविश्व सुमार एकेच तरेचें. तिगांल्याय कवितांनीं घर, संसार, भुरगीं, पैसावो ह्यो गजाली प्रकर्षान येतात. नुतनाली 'पासवर्ड' तशी नयनाली 'जाणा आई' वा 'यो रे पुता यो' ह्यो कविता आनी मायाली 'हीच आमची खोस' ह्या कवितांनीं आवयची ओड आनी व्यथा उकती जाता.

फाटल्या शतमानाच्या निमण्या दोन दसकांत आनी ह्या शतमानाच्या पयल्या दसकांत कवितेच्या मळार बायल कवींचो वांटो व्हडलो दिसता. विजयाबाय

सरमळकार हांच्या फाटल्यान नांव घेवपा सारकी पयली कवी ती नीला तेलंग. आठव्या दसकांत तिचो पयलो झेलो 'काळजाची भरती' उजवाडाक आयलो. ताच्या उपरांत ती सातत्यान कविता रचता. 'म्हजे असंख्य उमाळे खतखतले, आनी भस्म करून ओतले / अळंग जाले कवितां झेले' अशें म्हणीत तिणें आपलें वेगळें भावविश्व तयार केलां. सुशीला हळर्णकार, माया सरदेसाय, रूपा कोसंबी, शोभा फुलकार, हर्षा शेटये, चंद्रिका पाडगांवकार, रूपाली मावजो किर्तनी, योगिनी बोरकार, उषा कामत, अलका सिनाय आसोल्डेकार, सोनिया शाह, स्मिता तिंबले, अपर्णा गाल्डी, प्रिसीया बार्रेटो, चंद्रिका पाडगांवकार, अन्वेषा सिंगबाळ, तेजश्री प्रभुगांवकार, सूर्या अशोक, वालेनेता डिक्रुझ, मंजुषा तळावलीकार, मंगला कारापुरकार, फिलोमेना सांफ्रांसिस्को अशा अनेक कवींनी कोंकणी कवितेक योगदान दिलां. हातुंतल्या चडशा कवींच्या नांवार एक तरी झेलो आसा. तांगेली कविता फकत बायलांचे प्रस्न आनी विशय घेवन येना. ती समाजांतल्या उपेक्षीत घटकांचेर, अनिश्ट परंपरांचेर आनी समाजीक अन्याया आड उलयता. जशी नयना आडारकार 'तांकां मुक्ती दिवंक आतां / नव्या सुर्याची गरज आसा' अशें प्रतिपादन करता. तातूंत अर्थातच बायल मनशेचेर जावपी अन्याया आड आवाज आसा. पूण खर विद्रोही आवाज वा अस्तुरीवादी संवेदना चुकून दिश्टी पडटा. ह्या मळार कोंकणी कवितेन आजून आंगलोट धरूंक ना.

बायलांचेर जावपी अन्यायाचेर दादले कवींचो आवाज त्या मानान मोटो आसा. मंगळूरी कवी रोशु बजपे स्वतंत्र भारतांत बायलो कितल्यो स्वतंत्र आसात हाचेर मत उक्तायता- 'आज कोंबयो गुलाम उरोंकच आशेतात/ पेट्यांच्या भंयान न्हय, स्वातंत्र्याच्या भंयान.' चडशा कवींनी बायलां विशीं बरयलां तें तांचें रूप, गूण वा कर्तृत्वाची तुस्त गावन. तांच्या भोगणार आनी अप्रतिश्ठेचेरूय बडी मारल्या. स्त्रीमुक्तीचे वाटेर दादले कशीं आडमेळीं निर्मण करतात हाचेर शशिकांत पुनाजी आपणांले 'सती' कवितेंत बरयतात, 'हांवें सरणार मारली उडी, तेन्ना मारल्यो हालेटी- सती देवी की जय- आनी खडांयच करून स्त्रीमुक्तीची बंद पडली नाडी, तेन्ना, लोकशाय गांवार भोंवून मागताली वाडी.' बायलांक गृहीत धरपी जे. बी. सिक्वेरा सारके कवीय आसात जे 'पतीक होगडावन काळें न्हेसून माळ्ळीं जर फुलां जाल्यार तें अवलक्षण' अशें कवितेंतल्यान सांगपी आनी वयल्यान तिका 'चालीन वांकड्या, नितीन वांकड्या चलशी, वाऱ्यार घोळतीत जिबो/ कलंकीण जायनाका, प्रदिवारांत

पडनाका. स्त्री जिविताक लाय नाका तिबो' असो सल्लो दिवपी. (तूं सोभागेचें).

इतर भारतीय वा विदेशी भासांमदीं सरसामान्यतायेन जे तरेची कविता बरोवन जाता तशीचशी वाट कोंकणी कवितेनूय माट्टिल्या. कोंकणीचें मूळपीठ जें गोंय तें मुक्त जावन अवघ्या पांच दसकांत कोंकणी साहित्य जे गतीन फुडें पावलां ताची तोखणाय करची तितली थोडी. गीत आनी संगीत तर कोंकणी मनशाचे जिणेचें वांटून वचना असलें आंग. देखून लोकगितांचो बाज घेवन कोंकणी कविता पयलीं फुडें सरली आनी मागीर तिणें फाटीं घुंवून पळयलें ना. तळागाळांतली कोंकणी बोली जेन्ना मुखेल प्रवाहांत रीग घेता तेन्ना खऱ्या अर्थान ती लोकांमोगाळ जाली अशें म्हणूं येता. चा. फ्रा. डिकॉश्ताली 'हाड चेडवा बुडकुलो' वा 'आडकुलो गो बुडकुलो' तितलेच खातीर लोकांचे जिबेर बसली. शशिकांत पुनाजी पेडणेचे शैलींत शबय घालता- 'शबयचां बावलां, तारीकडेन पावलां... गांवांवयले चार पोर एकठांय जावन जमान शंकासुराचीं म्होवाळीं तोंडार बांदून खळ्यान नाचत... तेचें डबुलेंत एक आणो वडयलो... एका आण्याच्या वांट्याक चौगूय झगडांक लागले, लण्डामुंडी जाली, डबुलेंतलो एक आणो खडेन तरी उसळ्ळो- तो ते आतां सोदीत आसत...' ही कविता कोंकणी भौसाक आपलीशी दिसता. दोंगराच्या मुळसांतले आदिवासी भुरगे शिकल्यात. तांकांय आतां सूर गावला. पोब्र फेर्नांडीस आपणांले बोली भाशेंतल्यान 'आम्गे चेडे' कवितेंत ह्या भुरग्यांची व्हडविकाय गायता- 'आम्गे चेड कितू हुशारू, चोच्या दिसताय भांगराचे बोलू, कोण ना मांदार कोतो तेंकां सोन मुखर; आतां तूक पसून कोता आमगे चेडे कुमसार.... रिती देखीन केलें काम, व्हळ्ळे-व्हळ्ळे आळ्ळ तेमि इनाम, कुळम्या नाचा कोणू, कोतो ना मांदिसांवू, सोंस्रा भोंवोन येयल ते, चोयाय तेंगे पोदिसांव.' पोब्र हो आदिवासी संवेदनेचो कवी जाल्ल्यान तांगेली दिसपट्टी जिणूय गांवगिरे भाशेन पिंतारता-

झिंगयझींग झिंगयझींग वांशेल नाचोता<br>
खाडयोवालो भाचेक म्हजे तावीज बांदोता<br>
आस्तुरेच्या कुस्कुटाचेर संवसार चलोता<br>
व्होळ्ळ दोळ्यांचो घुघूम रातचो मासोळ बोनायता<br>
आवोय ना बापूय ना, भुरगें हेळोत्ता<br>
काळे कोंबये पिलांचेर इंगा घोण पसवता

हाड गो कोको घाल गो घो घो फालें भुकेता
येसकोन आमगे सोंसोत आयज सोंवसार चोलोयत

(रावजी माम. मुडये पोंदा)

गोंय मुक्त जायना फुडें जांकां ताळो फुटलो अशे कवी जे आतां आमचे मदीं नात तांणीय कवितेक आपणा परीन योगदान दिलां.

हयाच काळांतलो आगळो वेगळो कवी म्हळयार काशिनाथ शांबा लोलयेंकार. हें ताचें पेन-नांव. एस्. डी. तेंडूलकार हे प्रस्थापितांनी माट्टिल्ली वाट सोडून आपणालीं नवी वाट घडोवपी कवी. तांचे कवितेच्या आगळेपणाची तांच्या नांवा पासून सुरवात जाता. 'गर्दी' हे कवितेंत एस्. डी. म्हणटात -

एक म्हणजे काशिनाथ
दोन म्हणजे शांबा
तीन म्हणजे लोलयेंकार
काशिनाथ शांबा लोलयेंकार
इन मिन तीन –तीन ही गर्दी
गर्दैभोंवतणी उदक, आनी –
गर्देंत जितो मूस ना.

रूढ परंपरा आनी सर्वमान्य नैतिकतेक फाट करून 'मार भिस्क्यार' हे धारणेंतल्यान कविता रचपी काशीली कविता कोणाक कितें दिसतलें हाची पर्वा करिना. देखून ती केन्ना स्वैर-स्वच्छंद दिसता, केन्ना विंगळी-पोजडी दिसता, केन्ना पाळण्यांत वा सारीचेर न्हिदिल्ली दिसता- तीय न्हिदल्या काय जागी आसा असो संभ्रम उरता. हो कवी जीवन आनी मरण दोनीं कडेन तटस्थतायेन पळोवपी. ताचे नदरेन जल्म-मरणाचें गणीत हें अशें -

तेचो जीव तेच्या बंद मुठींत आसलो
ती सव्वालाखाची मूठ आतां उक्ती जाली
तो आपलें मर्ण जियेलो, तो आपलें मर्ण मेलो
काशी म्हणटा :- तो मेलो ताची आवय मरच्या आदींच
तो मेलो कारण तेका नवो जल्म जाय आसलो.

सत्य भेट्टा तेन्ना तांबें-पितूळ उगडें पडटा. जल्माक येयल्लो मर्णाक येतलोच, कळमेल्ले भाशे विरूद्ध बंड करूंक जाय, अशा विचारांचो हो कवी स्वता विशीं 'एका हुंदरान भितरल्या भितर पोखरून उडयिल्लो मनीस हांव' तरी फुडें सांगता - 'जीवांत जीव आसासर फकत नकार दिवपाची शक्त म्हाका जाय, नाजाल्यार म्हाका बिरमत फुट्टली.' काशील्या कवितांनीं कवितेक एक नवी भास दिल्या- कसलेंच उतर निषिद्ध ना मानपी. आपणां कडेन सांगपा सारकें कांयच ना तरी सांगपाकच जाय हे खातीर कवीता बरोवपी हो अफलातून कवी

हया संवसारांत कोण कोणाचो न्हय. कोणाक कोणाचें पडूंक ना. बेदरकार जियेवपांतच अर्थ आसा. इश्टागती, नातीं सुवार्था पोटी निर्माण जातात. कोण कोणाचो न्हय तरी कोण दादा मेळटा, कोण आण्टी वा अंकल –

कोण कोणाचो ?
आंकल,
घाल रूपयाचो.

गादी चलयता तो रूपयाचो सोरो घालता देखून आंकल. 'बेबदो' कवितेंतलो हो बेबदो वेग वेगळ्या रूपांनी एस्. डी. चे कवितेंत वावुरता – कावळो वा झाड जावन लेगीत –

म्हज्या झाडार एक कावळो
हांव झाड जावंच्या आदींच बसलेलो
हांव झाड जायनाफुडें तो उडलो
झाडासकट

आसा वो ना ? सुरवात काय शेवट? जिवीत काय मरण? कविता म्हळ्यार कितें? कविता कित्या खातीर? कोणा खातीर? अशा संखेनी प्रस्नांक जापो सोदीत हया कवीली कविता वाट चलता- आजवेर हेरांनी माड्डिल्ली वाट सोडून.

तांगेले 'काशी म्हणटा', 'काशीक म्हणचेंच पडटा', 'काशीन म्हणपाचें सोडूंक ना' आनी 'काव्यसुत्र' अशे चार झेले आजवेर प्रकाशीत जाल्यात. आनी 'काव्यसुत्रा'क साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

विसाव्या शतमानाचे अखेरें थावन ज्या कवींची वेगळी छाप कवितेचेर उदेल्ली तातूंत मंगळूरच्या एच्चेम पेर्नाल आनी विल्सन कटील ह्या दोन कवींचोय आसपाव जावंक जाय. एच्चेम पेर्नाल हें लिखणे नांव जावन आसा पेर्नाल गांवच्या हेन्री मेंडोन्सा हांचें. फाटलीं सुमार ३५ वर्सां हो कवी काव्यरचना करीत आसा. इतर कवींक प्रेरणा स्थान जाल्ल्या ह्या कवील्यो अन्येक गाजिल्ल्यो कविता वाचूंक मेळटात. हालींच्या काळार जीवनमुल्यांचे संदर्भ कशे बदलल्यात ताचेर भाष्य करपी एच्चेमाली कविता. तांचेर फाटीं बरयलां.

एच्चेम पेर्नालाचे तीन झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'चलयांक चत्राय', 'कय्धाच्यो कविता' आनी 'बामुणाचें चेडूं'.

विल्सन रोशन सिक्वेरा (१९८०) हांणी लिखणे नांव घेतलां विल्सन कटील. एच्चेमा वरीच होय कवी समाजांतल्या दंभीकपणाचेर विडंबनात्मक बरयता. तांगेली 'गांधी म्हळ्यार पसंद' ही कविता गांधींची तुस्त तोखणाय करपी पूण गांधीली चलणूक आनी विचार आपणावपाची तयारी नाशिल्ल्या फुडाऱ्यांचे दंभीकतायेचेर बरयल्या.

म्हाका गांधी म्हळ्यार पसंद / पूण ताचेवरी हरदें उकतें दवरूंक नाका
देखून हांव ताचें सोभीत एक चित्र / खादी खोमसाचेर छापतां आनी आंगभर न्हेसतां

फुडें कवी म्हणटा- म्हाका ताचेवरी पांयवाटेन चमकूंक नाका; ताचेवरी उपाशीं रावूंक नाका आनी-

म्हाका गांधी म्हळ्यार पसंद / पूण ताचेवरी सता खातीर जीव दिवूंक नाका
देखून हांव चार जाणांक बॉडीगार्ड नेमतां, आनी
बंदुकेच्या गुळयां मदल्यान अहिंसा मंत्र गायतां

## निलबा खांडेकार

निलबा खांडेकार हो एक बंडखोर कवी. तांचें वाचन आकांताचें. आदीम काळा थावन चलत आयिल्ले मनीसकुळयेच्या संस्कृतीक दायजाचो सोद घेवपाचो प्रयत्न म्हळ्यारच निलबांली कविता. तांगेले कवितेंत पंचमहाभुतां वावुरतात- सुर्य, अग्नी, वारो, उदक, धर्तरी सगल्यांचें वर्म समजून घेवपाच्या प्रयत्नांतूच तांगेली कविता जल्माक येता. सुर्याक फकत भेटपाचोच न्हय तर सुर्याक भिडपाचो तांकां उमाळो.

आमी सूर्यकुळाचे वंशज हें सांगतनां 'सूर्यवंशी' कवितेंत निलबा म्हणटात-

पालवून गेल्ल्या इंगळ्यांनो
जिवीत म्हणजे निवलांच्या कांट्यांतल्यान
वेदनेंतल्यान फुलिल्लें फूल
तें कोळशासारकें जगप नासता
पेटून उठात आनी तांग घालात
सुवर्ण भारताक विसरून गेल्ल्या संवसाराक कळुंदी
आमी आजून जिवे आसात.
सूर्य कुलाचे वंशज,
सुर्यवंशी

निलबाले कवितेंत कार्ल हेन्री मार्क्स आसा, लेनीन आसा, चाणक्य आनी मंगल पांडे आसात, राम तसो जीझस आसा, वास्को द गामा आसा आनी अमिताभ बच्चन आसा, इतलेंच न्हय, खासा निलबा खांडेकारूय आसा.

अस्तुरेची संखेनी वर्सां चलत आयिल्ली व्यथा पुराणांतल्या युगांउगांच्या संदर्भांत तारामती, आहिल्या, द्रौपदी, सीता ह्या पात्रांचो संदर्भ दीत निलबा बरयता. निलबाले कवितेक विस्तार मानवता. कारण तो दाखले दीत, इतिहास नाचयत चालंत आवतिकायेचेर भाष्य करता. तांगेली कविता घोग्यांनीं घसघशान व्हांवता. ह्या घोग्यांत फकत उदक नासता. तातूंत फातर गुंडे, वाद-प्रवाद आनी हुयेली-किळांच्योय आसतात. निलबाली कविताच राग-वितरागांची. 'भारत' कवितेंतल्यान तांगेले वितराग उक्तावन ते म्हणटात,

तुवें रुजयिल्ल्या मानवतावादीं मुल्यांचें / सरण पेट्टना पळोवन
हांव कोंसळत चल्लां म्हजेभितर

आपणाली ही आनी असल्यो वेदना ते विस्कटावन मांडटा तेन्ना दिर्घ कविताच जल्माक येतात. देशांतर्गत घडणूको आसूं वा काश्मिरांतली भाशणबाजी-कवीक खंयचोच विशय वर्ज्य ना. जंय जंय अन्याय आसा, दांभिकपण आसा वा फटकिरेपण आसा थंय थंय हो कवी भौसाचे, नेणारांचे आनी दुर्बळांचे वतीन आवाज काडीत रावता. 'ब्लॅक' हो संग्रह तो ह्या उतरांनीं ओंपता-

दुश्टांचे कळंक धुयतां धुयतां म्हेळे जाल्ल्या म्हज्या हातांनी
अजून घडपाची आसा मानवतेक थाऱ्यार घालपी सैमीक मांडावळ
म्हजे लेखणेन धडधडून वयतलो हो वावर- ह्या आत्मविस्वासाक.

गद्यांतल्यान पद्य बरोवपी ह्या कवीले सात झेले उजवाडाक आयल्यात. 'वेध' (१९९२), 'सूर्यवंशी' (१९९९), 'अग्नी' (२००२), 'ब्लॅक' (२००९), 'दण्डकारण्य' (२००११), 'वादळा पयलींची शांतताय' (२०१५) आनी 'द वर्डस' (२०१७)

**परेश कामत (१९६८)**

निलबांचो समकालीन परेश कामत हे फाटलीं सुमार तीस वर्सां सातत्यान कविता बरयतात.

भांगी-रामाणी-माधव पठडींतलो हो एकविसाव्या शतमानांत पर्जळूंक लागिल्लो कवी. निलबा आनी परेश हे एकाच काळा वयले दोन विंगड प्रवृत्तीचे कवी. एक तरल संवेदनेचो जाल्यार दुसरो बंडखोर. परेशांली कविता अनुकरणप्रीय निखालस न्हय. व्हड व्हड कवींली कविता वाचून पचोवन कर्वीन आपणालें अणभव विश्व समृद्ध केलां आसत. हेरांल्या प्रतिमाविश्वांत मनसोक्त भोंवडी मारल्या आसत. अन्य कवींल्या सृजनांच्यो क्रिया प्रक्रिया तपासून पळयल्या आसत; पूण परेशांले उक्तावणेंत आसा तें मुळावेंपण तांणी स्वता निर्मिलेलें. कळी फुलतना शिरशिरपी आवाज आयकुपी कवी आसात. पूण परेशाले कवितेंत कवीक फुलांची गाज आयकूंक येता, झाडाचीं मुळां आपल्या मुदयाळ्या सपनांचो घोटेर विणटात आनी पिकिल्ल्या शेतांतलीं वोतां हळदुवींच सपनां पळयतात. परेशाली प्रतिमासृश्ट आशयगर्भ जाल्ल्यान अल्पोतरी कवितेक पोशक थारता.

माधव बोरकारांले कविते वरीच परेशाले कवितेंत रंग आसात, गंध आसात, भाव आसात. गेयता नासत पूण नाद आसा, ताल आसा. परेशाली कविता चित्रात्मक. शब्दसृश्टेंतल्यान चित्रसृश्ट निर्मुपी ही कविता. परेशांक उतरांचो सोंस आसा. पूण कविता शब्दबंबाळ जायना. तांकां समाजीक बांदिलकेचें व्हडलें शें पडून गेल्लें ना. पूण तांणी तिका फाट करुंक ना. देखीक- 'हांगा मंद हालता पाळणें / थंय तवकत चल्ल्या तिरडी.' ताची नदर विशाल; तो जिणे कडेन विन्मूख ना.

तुगेलें म्हगेलें, भितल्ले भितर वचूं झडून हांवपण
मनाभितर किल्लून येवं, संचीत कशें नवेंपण

ल्हानश्या प्रतिकां वरवीं विश्वाक वेंगावपी आशय व्यक्त करपी ह्या कवीक अधिभौतिकाचो ध्यास आशिल्ले वरी आपणांली अतृप्तताय तो व्यक्त करता,

पिकून पिकून जाता जून
मनांतलें विश्व मात - तन्नें अजून

ह्या कवी विशीं नामनेचे समिक्षक डॉ. सोमनाथ कोमारपंत 'शूभंकर' संग्रहाचे प्रस्तावनेंत बरयतात- 'परेश कामत म्हळ्यार कोंकणी कवितेच्या मळा वेलो प्रगल्भ संवेदनशीलताय आशिल्लो कवी. आपल्या प्राणशक्तीच्या ओथांब्यांतल्यान नितळसाणेन आयिल्ली कविता आत्मभान दवरून तन्मयतेन रसिकां मुखार दवरपाची विशेशताय तांचे कडेन आसा. आपल्या सृजनशीलतेच्या प्रवासाकडेन आत्मसोदाचे प्रक्रियेंतल्यान पळोवपाची तांक तांच्यांत आसा. तशें पळोवंक गेल्यार सृजनशिलतेच्या अंतरंगाचो थाव लागप हें भोव कठीण. पूण परेश कामत आपले तरल प्रतिभेन ह्या व्यामिश्र प्रक्रियेक नकसूद उतरांनीं वेंगायता. तांची कविता म्हळ्यार कोमल शब्दफुलांची फकत मूस न्हय. विंगड- विंगड संवेदनांचो प्रवाह तांचे कवितेंत पारदर्शी रुपकार घेवन रसिकमनाक स्पर्श करता. परेश कामतींनी स्वताची अशी खाशेली काव्यधारा निर्मण केल्या. थोड्या उतरांनीं खूब सांगपाची तांगेली कळाशी मात रामाणीं कडेन नातें सांगता. परेश केन्ना केन्ना गुढ तत्वगिन्यान सुयेन भरिल्ली कविता दिता. सरसामान्य वाचकाक तिची फोडणिशी जमना. पूण मतितार्थ ज्युस्त समजता. 'जल्माच्या भोंवतणी मरणाचे भोंवताडे' सारकीं उतरां सांगूंक कठीण तर होलमुपाक सोंपीं.

हांव तुका वेंगायतना
सोडयतां म्हजे म्हाकाच
म्हज्या मनाच्या विळख्यांतल्यान

अशी अल्पाक्षरी पूण अर्थगर्भ कविता रचपी परेशांले कवितेंत सैम, मोग, अस्तुरी हे विशय जिणेच्या तत्वगिनानांत भरसून आयिल्ल्यान काळजाक चड भिडटात. 'अळंग' (२०००), 'गर्भखोल' (२००४) , 'शुभंकर' (२००९), 'चित्रलिपी' (२०१३), आनी

'रंगबोली' (२०१८) अशे तांचे पांच झेले उजवाडक आयल्यात. तांच्या 'चित्रलिपी' झेल्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जाहीर जाला.

### संजीव वेरेंकार, उदय म्हांबरो

समाजीक जांणिवांचें भान आशिल्लो हो भावकवी. संजीव वेरेंकार (१९५९) तांच्या कवितांनी मुखेलपणान जाणवता तो समाजीक आशय. दांभीकताय आनी विस्वासघातकी प्रवृत्ती समाजांत बळावत चलल्या हाची तिडक उत्तावपी आतांची तांगेली कविता.

भावभावनां कडेन उतरांनीं खेळत चमकुपी संजीवाल्या कवितांनीं पयलीं 'देवळा कडल्या पेडा वयलो पिंपळ, तळयेचो हारसो धरून केंस वळयतालो'. तीच तांगेली कविता हालीं 'सवणीं उडून वतकच झाडां प्रस्न विचारतालीं तेन्ना आपणां कडेन जाप आसची ना' ह्या भंयान कासावीस जाता. आनी वाचकाकूय अस्वस्थ करता. तांगेले एके कवितेंतलो निवेदक कान्याच्या रुखा पोंदा विखारी कुशिल्ल्या फळांनी केल्ली घाण पळोवन ती घाण निवळ करूंक सान्न घेवन वता. पूण थंय पळय जाल्यार तो कारो उशिकांड्याक गोड जावपाचो उपदेश करता. स्वता दुश्टबुद्धी आसुनूय दुस्न्या सज्जनांचो अवसानघात करपी लोकांची तिडक उत्तावपी हो निवेदक कान्याकच तोडून उडोवपाक कुराड घेवन येता. 'कारो' हें प्रतीक जावन संजीवाचे आन्येके कवितेंतूय येता. हांगा कारो पावसांत किल्लल्ल्या सानुल्या तायखिळ्याचेर अन्याय करता तेन्ना निवेदक ताका जाब विचारता जाल्यार कारो ताचोच डंख धरून ताका सतायता. आयले पयले प्रेक्षकाची भुमिका घेवन वगी रावन पळयतात देखून कोडू विखाळ कान्याचें फावता अशें सांगून समाजांतले षंढ प्रवृत्तीचेर बडी मारपी ही 'अन्याय' कविता. पर्यावरण, मनीसपण, समाजकारण, तंत्रिकीकरण ह्या सारक्या विशयांचेर वेरेंकार पोटतिडकेन कविता रचतात. आपणालो सुवार्थ सादून सोंपतकूच ल्हवूच जापसालदारकी फापडून कूस मारपी समाजांतल्या तथाकथीत प्रस्थापितांक उद्देशून कवी म्हणटा,

पालखी, तुमच्या खांदार जड जाली
तेन्नाच तुमी आमच्या खांदार दवरली
आनी मदींच खांद सोडून, ल्हवूच कूस मारली
खरें म्हळ्यार, हे पालखेक आमच्याच भुजांची गरज आसली

आतां कोणे चिंता करपाची गरज ना
पालखी देवळामेरेन वतली

(पालखी)

ण संजीवांतलो भावकवी आजून सक्रीय आसा. 'अजून तस्सो आसा' हे कवितेंत वी भावपुर्ण उतरांनीं संक्षेपान कसो व्यक्त जाता तें पळयात-

हो सुटला तो जायांचो परमळ न्हय
दर एके पाकळेंत लिपिल्ल्या तुज्या यादींचो परमळ
अजून तस्सो आसा...

जीव वेरेंकारांले आजवेर सात कवितांझेले प्रकाशीत जाल्यात. भावझुंबर ९८७), मुंबर (१९९२), गांवांतली सांज (२००२), चैतन्याच्यो पवळ्यो (२००९), स्वस्थ सूर्य(२०१२), सांज सुलूस (२०१५) आनी बालकवितांचो 'संग्रह पडवेवयलीं वणीं' (२००७). ते भायर हें पुस्तक छापूंक वता म्हणसर तांगेलो आठवो झेलो क्तचंदन' प्रकाशीत जाल्लो आसतलो.

दय म्हांबरो होय संजीवां वरीच पिण्डान समाजीक बांदिलकी केळोवपी कवी. गूय शेजारी, वांगडी, समवयस्क आनी समविचारी. नागेश करमली, मनोहरराय रदेसाय, पुंडलीक नायक अशा कवींच्या प्रभावा खाला वाडले आनी उमेदीचे पिरायेचेर तांणी लिखणी हातांत घेतली ती समाजीक अन्याया आड आवाज ठोवपाक. समाज कसो अबरगतीक पावला हें सांगपाक हो कवी घर हें प्रतीक हूण वापरता. 'घरूच आयलां मदेराक, वांशान वांसो बरगेला / वेरो गेल्यात वण्टींक नी कोनवासो बागवला.' सोबितकाय पळोवन व्हंकल सोदपी न्हक्यांक कितें नाय तें सांगून कवी उदय म्हांबरो म्हणटा, 'म्हाका गो तूं अशें जाय, केंस फाटीर गोलूंक जाय, फाटीर धोलतल्या केंसां मदीं एकूच जायां पोड जाय.' आनी त्याच ांवाचे दुसरे विडंबनात्मक कवितेंतल्यान घरची आस्पत पळोवन व्हंकल सोदप्यांचीं चेंतनां मांडटा, 'म्हाका गो तूं अशें जाय, केंस आसूं मोटवे तुजे, केसांतल्या भांगांत नात एकूच भांगतिळो जाय.'

उदय नरसिंह म्हांबरो हागेले दोन झेले उजवाडाक आयल्यात. 'हय सायबा', (२०१२) आनी 'मनशाच्या सोदांत' (२०१७).

तीस चाळीस वर्सां फाटीं बरी सुरवात करून उपरांत पेन सकयल दवरिल्ले कांय कवी आसात. प्रकाश आचार्य हांचे 'लामणदिवो' आनी 'तळपावयलीं फुलां' हे दोन झेले उजवाडाक आयल्यात. एक झेलो हालींच उजवाडाक आयलो तरी हालीं काळार तांणी विशेश बरयिल्लें ना. तोमाझिन्यु कार्दोझ हांणीय त्याच अदमासाक बरी कविता रचली. 'पाकळ्यो' हो तांचो कविता संग्रह प्रकाशीत जाला. पूण उपरांत तांणी तियात्राच्या मळार बरयणार आनी दिग्दर्शक हें कार्यक्षेत्र विंचून काडलें. कविता न्हय जाल्यार कांतारां मात खूब रचलीं आनी आजून रचतात. आन्येक कवी म्हळ्यार सुहास दलाल. देशभक्तीपर आनी अध्यात्मीक बरोवपी सुहासान हालीं धर्मीक साहित्य रचपाचेर भर दिल्लो दिसता. इंदू अशोक गिरसप्पे (१९४१) ही मूळ कर्नाटकांत जल्मल्ली. गोंयांत भुरगेंपण सारिल्ली आनी उपरांत गोंया भायर पाविल्ली कवी. हालींच तिचो 'संकल्प' हो संग्रह प्रकाशीत जाला. ह्या सगल्या कवींच्या काळार तरनाटो म्हूण वयर सरिल्लो कवी उल्हास पै रायकार. खूब सुंदर कविता दिवन अपेक्षा वाडयिल्ल्या ह्या कवीन उपरांत सातत्य राखलें ना. कवी म्हूण सुरवात करून उपरांत वाट बदलिल्ले थोडे आसात तातूंत भिकू बोमी नायक आनी दिलीप बोरकार हांचो आसपाव जाता. दोगांनीय कवितेन सुरवात केली आनी मागीर पत्रकारिता आनी प्रकाशन वेवसाय आपणायलो.

पूण सातत्य दवरून आशिल्ले जे कवी आसात तांणी कवितेचें दालन खूब गिरेस्त केलां. तांगेल्या कवितांनी शैलीची आनी विशयांची विविधताय दिश्टी पडटा. 'सुनीत' हो प्रकार बाकीबाब धरून अनेकांनी रचला. प्रभाकर नाडकर्णी हांणी 'गझल' हो प्रकार केळयलो. तांगेलो 'गजलप्रभा' हो झेलो प्रकाशीत जाला. नागेश करमलीनीं तर खूब बरी गझल बरयल्या. युसूफ अ. शेख हांणी 'कव्वाली' हो प्रकार रचलो. 'झेन' कविता ही रमेश वेळुसकार हांगेली मिरास. झेन विचार पुरायेन समजून घेवन तांणी हो प्रकार भोव कुशळतायेन आनी विपुलतायेन निर्मिला. 'हायकू' होय प्रकार भोव यशस्वी रितीन केळोवपी म्हळ्यार आर. रामनाथ. संग्रह उजवाडपा इतली 'हायकू'ची संख्या तांचे लागीं आसा. म्हत्वाचें म्हळ्यार कोंकणीनच भारतीय कवितेक भेटयिल्लो प्रकार म्हळ्यार 'तिकली' आनी 'पिसोळीं.'

आतां नवी पिळगी वयर सरता. अन्वेषा सिंगबाळ, अजय बुवा, विशाल खांडेपारकार, शितळ साळगांवकार, योगिनी बोरकार, रमेश घाडी, श्रीनिशा नायक.... अपेक्षा वाडोवन दवरिल्ल्या ह्या कवींच्या हातांत कवितेचो फुडार निंबून आसा.

आर. रामनाथ हो एक आगळे कवी-संवेदनेचो बरोवपी. समाजीक बांदिलकी तांकां लागना अशें म्हणूंक जावचें ना. 'हांगाच म्हजी वार पुरल्या' म्हणीत हो कवी गांयचो चेरो कसो बदलत वता ताचेर मार्मीक भाष्य करपी. पूण तांची कविता निश्चीतपणान भाव कविता. 'तें सगलें म्हजे तांकी भायर' हे कवितेंत कवी कसो आविष्कृत जाता तें पळयात-

हें पळय, हांव तुज्या माथ्यांत सूर्य माळचों ना<br>
चंद्र माळचों ना आनी नखेत्रांची फांतीय माळचो ना.<br>
हें सगलें म्हजे तांकी भायर.....<br>
हांव फकत तुजे होंटयेंत, म्हजे दुख्ख, म्हजीं दुकां<br>
आनी म्हज्यो वेदना घालतलों<br>
तूं मागीर हें सगळें तुज्या काळजांत खोल खोल खरीमेंरेन पावय.<br>
आपशींच तूं म्हजे जिणेन समृद्ध जातलें-<br>
ख्यांनीच हांव आतां पुराय फुल्लां आनी परमळ्ळां

आर. रामनाथाली दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. 'मळब रंगमाची' आनी 'निसण'.

कवितेच्य मळार फाटलीं तीस चाळीस वर्सां वावुरपी खूब जाण आजून सक्रीय आसात. मनोराय नायक, सुशीला हळ्र्णकार, श्रीकांत पालसरकार, सखाराम बोरकार, पंढरीनाथ लोटलीकार, अशोक भोंसलो अशा जायत्या कवींनी आपणालें योगदान दिल्लें आसा.

समाज वेवस्थेंत मेळिल्ले जुलमी वागणूके आड कोंकणी कवितेंतल्यान आवाज उठोवप्यां मदीं श्रीकांत पालसरकार हे पुंडलीक नायकां फाटल्यान घडये पयले आसूं ये. गावडा-कुणबी-वेळीप-धनगर (गाकुवेध) समाजांच्या हक्कां खातीर वावुरपी ह्या कवीन एक सपन पळयलें- 'हांव एक अस्पर्शी / म्हज्या दोळ्यांत तान, जीण स्पर्शुपाची' आनी 'म्हाका म्हज्या पांयांपोंदा जमीन जाय' अशा खणखणीत उतरांनीं अधिकार जागयलो. गांवकार आनी रयत, पिडपी आनी सोंसपी हांचें समिकरण कशें बदलूंक लागलां तें दाखोवपी ताची कविता म्हळ्यार 'अंवसर'. 'आयज अंवसर आयलो ना जाल्यार केन्नाच तो येवचो ना' अशें सांगून तो जागयता 'देंवचार जाले धनी आयज, गांवकार लागले पडीक' आनी फुडें शिटकायता, 'खाडूं

नाशिल्ले पाडेली हाडपी हांचे तोल्लूकदार खंयचे / आयज हाललो ना चौखांब तर हो न्हयच अंवसर' संवसार आरत्याचो परतो करपाचो धेंक घालपी हो अत्याचारां आड विद्रोहाचो आवाज गाजोवपी श्रीकांतांचो हो झेलो 'अवसर'.

मनोराय नायक हे फाटलीं चाळीस वर्सां कविता जियेतात. तांचे कवितेंत विद्रोह ना, पूण समाजांतले विशमते आड आनी भश्टाचारा आड खंत आसा, तिडक आसा. 'बॉस' कवितेंत तें आड वाटेन पूण स्पश्ट कळपासारकें सांगलां. बॉसाच्या कॅबिनांतल्या कोयरा कडेन सगलेच आडनदर करताले. एक दीस तो बॉस गेलो आनी दुसरो आयलो. येना फुडें ताणें पयलीं कॅबीन निवळ करून कोयर लासून भायर उडयलो. पूण कोयर फाटल्या पांयांनी परतो कॅबिनांत पावलो, अशें सांगून समाजवे- वस्थेंतले भ्रश्टाचारी प्रवृत्तीचेर बडी मारल्या. 'कल्पफूल' हो तांगेलो झेलो १९९३ वर्सा प्रकाशीत जाला.

अशोक भोंसलो हे कथा आनी कविता दोनूय मळांचेर वावुरता. आनी तितल्याच समर्थपणान. नर्म विनोद हो तांच्या साहित्याचो स्थायीभाव. पूण केन्ना केन्ना जिणेचें तत्वज्ञान गंभीरपणान सांगून सोडटात, 'जिणेच्यो गांठी सोडयत सोडयत हांव समेर पावलों / पूण एक गांठ कशीच सुटली ना / ती सोडयतां सोडयतां गांठींतले गांठींत घुसपलों / शेवटाक ती गांठ उरली ना- एक जीण जाली.' अशोक भोंसलोंचो 'सूरवन' हो झेलो प्रकाशीत जाला.

माया खरंगटे आनी नयना आडारकार हांणीय आपणां परीन कवितेक दिल्लें योगदान भोव म्हत्वाचें आसा. मायाली कविता नयना परस वेगळी. माया समाजीक बांदिलकेची जाण दवरून मुक्त छंदांत बरयता. जाल्यार नयना आडारकार हासंत खेळत, फकाणां मारीत समाजांतल्या अन्यायाचेर, दंभिकपणाचेर आनी सुवार्थाचेर बरयता. नयनाल्यो कांय कविता गेय आसात आनी त्यो गीतां म्हूण' लोकांक भोव मानवल्यात.

### मेल्विन रॉड्रिगस

कोंकणी कविता पकदस्त पावलां मारीत प्रगल्भतायेचे दिकेन वाट चलतासतनाच मंगळुरचो आन्येक कवी कोंकणीच्या मळार भारदस्त व्यक्तिमत्व घेवन देंवला. चाफ्राचे तालमींत तयार जाल्ली ताची समाजीक जांणीव आनी अणभवांचे

साणीर घांसून तिजून पळयिल्लीं जिणेंतलीं सत्यां हांच्या म्हालवजार तयार जाल्लें एक नवें रसायन म्हळ्यार मेल्विन रॉड्रिगस (१९६२). मेल्विनाली कविता जिणेच्या सगल्या आंगांक आनीं तांसांक स्पर्श करता. वाचन आनी पर्यटण ह्या दोनींचीय जोड मेळिल्ल्यान मेल्विनाली कविता आदिकादीक प्रगल्भ जायत गेल्या.

तांगेलो पयलो झेलो 'मोगापेळो' १९८९ वर्सा उजवाडाक आयलो. पयल्याच झेल्यान मेल्विनांन रसिकांचीं मनां जिखलीं. १९९६ वर्सा 'फितां' हो दुसरो कवितासंग्रह भायर सरलो. 'तांबडीं आबोलीं', 'फितां', 'खुरावयलो बुडकुलो' ह्यो तांगेल्यो कविता खूब लोकांमोगाळ जाल्यो. तिसरो झेलो 'वाट' २००३ आनी उपरांत २००८ वर्सा 'प्रकृतीचो पास' असो चलला मेल्विनांले कवितेचो प्रवास. तांगेल्या 'प्रकृतीचो पास' ह्या कवितांच्या झेल्याक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

मेल्विनांली निरिक्षण शक्त भारी तीख. दोन दोळ्यांक दिसता ताचेपयल्यान वचून एखादरे गजालीचो यथार्थ सोद घेवपाची तांची नदर. कोंकणी भाशेचेर सुमाराभायर प्रभुत्व. मेल्विनांली कविता भाशेखातीर अडना. ते उतरां मोडटात, घडयतात आनी भाशेक लवचीक करून जाय तशी बागयतात. 'दोरी वोडचो खेळ' हे कवितेंत सर्तीच्या युगांत मनशान कमराचें सोडून माथ्याक गुठलायलां तें दाखयतना मेल्विनांली भास ल्हायो कशी रसरसून फुलता तें पळयात.

एके कुशीन जांगडां दाखोवन, केंटुकि फ्रायड कुकडां
तेलांत उफेवन उडक्यो मारचीं, बियातिणी सुंगटां
बगलेक आसा लैतांव, बाफत-इदादांतल्यो बो बो
बिफामासा काटलिसांच्यो आयकों येतात बो बो
उंड्या कापां मदीं तांतीं, सोसेज आनी मायोनीज
त्याय मदीं भायर तिळटा, येवरोपांतली चीज

आनी अखेरेक कवी म्हणटा

चरब वांटच्या वेपाऱ्यांचो, सादतात पळय तळयो
चरब मेजच्या दोतोरांच्यो, तयार रावल्यात गुळयो
दुडू दिवन भकाय चरब, जिरय दुडू दिवून
खिणाक जरी तरी गळाय जाली, येत यमा देंवोन.

अमेरिकेची युद्धखोर वृत्ती आनी झुंजांत झळपल्लेली तिस्त्या संवसारांतली सरसामान्य जनता हांचें कवी काळजाक पिळव घालपी चित्र उबें करता तांगेले 'नशिबाची भूक' कवितेंत-

भुकेल्लीं पोटां, मस्तेल्ल्या वोंटांवरी वंयो उडतात
सुकतेचे व्हंटयेची गाय एक, वंय चरता तशें
बिळांतली मूंय एक हुनोनी वरणांत उडता तशें-
ह्या पोटांक भंय ना
अमेरिकेची बोमां- मझर- ए-शरिफाचेर घडघडायतना
अफगानी पश्तून लोक, भियेवोन धांवनासतना मळबाक चोयता-
बोमांची दिशा पारकूंक
फुटनासतना उरिल्ल्या तशें फुटोन उसळल्ल्या बोमांचो
कचरो आरावत रद्देक विकूंक

पयसवासी भारतीयांचीं सुखदुख्खां कवी बेसरितीन मांडटा. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय मळावयले संदर्भ दीत तांची कविता मनीसपणाचेर टिप्पणी करता. भारतीय आनी विशेश करून कोंकणी मनशाचे भाशीक परधार्जिणेपणाचेर अवघ्या उतरांनीं 'आरबी दर्यो' कवितेंत कवी सांगता

सुशेग मेळ्ळो, अशें गल्फाक गेलो
खाडयेंतलें उदक मलयाळी उलयता
सगळोच पिशांतूर जालो
पिशांतूर जालो, तुर्तात गांवाक गेलो
आरबी दर्यो इंग्लीश कातरता
कांय खोशी जालो?

अरबी भुंयेर रावनूय आपणाली भास सांबाळपी मलयाळी लोकांचो कवी असवड्यान तोखणायच करता आनी अरबी समुद्राचे देगेवयल्या गांवघरा मात लोक इंग्लीश कातरतात हांचो विशाद ताका दिसता. अमेरिकेची दादागिरी आनी आमच्या लोकांचीं मेंगेपणा हाचेर 'बूसा' हे त्या काळावयले अमरिकी राष्ट्रध्यक्ष बूश हांकां उद्देशून बरयिल्ले हे कवितेंत मेल्विन परखडपणान उलयता.

बूसा, बूसा, बूसा, बूसा- अमेरिकी बूसा
खाणां हाडून बूसा आयल्यात- पोटां तुमचीं पुसा
हात मुखार हाडचे आदीं बरण्यो भरा तेला
तेलानंतर फिकीर नाका, रगतां तुमचीं पिळा
बूसा, बूसा, बूसा, बूसा- अमेरिकी बूसा
वस्तूर हाडून बूसा आयल्यात- तिक्के नागडीं नाचा
थोडोवेळ अशेच आस्सों उगते तुमचे पाने
वस्तूर तुमी न्हेसचे आदीं भागोवंक आमचे ताने

तेल आनी वस्त्रां दिवन अमेरिका आमचेकडेन जें मोल मागता ताचें विदारक चित्र कवी हांगा उबें करता.

कोंकणी उतरावळीचे गिरेस्तकायेची जाण नाशिल्ले अपुर्बुद्द लोक कोंकणीक फाट करून इंग्लीश उपकरायतात तें पळोवन न्हिन्नळिल्लो कवी भाशेचो स्त्रोत याद करता-

म्हजेलागीं झरी आसात- नेत्रावती, मांडवीच्यो
उण्यो जरी पडल्यार आसात- शरावती जुंवारिच्यो
पुर्वजांनी ओतून मोयपास पावन केल्ल्यांक शिरो तांच्यो
थेंबे थेंब्यान दिपकावन आसात, सालवार गुळियो अज्यापांच्यो
. . .
हांव कवी, आपोवन व्हरतां सदां सोबीत कोंकणी वनाक
तुमकां मोगान भोंवडेक व्हरतां
कोंकणी उतरां जिबलेर ओतून- जिवीत सासणाक पावन करतां

ह्या कवीक अडेचें मोटेपण ना. दुसरो कवी बरें बरयता जाल्यार ताचें व्हडपण गावंक तो खालतेपण मानिना. एच. एम. पेर्नाल हो मंगळुरांतलो एक नांवाजतो कवी. एच्चेमाले कवितेंतल्यान प्रेरणा घेवन आपणा भितरल्या सुस्ताविल्ल्या कवीक कसो जागो केलो तें मेल्विनान 'एच्चमाची उतरां चोरी केल्ल्याची कविता' हे कविते उदेशीं हेभाशेन सांगलां-

उतरांक तुज्या भांगरा मोल, चिंतलें थोडीं चोरया
काळीज म्हजें जालां रितें, चितलें थोडीं भरया

एच्चेमाचे भाशेची आनी उतरावळीची तोखणाय करीत कवी फुडें वता

एका उतरांत रंगाळ धोनू, एकांत नितळ झरी
एका उतरांत गाणे संगीत, एकांत नाचतात नारी
. . . .
दर्या थेंबे चोरल्यार कितें दर्यो दुबळो जायना
उतरां तुजीं सगळे चोरूं, सुकचे तसलें कांय ना

मेल्विनबाब हे आशावादी कवी. निर्शेणेचें गीत गायतना लेगीत तांचो आशावादी सूर स्पश्ट आयकूंक येता-

भाजोन वचोंन वोतां, गोबोर जाले आतां
पिकाळ जातलीं शेतां, तांच्या फुडाराचीं
केन्ना केन्ना कोडपाण प्रकर्शान जाणवता-
पोटाची खंत करतां करतां
वीख कुडींत चरलें
आनी काळीज विखांत विरलें

लु.म. आनी चाप्रा. हांचेकडसून प्रेरणा घेवन कवितेच्या मळार देंविल्ल्या मेल्विनान कोंकणी कवितेक उंचेल्या पेडार बसयल्या. आयज मेल्विनाली कविता फकत कोंकणी वा भारतीय उरनासतनां संवसारीक जाल्या इतलें खंडीत.

एकविसाव्या शतमानाक येवकार दीत उदेल्ले कांय म्हत्वाचे कवी जांणी कोंकणी कवितेक नवे आयाम जोडून दिले तातूंतलीं कांय नांवा हीं- पुर्णानंद चारी, राजय पवार, प्रकाश पर्येकार, हनुमंत चोपडेंकार, राजश्री सैल, गौरीश वेर्णेकार, फिलोमेना सां फान्सिश्को, अजय बुवा. ह्या सगल्या कवींक मुक्तछंद मानवता. तांकां नवनिर्मणेचो ध्यास आसा. हांतल्या चडशा बरोवप्यांनीं एकापरस चड प्रकार केळयल्यात. पुर्णानंद चारी हो कवी, गीतकार आनी संगीतकार. गौरीश वेर्णेकार हो कवी, चित्रकार आनी नाट्यकर्मी. प्रकाश पर्येकार हो कथाकार, निबंदकार आनी बालनाट्य बी बरोवपी. हनुमंत चोपडेंकार हो कवी, नाट्यलेखक आनी समिक्षक. राजय पवार हो कवी, एकपात्री कलाकार, नाट्यलेखन आनी विनोदी लेखन करपी भोवतांशी बरोवपी. अजय बुवा हांची कवी परस कथाकार म्हूण वळख चड. ह्या सगल्या रचनाकारांले कवितां झेले उजवाडाक आयल्यात.

'ओलें रान' (२०१५) हो झेलो घेवन येवपी राजश्री सैल हांगेली कविता म्हळ्यार 'आत्मसोदाची कविता' अशें माधव बोरकार ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत म्हणटात. तिगेली कविता अल्पोतरी न्हय पूण उतरां मेजून मापून वापरिल्ल्यान आशयाची उक्तावणी प्रभावी जाता. 'भर वसाडेंत एकटें एकाकी उबें, काळजांत हजार पावलांचें वजें' अशें म्हणीत 'सपनांकूय लागलीं घडूंक मध्यानेर जागरणां आनी परतणेचे वाटेर पेटलीं ओलीं रानां' अश्यो अर्थगर्भ कविता रचपी ही कवी सातत्य राखून बरयता.

राजय पवार हांचो 'पावसफुलां' झेलो १९९५ वर्सा आयलो आनी त्या उपरांत तो सातत्यान बरयत आसा. समाजीक विशय नर्म विनोदी शैलींत मांडपी हो कवी तरणे पिळगेच्या वाचकांमदीं चड लोकप्रीय जावंक पावला. 'तेऱ्याकूय लागलां मोगापिशें / काळीज पळय तकलेर घेवन / वाऱ्यावांगडा धोलता कशें' प्रतिकात्मक रितीन तेऱ्या पानाचो केल्लो प्रयोग भोव मनभुलावणो. आनी कावळो जेन्ना भुकेपोटार लेगीत भाकरे कुडको खावपाक अनमनता तेन्ना हो कवी समाजांतल्या भेदाभेदांचेर भाष्य करून म्हणटा- 'ताच्याय मनांत प्रस्न उप्रासलो जावंये, हो भाकरेचो कुडको हिंदुचो काय मुसलमानाचो.' 'पावसफुलां' संग्रहांत तांगेल्यो विनोदगर्भ कविता आसात. पावसाविशीं तो म्हणटा- 'पावस सोयरो, सांगून येना, पावस भेट्टो, आयकून घेना.' हनुमंत चोपडेंकार मात थोडोसो गंभीर प्रकृतीचो कवी. हनुमंत चोपडेंकार होय नवे संवेदनेचो कवी. नवे प्रयोग करीत नवें आनी वेगळें दिवपाचो तांचो हावेस तांच्या कवितांनी दिसता. तांच्या कविता संग्रहाचें नांवच सांगता तांगेली कविता वेगळी म्हूण. 'एक चीट मोगाळ आईक...' (२०१३) झेल्यांतलें शिर्षक कवितेंत निवेदकाक आवयलें निःशब्द पत्र पावलां आनी त्या पत्रांतले तिचे मोने शब्द अख्खें मळब पेटोवन घालतात. आईच्या उगडासांनीं घुस्मटिल्ल्या संवेदनशील पुताची वेव्हारीक पावंड्या वयल्यान तिचे चिटयेक दिल्ली ही उकती जाप. गेय कविताय तांणी रचल्यात. 'पावसा पावसा येवचें तुवें. घेवंचें रानान रान / तुज्याच रिणांत रावता हांगा पांचवें पानान पान.' ह्या प्रयोगशील कवीन मनोहररायांल्या पिसोळ्यांवरी कवनुलांय रचल्यांत. 'आता दिसता हाचे मुखार / एकूय वळ बरोवंची न्हीं / परत पिश्या काळजाची खवळी पिकी काडची न्हीं'.

'आमचे आमी' कवितां झेलो २०१३ वर्सा उजवाडाक आयलो तेन्ना प्रकाश पर्येकार हांकां वाचक प्रस्थापितां मदलो एक कथाकार म्हूण वळखताले. प्रकाशीत जावपी

हो ताचो पयलो संग्रह. तांची कविता गेय न्हय. पूण समाजीक आशयान उपाट भरिल्ली. सत्तरींतलीं गांवगिरीं सुखदुख्खां तांचे कवितेंत स्पश्ट दिश्टी पडटात. 'आतां काय गे करूया' सारकी कविता तर गांवगिरे अस्तुरेसयत पुराय गांव दोळ्यांमुखार उबी करता.

'वाट आमची वेगळी' असल्या कवितांवरवी भाशेची गिरिस्तकाय आनी बोलयेची सोबीतकाय उठून दिसताच तेभायर कवितेंतलो आशयूय अदीक परिणामकारी जाता. नागेश करमली प्रकाश पर्येकाराच्या कविता संग्रहा संबंदान बरयतनां म्हणटात, 'हांव ताचेकडेन एका कथाकाराचो संग्रह म्हूण पळयतां.' कविता रचतनाच कथा, कादंबरी, नाटक, समिक्षा अशे प्रकार केळोवपी प्रकाश पर्येकार वा हनुमंत चोपडेंकारां वरीच आनिकूय बरोवपी आसात. जयंती नायक (कथाकार), तुकाराम शेट (कथाकार), देविदास कदम (कथा-कादंबरी), अभयकुमार वेलींगकार (कथा-निबंद), महेश पारकार (निबंद), अशोक कामत (कादंबरी), मार्कोस गोन्साल्वीस (नाटकुलीं), सूर्या अशोक (कथा-कदंबरी), किशू बारकूर (कथा), अशा साबार लेखकांनीं इतर प्रकारांनीं चड नामना जोडिल्ली पळोवंक मेळटा. पूण तांणी कवितेकूय योगदान दिलां.

जॉन आगियार, शैलेंद्र मेहता, मनोज कामत, वॉल्टर मिनेझीस, चंद्रिका पाडगांवकार, अशा कवींनीं मोग, शिरंगार आनी सैमाचेर बरयतनाच समाजीक आशय केळयला.

आधुनीक कोंकणी कवितेची परंपरा उसरां सुरु जाली तरी आयचे घटकेक ती इतर भारतीय कवितेच्या भुजांक भूज तेंकोवन फुडली वाट चमकता. नवे पिळगेचे महत्वाकांक्षी कवी आश्वस्त करतात. अन्वेषा सिंगबाळ, विशाल खांडेपारकार, श्रीनिशा नायक आनी रमेश घाडी हांची कविता काळाची गती वळखून फुडें वचूं येता अशें दिसता. फाटल्या शतमानाच्या निमण्या दसकांत सुरवात करून ह्या शतमानाच्या पयल्या दसकांत अनेक कवी मुखार सरल्यात. बुनयाद घालपी ज्येश्ठ कवीं फाटोफाट उदेल्ली ही पिळगी निखटी थाकाय दिना तर आश्वस्त करता. आर. रामनाथ, प्रकाश दत्ताराम नायक, सुशिला हळर्णकार, हांचे सारकिल्या लेखकांनीं कवितेक विंगड विंगड तरांनी केळयली. प्रसाद लोलयेंकार हो कवीय ह्याच काळांतलो. तागेलो 'मुळां' हो झेलो १९९५ वर्सा उजवाडाक आयलो. मनीस सैमाचेर जैत जोडपाक सोदता तेन्ना केन्ना तरी सैमाचो रागूय ताका सोंसचो पडटा

हें पिंपळापेडाचें प्रतीक घेवन तो अप्रत्यक्ष पटोवन दिता. सैमीक वातावरणांत वाडिल्ल्या पिंपळाक साडेभावार्ती लोक जेन्ना पेड बांदतात तेन्ना हें अडेचें सोबेचें बंदन तोडपाक पिंपळाचीं मुळां पेड फोडून उडयतात अशा अर्थाची ही अर्थगर्भ कविता. गोंयकार संवसारार खंयूय पावलो तरी तो गोंयकारच उरता वा भारतीय मनीस खंयूय पावलो तरी संस्कृतायेच्या वा अस्मितायेच्या कुरवांनी सदांच एकठांय उरता हें एका लामणदिव्याचें प्रतीक घेवन कवीसांगता -"हांव मडगांवा रावतां / भाव काणकोणा रावता /काका मुंबय रावता / आत्या दुबय रावता / सगल्यांचें एक घर आसा / एक वणत मडगांवा आसा / एक वणत काणकोणा आसा /एक वणत मुंबय आसा / एक वणत दुबय आसा / आनी सांजवेळचो लामणदिवो अखंड मदीं पेटत आसा" एकात्मता म्हळ्यार कितें तें हाचेपरस सुंदर रितीन सांगूंक येवचें ना. तांगेले कवितेंतली जाणवाय तांगेले काव्यप्रतिभेची सुलूस दिता.

म्हज्या शेतांतल्या तळ्यामदीं, एक बळार उबें रावलां
एका पांयार उबें, केदोळसावन चिंतूक पडलां
'ह्या येद्याशा तळ्यामदीं, अशें मळब कशें पावलां?'

प्रसाद कवी तसो नाटककार. 'मुळां' ह्या एका संग्रहाफाटल्यान तांगेलो दुसरो संग्रह आजून ना.

आर. रामनाथ हो एक आगळे तरेचो प्रतिभावान कवी. फाटलीं तीस वर्सां हो कवितेची सेवा करता. 'मळबरंगमाची' हो झेलो घेवन १९८९ वर्सा ह्या कवीन कवितेच्या मळार पावली मारली. फुडलो झेलो 'निसण' येवपाक दोन तपां लागलीं. हांचो अर्थ तांची रचना थारिल्ली अशें न्हय. ते सातत्यान बरयत आसात. २०१५ वर्सा तांगेलो 'विस्तव' हो झेलो उजवाडाक आयलो. आनी फुडल्या दोन वर्सांत आनीक दोन येवपाचे आसात. भोवप्रसव कवी आसाच. ते भायर नवे नवे प्रयोग करपी ह्या कवीन 'हायकू' कवितेचें तंत्र वेवस्थीत अभ्यासून कोंकणींत संग्रह काडपा इतली 'हायकू' बरयल्या, बरयत आसा. 'रडून घे तूं / ल्हव जावं दी म्हाका / पयस वतनां' वा 'पोटाची भूक / तेंगशेर पावल्या /मरण वाड' अशे तरेची प्रभावी हायकू कविता रचपी आयचे घटकेक तरी आर. रामनाथांचो हात धरपी कोणूच ना.

रामनाथांली कविता मुक्तछंद. साद्या सरळ उतरांनीं जिविताचो आनी नात्यांचो थाव

घेवपी तांगेली कविता केन्ना केन्ना अस्तित्ववादी जाता. 'तूं निर्वस्त्र, हांव समाधिस्त.... आनी ही किण्ण भोंवतण, बिण्ण काळखांत' (आनी ही किण्णा भोंवतण) आनी दुस्त्या खिणाक भावकविता - 'कामार भायर सरनासतना, जेवणाच्या डब्या वांगडा, तूं तुजें काळीज, अचळय म्हज्या हातांत दवरता...' (कूड आनी आत्मो).

प्रकाश दत्ताराम नायक हांच्यो चडशो कविता गेय. 'देवकेचो कृष्ण बाये, वाडटा यशोदे घरा / कितल्यो ताच्यो तरा, गोकूळभर' (गौळण) वा 'भांगरांतली वेंग मोनी, पाचव्या पानांत चुरली / जागरांतली झिंग मनां, हळडुव्या रानांत विरली' (मांगर) असो छंद आनी प्रास घेवन आयिल्ल्यो कविता मना वांगडाच मानोय हालयतात. ज्येश्ठ कवी नागेशबाब करमली सांगतात- "प्रकाशबाब हो सैमपूजक आनी सैमगायक. देखून ताची कविता ही मुळा साकूनच सैमतत्व आनी सैमरूपांच्या समांतर चलत आयल्या." सैमाच्या रसगंधांतल्यान आत्मस्वर परगटावपी हो कवी एका रिणांतल्यान मुक्त जायनाफुडें नव्या रिणाची वाट सोदपी. तांगेले आजवेर तीन झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'चैतर'(१९८७), 'कस्तुरगंध' (२००५) आनी 'कुतल्ल' (२०१४).

भालचंद्र गांवकार हो कथा आनी कविता ह्या दोनूय मळांचेर तितल्याच प्रभावीपणान बरयता. सरसकट कवींवरी भालचंद्राकूय शिरंगार मानवता. जसो 'पिशी सुरंग' कवितेंत तो म्हणटा - 'सपनांचे उले घालीत माघ येता / आनी ही पिशी सुरंग शिरंगाराचो रग माळून, चान्यांत अशी उकतीच न्हाता' जिविताचो सोद घेयत येवपी तांगेली आत्मनिश्ठ कविता स्वताचे सोंशिकतेचेर भाश्य करता. 'हांव सोंसतां' कवितेंत तो 'उजव्या पोल्यार मारल्यार दावो पोलो दिवप्याचे सोशिकतायेकूय अंत आसा' अशें म्हणटा. आनी मागीर ताका प्रस्न पडटा, असो प्रसंग आयलो जाल्यार बळी कोणाचो वतलो?

'यादींनीं बंद केल्यांत, म्हज्या फुडाराचीं दारां आनी बंदिस्त जिणेंत, दोंगरायेदीं ल्हारां' अशा उतरांनीं काळजांतलो फुगारमार व्यक्त करपी भालचंद्र गांवकार हांगेले आयजवेर चार झेले उजवाडाक आयल्यात. 'आडवणांतले उले' (१९९१), 'यादींचे देगेर'(२००१), 'थाव' (२००५) आनी 'वावझड'(२०१८).

नव्या शतमानांत नवी कविता घेवन उदेली ती ग्वादालूप डायस. तिचे आयजमेरेन

पांच झेले उजवाडाक आयल्यात. 'भूंयफोड' (२००६), मळबगंगा (२००७),' . जलस्थळ' (२००९)', 'नातें (२०१ ) आनी 'आसोर' (२०१८). निवलकाणयांचेर फुलां फुलोवपाचो हावेस बाळगून बरोवपी ही कवी. 'नातें' ह्या झेल्यांत तिणें ल्हानसान चार चार वळींच्यो कविता बरयल्यात. मनोहररायाल्या 'पिसोळीं' चे धर्तेर बरयिल्लीं हीं धाकलीं कवनां. केन्ना धूव म्हणून तर केन्ना भयण जावन, केन्ना मोगिका तर केन्ना आवय जावन जियेतना अस्तुरी कशी पिंदून, शेणून, शिंपडून जियेता तें सांगून कवी आवंडेता- 'म्हजेच खातीर जगूंक आतां मेळचो म्हाका एकूच खीण.' हेरां खातीर जियेतां जियेतां अस्तुरी कशी स्वताकूच शेणून वता हें 'म्हज्यांतलें हांव' कवितेंत रूपाली किर्तनी हिणेंय सांगलां- 'आसलें कशें? शेणलें खंय? बदललें जरी नांव / सोदचेंशें दिसता परत, म्हज्यांतलें हांव.' ग्वादालूप आनी रूपाली हांच्या कांय कवितांमदी जें साम्य आसा तांतुंतल्यो ह्यो दोन. ग्वादालूपांली 'अश्रेकणी' कवितेंत ती म्हणटा-

सवण्या म्हज्या उडचेंच तुवें, म्हजी केन्नाय करची याद
मळबामेंरेन पावलें तरी, म्हाका केन्नाय घालचो साद
आनी रूपाली आपणाले 'उगड तुजीं पांखां' कवितेंत सांगता-
उडत रावलें इतलो तेंप, फाटल्यान दवरून तुका
एकलें रावपाचो विचार मात जड करता आतां म्हाका
ऊड पोरा, ऊड तूं, फुलय तुजीं पाखां
मळबाचो घे थाव, फाटीं पळोवं नाका

रूपाली किर्तनी हिगेले दोन कवितांझेले प्रकाशीत जाल्यात. 'म्हज्यांतलें हांव'(२०१२) आनी 'मळबथाव' (२०१७).

भरत नायक हांणी सुरवात जरी कवितेन केल्ली तरी उपरांत नाटकां-नाटकुलीं आनी एकपात्री सादरीकरणांक लागून तांची नामना जाली. 'मना मना' हो तांचो पयलो कवितां झेलो १९८२ वर्सा उजवाडाक आयलो. आनी दुसरो झेलो 'गीतगंध' १९८६ वर्सा. कवितेक उर्बा दिवपाचे नदरेन 'उकतें मळब' ह्या काव्य - मंडळांत फाटलीं बारा वर्सां ते कार्यरत आसात. कवितेच्या मळार पर्थून सक्रीय जायत सावन तांचो 'झाडांच्यो कविता' हो संग्रह २०१६ वर्सा उजवाडाक आयलो. आनी फाटोफाट एक हजार आठ कवितांचो 'काव्यगाथा' (२०१७) हो झेलो भायर सरलो.

'कविता सुचून जाता कवी, जिणेंत भरता अर्थ / जाका आवडना कविता, ताचें जिणें व्यर्थ' अशें मानपी ह्या कवीलो हो १००८ कवितांचो झेलो म्हळ्यार कवितेच्या मळा वयलो विक्रम अशें लेखूंक जाय.

गोंय मुक्ती उपरांत कांय कवींनी खूब बरी कविता दिली. तांणी अपेक्षा वाडोवन दवरल्यो. पूण ते सातत्य सांबाळूंक शकले नात. कारणां विंगड विंगड आसूं मागीर. शंकर भांडारी हो चळवळी कवी. कविते भायर निबंदूय बरोवपी. विजयाबाय कवी म्हूण उदेलीच उसरां. प्रकाश थळी कविते कडसून नाटका वटेन गेले. तोमाझिन्यु कार्दोझ गितां रचतां रचतां तियात्रिश्त जाले आनी कांतरांनीं चड घुस्पले. सुरेश जयवंत बोरकार हांणी तर खूब सुंदर कविता दिली. 'पुरो जगाचे वेव्हार, आनंदाची धार, तुटची न्हय' अशा आशयाची अध्यात्मीक कविता दिवपी सुरेश बोरकार मागीर कोंकणीची गरज म्हूण व्याकरण, भाशा हांचे कडेन पावले. बी. ई. मेंदीश ह्या अध्यात्मीक चिंतनांच्या कवीनूय आपणाली समिधा ओंपल्या. आर्मांद पैरेरा, सुरेश पै, आग्नेलराव ब्रागांझ हे कवी 'सत' दिसाळ्यांतल्यान वयर सरिल्ले. अशा अनेक ज्ञात अज्ञात कवींनी एक म्हत्वाचो वावर केलो तो लोक जागृतीचो. कोंकणींतल्यान बरी कविता येता हाची जाण समाजाक जावंक लागली. ह्या कामाक 'राष्ट्रमत', 'सत', 'दिवटी' ह्या दिसाळ्यांनीं दिल्लें योगदान भोव मोलाचें.

कांय कवी घोंसार आसतनाच आमचेमदल्यान उठून गेले. पयलीं शंकर भांडारी. मागीर शंकर परूळेकार, भुरगे पिरायेचेर अमिता सुर्लकार. तरणे पिरायेचेर दुर्गादास गावडे, जे. एल. गोयश, शाबा कुडतरकार, शांती प्रभू तेंडूलकार आनी कांय म्हयन्यांफाटीं सरलो ते विष्णू सुर्या वाघ.

शंकर परूळेकार हांका अस्तित्ववादी कवी म्हूण वळखताले. एस. डी. चेच जात कुळयेचो कवी हो. आत्मनिश्ठ आनी स्वच्छंद. 'हांव सांगतां तूं आयक' अशे तरेचो न्हय. तर 'हांव सांगतां तुका जाय जाल्यार आयक.' हे वृत्तीचो. आपणाले विशिश्ट शैलींतल्यान तीर सादपी आनी लक्ष्याचो भेद करपी तांगेली कविता. तांगेली 'हट्ट' ही कविता वयलेचाराक सादी दिसता. 'हांवें धर म्हळें, हांवें सोड म्हळे आनी पर्थून हट्ट धरलो धर म्हणून. तिसरो हट्ट तुवें मानलो ना. तुका समजलेंच ना- हांव आवयचे व्हंटयेंत रावन मळबाक आंवडेवपी म्हूण' अशी ही कविता. सगलेंच वयलेचाराक दिसता तशें नासता, अशें सांगपी. बाय अमिता सुर्लकार तर चडच तरणेपणांत

गेलें. भुरगे पिरायेचेर कविता रचपी अमिता स्वतंत्र विचारांचें आसलें. अस्तुयांचेर जावपी अन्यायाआड, जातीकातीभेदां आड, कश्टकऱ्यांच्या शोशणाआड ताची कविता आसली. दादल्यांनी पिंतारिल्लें फास्केंतले अस्तुरेचें चित्र आतां बदलूंक जाय म्हणपी. 'सोन्यान लायली वायटी, जुगारान लायली कट्टी' म्हूण बोटां मोडपी, 'हो अपंगाच्या गुणांचो सत्कार काय काय तांगेल्या अपंगूळपणाचें प्रदर्शन' असो सणसणीत सवाल करपी. तांगेलो विद्रोही आनी अस्तुरीवादी सूर लागचे पयलींच काळान तांकां ओडून व्हेलें. दुर्गादास गावडे हांणी कथे वांगडाच कवितेकूय होरायिल्ली. 'पातकी जीण लिपोवंक देवाक धाल करपाची तुमची कल्पना म्हाका मानवली' अशें म्हणीत समाजांतल्या दंभाचेर चाबूक मारपी तांगेली कविता दुर्गादासाल्या अवकाळी मरणान अवकाळींच सोंपली. शांती प्रभू तेंडुलकार (१९६६-२००४) हांणी प्रेम कविताय बरयल्यो आनी समाजीक आशयाच्योय बरयल्यो. 'मोगम्यां आटी' हो तिगेलो कविता संग्रह प्रकाशीत आसा. 'दर्यांत उडकी मारतल्यान जिवाची पर्वा करची न्हय / जिवाची पर्वा करतल्यान दर्यांत उडकी मारची न्हय' अशी उकत्या आशयाची कविता प्रगल्भतायेचे दिकेन वाट चलतनाच खुंटली. शाबा कुडतरकार (१९७०-२००८) हांकां नाटक आनी कविता तितलीच प्रीय आसली. दोनूय कडेन तो तितलोच फिशाल आसलो. थोड्याशा काळाभितर तांणी शंबरां वयर कविता बरयल्यो. 'उजवाडाचें झाड' सारकी कविता रसिकांची दाद आनी सर्तींनी इनामांय जोडूंक पावली. तांगेलो 'वावझड' हो संग्रह तांच्या मरणाउपरांत उजवाडाक आयलो. ह्या अचकीत सोंपिल्ल्या सगल्या कविंचें वेगळेंपण म्हळ्यार तांची कविता पकदस्त पावलां मारीत कवितेचें दालन गिरेस्त करीत फुडें वताली ती वाट अकस्मात खुंटली.

फाटल्या शतमानाच्या आठव्या दसकांत कोंकणी-मराठींत तितल्याच समर्थपणान व्यक्त जावपी दोन कवी वयर सरले - सुदेश लोटलीकार आनी नरेंद्र बोडके. खूब तरणे पिरायेचेर दोगांयनी कवितेच्या मळार पकदस्त पावली मारली. सुदेश मराठी वांगडाच कोंकणी कवितेंतूय रमले. तांचे दोन झेले 'पैस' आनी 'एकांताचीं उतरां' प्रकाशीत जाल्यात. नरेंद्र बोडके मात गोंयाभायर पावले आनी मराठी कवितेचें बोट धरून खूब फुडें गेले. पूण मरणाची सांवळी तांचेर पडली तेन्ना अचकीत गांवघरा पाविल्लेवरी परिवर्तन जावन हो कवी कोंकणींतल्यान अभिव्यक्त जावंक लागलो. तांगेलो 'अनार्य' हो झेलो २०१० वर्सा उजवाडाक आयलो. सुदेश आनी

नरेंद्र दोगांनीय मरण ह्या विशयाचेर कविता रचल्यात हो योगायोग आसूंये. सुदेश म्हणटात 'म्हज्या मड्याक तुमी कोणूच खांदो मारूं नाकात, हांवें कोणाकूच खांदो मारलो ना.' जाल्यार नरेंद्र मरणा कडेनच संवाद करतात 'हॅलो मि. डेथ, तूं म्हजो गुरूजी, म्हजे तकलेर हात दवरून तुवें म्हाका जागो केलो. आता हांव मरतलों तेन्ना दोन दोळे धांपतले, शंबर उगडतले....'

कोंकणी आनी मराठी कविता रचपी अनेक कवी आसा. असो ह्या दोगांपरस पिरायेन ल्हान पूण कर्तुत्वान न्हय. विष्णू सुर्या वाघ हो स्वयंभू प्रतिभेचो कवी. तांणी आपणांली कल्पकता आनी सर्जकता चडांत चड मराठीक ओंपली. तांगेली कविता विद्रोही- समाजांतले विशमतेचेर आनी जातीभेदांचेर घणाघाय घालपी. ह्या कवीलो 'सुदीरसुक्त' हो कवितां झेलो २०१३ वर्सा उजवाडाक आयलो. झेल्यांतल्या कांय कवितांचेर अश्लिलतायेचे आनी जातीवाद खुबळावपाचे आरोप जाले. आंगांत जानवें घालून जातीवाद ना करपाच्यो गजाली करपी दंभीक प्रवृत्तीआड स्पश्ट उतरांनीं बरयिल्ल्यान कांय जाणांक त्यो उस्तुरी गेल्यो. विष्णुंल्या खतखतत्या विधानांचो धग सवर्णांक हुलपायता जाल्यार भौसाच्या आंगार भार काडटा. तुमचें-आमचें, तुमी-आमी असो समाजांतलो भेद उकताडार हाडपी हो कवी स्वताक उंचेल्या जातीच्या समजतल्यांक प्रखर उतरांनीं आव्हान दिता - कापासदार आसात जाल्यार येयात आतां आमचे मुखार / हड्ड्याचे तट करून घेयात भौसा हुंवार..... दिलें तुमच्या बामणपणाक बळी भौसा वेदीर /आमचे सकट सगल्यांचीच बदलून उडयतले तकदीर.... सुदीर म्हणोन न्हूं.... मनीस म्हणोन जगपा खातीर...' हो कवी फकत विद्रोहाचीच भास जाणा - 'येयात हुंवारून, हुलपयात वण्टी, विद्रोहाच्यो घांटी, सादयात'. विष्णुंले कवितेचेर आरोप जाले. पूण दुर्दैवान त्या आरोपांक जाप दिवचे आदींच वाघ मरणाचे सांवळेंत पावले.

कोंकणी कविता दिसपट्टी चंवरत आसा. नवे नवे कवी, नव्यो नव्यो कविता आनी नवे नवे प्रयोग करीत भारतीय भाशा साहित्याचें आशास्थान जावंक लागल्यात. शायरी, गझल, हायकू, सुनीत हे आंतरराष्ट्री मळार लोकप्रिय जाल्ले साहित्यप्रकार कोंकणींत येवंक लागल्यात ही खोशेची खबर.

## कथा-कादंबरी

काणी उत्क्रांत जावन तयार जाल्लो कथा हो एक भोव लोकप्रीय साहित्य प्रकार. अस्तंतेच्या एका समिक्षकान तर म्हळां - 'कथा हो विसाव्या शतमानांत विकसीत जाल्लो सर्वोत्तम साहित्य प्रकार. आयची भारतीय आधुनीक कथा अस्तेंतेंतले कथेचें अनुकरण करता अशें म्हणटात. पूण कथा हो प्रकार मुळांतच भारतीय अशेंय लेखतात. सर रिचर्ड टेम्पल हो विद्वान म्हणटा - 'भारत हें कथांचें कुळार.'

कथेचें मूळ लोकसाहित्यांत आसा हें खरें. पयलीं कथा हो प्रकार सांगपा-आयकुपाचो आसलो. आयज तो बरोवपा-वाचपाचो जाला. पूण ह्या प्रवासा मजगतीं अनेक पेणीं जाल्यांत. लोककथा, दंतकथा, रूपककथा, पुराणकथा हांच्या उपरांत जातक कथा, पंचतंत्र, बृहत्कथा, उपनिषदां, वेताळपंचविशी, हितोपदेश असो प्रवास करीत कथा आयच्या पेण्यार पावल्या. मजगतीं, गुणाढ्या ह्या फिशाल कथा रचनाकारान पैशाची भाशेंत बृहत्कथा नांवाचो ग्रंथ रचलो. साठ लाख श्लोकांनी रचिल्ल्यो कथा, ताका आयिल्ले निर्शेणेंतल्यान ताणें लासून उडयिल्यो. तांतले सुमार धा लाख श्लोक वांटावले. तांचेर आदारून उपरांत सोमदेव हाणें कथासरित्सागर हो ग्रंथ सुमार १०७० वर्सा रचलो. अशें इंग्लीश अनुवादक पेंझर म्हणटा. सोमदेवाचो 'कथासरित्सागर' आनी क्षेमेंद्र लिखीत 'बृहत्कथामंजिरी' हे दोन ग्रंथ मूळ बृहत्कथांचेरच आदारिल्ले आसात. त्या काळावयले रिवाजाप्रमाण हे दोनूय ग्रंथ श्लोकस्वरूप आसात. व्यास आनी वाल्मिकी हांचेच योग्यतायेचो हो ग्रंथरचनाकार अशें तज्ञ मानतात.

येवरोपांत 'सेन्तो नॉविल ही बोकासिओ (१३१३- १३७५) ह्या इटालियन लेखकान बरयिल्ली साहित्यकृती आद्य कथासाहित्यांतली पूर्वकृती अशें मानताले. भारतीय कथासाहित्य ते परस तीन-चारशीं वर्सां आदलें. हांगचें पंचतंत्र उपरांत 'दास पंचतंत्रा' ह्या नांवान दोन खंडानीं जर्मन भाशेंत बेनफे हाणें अणकारीत केलें तें १८५९ वर्सा प्रकाशीत जालें. (कथासरित्सागर खंड २, पान ४) तेन्नाच्यान कथाप्रकारावयलो भारताचो अग्रहक्क हेर संवसारान मानून घेतलो, अशें म्हणूं येता.

संवसारांत कादंबरी हो प्रकार पयलीं वयर सरलो तो सतराव्या शतमानांत, अशें म्हणटात. 'दों किहोति' १६०५ ही पयली आधुनीक कादंबरी अशें चडशे जाण लेखतात.

इतिहासीक कारणांक लागून कोंकणी कथा-कादंबरेचो प्रवास उसरां सुरू जालो तरी कोंकणींतले सर्जनशील लेखक आनी वाचक इतर भारतीय आनी येवरोपी साहित्याचे संवकळींत आशिल्ले. ताका लागून उसरां आनी विस्कळीत सुरवात जाली तरी शैली, दर्जो आनी प्रयोगशिलतेचे नदरेन कोंकणी कथा-कादंबरी खंयच उणी पडली ना.

हीच गत्त कथाविश्वाची. नेमाळीं उजवाडाक येवपाक लागलीं तोमेरेन कादंबरी हो साहित्यप्रकार लोकांमोगाळ जाल्लो. पूण नेमाळ्यांची गरज आसली विविधताय आनी मोटवी बरपां हांची. सुर्वेक कादंबरेची प्रकरणां नेमाळ्यांनीं छापताले. पूण मागीर संपादकां कडल्यान मोटव्या कथांची मागणी येवपाक लागली. तातुंतल्यान लघुकथा (शॉर्ट स्टोरी) हो प्रकार उप्रासलो. संवसारांतली पयली कथा खंयची हाचेरूय मतांतरां आसूं येतात. पूण वॉल्टर स्कॉट हाची १८२७ वर्सा प्रकाशीत जाल्ली 'द टू ड्रोवर्स' ही इंग्लीश कथा पयली आसूं ये. थोड्याच उतरांनीं खूब कितें सांगपी हे कथेचो प्रभाव हेर भासांचेर पडलो. तातुंतल्यान प्रेरणा घेवन बाल्झाक (फ्रान्स), पुश्कीन (रशीया), हॉथोर्न (अमेरिका) अशे लेखक बरोवपाक लागले. तांचे फाटोफाट कथेक नवीं परिमाणां दिवपी लेखक वयर सरले. तातूंत एडगर एलन पो (अमेरिका), अन्तोन चेकोव ((रशिया), गी द मॉपासाँ (फ्रान्स), ओ. हेन्री( अमेरिका) हांकां आयजूय कथेचे गुरू मानतात.

भारतीय कथेन आधुनीक भेस चडयलो तो एकोणिसाव्या शतमानाचे अखेरेक. फकीर मोहन सेनापती ह्या ओडिया लेखकाली १८६८ वर्सा बरयिल्ली 'लछमणिया' ही कथा भारतांतली पयली कथा अशें मानतात. फाटोफाट रविन्द्रनाथ टागोरान बंगालींत कथेची पकदस्त बुनयाद घाली. त्या उपरांत कथेन फाटल्यान पळयलें ना. उर्दू, हिन्दी, मराठी, गुजराती, कन्नड, तेलगू, मलयालम, तमीळ अशा भासांनी कथा फुलली.

'द गिफ्ट ऑफ मॅगी' ही ओ. हेन्रीची कथा, जावं 'द नेकलेस' ही गी द मॉपासाँची कथा, जावं चेकोवाची 'वॉर्ड नं.६' ही कथा, तांकां आयज लेगीत संवसारांतल्या उत्कृष्ट कथांमदल्यो अशें लेखतात. आमेरिकेंतल्या नथेनियल हॉथोर्न ह्या आद्य कथालेखकाचो पयलो झेलो १८३७ वर्सा उजवाडाक आयलो. 'एके बसकेंत वाचून जाता ती कथा' अशी कथेची सोपी व्याख्या करपी हॉथोर्नाचे फाटोफाट

वयर सरलो तो एडगर एलन पो. हाणें कथाय दिली आनी कथेची व्याख्याय दिली. हॉथोर्नाचे व्याख्येंत मोटवेंपण ही कथेची खासियत लेखिल्ली जाल्यार पोन 'पूर्व नियोजीत अखेर' ह्या घटकाचेर भर दिल्लो. रशियेंतल्या चेकोवान 'कथानक गौण, मनीस केंद्रबिंदू' अशें म्हणीत 'बरें केल्यार बरेंजाता, सत्याचें जैत जाता' ही संकल्पना मोडून कथेक वास्तव रूप दिलें. भारतांत कथेचो उदेव चड उसरां जालो ना. रविन्द्रनाथ टागोर आनी हेरांनीं कथेक बसकण घालून दिली. संवसारार कथा हो प्रकार थीर जातासर विसावो शेंकडो लागलो. तोमेरेन भारतांतूय विंगड विंगड भाशांतल्यान कथालेखन जावंक लागलें. उर्दू, हिन्दींत प्रेमचंद सारके लेखक लोकांमोगाळ जाले. त्याच अदमासाक कोंकणींतूय कथा प्रकाराचो उदेव जालो.

शणै गोंयबाबांनी बरयिल्ली 'म्हजी बा खंय गेली' ही कोंकणींतली पयली आधुनीक कथा. ती बरोब्बर खंयच्या वर्सा बरयिल्ली ताचेर बोट दवरप कठीण. शणै गोंयबाबांनी 'गोंयकाराचो मुंबयकार' हें पुस्तक १९१० वर्सा बरयिल्लें. 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' हेंय पुस्तक १९१० वर्साच बरोवन जाल्लें. 'शणै गोंयबाब' हें टोपण नांवूय तांणी ह्याच काळार घेतिल्लें जावंक जाय, अशें रा. ना. नायक म्हणटात. शणै गोंयबाबांलें बरोवप १९१० वर्सा सुरू जालें. १९२५ वर्सा स्वाभिमान राखून दवरपाखातीर शणै गोंयबाबांनीं जर्मन कंपनीचो राजिनामो दिलो आनी उपरांत तांणी पुराय वेळ संशोधन आनी लेखन ह्या वावराक ओंपलो.

१९१० वर्सा 'मुंबैकार' आनी १९१३ वर्सा 'मोगाचें लग्न' हीं दोन पुस्तकां तांणी स्वखर्चान छापलीं. हीं दोनूय पुस्तकां बरीं खपलीं. 'मुंबैकार' हें पुस्तक म्होंवाळ भास, उपहासात्मक निवेदन आनी पच्छातापान जाल्ली समादानदिणी अखेर हांकांलागून बरें खपलें. आनी 'मोगाचें लग्न' हें नाटकाचें पुस्तक जाल्ल्यान आनी कोंकणी मनीस हो नाट्यप्रेमी आशिल्ल्यान खूब खपलें. ह्या दोनूय पुस्तकांनी जरी शणै गोंयबाबांच्या बोल्साक खार लागूंक दिलो ना तरी कथा-निबंदांचें पुस्तक छापल्यार खपतलें आनी खर्च भरून येतलो हाची खातरी नाशिल्ल्यान तांणी छापूंक दिलें ना. पूण बरप चालूच दवरिल्लें. 'म्हजी बा खंय गेली' ही कथा ह्या मदल्या काळांत केन्ना बरोवन जाल्या हांचो सोद शांताराम वर्दे वालावलीकार हांणी घेतला. 'समग्र शणै गोंयबाब' ह्या संकलनाच्या चवथ्या खण्डाक बरयिल्ल्या संपादकियांत शांतारामबाब म्हणटात- "घडलें अशेः फोंडेंसून श्री.प्रियोळकारांचें 'स्वंयसेवक' हें म्हयनाळें उजवाडा येतालें. ताचे संपादक श्री. वि. का. प्रियोळकार हांणी १९२४ वर्सा शणै गोंयबाबांक

कागद बरोवन कळयलें की आपले निकतेच भायर पडिल्ले आवयच्या उगडासाक 'स्वंयसेवक' म्हयनाळ्याचो खाशेलो आंक येवपाचो आसा ताचेखातीर बरप धाडचें. शणै गोंयबाबांनी 'म्हजी बा खंय गेली?' ही कथा स्वंयसेवकाक धाडली."

हे कथेचो प्रभाव कितलो पडलो तें सांगतना शांतारामबाब फुडें म्हणटात- "तिचें बुक-पोस्ट घेवन कुर्रयकार आयलो तेन्ना तें फोडून श्री अ. का. प्रियोळकार हांणी तें सगळ्यांत पयलीं वाचलें. हाचे वयल्यान कोंकणींतले पयले कथेचो पयलो वाचक जावपाचो मान अ. का. प्रियोळकारांक वता. आनी ती उजवाडावपाचें स्रय स्वंयसेवकाक पावता. अ. का. प्रियोळकार म्हणटात की आपलीय मनस्थिती बावुल्यावरीच आशिल्ल्यान ती कथा वाचून आपूण हुंडकेहुंडकेवन रडलों. 'तांणी वत्सल आनी करूण रसाचे हे कथेंत पूर व्हांवयल्यात' अशें श्री.प्रियोळकारांनी बरोवन दवरलां. बाकीबाब तर आपले कोंकणीभक्तीचें स्रय हे कथेक दितात. ते म्हणटात- 'कितलो तरी वेळ हांव सामको हुंडक्याहुंडक्यांनी रडलों. त्या दुखांच्या अमृतवर्सावांत कोंकणीचे भक्तिची बी रूजवणा पडली जांवये अशें फाट परतून पळयतकच आज म्हाका दिसता'.

हाचेवयल्यान ही पयली कथा छापून आयली ती १९२४ वर्सा. उपरांत १९३५ वर्सा 'ओंवळा' हो कथा झेलो उजवाडाक आयलो. ह्या संकलनाचे संपादक आसले जयवन्त कुलकर्णी. तातूंत कारवार, मंगळूर आनी मुंबय वाठारांतल्या लेखकांच्यो वट्ट १४ कथा आसपावल्यात. देवनागरींत प्रकाशीत जाल्ल्या ह्या संग्रहांत दिनकर देसाय ह्या कन्नडांतल्या म्हालगड्या कवीन कोंकणींत बरयिल्ली सुंदर कथा आसा 'देवण्णालें सवळें.' ही विनोदी शैलींतली अस्सल कोंकणी कथा. तेभायर 'लोणच्या बुयांव', 'जुंवळ्यो भयणी', 'गरिबालो संवसार', 'कुमुदाली वैनी' अश्यो उल्लेखनीय कथा आसात. १९३५ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या ह्या संग्रहांतली नंद तेलंग हांची पयली कथा 'लोणच्या बुयांव' ही एक अप्रतीम साहित्यकृती. गांवघराचे ओडीन मुंबय जीण सारपी कारवारकाराची ही कथा. मुंबयंत भोंवतना कारवारांतच भोंवडी मारिल्लेवरी चिंतपी मनशाची ही कथा एकाच वेळा दोन पावंड्यांचेर चलता. ट्रॅमींत चडटना तें पात्र मनान होडयेर / व्हड्यार चडटा. वाटेवयल्या बिल्डींगां बदला ताका व्हड व्हड माड, काजूचीं वा उंडीचीं झाडां दिसतात. ठाकूरद्वाराक पावता तेन्ना ताका अस्नोटीची घाटी दिश्टी पडटा. अशा 'सुखाच्या जगांत' पाविल्लो आसतनाच ताका वास्तवाची जाण जाता. ह्या लेखकाल्यो आनीक कथा नात काय? असो प्रस्न

पडटा. ह्या संग्रहांतल्या लेखकां मदीं चौगी बायलो आसात. चडशो कथा उबारी घेनात तरी कोंकणी घरांतलें गांवगिरें वातावरण बेस बरें उबें जालां. 'आगो गंगा' ही अंबू कुलकर्णी हांगेली कथा प्रथमपुरुशी निवेदनांत आशिल्ल्यान आपउलोवप कशें दिसता. 'ओंवळा' संग्रहान कोंकणी कथेची बुनयाद घाली म्हणूंक जाय.

नेमाळ्यांक लागून कथा फुलूंक पावता हो संवसारान घेतिल्लो अणभव. कोंकणी कथेच्या मळार आशिल्लो काळोख ना करपाक पयलीं 'नवें गोंय' उपरांत 'मीर्ग' आनी त्या उपरांत 'प्रजेचो आवाज', 'साद', 'साळीक' आनी 'गोमन्त भारती' ह्या नेमाळ्यांनी आदार केलो. उपरांत मुंबय शिकपी कोंकणी वाङमय मंडळाचीं वण्टीपत्रकां आनी मुंबयंत सुरु जाल्लें आकाशवाणीचें कोंकणी केन्द्र ह्या सगल्यांच्या वावराक लागून कोंकणी कथा फुलूंक लागली.

'ओंवळां' फाटल्यान दुसरो कथां-झेलो उजवाडा येवपाक १९५६ उजवाडचें पडलें. चंद्रकांत केणी हांणी संपादीत केल्लें हें संकलन 'भूंयचाफीं' दिल्लीच्यान प्रकाशीत जाल्लें. ह्या संकलनांत कवी म्हूण उपरांत नांवारुपाक आयिल्ल्या बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय आनी पांडुरंग भांगींनी त्या काळार कोंकणींत बरयिल्ल्यो कथा आसल्यो. गुरुनाथ केळेकार हांगेली 'बामणबुद्द' ही कथाय तातूंत आसली. आनी कायतान मेंदिश हांगेली 'सोरपाली बुद्द' ही लक्षांत उरपासारकी कथाय आसली. ह्या संकलनान कोंकणी कथेचो प्रवास खंयचे दिकेन चलला आनी खंयमेंरेन पावला तें दाखोवन दिलें. त्याउपरांत 'रगताचे थेंबे' हें रहस्यकथांचें एक संकलन प्रकाशीत जालें. पूण तें कथेचेर प्रभाव घालूंक पावलें ना.

इतर भारतीय कथांवरीच कोंकणी कथेची सुरवातूय पयलीं नितीकथा वा बोधकथा अशी जाली. कोंकणी सर्जनशील मनीस हो इतर भाशांतलें बरें साहित्य वाचीत आयिल्ल्यान भारतीय आनी विदेशी साहित्याच्या मळार वारें खंयचे दिकेन व्हांवता हाची ताका सुलूस आसली. देखून इतर साहित्यांतले प्रवाह थोड्याभोव फरकान कोंकणींतूय पावले. कोंकणी समाजाक बादपी विशय घेवन कथा फुडें आयली. चंद्रकांत केणी हांगेली 'हिप्पी चली' वा 'फातरी पोंदची आंकरी' ह्यो कथा गोयांत उप्राशिल्ल्या समाजीक विशयांवयल्यो कथा. भटी जीण विस्कटावन दाखोवपी 'मूज गडगडली' वा 'प्रेमनगरचो पावणो' ही अच्युत तोटेकार हांगेली गोंयांत एका काळार चालंत आशिल्ले देवदासी प्रथेचेर आटापिल्ली कथा. चाकोरींतल्या तंत्रा

वांगडाच तंत्राचे नवे प्रयोग जावंक लागले. परंपरीक तंत्राची फास्की मोडून कथेक नवे आयाम दिवपी लेखकांनी कोंकणी कथेक खूब फुडें व्हरून हेर भासांतले कथेचे पंगतीक बसयली. अ. ना. म्हांबरोंनी तर अ-कथेक छेद दीत आगळ्याच तंत्रांतली कथा फुडें हाडली.

कोंकणी कथेक खऱ्या अर्थान चंवर फुललो तो गोंयमुक्ती उपरांत. अभिव्यक्ती स्वातंत्र्या वयलीं बंदनां सटासट तुटून पडलीं आनी साहित्यीक उत्फर्क्यांक पेंव फुटलें. ह्या बंदनांक लागून गोंयं भायर रावपी अनेक लेखक गोंयां परतले. चंद्रकांत केणी, उदय भेंब्रे हांणी कोंकणी साहित्याची चळवळ फुडें व्हेली. चंद्रकांत केणी हे खूब काळा सावन कोंकणींत कथा बरयताले. तांगेलो पयलो झेलो १९६३ वर्सा उजवाडा आयलो तो- 'धर्तरी अजून जियेतार्ली'. केंणींलीं कथा दिशींमाशीं फुलत गेली ताचो उल्लेख हाचेपयलीं आयलाच. 'भूंयचाफीं' संकलना उपरांत उजवाडा आयलें तें 'प्रसादाफूल' (१९७१). ह्या झेल्यांत उदय भेंब्रे (शिर्शक-कथा), अनील बोरकार, गोविंद मुद्रस, सुरेश काकोडकार ह्या लेखकांल्यो भोव सुंदर कथा आसात. उदय भेंब्रे हांणी मुंबय आसतनां थोड्योच पूण सुंदर कथा बरयल्यात. 'प्रसादाफूल' आनी 'घर' अशो सुंदर कथा बरोवन गोंयां आयल्या उपरांत तांणी भाशीक आनी साहित्यीक आंदोलनांत घालून घेतलें आनी ताचो परिणाम तांच्या साहित्याचेर जालो. गोविंद मुद्रस हेय बरें बरयताले. पूण उपरांत तांची सर्जनशीलता आटली जावंये. सुरेश काकोडकार हांणी 'विकऱ्याची वस्त' सारकी वाडिल्ले चलये वयली कथा बरयली पूण उपरांत तांणीय बरोवपाचें सोडून दिलें. अनिल बोरकार ह्या तरनाट्या लेखकान 'आंबुल्ली', 'एक राजाराम मरता ताची काणी' ह्या सारक्यो भोव सुंदर कथा बरोवन रसीक वाचकांल्यो अपेक्षा वाडयल्यो. तांचे कडेन सर्जनशीलता आसलीच. ते भायर प्रयोगशीलता आसली. कोंकणी कथेक नवें कितेंय दितलो अशी अपेक्षा आसतनाच तांणी कथासंन्यास घेतलो. पूण 'प्रसादाफूल' संकलनांतले कांय जाण उपरांत खूब फुडें पावले-तातूंत दामोदर मावजो, शीला नायक, दत्ता श्री नायक, आनी हेर कांय लेखक आसपावतात.

### अ.ना.म्हांबरो

अ. ना. म्हांबरो (१९३८-२०१३) हांकां कोंकणीचे उत्तर आधुनीक कथेचो जनक म्हणूं येता. तांगेल्या कथांक कथानकाची गरज भासना. प्रस्थापीत सांच्यांतली कथा

दिनासतना कितें तरी नवें दिवपाचो तांचो यत्न आसता. ते बरयतात तातूंत आनीक कितेंय नासूं गोंय आनी गोंयकार आसतातच. फकाणां मारीत, बकच्छायो करीत तिरसुवाद गोंयकारांच्यो भगलो मारीत अ. ना. म्हांबरो कथा रचतात. 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' ह्या तांगेल्या संग्रहाक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' ह्या शिर्षकावरीच तांगेल्यो ह्यो कथा. भोव वाचनीय आनी स्वताभितर बागोवन पळोवपाक प्रवृत्त करपी. तांगेल्या कथांनी पणजेंतलीं जिती जिवीं पात्रां कल्पनीक पात्रां वांगडा उलयतात. गोंयचो मुख्यमंत्री भाऊ बांदोडकार पात्र जावन येता. 'विठुली चावी शेणली' वा 'गवेत उकतें जायना' ह्यो कथा म्हांबरोछाप घेवन येतात. विठुली चावी शेणल्या इतलेंच मुखेल सुत्र घेवन कथा कांय पात्रांक घेवन फुडें वता. अशीच गत्त जेन्ना 'गवेत उक्तें जायना' तेन्ना फुक्याचो सल्लो दिवपीच चड आसतात. दोनूय कथांनी जंय सुरवात जाता थंयच कथा सोंपता. शेणिल्ली चावीय मेळना आनी गवेतूय उकतें जायना. पूण वाचून जातकच मनशांलीं विक्षितपणां लक्षांत घट बरीं उरतात.

सादी सोंपी भाशाशैली, चिमटे काडपी पूण मिश्कील विनोद आनी उपहासगर्भता हांकांलागून अनाली कथा उठून दिसता. कथांच्या शिर्षकां वयल्यानच समजता ही खेबाडां करपी कथा म्हूण. 'तुकल्याली तकली तुकल्याक ना' वा 'दोग जाणांनी एक वेपार केलो ताची काणी' ह्यो कथा गोंयकारांच्या वैगुण्यांचेर ज्युस्त बोट दवरपी. 'पुर्तुगाली प्रोफेसर देसायाली कथा' ही तर पुर्तुगेजाच्या पोशान उदक पियेवपी मुळावे शाळेच्या मास्तराची, जाका पुर्तुगेजीन 'प्रोफेसोर' म्हणटाले ताची ही कथा. पुर्तुगेज भास ही संवसारांतली सगल्यांत सुंदर भास, इश्कूद हें सगल्यांत चड पातयेवपा सारकें चलन आनी सालाझार हो भोव विव्दान आनी हुशार मनीस अशें प्रामाणीकपणान मानपी पुर्तुगेजधार्जिण्या गोंयकारांचेर केल्लें तें भाष्य.

अ. ना. म्हांबरो हांकां सगले 'अना' ह्या नांवान उलो मारताले. अनान बरयिल्ली अ-कथा जिच्यांत कथाच ना देखून दामोदर मावजो हांणी ह्या प्रकाराक 'अनाकथा' अशें नांव दिल्लें. म्हांब्यालो दुसरो कथां झेलो 'अनाल्यो अ-कथा' हालींच प्रकाशीत जाला.

फेलीस्यु कार्दोझ हो एक बरो कथालेखक. १९६६ वर्सा तांगेलो 'तुफान' हो कथांझेलो उजवाडा आयलो. 'नारायणाचो मुळो' सारकी भावनाप्रधान कथा दिवपी

फेलीस्युबाबान उपरांत वृत्तपत्री पेशाक लागून लळीत साहित्याक फाट केली. पूण तांगेलें योगदान, भोव करून रोमी लिपींत बरयतल्यांक, प्रेरणादिणे थारलें.

गोंयमुक्ती उपरांतच्या मेकळ्या वातावरणांत जांणी कथेच्या मळार पावल घालें तातूंत चौग कथाकारांनी कोंकणी कथेक धा-वीस वर्सां भितर हेर देशी भाशांच्या खांदाक खांद लावपाइतली वयर व्हेली. ते म्हळ्यार- दामोदर मावजो , पुंडलीक नायक, शीला नायक (कोळंबकार) आनी मीना काकोडकार. चौगांयल्यो चार तरा. पूण जणेकल्याचें बरप मुळावें आनी अस्सल कोंकणी. हीं चौगूय जाणां आयजूय कार्यरत आसात आनी राष्ट्रीय नामना जोडूंक पावल्यांत.

**दामोदर मावजो**

गोंयांत हिन्दू आनी क्रिस्तांव समाज मेळून मिसळून रावतात आसले तरी दोनूय समाज समांतर चलिल्ल्यान एकामुकल्यांक बेस बरे वळखतात अशें जायना. माजोड्टें गांवांत जल्मल्लो आनी ल्हानाचो व्हड जाल्लो दामोदर मावजो (१९४४) हांणी आपणाल्या कथांनी हिन्दू जीवनधारे वांगडाच क्रिस्तांव समाजाचेंय अंतरंग भोव प्रभावी रितीन दाखयलां. तांगेले पांच कथासंग्रह उजवाडा आयल्यात- 'गांथन', 'जागरणां', 'रूमडफूल', 'भुरगीं म्हगेली तीं' आनी 'सपनफूल'.

'तूं वचूं नाका' ही तांगेली पयली कथा १९६३ वर्सा बरयिल्ली. ही कथा रोखडीच 'ईव्हस विकली' ह्या इंग्लीश नेमाळ्यांत अणकारून उजवाडायली. 'अशोक' ही दुसरी कथा 'नवें गोंयचे' कथासर्तेंत दुसरी तसरीप जोडूंक पावली. आनी 'मरण येना म्हूण' ही तिसरी कथा इतली मानवली की लक्ष्मणराव सरदेसायां सारक्या सिद्वहस्त आनी व्हडा नामनेक पाविल्ल्या लेखकान आपूण जावन ती मराठींत अणकारली. उपरांत ती इंग्लीश सयत जायत्या देशी भाशांनी अणकारीत जाली.

'कोंयसांवालीं गोरवां', 'तेंरेजालो घोव', 'तसो हांव भियेना', 'खिळी', 'भुरगीं म्हगेलीं तीं', 'मिगेलीली घरचीं', 'देवाघरचो', 'तडजोड' अश्यो एकापरस एक सरस कथा दिवपी मावज्यांल्या 'रूमडफूल' संग्रहांत मात पांचूच दिर्घकथांचो आसपाव आसा. ह्या संग्रहांतली 'विशुती' ही एक विज्ञानकथा. कोंकणींतली पयली विज्ञानकथा असो तिचो उल्लेख जाता.

## पुंडलीक नायक

शिक्षण आनी साहित्य हांची मक्तेदारी तथाकथीत वयल्या वर्गाकडेन उरिल्ल्यान भोवजनसमाज चडसो शिक्षणापासून वंचीत उरिल्लो. गोंयमुकती उपरांत शिक्षणाची गंगा भौसा मेरेन पावली. आनी लोकांक भौसांतले सर्जन शीलतेची सुलूस लागली. भौसांतल्या शेतकामती घराब्यांत जल्माक आयिल्ले पुंडलीक नायक हांणी कविते फाटोफाट कथेच्या मळार पावल घालें आनी कथालेखक म्हूण आपणालें स्रेश्ठत्व सिद्ध केलें. गांवगिरी भास, ग्रामीण जीवन, अती वेगान जावपी उदरगतीचे दुश्परिणाम, समाजांतली दंभिकता हांचें यथार्थ दर्शन पुंडलीक नायकांल्या कथांनी पळोवंक मेळटा. तांगेले तीन कथासंग्रह प्रकाशीत जाल्यात- 'पिशांतर' (१९७७), 'मुठय' (१९७७) आनी 'अर्दूक' (१९८९). डॉ. किरण बुडकुले म्हणटात ते प्रमाण पुंडलीकबाबांल्यो साहित्यकृती तांगेल्या 'झाडपिक्या अणभवविश्वांतल्यान जल्माक आयल्यात'. 'कासय' ही तांगेली भोव गाजिल्ली कथा अणकारून अनेक भासांनी पावली. 'देंठ', 'पिशांतर', 'खाटकागेर एक रात', 'पारज', 'वळ' अशो भोव सुंदर कथा दिवपी पुंडलीकबाबांनी वांगडाच कादंबरीच्या मळार पावल घालें आनी उपरांत 'नाटक' ह्या प्रकाराकडेन ते गेले. 'नाटक' हो साहित्यप्रकार तांकां चड मानवलो आनी देखून तांणी फुडें ह्याच प्रकाराक ओंपून घेतलें.

## शिला नायक कोळंबकार

शिला नायक हांणी 'गॅरें' कथा बरयली आनी चोखंदळ वाचकांचे दोळे दिपकावले. पुर्तुगेज राजवट सोंपली आनी पाखले गांवघरा पुर्तुगालाक परतले. एका पाखल्याचो गर्भ पोटांत घेवन आशिल्ले एके गोंयकार अस्तुरेची ही काणी विशय आनी लेखनशैली हांकांलागून खूब उंचेल्या पांवड्याची थारल्या.

शीलाल्या कथांनी अस्तुरेची मानसिकता आनी भुरगेंमन हांचें भोव सुंदर चित्रण जालां. 'गॅरें' फाटोफाट 'मॅगी' ही अती सुंदर कथा तांणी दिली. हे कथेंत गरीब घराब्यांतले मॅगी नांवाचे एके विद्यार्थिनीक कशे तरेन घरचो वावर करून स्कुलांत दिल्लो होमवर्क करतना नाकापुरो जाता, कशे तरेन टिचर ताका तापयतात, लजेक घालतात, हिणसायतात आनी तातुंतल्यान मॅगी कशी वाट सोदून काडटा तें भोव

फिशालकायेन दाखयलां. बालमानसशास्त्रा वयली भारतीय साहित्यांतली ही एक उत्तम कथा.

शीला नायक कोळंबकार हांगेले तीन कथांझेले प्रकाशीत जाल्यात. 'ओली सांज', 'भूंयचाफीं' आनी 'कथाशील'. 'ओली सांज' संग्रहांतल्यो सगल्यो कथा गाजल्यात. 'बेबी', 'खेळ', 'छाया' 'विद्येच्यान तर' ह्यो कथा 'मॅगी' भाशेनच भुरगेंमन उकतें करून दाखोवपी. 'ओली सांज' वा 'सितार' ह्यो कथा काव्यात्म आसात. जाल्यार 'भूंयचाफीं' झेल्यांत मुखेलपणान आसपावल्यांत तीं व्यक्तिचित्रणां. कथा आनी व्यकितरेखा हांचेमदली शीममेर जरी स्पश्ट ना तरी शीलालीं 'मॅगी' वा 'बेबी' हीं व्यक्तिचित्रांच, पूण उत्तम कथा म्हूण तांकां मानचीं पडटात. 'भूंयचाफीं' संग्रहांतल्यो 'आशा', 'फातू', 'पोसकें', 'सुमन', 'सीमा' ह्यो कथाच. पात्रांच्या नांवांची शिर्षकां दिलीं म्हूण तीं व्यक्तिचित्रां जायनात. तातूंत कथाबीज आसा, कथातत्व आसा देखून त्यो कथा. पूण 'विशाल', 'मुळये', 'निळू', 'अन्नामामी', 'तेजा' हीं कथेचो साज घेवन आयिल्लीं व्यक्तिचित्रां. शीला नायक कोळंबकार मुळांत कथालेखक जाल्ल्यान तांगेलीं व्यक्तिचित्रां लेगीत कथां वरीच दिसतात.

शीलांल्या कथांनी अस्तुरी आसा. अस्तुरेचें जिवीत, तिगेलीं सुखदुख्खां शीला आत्मीयतेन चित्रायतात. पूण खंयच आवेश ना. स्त्रीवादी भूमिका तर नाच ना. स्वताचे जिणेंत जीं स्थित्यंतरां जालीं लग्न, भुरगीं, भुरग्यांचें शिक्षण, तांचीं लग्नां, संवसार, नातरां तांचेपासून घेतिल्ले अणभव शीलांच्या उपरांतच्या संग्रहांत दिश्टी पडटात. मुंबय रावनूय शीला सैमाकडेन वांगड जोडटात, गोंयची ऊब काळजांत सांबाळून दवरतात, जिणेंत येवपी बदलांक सकरात्मक फुडो करतात, संपर्कांत आयिल्ल्या मनशांक शीला बेस बरें जोखतात. तांगेली चलणूक, खोडी, संवंयो, निरखून-पारखून घेतात. हींच मनशां शीलाबायलीं पात्रां जावन तांगेल्या बरपांत येतात. शीलाबायलें लेखन-शैलीक मिश्किलतेची, मस्करेची देग आसा. देखून तांगेल्यो कथा सहजतायेन वाचनीय जातात आनी काळजाक भिडटात. तांगेल्या 'भूंयचाफीं' ह्या संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

### मीना काकोडकार

मीना काकोडकार (१९४३) तांगेल्या 'दोंगर चंवल्ला' सारक्या अप्रतीम कथांक लागून प्रकाशाच्या झोतांत आयली. तांगेले तीन कथासंग्रह उजवाडा आयल्यात-

'दोंगर चंवल्ला', आनी 'सपनफुलां', सादी, सोपीं भास, मिश्कील शैली आनी भावूक प्रसंगांचें काळजाक हात घालपी चित्रण ही मीनाबायली खासियत. 'स्वीटड्रीम्स', 'तळ्मळे', 'दोंगर चंवल्ला' ह्यो भावनाप्रधान कथा. 'दोंगर चंवल्ला' कथेंतलो भानुदास वाचकाच्या मनांत घर करून रावला ताका कारण कथेंत जाल्लें ताची म्हूर्त उबी करपी चित्रण. बँकेंतले नोकरे निमतान निवेदक एका गांवांत पावता. थंय शेजारच्या भानुदास ह्या भुरग्याकडेन तिची वळख जाता. भानुदास तिचे जिणेंत चैतन्य फुलयता. तिका घेवन रानांनी भोंवता, काण्णां चुन्नां पुंजायता. भानुदासालो निरागस, अपुर्बायेचो सभाव तिका भोव मानवता आनी अचकीत तिची बदली जाता. गांव सोडून वतना निवेदकाक जाल्लो भानुदासाचो वियोग आनी भानुदासाली भावूक आवतिकाय हांचें काळजाक पिळव घालपी चित्रण हे कथेंत जालां.

मीनाबायली मिश्कील शैली केन्ना-केन्ना विनोदी जाता तिची बरी देख म्हळ्यार 'फिफ्टी फिफ्टी'. न्हक्यापिरायेच्या तरनाट्याचें लग्न जुळून येना कारण ताका थोडो वाचादोश आसा. उलोवपाक तोंड उकतें केलें की पयलें उतर फुट्टा तें 'फ'. व्हंकलेक पळोवपाक वता तेन्ना प्रत्येक कडेन व्हंकलच तांकां फेल करता. पूण मागीर तांकां एक कानमंत्र मेळटा. ताचें लग्न जुळटा. व्हंकलेकडेन उलोवपाचो प्रसंग येता तेन्ना फुड्यांतलें च्याचें कप उबारून अर्द बशेंत ओतता आनी तिका दिवन म्हणटा 'फिफटी फिफटी' ही विनोदी शैलींतली कथा अखेरेक वाचकाक हांसयले बगर रावना.

'कुंकमार्चन' ही हालींची एक कथा विधवांवयल्या बंदनांचेर केल्लें एक धाडसी भाष्य आसा. मीनाबाय चड बरयनात पूण बरयतात तें बरें बरयतात. तांगेल्या 'सपनफुलां' संग्रहाक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

ह्याच अदमासाक एन. शिवदास (१९४९) हो कथालेखक 'गळसरी' सारकी कथा घेवन फुडें आयलो. पुंडलीक नायकांनी आपणाल्या कथांतल्यान मांडिल्ली गांवगिरी संवेदनशीलता पळोवन नवे तरनाटे उमेदीन वयर सरले तातूंत एन. शिवदास हो म्हालगडो. कुड्डी स्रद्धा, अडेचे भावार्त, भौसाचेर जावपी अन्याय अशो विशय घेवन एन. शिवदास कथेच्या मळार देंवलो. गांवगिऱ्या लोकांचे गरिबीचो आनी अबुद्धीपणाचो फायदो घेवन तांचेर भाटकारांकडल्यान जावपी अन्यायाआड

तांगेली कथा उलयता. 'भाटकार', 'येरांस', 'महारूद्र', 'रानबैल', 'पोसको' अशो सुंदर कथा तांणी दिल्यात. प्रतिकांचो उपकर करून कथा फुलोवप हेंय तांचें खाशेलेंपण. 'महारूख' आनी 'महासागरांतलें महानिर्वाण' ह्यो तांगेल्यो रूपक कथा खूब वयल्या पावंड्यावयल्यो कथा. एन. शिवदासाले आतांमेरेन चार संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. 'गळसरी', (१९८१), महारूख' (२०११), 'भांगरसाळ' (२००३) आनी शिवकथा (२०१८). तांगेल्या 'भांगरसाळ' कथांझेल्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

दत्ता श्री.नायक हांणी कांय सुंदर कथा दिल्यात. 'एक आशिल्लो सोंसो' आनी 'पाचूचो बांद' अशे दोन झेले तांच्या नांवार आसात. दत्ता नायकांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार पात्रां उबीं करपाची तांगेली कळाशी. नर्म विनोदी शैलीक लागून तांगेल्यो कथा वाचनीय जातात. दत्ताबाबान पिंतारिल्लीं अन्येक पात्रां सदांकाळ लक्षांत उरपा इतलीं वेगळीं दिसतात. देखीक, पिटर ओटुल जाल्लो गणपत- 'लॉरेन्स ऑफ अरेबिया' ह्या इंग्लीश सिनेमांत लॉरेन्साची भूमिका करपी पिटर ओटूल आवडिल्ल्यान, 'आठ आण्याची हायड्रोजन पॅरॉक्सायड केंसांक सारोवन केंस पिंगशे करपी, दोन वरां हारशांत पळोवन तोंड मख्ख दवरपाची संवय करून घेवपी, सेगीत तीन वरां चलून पिटर ओटूलाची चाल आत्मसात करपी' गणपत जावं 'लांबायेन पांच फूट आठ इंच आसुनूय लांब खोंटाचे बूट घालपी, आपले ओंठ भडक लिपस्टीक लावन तांबडेच आनी भुंवयो काळ्योच करपी, किडकिडीत आंगलोट, वायंग्यासारखें तोंड आनी खुब्बूच लांब आशिल्ल्या नाकाक लागून बोकडी कशी दिसपी 'विमेन्स ओन' दुकानाची मालकीण फिलोमेना' हीं पात्रां आपले खाशेले शैलींत तांणी रंगयल्यात. 'एक जाण्टो आनी एक नेण्टो' हें कथेंतलो व्हिएतनामच्या हो ची मिन्ह सारको दिसपी 'मसमीचो कुलास' वा 'येता, पोतेकार येता' कथेंतलो 'पुनवेच्या चंद्राभशेन वाटकुळ्या तोंडाचो फकत पैशे खावपाचें व्यसन आशिल्लो' सखाराम पोलीस हीं पात्रांय अशींच यादींत उरपासारकीं. 'पाचूचो बांद' झेल्यांतल्यो तांच्यो कथा चिकें वेगळ्यो. थोड्यो गंभीर स्वरूपाच्यो. शिर्षक कथा तर स्वताचो म्हळ्यार दत्ता नायकाचो अणभव सांगिल्लेवरी सांगल्या. हिका भूतकथा म्हणूंक जाय. पूण सत्यकथा कशी सांगिल्ल्यान वाचकांक भूल दिवपी अवास्तव कथा म्हणची पडटा. त्या उपरांत मात दत्ताबाबाल्यो नव्यो कथा वाचूंक मेळूंक नात. देखून, 'एक आशिल्लो सोंसो', 'दिसासपन' ह्या लक्षवेधक कथांनी भोव बरी सुरवात करून उपरांत लेखनाक पुर्णविराम दिवप्यांमदीं दत्ताबाबांचें नांव येता.

ओलिव्हिन गोमिश हांगेलो 'मन वोडटा वोडना' हो संग्रह १९८१ वर्सा उजवाडा आयलो. 'व्हंकल', 'सोर्त', 'मसणो' ह्यो कांय ब्यो कथा बरोवन उपरांत अणकार आनी वैचारीक साहित्या वशीन वचून तांणी कथेक फाट केली. तोमाझीन कार्दोज हांणीय 'झेलो' (१९८५) ह्या नांवाचो झेलो उजवाडायलो. पूण उपरांत सातत्य दवरलें ना.

## गजानन जोग

'रूद्र', 'सोद' आनी 'पास्त' ह्या संग्रहांचे लेखक गजानन जोग (१९५२) हे एक आगळेवेगळे लेखक. जी.ए.कुलकर्णींच्या 'काजळमाया' ह्या मराठी कथासंग्रहाची याद करून दिवपी जोगांलो 'रूद्र' हो संग्रह मनशांच्या जिविताचें काळखी आंग दाखयता. 'रूद्र', 'उपकार' आनी 'मावशेभाव' ह्यो कथा अप्रतीम म्हणूंक जाय. भटी शैली आनी भटी विशय कोंकणींत इतले प्रभावी तरेन केन्ना येवंक नासलो. अर्थात अच्यूत तोटेकार हांणी कांय सुदंर कथा बरयल्यात. पूण जोगान जेतरेन खरीक हात घाला ती तरा तोखणाय करपासारकी. एकसुरें जिवीत जियेवपी जाण्टे विधवेचें काजळिल्लें भावविश्व ल्हवपीक उतरांनीं सांगपी 'रूद्र' ही कोंकणींतली एक स्रेश्ठ कथा. जोगांकडेन नर्म विनोदी शैली आसा. पूण गंभीर विशय हाताळटनां तांगेली नुरा तितलीच गंभीर जाता. 'रूद्र' उपरांतच्यो तांगेल्यो चडशो कथा आदलें वेगळेंपण घेवन आयिल्ल्यो दिसनात. 'दूधसागर' सारकी कथा तथाकथीत मेकळी जीण जियेवंक सोदपी तरनाट्यांची. 'आयुश्याचे आमोरेर' ही कथा तत्वान चलपी मनीस भ्रश्टाचारा आड वावुरता तेन्ना ताकाच बळीचो बोकडो करपाचे प्रवृत्तीचेर आसा. जोगांल्यो गांवगिरे जिणेवयल्यो कथा बेस ब्यो उतरल्यात. पूण शारी जिणेंतल्यो कथा चाकोरींतल्यो कशो दिसतात. 'सोद' संग्रहांतली शिर्षक कथा जावं 'खोल खोल तळीं' ही कथा- खास जोग-छाप डार्क स्टोरी म्हणू येता. जोगांल्यो कथा तांतले आशयघनतेकन लागून चड उठून दिसतात. 'खांद' हो तांगेलो तिसरो संग्रह. पूण ह्या संग्रहांतल्यो तांगेल्यो कथा आदल्या झेल्यांतल्या कथांवरी काळजाक स्पर्श करूंक पावनात. घडये सातत्य नाशिल्ल्यान तांगेले लिखणेक धार येवंक पावली ना. 'पास्त' हो तांगेलो निमणो झेलो, तांच्या 'खांद' संग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला.

अच्यूत तोटेकार हांगेलो 'चैत्रांगण' (१९८८) हो झेलो उजवाडा आयला. भटपण

करतना येवपी अणभव, देव आनी मनशाचें नातें, समाजाची भटांकडेन पळोवपाची वृत्ती ह्या विशयांचेर तांगेल्यो कथा आसात. 'मूज गडगडली' ही अशीच भटी जिणेंतले घडणुकेचेर आदारिल्ली एक सुंदर कथा. भटांक समाज कसो गृहीत धरून चलता आनी भटांच्यो समस्या कशो दुर्लक्षीत उरतात तें भोव प्रखरतायेन हे कथेंत दाखयलां. देवळांच्या प्राकाराभायर एका काळार देवदासींचीं बिराडां आसतालीं. तांचे जिणेचेर मनीसपणाचे भावनेंतल्यान बरयिल्ली तांगेली 'प्रेमनगरचो पावणो' ही कथा भोव हृदयस्पर्शी जाल्या. अंत्रुजेंतलें देवळा भोंवतणचें जिवीत तोटेकारांल्या कथांनी ठळकपणान आनी हुबहू दिश्टी पडटा. पूण तांणीय उपरांत सातत्य दवरलें ना.

१९८० च्या दसकांत साहित्यीक मळार आपली आगळी कुशळताय दाखयत एक नवो लेखक उदेलो तो म्हळ्यार शशांक सीताराम. भास, विशय आनी तंत्र ह्या तिनूय मळांचेर आगळेंपण घेवन आयिल्ल्या ह्या कथालेखकान पयलेच खेपेक राजकी विशयांचेर कथा बरयल्यो. 'आमकां जाय', 'ख्यास्त' ह्या सारक्यो राजकारण आनी भाशाकारणावयल्यो कथा, जावं 'जोर जुल्म के टक्कर पे संघर्ष हमारा न्यारा है' सारक्यो समाजीक अन्याया आड आवाज उठोवपी लोकूच कसो कडसारिल्या दुबळ्यांचेर अन्याय करतात तें दाखोवपी कथा शशांकान भोव धाडसान आनी अधिकारान बरयल्यात. शशांकाली भासूय जितली सोपी तितलीच तेजस्वी. थळावे वाक्प्रचार तर मुदयेर थीक कशे येतात. देखीक 'उज्यार दवरिल्ल्या दुदाची याद जाल्लेंवरी ती उठली' वा 'गाबणे दुकरिणीवरी तिळसांज जड दिसताली'. जिणेचीं चिरंतन मुल्यां उकलासून धरतनाच नव्या पुरोगामी विचारांक वेंगावपी ह्या लेखकान तंत्राची केन्ना पर्वा केली ना. पुर्वापार तंत्र बदलून नव्या तंत्रांत आपणाली कथा बसयली. तांणी उबीं केल्लीं मनशांय लक्षांत उरपासारकीं: 'तेरेझीन मांय' तर अशी हुबहू उबी केल्या की शेजारची जाण्टेली तिची व्यथा घेवन मुखार वावुरता कशें दिसता. प्रभावी व्यक्तिचित्रण आनी संदिग्धताय हीं तांचीं खाशेलेपणां.

'तेरेझीनमांय', 'वळख', 'गीद', 'श्री सत्यनारायण हांसले', 'अपराजिता', 'अश्वत्थामा' अश्यो सुंदर कथा तांणी बरयल्यो. नवे नवे प्रयोग करून पळोवपाचीं तांची वृत्ती आसली. प्रस्थापीत तंत्र मोडून नवें तंत्र घडोवपाची धमक ह्या लेखकांत आसली. दुर्दैवान ती पुर्णत्वाक पावली ना. शशांक सीताराम (१९५३-२०००) हांगेले दोन कथासंग्रह उजवाडा आयल्यात. 'नबत' (१९८८) आनी 'परीघ' (१९९९). एक भोव

प्रथीतयश म्हूण नामना जोडिल्ले आनी अपेक्षा वाडोवन दवरिल्लो हो कथाकार तरणे पिरायेर असाध्य रोगाचो बळी जावन आमचे मदल्यान उठून गेलो. शशांक सीताराम हांगेल्या 'परीघ' ह्या संग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला.

### जयंती नायक

जयंती नायक (१९६२) हांणी आपणाले साहित्यीक अभिव्यक्तीखातीर कथा हें माध्यम वेंचून काडलें. तिगेलो पयलो कथांझेलो 'गर्जन' १९८९ वर्सा उजवाडा आयलो. ह्या संग्रहान सगल्यांचें लक्ष ओडून घेतलें. दक्षीण गोंयांतलें गांवगिरें वातावरण तांगेल्या ह्या सोळा कथांनीं भोव यथार्थपणान उबें जालां. 'पावसाच्या भंयान राखण्यांनी मट्टेवेल्यान गोरवांक परतिलीं. तिंवूय पावसाची सुलूस लागून फाटीक पांय लावन गांवावटेन धावंक लागलीं. कोणे अपुर्बायेन आपल्या गोरवांच्या गळ्यांत घाल्ल्यो घांटी, घुंगूर-किण्ण किण्ण, खुळ्ळ खुळ्ळ करून वाजूंक लागल्यो. गोठ्यांत बांदिल्ल्या आपणाल्या पाडकांचे यादीन दुदाच्या गायांनी हांबेत धांव धल्ली.' 'शेतांत वावुरपी बायलोय... माथ्यावयलो कण्डो सांबाळीत किरवंटेक खोयिल्ले पिशवेंतल्यान खावचें पान, सुपारी काडून खायत, एकमेकांचीं फकाणां मस्क्यो करीत त्यो घप घप करून चलताल्यो.' जयंतील्या कथांतलें हें वातावरण अस्सल गोंयचें आनी गांवगिरें. कथांतलीं सगलीं पात्रां जिवीं तट्टटीत. 'नातें' कथेंतली 'आवडू' जावं 'हुंवार' कथेंतलो 'भगत', 'दुमयान' कथेंतलें 'दुमयान' जावं 'संप' कथेंतलो 'शंकर' - पात्रांनीं प्राण फुकपाचो मंत्र हे लेखकेकडेन आसा.

जयंतीबायलो दुसरो संग्रह 'अथांग' पयल्या झेल्याच्या बारा वर्सां उपरांत उजवाडा आयलो. ह्या मदल्या काळार जयंतीबायन लोकसाहित्याच्या संकलनाचो म्हत्वपुर्ण वावर केलो, ताकालागून लळीत साहित्याचे रचने कडेन थोडीशी फाट जाली. अदीं मदीं कथा जल्म घेताल्यो. पूण अखेरेक २००२ वर्सा 'अथाग' कथाझेल्याचें प्रकाशन जालें आनी जयंतीचें कथाकार म्हूण नवें रूप आमच्या सामकार आयलें. लोकवेदाचें संशोधन करतनां जीं कथाबिजां हाताक लागलीं तीं लोकाविश्कार घेवन कथारूपाक आयलीं. लोकसंस्कार, कुट्ट भावार्त, लोकस्रद्धास्थाना, रिती-रिवाजांनी बांदिल्ली मानसिकता हे विशय केळयत जयंतीली कथा फुलिल्ली दिश्टी पडटा. लेखकालें अणभवविश्व वाडटा तेन्ना ताचो परिणाम तागेल्या साहित्यकृतींचेर जाता.

त्यो विस्तार घेतात. हीच गजाल 'अथांग' संग्रहांतल्या कथांच्या संबंदान घडल्या. ह्या झेल्याक अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

'गर्जनांतल्यो कथा आकारान ल्हान म्हण उणे प्रतीच्यो नात. 'निमणें बंड' जावं 'जैत' सारखी कथा भोव प्रभावी जाल्या. 'जैतां'तलो कुश्टा हो भावार्ती गांवकार. गांवांत बेताळाचें पेड आसा. पेडाचो वावर आनी नाल्ल-पड-भेट गांवचो भौस पळयता. पूण देवाक येता तें सगळें भाटकार व्हरता. कुश्टा अन्यायाआड उबो रावता तेन्ना भाटकार ताच्यो नाडयो आंवुळटा. अखेरेक गांवचो लोक भाटकाराक शरण वतात. पूण कुश्टाच्यान पळोवपाक जायना. देवाचें देवसपण उरलें खंय हो प्रस्न ताका पडटा आनी तो राती वेळार फातरगुंडे पेडार शेंवटून घुमटी आनी मूर्त फोडून उडयता. परिणाम गांवचो भौसच खुबळून ताका मार घालता आनी कुश्टाक पोलिसांचे सुवादीन करता. कुश्टालें बंड फुकट गेलें अशें वयलेचाराक दिसलें तरी कुश्टान केलें तें योग्यच केलें, तांकां भोगलें तें ताका फावनासलें अशें वाचकाक दिसता आनी सहानुभुतीचें माप कुश्टाच्या पदरांत पडटा हातुंतच लेखकालें कसब जाणवता.

'अथंगां'तल्यो कथा दिर्घ. लेखकाकडेन सांगपासारकें चड आसा देखून कथा विस्तार घेतात. 'असाडी' वा 'बसवो' आनी 'अंवसर' ह्योय तशोच ठळकपणान उब्यो रावपी कथा. हांतली 'बसवो' ही साबार कारणांखातीर वेगळी. ठाकर जमातीचो लोक 'बसवो' (गणसाबैल) घेवन गांवानगांव भोंवपी. एक दीस गोयिंद ठाकराचे चौग बैल चरपाक गेल्लेकडेन तुटून पडिल्ल्या विजेच्या सरयांक लागून मरून पडटात. उपजिविकेचो मार्गच बंद जाता. पयल्या मानाचो बसवो बैल मेल्ल्यान गोयिंदामुखार धर्मसंकश्ट उबें रावता. जाणट्यांचे सांगणेमुखार बागोवन घरच्या पाड्याकच गणसाबैल करून भोंवडावप गोयिंदाक पुटवना. संकश्टाचेर संकश्टा कोंसळटात. पिकपीक अपघात जावन गोयिंदाचो पूत, सून धरून ठाकरांचीं तेरा मनशांचें मरण करपाचो वेळ गोयिंदाचेर येता. गोयिंदान बसवो भोंवडायलो ना देखून हें पानवळ भोगचें पडलें असो आरोप जाता. अखेरेक हेर ठाकरांचें आयकून इत्सेविरूद्ध घरचो पाडो 'बसवो' म्हूण भायर काडटा. आनी '...विद्धांत हारलेलो शिपाय कसो ठाकर वाडयेची पांयवाट देवूंक लागलो' अशा उतरांनीं कथा सोंपता. हे कथेच्या निमतान ठाकर समाजा विशीं विस्तृत म्हायती वाचकाक मेळटा. गणसाबैल घेवन येतात ते

भीक मागूंक येनात. 'बसवो' घेवन भोंवपा फाटल्यान तांचेय भावार्त आसतात हें समजून येता. आनी गोयिंदा विशीं आदराचे भावनेत मन भरून येता.

एक गजाल मानून घेवंक जाय. ह्या दुस्र्या झेल्यांतल्या कथांनी लेखकांतल्या लोकवेदसंशोधकान तकली भितर घाल्ल्यान लेखक आपणाली अलिप्तताय फावो त्या प्रमाणांत राखूंक शकली ना. बसवेकारांल्यो चालीरिती आनी ठाकरांची मूळमठी हांचें वर्णन कथेची गरज म्हूण न्हय तर लेखकाक तें सांगचेंशें दिसलां म्हणून आयलां. अशें आसलें तरी ही आनी हेर कथा वाचतकूच गिन्यांनांत भर पडिल्ल्याचें समादान वाचकाक जाता हेंय तितलेंच खरें.

## महाबळेश्वर सैल

महाबळेश्वर सैल (१९४३) हे एक जोगील कशे कोंकणी कथेच्या मळार आयले. १९८९ वर्सा तांगेलो 'पलतडचें तारूं' हो पयलो कथांझेलो प्रकाशीत जालो. त्या उपरांत ह्या लेखकान फाटीं पळयलेंच ना. उसरां लिखणी हातांत घेतली पूण वगडायिल्ल्या काळाची भरपाय केल्लेवरी एका फाटोफाट एक कथा दीत गेलो. प्रत्येक कथा आशयघन, जणेक कथा अर्थभरीत. पयल्याच झेल्यान वाचकांनी सैलाक माथ्यार घेतलो. विशयांची विविधताय आनी गोंयचे शीमेवयली कोंकणीची शैली दोनूय ओडलायणी. ह्या संग्रहांतल्यो कांय कथा फौजेंतल्या जीवनाचेर आसात. लेखक स्वता फौजेंत काम करून आयिल्लो. झुंजामळारूय वावुरिल्लो. देखून ह्या कथांचो विशय आनी आशय अस्सल दिसतात. 'एक सोंपिल्लें झूंज' ही एका कर्नलाचे जिणेची दर्दभरी कथा. 'बळी' ही एका फौजेंत भरती जाल्ल्या भिजूड मनशाची. ह्या कथांनी शिमेवयल्या झुंजाचें 'आँखों देखा हाल' म्हणटात तशें वर्णन आयलां. हेर कथा आसात तांतल्यो चडश्यो मध्यमवर्गियांचे विशय घेवन आयल्यात. सैलाल्या कथांनी चड करून सकल्या मध्यम वर्गाच्यो संवेदना, तांचीं भावस्पंदना, तांचे संघर्श, तांच्यो व्यथा आनी तांचे उल्लास प्रकर्शान दिश्टी पडटात. कथेंतलें दरेक पात्र हाडामासांचेंच न्हय, तर संवकळीचेंय दिसचें अशे तरेन वाचकाचें मन आकृश्ट करता. दरेका पात्राचे पांय मातयेचेच आशिल्ल्यन तें खेळटा, तें चुकता, तें हांसता, तें रडटा, तें फटवता, तें सोंसता, तें चाळवता. 'आनी चेडवान कायदो हातात घेयलो' ही कथा अन्याया आड पेटून उठिल्ल्या चेडवाची. 'दोंगरायेदी फट' हे कथेंत लग्नाक घरच्यांनी आडखळ हाडची न्हय म्हूण दोगांय मोगी थारायतात की तिका

'दीस गेल्यात' म्हूण घराकडेन सांगचें. ते प्रमाण चली आपणाल्या घराकडेन सांगता तेन्ना तिका घरा भायरी करतात. ते वटेन चलो सांगता तेन्ना ताचेर खूब दबाव येवन तो मारतें घेता. अखेरेक फट मारून घर सोडून आयिल्ली चली फटवता. आपूण गुरवार आसां म्हूण 'दोंगरायेदी फट' मारून चलयेन आपणाल्या पांयार फातोर मारून घेतला हें दाखोवपी हे कथेचे अखेरेक चली धिटायेन आयिल्ल्या संकश्टांक फुडो करपाचो निर्धार करता. सैलांल्या कथांतलीं स्त्रीपात्रां चडशीं धीट आसात. सॅक्सशिरंगार करतना फुडाकार घेवपी आसात. घोवान सोडल्यार लेगीत संवसाराचें वजें फाटीर मारून फुडें वचपी आसात. सैलांली कथा तंत्रशुद्ध. पयल्या झेल्या उपरांत तांची कथा अदीक समृद्ध जाल्ली पळोवंक मेळटा. विशयांची विविधताय आनी आशयाची खोलाय दोनूय अर्थांनीं.

'तरंगा' (१९९१) हो तांगेलो दुसरो कथांझेलो. 'नवें', 'रूमडाफूल', 'आनी चेडवान कायदो हातींत घेयलो', 'पाशाणभुंयार', 'शारपिशें', 'शेणिल्ले मर्ण' ह्यो ह्या संग्रहांतल्यो कांय उत्तम कथा. 'तू पर्थी कसो आयलो?' ही फौजेंतल्यान पळून आयिल्ल्या तरनाट्याची कथा हातूंत आसा. घरा परततकूच आवय खुशाल जातली अशें येवजुपी पुताक आवय खणखणीत सांगता, '...घराण्याक बट्टो लावंक पळोन येयला? फाल्यां लोक तोंडांत गू घालतले. कोणी पळोवंचे आदीं च येयलो तसोच परतो वच.' आनी तो परतो येता तेन्ना ख्यास्त ताची वाट पळयता. पूण जेन्ना कमांडिंग ऑफिसराक तो सांगता- 'पळोन येयलां म्हूण कळटकच आईन घरांत घेयलो ना' तेन्ना ऑफिसर तांकां ख्यास्त माफ करता. 'आतां तो परतो केन्नाच वच्चो ना' हाची खातरी बाळगून. ह्या संग्रहांतली 'तरंगां' ही शिर्षक कथा मात पाडिल्लेवरी जाल्या. एक शब्दचित्र म्हणूं येता पूण कथा न्हय. घडये 'तरंगां' नांवाक सोबसारकी कथा आसची म्हूण लेखकान ओडून ताणून बरयल्या आसुंये.

फाटल्या धा वर्सां मजगतीं तांचे अनेक झेले प्रकाशीत जाल्यात. सरसामान्यपणान खंयचोय लेखक साहित्याच्या मळार प्रस्थापीत जाल्या उपरांत साहित्याच्या मळार नवें तंत्र वा आगळे विशय सोदून नवे प्रयोग करून पळयता. केन्ना प्रयोग सफळ जातात, केन्ना फसतात वा केन्ना काळांतरान त्या प्रयोगांचें पुनर्मुल्यांकन जाता. सैलबांबानीय अशे प्रयोग केल्यात. 'रोबोटीक वॉरफेअर' सारकी विज्ञानकथा बरयल्या. आनी 'निमणो अश्वत्थामो' ही विज्ञान आनी मिथकांचो सुमेळ सादपी कथाय बरयल्या. हे कथे संबंदान लेखक स्वता बरयता- 'हे कथेंत धतरीच्या जल्म

मरणाच्या खडीकच हात घाला. दर एका म्हाझुंजा उपरांत त्या म्हाझुंजाचें पातक खांदार घेवन एक अश्वथामा भोंवता. मनशाचें कितें चुकलें, खंयचे दिकेन वचूंक जाय आसलो, तो खंयचे दिकेन गेलो म्हूण हो संहार ताच्या वांट्याक आयलो? हाचेर चिंता...'. हे तांगेले दिर्घकथेंत सैलबाबांनीं क्लायमेट चेंज सयत सैमीक असमतोलाक लागून जे बदल घडल्यात वा घडटात तांच्या परिणामांचें विदारक चित्र वाचप्यां मुखार दवरलां.

'दोन मुळांचें झाड' ह्या संग्रहांतल्यो सगल्योच कथा आकारान मोटव्यो. त्यो 'कथिका' हे संज्ञेक चड पात्र कशो दिसतात. 'चांडाळ कर्म', 'इस्कोट', 'भिजिल्ल्यो फुगोट्यो' ह्यो कथा खत्यांनिशी शेळेल्योक फुगेट्यो कशो दिसतात. हीं फुलयनासतनां उरिल्लीं कथाबिजांच लेखकान छापून उडयल्यांत जावंये. तांकां लागून पयल्या दोन संग्रहांत दिसपी हो लेखक, कथाकार म्हूण आपणालो प्रभाव वाडोवंक पावंक ना अशें कोणाकूय दिसूं येता. अर्थात ताका करण सबळ आसा. 'काळी गंगा' (१९९६) कादंबरीच्या यशा उपरांत एका परस एक सुंदर कादंबऱ्यो बरोवन तांणी कादंबरीकार म्हूण नामना जोडल्या. हो लेखक कथेच्या मळार आजून सक्रीय आसा तरी आयचे घटकेक आघाडीचो कादंबरीकार म्हूण ताची वळख घडल्या.

महाबळेश्वर सैल हांच्या नांवार वट्ट पांच कथां झेले आसात. पलतडचें तारूं' (१९८९), 'तरंगां' (१९९०), 'बायोनेट फायटींग' (२००५), 'निमणो अश्वथामो' (२००९) आनी 'दोन मुळांचें झाड' (२०११). तांच्या 'तरंगां' झेल्याक १९९३ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला.

केरळांत जल्मल्लो पूण केरळ, गोंय आनी आतां मंगळूरांत रावपी के. गोकुलदास प्रभू (१९५४) हांचें अणभवविश्व भोव व्हडलें. कोंकणी वांगडाच, मलयाळम, तमीळ, कन्नड, हिन्दी आनी इंग्लीश भासो जाणा आनी त्या भाशांतल्या साहित्याची बरी वळख आशिल्ल्यान तांचो साहित्यीक पिण्ड मजबूत जाला. 'अंतर आयामी' (१९९१) हो तांगेलो पयलो झेलो. वट्ट १४ कथांचो तातूंत आसपाव आसा. ह्या संग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला.

के. गोकुलदास प्रभू हांगेली भास केरळी शैलींतली. पूण निवेदन करतना थोडीशी

मेकळीक घेवन तांणी प्रमाण कोंकणी वापरल्या. संवादांत मात केरळची कोंकणी तश्शी दवरल्या. ताकालागून केरळी कोंकणीची गोडी वाचकांक आडखळ नासतना मेळूंक पावता.

तांगेल्यो चडशो कथा काजळी वातावरणांतल्यो. पात्रांय जीं उबीं करतात तीं कश्टांच्या, दुख्खाच्या वज्या पोंदा बागवल्लीं, चिड्इल्लीं. 'लाशें', 'एकलेपणाची सांज', 'भिजूट', 'घाय', 'मर्णाचें सांवट' ह्यो सगल्यो काजळकाळी देग आशिल्ल्यो कथा. कथाकाराक लोकमानसाची भोव बरी जाण आसा. मनीस सभावाचीं विंगड विंगड रूपां ताणें बारीकसाणेन नियाळ्यांत.

'एकलेपणाची सांज' हे कथेंत वासंतीचें पात्र इतलें गडद रंगयलां की वाचतकूच काळजार दाग कशें उरता. वासंतीक घरांत सूख ना. ल्हान आसतनां घरांत दीसरात बोवाळ चलतालो. आवय आनी आजी हांचे मदले वाद. आवय आनी आजी मेळून बापायक संवतालीं. भुरगेंपणूच अशें एकसुरेपणांत सरिल्लें. एक्क इश्टीण नाशिल्ली जी वासंतीक समजून घेत. पूण एक दीस अविनाश भेटलो. इश्ट जालो. मेकळेपणान उलोवचें जाल्यार अविनाशालागीं. अविनाशान एक दीस म्हळें -

-तू बाये, ययातीचें आनी एक रूप

-कशें?

-ययातीची कूड खंय तरणेपणांतच म्हांतार जाली. तुजी कुड तरणी. पूण मन आसा म्हांतार.

-हां. म्हजेरूय एक स्राप आसा.

-स्राप! कसलें?

-म्हांतारपणाचो. म्हांतारपणांत जी एकांतताय आसा म्हणटात ती म्हाका अणभवता- भयांकूर जावन अणभवता.

हो संवाद तिच्या मनाची परिगत दाखयता. 'कोण जल्मूं वा मरूं, कांयच दिसनासलें. कोणाक कितेंय जाल्यारूय म्हज्या अनासक्त मनाक बादनासलें.' पूण अविनाश इश्ट म्हूण आयलो आनी जिवाक-मनाक थोडी हूनसाण आयली. म्हणसर, ताणें ती

खबर दिली. चली पळयल्या आनी लग्न जातलों म्हूण. 'हांव काळखांत पयसुल्ले एके ज्योतीकडेन वतालीं. आनी लागीं पावनापुडें ती वाडवली.' अशा उतरांनीं तिची आवतिकाय सांगीत अखेरेक एकलेपणाची सांज अणभवत 'दाट जायत आयिल्ल्या काळखांत वासंती वगीच बसली.' अशी कथेची गडद काळी अखेर जाता.

के. गोकुलदास प्रभुल्या ह्या कथांनी कोंकणी कथेची गिरेस्तकाय वाडयल्या. ह्या पयल्या झेल्या उपरांत तांगेलो दुसरो झेलो आजून भायर सरूंक ना हाची खंत दिसता. हांचो अर्थ तांणी कथालेखन बंद केलां अशें न्हय. आजून पुस्तकरूपान येवंक नाशिल्ल्या तांच्या कोंकणी कथांचो अणकार जावन कन्नडांत पुस्तक प्रकाशीत जालां. पूण कोंकणी पुस्तक प्रकाशनाचे वाटेर आसा अशें दिसता. कथालेखन करतनाच गोकुलदासबाब साहित्यीक मळार कार्यरत आसात. अणकार करप, लेख बरोवप हो वावर चालूच आसा.

हेमा नायक हांची वळख कार्यकर्ती वा आंदोलक म्हूण चड आनी लेखक म्हूण उणी आसा. पूण तिणें साहित्याक, विशेश करून कथासाहित्याक दिल्लें योगदान निखालस उण्या मोलाचें न्हय. कोंकणींतली पयली स्त्रीवादी अस्तुरी लेखक म्हूण हेमाबायचें नांव घेवंक जाय. बायलां वयल्या अन्याया आड ती पोटतिडकेन बरयता. तांच्यो चडशो कथा स्त्रीवादी (फॅमिनिस्ट) भुमिकेंतल्यान आयल्यात. देखीक 'पोरसूं परतून फुलता' हे कथेंत पुरोगामी विचारांची सुधारणावादी अस्तुरी उबी केल्या. हेमाबाय फकत अन्याय दाखोवन थंड बसनात. त्यो संघर्श दाखयतात, विद्रोह दाखयतात. समाजीक जाणविकायेच्यो कथा बरयतनां त्यो परंपरीक तंत्र आनी चालंत शैली वापरून विविध विशयांचेर बरयतात. हालींच प्रकाशीत जाल्ली तांची कथा 'तीन दीस' हीय अशीच स्त्रीवादी विचारसरणी फुडें व्हरपी सुंदर कथा. तांगेलो एक संग्रह 'पसय' (१९८२) उजवाडा आयला. हेमाबाय स्वता बरोवपी आनी हेरांकूय बरोवपाक प्रवृत्त करपी. तांणी उबी केल्ले 'चित्रंगी' संस्थेन अनेक तरण्या अस्तुऱ्यांक लागीं ओडल्यो. 'चित्रंगी' कडसून उर्बा घेवन नव्यो लेखक तयार जाल्यो. तातुंतलीं कांय नांवांच सांगतात त्यो खंय खंय पावल्यो तें- रजनी भेंब्रे, जयंती नायक, नुतन साखरदांडे, वैजयंती प्रभू, विनंती कांसार, नीला तेलंग, शकंतुला भरणे रत्नमाला दिवकर, माया खरंगटे, प्रशांती तळपणकार... हेमाबायल्या ह्या योगदानाची दखल इतिहासान घेवंक फावता.

हया आनी फुडल्या दसकांत आनिकूय लेखक झेले उजवाडावन वयर सरले. सुरेखा तोटेकार 'मृद्गंध.' (१९९३), रामनाथ गावडे 'सांवळ्यो' (१९९४), उदय शेणवी 'उगडास जीण' (१९९९), अतूल पंडित 'काळचक्र' (२००१), वामन टाकेकार 'मिरास' (२००३), नम्रता सालेलकार 'थिकां, (२००३), गणपत कवळेकार 'सात काणयो' (२००४), वगैरे. हातुंतलो एक रामनाथ गावडे सोडल्यार कोणेंच कथेच्या मळार सातत्य दवरलें ना. उपरांतूय अंजली आमोणकार 'कौल' (२००६), स्मिथा भांडारे कामत 'पोरसांतलीं फुलां' (२००६), जोफा गोन्साल्वीस 'निर्णय' (२०१०) वा शर्मिला प्रभू 'अस्तुरी' (२०१२) ह्यो आजून बरयतात. पूण ताणी ध्यास घेतिल्लो दिश्टी पडना. मजगतीं एखाद दुसरो लेखक नेट दाखयता. पूण संपदा सवासे 'आंक' (२००८) हिंचे भाशेन एक संग्रह काडून सोंपिल्लेवरी दिसता. अर्दीक बरोवन जालें जाल्यार तांची दखल फुडें केन्ना तरी घेवपाक मेळची.

अशोक भोंसलो (१९५५) हो एक अफलातून लेखक. कथा-कविता-निबंद ह्या मळांचेर तांगेलें योगदान लक्षणीय आसा. 'खुटावणी' हो तांगेलो कथांझेलो प्रकाशीत जाला. कथे भायर हेर मळारूय अशोक भोंसलोंचें योगदान आसा. 'रातराणी' नांवाची नवलिकाय तांच्या नांवार आसा. अशीच माया खरंगटे हीय लेखक जांणी कवितेन लेखन प्रवास सुरू केलो. उपरांत तांचे 'घोंटिर' (२०००), 'मळबझेप' (२००६) आनी 'मृगजळ' (२००९) अशे तीन कथां झेले उजवाडाक आयले. शेजारच्या राज्यांतल्यान गोंयां येवन रावपी कामदार कुटुंबांच्यो कथा तिच्या हातसून विशेश बरोवन जाल्यात. गोंया भायल्यान पोट भरपाक आयिल्ल्या 'वावराडी' ह्या उपेक्षीत घटकाक सहानुभुती आनीं न्याय दिवपाचें काम मायाबायनी केलां. 'शंकर' सारके कथेंत तत्वगिन्यान शिकोवप आनी तत्वगिन्यान जियेवप हातुंतलो फरक अशाच एका कामदार पात्रावरवीं उक्तावन दाखयला. अशीच कवी म्हूण प्रस्थापीत जाल्ली पूण कथेच्या मळारूय आपणालो छाप उदावपी आन्येक लेखक ती नयना आडारकार. तिच्या कथांतलें भावविश्व अशेंच आगळेंवेगळें. बिगर गोमंतकीय लोकांचे, चड करून बायलमनशांचे विशय भोव फिशालपणान केळोवपी नयनाबायन गोंयकारां मदल्या विक्षिप्त लोकांचेरूय कथा बरयल्यात. 'येस सर' ही एक विकृत मनोवृत्तीच्या गोंयकाराचेर बरयिल्ली कथा. जाल्यार 'खेळ नशिबाचो' ही एके परराज्यांतसून गोंयां येवन विपरस्टेंत पडिल्ले अस्तुरेची काळजाक पिळव घालपी कथा. ह्या संग्रहांतल्यो चडशो कथा बिगर गोंयकारांचेर बरयिल्ल्यो

आसात. इमिग्रंट लोकांच्या प्रस्नांचेर नयनाबाय जशी अधिकृत आनी संवेदनशील मनान बरयता तशें आनीक कोणें बरयिल्लें दिश्टी पडना.

वसंत भगवंत सावंत एक दमदार कथालेखक म्हूण तांगेल्या 'निवलकाणी' ह्या संग्रहावरवीं उजवाडाक आयलो. 'एकोलयो', 'कलसांव', 'नागपंचम' सारक्या स्रेश्ठ कथांक लागून तो गाजलो. वसंत बाबांक कथाकथनाचेंय आंग आसा. तुकाराम शेट हो एक अश्टतांसांचो लेखक. कथा, कविता, निबंद हे प्रकार हाताळटनांच 'कोंकण टायम्स'चें संपादक, पुस्तक प्रकाशन आनी बाल साहित्याचें संकलन अशे जायते उपक्रम एकाचबराबर राबोवपी ह्या लेखकालो पयलो संग्रह उसरां म्हळ्यार २००७ वर्सा उजवाडा आयलो. गोंयमुक्ती उपरांत जे बदल हांगा घडून आयल्यात ताचेर तटस्थपणान मतां मांडपा खातीर तांणी कथा हें माध्यम वेंचून काडलें. पर्यावरण, उद्वेग, टुरिझम, घुंवळेवखदां, बांदकामां निमतान गोंयां येवपी कामदार, अशा विविध विशयांचेर बरयिल्ल्यो तुकारामबाबांल्यो कथा भोव सुंदर. 'मातयेचो वास', 'शार वाडत आसा', 'पांयजेल', 'सूड आनी मोग' अशा ब्र्या कथाकृतींमदीं 'भारत आजाद हुआ' हें एक लळीत अणभव कथन आनी 'पेप्सिकार' हें एक व्यक्तीचित्रूय आसा.

हालींच्या कथांमदीं 'निशठा', 'एकेच ट्रेनींत', 'बळी-महाबळी' ह्यो कथा चिके वेगळ्यो- अदीक प्रगल्भ आनी विविधतायेन भरिल्ल्यो. 'भूंयदेवी' ही कथा तर भारत-बांगलादेश शीमेवयले भटके जमातींतल्या लोकांची व्यथा सांगपी. तुकारामबाबांल्या ह्या हालींच्या कथांनी गोंय थोडें आनी देशावयलें चित्रण चड जालां. समकालीन गोंयांत घडपी बदलांची आनी स्थलांतरीत लोकांच्या समस्यांची लेखकान बेस बरी दखल घेतिल्ली दिश्टी पडटा. तांचे आतांमेरेन दोन झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'धतरिचो स्पर्श'(२००७) आनी 'भूंयदेवी' (२०१६).

देविदास कदम हो एक फिशाल कथाकार. सरभोंवतणच्या वास्तवांत आगळींवेगळीं कथाबिजां सोदपाची, वेंचपाची तांक तांच्यांत आसा. मनशा-मनशां मदल्याच न्हय तर मनीस-सैम हांचेय मदल्या नातेसंबंदांचेर तांच्यो कथा आदारिल्ल्यो आसात. गोंय आनी कर्नाटक हांचे शिमेवयली बोलीभास साहित्यीक भास म्हूण कलात्मक पावंड्याचेर व्हरपाचे कसब तांणी दाखयलां. महाबळेश्वर सैल हांचे सारकीच कदमबाबांली प्रतिभा चोंय आंगांनी फुलिल्ली पळोवंक मेळटा.

देविदासांक विशयूय बरे मेळटात. अंधश्रद्धा, जातीभेद, धर्मांतरां, रिती रिवाज अशा

चालंत विशयांक केळयतनाय तो आगळेंपण मिरयतात. 'जितें मर्ण' ही तांची अप्रतीम कथा. मनीस मेलो म्हूण थारावन ताका सरणार दवरतात तेन्ना उज्या धग लागनाफुडें साबुद्दीर येवन तो देंवता तांकां पिशाच्च लेखून अंधश्रद्धाळू लोक कशे ताच्या जिवार उठटात तें वास्तवाचें खंयच भान सोडिनासतना भोव कलात्मक पावंड्यार रंगयलां. कदमांनी वेगवेगळे प्रयोग केल्यात आनी ते जैतिवंतूय केल्यात. 'आडखळ' ही अशीच एक रूपक कथा. मळब, दोंगर आनी न्हंय हीं पात्रा जावन हे कथेंत वावुरतात. सैमाचेर जैत जोडपाचे ओडीन मनीस उदक आडायता तेन्ना बांद मोडून न्हंय दर्याच्या मोगाचे ओडीन कशी धांवन वचून दर्याचे वेंगेंत रिगता ते सांगलांच. पूण मागीर न्हंयेनय ताचेर भाष्य केलां- 'भ्रश्टाचार हो, आपसुवार्थ. हो मतलबच मनशांतली विकृती.... हीच मनशाचे उदरगती मदली आडखळ! ही मनशाक केन्नाच तडीक पावंक दिवची ना.... मनशान अशेंच वचत थंय नाक धाडावपाचें....! आनी हें हांव बेस बरें जाणां आसलीं.' अशें अप्रत्यक्ष सांगून लेखक सुचयता की उदरगती खातीर सैमाकडेन इश्टागतीन कबलात करची पूण आपसुवार्थ कडेक दवरून. देविदास कदम हांगेले 'कांदळां' आनी 'जितें मर्ण' अशे दोन कथां झेले प्रकाशीत जाल्यात. पूण ह्या लेखकान महाबळेश्वर सैलांवरीच कादंबरी हें क्षेत्र मानून घेतलां आनी ते दिकेन तांचो फुडलो प्रवास चालू आसा.

भालचंद्र गांवकार होय असोच कथा आनी कविता तितल्याच समर्थपणान बरोवपी लेखक. तांणी कांय सुंदर कथा बरयल्यात. 'शेणिल्लो गांव', 'फाटीं वोस- फुडें वोस' ह्यां सारक्यो कथा ल्हवशार मुडांतल्यो जाल्यार 'मोन झूंज' ही काश्मिरांत चलिल्ल्या आकांतवादी घडणुकांचेर आसा. 'फातरपटो' ही धा बारा वर्सां फाटीं गोंयचीं सरकारां आंत्स्या-पयस्यान कोंसळटालीं ताचेर बरयिल्ली भोव बरी कथा. विशयांची विविधताय दोळ्यांत भरपासारकी आसा. जोडिल्लें यादस्तीक घाणाक दवरपी चित्रकार (दळडीर), भुरग्यांक पयसाविल्ल्या आवय-बापायची व्येथा (फटकिरें तत्वगिन्यान), भोंवन चादरी विकपाचो धंदो करपी बिगर गोंयकार (धंद्याचो एक दीस), मरणाधडेर पावनलेगीत जमनीचो मोग ना सोडपी आबा (दोंगराचे आवंडे) अशा सुंदर विशयांचेर बरयिल्ल्यो कथा आसात. 'आमचो पांडू-आमका जावो' ही तांगेली अप्रतीम कथा. गांवगिरें वातावरण, मोनजातीचो मोग हें आसाच पूण काबरो आनी पोवळो ह्या दोन बैलांक धनयाचो आशिल्लो मोग तांचें मानवीकरण करून तांच्या मनांत रिगून उकतो केल्ल्यान ही कथा भोव

उंचेल्यो पांवड्यार पावता. कांय कथा फसल्यात-ताचें कारण लेखकालो अभ्यास-संशोधन उणे पडलां. 'धुमकेतू' सारकी विज्ञानकथा, विज्ञान समजून घेनासतना बरयिल्ल्यान उकलापी दिसता. अशें आसलें तरी कथा विशयांची विविधताय आनी तंत्राक धरून केल्लो आविश्कार हांकां लागून तागेलें योगदान दखल घेवपासारकें आसा. १९८५ वर्सासावन कथालेखनाक आरंब केल्ल्या ह्या लेखकाले आतांमेरेन तीन कथासंग्रह प्रकाशीत जाल्यात. 'अंदल्ले उस्वास' (२००१), 'दोंगराचे आवंडे' (२००३) 'गांव नाशिल्ली वाट'.

लेखानाक उसरां सुरवात करून फुडें पाविल्ल्या महाबळेश्वर सैल सारक्या लेखकांचे पंगतीक आशिल्ली आन्येक मुखेल लेखक म्हळ्यार सुधा खरंगटे. खूब वाचन करून ते बुनयादीचेर नवे जिणे- अणभव चिंवून घेत, नवे पुरोगामी विचार आपणायत आनी नव्या बदलांचो सोद घेत आयुश्य सारतनाच तिच्यांतली सर्जनशिलताय जागी जाली. कुटुंबीक संघर्श आनी नव्याकडेन जुळोवन घेवपांत पोरन्याक येवपी आडमेळीं हे तांणी विशय भोव फिशालतायेन केळयल्यात. भावस्पर्शी प्रसंग चित्रायतनां अचकीत काळजाक हात घालून दोळय़ांत टच्च करून दूख हाडप आनी संघर्श उबो करून अखेरेक नाट्यपुर्ण कलातणी दिवप तांकां भोव बरें जमलां.

सुधाबायल्या कथांनी भुरगेमनाचे पापुद्रे ल्हवपीक हातांनीं परतुपाची कळाशी तिका सादल्या. 'तनरी', 'जादू' वा 'वतांतलें चान्नें' सारक्या कथांनीं लेखकेक आशिल्ली बालमानसशास्त्राची जाण स्पश्ट जाणवता. सुधाबायले दोन कथांझेले प्रकाशीत जाल्यात- 'कपयाळें' (२०१३) आनी 'वतांतलें चान्नें' (२०१५).

उसरां उदेल्ल्या लेखकांमदीं आनीक दोन नांवां घेवंक जाय. विठ्ठलराय भट (१९३२) आनी पद्मनाभ नायक. कोंकणी मनीस आसूनूय आदीं मराठींत आनी कन्नडांत बरयल्या उपरांत कोंकणीचो दिश्टावो जाल्ले हे प्रथीतयश लेखक. विठ्ठलराय हांगेलो 'पोवळ्यां माळ' (२०११) आनी पद्मनाभ हांचो 'मधुमालती' (२०१२) हो झेलो प्रकाशीत जाला.

मदल्या काळांत जायते लेखक बंद पडले तातूंत गोल्डा रोद्रिगीश, शांता कंटक (खांडेपारकार), शशिकांत पुनाजी हे लेखक आसपावतात. गोल्डा रोद्रिगीशानीं ब्यो कथा दिल्यो म्हणसर ती लग्न जावन गोंयाभायर पावली आनी कोंकणीक

शेणली. शशिकांतान कवितेचें क्षेत्र हें मुखेल मळ म्हूण वेंचून काडलें जाल्यार शांता कंटक संवसाराच्या जंवजाळांत आडकून उरली ती भायर सरूंक पावली ना. उपरांत आन्येक जबरदस्त संवेदनेचो लेखक वयर सरलो तो सुरेश पिळर्णकार. अवघ्योच कथा बरोवन ह्या लेखकान खूब अपेक्षा निर्मण केल्यो. पूण उपरांत विचार, विवेक आनी लागणूक हांच्या वादळांत तांच्यांतल्या सर्जनशील लेखकान विराम घेतलो. तो पूर्णविराम थारलो ना जाल्यार आजून तांचेकडसून अपेक्षा बाळगूं येतात. कांय लेखक बरी सुरवात करून सासणाचे संवसाराक अंतरले. पुंडलीक केळेकार (१९४४-२००८) हांणी कांय सुंदर कथा बरयल्यो. ह्यो कथा तांच्या 'मन-मोवळाय' (२०१४) ह्या मरणोत्तर उजवाडायिल्ल्या पुस्तकांत आसपावल्यात. आन्येक प्रतिभावंत लेखक दुर्गादास गावडे (१९६८- २००३) 'एक पयसो', 'डस्टर', 'मोटण' अशो अप्रूप कथा तांणी बरयल्यो. कथेचें परंपरीक तंत्र जाय तशें बागोवपाची तांक आशिल्ल्या ह्या कथाकाराची 'ताल चुकतना लय घुसपली' ही कथा अशीच मनाकडेन संवाद करपाचें तंत्र आपणावन रचिल्ली. दुर्गादासांलो 'आदण' हो कथासंग्रह मरणोत्तर २००६ वर्सा प्रकाशीत जालो. नारायण बोरकार हांचो 'तुज्या मोगा खातीर' हो झेलो प्रकाशीत जाला. सातत्यान बरयताले. पूण अचकीत भायर पडले. जे. एल. गोयश हांगेलो 'एकजात, मोनजात' हो संग्रह भायर सरलो. पूण अपघातांत मरण आयिल्ल्यान तरणे पिरायेर तो बंद जालो. देविदासबाबय हे जिवे उरिल्ले जाल्यार आयज पयले रांकेंतलो कथाकार म्हूण नामना जोडूंक पावतासले. पूण तरणे पिरायेर तांचो अंत जालो.

विन्सी क्वाद्रूस (१९६४) हो एक भोवप्रसव लेखक. आजवेर तांचे सात कथां झेले प्रकाशीत जाल्यात. देवनागरी आनी रोमी दोनूय लिपींनीं तितलेच सहजपणान बरोवपी विन्सी सारके लेखक भोव थोडे आसात. तीन भारदस्त कथांचे झेले नागरी लिपींत उजवाडाक आयल्यात जाल्यार उरिल्ले चार रोमी लिपींत प्रकाशीत जाल्यात. दोनूय लिपींनीं तांचो वाचक वर्ग आसा. 'योगायोग', 'पश्चाताप', 'एक पर्व सोंपलें' अश्यो भोव सुंदर कथा तांणी बरयल्यात. चडशो कथा चालंत विशयांचेर आनी त्याग, भगसणी अशा समाजमान्य मुल्यांचेर आदारीत आसात. पूण कांय कथांनी पुरोगामी विचारांचें प्रखरतायेन समर्थन केल्लें पळोवंक मेळटा. 'काजाराची साऊद' जावं 'परंपरा' ह्यो विधवा पुनर्विवाह ह्या विशयां वयल्यो कथा. तांगेल्या कथांनी देवभावार्तीपण ते चड स्पश्टपणान दाखयतात. संदिग्धता तांकां मानवना.

तांच्यो कथा कथानकप्रधान आनी सरळमार्गी. विन्सील्या कथांनी गोंयचो व्यामिश्र समाज सहजतायेन येता. 'फुलदाणी' (१९९०), 'कुरपणो" (२००७), आनी 'कणसां' (२०११) हे नागरी लिपयेंत प्रकाशीत संग्रह जाल्यार 'सूख आनी दूख' (२००७), 'घोंस' (२००८), 'तुरो' (२०१०) आनी 'मळो' (२०११) हे चार झेले रोमी लिपींत उजवाडाक आयल्यात.

अजय बुवा (१९७३) हे तरनाटे पिळगेचे कोंकणी कथेक आश्वस्त करपी प्रतिनिधी. समाजांतल्या धोंगांपोंगांचेर कथा बरोवपी अजयांले तीन संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. 'एस.एम. एस.' (२०१०), 'बांवरी राधिका' (२०१२), आनी 'रूदाली' (२०१४).

मधुसुदन जोशी (1963) हे फाटलीं साबार वर्सां सातत्यान कथालेखन करतात. तांगेलो 'खांवटें' हो पयलो झेलो १९९७ वर्सा उजवाडा आयलो. तोटेकार आनी जोग हांचे फाटल्यान मधुसुधन जोशी भटी जीवनाचेर आनी भटी शैलींत बरयतात. विज्ञान शाखेंतले प्राध्यापक जाल्ल्यान जोशींली कथा परंपरा आनी श्रद्धा हांचेर जितले अधिकारवाणीन बरयता तितल्या अधिकारान शास्त्र आनी विज्ञानाचेर बरयता.

कथेक अनेक लेखकांनी मोलाचें योगदान दिलां. अशोक कामत ह्या कादंबरीकारान अशोकथा (२०००) 'कळयो पिटकोळेच्यो' (२०११) हे दोन संग्रह प्रकाशीत केल्यात. कथा प्रकाराक जांणी अर्थपुर्ण योगदान दिलां तांतूत अभयकुमार वेलिंगकार, जयमाला दणायत, रजनी भेंब्रे, ज्योती कुंकळकार, सुजाता सिंगबाळ अशे लेखक आसात. अभयकुमार हे विविध प्रकारांचें लेखन करतात. तांचो 'कंवच्यो' (१९८९) हो झेलो प्रकाशीत जाला. उपरांत कोंकणी प्रकाशनांची गरज वळखून तांणी कोंकणी पुस्तकां उजवाडपी प्रकाशन संस्था चलोवपाक घेतली. जयमाला दणायत ह्यो मात सातत्यान कथालेखन करतात. 'कवासो' हो तांचो पयलो कथां झेलो. तांतली शिर्षक-कथा १९७० वर्सा प्रकाशीत जाल्ली. तेन्नाच्यान जयमाला कथासाहित्य रचतात. मध्यमवर्गी समाजांत उप्रासपी प्रस्नांक त्यो कथेवरवीं उतर फोडटात. समाजांतल्या प्रस्नांक भिडपाखातीर लेखक केन्नाकेन्ना मोनजातीचो आदार घेता. 'कावळो-कावळी' ही कथा त्या दोगांमदल्या संवादांतसून फुलता. जाल्यार 'पाल' हे कथेंत राशीवयल्या कुटुंबाची विभागणी जावन दोन भाव-भावजयो दोशीं जातात तेन्ना घरांतल्यो दोन पालीय दोन कडेन वांटून वतात अशें दाखयलां.

समाजांतल्या अनिश्ट चाली रितींचेर थेट भाष्य करपी जयमाला दणायत हांगेले आजचेर तीन झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'कवासो' (१९७८), 'सांजसांवळी' (२०१४) आनी 'झोपाळो' (२०१६). रजनी भेंब्रे ह्योय सातत्यान लळीत लेखन करतात. तांगेले 'घुस्मट' (१९९२) आनी २०१८ वर्सा प्रकाशीत जाल्लो 'नियतीची आशाडपावळी' अशे दोन झेले उजवाडाक आयल्यात. ज्योती कुंकळकार ह्योय एक सिद्धहस्त लेखक. थोड्योशो स्त्रीवादी विचारसरणेकडेन घुंवपी तांगेल्यो कथा. आस्पतदार समाजांत उप्रासपी प्रस्न, शारी जिणेंतली घुस्पट, पुरूशप्रधान संस्कृतायेंत अस्तुरेक बादिकार जावपी बंदनां हांचेर तांच्यो चडशो कथा आदारिल्ल्यो आसात. तांचे आजमेरेन कोंकणी कथांचे तीन झेले उजवाडाक आयल्यात. 'चित्रांतलें वादळ' (१९९३), 'कन्यादान' (२००४) आनी 'समर्पण' (२०१३). सुजाता सिंगबाळ हीय स्वतंत्रतायेचो निस्संदिग्ध पुरस्कार करपी विचारक लेखक. ही लेखक लोकमानस जितली बरी वळखता तितलीच बालमानसूय समजता. तिगेली 'मनपरी' सारकी कथा लेखकेची भुरगेंमन वळखुपाची तांक दाखयता. सुजाता आजून बरयतात. 'स्वीकार' हो तांगेलो कथासंग्रह २००९ वर्सा प्रकाशीत जाल्लो. ते पयलीं २००८ वर्सा 'एक आशिल्ली राणी' हो कथा-कथिकांचो सुपुल्लो संग्रहूय प्रकाशीत जाल्लो. त्यो सातत्यान लळीत साहित्य बरयत आसात. फुडलो संग्रह उजवाडाक येवपा इतल्यो कथा तांचेकडेन निश्चीत आसात. हांच्या भायर विजया पै धुंगट शेळडेंकार हांगेले 'काजुले' (१९९५) आनी 'स्त्री जिवीत कथा' (२००७) अशे दोन संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. ते भायर 'सैमाच्या घोंटेरांत' आनी 'मोगाळ सुकणीं सावजां' (२००७) हे मनीस, सैम आनी मोनजात हांचे मदलें नातें विस्कटावन दाखोवपी तरनाट्यांखातीर बरयिल्ले कथांझेले आसात. स्फूट लेखन करपी दिपा मुरकुंडे हांगेलोय 'उमजणी' हो झेलो उजवाडाक आयला.

आयचे घटकेक जे तरनाटे बरें बरोवन अपेक्षा वाडोवन आसात तातूंत कुमुद भिकू नायक 'पावलखुणो' (२०१५), हर्षा शेटये 'कथारंग' (२०१४) आनी विशाल खांडेपरकार 'शिमेवयलो देंवचार' (२०१६) हांचीं नांवां घेवपाक जाय. वामन गोविंद टाकेकार (१९५२) हांगेलो 'मिरास' (२००३) आनी जयंत बालाजी नायक (१९६८) हांगेलो 'बा' (२००१) हो झेलो प्रकाशीत जाला. अशे एखादरो संग्रह प्रकाशीत केल्ले वा जांचे आजून संग्रह येवंक नात अशे आनिकूय खूब जाण आसात. नवे नवे प्रयोग करीत, नवें नवें दिवपाचो तांचो हावेस तडीक पावतलो अशी आस्त बाळगूं

येता. 'प्रारब्ध' चो लेखक प्रितेश मंगेश परसाई सारको तरनाटो लेखकूय आगळ्यो वेगळ्यो कथा दिवन वाचप्यांक हांयस दाखयता.

तीन कथालेखकांचो खाशेलो उल्लेख जाय. प्रकाश पर्येंकार, रामनाथ गावडे आनी जुझे लॉरेन्स. प्रकाश पर्येंकार हांणी कवितेन लेखनाक सुरवात केली आनी उपरांत कथा हो प्रकार आपणायलो. 'चंद्रकोर', 'आनी ते तोंड घेवन गेले' ह्या सारक्यो भोव सुंदर कथा तांणी दिल्यात आनी भोवप्रसव नासले तरी सातत्यान बरयतात. रामनाथ गावडे हांगेलो 'सावळ्यो' आनी 'उतळ जीण' हे दोन झेले उजवाडा आयल्यात. 'युवा कथा' ह्या नांवान युवकां खातीर कथाय प्रकाशीत जाल्यात. तांगेली 'तळाचो फातर' ही कादंबरी सध्याक भोव गाजता. जुझे लॉरेंस (1967) हो लेखक आगळीवेगळी कथा घेवन आयला. अना म्हांब्र्यांले कथेकडेन नातें सांगपी तांगेली कथा. जुझेबाबांले कथेंत कथानक आसा. पूण कथा सांगपाची शैली उत्तर आधुनीक धाटणेची. 'फॅन', 'झेमानुएल', 'जोर', 'सायबीण' अश्यो एका परस एक सोबीत कथा तांणी दिल्यात. सुमोनी हें पात्र परंपरीक पसरकाराचें. तागेले सांवळेक जोर येता आनी वैजालें वखद घेवन तो बायले कडल्यान सेवा करून घेतासतना तिका वेंगेंत घेवन तो तिचो भोग घेता इतलीच ही कथा. पूण कथनाची शैली आनी कल्पक मांडणी सामान्याभायरी. हो लेखक व्हडा नामनेक पावतलो हातूंत दुबाव ना. 'जोर' कथेचेर टेलेफिल्मूय जालां.

## नवलकथा

इंग्लिशीन जिका 'नॉव्हेल' अशें म्हणटात तिका कोंकणींत 'कादंबरी' वा 'नवलकथा' अशें म्हणटात. अस्तेंतेंत जेन्ना पयलेच खेपेक हो साहित्य प्रकार आयलो तेन्ना कितें तरी नवें मेळिल्ल्याचो आनंद तांकां जालो. नविदाद अशा अर्थान 'नॉव्हेल' हें नांव तेन्ना पडलें तें आयजूय तशेंच उरलां. ह्या विस्तारीत साहित्य प्रकाराक 'कादंबरी' हें नांव पडलां तें बाणभट्ट ह्या संस्कृत म्हाकवील्या 'कादंबरी' ह्या ग्रंथा वयल्यान. हरशीं कादंबरी हें पात्राचें नांव जें ते रचनेक दिलां. ती रचनाय काव्यात्म. पूण तो साहित्याचो विस्तारीत दिर्घ प्रकार जाल्ल्यान तेंच नांव मराठी आनी कन्नड भासांनीं घेतलें आनी उपरांत कोंकणीन. गुजरातींत ह्या प्रकाराक 'नवलकथा' म्हणटात. तें इंग्लिश 'नॉव्हेल' उतराक लागीं जाल्ल्यान तेंच नांव ह्या प्रकाराखातीर कोंकणींत घेवंचें अशें रवीन्द्रबाब केळेकार हांकां दिसतालें. तांणीच तें उतर कोंकणींत हाडलें.

पूण आजून तें सर्वमान्य जाल्लें दिश्टी पडना.

भारतीय साहित्यांतली पयली कादंबरी खंयची हाचेर वाद आसा. बंकीमचंद्र चट्टोपाध्याय हांगेली 'दुर्गेशनंदिनी' ही पयली अशें म्हणूं येता. पूण मराठींतली बाबा पदमजी हांणी १८५७ वर्सा बरयिल्ली 'यमुना पर्यटन' ही त्या आदली कादंबरी हें मान्य करुंक जाय. बाबा पदमजी हांणी क्रिस्तांव धर्म आपणायिल्लो. ही रचना विधवा-पुनर्विवाह सारके हिन्दू धर्मांतले कांय रिवाज कशे बुरशे आनी क्रिस्तांव धर्म आपणायल्यार लोक ब्याक पावता असो संदेश दिता. ते भायर ते रचनेंत फकत विंगड विंगड प्रसंग मांडल्यात, तातूंत सुसुत्रताय ना देखून तिका समाजीक कादंबरी म्हणचें न्हय अशें कांय समिक्षक लेखतात. १८६५ वर्सा लक्ष्मण शास्त्री हाबळे हांणी मराठींन बरयिल्ली 'मुक्तामाला' ही आकृतीबंधाचे नदरेन पयली कादंबरी अशेंय म्हणटात. हिंदींतली श्रीनिवास दास हांगेली 'परीक्षागुरु' १८८२ ही तंत्राचे नदरेन आधुनीक म्हणूं येता अशी भारतांतली पयली कादंबरी अशेंय मानतात. उपरांत इतर भारतीय भाशांनी हो साहित्यप्रकार पातळ्ळो. आनी खुबशा आडमेळ्यांच्या बाजत कोंकणींतूय १८९५ वर्सा कादंबरी बरोवन जाली. पूण ती उजवाडाक येवपाक २०११ मेरेन वाट पळोवंची पडली. उपरांतचो इतिहास हाचे पयलीं आयलाच.

विसाव्या शतमानांत भारतीय कादंबरी खूब फुडें पावली. ६०च्या दसकांत कलावाद-जीवनवाद / साहित्य कलेखातीर काय जीवनाखातीर असो वाद चलतालो तेन्ना गोंय मुक्त जावंक नासलें. तो वाद कोंकणी साहित्याक बादलो ना. पुरोगामी बदलांक भारतीय भासांतलें साहित्य नाक किल्शितालें तेन्ना समाजीक आनी संस्कृतीक मळार नवें वारें व्हांवंक लागलें. अस्तित्ववादी जीवनदिश्टीकोणाची फाटपुरवण करपी चळवळ सुरु जाली. मराठींत भाऊ पाध्ये, भालचंद्र नेमाडे, किरण नगरकर वा शांता गोखले ह्या साहित्यकारांनी कादंबरेच्या मळार क्रांती केली. शेतकामती, रिक्षाड्रायव्हर, दलीत कामदार हीं मनशां पयलेच खेपेक तांच्या अंतरंगासयत साहित्यांत झळकलीं. विशमताय, जातीभेद, कुट्टे भावार्त, गिरेस्तांची पिळणूक, नेत्यांची पिडणूक आनी सरकाराची उदासीनताय हे विशय नवी संवेदना घेवन साहित्यांत देंवले. भारतीय इंग्लीश साहित्यांतूय कमला मार्कंडेय आनी अरुण जोशी, बंगाली लेखक तोरु दत्त आनी मनमोहन घोष अशा लेखकांनी हे नवे दिकेन प्रवास सुरु केलो तेन्ना कोंकणी साहित्य परचक्राचें चेपण मोखून मेकळें जावचें

आसलें. गोंय मुक्त जालें तेन्नाच अभिव्यक्ती वयले निर्बंध निखळ्ळे आनी कोंकणी साहित्यान स्वतंत्र वाट माडुपाक सुरवात केली. देशी-विदेशी भाशासाहित्याकडेन वळख आशिल्ल्यान कोंकणी लेखकांनी मदले पावंडे कडेक सारून थेट वास्तववाद आनी अस्तित्ववाद आपणांयलो. ताच्याय फुडें वचून अ. ना. म्हांब्र्यासारक्या जाणकार साहित्यकारांनीं अ-कथा / ॲब्सर्डिझम हो प्रकार केळयलो. आयचे घटकेक जुझे लॉरेंस ह्या प्रकारांतल्यो कथा बरयता.

आधुनीक कोंकणी कादंबरेचो प्रवास उसरां सुरूं जालो. कर्नाटकांत विशेश करून मंगळूर वाठारांत हो प्रकार चड फुललो. व्हि. जे. पी. साल्दाना, जो. सा. आल्वारीस सारक्या कादंबरीकारांनीं पांचव्या दसकांतच कादंबरेक हात घाल्लो. गोंयांत मात मुक्ती उपरांत कादंबरी हो प्रकार फुलूंक सुरवात जाली. अर्थात हाचे पयलीं सांगलां तेप्रमाण एदुआर्द ब्रून द सौज हांगेली 'क्रिस्तांव घराबो' ही कोंकणींतली पयली कादंबरी अशें म्हणूंक जाय. ही कादंबरी त्या काळाच्या मानान भोव बरी बरयल्या. पूण नांवांप्रमाण ती देवाभिरांतेन चलचें हो क्रिस्तांव घराब्यांक संदेश दिवपी कादंबरी अशें दिसता. त्या उपरांतची नवलकथा म्हळ्यार शणै गोंयबाबांली 'संवसार बुट्टी'. शणै गोंयबाबांनी तिका 'गोमन्तोपनिषद' हें नांव दिलां. हांचोच अर्थ उपनिषदांवरी केल्लें लेखन अशें तांकां अभिप्रेत आशिल्लें. ह्या पुस्तकांत कोणाची कथा ना. पूण समाजाचेर केल्लें भाष्य आसा. तातूंत तत्वागिन्यान आसा. अध्यात्म आसा. आनी सरसामान्यांक होलमल्लें वेव्हारीक सत्य आसा. अशे तरेची ही एकमेव कादंबरी म्हणूं येता. त्या उपरांत बद्द १९५० वर्स उजवाडचें पडलें दुसरी समाजीक कादंबरी येवपाक. ती म्हळ्यार 'आंजेल'. ही लुवीस मस्कारेन्य हांगेली मंगळूरांत उजवाडाक आयिल्ली कादंबरी. त्या संबंदान पयलीं सांगून जालां.

गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत कोंकणी अस्मितायेक खडबडून जाग आयली. इतले मजगतीं १९५० उपरांत मंगळूरांत कादंबरीलेखन व्हड प्रमाणार जावंक लागिल्लें ताचो उल्लेख हेरकडेन आयला. ह्याच काळार गोंयांत 'रोमांसी' हो साहित्यप्रकार वयर सरिल्लो. 'रोमांस' म्हळ्यार कादंबरीच. पूण तिका आधुनीक कादंबरी म्हणूंक येवचें ना. रोमांस ह्या प्रकारांत मोग, शिरंगार, धाडसाचीं आनी साहसाचीं कामां आसातात. सरसामान्यांचे अभिरुचीक मानवता तसलो हो प्रकार. क्रिस्तांव समाजा मदीं रोमी लिपयेंत बरयिल्ल्या कादंब्र्यांकच 'रोमांसी' म्हणटात असो जो समज

आसा तो खरो न्हय. फा. आंतोन पेरैर वा फेलीस्यु कार्दोझ हांणी बरयिल्ल्या साहित्याक 'रोमांसी' म्हणिनात. मराठींत अर्नाळकरांल्या रहस्यकथांक साहित्यांत जी सुवात आसा वा तमाशा वा नौटंकी ह्या प्रकारांक रंगभुंयेचेर जो मान आसा तसो मान रोमांसी ह्या प्रकाराक साहित्याच्या मळार आसा. रोमांसी हो प्रकार साहित्यांत आसपावना अशें लेखपी आसात. पूण तें समा न्हय. सरसामान्य लोकांची साहित्यीक भूक भागोवपा खातीर बरयिल्लें हें साहित्य. ताका अभिजात साहित्य म्हणूंक येवचें ना. पूण सरसामान्यांक वाचनाची गोडी लावन अभिजात साहित्याकडेन वचपाची वाट दाखोवपाचें काम ह्या रोमांसींनी केलां. लोकभास प्रगल्भ करप, वाचकांची कल्पनाशक्त वाडोवप आनी बरें-वायट, नीत-अनीत हांचेर विचार करपाक प्रवृत्त करप अशे संस्कार जनमानसाचेर करपाचो मोलादीक वावर करपी रोमांस हो एक भोव लोकांमोगाचो साहित्यप्रकार. कारीदाद दामासियान फेर्नांदीश हांकां 'रोमांसीचो पाय' अशें म्हणटात. तांणी साबार पुस्तकां बरयलीं तांतलीं चड लोकांमोगाळ जालीं तीं म्हळ्यार 'आंकवारीचो चेडो', 'आर्मिदा', 'रियुआरिता', 'ला बियात्रीस' आनी हेर. खूब जाणांनी 'रोमांसी' बरयल्यो तातूंत चडांत चड लोकप्रिय जावंक पावले ते रेजिनाल्द फेर्नांदीश आनी इलियट एर्ली. मोग, झगडीं, साहस, पैसावो आनी अखेरेक 'सुखान संवसार केलो' अशे तरेची त्याच त्याच सांच्यांतली जाल्ल्यान रोमांस हो प्रकार दर्जेदार साहित्यांत आसपावना. पूण तातुंतूय रेजिनाल्द फेर्नांदीश सारक्या लेखकांनी ब्यो रोमांसी बरोवन लोकांची अभिरूची वाडोवपाचो यत्न केला. 'गुलाब', 'धारुण अस्तुरी', 'चिकाण कंपनी', 'देंवचाराचो सांगाती', 'सोपूत एका गुटाचो' ह्यो तंगेल्यो रोमांसी खूब गाजल्यो आनी खूब खपल्यो. तेंचतेंचपण ना करपाखातीर नवेंनवें दिवप हें काम रेजिनाल्दबाबांनी सातत्याक केल्ल्यान तागेलीं पुस्तकां हजारांचे संखेन खपतालीं. गोंयमुक्ती उपरांत सुशिक्षीत क्रिस्तांवांक साहित्यीक पांवड्यांची जाण येवंक लागिल्ल्यान ल्हवू ल्हवू नव्यो कादंब्यो आधुनीक तंत्रान बरोवपाचे यत्न सुरू जाले.

चार दसकां फाटीं सुमंतबाब केळेकार हांणी जाग म्हयनाळें सुरू केलें आनी साहित्याचें नवें यूग फुललें. कथाकार वयर सरले. ह्याच कथाकारांनी नवलिका वा कादंबरिका बरोवपाक हात घालो आनी कांय वर्सांभितर अनेक नवलिका भायर सरल्यो. पयलीं रवीन्द्रबाबांली 'तुळशी' (१९७१) आनी फाटोफाट दामोदार मावजो हांगेली 'सूड' नवलिका १९७३ वर्सा भायर सरली. त्याच वर्सा रमेश भ.वेळुस्कार

हांगेली 'मोनी व्यथा' उजवाडा आयली. पुंडलीक नायकांली 'बांबर' ही भोवचर्चीत नवलिका १९७६ वर्सा जाल्यार अरूण सिंगबाळ हांगेली 'जायू' (१९७७) आनी तुकाराम शेट हांगेली 'पाखलो' १९७८ वर्सा प्रकाशीत जाली. चंद्रकांत केणील्यो कांय नवलिकाय भायर सरल्यो तांचो उल्लेख हेरकडेन आयला. १९७९ वर्सा लक्ष्मणराव सरदेसाय ह्या कोंकणी-मराठींतल्या सिद्धहस्त लेखकाली 'पापडां-कवळ्यो' ही प्रकाशीत जाली. फुडल्या पंचवीस वर्सांमजगतीं सुमार तीस नवलिका भायर सरल्यो. तांतल्या कांय दखलपात्र नवलिकांचो उल्लेख करूंक जाय. १९८३ वर्सा शांता कंटक हांगेली 'अंतरपाट' ही पुस्तकरूपान उजवाडाक आयिल्ली नवलिका आनी फाटोफाट आयिल्ली तिची 'चवथीचो चंद्र' जी नेमाळ्याचेर आयल्या पूण पुस्तक रूपान येवंची आसा. ही दुसरी नवलिका हिंदू-मुस्लीम मिश्र विवाहांचो विशय घेवन बरयल्या. ह्या विशयाचेर तटस्थपणान आनी इतली सुंदर कथा आयजमेरेन कोणेंच बरयिल्ली ना.

'जायू' फाटल्यान अरूण सिंगबाळ हांगेल्यो दोन नवलिका 'पडबिंबां' आनी 'कुडक्या कुडक्यांची काणी' १९८४ वर्सा एकाच पुस्तकांत उजवाडाक आयल्यो. 'पडबिंबां' नवलिकेंत धवाड्या घरांनी लग्न भायल्या शरीर संबंदांतसून निर्मण जाल्या समस्यांचेर कथानक रचलां जाल्यार 'कुडक्या कुडक्यांची काणी' नवलिकेंत पुर्तुगेजा मुस्तींतली भास, मनशां आनी वातावरण बेस बरें निर्मण केलां. ह्यो दोनूय नवलिका पन्नास-साठांचीं दसकां दोळ्यांमुखार उबीं करतात. १९८६ वर्सा जे. एल. गोयश हांणी 'सोडवाट' म्हूण नवलिका बरयली. एम. पी. टी. कामदारांच्या संपाचे फाटभूंये वयलें हें कथानक. वास्को वाठारांत एकोडो रावपी एका तरनाट्याच्या विपरीत भोग-संभोगांचीं धीट वर्णनां हे नवलिकेंत आसात. हेमा नायक हांगेल्यो 'निर्बळा' आनी 'मुक्ती' ह्यो दोन नवलिका १९९२ वर्सा एकाच पुस्तकांत प्रकाशीत जाल्यात. 'निर्बळा' ही भोव धिटायेन आनी उकतेपणान बरयिल्ली एके तरनाटे अस्तुरेच्या भोगांची कथा. अस्तुरीवादी भुमिकेंतल्यान अस्तुरेचे भोगणार भीडमुर्वती बगर मांडपी ही नवलिका साहित्यीक पावंड्यार उबारी घेना. अस्तुरी ही भोगाची वस्त जाल्लेवरी वागणूक बापूय आनी शिक्षक लेगीत नायिकेक दितात. अशें केन्ना केन्ना घडूं येता हें खरें जालें तरी तें कलात्मक रितीन वा सुचकतायेन दाखोवं येतालें.

दिलीप बोरकार हांची स्तंभ लेखक आनी प्रकाशक म्हूण चड वळख आसा. तांणी लळीत साहित्यूय रचलां. २०११ वर्सा तांगेली 'एक आंकवार डायरी' नांवाची

नवलिका उजवाडा आयल्या. हे नवलिकेंत चाकोरी भायलें कितेंय तरी मेळटलें अशें पयलीं दिसता. पूण ती डायरीच्या रूपांतूय ना आनी नाविन्यपुर्णय ना. कॉलेज जीवनांत दिलीप-आशू हांचे मदीं फुलिल्लो मोग उपरांत तुटटा. दोगांय दोन दिकांनी पावतात. पंचविशेक वर्सांनीं योगायोगान तीं परतीं मेळटात. अचर्कीत आशूक मरण येता. तेन्ना दिलीप आदली डायरी काडून उगडासांनीं शेणटा. इतलीच परंपरेंतली काणी जाल्ल्यान मन विरूस जाता. ह्याच लेखकाली आन्येक नवलिका 'बबलूलीं पत्रां' नेमाळ्यांत उजवाडाक आयल्या. पूण ती पुस्तकांत येवंक ना. तातूंत कथानक उणे आनी अश्लीलताय चड असो आरोप जाला.

'दिपत्कार' (१९९५) ही लक्ष्मीदास बोरकार ह्या पत्रकार लेखकाची दिपाजी राणे ह्या इतिहासीक पात्राचेर बरयिल्ली नवलिका. ते भायर अभयकुमार वेलंगकार हांगेली 'लव्ह स्टोरी' (१९८९). एन. सुहास हांगेली 'शीला' (१९९३). नारायण वादोळकार हांगेली 'गोमती' (१९८८) आनी सुजाता सिंगबाळ हांगेल्यो 'काणी एके जिणेची', 'नातें मना मनाचें' आनी 'मीरा' ह्यो तीन नवलिका प्रकाशीत जाल्यात. एक फिशाल साहित्यकार अशोक भोंसलो हांगेलीय 'रातराणी' ही नवलिका २००३ वर्सा प्रकाशीत जाल्या. पूण णव्वदाच्या दसकांत चडांत चड गाजिल्ल्यो आनी राष्ट्री पावंड्यार जांची दखल घेतल्या अशो एकाच पुस्तकांत प्रकाशीत जाल्ल्यो दोन नवलिका म्हळ्यार महाबळेश्वर सैल हांगेल्यो 'अरण्यकांड' आनी 'अद-श्ट' (१९९७). ह्या दोन नवलिकांनी इतिहास घडयलो. 'अरण्यकांड' ही फातरफोड्यांच्या एका पंगडाचेर आयिल्ल्या, सुको सडो कशें अंतपार नाशिल्लें रानमळ हुंपपाच्या भिरांकूळ संकश्टाचेर आटापिल्ली कथा जाल्यार 'अद्रृश्ट' ही पयस रानवटाक एकसूर जीण जियेवपी मनशाचे जिणेंत एक पिशी अस्तुरी येता आनी तेवरवीं जें एक मोड येता ताची काणी. दोनूय नवलिका अप्रूप विशय आनी बंदिस्त मांडणी हांकां लागून चड लोकांमोगाळ जावंक पावल्यो. 'अरण्यकांड' नवलिकेचो इंग्लिशींत 'फॉरेस्ट सागा' ह्या नांवान अणकार जाला आनी 'अद्रृश्ट' नवलिकेचेर 'पलतडचो मनीस' ह्या नांवाचो अंतरराष्ट्री पुरस्कार जोडिल्लो सिनेमा तयार जाला.

महाबळेश्वर सैलालें अणभवविश्व सामान्या भायरें. अटंग्या रानांची तांकां वळख आनी गोडी. 'अरण्यकाण्ड' आनी 'अदृश्ट' ह्यो दोनूय नवलिका रानांचे फाटभुंये वयल्यो. भोव प्रभावी. दोनूय एकाच पुस्तकांत (१९९७) प्रकाशीत जाल्यो. एक कामदारांचो पोंवो वेठबिगारीचेर काम करतना मुकादमाच्या जांचाक विटून आनी चोम्यांतल्या

चेडवाकडेन पळोवपाचे वायट नदरेक लागून एके राती चोम्याचो चोमो रानावटयां चलूंक लागता. रानांपार पावतकच नवी जीण जियेवंक मेळटली हे आशेन. पूण तशें घडना. अन्ना-उदकाविणे तळमळून-तडफडून चोम्यांतलीं मनशां एकेक करून आपटतात तरी रान सोंपून सोपना. अखेरेक वांचून उरिल्लीं जेन्ना पैलपार पावतात तेन्ना वाचप्यांक प्रस्न पडटा जीवन-मर्णाच्या ह्या संघर्शांत जैत कोणाचें जालें? पांडव-कौरवांच्या महाझुंजावरीच जाल्लो हो अंत काळजाक भिडलेबगर रावना. ही जाली 'अरण्यकाण्डा'ची कथा. कलात्मक पांवड्यार पळयल्यार हिचे परसूय कूसभर वयर आशिल्ली नवलिका म्हळ्यार 'अद्रुश्ट'. सुख-दुख्खाची सगली जाण वगडावन सुकी एकसुरी जीण जियेवपी एका फॉरेस्ट गार्डाची ही काणी. अचकीत एक दीस एक पिशी ताच्या दारांत बशिल्ली पळोवन तो तिडकता, धांवडायता. पूण ती लागींच झाडांमुळांत बसता. तिची काकुळट करून उरिल्लें जेवण तो तिका दिता. रातीकडेन ती भायले वासरेर येवन न्हिदता. सकाळी तो तिका परतीय धांवडायता. तिका घाणी मारतात म्हूण तिडकून एक दीस तो तिच्या आंगार बालदीभर उदक ओतता. साबण दिता पूण ती लायना देखून तोच तिका साबण लायता. न्हाणयतना ती आजून जुवान आसा म्हणपाचें ताच्या लक्षांत येता. तो तिका आपणाले मेल्ले बायलेली साडी दिता. ती बरी दिसूंक लागता. रातीकडेन तो तिचो भोग घेता तेन्ना सैमाच्या नेमाक धरून ती प्रतिसाद दिता. उपरांत तिका दीस वतात. दीस वचसर ती पिशांतूर आसता. पूण उपरांत ती न्हिवळटा शाणी जाता. घोवान आनी घरच्यांनी आपणांक कशी वांजूड थारावन धांवडायली तें सांगता. भुरगें जाता. एक दीस ती सांगता आपूण भुरग्याक घेवन वतां आनी घोवाक-घरच्यांक दाखोवन तांकां पच्छात्तापाक म्हारग करून रोखडी परती येतां. पूण ती परती येना. तो पर्थून एकसुरी जीण जियेता. म्हणसर एक दीस (तीच) पिशी तांगेल्या दारांत बशिल्ली तो पळयता. हांगा कथा सोंपता. भारतीय साहित्यांतली एक अप्रतीम कथा म्हूण 'अद्रुश्ट' गाजली जेन्ना तिचेर 'पलतडचो मनीस' हो सिनेमा आयलो आनी आंतरराष्ट्रीय मळार अनेक पुरस्कार जोडूंक पावलो.

### वाटचिरे

भारतीय कादंबरीसाहित्यांतल्या गाजिल्ल्या कादंबऱ्यांचे मांडयेक मांडी लावन बशिल्ल्यो दोन कादंबऱ्यो कादंबरी प्रकाराच्या पदार्पणांतच भायर सरल्यो. १९७७

वर्सा पुंडलीक नायक हांगेली 'अच्छेव' प्रकाशीत जाली आनी १९८२ वर्सा दामोदर मावज्यांली 'कार्मेलीन'. कोंकणी कादंबरीच्या मळावयले दोन वाटचिरे असो ह्या कादंबऱ्यांचो उल्लेख जाता.

गोंयमुक्तीच्या आदल्या काळार गोंयकारांच्या अर्थकारणाक दोन गजालींचो हातभार मुखेलपणान लागतालो. गोंयकार व्हड प्रमाणार व्हड व्हड प्रवासी बोटींचेर तारवटी म्हूण वताले वा उदेन्त आफ्रिकेंत नोकरेनिमतान रावताले. थंय काम करून म्हयन्या म्हयन्याक गांवघरा मनीऑर्डरीन दुडू धाडटाले. गोंय मेकळें जावंचे कांय वर्सां आदीं मिनाच्यो खणी सुरू जाल्ल्यो जे वरवीं लोकांच्या हातांत पैशे खेळखेळूंक लागिल्ले. गोंय मुक्त जालें ताचे फाटोफाट ब्रिटीशांच्यो वसणुको आशिल्लीं आफ्रिकी राष्ट्रां स्वतंत्र जावंक लागलीं. ब्रिटीश सोडून वतकच स्वतंत्र आफ्रिकेंत आपणाक सुवात ना हें वळखून सुशिक्षीत गोंयकार जे फामिली घेवन थंय रावताले ते ब्रिटीशां वांगडा इंग्लंड, कॅनडा ह्या देशांनी गेले. जाल्यार अर्दशिक्षीत, वेवसायीक आनी कामदार गोंयकार घरा परतले. मनीऑर्डरी बंद जाल्यो आनी बेकारी वाडली. म्हणसर आखाती राष्ट्रांनी फातरेलां मेळिल्ल्यान अरब लोकांच्या हातांत पैसो घोळूंक लागलो. नोकरे निमतान लोक गल्फाक वचूंक लागलो. सामके सुर्वेक गेल्यो त्यो बायलो, अरबांगेर घरकामां खातीर 'आया' म्हूण. मिना खणी सुरू जाल्यो आनी जिनसांवार नोकऱ्यो मेळपाक सुरू जाल्यो. दोंगरा मुळसांतले कांय गांव उध्वस्त जाले जाल्यार खणींच्या आशीकुशीच्या गांवांनी पैसो खेळूंक लागलो. अर्थीक मळार बोमाडो फुलोवपी ह्यो दोन गजाली- आखाती राष्ट्रांतल्यान येवपी दुडवांची थाकाय आनी मिनाखणींनी उदरगतीच्या नांवान घडोवन हाडिल्लो बदल. हीं संस्कृतायेचेर जाल्लीं अतिक्रमणां विस्तारान मांडपी ह्यो दोन कादंबऱ्यो- 'कार्मेलीन' आनी 'अच्छेव'. जांचे लेखक म्हळ्यार दामोदर मावजो आनी पुंडलीक नायक.

## पुंडलीक नायक

मिनाखणींनी भौसाचे जिणेंत हाडिल्ली बरकत आनी हे बरकती वांगडाच जिणेंत रिगिल्ली नैतिकतायेची अबरगत हांचें मन भेरेवन उडोवपी चित्रण 'अच्छेव' कादंबरींत पळोवंक मेळटा. हातांत पैसो घोळूंक लागता तेन्ना नश्टबुद्दी येवजता. घरांची घरां आनी गांवांचे गांव 'दुडूपरबृह्म' लेखून पैशां फाटल्यान धांवतनां वर्सांसंखेन चलून आयिल्लो भावचार आनी गांवपण हांची पर्वा करिना. दुडवां मुखार नितिमत्ता

घाणाक पडटा. अर्थीक शोषणा वांगडाच कुडींचें शारिरीक शोषण सुरु जाता. हें पुराय समाजाचें अध:पतन स्वता उकत्या दोळ्यांनी पळयिल्ल्या पुंडलीक नायक हांणी एखाद्या फिशाल चित्रकारा भाशेन ह्या चित्रांत रंग भरल्यात. समाजीक आशय घेवन येवपी कोंकणींतली ही पयली यथार्थवादी कादंबरी.

पयलीच नवलकथा आसुनूय लेखकान जी प्रगल्भताय दाखयल्या तिची सगल्याच समिक्षकांनीं तोंड भरुन तोखणाय केल्या. हे साहित्यकृतीक ग्रामीण आनी प्रादेशीक अशीं दोनूय लेबलां लावं येतात. कथानक भोव-पदरी आसलें तरी खणींक लागून उप्राशिल्ल्या परिवर्तनाचो तें खाशेलो वेध घेता. शांत, न्हिदसुरो गांव कसो अमुलाग्र बदलून वता तें पात्रां आनी प्रसंगांतसून फिशालकायेन दाखयलां. पंडरी, रुक्मीण, येसो, आबू, बाबुसो, शंकर, सांवळो मास्तर, नरशींव, देवकी हीं सगलीं पात्रां म्हळ्यार गांवगिरे जिणेचे प्रतिकात्मक घटक. पिंपळापेड, देवूळ, गादी, नाटक, पावणी, सत्यनारायण, धालो, फुगडी ह्यो गांवचे संस्कृतायेच्यो कुरवो. शेजारधर्म, परंपरा, अंधश्रद्धा, कुछित्रीपणां आनी मस्करी हीं ग्रामीण जिणेचीं लक्षणां. हें सगलें कादंबरींत प्रसंगांच्या अनुशंगान आयिल्ल्यान वाचनियतेचे कसवटेर कादंबरी उजवी थारता. कथानक सादें तशें व्यामिश्र. पंडरी-रुक्मीण आनी तांचीं दोन भुरगीं केंसर-नानू हांचो सुखाचो संवसार चलला. रोवणेची तयारी चलल्या आसतनाच खणीवयलो माल ओडपाक तांची बैलगाडी भाड्याक लावपाचो प्रस्ताव येता. रुक्मीण घोवाक आडायता पूण पंडरी तिचेर थापट फुलोवन तिचें तोंड बांद करता; हांगाच्यान कथानकाक सुरवात जाता. उपरांत मिना धंद्याक बरकत येता तशी गांवची भौतीक उदरगत जावंक लागता. हातांत गरजेपरस चड पैसो खेळपाक लागता तशें लोकांक वायट चड येवजता. दुडवां फाटल्यान लागतकच विवेकबुद्द नश्ट जाता. सोऱ्या धंदो फुलता. बेबद्यांची संख्या वाडटा. पवित्र रुक्मीण बाबुशाचे वासनेचे भकीक पडटा. पयलीं आबू आनी उपरांत सांवळो मास्तर गांवपण सांबाळपाचो यत्न करतात तोय पोल जाता. मिनाखणींक लागून शेतां-उदकांची वाट लागता. आपसुवार्था वांगडाच अनैतीकताय रिगता. केंसरुय आवयचेच वाटेन वता आनी अखेरेक जेन्ना नानू मिनाक बळी वता तेन्ना तोंमेरेन तग धरुन आशिल्ली विवेकबुद्द शंकराच्या रुपान गांव सोडून वता. ह्या कथानकांत खंयच अतिताय दिश्टी पडना. भोग-संभोगाचे उल्लेख चडशे सांकेतीक रुपान आयल्यात. आबू, सांवळो मास्तर आनी चित्रकलेची आवड आसलेलो शंकर हीं पात्रां विवेकबुद्धीचें प्रतीक कशीं वावुरतात. सैमाचो

इबाड आनी मनीसपणाचो विद्वाट कशे हातांत हात घालून चलतात तें हे कादंबरेंत आयलां. अच्छेव' संबंदान नामनेची समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले म्हणटात- "ह्या अध:पतनाचें खरें रुपडें दाखोवचे खातीर लेखक सगल्या तरांच्या अडेचें, भाशीक सभ्यतायेचें, उकलाप्या उपचारांचें आनी नकली संकेतांचें बंधन शेंवटून उडयता. तागेले भाशेक दिखाळ हरवीसाण आसा आनी अपरिपक्व वाचप्याक अदींमर्दी तो दीख बादताय. पूण ह्या हरव्या, ताज्या भाशेवरवीं शैलीक एक प्रादेशीक रंग चडला. तो प्रखर दिसलो तरी नाटकी ना. ताका लागून कादंबरींतल्या अणभवांक खर विश्वासार्हता लाभूक पावल्या. कादंबरींतलें भावविश्व निमाणेमेरेन कंवकंवीत प्रादेशीकता, धगधगीत वास्तव आनी मनाक आफुडपी मानसिकता हांकां पाळो दिता. हाकाच लागून अच्छेव प्रादेशीक बरपाचो एक उत्तम नमुनो जावनय, वैश्वीक थरावेलो अणभव जिवो करपी, मनीस जिणेची दुखेस्त काणी प्रगटावपी, आधुनिक कादंबरी म्हूण याद उरता." (पान ६७, ६८ साहित्य नियाळ - अंतरंग आनी कायारूपां) 'अच्छेव' कादंबरीचो ऑक्सफोर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेस हे नामनेचे संस्थेन 'द अपहिवल' ह्या नांवान इंग्लीश अणकार प्रसिद्ध केला.

नवलिकेच्या मळार पयली गाजली ती नवलिका म्हळ्यार पुंडलीक नायक हांगेली 'बांबर' (१९७६). त्या उपरांत तांणी 'वसंतोत्सव' आनी 'दायज' (१९८५) आनी १९९८ वर्सा 'गुणाजी' अशो नवलिका बरयल्यात. ह्या सगल्या नवलिकांनी कोंकणी साहित्याचेर वेगवेगळ्या कारणांक लागून आपलो छाप मारून दवरला. 'बांबर' ही समाजांत आनी साहित्यांत जीं प्रस्थापीत मुल्यां आसात तांची मोडफोड करपी नवलिका. लेखक स्वता आपल्या प्रास्ताविकांत म्हणटा - 'चोंटली भिजयनासतनां थिगूर खावन दाखोवपी समस्त विद्वानांच्या कट्टुलार हें बांबर ओततां.' ते प्रमाण समाजांतले विकृतायेक सभेमाजार हाडपाचो लेखकान जाणीवपुर्वेक केल्लो यत्न म्हळ्यार ही नवलिका. गांवगिऱ्या वाठारांतलो एक भुरगो माध्यमीक शिक्षण सोंपोवन कॉलेजींत वचपाक पणजे बिराड करून पेइंग गॅस्ट कसो रावता तेन्ना त्या घाणयाऱ्या भोंवतणाचो ताचेर जावपी प्रभावाची ही कथा. खोंपींतल्या लोकांचो परसाकडेन बसपाचो गुवाडो, घाटणींचें अर्दें आंग उकते उडोवन उक्ताडार न्हावप, लोकोपवादाची पर्वा ना करतां चलिल्ली परदुवारी, थंय चलपी वेश्यावेवसाय, ह्या तरनाट्याची जागी जाल्ली सॅक्साची वानसा आनी वासनापुर्ती खातीर ताणें सोदिल्ली वाट. ह्यो गजाली प्रवृत्ती आनी विकृती हांचो मेळ घालून तटस्थपणान

बरयल्यात. 'बांबर' म्हळ्यार अळशिकावणो चिकोल. लेखकान ख्यांनीच हें बांबर वाचप्यांमुखार उकतें केलां. हे नवलिकेक जायत्या जाणांनी नाक किल्शिलां तरी कोंकणी साहित्यांतली ही एक लक्षणीय कृती म्हणूंक जाय.

पुंडलीक नायक हांगेल्यो 'वसंतोत्सव' आनी 'दायज' ह्यो दोन नवलिका एकाच पुस्तकांत आसपावल्यात. 'वसंतोत्सव' हे नवलिकेचें उपरांत 'पिंपळ पेटला' नांवान रूपांतरीत नाटकूय पुंडलीकबाबान बरयलां. 'वसंतोत्सव' नवलिकेंत पळोवंक मेळटा तें धवाड्या समाजांतलें वासनाकांड. दुडवांकार बापूय, ताची बायल, ताचो पूत हीं सगलीं मनशां भितरल्यान वासनेन किडिल्लीं दाखयल्यांत. कथेचे सुर्वेकच पिंपळाक उजो पेटला आनी तो पालोवपाचो यत्न नवलिकेंत दाखयला. पिंपळ हो प्रतिकात्मक. पिंपळाक पेटिल्लो उजो हो ह्या मनशांमदीं पेटिल्ले वासनेचें प्रतीक. नवलिका सोंपता तेन्ना पिंपळ उज्याचे भकीक पडला अशें दाखोवन भोगावळीक विराम दिला. 'दायज' ही तांची दुसरी नवलिका. विशय समाजीक आसलो तरी सॅक्स हो मध्यवर्ती विशय जाला. एका स्वातंत्र्य सैनिकाल्या तीग विंगड प्रवृत्तीच्या पुतांची ही कथा. सालस बापूय, चिंतेस्त आवय आनी नव्यान घरांत आयिल्ली सून. तिसरो पूत तवनास आनी गुंड प्रवृत्तीचो आसता. अनेक चलयांची वाट लायिल्ल्या ह्या मस्त्या पुताची वायट नदर जेन्ना भावजेचेर वता तेन्ना अखेरेक घरची सुनच आपल्या देराचेर गुळी घालून ताका मारता अशें हें कथानक. चलचित्रांक सोबपासारकें. उपरांत हे नवलिकेचेर आदारीत 'वधचक्र' हें टेलेफिल्म भायर सरलां.

'गुणाजी' ही मात साप वेगळे तरेची नवलिका. सॅक्स जें पुंडलीकबाबांच्या हो वेळ मेरेनच्या नवलिकांचो विशय आसलो ताका हांगा वाव ना. निवेदनाची भास साप गांवगिरी. गुणाजी हो एक राखणो. तांकां भारत सरकारचो बेस बरो राखणो म्हूण पुरस्कार फावो जाता. तो तयारी करून दिल्लीक विमानान वता. अवॉर्ड घेवन परतो येता. आनी एक दीस सगल्या गांवच्या राखण्यांक कशें कितें कात घडलें तें सविस्तर सांगता. हें ताचें निवेदन म्हणचेच ही नवलिका. निवेदकाची गांवगिरी भास हें हे नवलिकेचें एक खाशेलेंपण. आनी दुसरें म्हळ्यार गांवग्या अशिक्षीत राखण्याचे नदरेंतल्यान निवेदन केल्ले फुडारिल्ल्या शारी जिणेंतले अणभव. गांवांभायर केन्ना पावल दवरूंक नाशिल्ल्या गुणाजीची विमानांत, हॉटेलांत, सभाघरांत भोव

कुचंबणा जाता. पूण गुणाजीचे नदरेन सगलेंच अप्रूप. तो आपणां परीन ते ते गजालीचो अर्थ लायता. गुणाजी गांव सोडून शारांत वता पूण तागेलो स्वाभिमान खंयच घाणाक उरना वा ताका खंयच न्यूनगंडाची बादा जायना. 'गुणाजी'चो गुजरातींत अणकार जाला आनी आतां तिचेर सिनेमाय तयार जाला.

## कार्मेलीन

मनीस जिणेचें यथार्थ दर्शन घडोवप हें साहित्या कडल्यान अपेक्षीत आशिल्लें मुखेल काम. मनीस जीण ही केंद्र बिंदू लेखून मनशाच्यो वृत्ती-प्रवृत्ती, आचार-विचार, सूख-दुख्ख, आशा-आकांक्षा, नाते-संबंद, वेदना-संवेदना, झगडीं-संघर्श, विकार, अंतर्द्वंद्व, अंतर्मनाचे वेव्हार ह्या सगल्याचो यथार्थ अन्वयार्थ लायता तें साहित्यच जीवनदर्शन घडोवंक पावता. कोंकणी साहित्यांत सातव्या-आठव्या दसकांत प्रकाशीत जाल्ल्या ह्या दोन वाटच्यिा कादंबऱ्यांनीं कोंकणी सर्जनशील साहित्याची अस्सल पत भारतीय साहित्याक दाखोवन दिली. कथेच्या मळार नांव कमायिल्ल्या दामोदर मावजो हांणी बरयिल्ली कादंबरी विशय, आशय, पात्रां, भास, शैली अश्या विविध साहित्यीक गुणांक लागून खूब गाजली. भोवसंख्य हिन्दू आशिल्ल्या भारतीय समाजांत अल्पसंख्यांविशीं बरयिल्लें भोव थोडें मेळटा. गोंय-कर्नाटकांतल्या लेखकांनी क्रिस्तांव जीण आपणाल्या साहित्यांत उक्तायल्या खरी. गोंयच्या रोमांसीनीं आयिल्लीं भडक वर्णनां सर्जनाचे कसवटेर उबारी घेनात. मंगळूरच्या कादंबऱ्यांनी कर्नाटकांतली समाजीक जीण विस्कटावन दाखयल्या. पूण गोंयचें व्यामिश्र जिवीत अस्सल रितीन आनी पुरायेन साहित्यांत पडबिंबीत जाल्लें दिश्टी पडनासलें. दक्षिण गोंयचें क्रिस्तांव समाजाचें वास्तव दर्शन घडटा तें दामोदर मावजो हांगेल्या कथा-कादंबऱ्यांनीं.

'कार्मेलीन' ही नायिका प्रधान कादंबरी. कथानकांतल्या प्रसंगांच्या आनी घडणुकांच्या आदारान 'कार्मेलीन'च्या कथानकाचो काळ सुमार १९४० ते १९७० असो धरूं येता. काळाच्या पड्ड्या फाटल्यान वचून विसरायेर पडिल्लो तो काळ हुबहू उबो करपांत लेखक यशस्वी जाला. गांवार पडिल्ली जोरी, मरणाचे सांवळेंत वावुरपी घरांचीं घरां, गांवचे खातीर वावुरपी पादकूर आनी अनाथ जाल्ल्या कार्मेलिनाच्या वांट्याक आयिल्लें स्थलांतर ही हे कादंबरेची फाटभूंय. टायफॉयड म्हळ्यार आयज कांय न्हय शें दिसता. पूण त्या काळार तिफोतीची जोरी ही

जीवघेणीच आसली. गांवमर्णांचो परिणाम बालमतीचेर कसो जाता, तांतल्यान ही अनाथ कार्मेलीन वाट कशी काडटा, आवयचो मोग पयसावलो तरी बापूय म्हूण बापायलो कुन्याद कसो माया लायता, जुवानपणांतलो मोग कसो फटकिरो थारता, उपरांत काजार, घोव बेबदो, परकी दादल्याकडल्यान मेळिल्लो कुडी भोग, राग-वितरागांतल्यान काडिल्ली वाट, भुरग्यांचो जल्म, सासमांय-नणडेकडल्यान मेळिल्ली वायट वागणूक, बेकार घोवाक लागून पदरांत पडिल्लें दळदीर, शेतांत घोळून चलयिल्लो संवसार, उपरांत उपाव नासून धरिल्ली कुवेतची वाट. आनी दोन अप्रुपांचीं नातीं म्हळ्यार रगताची धूव जाल्लेवरी कार्मेलिनाक जीव लावपी पाय जुआंव फिलीप आनी घोवाघरची दुस्मान आसुनूय कार्मेलीनाची इश्टीण कशी वागपी तिची जाव- इजाबेल. हे कादंबरींतलो चडसो वांटो गोंयांतच घडटा आसलो तरी वाचकांच्या मनांत घर करून रावता तो कुवेतचो अरबी वाठार. घरकाम करपाखातीर 'आया' म्हूण आखाती देशांत काम करपी भारतीय बायलो हजारांचे संखेन आसात. पूण तांचे भोगणार आनी सूख-दुख्खांकडेन इतले सहानुभुतीपुर्वेक बरयिल्ली दुसरी साहित्यकृती भारतीय भासांनी क्वचीत आसूंये. 'कार्मेलीना' संबंदान डॉ. किरण बुडकुले 'साहित्य नियाळ: अंतरंग आनी कायारूपां' ह्या पुस्तकांत म्हणटात -

ह्या पात्र केंद्रित निवेदनांत लेखकान तटस्थ असो सर्वसाक्षी पूण तिरायत आनी अव्यक्तीगत असो निवेदक वापरला. हो निवेदक कादंबरींत खंयच पात्र म्हूण वावुरनाशिल्ल्यान हें निवेदन शक्य तितलें निपक्षपाती आनी पातयेवण्याजोगें थारलां. पात्रांचे अस्वडीं हो निवेदक वाचप्याखातीर तांगेल्यो क्रिया-आंतरक्रिया-प्रतिक्रिया उक्तायता, इतलेंच न्हय, जाल्यार, तो दरेका पात्राची मानसीक फाटभूंय आनी वृत्ती-प्रवृत्ती समजुंकूय आदार करता. ह्या निवेदनाक तपशील आनी बारीक निरीक्षण हांचो फावोसो आदार आसा. तृतीय पुरूशी भासपी निवेदनाक जागोजाग वर्णनां, संवाद आनी अंतर्मनाची उक्तावणी हांचो लाव मेळटा.

निवेदनाची सुरवात (म्हाकाव्यावरी आनी आधुनिक कादंबरीच्या प्रथांक पाळो दिवन) कथानकाच्या मदेंकात केल्ल्यान लेखकाक काळक्रम आनी घडणुकांचो अनुक्रम फावो ते प्रमाण खेळोवपाक ज्युस्त वाव मेळ्ळो. कार्मेलीनाची निसाराल्या घरांत वाचप्याकडेन भेट जाता. तिवूय तांगेल्या घोवाच्या मर्णासारक्या प्रसंगार आनी योगायोगान ताच्या वाडदिसाच. हातुंतल्यान कार्मेलीनाचे मनोभूमीचे परस्पर

विरोधी आनी परस्पर पूरक रंगांनी सादरीकरण करप शक्य जाता. परक्या गांवांत, पात्रांवाच्या घरच्या बंदेपणाखाला, आपले कुडींत एकटोशीं भेटपी हें कार्मेलीन वाचप्यालांगीं अनुपचारीक, खाजगी, मेकळेपणाचें आनी उपचारीक, नकलीं, रविशेचें अशीं दोन नातीं जोडटा. ताचे जिणेंत, मनांत आनी वागणुकेंत कायम अशी जी असुरक्षिताय, एकटेंपण, तणाव आनी ओढाताण चलता ताची झलक हांगाच मेळटा.

फ्लशबॅक तंत्राचो निवेदनांत पुरेपूर वापर केल्ल्यान कार्मेलीनाच्या मानसिक संघर्शाचें मूळ आनी वाड, तागेल्या मोग-तेढ, मर्ण-जिवीत हांचे रस्सीखेचींतल्यान जल्मल्ल्या कुटुंबीक-समाजीक भूतकाळांत मेळटा. ह्या भूतकाळाचें चित्रण करतना कादंबरीकारान ताका जाय तसो वर्तमानकाळांतल्या प्रसंग आनी व्यक्तींच्या चित्रणाचोय आदार दिला. अदींमदीं कार्मेलीनाच्या भावी काळावेल्या हावेस-अपेक्षांक भूतकाळांतल्या अपेक्षाभंग आनी अपेसां सामकारा मांडिल्ल्यान तांगेली वर्तमान स्थिती समजूंक मजत मेळटा. घडणुकांचो अनुक्रम आरतो परतो केल्ल्यान, एखाद्या प्रसंगांतल्यान कार्मेलीनाक फाटले घडणुकेचो उगडास जावप वा एखाद्या अणभवांतल्यान ताणें कोडू यादींचो घोंट गिळप, हो निवेदनांतलो सुसंगती हाडपी गूण कादंबरींत प्रभावीपणान दिसून येता. (पान ५७, ५८, सहित्य नियाळ)

ह्या दोन वाटचिरे थारिल्ल्या कादंबऱ्यांनी कांय समान सुत्रां सांपडटात. संवसारीकरणाक लागून थळावे संस्कृतायेक आनी नैतिकतायेक उप्राशिल्लो धोको, पुरुशप्रधान संस्कृतायेक लागून अस्तुरेचेर जावपी अन्याय, अत्याचार, आनी स्वताचे पांय निसरले तरी धुवेच्या वांट्याक ती निसरड येवची न्हय म्हूण धडपडपी आवय. जावं केंसराचो हुस्को करपी रुक्मीण जावं बेलिंदाखातीर हुसकेवपी कार्मेलीन- भुरग्यांखातीर नितिमत्तेची राखण करपी आवय दोनूय कडेन आसा. तशेंच 'थापट' हेंय दोनूय साहित्यकृतींनीं प्रतिकात्मक आनी प्रभावी रितीन उदेलां- तेंय दोन दोन सुवातींचेर. अच्छेवांत सुर्वेकच जेन्ना रुक्मीण घोवाक खणीर वचूंक आडायता तेन्ना पंडरी तिचेर थापट मारता आनी अखेर लागीं येता तेन्ना त्याच पंडरीचो पूत नानू बापायचेर थापट उबारता. पयलें थापट उजू मार्गार चलपाआड जाल्यार दुसरें थापट ऊंच ऊंच उडटनां पांखांतलें बळगें सरून सकयल आपटल्ल्या गळसणिल्ल्या पंडरीचेर ताच्याच पुतालें. कार्मेलिनांतूय दोन अर्थपुर्ण थापटां

आसात. सदांच बायलेक धाकांत दवरून तिचे कडसून सोऱ्या खातीर दुडू झोमून घेवपी घोवाचेर सात्वीक संतापा भरशीं कार्मेलिनान मारिल्लें. ह्या थापटा उपरांत घोवाची बदलिल्ली नुरा तिका स्वत्वाची जाण दिता देखून तें म्हत्वाचें. आनी दुसरें थापट कादंबरेचे अखेरेक जेन्ना बेलिंदा आपूण कुवेत वचपाची इत्सा उक्तायता तेन्ना कार्मेलिनान धुवेचेर मारिल्लें थापट. समाजीक वास्तवाचो वेध घेवपी ह्या दोन कादंबऱ्यांनी कोंकणी कादंबरीची गडगंज बुनयाद घाली. त्या उपरांत पंदरा वर्सांनीं महाबळेश्वर सैल हांगेली 'काळी गंगा' उजवाडाक आयली तेन्नाच्यान ते कादंबरीचो उल्लेख तिसरो वाटचिरो असो जावंक लागलो.

'कार्मेलीन' कादंबरीक १९८३ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. ही नवलकथा आयजवेर तेरा भारतीय भाशांनी अणकारीत जाल्या. आनी तांतल्या चार अनुवादीत पुस्तकांक उत्कृश्ट अनुवादाचे केंद्रीय पुरस्कारूय फावो जाल्यात. 'इण्डियन नॉव्हेल कलेक्टीव्ह' ह्या उपक्रमाखाला १०० भारतीय कादंबऱ्यो देशीविदेशी भासांनी अणकार करपाखातीर वेंचून काडल्यात तातूंत 'कार्मेलीन'चो आसपाव आसा.

मावज्यांली 'सूड' ही नवलिका १९७३ वर्सा प्रकाशीत जाल्ली. गोंयमुक्ती उपरांत परत पुर्तुगालाक गेल्लो एक दुश्ट पुर्तुगेज अधिकारी गोंयच्या सायबाच्या शवप्रदर्शना निमतान गोंयां येता तेन्ना आवयबापायच्या मरणाचो सूड घेवपाखातीर पेटिल्ल्या एका तरण्या डॉक्टराची कथा. ताकतिकेन बरयिल्ल्यान आनी मुळांत पिण्ड कथाकाराचो आशिल्ल्यान कादंबरीचें बीज आसुनूय 'सूड' ही नवलिका जावंक पावल्या. प्रथमपुरुशी एकवचनांत बरयिल्ल्यानूय कथानक निवेंदकाचें बोट सोडून हेर पात्रांच्या मनांतलें सांगूंक पावना ताकाय लागून आकाराचेर बंदन आयलें जावंये.

'सुनामी सायमन' ही सुमार सत्तावीस वर्सांच्या फरकान बरोवन जाल्ली कादंबरी. दक्षीण गोंयचे किनारपट्टीवयल्या खारवी समाजांतल्या पात्रां भोंवतणी विणिल्ली ही कादंबरी. दर्या वयलें आनी वेळेवयलें जिवीत प्रसंगांतल्यान दाखयिल्ल्यान अनेक गजाली सांगिनासतना होलमतात. नुस्तें धरपाचो, रांपण मांडपाचो आनी नुस्तें विकपाचो उद्देग आजवेर कोंकणी साहित्यांत येवंक नाशिल्ल्यान हे कादंबरीचें विशेश कौतूक.

लेखक सांगता ते भाशेन ही कादंबरी खास करून वाडिल्ल्या भुरग्यांखातीर (Young Adults) बरयिल्ली आसली तरी जाण्ट्यां-नेण्ट्यांक सगल्यांकच सारकी मानवपासारकी आसा. सुर्वेचें बुलगें रांपणींत सांपडटा तें प्रकरण तर एखादरे कथेवरी दिसता. ही कथा एका बारा-तेरा वर्सां पिरायेच्या सायमन ह्या भुरग्याची. मावशे वांगडा नातालांचे धा-बारा दिसांचे सुटयेर तमीळनाडूंतल्या एका गांवांत तो पावता. थंय मावशा वांगडा तागेले फायबर बोटीन दरयांत गेल्ले कडेन सुनामीचें ल्हार येता. खवदळ्चे पयलींच दरयाक फूग मारता, उदक वयर वयर सरता आनी वेळे वयल्या जिविताचें अस्तित्वच पुसून उडयता. पूण आंगांतले शिटूकसाणीक लागून सायमन ह्या संकश्टांतल्यान वांटावता. माडाच्या कवळांत बसून आडसरां खावन दोन राती काडटा. उपरांत देंवता आनी सुनामीग्रस्तां खातीर उबारिल्ल्या कॅम्पांत पावता. थंयचें वातावरण, वैजकी सुविधा, सुवार्थी लोक हांचो अणभव घेत सायमन बापूय आवय कोणूय येत म्हूण वाट पळयता. तंबूंत एक मोनें चली आसता. सुनामीच्या शॉकान ताची वाचा धरल्या. सायमनाक आपणाले मेल्ले भयणीची याद येता. एक दीस ते चलयेक आपणालें सोयरें म्हूण सांगून- कामाक लावपाखातीर एक जोडपें येता. सायमनाक ताची सुलूस लागता. तेच राती तो ते चलयेक घेवन कॅम्प सोडून पळून वता. हांगाच्यान ताची परवड सुरू जाता. ते वटेन आवय-बापूय सायमनाक सोदूंक सगल्याक भोंवतात पूण निर्शेवन परततात. सायमनाक परतीच्या प्रवासांत मेळिल्ले तरेकवार लोक कोण फटिंग, कोण देवमनीस, कोण परोपकारी वृत्तीचो जाल्यार कोण दुश्ट. ह्या सगल्या अरिश्टांतल्यान वाट काडीत सायमन मोना सयत घरा पावता. अशी ही कथा. कसलीय साहित्यकृती बरोवचे पयलीं विशयाचो खोलायेन अभ्यास करपाची वृत्ती ह्या लेखका कडेन आसा. सुनामीग्रस्तांची पिडा आनी भोगणार समजून घेवपा खातीर लेखक तमीळनाडूंतल्या सुनामीग्रस्त वाठाराक आनी थंयच्या सरकारी सुविधांक भेट दिवन आयल्यात. खारव्यांच्या जिविताचो बारिकसाणेन अभ्यास केला. देखुनच कादंबरी वाचतना खंयच कांयच खटकना. वाचनीय जाल्या, अभ्यासपुर्ण आसा हें खरें आसलें तरी 'सुनामी सायमन' मावज्यांल्या हेर साहित्यकृतींपरस सकयलच उरता, हें मान्य करूंक जाय.

१९८८ वर्सा नारायण वादोळकार हांगेली 'गोमती' ही कादंबरी प्रकाशीत जाली. परंपरीक धर्तेची ही कादंबरी म्हळ्यार एके गरीब अस्तुरेची घरसंवसार सांबाळटना आब्रुचीय कशी राखण करची पडटा हें सरसामान्य देशी कादंबऱ्यांनी दिश्टी पडटा

तेंच कथानक. लळीत साहित्य कृती म्हूण खंयच उबारी घेनासली तरी वाचनीयतेचे कसवटेर बरी उतरता. ह्या लेखकान त्याउपरांत आनीक कांय बरयलें ना.

### महाबळेश्वर सैल

एक समर्थ कथाकार म्हूण महाबळेश्वर सैलांची वळख जाल्याच. उपरांत महाबळेश्वरबाबांनी कादंबरेक हात घालो आनी कथाकार म्हूण नामना जोडली तरी तांगेलो पिण्ड कादंबरीकाराचो हें तांणी सिद्ध केलें. 'कार्मेलीन' आनी 'अच्छेव' हांचो 'दोन वाटचिरें' असो उल्लेख जातासतनाच महाबळेश्वर सैलांली 'काळी गंगा' (१९९६) कादंबरी उजवाडा आयली आनी एक तिसरो वाटचिरो कादंबरीचे वाटेर रोमलो.

गोंयचे शिमेर कारवाराचे कुशींत काळी न्हंयचे देगेर वशिल्ल्या गांवांत घडिल्ली ही नवलकथा ज्ञानपीठ पुरस्कार जैतिवंत शिवराम कारंथ हांगेले 'मणेर मण्णिगे' (आमची माती) हे कादंबरीचे जातकुळयेची, 'काळी गंगा' वाचतकच श्री. ना. पेंडसे ह्या मराठी साहित्यकाराले 'रथचक्र' हे कादंबरीचोय उगडास जाले बगर रावना. तांच्यांत साम्य आसा म्हूण न्हय. पूण तांतल्या गांवगिऱ्या वातावरणाचो आनी थंयचे गांवगिरे मानसिकतायेचो जो खोल प्रभाव वाचप्याचे मनाचेर पडटा ताका लागून. काणकोण तालुक्यांतलें पोळेंचें मेट हुपून जो माजाळी, अस्नोटी वा हळगें-हुळगें हो वाठार लागता तो पुरायेन कोंकणी प्रदेश. राजकी शीम-मेर पडिल्ल्यान परकी कसो दिसलो तरी संस्कृतीक नदरेन काणकोणाचोच विस्तारीत भाग. ह्या वाठारांत रावपी कोंकणी समाज सैलबाबांच्या कथा साहित्यांतल्यान पयलेच खेपेक आमचेमेरेन पावला. 'काळी गंगा' कादंबरींत तो अदीक खोलायेन, अदीक विस्तारान परगट जाला. काळी न्हंयचे देगेर रावपी लोकजीवन, लोकभास आनी लोकवेद मनभुलावणें रूप घेवन हे कादंबरेंत अवतरला. सैलाली शैली कोंकणी वाचकांक तिच्या आगळेपणाक लागून सुंदर दिसता. सैम आनी मनीस हांचें परस्पर नातें विंगड विंगड प्रसंगांतल्यान लेखकान अळंग विस्कटावन दाखयलां. पर्यावरण हो लोकसंस्कृतीचो अंगभूत वांटो आसता. तोय असोच आशयांतल्यान अभिव्यक्त जाता. संवसारांतल्या सगल्या व्हड संस्कृतायांचो जल्म हो न्हंयांचे कुशीक जाला अशें म्हणटात. 'काळी गंगा'तूय हे गजालीचो प्रत्यय येता. कथानक सुमन आनी गोविंदाचें, तांच्या मोगाचें, तांच्या भोग-भोगणारांचें, तांच्या कुटुंबांचें, तांच्या

समाजाचें. अशें आसलें तरी तातूंत दंतकथा, परंपरा, भावार्त, लोकवेद, देवदेवस्कीं, हें सगलें अशे तरेन व्यक्त जालां की एक पुराय लोकसंस्कृतीच दोळ्यांमुखार उबी जाता.

'काळी गंगा' ही नांवा प्रमाणच काळीय आसा आनी गंगाय आसा. काळी दोन अर्थांनी. काळी न्हंयचें नांव काळी देखून आनी ह्या वाठाराचे जिणेचेर पडिल्ल्या सांवटान जो काळोख घाला तांकां लागून. तरिकूय ही न्हंय आनी न्हंयचे देगे वयल्या लोकांची जीण ही गंगे इतलीच पवित्र अशें सूचीत करपी 'काळी गंगा'चें कथानक. दंतकथा, लोककथा, लोकगितां हांचो ज्युस्ताज्यूस्त वापर केल्ल्यान हे कादंबरेक व्हडली उबारी मेळ्ळ्या. नेशनल बूक ट्रस्टान हे कादंबरीचो इंग्लीश अणकार प्रकाशीत केला. तेभायर ती मराठींतूय अणकारून गेल्या.

१९९६ वर्सा उजवाडाक आयिल्ले हे नवलकथे संबंदान समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले हांणी भोव समर्पक विधान केलां- "सोंपत्या सहस्रकांतलो कोंकणी कादंबरीच्या मळावयलो एक समर्थ कादंबरीकार म्हूण महाबळेश्वर सैलाली सुवात सुगूर जाल्ली आसा. हाचे कारण, कोंकणी कादंबरीच्या ल्हवू ल्हवू विस्तारत वचपी दालनांत अवघ्या चार-पांच वर्सां भितर भोव मोलादीक अशी भर घालपी कादंबरीकार म्हूण सैलांलें योगदान दुबाव विरयत श्रेश्ठ आसा. हाची गवाय सोदतलेच जाल्यार, सैलांल्या साहित्यकृतींच्या विशयांची विविधताय, तांगेली आशयघनता, तांचो आंकडो, तांकां लाभत आशिल्ली वाचकप्रियता आनी त्याच बराबर तांगेले कलात्मक मोल ह्या सगल्या निकशांचो नियाळ केल्यार पुरो." (पान ४१, शतकानिका डॉ. किरण बुडकुले)

सैलांल्यो आनीक पांच कादंब्यो प्रकाशीत जाल्यात. ते भायर तांची रामायणांतल्या 'हनुमंत' ह्या पात्राचेर आटापिल्ली कादंबरी रोखडीच प्रकाशीत जावची आसा. 'युगसांवार' (२००४) ही भारदस्त कादंबरी तांगेली (मॅग्रम ओपस) जिवितांतली म्हत्वपुर्ण साहित्यकृती. गोंयच्या इतिहासांतल्या एका वादळी आनी भिरांकूळ अशा कालखंडाचेर बरयिल्ली ही कृती. १५१० वर्सां पुर्तुगेजांनीं घुरी घालून गोंयचो प्रदेश हातासलो. नव्या वसणूकवादी राजवटके फाटोफाट ख्रिस्ती धर्मप्रसारक गोंयां पावले. धर्मांतरांचें संकश्ट गिरासूंक लागलें तसो सैरभैर जाल्लो लोक देवदैवतांक घेवन पळून गेले. जे फाटल्यान उरले तांची दैना जाली. ह्या काळखंडाचेर कसलोच

पूर्वग्रह बाळगिनासतनां तटस्थपणान बरोवप हें खर आव्हान महाबळेश्वर सैल हांणी भोव सहजतायेन पेललां.

'युगसांवार' ही धर्मांतरां आनी इन्क्विझिशनाच्या काळाची कथा. एके नदरेन ही इतिहासीक कादंबरी. पूण वेगळे तरेची. हो इतिहास झुंजाऱ्यांचो न्हय, राजकर्त्यांचो न्हय, इतिहास घडोवपी फुडाऱ्यांचोय न्हय. हो इतिहास त्या काळाचो, त्या काळावयल्या मनशांचो, त्या समाजपुरसाचो. हे कादंबरेंत कोण नायक ना, कोण नायिका ना. पात्रां येतात आनी वतात. फुडें वता तो समाजपुरूस. त्या काळावयल्या राजकर्त्यांची, मिशनऱ्यांची आनी रासवळ लोकांची मानसिकता लेखकान भोव फिशालकायेन चित्रायल्या. अशेतरेची, धर्म-परंपरा-भास-भूंय ह्यां सारक्या संवेदनशील विशयांचेर भाष्य करतना जी संतुळा राखची आसता ती म्हळ्यार सरयेवयली कसरतच. सत्य लिपोवन उपकरना आनी भावना दुखोवंक जायना अशे कातरेंत लेखक सांपडटा. पूण ह्या लेखकान तेवटेन लक्षच दिलें ना. एक सर्जनशील लेखक म्हूण जापसालदारकी आपशींच ताच्या खांद्यार पडल्या आनी ताणें ती भोव फिशलकायेन पेलल्या. सोळाव्या शतमनाची लोकभास कशी आसली तिचोय लेखकान बेस बरो अभ्यास केलाशें. कादंबरीचे सुरवातीकूच लेखक गोंयच्या गांवाचे वर्णन हे भाशेन करता

सातण नायकान सक्काळीं नसकाक गोठ्यांतले बैल व्हरून खरगाळीच्या शेतांत जोत बांदिल्लें. बरेंच शीं पडिल्लें. राना वटेन इल्ली धुंवटीय पातळिल्ली. शेताच्या दोनूय वटांनी गच्च रान, मदींच शेताचो लांब फाळ भितर रानांत रिगिल्लो. जोत हामुडटना अचकीत वयल्या रानांत माकडां भियांचें खेंखेवप, एका रुखावयल्यान दुस्र्या रुखार हुडिल्ल्याचो मोटो घसघस आयकोंक येयलो. हेंच आनी कितें जालां रानांत ! तशेंच कांय वेळान एक मोर रानवटेच्यान हुडून येयलो. थंयच्या एका झाडार बसून केंSS केंSS करीत कांय वेळ रडलो. मागीर हुडून आनीक खंय तरी गेलो. सातण नायकाल्या मनांत बेठोच इल्लो दुबाव आनी इल्ली भिरांतशी ! आतां तो व्हडाव्हडान बैलांचेर आड्डतसो जोत हामडूंक लागलो. एकेच घडणेचे घटमूट दोगूय बैल. कळसावरी सुवास्थना. रायाले पालखेच्या गोंड्यावरी शेंपडेचे गोंडे. कसतना भूंय फोडीत नांगर जसो धांवतालो.

कसतां कसतां मदींच नांगराची कपची अळंग पडली आनी हालूंक लागली. नांगर

तिरसो जालो आनी तासांतल्यानच भोंवंक लागलो. कपची घट करूंक कोयते फाटीन मारतकीर ती मोडली. तेणें जोत रावयलें. आतां दुसरी कपची करची पडली तर. दुसरी कपची करूंक घट लाकडा कुडको सोदत तो रानांत मात्सोच भितर रिगलो. जोत तासार वोगी उबें रावन रंवथ करतालें. तेन्नाच एक हरिस्ट वाग रानांतल्या जिपुडांतल्यान देंवन येयलो; बैल वागरी पडून भियेल्ले, एकधारी नदरेन वागाक पळयत रावले. आदीं तेणें एकल गर्जण माल्ली. मागीर सट्करून हुडी घेवन जबडो मारून तांबड्या बैलाची मान मोडली आनी तेका सकल शेंवटिलें. तेन्ना शिब्या बैलान आकांताची झिडकी मारली. मारिल्ले झिडकेसरशीं जूंव मदींच मोडलें. मात गळ्यांतली कानी गळ्यांत घुसपूनच उरली. वागान दुसरी हुडी शिब्या बैलार घेतली. तेचीय मान मोडून तेका सकयल उडयलो. सातण नायक रानाकडेर उबो रावन हातांतली कोयती हेळयत बोबो मारतालो. वाग तेचेसरीं कांय वेळ मांडून पळयत रावलो. मागीर येयल्लेच चालीन परत रानांत रिगलो. मागीर घसघस घालीत रानांत धांवलो.

दोगांय बैलांचे मानेर, फाटीर जबडे, दावखुलां अशीं खोल रिगिल्लीं. तेंच्यो साखनळ्यो फोडून उडयल्ल्यो. दोगूय बैल मान उडोवन सास्टांग भुंयेर पडिल्ले.

भासूय प्रस्थापीत जाता आनी वातावरणनिर्मितीय जाता. जोताक लायिल्लेकडेन बैलांक मरण येवप हें दुश्चिन्न कशें लेखतात. ह्या पयल्याच प्रसंगांत लेखकान फुडाराक येवपी संकश्टाची सुलूस दिल्या. हें भोव प्रतिकात्मक जालां.

धर्मांतरीत जाल्ले थोडे परतेय जेन्ना स्वधर्मांत वचूंक सोदताले तेन्ना तांकां ख्यास्त आसताली. कांय पाद्रींक तीं दुश्टपणां कशीं दिसताली तांतलोच एक पाद्र सिमांव. हो विशाळ काळजाचो धर्मान चलपी मनीस. लोकांक समजावन, प्रेमान आनी जेजुचो मोग दाखोवन क्रिस्तांव करूंक जाय; चुकतात तांकां भगसून खरी वाट दाखोवंक जाय अशें मानून चलपी. पूण तोय ते न्यायसभेच्या अन्यायाचो शिकार दाखोवन लेखकान भोव बरी संतुळा राखल्या. सरसामान्यांच्या इतिहासाच्यो नोंदी आसनात. पूण खरो इतिहास समजून घेतकच खरीं दिसपी पात्रां आनी प्रसंग उबे करप शक्य जाता. पाद्र सिमांवाक धरून न्यायसभे मुखार उबो करतात. ताणें खुरीस मोडटल्यांक भगसणी दिल्ली हाचो अर्थ ताणें थळाव्या खुरीस मोडटल्यांक जेल दिल्लें असो ताचेर आरोप जाता तेन्ना ताकाय इन्क्वीझिशनाक फुडो करचो पडटा.

एका काळाचो भोव आत्मीयतेन आनी कलात्मक रितीन केल्लो आलेख हो. जिणेच्या शाश्वत मुल्यांची राखण करपी दोंगरायेदीं मनशांय हातूंत आसात आनी खिणयाळ्या सुखाचे आशेन सगल्या तत्वांचो गोबोर करून पियेवपी लोकूय आसात. गोंयच्या इतिहासाचो एक खण दारां-जनेलां बंद करून काळखांत उरिल्ल्यान त्या काळावयलें चित्र लळीत साहित्यांत येवंक नासलें. धर्मांतर हो मनां दुखावपी आनी खुबळावपी विशय जाल्ल्यान सपसप कोण लेखक ते वाटेक वचनासले. 'युगसांवार' बरोवन सैलबाबांनी दारां-जनेलां उकतीं करून इतिहासोचेर घणघणीत उजवाड घाला आनी भोव कुशळतायेन धर्मांतराचो विशय हाताळ्ळा. भारतीय कादंबरी साहित्यांतली ही एक स्रेश्ठ साहित्यकृती म्हणूंक जाय.

सैलांली 'खोल खोल मुळां' ही कादंबरी गोंयच्या आदिवासी जमातींचेर बरयिल्ली कादंबरी. काळाच्या गर्भांत खोल मेंरेन वचून ह्या आदिवासींचें मूळ सोदीत 'आफ्रिकेंतल्या सावळ रानांत आशिल्ले मनशांले आदिमांयक आठ पुरसांकडल्यान आठ पूत जाले. ते आठूय जाण आठ रंगरूपांचे आसले. ते मुखार आठ दिकांनी गेले.' अशी हे कादंबरेची सुरवात जाता. क्रिस्तांव गावडे समाजाचेर बरयिल्ली ही कादंबरी. हे जमातीचे जिणेंत वर्सांकणकणींच्या भूतकाळांत जीं मोडां उप्रासलीं तांचेर आदारिल्ली ही साहित्यकृती. ह्या समजाच्या अंतरंगांत देंवन तांगेली मातृसत्ताक कुटूंबसंस्था, पोशिल्ली मोनजात मारून ना खावप ही चाल, दादले-बायल संबदांविशीं आशिल्लें उकतें मन अशे विशय घेवन गुंतिल्ली ही एक भोव बरी कादंबरी.

सैलबाबांली आन्येक साहित्यकृती म्हळ्यार 'हावठण' (२००९). त्या उपरांत 'विखारविळखो' (२०१६) आनी 'माती आनी मळब' (२०१७). 'विखारविळखो' ही सोऱ्याच्या आधीन जाल्ल्यान बायल-भुरगीं, आवय-बापूय सयत संवसाराची वाट लावपी श्रीधराची आनी मोडपी संवसाराक धिगी लावन सांवरपी वासंतीच्या संघर्शाची. साहित्याच्या मळार हो संघर्श नवो न्हय. पूण महाबळेश्वर सैलांसारक्या शब्दप्रभूच्या हातांत ती भोव वाचनीय जाल्या. 'माती आनी मळब' ही कादंबरी, म्हळी जाल्यार झुंजांची आनी फौजींची आनी म्हळ्यार शेतकामती संस्कृतायेची. लेखकाचें समृद्ध अणभव विश्व हे नवलकथेंत अभिव्यक्त जालां. पूण ह्या तिनींमदीं अव्वल ती 'हावठण'. संवसारीकरणाच्या बदलत्या युगांत परंपरीक वेवसाय ना जायत चल्ल्यात. कांय वेवसाय परिस्थितीक लागून सोडचे पडल्यात. तांतलोच

एक म्हळ्यार कुमार. स्टील आनी प्लास्टीक बाजारांत आयलें ताचो विपरीत परिणाम चडांत चड जालो तो कुबारांचेर. परंपरीक बुडकुले, कळसुल्यो, आयदनां मातयेचीं आसतालीं. शारांनी न्हय जाल्यार गांवांनी तरी मातयेच्या आयदनां बगर जायनासलें. तांबें-स्टील येवनूय गरिबांनीं मातयेक फाट करूंक नासली. पूण प्लास्टीक आयलें आनी कुमारांल्या आयदनांक कोण विचारिनासो जालो. तातूंत शिक्षण घेतिल्लो तरनाटो कुमार शारांत वचून नोकरेफाटल्यान लागलो. तळ्याची माती कुमार मडकीं करपाक वापरताले तें तळेंच उदरगतीच्या नांवान धरण बांदपाचे निमतीं नश्ट जावपाकडेन पावलें. अशे तरेन भोयो भोयो जावन हो वेवसाय मर्णधडेक लागला ताची काकुळटायणी कथा सैलबाबांनी फिशाल कलाकाराचे कळाशेन रचल्या.

'हावठण' ही काळाचे व्हांवतेंत लयाक वचपी कुमार समाजाची व्यथा सांगपी कथा. कुमारांचें सर्जन आनी तांची वेदना भोव कलात्मक रितीन मांडिल्ल्यान ही साहित्यक-ती खूब वयल्या पावंड्यार उबी रावता. मुळांतच अबरगतीक पाविल्ल्या कुमारांच्या वेवसायाक खांवटें पडटा. जेन्ना गांवच्या तळ्यार, जंयची माती मडकीं-माटुलां करपाक कुमार वापरतात, बांद घालून उदकाची पातळी वाडोवन तळें वर्सभर उदकान भरिल्लें उरचें म्हूण काम सुरू जाता तेन्ना कुमार समाजाचेर आकांत येता. खरें म्हळ्यार तळें भरिल्लें दवरप हें विकासाचे नदरेन आनी सरसकट भौसाचे नदरेन फायद्याचें. पूण पुराय कुमार समाजाच्या आस्तित्वाचेर आयिल्लें व्हड संकश्ट. हो विरोधाभासूय लेखकान नुलयत चित्रीत केला. तरेकवार पात्रां वरवीं कथानक वेगान फुडें गेलें तरी एक जाणवता की हे नवलकथेचो नायक जावन आसा तो कुमार समाज.

भारतीय साहित्यीक मळावयलो उत्कृश्ट साहित्यकृतीचो प्रतिश्ठेचो सरस्वती सम्मान पुरस्कार 'हावठण' कादंबरेक फावो जाला. कन्नड, इंग्लीश अशा भासांनी तिचे अणकार जाल्यात. विश्व कोंकणी केंद्राचो विमला पै साहित्यीक पुरस्कारूय तिका फावो जाला.

### फा. आंतोन पैरैर

आंतोन पैरैर (१९१९) हांणी कोंकणींत खूब लेखन केलां. याज्ञीक आसुनूय समाजाकडेन पळोवपाची तांची नदर सदांच अलिप्त उरल्या. हिन्दू क्रिस्तांव-

मोयर सारकेच ही तांगेली भावना तांगेल्या बरपांत जाणवता. 'वादळ आनी वारें' (१९७९) ही तांगेली कादंबरी रोमी लिपीच्या वाचकांमदीं खूब गाजली. उपरांत तिची देवनागरी आवृत्तीय भायर सरली. हे कादंबरीचें कथानक म्हळ्यार एका उजू मार्गान चलपी पाद्रीच्या जिविताचें चित्रण. पाद्री हे देशभश्टे अशी भावना जायत्या गोंयकार आनी भारतीय भांवडां मदीं आसा. गोंयचे वा भारती पाद्री हे धड्डे, बुरशे आनी अर्दशिक्षीत अशी समजिकाय येवरोपेव पाद्रींनी करून घेतल्या. हो समज पयस करपाचो हेत बाळगुनूच लेखकान ही कादंबरी बरयिल्ल्यान कादंबरीचो नायक हो अती तत्वीक भूमिका घेवन वावुरता अशें दिसता. 'सालाझाराची आमका गरज ना-गरज आसा ती जेझू ख्रिस्ताची... जिणेंत केदेंय व्हडलें वादळ आनी वारें आयलें तरी आपणालें काळीज आनी आत्मो थीर दवरप गरजेचें' अशें प्रतिपादन करपी फा. आंतोन पैरैरांली ही कादंबरी रोमी लिपयेंतली उजवी आनी वट्ट कोंकणी साहित्यांतली बरी कादंबरी म्हणूंक जाय.

### अशोक कामत

'घणा घाय नियतीचे' (२००५) ही अशोक कामत ह्या लेखकाली पयली कादंबरी. कादंबरी पयली आसली तरी लेखकालो बरोवपाचो अणभव आकांताचो. कथा, कविता, नाटकुलीं, लळीत निबंद अशे साबार साहित्यप्रकार केळयल्या उपरांत आतां अशोकबाब कादंबरी कडेन आयल्यात. तोय एक हेत मनांत बाळगून. आयज समाजांतल्या दुर्बळ घटकांचेर लेखक सरसकट आनी सहजतायेन बरयतात. दुर्बळ घटक म्हळो की तो भौसांतलोच आसूंक जाय ही धारणा आसा. पूण तथाकथीत वयले जातींतूय दुर्बळ धटक आसात जे समाजांत, राजकारणांत आनी अर्थवेवस्थेंत बदल घडून आयल्यात तांचे बळी थारल्यात. कालचो भाटकार आयज भूंयहीन जालो. 'रोयता ताची जमीन' कायद्याक लागून, मुंडकार कायद्याक लागून ह्या समाजांतलो वयल्या थरांतलो लोक जरी सुरक्षीत उरलो तरी तातुंतलो दुर्बळ घटक मात 'ना घर का ना घाट का' अशे आवतिकायेंत पडलो. गोंयमुक्ती आदीं आनी उपरांत समाजान जें पळयलें, अणभवलें, भोगलें तांचें जितें जिवें चित्रण हे कादंबरींत जालां. एकत्रीत कुटुंबवेवस्थेचीं बरीं आनी बास्कळ आंगां लेखकान स्वानुभवांततल्यान बेस बरीं दाखयल्यांत. एका काळार ह्या मध्यमवर्गी समाजान जीं जीवनमुल्यां जतनायेन सांबाळिल्लीं तीं आतां सगळ्या समाजाचीं जाल्यांत ही बरी गजाल. पूण ह्या तथाकथीत वयल्या समाजाकडेन दुबावान, चतरायेन आनी

तिरस्कारान पळोवपाची नदर, जरी त्या तथाकथीत सकयल्या समाजाक आज समान हक्क आनी समान संदी उपलब्ध आसा, बदलूंक ना. बरो वायट मनीस सगल्या समाजांत आसता. ताचो ताच्या जल्माकडेन वा वर्णा कडेन संबंद ना हेंच सांगपाचो यत्न हे कादंबरींत जाला. देखुनच, घरची आस्पत आसुनूय वायट व्यसनां करपी दादू आनी निश्ठूर विठाबाय हीं मनशां त्या समाजांत लज नाशिल्लेवरी वावुरतात.

कथानक तशें सादें सरळ आसा. दादू म्हळ्यार श्रीरंग कामत हो गांवातलो भाटां-बेसा अशी आस्पत आशिल्लो घरांतलो कर्तो मुखेली. ताका जुगडी खेळपाचो नाद. वृत्ती पुराय सुवार्थी. थंय तो आपलें तुपलें कांय पळयना. विष्णु हो तांगेलो पूत. पूण कसलो पुरूशार्थ नाशिल्लो. ताची बायल म्हळ्यार दादुली सून रमाबाय ही मात शाणी, शिटूक आनी कर्तीसवरती. दादूक तिचो उजू सभाव रूचना. दुसरी सून विठाबायक लागीं करून तो विष्णूक आनी रमाबायक त्रास दिता. रमाबाय 'तिकळी' देखून घराचेर हावळ येतली अशें नीब करून दादू तांकां घराभायर काडटा. विष्णू रमाबाय भोव कश्टांची आनी गरिबींतली जीण जियेतात. तेवटेन दादू मात विठाबायचे सांगणेन चलतां चलतां तिच्याच हातचें बावलें जाता. रमाबाय भुरग्यांचेर बरे संस्कार करता. दादुलो दुसरो चलो अनंत गांधीवादी सुदारणेचें वारें गांवांत हाडूंक सोदता. भाटकार आसुनूय खोरें घेवन शेतांत देंवता तें भौसाक अजापाचें दिसता. अनापा यमुन्या कडेन लग्न जाता. जातीभायर लग्न जाता म्हूण कळटकच मेकळ्या विचारांची रमाबाय लेगीत गणमणटा. ती 'नाका' म्हणिना पूण तटस्थ रावता. दादू मात चवताळटा. अनापाकूय घरांत पांय दिवपाक दिना. अनापा गांवांत सहभोजना खातीर वावुरता. रमाबाय त्या काळाच्या मानान सुधारक. रिती-रिवाज, अंधश्रद्धा, प्रसादपाकळी ह्या संबंदात तिचे विचार फुडारिल्ले. देखून पूत विनोद व्हडलो जावन शुभदाकडेन लग्न जातलो म्हणटा तेन्ना ती पत्रिका पळोवपाक न्हयकार दिता. भुरगीं व्हड जालीं तरी घरची आवतिकाय दुर्बळच उरता. परिस्थितीक लागून खचिल्ली रमाबाय अखेरेक मरता. एके परीन वायट परिस्थीतींतूय स्वाभिमानान जियेवंक सोदपी रमाबायची ही शोकान्तिका. कादंबरीचे अखेरेक लेखक म्हणटा- काळ कोणाक रावना आनी नियती कोणाचें आयकना. काळ आपले गतीन धांवता आनी नियती आपले मतीन वागता. ह्या दोगांच्याय खेळामदीं मनीस मात चिड्डून वता.

कादंबरेंतलो आसावली गांव कल्पनीक आसलो तरी फोंडें तालुक्यांतल्या

खंयच्याय गांवा सारकोच आसा. भौसाक सदांच असुरक्षीत दिसलां ही वस्तुस्थिती. गैरसमज पयस करपाचो हेत बाळागूनच लेखकान ही कादंबरी बरयल्या अशें दिसता आनी कांय प्रमाणांत ते खरें आसा. खासा लेखक 'मन मेकळे करचे पसत ....' ह्या प्रास्ताविकांत म्हणटा - 'सारस्वतांनी भोवजन समाजाचेर अत्याचार केल्यात, अन्याय केला हो आरोप कांय अंशीं खरो आसतय बी. पूण हेर राज्यांनीं ह्या समाजाचेर जातात तसले अत्याचार गोंयांत केन्ना दिसले नात. ह्या दोनूय समाजांचे संबंद जितले लागींचे, आपलेपणाचेर आनी मायेचेर आदारून आशिल्ले तितले गोंयां भायर आनीक खंयच पळोवंक मेळ्ळे नात आनी वाचुंकूय मेळ्ळे नात. पूण त्या काळार जातीभेद आनी चातुर्वर्ण मानिनाशिल्ले अशें म्हणपाचें धाडस हांव करचों ना. अशें आसुनूय हे संबंद केन्ना दुस्वासाचे आनी तिरस्काराचे जालेच नात'. कितलेंय ना म्हळें तरी जे गैरसमज वा दुबाव समाजांत भिनिल्ले आसात ते निवळावपाचो हो एक प्रामाणीक प्रयत्न अशोकबाबानी हे कादंबरीच्या माध्यमांतल्यान केल्लो आसा.

हे कादंबरीचो साहित्य अकादेमीन पुरस्कार दिवन भौमान केला. अशोकबाबांल्यो आनीक दोन कादंबऱ्यो उपरांत प्रकाशीत जाल्यात. 'जुवारीचीं पांयजणां' (२०१०) आनी 'अघटीत' (२०१२). ह्यो दोनूय विंगड विंगड प्रवृत्तीच्यो नवलकथा. 'जुवारीचीं पांयजणां' ची संकल्पना भोव सुंदर. जाण्टेपणांत धाकलूची बायल कोमांत गेल्ली आसा. तिगेले अंत्ययात्रेची तयारी चलल्या. पुराय कादंबरेंत निवेदना परस संवाद चड. आनी अखेरेक घडटा तें विपरितच. घोव बशिल्लेकडेन लवंडता आनी बायल शाबुद्दीर येवन ताका उलो मारता. हो विरोधाभास कादंबरेक उंचेल्या पावंड्यार पावयता. पूण संदिग्धताय उणी आनी विस्तार चड घेतिल्ल्यान कलात्मकतेक थोडो मार बसला. 'अघटीत' ही मात डिटेक्टीव्ह कादंबरी. प्रथमपुरुशी निवेदनांतली ही नवलकथा गोंया भायर कोंकणांत घडटा. थंय एक खून जाता आनी त्या प्रकरणाचो सोद होच कादंबरीचो विशय जाला. हेय नवलकथेंत लेखकान संवाद कौशल्याचो बरो उपेग केल्ल्यान कादंबरी वाचनीय जाल्या.

### हेमा नायक

हेमा नायक हांणी 'पसय' कथासंग्रहा वरवीं लेखक म्हूण पदार्पण केलें. पूण कथे वांगडाच, नाटकुलीं, निबंद, लेख बरयत बरयत तांणी नवलिकेक हात घालो.

'निर्बळा' ह्या पुस्तकांत दोन नवलिका आसात. 'निर्बळा' आनी 'मुक्ती'. मुक्ती ही दिर्घकथाच म्हणूंक जाय. देखून 'निर्बळा'चो नवलिका म्हूण खाशेलो उल्लेख करूंक जाय.

हेमा नायक ह्यो संघटक, प्रकाशक, संकलक, संपादक, अनुवादक अशो अनेक भूमिका वठयता. तांचो पिण्ड रायटरापरस फायटराचो. विचारांनी ती स्त्रीवादी. दादल्यांक जें जें मेकळेंपण आसा तें तें अस्तुरेक मेळूंक जाय असो आगरो धरपी. तांगेल्या कथांनी तें जाणवता. 'निर्बळा'तूय अस्तुरी उबी केल्या ती आपल्या पांयार स्वतंत्रपणान उबी रावंक सोदपी. पूण त्या येत्नांत ही अस्तुरी दादल्यांचे हापापिल्ले वानशेक बळी पडटा अशें दाखयलां. बापूय धुवे कडेन कुडी संबंद जोडटा. टिचरा कडेन दिलासो मेळटलोशें दिसतासर तोय तिचो गैरफायदो घेता आनी पत्रकारितेंत भितर सरल्यार तीच वानसा तिका गिळून उडयता. 'निर्बळा' ही अस्तुरेक निर्बळ अबळा अशीच उबी करता. परिस्थिती आड झगडपाचें बळगें दाखयना. संघर्शच टाळिल्लेवरी ती बिळबिळीत उबी जाल्ल्यान संभोगाचें विकृत दर्शन हे नवलिकेंत घडटा अशेंच म्हणचें पडटा. अर्थात हेमाबायन उबें केल्लें एके अबलेचें 'निर्बळा' हें रूप सरसामान्यां भायरें हें मान्य करूंक जाय.

हेमा नायकांली 'भोगदंड' (१९९७) ही कादंबरी मात लेखकाक भोव उंचेल्या पांवड्यार पावयता. हे कादंबरीक केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्यान तिका राष्ट्रमान्यताय मेळ्ळ्या. गोंयच्या एका जुंव्यार हें कथानक घडटा. कुवेत वा हेर आखाती राष्ट्रांनी जे गोंयकार वतात तांच्या जिवितांत कसकसलीं मोडां येतात ताची सरसामान्यांक कल्पना नासुंये. 'कार्मेलीन' कादंबरीन कुवेताक आया म्हण वचपी बायलांच्या वांट्याक कसकसले भोगणार येतात तें दाखयलां. पूण 'भोगदंडां'त हेमाबायन एक जुवान चेडोभुरगो कुवेत वता आनी काजारा उपारांत गांवघरा उरिल्ली बायल घोवान धाडिल्ल्या दुडवांनीं कशी फोल्गां मारता ताचें यथार्थ चित्रण केलां. लेजली ह्या भुरग्याक संगिताची आवड. गिटार गळ्यांत घालून कांतार करतना तो सुदबूद विसरपी. गोंयां नोकरी मेळना आनी जोडूंक तर जाय देखून चलून आयिल्ली कुवेतची चाकरी तो धरता. मुळांत सामको साडेभावार्ती. कुवेताक पावतकच नेमान दुडू धाडटा. उपरांत मांय ताका काजार करता. जेमा काजार जाता. पूण आदलो मोगी रोबीनाक तें विसरूंक पावना. घोव परतो कुवेताक

वता आनी कुडीसुखाक संवकल्लें जेमा पर्थून रोबीनाच्या गोपांत रिगता. सासमांय निरक्षर जाल्ल्यान जेमा लेजलीन धाडिल्लो सगलो दुडू आपणाल्या नांवार बँकेत दवरता. जाय तशे मोडटा. अखेरेक लेजली जेन्ना कुवेत-इराक झुंजांत गळसणून पळून परतो येता जेमा आनी रोबीन लेजलीन धाडिल्ल्या दुडवांनी उबारिल्ल्या घरांत घोव-बायल कशीं रावतात तें पळोवन निर्णल्ल्या लेजलीक आपूण पुराय नागवलां म्हणपाचें कळपाक कळाव लागना. अखेरेक सगलें वगडावन बशिल्लो लेजली पर्थून गिटार घेवन पिशा वरी कांतार करीत हेडटा अशी ही कथा. दुडवां फाटल्यान धांवतात ते कितें कितें वगडावन बसतात तें दाखोवपी ही कादंबरी. गोंयां रावन घरकारान धाडिल्ल्या दुडवांनीं फोल्गां मारतना तेवटेन दादलो बाबडो कसकसलीं कामां करता, कसकसले अपमान सोंसता हाची जाण बायले-भुरग्यांक आसना हें कथानका वरवीं हेमाबायन दाखयलां. बायलमनशेचीं विंगड विंगड रुपांय स्पश्ट केल्यांत. मांय आनी सासमाय म्हूण वावुरपी आंतोनेत, घोवाक फटोवन मिंडा वांगडा नाचपी जेमा, शेजारचें तिट्टिटें पूण गरजेक धांवन येवपी फिलोमेन अशीं तरेकवार स्त्रीपात्रां हे कादंबरेंत उबीं जाल्यांत. सुसुत्र कथानक, भाशेची व्हांवती आनी घडणुकांची गती हांकां लागून कादंबरी वाचनीय जाल्या. पूण वाचकाच्या मनांत लेजली विशीं सहानुभूती आनी जेमाविशीं तिडक निर्मण करपी ही कादंबरी स्त्रीवादी भूमिकेक पूरक दिसना अशें म्हणूंक जाय.

## देवीदास कदम

गोंयचे शिमेपलतडीन सदाशीवगड वाठारांतले देविदास कदम (१९५८) हे महाबळेश्वर सैलांच्या पावलार पावल दवरून, घडये तांचे कडसून कादंबरीलेखनाची प्रेरणा घेवन, अर्थात स्वतंत्रपणान, रचना करूंक लागले. 'कांदळां' हो कथांझेलो उजवाडा आयलो आनी तांगेल्या लेखनाची तुस्ततोखणाय जावंक लागली. रोखडोच तांणी नवलकथेक हात घालो आनी तांगेली पयली नवलकथा प्रकाशीत जाली ती 'दिका' (२००४). ते पयलीं तांची 'चक्रव्यूह' नांवाची कादंबरी सुनापरान्त दिसाळ्यांतल्यान सांकळ रुपान उजवाडा येताली. पूण स्वता लेखक तिचेर समादानी नाशिल्ल्यान तांणी ती प्रकाशीत केली ना. उपरांत 'गांठवल' (२००६) आनी 'उबंतर' (२०१०) ह्यो कादंबऱ्यो भायर सरल्यो. २०१८ वर्सा तांची नवी कादंबरी 'जाणवय' उजवाडाक येतली. तांगेले 'दिका' कादंबरेक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

'दिका' ही उत्तर कर्नाटक वाठारांतल्या कोंकणी जनांची कथा आनी व्यथा. हे कादंबरीचेर डॉ.किरण बुडकुले हांणी जी मतां मांडल्यांत तीं तशातशीं हांगा दवरल्यांत-

"दिका वाचतना लेखकाली प्रागतिक नदर स्पश्ट जाणवता पूण तांगेली सर्जक म्हूण तांकय प्रकर्शान दिसता. तांकां लागून कथानकाचो आस्वाद घेतना वाचप्याचो अपेक्षाभंग जायना. लेखक कथानकाच्या पेण्या-पेण्यार, अचळय आपणाल्या प्रगतिशील विचारांचो फाटपुरावो करता. मात सदांच तो एकेच तरेन वा एकाच पात्रा वरवीं नासता. देखीक, शिक्षण-रोजयेचें म्हत्व तो दोन-तीन कडेन उक्तायता, केन्ना दीपक ह्या मुखेल पात्रावरवीं, केन्ना शीला-उमा-रमाल्या भासाभाशेवरवीं, केन्ना सीतेल्या चिंतना-उलोवपांतल्यान, जाल्यार केन्ना पुतू-म्हादूल्या दुस्वाशी संवादांतल्यान आनी खासा करून, सीतेली पुताक आपणालें स्त्रीधन विकून वा घोवाल्या पेन्शनांतल्यान शिकोवपाची तयारी शिक्षणाच्या म्हत्वाविशीं खूब कितें सांगून वता; इतलेंय करून तातूंत अडेची वा प्रचारकी थाट दिसना. हीच गजाल तांगेल्या, मोगाविशींच्या वा आंतरधर्मी लग्नाविशींच्या मतांबद्दलय म्हणची पडटा. लेखकालें निवेदन सुरबूस तर आसाच, तें उत्सुक्ताय वाडोवपी आसा. देखून, कांय कडेन कथानकांत अनावश्यक तपशील, तुटक/अनावश्यक संवाद-सुत्रां वा हुमकळटे संदर्भ सांपडूनय नवलिकेची कलात्मक वट शेणून वचना." (पान ५१, ५२, शतकान्तिका)

एके समिक्षकेचे नदरेंतल्यान घेतिल्लो हो थाव. लेखकाली पयली प्रकाशीत कादंबरी जाल्ल्यान थोडे दोश उरल्यात. पूण हे दोश फुडल्या दोन कादंबऱ्यांनी दिश्टी पडनात. 'गांठवल' ही 'एडस्' विशया वयली पूण भोवआयामी कादंबरी. ताचे उपरांत प्रकाशीत जाल्ली 'उबंतर' ही मात आगळीवेगळी कादंबरी. 'उबंतर' कादंबरीची समिक्षकांनी खाशेली दखल घेतल्या. आयचे घटकेक कोंकणींतल्या नांवाजत्या कादंबरीकारां मदीं देविदास कदम हांचें नांव घणघणटा.

कादंबरीच्या मळार दखल घेवंकच जाय अशो आनीकूय जायत्यो कादंबऱ्यो आसात तातूंत पयले सुवातेर १९९४ वर्सा प्रकाशीत जाल्ले 'अंजनी' चो उल्लेख जावंक जाय. सोंपिल्ले लेखक एच. रत्नाकर राव ह्या लेखकाली ही एकमेव कादंबरी. आधुनीक युगांत सुशिक्षीत आनी उंचेल्या पदार काम करपी एके कर्तुपी स्वच्छंद

अस्तुरेची ही काणी. पंचवीस वर्सां फाटीं बरयिल्ली ही कादंबरी खऱ्या अर्थान स्त्रीवादी नवलकथा. दादले जशे वीक एण्डाक मजा मारूंक भायर सरतात तशी अंजनीय भायर सरता. तीय एकली. आनी दुडू मेजून तरनाट्या दादल्यांचो सांगात आनी संभोगूय विकतो घेता. कोंकणींतली ही पयली स्त्रीवादी कादंबरी. विशेश म्हळ्यार दादल्यामनशान बरयिल्ली.

आन्येक खाशेलो उल्लेख जाय तो नंदा धर्मा बोरकार ह्या कादंबरीकाराचो. बोरकारांच्यो आतां मेरेन तीन कादंबऱ्यो प्रकाशीत जाल्यात.'पोको'(२००५), 'समर्पण' (२००७), आनी 'गोंदू' (२००९). भोवजन समाजांत वावरून आयिल्ल्या आनी गावडी समाजा विशींचें अंतर्बाह्य गिन्यान जोडिल्ल्या नंदाबाबांल्यो ह्यो नवलकथा म्हळ्यार एके परीन समाजीक इतिहासाचो दस्तायवेज. भाशाशास्त्राचे नदरेनूय भोव मोलाच्यो. तांगेली निवेदनाची शैली आनी संवादांची बोली दोनूय अप्रूप. आयज घोळटिकेंतल्यान भायर पडिल्लीं अनेक उतरां आनी वाक्प्रचार नंदबाबांल्या साहित्यांत पळोवंक मेळटात. पयल्या दोन कादंबऱ्यांनी तिसवाडींतल्या गांवांची काणी आयल्या. भाटकार आनी भागेली, शेतां आनी भाटां, इश्कोलां आनी मैदानां, खुरीस आनी इगर्जो अशा गजालीं वरवीं समाजजीण उबी जाल्या. 'गोंदू' ही वेगळी म्हणूं नज. पूण हे कादंबरेंत गोंदूचें संवेदनशील भुरगेंमन अळंग उतरांनीं चित्रायलां. मराठींतले गाजिल्ले 'गोट्या' नवलकथेचो उगडास करून दिवपी ही कादंबरी. नंदाबाबांलें समृद्ध अणभवविश्व तांगेल्या साहित्यकृतींनी लखलखून दिश्टी पडटा. गांवगिरो समाज, गांवांतली भाटकारशाय. उंच-सकयल भेदाभेद, सैम-संवाद आनी भुरग्यांली मानसिकता हांचें बेस बरें दर्शन बोरकारांल्या नवलकथांनी वाचूंक मेळटा.

'शक्तिपात' (२०००) ही एक गाजिल्ली साहित्यकृती. पूण हे एकेच कादंबरेन लेखक रितो जालो. अवधूत कुडतरकार हांगेली ही कादंबरी एका सामान्य मनशान असामान्यत्वाचो वेध घेवपा खातीर केल्ल्या येत्नांचेर आदारिल्ली आसा. अध्यात्म म्हळ्यार कितें हें ना समजुपाचे पिरायेर देवदेवस्पण आनी अध्यात्मा कडेन आकर्शीत जाल्ल्या दिगंबराचे जिणेप्रवासाची कथा लेखकान सुंदर रितीन विणल्या. ह्या प्रवासांतले तागेले अणभव काळजाक पिळव घालपी आसात. साधुंची बुवाबाजी, आपसुवार्थी सोयरे, खबरांपत्रांची दुटप्पी वृत्ती, स्वाम्यांची रखेलबाजी अशा विशयांक खोलायेन स्पर्श करीत लेखक एक विस्तृत चित्र उबें करता. ह्या लेखका

कडसून अदीक अपेक्षा आसल्यो. पूण त्यो पुर्ण जावंक नात.

हालींच प्रकाशीत जाल्ली 'वास्तू' (२०१४) ही नामनेची कथाकार मीना काकोडकार हांगेली पयली कादंबरी. हालींच सरिल्ल्या एका कालखंडाची ही नवलकथा. ज्या काळार रांडाव बायलो बोडक्यो जाताल्यो, तांबडें कापड न्हेसताल्यो. ज्या काळार खासा आनी बापोल-तिपोल भावंडां खेळून, झगडून परत एक जावन मांडयेक मांडी लावन जेवतालीं. ज्या काळार भुरगे पिरायेचेर चलयांची लग्रा जातालीं आनी मागीर न्हाण योसर तीं कुळाराच रावतालीं. ज्या काळार पापड, लोणचीं, सांडगे, शेवयो, वडयो बी करप म्हळ्यार घरच्यांक एक सुवाळोच कसो आसतालो. ही काणी एका घराची- चार चवक्यांच्या, व्हडल्या राजांगणाच्या, तांतल्या मनशांच्या कर्तुपांची आनी भावभावनांची. चोंयवशीनी कुडी, मदीं तुळस, वयर माळी, रांदची कूड, देवाकूड, फाटल्यान मान्रें, थंयच बांय, जळोव, मीठ... काळाच्या भोंक्यांत आयज नश्ट जाल्लें अशेच एके वास्तुची ही काणी. असली एक एक वास्तू म्हळ्यार एक एक कादंबरी हांचो प्रत्यय दिवपी ही सुंदर कादंबरी.

अशीच दुसरी एक कादंबरी म्हळ्यार माया खरंगटे हे लेखकाली 'अमृतवेल'. 'वास्तू' वरीच फाटल्या तेंपा वयल्या सारस्वत घराब्यांच्या कुळाचारांची. पोक्या वांशांचीं पूण शिरवंत घरां, रांडाव तशो कर्तुपी बायलो, कुंवारींचीं लग्नां, दादल्यांचीं आंगोस्तरां, जयहिंदाची चळवळ, नाल्लांचें नाड नेगोस, अशा विविध गजालींचो सांगोड घालून सोबयिल्ली कादंबरी वाचनियतेचे कसवटेर उजवी थारता.

रामनाथ गावडे हांगेली 'तळाचो फातर' (२०१०) हीय एक दखलपात्र समाजीक कादंबरी. 'अच्छेवां'त मिनाखणींनी गांवाचें अंतरंग बदललें तशेंच शें चित्र 'तळाचो फातर' नवलकथेंत उबें जालां. पूण दोनूय कादंबऱ्यां मदीं साम्य तें इतलेंच. 'तळाचो फातर' ही पुराय कृती चिऱ्यांखणी ह्या विशयाभंवतणी घुंवता. विशय दिसपाक सादोच. पूण विंगड विंगड परिमाणां आशिल्लो. पंचायत पावंड्या वयलें राजकारण, कॉंट्रॅक्टरांले नाड वेव्हार, हातांत अचळय खेळखेळपी दुडू, दुडवांतल्यान आयिल्लीं वेसनां, प्रकृतीचेर विकृतीन केल्ली मात, सुवार्थापोटीं वगडायिल्लें मनीसपण... रामनाथ गावडेंली ही पयलीच नवलकथा आसुनूय तांणी ती समर्थ कादंबरीकारावरी आटापून हाडल्या. सुंदर प्रवाही भाशाशैली आनी प्रसंगा फाटल्यान प्रसंग गुंथून गतीमान केल्ल्यान कादंबरी वाचनीय जाल्या.

कथाकार आशिल्ल्या एन. शिवदास ह्या लेखकाल्यो दोन कादंब्र्यो हालींच प्रकाशीत जाल्यो. 'ओ बाबूश' (२०१४) आनी 'म्हाजन' (२०१५). 'ओ बाबूश' कादंबरींत लेखकान एक आदर्श तरनाटो उबो करपाचो दुबळो प्रयत्न केला. मदीं तो फिलॉसॉफीकल जाता तेन्ना ती फिलॉसॉफी उकलापी कशी दिसता. जेन्ना सर्वधर्मसमभाव वा सेक्युलरिझमाच्यो गजाली करता तेन्नाय त्यो अती तत्वीक दिसतात. ताका लागून कादंबरी उबारी घेना. दुसरी 'म्हाजन' ही कादंबरी देवदेवस्थानांचेर अधिकार गाजोवपी प्रस्थापीत म्हाजनी संस्थेच्या विरोधांत भुमिका घेवन बरयिल्ल्यान एकतर्फी कशी दिसता. समाजीक समस्या जेन्ना साहित्यांत गुंथतात तेन्ना जी साहित्यीक कलात्मकता लागता ती उणी आशिल्ल्यान तांची चर्चा जावंक पावना.

फकत धा वर्सांमजगतीं सात कादंब्र्यो दिवन इतिहास घडोवपी लेखक म्हळ्यार उदय शेणवी. तांणी 'आंवाळें' (१९९८), 'अपू' (२०००), 'इंगळ्यांतलो हिरो' (२००१), 'नोंदलो' (२००५), 'दाव' (२००६), 'फॅशनेबल भावना' (२००६), आनी 'ढोलको' (२००७) अश्यो समाजीक कादंब्र्यो बरयल्यो. उदय शेणवीं कडेन भास आसा, शैली आसा, पूण सूचकताय, संदिग्धताय नाशिल्ल्यान विस्तार चड घेता. साहित्यीक कसवटेर फाटीं पडिल्ल्यान उदयबाबांल्या साहित्यकृतींची समिक्षकांनी दखल घेतिल्ली दिश्टी पडना.

स्तंभलेखक आनी प्रकाशक म्हूण नामना आशिल्ल्या दिलीप बोरकार हांणी बरयिल्ली एक कादंबरी आसा. 'सखी वसुंधरा' (२०१४). सवाय तिनशीं पानांची गडगंज आसूनूय नवलकथा चोखंदळ वाचकांची साहित्यीक भूक भागोवंक पावना. शैली, संवाद, वर्णनां सुंदर आसुनूय गरजे भायलो विस्तार साहित्यकृतीक मारक थारला.

२०१७ वर्सा प्रकाशीत जाल्ली दत्ता दामोदर नायक हांगेली 'सावित्री' ही लेखकाली पयलीच कादंबरी. दत्ताबाब हांची प्रकृती निबंदलेखनाची. पूण एक शिस्तप्रीय आनी चोखंदळ वाचक. स्वता लेखक प्रास्ताविकांत सांगता- 'साहित्यांत कला आनी कारागिरी हांचो मेळ आसूंक जाय. प्रतिभा आनी साधना हांच्या संयोगान बरी साहित्यकृती निर्माण जाता.' ही साहित्यीक जाण आशिल्ल्या ह्या लेखकान कादंबरींचें माध्यम कित्याक आपणायलें? कोणा एके पुरोगामी आनी मुक्त

विचारांचे सावित्रीची काणी कथन करपाचो तांचो हेतू आसलो व्हय? ताचेर लेखकच म्हणटा 'कादंबरी बरोवप म्हळ्यार फकत काणी सांगप आनी वाचप्यांचें मनोरंजन करप अशें न्हय. तातुंतल्यान मानवी वेदनेचीं मुळां उस्तूंक ... तशेच जिणेचें तत्वज्ञान वाचप्यांक सांगूंक जाय...' हेच भुमिकेंतल्यान 'सावित्री' बरोवन जाल्या. कादंबरीच्या फाटल्या पानार (ब्लर्ब) सांगलां ते प्रमाण 'हे कादंबरीक एक तात्वीक बुनयाद आसा. हे कादंबरींत बरोवपी आपले जिणेचें तत्वज्ञानूय सांगता'. स्त्री स्वातंत्र्याचो, पुरोगामित्वाचो, मानवधर्माचो पुरस्कार करपी ही नवलकथा कलात्मकतायेच्या पावंड्यार निसरता ताचें कारण लेखक ती सांगता- अभिव्यक्त करिना. 'शो, डोण्ट टॅल' अशें एक तत्व साहित्यकारांनीं मानून घेतलां. थंय ही नवलकथा उणी पडटा.

मजगतीं अनेक कादंबऱ्यो प्रकाशीत जाल्यो. ज्योती कुंकळकार हांगेली 'पाशाणकळी' (१९९८), नरेंद्र काशिनाथ कामत हांगेली 'हंतम' (२०११), सुजाता सिंगबाळ हांगेली 'आत्मभान', अनील परुळेकार हांगेली 'दोन पिळग्यांची काणी' (२००९) अश्यो कादंबऱ्यो आयल्यो आनी आजून येत आसात. बऱ्यो आसात, वाचनीय आसात.

उसरां वयर सरिल्लो कोंकणी कादंबरीचो संवसार आयज फुलता फळटा आनी अपेक्षा वाडयत फुडें वता ही खोशेची गजाल.

## लळीत निबंद

निबंद हो लळीत साहित्यांतलो एक महत्वपुर्ण प्रकार. कथा-कवितें इतलोच म्हत्वाचो. सगलेंच वृत्तपत्री लेखन हें निबंद ह्या प्रकारांत आसपावना. खबरांचें विश्लेशण वा राजकी भासाभास हे निबंद जावं नज. पूण ज्या स्तंभलेखनांतल्यान लेखक एखाद्‌या विशयाचेर आपणालें मत वा विचार लालित्यपुर्ण उतरांनीं उक्तायतात ताका ललीत निबंद ही संज्ञा लागू जाता. निबंदाची व्याख्या करून ह्या प्रकाराक बांदून दवरप समा न्हय. पूण सरसामान्यपणान फोडणिशी करून निबंदाची लक्षणां सांगूं येतात. एखाद्‌या विशयाचेर आपणालो विचार, अणभव वा मत विशुद्ध मांडणी करून सक्षिप्त रितीन युक्तिवाद करून सत्याचो सोद घेवपाखातीर लेखकान केल्ली गद्य रचना म्हळ्यार निबंद. ज्या निबंदकाराकडेन विचाराची परिपक्वता आसता,

विशय मांडपाक फावो ती परिभाशा आसता, बरोवपाक घेतिल्ल्या विशयाची वेवस्थीत मांडावळ करपाची कळाशी आसता, क्लिश्ट विशय लेगीत वाचनीय करपाची शैली आसता तेच लेखक श्रेश्ठ निबंदकार म्हूण फुडें पावतात.

निबंदाखातीर वेंचिल्लो विशय ल्हान व्हड आसूं येता. 'प्रवास' हो विशय घेतलो जाल्यार प्रवासाचे विंगड विगड प्रकार, प्रवासाचीं सादनां, प्रवासाची मोख अशी मांडणी करूं येता. बसींतलो प्रवास कसो आसूं येता हाचेर खुसखुशीत विनोद पेरून निबंद बरोवं येता. पणजे-मडगांव वा गोंय-मुंबय बसप्रवास असो विशय घेतल्यार त्या अणभवाचेर बरोवं येता. पूण जें सांगूंक जाय तें पयलीं तकलेंत स्पश्ट आसूंक जाय. थोडे भितर सांगूंक जाय आनी वाचकाक नवें कितेंय मेळूंक जाय. तेखातीर लेखकाकडेनूय वेगळें /नवें सांगपासारकें आसूंक जाय.

चडशे निबंद हे लेखकाचो आत्माविश्कार आसता. लेखकाचीं मतां वाचकांक पटचींच असो आगरो नासलो तरी वाचकांक चिंतपाक प्रवृत्त करपी आसूंक जाय. अशे तरेच्या ललीत निबंद लेखनाची सुरवात येवरोपांत सतराव्या शतमानांत जाली, अशें म्हणटात. त्या आदल्या काळार भारतांत निबंदलेखनाची चाल नाशिल्ली अशें कशें म्हणूं येता? चाणक्याचें नितीशास्त्र, वात्स्यायनाचें कामसुत्र, भरतमुनींचें नाट्यशास्त्र अशो विविध रचना करपी विचारवंत जावन गेले तांणी वा हेरांनीं निबंद रुपान कांय बरयलेंच ना हें मनाक पुटवना. पूण त्या काळार गद्य रचना जाय नासल्यो आनी स्फूट लेखन जाल्ल्याचो उल्लेख मेळना त्या अर्थान तें नाशिल्लें अशें धरूंया. उपरांत जेन्ना इंग्लीश शिक्षणा वांगडा येवरोपांतलें साहित्यीक वारें भारतांत पावलें तेन्ना भारतीय भासांनीं येवरोपी धर्तेचेर निबंदलेखन करपाक सुरवात जाली.

इंग्लीशींत जाका 'ॲस्से' म्हणटात तांकां आमी 'निबंद' कित्याक म्हणूंक लागले काय? साहित्य अकादेमीन प्रकाशीत केल्ल्या 'कोंकणी ललित निबंद' ह्या संग्रहाक 'पनवार' ह्या प्रास्ताविकांत प्रा. शाम वेरेंकार म्हणटात - 'निबंध' हें उतर संस्कृत साहित्यांत वापरांत आसलें. निबंध = नि+ बन्ध = बांदप, बांद घालप, थांबोवप, संग्रह... बी. आदीं खंय झाडाचे सालीर वा पानांर बरयताले. मागीर हीं सगलीं 'पानां' एकठांय बांदून दवरताले. तांकां 'निबंदन' करप म्हणी.' ह्या निबंदना वयल्यान 'निबंद' उतर आयलां जावंये अशें शाम वेरेंकार म्हणटात.

जे तरेन नेमाळ्यांची गरज म्हूण कथेचो उदय जालो तेच तरेन निबंद हो साहित्यप्रकार

नेमाळ्यांची गरज म्हूण वयर सरलो. भारतांत देशी भाशांतल्या नेमाळ्यांचो उदेव एकोणिसाव्या शतमानाचे सुर्वेक जालो. १८१८ वर्सा बंगालांत ख्रिस्ती मिशनरींनीं बंगालींत सुरू केल्लें 'दिग्दर्शन' घडये भारतांतलें देशी भाशांतलें पयलें नेमाळें आसुंये. तांकां जाप म्हूण हिंदूंनी आपलें नेमाळें काडलें आनी १८६० म्हणसर फकत ढाक्यांतल्यान चार नेमाळीं चलूंक लागलीं. महाराष्ट्रांतूय नेमाळीं ह्याच अदमासाक सुरू जालीं. मतां आनी विचार प्रसारीत करपाक नेमाळ्यांची गरज वळखून बाळशास्त्री जांभेकर ह्या पुरोगामी विचारवंतान सुमारा भायर वृत्तपत्री आनी स्तंभलेखन केलें. राजकारण, शिक्षण, समाजकारण अशा विशयांचेर आनिकूय बरपां येवपाक लागलीं. ज्योतिबा फुले हांणी समाजप्रबोधन पर लेखन केलें. तांतुतल्यानच निबंदलेखनाची बुनयाद पडली. कोंकणींतलें पयलें नेमाळें 'उदेंतेचें साळक' सुरू केलें तें एदुआर्द ब्रून द सौझ हांणी १८८९ वर्सा. तातूंत विचारीक वा समाजीक विशयांवयलें साहित्य आयलें जाल्यारूय तें पुस्तक रूपान येवंक ना. गोंयांत छापणावळीचेर आशिल्ल्या कडक निर्बंधांक लागून चडशें बरप गोंयां भायरच जालें. गोंयच्या नेमाळ्यांनी जें निबंद साहित्य उजवाडाक येतालें तांतूत लालित्य उणे आनी नितीधर्मा विशीं चड आसतालें. थळावे वेवसाय वा शेतकामतांची म्हायती दिवपी लेख आसताले. हें चडशें रोमी लिपींतलें वृत्तपत्री साहित्य. कर्नाटकांत, भोव करून मंगळूर-कोडयाळ वाठारांत 'दिर्वें' (१९१२) आनी 'राखणो' (१९३८) हीं नेमाळीं भायर सरलीं आनी रोखडींच लोकांमोगाळ जालीं. हांगाय जे निबंद प्रकाशीत जाले ते वृत्तपत्रीय लिखाणा वरी शेणून गेले.

कोंकणी साहित्यांतले पयलेवयले लळीत निबंद बरयले ते शणै गोंयबाबांनीं. 'गोमन्तोपनिषद खण्ड १' हातुंतली 'म्हजी बा खंय गेली' ही कथा सोडल्यार हेर सगले लळीत निबंद ह्या प्रकारांतले. पुस्तकांत पाविल्ल्या ह्या निबंदां भायर तांचें आनिकूय निबंद लेखन जालां. पूण तें खंयच्याय पुस्तकांत ना पाविल्ल्यान शेणून गेलां. असोच 'मयेंच्या तळ्यार' हो तांगेलो एक निबंद 'कोंकणी ललित निबंद' ह्या संग्रहांत आसपावला. लळीत निबंदांचो पयलो झेलो उजवाडा आयलो तो 'स्वाती' (१९६०) जाचे संपादक आसले विष्णु नायक आनी निबंदलेखन करपी आसले बाकीबाब बोरकार, पु. ल. देशपांडे, मंगेश पाडगांवकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय (हे सगले कोंकणी जाणा जाल्ले पूण मराठींत लेखन करून नामनेक पाविल्ले लेखक) तशेच लुसियो रोद्रिगीश, निळकंठ धुमे (निकूबाब) आनी हेर. बाकीबाबांनी 'म्हजो

गांव बोरी', पू. ल. देशपांडेनी 'कारवार', आनी मंगेश पाडगांवकारांनी 'हिरव्यां कोंकण' अशे निबंद बरयले. पु. ल. देशपांडेची शैली कारवारी जाल्यार पाडगांवकारांली आसली मालवणी. बोरकार-सरदेसायांली शैली अंत्रुजी जाल्यार लुसियो रोद्रिगीशांली बारदेशी. विंगड विंगड शैलींनीं बरयिल्ल्या ह्या बरपांनी कोंकणी निबंदांचें मोल वाडयलें. लुसियो रोद्रिगीशांनी बरयिल्लो 'पदेर' जावं निकुबाबांलो 'नुस्तें आनी नुस्तेंकान्न' ह्या निबंदांनी त्या काळा वयलें गोंय भोव बरें उबें जाता. दत्तारामबाबांलो 'गोंयचो देमांद' आनी लक्ष्मणरावांलो 'आमचे मुस्तींतले मास्तर' हेय निबंद गोंयचे खोशेले अस्मितायेचें प्रतिनिधित्व करपी आसात. शंकर भांडारी, विष्णु नायक, फेलीस्यु कार्दोझ, निळकंठ साळकार अशा लेखकांनी ह्या काळार नवे नवे निबंद दिवन ह्या प्रकाराक मोलाचें योगदान दिलां. शणै गोंयबाबांच्याच काळा वयले आन्येक सर्जनशील लेखक म्हव्यार आचार्य रामचंद्र शंकर नायक. तांगेलो 'कुर्रैकार' हो आदल्या काळा वयलो पोस्टमन हुबहू उबो करपी निबंद. दुसरो खांपो साहित्यकार फा. एच. ओ. मास्कारेन्यस हांणीय कांय सुंदर निबंद बरयल्यात. रोमांत आसतनांचो एक अणभव कथन करीत तांणी स्वताच्या नेणारपणाक दोश दीत 'म्हाका आदीं म्हजीच भास सारकी शिकची आसा' म्हणून हो निबंद सोंपयला. रामचंद्र नायक, निळकंठ साळकार हांणीय कांय लक्षांत उरसारके निबंद बरयल्यात. पूण कोणेच सातत्य दवरलें ना. संपादकान मागलें वा मनाक मारलें म्हूण बरयलें. तांकां लागून निबंद साहित्यांत तांचें चड योगदान मेळूंक पावलें ना.

शणै गोंयबाबां फाटल्यान निबंद लेखनांत वजनादीक आनी मोलादीक भर घाली ती तीग गोंयकारांनीं रवीन्द्र केळेकार, चंद्रकांत केणी आनी अ. ना. म्हांबरो हांणी. अर्थात तांच्या उपरांत पंचविसेक लेखकांनी निबंदकार म्हूण नामना जोडली. पूण ह्या तिगांनी जें मुळावण घालें ताका तुळा ना.

वैचारीक साहित्याक लालित्याची अप्रतीम जोड दिवपी रवीन्द्रबाबांल्या साहित्याचेर आदींच विस्तारान बरयिल्ल्यान हांगा ताचो पुनरूच्चार जावचो ना. पूण कोंकणी निबंदसाहित्याक प्रतिश्ठेचो ज्ञानपीठ मेळोवन दिवपी भारतांतलो ज्येश्ठ आनी स्रेश्ठ निबंदकार म्हूण रवीन्द्र केळेकारांचें नांव भारतीय साहित्याच्या इतिहासांत भांगरा अक्षरांनी बरयिल्लें उरतलें इतलें खरें.

चंद्रकांत केणी हे कथाकार, कादंबरीकार, निबंदकार. तांचेरूय हाचे पयलीं

बरयलां. पूण तातूंत निबंदकार म्हूण तांगेल्या योगदानाचो उल्लेख जाल्लो ना. 'उश्णींवायणां', 'बिम्बां-पडबिम्बां' हे तांगेले संग्रह भोव गाजल्यात. केणी हे कथाकार आनी कादंबरीकार म्हूण व्हडच. पूण निबंदकार म्हूण मातूय उणे न्हय. लळीत निबंदांत तांचो हात धरपी कोणच ना म्हळ्यार अतिताय जावची ना. तांचे निबंद इतले वाचनीय आनी लालित्यपुर्ण आसात की वाचतना कथासाहित्यच वाचता अशी वाचप्याची भावना जाता. पुस्तकरूपान थोडें प्रकाशीत जालां तरी नेमाळ्यांनी आयलां तें सुमाराभायर आसा. २००८ वर्सा प्रकाशीत जाल्लें 'सरभरस' घडये तांगेल्या निबंदांचो निमणो संग्रह आसुंये. हातुंतलो निमणो निबंद 'बरोवंक नाशिल्ल्यो कथा' हो कथाकारालो 'निबंद' म्हणपाचें स्पश्ट जाणवता.

अ. ना. म्हांबरो हांचोय उल्लेख कथाकार म्हूण जाला. पूण हाडाचे निबंदकार. तांच्या लेखनांत विनोद आनी व्यंग हातांत हात घालून खेळटात. हांसयत हांसयत चिमटे काडपाचें तंत्र तांकां भोव बरें जमलां. आपूण बरयतां त्यो 'भिकाराभासो' अशें खासा अनाच म्हणटात. तिरसुवाद गोंयकारांचेर बरयतनां अनाली लिखणी वाचप्याक खातखुतल्यांचो पालो चोळटा. हांसोय येता आनी दुखताय. गोंयकारांच्या कुड्ड्या भावार्तांचेरूय अना सडेतोड बरयता "गोंयकारांक देव लागलो ना तरी तो कांय देव आपणांक लागतात अशें तो लोकांक दाखयता. सुवार्थाखातीर तो कांय देव आपणांक लावन घेता... चडशे गोंयकार घरांतल्या देवापरस देवळांतल्या देवाक चड भजतात." गोंयकारांल्या लग्नां-सोयरिकेच्या संबदान अना म्हणटात "गोंयांत फक्कत दुर्बळ धाकल्यांच्या चलयांच्यो गांठी तितल्यो ब्रह्मदेव मारता. चलयेकार पयशेकार आसत जाल्यार तो आपणाक जाय ते तरेचो जांवंय सोदता, आनी ताका भारोभार पयशे दिवन विकतो घेता." गोंय कलेचें कुळार म्हण गोंयकारच म्हणटात तें सांगून अना कलाकारांच्या व्यथांविशीं बरयता - "आपणाक कोण वळखनात वा लेखिनात हें गोंयकार कलाकारांचें एकूच दुख्ख न्हय. तांगेलीं आनिकूय दुख्खां आसात. एक तर कलेन कांय तांचें पोट भरना. दुसरेवटेन तांकां सतत लोकांचीं शाणेपणां आयकून घेवचीं पडटात." तिरसुवाद गोंयकारांचे चित्र बरोवन काडचें जाल्यार तें अनानच. मारिओ मिडांडाली व्यंगचित्रां जशीं उलयनासतनां सगलें सांगतात तशीं अनालीं बरपां गोंयकारांच्या विक्षिप्तपणांचेर बरयतात. 'जे खरेपणानिशी आळशी आसतना संवसारभर सुशेगाद म्हण फामाद जाल्यात.... जे एकवटेन पावण्यांक हांसून येवकार दितात आनी त्याच वेळार दुसरे वटेन

शेजाऱ्याच्या घराचेर सुणीं चडयतात' अशे गोंयकारांक चिमटे काडीत तांचेंच रूपडें पिंदून तांच्याच हातांत दिवपी अना हो एक 'तिरसुवाद' निबंदकार.

ह्याच काळार म्हळ्यार फाटल्या शतमानच्या सातव्या-आठव्या दसकांत आनिकूय निबंदकार जाले. विश्र्वंभर उसगांवकार, पुरुषोत्तम सिंगबाळ, तानाजी हळर्णकार, रामकृष्ण जुंवारकार, ओलिविन्यु गोमीश, प्रकाश थळी अश्या बरोवप्यांनी भर घाली. पूण सातत्य दवरलें ना. कांय जाण सोंपले, कांय जाणांनी साहित्यप्रकार बदलले.

कथाकार म्हूण मराठींत नामना जोडल्या उपरांत गोंयमुक्ती उपरांत कोंकणी साहित्यीक चळवळीक ओंपून घेवपी लक्ष्मणराव सरदेसाय (१९०४-१९८६) हांणी कोंकणींत अश्टतांसांचें लेखन केलें. गितूल, रामग्याली भोंवडी, पापडां कवळ्यो, कथाशिल्प अश्यो साहित्यकृती आनी कांय कविताय बरयल्यो. पूण निबंद हो तांगेलो कोंकणींत तरी खाशेलो साहित्यप्रकार अशें लेखूंक जाय.

'खबरी- कांय वर्मांच्यो, कांय कर्मांच्यो' (१९८०) ह्या तांगेल्या निबंद-संग्रहाक १९८२ वर्साचो केन्द्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो. गोंय काळजांत सांठोवन तरणे पिरायेर गोंयां भायर वचून स्थायीक जाल्ल्या लक्ष्मणरावांच्या बरपांतल्यान तें आदलें गोंय सातत्यान दिश्टी पडटा. गोंयमुक्ती उपरांत ते गोंयां परतले आनी तांगेल्या भुरगेपणांतलें गोंय आनी आतांचें गोंय हांतलो फरक तांकां प्रकर्शान जाणवंक लागलो. हे तांगेले विचार आनी अणभव तांगेल्या निबंदांचे विशय जाले. मुळांत कथाकार आशिल्लयान तांगेले निबंदूय भोव लालित्यपुर्ण आनी वाचनीय आसात.

तांगेले चडशे निबंद हे आपजिणे कडेन संबंदीत आसात. 'म्हजे दोळे', 'म्हजी दुसरी बायल', 'म्हजें नांव', 'तृप्त हांव फकीर हांव' हे निबंद जितले आत्मचरित्रात्मक तितलेच 'फटो', 'कुल्ल्यो', 'भगत', 'पदेर', 'रेंदेर', 'देमांदिस्त' अशे निबंदूय स्वानुभवांतल्यान पूण जणेकल्या गोंयकाराच्या जिवितांत येवपी चरित्रात्मक निबंद. 'पुर्विल्लीं नांवां' हो सरसामान्य नांवा-आडनांवां नीकनांवां दवरपाचे गोंयकारांचे चालीचेर बरयिल्लो लळीत निबंद. पूण लक्ष्मणरावांच्या घरांतल्या, शेजारच्या वा वळखीच्यां मदीं आशिल्ल्या नांवांची लक्ष्मणराव बेस बरी फोडणिशी करतात. "म्हाका नांव दवरलें लक्ष्मण. म्हणटाले 'लखो' ताचो जालो लखवा.... म्हजो बापूय वंयेवयल्या

शेडेक्याभाशेन शिरपुटो आसलो म्हूण तांकां 'शेट्टो' म्हणटाले.... बापोलयो गणपत गोरो, गुबगुबीत, वाटकुळोच-कापसाच्या गुठल्याभशेन देखून तांकां 'गुठलो' म्हणटाले... गुठल्याचो मागीर 'गुटी' जालो."

गोंयच्यो चालीरिती, खाशेलेपणां, कृच्छित्रीपणां ह्या सगल्यांचेर लक्ष्मणरावांनी लालित्यपुर्ण लेख बरयल्यात. पूण स्वताचेर बरयतनां मात ते इतले रमतात की वाचतल्याक हांसयतात, रडयतात आनी खातखुतल्यो करतात.

शीला नायक कोळंबकार ही कथाकार. नर्म विनोद हो तिच्या बरपाचो स्थायी गूण. फकाणां, मस्करी करीत वाचप्यांक हांसोवपाची आनी खातखुतल्यो करपाची कळाशी तिचे कडेन आसा. विशेश म्हळ्यार दुस्र्यांचीं फकाणां मारचे परस ती स्वताचेरच टिप्पणी करता. तिच्यो व्यक्तिरेखा आनी निबंद भोव वाचनीय आनी म्हायतीपुर्ण आसात.

इतर साहित्यप्रकारांत पाटांगडे आसुनूय जांणी सुंदर निबंद बरयल्यात तातूंत कवी त्रिकूट बाकीबाब, मनोहरराय आनी र. वि. पंडित धरून नागेश करमली, अच्यूत तोटेकार, मीना काकोडकार आनी महाबळेश्वर सैल. आजुनूय कवी-कथाकार निबंद लेखन करतात. तातूंत पुंडलीक नायक, भरत नायक, अभयकुमार वेलींगकार, हेमा नायक हांचीं नांवां मुखेलपणान घेवंक जाय.

जयमाला दणायत हीय मुळांत कथाकार. तांगेले कांय निबंद कथांक फाटीं घालपा इतले सुंदर आसातात, 'आंबाड्या भोंवतीं तीन शेंवतीं' (२००६) हो तांगेलो दुसरो निबंद संग्रह. पयलो 'करबट' (१९९६) उजवाडा आयलो. ल्हान आकाराचे हे सुटसुटीत निबंद लालित्यपुर्ण भास, म्हणी-ओंपारींची योग्य पेरणी आनी वाचप्याक एक नवो विचार दिवपी आसात. 'पान सुपारी', 'नुस्तें आनी गोंयकार', 'सिगार, 'शेणिल्लें बॅग' हे निबंद गोंयकारांचे संवकळीचे आनी हेर लेखकांनीय हांचेर पयलीं बरयलां. पूण तरिकूय जयमाला दणायतां कडेन सांगपा सारकें खेरीत कितें तरी आसा. 'श्री गणेशाय नमः' ह्या लळीत निबंदांत विनोदी शैलींत सुरू केल्लें हें बरप ल्हवू ल्हवू गंभीरताये कडेन बागवता. "कम्प्युटर आनी गणपती हातूंत जायतें सारकेंपण आसा अशें म्हणूंक जाय. कम्प्युटराचो अवाढव्य आनी विचित्र आकार आनी आमच्या गणपती बाप्पाचें मोट्टें पोट हातूंत सारकेंपण आसा.... आमचो हो आधुनीक गणेश

तर 'मावसा' चेर (म्हळ्यार हुंदीरच न्हय?) चलता हें केदें व्हडलें साम्य?"

जयमालांले कांय विनोदी निबंद कवितेवरी दिसतांत. 'फूल रे चांफ्या, फूल रे चांफ्या खांदयोभर...', 'परमळीत संवसार' सारके निबंद बाकीबाबांल्या निबंदांची याद करून दितात. अंदमान-निकोबारची भोंवडी आनी कन्याकुमारीचो प्रवास हांचींय वर्णनां भोव काव्यमय जाल्यांत.

कथा-कविता बरयतनाच निबंदलेखन करपी तुकाराम शेट हेय एक सिद्वहस्त लेखक. गांठीक लायिल्ले अणभव सादे सोंपे आनी लालित्यपुर्ण शैलींत सांगिल्ले तांगेले कांय वेंचीक निबंद 'मनमोतयां' (२००९) ह्या संग्रहांत उजवाडा आयल्यात.

निबंद हो साहित्य प्रकार केळोवपी अनेक सिद्धहस्त लेखक आसात वा जावन गेल्यात. शांताराम हेदो, सुमंत केळेकार, शांताराम आमोणकार, मनोहर पै धुंगट, सोतेर बार्रेत, मों. कार्मु द सिल्व, झोतिकु द सौझ, तेनसिंग रोद्रिगीश, वैजयंती प्रभू अशा साबार जाणांनी थोडे भोव बरयलें, वाचकां मदीं तें लोकामोगाळ जावनूय तांचें योगदान मर्यादितच उरलें. त्या मानान रामकृष्ण जुवारकार, श्रीनिवास भोबे काकुले, चित्रा कुडचडकार, कमलाबाई राव देशपांडे, हांणी खूब बरयलें आनी तांचीं पुस्तकांय प्रकाशीत जालीं.

गोंय आनी गोंयकार हांचे गूणदोश हांसत हांसयत निबंदावरवीं मांडपी अना परस प्रकृतीन वेगळे आसले तरी उंचेल्या पावंड्याचे विनोदी लेखक म्हूण नामनेक पाविल्ल्या कांय लेखकांचीं नांवां घेवंकच जाय. लक्ष्मीनारायण पारज जांणी फाटल्या शतमानाचे अखेरेक भोव सुंदर विनोदी निबंद दिले. तांगेलें 'मेरैवयलो गांवकार' हो निबंदांचो झेलो प्रकाशीत जाला. पारज संवसाराक अंतरिल्ल्यान तांगेल्या लेखनाक पुर्णविराम. राजय पवार हो कवी म्हूण जरी नामनेक पावला तरी तांगेले विनोदप्रचूर निबंद तितलेच वाचनीय आनी प्रभावी. आनी तिसरो-सध्याक गाजता तो कृ. म. सुखटणकार. स्वताचींच फकाणां आनी भगलो मारीत जिवनाच्या विविध आंगांचें विदारक दर्शन घडोवपी तांगेली शैली भोव लोकांमोगाळ जाल्या. ग्वादालूप डायस हयो मुळांत कवी. पूण आपणांले खाशेले विनोदी शैलींत खुसखुशीत निबंद बरयतात. हांगेल्या निबंदांनी कोंकणी निबंदांचें मळ हांसतें खेळटें दवरलां.

ललीत निबंदांतल्यान जीवनशैलीचें दर्शन घडयतनांच पुरोगामित्वाचो पुरस्कार करपी लेखकांचें योगदान तितलेंच, घडये तेयपरस इलें सरसच म्हणूं येता. ह्या प्रकारांत पयलें नांव घेवचें पडटा तें दत्ता दामोदर नायक हांचें.

गद्द साहित्य काव्यांत कशें बरोवचें तें पळोवपा खातीर दत्ता दामोदर नायक हांगेल्या वट्ट बरपांचेर नदर मारूंक जाय. केन्ना केन्ना तर चित्रकलाच काव्यांतल्यान गद्य सांगता अशें दिसता. देखीक, गोलघुमटा विशीं लेखक सांगता- गोलघुमटांत आसा एक गूढ क्युबीझम. पिकासोचो ! पिकासोन पळोवंक जाय आसलो गोलघुमट. आपल्या रंगीत पिशोलाच्या सुत्रांनी पिकासो अंतर्बाह्य उसयतलो आसलो गोलघुमट. समृद्ध अणभवविश्व आशिल्लो लेखक. भोव आयामी. अफार वाचन आनी तुफान भ्रमंती. मनशाकडेन मनीस म्हूण पळोवपाची मनीस पणाची नदर.

केन्ना केन्ना दिसता आपल्याक प्रिय अशा ह्या मनशांनी आपलेकडेन कितें तरी मागचें. पुणून मागप आनी घेवप तांच्या सभावांत नासता.... 'बरेंऽ जावं बाये तुजें' वा 'व्हड जावं पुता तूं' 'सुखांत रावात तुमी सगळीं' असो निष्काम निरपेक्ष, निरिच्छ आशिर्वाद तोंडांत घोळयतां घोळयतां हीं पिकिल्लीं पानां रूखाचे खांदये वयल्यान अळंग गळून पडटात आनी निर्माल्याच्या पांटल्यांत वचून बसतात. (जाय काय जूयः पान ५८)

लेखक फुडारिल्ल्या विचारांचो. खंयचेय गजालीचो कार्यकारणभाव समजून घेवन ताचेर स्वतंत्र भाष्य करपी. विज्ञानाचेरर पुराय निश्ठा दवरून चलपी. विवेक बुद्दीक होरावपी. आनी हें करतना आपणाल्या बरपांतल्यान समाजांत रूढ जावन बशिल्ल्या संकल्पनांक धपको दिवपी. ताकाय लागून वाचपी भोव सावधपणान तांगेले निबंद वाचता. लेखकाली भास, शैली, विचारांचें नाविन्य, हें सगलें वाचकाक भूल घालता. तरिकूय-डॉ. किरण बुडकुलेंचे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार-

त्या विवेचना फाटल्यान अळंग वावुरतल्या भावनाप्रधान मनाक वाचपी कांचवेता. तांकां भुलता पूण पातयेना. त्या भावनाप्रधान, संवेदनशील मनावांगडा वाचपी एकरूप जाता. त्या मनाच्या ल्हवपीक उक्तावणान धादोसूय जाता. ताच्या लालित्यान आंगापांगान न्हाता. पूण ताच्या भावनेभरांत काडिल्ल्या निश्कर्शांकडेन सहमत जावंक मात फाटींफुडें जाता. (पान १४, १५, शतकान्तिका)

'हांव सांगता, तूं आयक' ही वृत्ती लेखकाकडेन ना. 'हांव सांगतां तें हांवें म्हगेले बुद्दीचे कसवटेन तिजून पळयलां देखून तुमी तां आपणावचें' हो आगरो ना. उरफाटें शणै गोंयबाबां वरीच दत्ताबाबूय सांगतात, तुमी हाचेर विचार करचो आनी पटलें जाल्यारच तें मानून घेवचें.

दत्ताबाबांली शैली भोव मनभुलावणी. खंयचेय गजालीचें वर्णन करतना लेखक सोबीत सुंदर उतरांचो असो शिंवर करता की वाचकाचें मन धादोस जाता. 'म्हजी दिवाळी येता हांडो जावन, गळ्यांत रोजांची माळ घालून' अशें वाचतकच दरेक दिवाळी मनोवप्याक आपलोच अणभव व्यक्त जालाशें दिसता. केन्ना केन्ना तर लेखक सरस्पतेचो भार आयिल्लेवरी बरयता-

*सावल्यांक माप नासता, मिती नासता. विदेही सावल्यांक देह नासता. निर्गंधी सावल्यांक गंध नासता. सावली म्हळ्यार उजवाडाचें निर्माल्य. सावळी शाश्वत न्हय. सनातन न्हय. स्वयंभू न्हय. सावळी चिरंजिवी न्हय. चिरायुष्यी न्हय. खिणजिवी सावली परभृत. परावलंबी सावळेचें प्राक्तन तिचे हातांत ना.*

लेखकाक उतरांचो सोंस आसा आनी संस्कृतप्रचूर भास वापरपाक तो इल्लोय अमनमनना. देखून केन्ना केन्ना सरसामान्य वाचप्याक तागेलें बरप आवडटा, पूण जड लागता. पूण ह्याच लेखकाले कांय लळीत निबंद सगल्यांच्याच काळजाक हात घालतात. 'समथिंग इज निलिंग इन युवर हाउस', 'खुशी', 'नागव्वाची काणी' हे निबंद भोव वाचनीय. 'सादिका' तर दोळ्यांत दुकां हाडले बगर रावना.

भाशेची गिरेस्तकाय, शैलीचें खेरीतपण आनी विचारांची खोलाय हे लळीत साहित्याचे गूण दत्ताबाबांनी प्रभावी रितीन केळयल्यात. आयचे घटकेक दत्ताबाब कोंकणी निबंदलेखकां मदीं अग्रस्थानार बसतात.

दत्ताबाबां फाटोफाट नांव घेवंक जाय तें मुकेश थळी हांचें. कोंकणींत जांकां निबंदकार अशें संबोधूं येता तातूंत मुकेश थळींचें नांव खूब वयर. तांचे सर्वस्पर्शी विशय, लालित्यपुर्ण भाशाशैली आनी नर्म विनोद निबंदांचो पावंडो उंचायतात. तांकां संगीताची आनी वाचनाची आवड आशिल्ल्यान तांचें लेखनूय काव्यात्म आनी सृजनात्मक जाता. बरोवप म्हळ्यार जिणेचो रियाझ अशें लेखक मानता. आपणें जिणेंत जें जें अणभवलें तें तें हेरांकडेन शेअर करतलों हे भावनेन बरयता.

नुस्त्याचेर हेर गोंयकारांवरी ह्या लेखकाचोय जीव. 'नुस्त्याचेर उलोवप, नुस्त्याचीं वांटपणां, म्हारग नुस्तें फकत पळोवप, नुस्त्याक कसो उजो पेटला हाचेर उलोवप, आपणें नुस्तें कितलें खालें ताचेर उलोवप, आपली बायल कितलें बरें रांदता तें उलोवप' हीं गोंयकारांचीं लक्षणां सांगून फुडें मुकेशबाब सांगतात, 'पांच दिसांचो गणपती आसतकच तर पोटांत गाझ जाला, अजीर्ण जालां अशें पिंरगुपी गोंयकारांचें लक्ष आसता गांथनींचेर. केन्ना काय गणपती पावयतां आनी सुंगटां खातां अशें ताच्या झोळयांक जाता.' नक्सूद उतरांनीं विशय मांडपाची तांगेली खुसखुशीत शैली तोखेवपा सारकी. 'एप्रील फूल', 'मेरा गोवा महान', 'जिवनाचो रियाझ', 'मत्स्यगंध' अशे तांगेले निबंद मनरिझवणी वांगडाच प्रबोधनूय करतात. मुकेशबाबांले आयजवेर 'वळेसर', 'हंसध्वनी' आनी 'अक्षरब्रह्म' अशे तीन निबंद झेले उजवाडाक आयल्यात.

दिनेश मणेकार, राजय पवार, उदय गुडे, सुधा खरंगटे, रोमिओ आल्मैदा, प्रकाश पर्येकार, दिलीप बोरकार, नं.ध.बोरकार, अशा ब्या ब्या लेखकांनी निबंदलेखनाक मोलादीक योगदान दिल्लें आसा. हातूंत दिनेश मणेरकार हरशीं थोडोसो गंभीर प्रकृतीचो लेखक. 'रानवळख' सारकें मोनजातींचेर म्हायती विशयक बेस बरें पुस्तक तांच्या नांवार आसा. पूण पयलो निबंदां झेलो 'वेंचीक खीण' हो मात लालित्यपुर्ण आनी ओंठांर हांसो फुलोवपी. उदय गुडेंलें 'अमुरपिक्यो चिंचो', नं. ध. बोरकारालें 'कुळागरांतलो सर्गानंद', रोमिओ आल्मैदांलें 'अमोरी आमुरपिकी' ह्या पुस्तकांनीय कोंकणी निबंदांत मोलाची भर घाल्या.

प्रकाश पर्येकार ह्या तरनाट्या लेखकालें 'दवरणें' हें पुस्तक वाचनीय आनी संग्राह्य आसा. 'दवरणें' हें आमचे लोकसंस्कृतायेचें प्रतीक. वाटेवाटसुर्यांक थोडोवेळ तांगेलो भार आपल्या भुजांर घेवन तांकां थाकाय दिवपी, विसंव दिवपी हें 'दवरणें' आयज उदरगतीचे सर्तेंत नश्ट जायत वचपी संस्कृतीक कुरवांचेर उजवाड घाला. 'गोठण', 'भोंवडी आनी कास', 'दिपकावणी', 'पुरणीचे दीस', 'गरोवणी', 'मळणी' आनी तांचो सरताज म्हळ्यार 'दवरणें'. आन्येक खाशेलो उल्लेख जावंक जाय तो विनोदी लेखक राजय पवारांचो. तांगेलो 'गिरमीट' हो निबंदांझेलो प्रकाशीत जाला. हांसून हांसून पोटांत दुखप म्हळ्यार कितें तें राजय पवारांच्या निबंदांनी वाचकांक दाखोवन दिलां. 'नांवा-आडनांवात कितें आसा !', 'मिश्टेक इज रॉंग',

'तांबडी इंग्लीश', 'तकली आनी हॅलमेट' अशे निबंद फकाणां, मस्करी, बकच्छायो. त्रोसां, व्यंगां करीत वाचकाक हांसयतात आनी हांसयतां हांसयतां समजांतले दंभिकतायेचेर विचार करूंक लायतात.

सुधा सुरेश आमोणकार ह्योय एक सिद्वहस्त निबंदकार. 'आत्म्याचें संगीत' आनी 'जिणेचीं ल्हारां' हे तांचे दोन संग्रह उजवाडा आयल्यात. जिणेंतल्या ल्हानसान गजालीं कडेन आत्मियतेन आनी चिकित्सक नदरेन पळोवपी सुधाबाय मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान त्या गजालींचें कलात्मक विश्लेशण करतात. अशीच आन्येक लेखक आसा ती नमन धावसकर सावंत. नेमाळ्यांनी नेमान लेखन करपी नमन धावस्कर सावंतांलो 'मुक्तमन' हो निबंदांझेलो प्रकाशीत जाला. नमनबाय ही स्वतंत्र व्यक्तित्व मिरोवपी स्वतंत्र विचारांची अस्तुरी. सावित्री फुले, पंडिता रमाबाई, आनंदी जोशी ह्यो विभूती तांच्यो आदर्श. तांगेले विचार नमनान समजून घेतल्यात, शिकून घेतल्यात आनी ते विचार सरसामान्यां मेंरेन पावोवपाक त्यो पोटतिडकीन वावुरतात. पुंडलीकबाब तांच्या संबंदान बरयतात-नमनाक एक मनीस म्हण, एक गोंयकार म्हण गोंयच्या इबाडपी फुडाराचो हुसको जाता. कारण तांकां गोंयचो, आपले भुंयेचो मनापसून मोग आसा. जाका हो मोग आसा तोच मनीस असो कळवळटलो.

नमनांले निबंद हे समाज जागरण करपी. 'तुळशीचें लग्न कोणा बराबर?', 'ब्युटी पार्लरां न्हय, काळीज सुंदर करपी हार्ट पार्लरां जाय', 'गर्व से कहो भारत को हम बचायेंगे'. हे निबंद तांगेल्या विचारांची दिका स्पश्ट करतात. नमनान लेखनविशयक अपेक्षा वाडोवन दवरल्यात.

बोरकार हे एक उत्तम स्तंभलेखक, तांगेलें 'बोरकारी' हें सदर भोव लोकप्रिय जाल्लें. चिमटे काडीत, खुटले मारीत, खातखुतल्यो करीत समाजांतलीं धोंगांपोंगा वयर काडपांत तांचो हात धरपी दुसरो ना. दिलीपबाबांलो खाशेलो असो फॅनवर्ग आसा. 'सुनापरान्त'चे आयताराचे पुरवणेंत 'बोरकारी' पयलीं वाचप मागीर हेर अशें करपी खूब जाण आसले. बोरकारांले दुसरें गाजिल्लें सदर म्हळ्यार फाटीं 'राष्ट्रमत'चे आयताराचे पुरवणेंत नेमान येवपी 'साहित्यीक निबंद'. हेच निबंद उपरांत 'रूक्षप्रस्न' ह्या नांवान पुस्तकरूपान उजवाडाक आयले. महाभारतांतले एके कथेचेर आदारिल्लें हें सदर. उदक पिवपाक गेल्लेकडेन चौगूय भाव मरून पडिल्ले पळोवन धर्मराजाक

एका यक्षाक प्रस्नांचीं उत्तरां दिवचीं पडटात ते प्रस्नावळीक 'यक्षप्रस्न' म्हणटात. हांगा दिलीपबाबांक खुबशे प्रस्न पडटात वा तांकां लोक ते प्रस्न विचारतात. ह्या प्रस्नांच्यो जापो दिलीपबाब आपणाले खाशेले शैलींत दितात. 'तूं कोण?', ' तुजें नांव कितें?', 'तुजो गांव खंयचो?', 'तूं मोगांत केन्ना पडला?', 'तूं सोरो पिता?', 'तुका तुजे करणेची केन्ना लज दिसल्या?' अशा साबार प्रस्नांक बोरकार जापो दितात. त्या निमतान समाजाची मानसिकताय, प्रस्नकर्त्याक लागिल्ली कुच्छित्री उमळशीक आनी अंतर्मूख जावन प्रस्नांक जापो सोदपाचो लेखकाचो प्रयत्न ह्या पुस्तकांत स्पश्ट दिश्टी पडटा.

## चरित्रात्मक

आत्मचरित्रां आनी चरित्रां हीं खंयच्याय साहित्याचे मापदंड अशें लेखतात. प्रगत भासांनीं शेंकड्यांचे संखेन अशीं पुस्तकां मेळटात. हीं असलीं पुस्तकां म्हायती आनी प्रेरणा दिवपी थारतात. बंदी आनी बंदेपणाच्या चेपणा पोंदसून मुक्त जाल्ल्ले कोंकणी भाशेच्या पन्नास पंचावन वर्सांच्या काळांत जीं थोडीं भोव अशीं पुस्तकां आयल्यांत तांचो थोडे भितर परामर्श घेवं येता.

गोंयांत तसो यत्न कोणे जाणीवपुर्वेक केल्लो ना. रवीन्द्रबाबांनी दिसपटी 'वेळेवयल्यो घुलो' बरयली पूण ती स्वता विशीं थोडें आनी हेरां विशीं चड सांगता. तांगेलें 'पांथस्थ' हें पुस्तक मात 'आपजीण' म्हणूनच उजवाडाक आयलां. हें एका विचारवंताचें आत्मकथन जाल्ल्यान तातूंत स्वता विशीं सांगलां तेंय वैचारीक चड आसलें तरी त्या अनुशंगान रवीन्द्रबाबांचे जिणे वांगडाच तांगेली मानसीक घडण कशी जाली ताची खबर मेळटा आनी त्याच वांगडा राजकी, समाजीक आनी भाशीक चळवळीचो इतिहास दोळ्यां मुखार उकतो जाता. कोंकणी चळवळीचे नदरेन हें पुस्तक म्हळ्यार रवीन्द्रबाबांनी दिल्लें मोलादीक योगदान. चित्रकार शांताराम आमोणकार हांणी बरयिल्लें 'उगडासांचे कोठयेकुडींत' हें पुस्तक त्या काळाची समाजीक आनी संस्कृतीक फाटभूंय विस्कटावन सांगता. 'गोंय पन्नास वर्सांफाटलें' ह्या नांवान दोन खंडानी प्रकाशीत जाल्लें पुस्तक हें महाबळेश्वर सरदेसाय हांणी बरयिल्लें आत्मचरित्रच. वेवसायान शिक्षक आशिल्ल्या श्रीधर वेरेंकार हांणीय 'हांव' ह्या नांवान आत्मजीण बरयल्या. पूण छापून आयलां तांकां पयलो वांटो म्हणिल्ल्यान तें अपुर्ण आसा असो ताचो अर्थ जाता. हालींच्या काळार

एक बरो आनी सुफळ प्रयत्न जालो तो अरविंद भाटीकार हांचे कडल्यान. 'वोंवळां - यादींचो सर.' हें अरविंदबाबान बरयिल्लें आपणाल्या यादींचें पुस्तक. अरविंदबाब हे साहित्यकार न्हय. पूण तांचें वाचन आकांत. ते उलयतनाय मिश्कील शैलींत उलयतात. आनी उलयतात तशें बरयतात. देखून तांचें हें पुस्तक खूब सुंदर आनी वाचनीय जालां. एक कर्तुपी, जापसालदार सरकारी प्रशासक म्हूण वावुरतना तांकां आयिल्ले बरे वायट अणभव तांणी हांसत हांसयत बरयल्यात. कोंकणी चळवळीक तांणी दिल्ल्या योगदानाची म्हायती तांणी स्वताचींच फकाणां मारीत सांगल्या. दुसरें पुस्तक 'म्हजें रायबन' हें स्नेहलता भाटीकार हांचें जें तिणें भुरगेपणांत पळयिल्लें रायबंदर विस्कावन दाखयता. फिशाल लेखकाक सोबसारके शैलींत सांगिल्ल्यान वाचनीय जालां. 'साउदींतले ते दीस' हें उदेती लेखक रुपाली मावजो किर्तनी हांगेलें स्मृतिचित्रांचें पुस्तक. धा वर्सां साउदी अरेबिया सारक्या कर्मठ देशांत सारतना एक भारतीय अस्तुरी म्हूण कसले भोग-भोगणार वांट्याक आयले ताचें सादे भाशेंत केल्लें वर्णन वाचकांच्या काळजाक वाचता खिणीं हात घालता. आत्मकथन अशें ह्या पुस्त्काक म्हणूं येता.

आत्मकथन म्हणूं येता अशीं कांय पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. तांतल्या मुखेल पुस्तकांचो उल्लेख करुंक जाय. श्री. शं. फडके हांणी 'ऋणानुबंध' ह्या नांवान आपणाल्यो यादी आनी अणभवांचें पुस्तक प्रकाशीत केलां. तशेंच अशोक कामत ह्या लेखकान 'जीण चळवळींची' हें स्वताचे विचार आनी अणभवांचें पुस्तक बरयलां. हें पुस्तक म्हळ्यार तांचो जे जे चळवळीकडेन संबंद आयलो त्या संबंदान आसा. ताका आत्मचरित्र म्हणूंक येना. पूण आत्मकथनपर साहित्य खातरीन म्हणूं येता. अशेंच आन्येक पुस्तक म्हळ्यार अनंत केळकार हांगेलें 'उगडास पटी'. कर्नाटकांत प्रकाशीत जाल्ल्या आत्मचरित्रांमदीं नामनेचे कादंबरीकार जो. सा. आल्वारीस आनी संगीतकार एरीक ओझारिओ हांगेलीं दोन म्हत्वाची पुस्तकां आसात.

चरित्रां मात खूब प्रकाशीत जाल्यांत. तांतल्या मुखेल पुस्तकांचो उल्लेख जाय. केरळांत के. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांणी धाएक चरित्रां काव्यांत गुंथून प्रकाशीत केल्यांत. म्हायतीपर आसात खरीं. पूण साहित्यीक पावंड्यार तीं उणीं पडटात. कर्नाटकांत कांय नांव घेवपासारकीं पुस्तकां आसात. देखीक बस्ती वामन शेणै हांणी बरयिल्लें राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविंद पै हांगेलें चरित्र.

मुंबयच्यान खासा शणै गोंयबाबांनी दोन भोव मोलादीक चरित्रां बरयल्यांत. एक 'पुण्यात्मो राम कामती' आनी दुसरें 'आबे फारीय.' गोंयांतूय चरित्रां बरयिल्लीं मेळटात. रामचंद्र रामाणी हांणी चक्रवर्ति राजगोपालाचारी हांगेलें चरित्र बरोवन 'अशे आशिल्ले राजाजी' ह्या नांवान प्रकाशीत केलां. कमलाकर म्हाळशी हांणी जमनालाल बजाज हांचें चरित्र उजवाडायलां. शणै गोंयबाबांचें चरित्र खूब कडेन वांट्या वांट्यांनीं आयलां. शांताराम वर्दे वालावलीकार हांगेलें 'वज्रलिखणी' हें पुस्तक चरित्र न्हय तरी चरित्रात्मक आसा. तातुंतलोच चरित्राचो वांटो घेवन 'शणै गोंयबाब: जिवीत आनी वावर' ही सान पुस्तिका प्रकाशीत जाल्या. शणै गोंयबाबांचें जिवीत विद्यार्थ्यां मेरेन पावचें हे खातीर दामोदर मावजो हांणी चरित्रात्मक दोन पुस्तिका बरयल्यात. 'अशे घडले शणै गोंयबाब' आनी 'ऊंच माथें, ऊंच हावेस'. शांताराम आमोणकार हांणीय 'शणै गोंयबाब: एक वळख' ह्या नांवान तांगेल्या जिवीत कार्याची वळख दिवपी पुस्तिका बरयल्या. शणै गोंयबाबांचेर केंद्रीय साहित्य अकादेमी खातीर रा. ना. नायक हांणी बरयिल्लो मोनोग्राफूय उजवाडाक आयिल्लो आसा. केंद्रीय साहित्य अकादेमी आनी गोवा कोंकणी अकादेमी हांणी आनिकूय चरित्रांचे मोनोग्राफ प्रकाशीत केल्यात. कवी बयाभाव, बाकीबाब, लक्ष्मणराव, मनोहरराय, पंडित, आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, हांचेर आयिल्ले मोनोग्राफ म्हळ्यार मिनी चरित्रांच म्हणूंक जाय. तेभायर हरिश्चंद्र नागवेंकार हांणी 'पुरुषोत्तम काकोडकार: जिवीत आनी कार्य' हें पुर्ण चरित्र बरयलां. स्मिता तिंबले हांणी 'यादें माई' हें आपणांले आवयचें म्हळ्यार शालिनी शिंक्रे हिचें चरित्र आवयच्याच उतरांनीं शब्दांकन केलां. सरसामान्य दिसपी मनशांकडेनूय कशें सांगपा सारकें आसता आनी तांचे जिणेचो प्रवास कसो वाचनीय जावं येता हाची देख म्हळ्यार 'यादें माई.'

**संकिर्ण: खाणां, संगीत, चरित्र, वैजकी, शिक्षण, भोंवडी...**

कांय विशयावयल्या लेखनाक साहित्य म्हणचें काय ना असो संभ्रम जाता. लेखन जर लालित्यपुर्ण आसत तर तें साहित्य हे संज्ञेत बसता. पूण तशें नासलें आनी म्हायतीपुर्ण, जिणेंत उपकरा पडपासारकें आसलें जाल्यारूय तें साहित्यांत येवंक फावता. हालीं कोंकणींत जेवणाखाणावयलीं, संगिताविशींचीं वा वैजकी विशयां वयलीं खुबशीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. गोंयांतच खाणाजेवणांचेर आनी रांदपांवळींचेर साबार पुस्तकां आसात. कुमुदिनी उसगांवकार, पा महाले, अमिता

सलत्री, सुफला गायतोंडे, अनिता नाडकर्णी अशीं बायलांनी बरयिल्लीं पुस्तकां आसात तेभायर नेमाळ्यांनी आयिल्लें साहित्य आसा. हांच्या भायर मुजरत उल्लेख करूंक जाय अशें एक पुस्तक म्हळ्यार 'घोस्त'. लालित्यपुर्ण शैलींत, हांसत-हांसयत, रूची काडीत बरयिल्लें संजय तळवडकार हांगेलें हें पुस्तक वाचकां मदीं भोव लोकांमोगाळ जालां. केरळांतल्या 'स्पंदन' नेमाळ्याचेर खाणाजेवणाचो एक स्तंभ नेमान उजवाडाक येता. पुस्तक रूपान चड आसाशें दिसना. कर्नाटकांत मात मस्त साहित्य प्रसिद्ध जालां. ताका वाचक वर्गूय व्हड आसा. जे. बी. लोबो हांणी बरयिल्ल्या 'सांबारडि' पुस्तकाच्यो आतां मेरेन आठ आवृत्यो आयल्यात. जाल्यार १९३८ वर्सा इजिदोर कुएलो हांणी उजवाडायिल्ल्या 'रांदपी' ह्या पुस्तकाच्योय साबार आवृत्ती भायर सरल्यात. रांदचेकुडीचें संयोजन कशें आसचें तें धरून रांदपी-रांदपिणींनीं पाळपाच्या पथ्यांचेरूय ह्या पुस्तकांनीं विस्तारान बरयलां. ह्या पुस्तकांक मेळिल्लो प्रतिसाद देखल्यार 'काळजाकडेन वचपाची वाट पोटांतल्यान वता' ही म्हणणी खरी शें दिसता.

वैजकी म्हायती दिवपी पुस्तकांय खूब आसात. चडशीं वैजकी मळार सक्रीय आशिल्ल्या नामनेच्या डॉक्टरांनींच बरयिल्लीं आसात. डॉ. अर्चना गांवकार हांणी बरयिल्लीं 'वखदी वनस्पती' आनी 'दुयेंसां आनी आयुर्वेदीक उपचार' हीं दोन पुस्तकां तांच्या शिर्षकां प्रमाण त्या त्या विशयां वयलीं आसात. तातूंत परंपरीक झाडापाल्यांच्या वखदांचीय शास्त्रोक्त म्हायती मेळटा. डॉ. उमानाथ राताबोली हांगेलें 'स्टेथोस्कोप' हें पुस्तक वैजकी सोद, भलायकेक बरो तो व्यायाम आनी आहार, सरसामान्य दुयेंसां आनी तांचेर उपाय हांचेर उजवाड घालता. डॉ. वंदना धुमे हांगेलें 'भलायकी- एक नदर' हें पुस्तक दुयेंसां वांगडाच प्रथमोपचारांची म्हायती दिता. 'दांतांची जतनाय' हें डॉ. संदीप लवंदे हांचें. दांतांची जतनाय कशी घेवची हाचे विशीं आशिल्ले गैरसमज आनी त्या विशींचीं स्पश्टीकरणां विस्कटावन सांगपी भोव मोलादीक पुस्तक. केरळांत सुशीला टी. भट हिणें 'आज्जेलीं वोक्कदां' हें पुस्तक परंपरेन चलत आयिल्ल्या वखदांची म्हायती दिता. केरळी शैलींत बरयिल्लें हें पुस्तक भाशाशैलीचे नदरेनूय भोव म्हत्वाचें. डॉ. भिकाजी घाणेकार हे कवी प्रवृत्तीचे डॉक्टर. वैजकी अणभव आकांताचो. फाटलीं सुमार चार साडेचार दसकां ते सातत्यान भलायकी, जोरी आनी उपचार ह्या संबंदान लेखन करतात. तांचीं ल्हान व्हड साबार पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. डॉ. अनुपमा कुडचडकार ह्यो कातीचे रोग

वा केंस-कात-सोबीतकाय हांची निगराणी कशी करची हाचेर सातत्यान बरयतात. डॉ. राजेन्द्र हेगडो स्वता मानसशास्त्रज्ञ आशिल्ल्यान मनोरूग्ण आनी मानसोपचार हांचेर स्वानुभवांतल्यान बरयतात. तेभायर डॉ. अवधूत बोरकार हांणीय वैजकी विशयांचेर सातत्यान बरयलां. मंगळूरांतले डॉ. एडवर्ड नाझारेथ हांणी लग्नीक जीण आनी कामजीवन हांचेर खूब बरयलां. साहित्य आपणांलीं पांखां पातळावन वैजकी सारक्या साहित्येतर विशयांक वेंगायता हें बरें लक्षण.

संगीत ह्या विशयाचेरूय कांय पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. नामनेची गायक आनी लेखक शकुंतला भरणे हांगेलीं दोन पुस्तकां आसात. एक 'स्वर प्रभाकर पं. प्रभाकर कारेकार' हें पं. कारेकार ह्या महान गायकाचें जीवनचरित्र. ह्या पुस्तकांत पं. कारेकार हांगेल्या जिवीतकार्याची म्हायती आयल्या तरी तातूंत गायन कला आनी साधना हांचेविशीं जें विस्तारान बरयलां तें सरसामान्य वाचकांक आनी भोव करून विद्यार्थ्यांक उपकरा पडपा सारकें आसा. तांगेलें दुसरें पुस्तक म्हळ्यार 'स्वरानंद'. भारतीय शास्त्रीय संगीत ह्या विशयाची वयर वयर दिल्ली वळख न्हय तर संगिताची परंपरा, घराणीं, वाद्यां, मैफिली, रियाज आनी गायकीचेर सोपें भाशेंत शास्त्रीय विवेचन केल्लें हें पुस्तक म्हळ्यार शकुंतल भरणे हांणी कोकणी सरस्पतेच्या आंगार चडयिल्लो एक मोलादीक अळंकार. आन्येक पुस्तक, जाका ग्रंथ म्हणप समा जातलें, तें श्रीधर बर्वे ह्या नामनेच्या तबला वादकान बरयिल्लें 'तबलें'. ज्या गोंयांत लयभास्कर खाप्रूमाम पर्वतकार सारके म्हालगडे तबलावादक जावन गेले त्या गोंयांत तबलें ह्या तालवाद्याचेर पुस्तक येवप हें भोव औचित्यपुर्ण. स्वता तबलावादक आशिल्ल्यान आनी अभिव्यक्तीची जाण आशिल्ल्यान श्रीधर बर्वे हांणी बरयिल्लें हें पुस्तक भोव वाचनीय जालां. तबल्याचो इतिहास, ताची रचना, ताचे प्रचलीत आनी अप्रचलीत ठेके, तबल्याचीं घराणीं, ताल-त्रिताल, अशीं तबला-वाद्याचीं अनेक तांसां विस्कटावन सांगपी हें पुस्तक विद्यार्थ्यां खातीर आनी रसिकां खातीर मार्गदर्शक जावन आसा.

कांय आगळीं वेगळीं पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत. गोंय विधानसभेंतले पयले सभापती पां. पु. शिरोडकार हांणी बरयिल्लें 'जाती-वर्णांचें समाजशास्त्र'. समाजाक बादिकार जावपी एका म्हत्वाच्या विशयाचेर आसा. आयचे घटकेक वर्णसंकराक लागून रगत सगलें भरसल्लें आसा तरी भारतांतलो लोक आजून

जातीवर्णांक वेंगावन बसला. वेदीक काळार वर्णभेद नासले. वर्णभेदाच्यो कल्पना आर्य लोकांचीं कुळां यमुनेचे उदेन्तेक येवन राव मेरेन उपरासूंकच नासल्यो, हें नमूद करीत आयचे घटकेक जे भेदाभेद आसात तांचेर समाजशास्त्राचे नदरेन उपाय सोदपी हें पुस्तक संशोधन, इतिहास, अभ्यास, तर्क आनी निश्कर्ष हांकां लागून समाजशास्त्राच्या विद्यार्थ्यांक खूब उंचेल्या पावंड्याचो संदर्भग्रंथ जाला.

लोकवेदाचेर सुमारा भायर लेखन करपी जयंती नायक हांगेलीं आजमेरेन सतरां पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. तरिकूय अदीक वावर चालू आसा. विनायक खेडेकार, कमलाकर म्हळशी, पांडुरंग फळदेसाय, अजीत पैंगीणकार, श्रीनिवास प्रभुदेसाय हेय कार्यरत आसात.

शिक्षण ह्या विशयाचेरूय अनेक पुस्तकां बरोवन जाल्यांत. कोंकणी साहित्यीक चळवळींत क्रियाशील आशिल्ल्या वेवसायान शिक्षक आशिल्ल्या सतीश दळवी हांणी ह्या विशयाचेर खूब बरयलां. विद्यार्थ्यांखातीर बरयलां तें कडेक काडल्यारूय 'पूर्व प्राथमीक शिक्षण', 'गोंयचे सण, उत्सव आनी व्रतां' अशीं पुस्तकां तांच्या नांवार आसात. एन. सुहास हांगेलें 'खेळांगण' हें गोंयच्या परंपरीक खेळांची म्हायती दिवपी पुस्तक आसा. आन्येक म्हत्वाचें पुस्तक म्हळ्यार शिक्षण क्षेत्रांत वावुरिल्या वसंत लवंदे हांणी बरयिल्लें 'कोंकणी भाशेचें अध्यापन' भास आनी भासविज्ञान ह्या विशयावयलें 'भासाभास' हें पुस्तक म्हळ्यार माधवीबाय सरदेसाय हांणी सरसामान्य वाचकांक करून दिल्ली भासशास्त्राची मुळावी वळख- जी लोकांमदीं आशिल्ल्या भाशा, बोली, शुद्धलेखन, लिपी, व्याकरण ह्या विशयांवयले गैरसमज पयस करता.

उदय भेंब्रे हे कोंकणी भाशा आनी साहित्य मळावयले खडेगांठ वावुरपी म्हालगडे. तांणी गीत लेखन, नाट्यलेखन करतनांच वृत्तपत्रीय लेखन केलां. गोंय, गोंयकार आनी कोंकणी भास हांच्या हितसंबंदाxचे राखणे पासत सदांच सकारात्मक वट घेवन वावुरतात. गोंयमुक्ती आदींच्यान आयजमेरेन गोंयच्या मळार आनी कोंकणी संबंदान जीं जीं आंदोलना जालीं, जें बरें वायट परिवर्तन जालें ताची ते गवाय आसात. हेच तांचे अणभव तांणी लेख रूपान बरयिल्ले ते संकलीत करून तांचीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत- 'अस्मितायेचो कसाय' आनी 'प्रतिक्रियेचे किरायतें'. वर्सांसंखेच्या कोंकणीच्या वावराक सुकृताचीं फळां लागूंक लागल्यांत

अशावेळार लिपीवाद, माध्यमवाद, आनी भाशावादाच्या नांवान कोंकणीक नखलामी करूंक सोदपी अज्ञानी आनी अविचारी जनांक उद्देशून बरयिल्लीं हीं पुस्तकां. ह्या लेखांच्या निमतान कोंकणी चळवळीचो इतिहासूय वाचूंक मेळटा. कोंकणी चळवळीचो इतिहास बरोवपी आन्येक लेखक आसा तो पाव्लू मोरास. तांणी 'कोंकणीची चळवळ' हें पुस्तक २००२ वर्सा प्रकाशीत केलें. त्या उपरांत कोंकणी पत्रकारितेचो इतिहास ह्या विशयाचेर 'जागरण' हें पुस्तक आनी नाटक-खेळ-तियात्र ह्या विशयाचेर 'खेळ-राजांव' हें पुस्तक बरयलें. हें साहित्य म्हणूं येना तरी साहित्याचो इतिहास म्हूण ताची दखल घेवंक जाय.

कोंकणी चलचित्रांचो इतिहास इजिदोर दान्तस हांणी बरयला. 'कोंकणी चलचित्रां' हो ग्रंथ भारतीय सिनेमाच्या संदर्भांत कोंकणी सिनेमाची खबर विस्कावन सांगता. १९१३ वर्सा पयलें मोनें फिल्म 'राजा हरिश्चंद्र'(मराठी), १९३१ वर्सा पयलें उलोवपी फिल्म 'आलम आरा' (हिन्दी) जाल्यार १९५० वर्सा पयलें कोंकणी फिल्म 'मोगाचो आवंडो' निर्मण जालें. आयज मेरेनचो इतिहास सांगपी हो एक बरो संदर्भ ग्रंथ. गोंयच्या राजकी इतिहासाचेरूय दोन बरीं पुस्तकां झोतिकु द सौझ ह्या सुटके झुंजाऱ्यान बरयल्यांत. 'अशें घडलें' आनी 'नेहरू आनी गोंय' ब्रिटिशांचें राजकारण, इगर्जेची भूमिका, गोंयची स्वातंत्र्याची चळवळ आनी नेहरूंची मुत्सद्देगिरी ह्या विशयांचेर झोतिकूबाबांले परखड विचार कितल्योश्योच इतिहासीक गजाली उक्ताडार हाडटा.

'ऑटिझम' (स्वयंमग्नता) ही एक मनपंगूळ अवस्था. सतत गोंदळिल्लें मन. हो रोग न्हय. ती एक डिजॉर्डर. ह्या विशयाचेर संशोधन चालू आसा. २०१५ वर्सा ह्या विशयाचेर कोंकणींत पुस्तक आयलें तेंय कोणा वैजान वा मानसोपचार तज्ञान बरयिल्लें न्हय. तर एका ऑटिस्टीक भुरग्याचे आवयन बरयिल्लें पुस्तक- 'ऑटिझम- स्वयंमग्नता: एके आवयचो अणभव.' लेखक माया मंगेश कामत. ही एक कवी प्रवृत्तीची लेखक. तिचो 'उमाळ्यांचो कुरपणो' हो कवितां झेलो उजवाडाक आयला. प्राप्त परिस्थितींत हे मनपंगूळ अवस्थेचो पुरायेन अभ्यास करून तांणी मोटे धिटायेन सकारात्मक वृत्ती आपणायत परिस्थितीक फुडो केलो. हो आपणालो अणभव गरजेवंतांक धीर, थाकाय आनी बळगें दिवपी जावं येता हें येवजून तांणी हें पुस्तक बरयलां. कोंकणी पुस्तकांचे गिरेस्तकायेंत ह्या पुस्तकान भोव मोलादीक भर घाल्या.

आन्येक वेगळे तरेचें पुस्तक म्हळ्यार 'प्रीय सखी' हें माया खरंगटे हांगेलो पत्र संग्रह. अस्तुऱ्यांच्या वांट्याक तरेकवार बरे वायट अणभव येत आसतात. लग्नां, काडीमोड, वेसनां, दुयेंसां, भुरगीं, आफूड भश्ट, ह्या संवसारचक्रांतूय कांय आगळे अणभव येतात ते पत्ररूपान शेअर करपी हीं पत्रां. मायाबायन अर्पणपत्रिकेंत 'संवसाराचे दोरयेर कसरत करीत वाट चलपी म्हज्या सखयांक' अशेंच म्हळां. पत्रलेखनूय ब्या साहित्याची पत जावं येता हें दाखोवपी हें पुस्तक 'प्रीय सखी'.

निबंदांचे अनेक प्रकार आसात. विचारी, विनोदी, व्यंगात्मक, शास्त्रीय अशे विशयवार वांटें घालूं येतात. निबंद ह्या साहित्यप्रकाराक विशयाचें बंदन ना. आनी बांदावळीचेंय ना. ह्या मळार लेखकांनी आपणांक मानवता तशी मेकळीक घेवन लेखन केलां. से. मा. बोर्जीस हांणी भाशे संबंदान विद्वत्तापुर्ण बरयलां. प्रकाश पर्येकार हांणी इतर निबंदां वांगडाच 'म्हादय काळजांतल्यान कागदार' हो म्हादय न्हंयेचीं विविध रुपां, आशीकुशीचो वाठार, थंयची वनसंपत्ती आनी लोकजीण हांचेर बरयिल्ल्या निबंदांचो एकसुत्री संग्रह प्रकाशीत केला. केरळांतल्या पी.जी. कामत हांणी भाशा, शुद्धलेखन, लोकवेद हांचेर शास्त्रीय विवेचन करपी निबंदलेखन केलां. सत्तरींतल्या अशोक नेने हांणी आपणांले चित्पावनी बोलींतल्यान निबदलेखन केलां. तांगेलें 'खडतर जिणां' हें पुस्तक प्रकाशीत जालां. रोमिओ आल्मैदा हांणी साश्टी शैलींतल्यान बरयिल्लो 'आमोरी आमुरपिकी' संग्रह आसा. हेमा नायक हांचो 'अस्तुरीमृग' हो बायलांचे आवतिकायेचेर संग्रह आसा. नंदकुमार कामत हांगेले विचारीक निबंद आसात. जणेकल्यान आपणांपरीन नवें कितें तरी दिवपाचो यत्न केला. जाग, बिम्ब आनी भांगरभूंय ह्या नेमाळ्यांचें निबंद प्रकाशनांत मोलादीक योगदान आसा.

गद्य लेखनांत विंगड विंगड विशयांवयलें साहित्य निर्मण जायत आसा. ह्या सगल्यां मदीं प्रवासवर्णनांची पुस्तकां चड बरोवन जाल्यांत. गोंयांत कर्नाटकांत आनी केरळांतूय हें साहित्य वाडटेर आसा. केरळांत सूर्या अशोक हांणी प्रवासवर्णनां बरयल्यांत - 'मुनार टेकडी प्रवास', 'मुंबय दर्शन', 'पावसाडेंत एक पर्यटन' अशीं सान रुपांतली प्रवासवर्णनां आयल्यांत. पूण युरोपची भोंवडी करून आपणांल्या अणभवांचेर आदारिल्लें 'युरोप - एक झळकि' हें यात्रा विवरण पुस्तक भोव सुंदर जालां. आनिकूय लेखकांनी नेमाळ्यांनी बरयलां पूण पुस्तक रुपान येवंक ना अशें

दिसता. कर्नाटकांतय प्रवास विवरणां उजवाडाक आयल्यांत. चडशीं नेमाळ्यांनी.

गोंयांतलें प्रवासवर्णनाचें पयलें प्रकाशीत पुस्तक म्हळ्यार रवीन्द्र केळेकार हांगेलें 'हिमालयांत'. त्या उपरांत अशा प्रवास विवरणांनी भर पडत गेली. चंद्रकांत केणी, दत्ता नायक, मधुसुदन जोशी, पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार आनी साबार फांकिवंत लेखकांनीं प्रवासवर्णनां बरयल्यांत. कोंकणींक पयलो साहित्य अकादेमी पुरस्कार जोडून दिवपी 'हिमालयांत' पुस्तकाचे लेखक रविन्द्रबाबांनी आनिकूय प्रवास वर्णनां बरयल्यांत जीं ललीत निबंदांच्या स्वरूपांत आसात. 'घारापुरी', 'बेलूर मठ', 'सैमाचें महाकाव्य जोग', 'वाराणसी' हीं प्रवासवर्णनां खूब लालित्यपुर्ण आनी म्हायतीपुर्ण आसात. चंद्रकांत केणीलीं प्रवासवर्णनां लेगीत कथे भाशेन भोव वाचनीय. 'नैनिताल- जंय एक याद गोठेली' ह्या भोंवडे विवरणांत केणी आपणाली याद कथन करतनाच नैनितालाचेंय सोबीत वर्णन करतात. दामोदर मावजो हांगेलें 'उण्टांच्या देसांत' हें अरब राष्ट्रांचे भोंवडेचें प्रवास वर्णन १९९० वर्सा सुनापरान्ताचे आयताराचे पुरवणेंत दर आयतारा उजवाडाक येतालें. पूण पाऊण वांटो सुमार बरोवन जाल्या उपरांत लेखकाची भलायकी इबाडिल्ल्यान तातूंत खंड पडलो आनी तितल्यार तें आडखळ्ळें. सुमेधा कामत हांणीय दक्षिण भारताचे भोंवडेचें विवरण केल्लें आसा. 'विवेकानंदपुरमांत' ह्या कन्याकुमारीक दिल्ले भेटेच्या निमतान लेखक आपणांल्या मनांत उदेल्लीं आवर्तनां वाचकांमुखार मांडटा. हें लेखन डायरीच्या रूपांत बरयलां.

प्रवासवर्णनांच्या मळार चडांत चड आनी मोलादीक भर घालपी लेखकांमदीं दत्ता दामोदर नायक हे म्हालगडे म्हणूंक जाय. 'कालीघाट ते करूणाघाट' ह्या पुस्तकांत निखटो प्रवास ना. तातूंत बंगाली संस्कृतायेचें दर्शन आसा आनी मदर तेरेझाची करूणामुर्ती उबी केल्या. 'अरेबियन डेज' हें अरब राष्ट्रांची भोंवडी करून थंयचे आवतिकायेचो घेतिल्लो आलेख आसा. 'अमेरिकेचें द्विवतीय दर्शन' आसूं वा युरप, ऑस्ट्रेलीया, न्यूझिलंडची वा हालीच केल्ली ब्राझीलाची- दत्ताबाब भोंवडे उपरांत प्रवासवर्णन बरयतातच. आनी प्रत्येक वर्णन हें काव्यात्म आसता. थळां पळयतनांच दत्ताबाबाक मनशांय पारखुपाची नदर आसा. प्रवासाची खूब आवड आसा अशी अन्येक लेखक म्हळ्यार हर्षा शेट्ये. जितली प्रवासनिश्ठ तितलीच लेखननिश्ठ. तांगलें 'आनंदयात्रा' हें भोंवडे विवरणांचें पुस्तक प्रकाशीत जालां. मधुसुदन जोशी हांणीय अमेरिकेंत केल्ले भोंवडेचे विस्तृत वर्णन केलां. असल्या प्रवासवर्णनांतसून

थळां विशीं, येरादारी विशीं, चालीरितीं विशीं आनी थंयच्या मनशां विशीं जी म्हायती मेळटा ताका लागून वाचकांच्या मनांतूय प्रवासाक वचपाची वानसा जागी जाता.

केळेकारांच्या 'हिमालयांत' पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्या उपरांत दिलीप बोरकार हांकां 'गोमांचल ते हिमांचल' ह्या भोंवडे विवरणाक तो फावो जालो. दिलीपबाब देशभर आनी देशाभायरूय खूब भोंवल्यात. आनी भोंवडेचीं विवरणांय तांणी बरयल्यांत. 'गोमांचल ते हिमांचल' हें प्रवासवर्णनाचें पुस्तकूय खाशेले बोरकारी शैलींत आसा. गोंयच्यान भायर सरून हिमालया मेरेनच्या प्रवासाचें वर्णन तांतूंत आसा. दिलीपबाबांक प्रवासाची मुळा सावन आवड. यूथ हॉस्टेल आयोजीत करता त्या खुबशा भोंवड्यांनीं दिलीपांनी वांटो घेतला. दोन भोंवड्यो हिमालयाच्या दोन विंगड विंगड वाठारांनीं जाल्यात. हिमालयाच्या विंगड विंगड खिण्डीनीं, देगणांनीं आनी तेमकांनीं भोंवडी करतना आयिल्ले अणभव दिलीपबाबांनी भोव रूचीन सांगल्यात. हें पुस्तक म्हळ्यार निखटें प्रवासवर्णन न्हय. तर त्या त्या थळांचे इतिहासीक, समाजीक, राजकी आनी संस्कृतीक संदर्भ हांच्या अनुशंगान आयिल्ल्या विचारांची कोठी म्हणूं येता.

यूथ हॉस्टेलाचे भोंवडेर वतना जे वांगडी सांगाताक आसले तांचीय तरा वेगळी वेगळी. वाटेर पेणी करताले तेन्ना थंय मेळपी थळावे लोक वेगळे वेगळे आनी हिमालयाची वेगळ्या वेगळ्या उत्तंग तेमकांच्यो तराय विंगड विंगड. दिलीप बोरकार हांच्यातलो कलाकार ठांयठांय तकली वयर काडून वाचकांक हिमांचलांचीं वेगवेगळीं रूपां आपणाले लालित्यपुर्ण शैलींतल्यान उक्तायता. भोंवडेकडेन पळोवपाची दिलीपबाबांली नदर तांगेल्याच उतरांनीं सांगची जाल्यार-

न्हंयेक सगळ्या लोकांनी माता अशें म्हळां. न्हंयचे कांठावयली जमीन सुपीक आसता. न्हंयचे इतले उपेग आसतात कीं न्हंयचे देगेर रावपी कफल्लकलेगीत केन्ना उपाशीं पडना. न्हंय आपले देगेर रावपी सगळ्या जिवांची आवयवरी सेवा करता. ह्याच खातीर मनीसप्राण्यान आपलो राबितो न्हंयचे देगेरूच केल्लो दिसून येता. मनशाक जो अणभव जाय आसता तो मनशां मदीं रावून मेळटा. तो घेवन मागीर निवांत सुवातेर बसून ताचेर मनन करचें आसता. त्याच खातीर साधू-संत जंय मनीसवस्ती आसता थंयच परिक्रमा करताले. साधू-संतांवरी परिक्रमा करप म्हाका

जमलें ना. पूण जेन्ना जेन्ना भोंवडेक वचपाची संद म्हाका मेळ्ळ्या तेन्ना हांवें ती कशीच होगडायली ना. त्या वेळार लावलुकसानीचो हिशोब मांडलो ना.

दिलीप बोरकार हांणी हालींच अणकाराच्या मळारुय पावल दवरलां. पूण तांचें सगल्यांत व्हडलें योगदान खंयचें आसत जाल्यांर तें 'बिम्ब' जे वरवीं तांणी नवे लेखक निर्मण केल्यात आनी करतात.

## नाटक

नाटक हो सादरीकरणाचो एक प्रकार हें खरें आसलें तरी सादर करचे पयलीं तें बरोवन जावंक जाय. आनी बरयिल्ल्या नाटकांत साहित्यीक गूण आसल्यारच तें दर्जेदार थारता. देखून नाट्यलेखन हें साहित्य लेखन अशें धरूंक जाय.

आदीं सांगलां तेप्रमाण आमच्या लोकसाहित्यांतले जागर, कालो, खेळ हे सादरीकरणाचे नाट्यप्रकार. हीं लोकनाट्यांच आयच्या आधुनीक नाटकांचीं प्रेरणास्थानां जावन आसात. कोंकणी मनीस हो मुळांतच नाट्यमोगी. तातूंत सर्जक गुणांनी उपाट भरिल्लो. लोकनाट्यांतच नवे नवे प्रयोग करीत ताणें आधुनीक नाटकांची बुनयाद घाली. मराठी रंगमाचयेचे जनक अण्णासाहेब किर्लोस्कर हांणी गोंयच्या कृष्णभट्ट बांदकार ह्या कलाकाराकडसून नाटकाची संकल्पना उकलली अशें नमूद जाल्लें आसा. कृष्णभट्ट बांदकार हे बरे कवी आसले आनी कोंकणी-मराठींत भोव बरें बरयताले. एखादरो पुराणीक वा समाजीक प्रसंग घेवन थोडे संवाद आनी थोडें संगीत हांच्या आदारान मांडार खेळ सादर करप हो तांचो उद्देग एक दीस अण्णासाहेब किर्लोस्करांनी पळयलो. ह्या नव्या प्रकारांतलें मनरिझवणेचें मोल लक्षांत घेवन अण्णासाहेबांनी मराठी संगीत नाटकां रचलीं आनी इतिहास घडयलो, अशें म्हणटात

गोंयचे क्रिस्तांव कलाकार संवसारार भोंविल्ले. पूण कोंकणी खातीर तळमळटाले. अशाच एका गोंयकारान युरोपियन बॅले पळयलो आनी कोंकणींत अशें कितें तरी सादर करचें हे भावनेन पिसावलो. तातुंतल्यानच 'इतालियान भुरगो' हो लुकासीन रिबैरू हांगेली अप्रूप खेळ १८९२ वर्सा माचयेर आयलो. हो प्रकार उपरांत भोव म्हव्यार भोवच लोकांमोगाळ जालो आनी आजुनूय आसा. ह्या खेळाक 'तियात्र' हें नांव पडिल्ल्यान तें नाटका परस वेगळेंशें दिसलें तरी तेंय नाटकच अशें धरल्यार

लुकाझीन रिबैरू हो ह्या प्रकाराचो जनक अशें लेखूंक फावो.

सुरवात लुकाझीन बाबांनी केली तरी तांचे वांगडा सुर्वेच्या वर्सांनी वावुरिल्लो जुआंव आगोस्तीन फेर्नांदीश हांकां 'पाय तियात्रिश्त' अशें भोवमानान पाचारतात. खासा जुआंव आगोस्तीन हे लुकाझीन बाब हांकां आपणाले गुरू अशेंच म्हणटाले. पूण १८९५ वर्सा थावन फुडलीं पन्नास वर्सां सातत्यान तियात्र बरोवन सादर करपी ह्या मनशान तिसां वयर तियात्र रचले. पुरोगामी विचार मांडपी तांगेल्या तियात्रांक प्रेक्षकांनीं रोखडेच माथ्यार घेतले. 'कावेलची सुंदरी', भाटकार', कुणबी जाकी', 'बेबदो', दोतीचें केस्तांव', 'देव नासलेलो कोमुनिस्त' अशे साबार तियात्र गाजोवपी ह्या लोकांमोगाळ कलाकार लेखकाक 'पाय तियात्रिश्त' हें बिरूद फावो जालां.

तियात्र हो खूब लोकप्रिय प्रकार. फाटलीं शंबरां वयर वर्सां गोंयकार लोक उडक्यो मारून तियात्र पळयतात. पुर्तुगेजाचे मुस्तींत नाटकां-सिनेमा-तियात्रांचेर सेन्सॉरशिपाचीं बंधनां आसलीं. सादर करचे पयलीं संहिता बरोवन तपासपाक धाडची पडटाली. जायरात पत्रकां लेगीत सेन्सॉर जातालीं. तांकां लागून अभिव्यक्तीचेर मर्यादा पडटाली. पूण गोंयमुक्ती उपरांत ही परिस्थिती बदलली. आनी तियात्रांक बरें दीस आयले. तेन्नाच्यान लेखन-दिग्दर्शन, गीत-संगीत, उजवाडा येवजण आनी हेर तंत्रिकी नदरेन तियात्रान खूब प्रगती केल्या.

उकत्यार खेळ करतां करतां जांकां पालकार चडचें आनी तियात्रा परस वेगळें कितें तरी करून दाखयन दिसलें तांणी एक नवो प्रयोग केलो. तातुंतल्यान पड्डे नाशिल्लो नॉनस्टॉप ड्रामा असो 'खेळतियात्र' नांवान नवो उपप्रकार वयर सरलो. रूझार रोद्रिगीश, वितोरीन पैरैरा ह्या सारक्यांलें मोलादीक योगदान मेळिल्ल्यान हो प्रकार लोकांक मानवलो. कांय काळ खूब तरतरलो. तें पळोवन तियात्रानच ताचीं कांय खाशेलेपणां उकललीं आनी मागीर खेळतियात्र फाटीं पडलो. हिंदू सादर करतात तें नाटक आनी क्रिस्तांव करतात ताका तियात्र म्हणटात असो एक चुकीचो समज आसा. सादरीकरणाचे हे दोन वेगळे प्रकार. नाटक संगीत आसल्यारूय तांतलीं गितां कथानकाचें बोट धरून रावतात. जाल्यार तियात्र स वा सात पड्ड्यांचो आसता. दरेका पड्ड्या फाटल्यान कांतारां आसतात. तीं क्लाव्न (एकल्यान गावपाचें), दुयेट (दोगांचें), ट्रिओ (तिगांचें), वा क्वार्टेट (चौगांचें) आसता. पूण ह्या कांतारांचो आनी कथानकाचो कांयच संबंद नासता.

तियात्र हो क्रिस्तांवांचो आनी नाटक हें हिंदूंचें हो समज पुरायेन खरो न्हय. तियात्र निर्मुपी आनी पळोवपी जरी क्रिस्तांवांमदीं चड आसले तरी हिंदुंकूय तियात्र आवडटात. जायते हिंदू कलाकार तियात्राचे माचयेर नाचतात, दिग्दर्शन करतात आनी संहिताय बरयतात. अनिलकुमार, प्रेमानंद लोटलीकार, सांगोडकार अशे अनेक जाण ह्या मळांचेर वावुरतल्या. एका काळार माची गडगडायिल्ले एम. बॉयर हांणी एक भोव बरो प्रयत्न केल्लो. हिंदू आनी क्रिस्तांव प्रेक्षकांनी एकठांय येवन पळोवंचो ह्या उद्देशान 'एकूच रस्तो' हो तियात्र बरोवन सादर केलो. कलाकार मिस्तूर आसले. तियात्र बरो चललो. उपरांत शणै गोंयबाबांच्या जिवीताचेर आधुनीक तंत्रान सेराफिन कॉत ह्या तरनाट्या तियात्रिश्तान एक खेळ सादर केलो. कोंकणी मायभास हें पात्र जावन माचयेर वावुरता अशी संकल्पना घेवन शणै गोंयबाबाच्या जिविताचेर रचिल्लो हो तियात्र परंपरीक सरसामान्य प्रेक्षकांक मानवलो ना तरी एक बरो प्रयोग म्हूण आवडटलो. तियात्र बरोवन सांबाळून दवरपाची परंपरा नाशिल्ल्यान भोव थोड्यो संहिता छापून उजवाडाक आयल्यात. ह्या मळाचेर तोमाझीन कार्दोज हांणी उल्लेखनीय वावर केला. तांचे जायते तियात्र उजवाडाक आयल्यात. तांणी स्वताच्यो संहिता तर सांबाळ्यातच, हेरांचींय बरपां उस्तून काडून तीं छापून हाडल्यांत. एका काळार हौशी रंगमाची म्हूण वळखताले तो तियात्र आयचे घटकेक इतलो लोकांमोगाळ जाला की ताका आतां वेवसायीक रूप आयलां. कांय तियात्रांचे तर शतकी प्रयोग (सेंच्युरी शोस) जातात. अशें वेवसायीक यश जोडिल्लो तियात्र हो घडये भारतांतलो एकमेव नाट्यप्रकार आसुंये.

आर्विल्ल्या कोंकणी नाटकांचीं बुनयाद घाली ती शणै गोंयबाबांनी. तांणी जरी स्वतंत्र नाटकां रचलीं नात तरी फ्रेंच लेखक मॉलिएर आनी इंग्लीश लेखक शेक्सपिअर हांचेकडसून प्रेरणा घेवन तांगेल्या नाटकांचीं रूपांतरां कोंकणींत रचलीं. 'पोवनांचे तपलें', 'झिलबा राणो' आनी 'मोगाचें लग्न' हीं तांगेली नाटकां मूळ कोंकणीच दिसपा इतलीं बरीं रूपांतरीत जाल्यांत.

ज्या काळार गोंयचो हिन्दू लोक मराठी नाटकां पळोवन आपणाली तान भागयतालो त्या काळार 'कोंकणींत म्हण नाटक बरोंव येता?' असो प्रस्न जायत्या जाणांक पडटालो. तांतुंतले एक म्हळ्यार रामचंद्र शंकर नायक. कोंकणीच्यो साबार बोलयो

आसात तांतली खंयची म्हूण खरी धरपाची? हो प्रस्न कोंकणीचीं फकाणां मारीत मुखार व्हरपाखातीर म्हण रामचंद्रबाबांनी अंत्रूजी, साश्टी, बार्देशी, कारवारी अशा विंगड विंगड शैलींचो वापर करून 'चवथीचो चंद्र' हें एकांकी नाटक बरयलें पूण बरयतां बरयतां- त्या त्या पात्राच्या तोंडांत ती ती शैली घालतनां रामचंद्रबाबांक कोंकणीच्या सामर्थ्याची जांणीव जाली. विंगड विंगड शैली ही कोंकणीची विविधताय म्हळ्यारच कोंकणी भाशेची शक्त म्हणपाचें त्या विव्दानाक होलमलें. ही एकांकी प्रेक्षकांनी माथ्यार घेतली तेन्ना ह्या दृकश्राव्य माध्यमाचें म्हत्वूच तांच्या लक्षांत आयलें. उपरांत तांणी 'दामू कुराडो', 'सोनुदादालो संवसार', 'एकापरस एक हटी', 'शिकयल्ली शिकवण', 'म्हजो सर्गार आशिल्लो घरकार', अशीं एका परस एक सरस अशीं एकांकी नाटकां बरयलीं. तांगेल्या ह्या लेखनान प्रभावीत जाल्ल्या शणै गोंयबाबांनी तांकां 'आचार्य' म्हूण संबोधीत करुंक सुरवात केली. आचार्य रा. शं. नायक हांगेलें कोंकणी रंगमाचयेक दिल्लें हें योगदान फुडले पिळगेक भोव प्रेरणादायी थारलें.

आचार्य राणू नायकांचेच समकालीन बाळकृष्ण सावर्डेकार हांणीय तशेंच केल्लें. कोंकणींत बरोवप हो 'लाखा बारा हजार' करपाचो लुकसाणीचो उद्देग अशा अर्थान 'सुताची गिरण' अशा शिर्षका खाला लेख बरोवन कोंकणीची उवेखणी केल्ली-तीय मराठी नेमाळय़ांत बरोवन. मागीर कोंकणीचीं उणेपणां दाखोवपा खातीर म्हूण १९३५ च्या सुमाराक तांणी 'खुंटये भाटांतलें शिंयाळें' ह्या नांवाचें एक संवाद प्रधान नाटकुलें बरयलें. भाटकार, कूळ आनी हेर पात्रांच्या तोंडांत, तेन्ना भगलो मारपाक म्हूण घाल्ले संवाद आयज कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय दाखोवपी दस्तायवेज जाला आनी कोंकणीच्या आंगावयलो अळंकार जावन मिरयता.

ह्याच अदमासाक कर्नाटकांतूय नाटकांची चळवळ सुरु जाली. फाटभुंय म्हूण लुवीस मस्कारेन्य हांणी १९४८ वर्सा बरयिल्लें 'आब्रांवाचें यज्ञदान' हें काव्यनाट्य आसललेंच. कोंकणी भाशेचे अभिव्यक्तीची तांक दाखोवपी साहित्यकृती म्हूण तिची सुवात खूब वयर आसा. बोळंतूर कृष्ण प्रभू हांणी 'चंद्रहास', 'प्रल्हाद' अशीं नाटकां बरोवन माचयेर हाडलीं. हीं नाटकां उपरांत केरळांतूय सादर जालीं. तशेंच बैंदूर देवराय अय्यंगळ हांणी कर्नाटकांतले परंपरेक धरून 'कौरवांलो कृश्णु', 'पार्वती कवड काडी' अशीं नाटकूलीं बरयलीं. होन्नावर वाठारांतले होसाड बाबुटी नायक

हांणी तर देवळांच्या परिसरांत सादर करपा खातीर शंबरां वयर उत्सवी स्वरूपाचीं नाटकां बरयल्यांत. तांगेलें 'आडकात्रिंतलें फोप्पळ' हें नाटक प्रकाशीत जालां. मंगळूरच्यो मीरा श्रीधर भट हांणीय साबार नाटकां बरयल्यांत. तांगेलोय 'त्रिवेणी' हो तीन नाटकुल्यांचो झेलो प्रकाशीत जाला. दुसरे, नामनेचे साहित्यकार चा. फ्रा. दे कॉश्ता, जांकां कवी म्हूण चड वळखतात, हांणी कोंकणी माचयेक मोलाचें योगदान दिलां. 'विसेंतीचे भाव', 'सुणें माजर हांसता', 'हांडो उठला', 'टोमेटो' अश्यो एका परस एक एकांकी बरोवपी ह्या लेखकालो 'सुणे माजर हांसता' ह्या नांवाचो एकांकी झेलो उजवाडाक आयला. ते भायर 'मागीरचें मागीर' आनी 'तर्नें तर्नें मोर्नें' हीं नाट्काचीं पुस्तकांय प्रकाशीत जाल्यांत. गोंयची हौशी रंगमाची महाराष्ट्रांतलीं मराठी नाटकां सादर करताली तेन्ना कृष्ण लक्ष्मण मोये आनी पुंडलीक नारायण दांडे हे स्वतंत्र कोंकणी नाटकां बरयताले. कृष्णा लक्ष्मण मोयेनी बरयिल्लें 'तुळशीचें लग्न' जरी साबारकडेन सादर जालें तरी तांगेलीं हेर नाटकुलीं लोकांक मानवलीं तीं तांणी स्वता सादर केल्ल्या विनोदी भूमिकां खातीर. पुंडलीकबाब दांडे हांगेलें 'ताची करामत' मात हिसबा भायर गाजलें. कोंकणी नाटकां म्हळ्यार विनोदी आनी फार्सिकलच आसूंक जाय अशी त्या काळार धारणा आसली. तिका वेर गेली ती पुंडलीकबाबांल्या 'निमित्ताक कारण' ह्या नाटकाच्या सादरीकरणान. गोंय मुक्ती उपरांत जाल्लो हो लक्षणीय बदल. ते पयलीं मुंबय रावपी कोंकणी लोक ल्हान व्हड नाटकां बरयताले तीं चडशीं सर्तींत वांटो घेवपाखातीर. ना म्हणपाक 'साद'च्या आंकांत वसंत अच्यूत कारे हांणी 'नबत', 'टिटेबाब' अशीं नाटकुलीं उजवाडांक हाडिल्लीं. डि. व्ही. काणेकार हांगेली एकांकी 'म्हाळुदादाली फुंकणी' हीय मुंबय आनी गोंयांतूय भोव गाजिल्ली. फाटल्या शतमानाच्या पांचव्या आनी सटव्या दसकांत मुंबयंत रावन शिकपी कोंकणी विद्यार्थी वर्सुकी 'आंतर महाविद्यालयीन एकांकी सर्त' घडोवन हाडटाले. हे सर्तींक लागून जायतीं नाटकां बरोवन जालीं आनी नवे नाट्यलेखक निर्मण जाले. किसन कामत हांगेलीं 'बाप्पा मुंबय वता' सारकीं नाटकुलीं तर भोव म्हळ्यार भोवच गाजलीं. तांगेलो 'दोन आनी दोन' हो संग्रहूय प्रकाशीत जाला. मराठी रंगभूंय गार्जयिल्ले गोंयकार कलाकार रघुवीर नेवरेंकार हांणी बरयिल्ल्यो विनोदी एकांकी 'पोपेबाबाली मुंबय', 'कोडू निंबू', 'जल्मगांठ' ह्योय खूब लोकांमोगाळ जाल्यो. मुंबय रावपी उमानाथ डोंगरकेरी हांणीय 'वज्रमुकूट' सारकीं नाटकां बरोवन सादर केलीं. १९५५-६५ वर्सां मजगतीं ह्या लोकांनीं केल्ल्या वावराक लागून गोंय मुक्त जायमेरेन नाटकांचे उदरगतीक

फावो तशी फाटभूंय मुंबय तयार जाली अशें म्हणूंक जाय. 'विद्या' ह्या विद्यार्थ्यांल्या वर्सुकी आंकांतूय कांय नाटकुलीं उजवाडाक आयलीं.

सुर्वेच्या काळार कोंकणींत गीत-नाटयां बरोवन जाल्लीं. डॉ मनोहरराय सरदेसायांनी 'आयज रे धोलार पडली बडी' (१९६१) बरयलें. कृष्ण-कंस हीं प्रतिकां कशीं वापरून पुर्तुगेजांचें बंदेपण भोगपी गोंयकारां विशीं बरयिल्लें हें गीतनाटय. पुंडलीक नायक हांणी पयलीं बरयलें तें गीतनाट्य, 'रानसुंदरी'. बालसाहित्यांत आस्पावंक फावता अशें हें गीतनाट्य भोव लोकांमोगाळ जालें. केरळ-कर्नाटकांतूय गीतनाट्यांचे प्रयोग जाले. कोच्चीचे के. अनंत भट हांणीय गीत-नाट्यां रचल्यांत. गीत-नाट्यांनी सुरवात जाल्ली नाटकांची चळवळ आयज चंवराक आयल्या अशें म्हणूंक जाय.

भारतांतल्या चडशा भासांनीं सुर्वेक जीं नाटकां-नाटकुलीं पालकार चडलीं तीं चड करून पुराणांतल्या कथानकांचेर आसतालीं. त्या काळार नाटक म्हळ्यार नृत्य, संगीत आनी संवादांतल्यान सांगिल्लो प्रकार. नाटक हें उतरच मुळांत 'नृत्य' ह्या संस्कृत उतरा वयल्यान आयलां ताचे वयल्यान ताचें रूप स्पश्ट जाता. देखून, आदल्या काळावयलीं नाटकां हीं संगीतप्रधान नाटकां आसतालीं. गोंयांत पुर्तुगेज राजवटींत खंयचेच कलेक उत्तेजन नासलें. अशावेळार लोक शेजारच्या उत्तरेंतल्या कोंकण वाठांरांतलीं दशावतारी नाटकां हाडून मनरिझवण करताले. 'दशावतारी' हो लोकनाट्याचोच प्रकार. तांतलीं चडशीं पात्रां मराठी उलयतालीं. पूण 'शंखासूर' हें एक पात्र मात्र गांवगिरी कोंकणी उलयतालें. उपरांत महाराष्ट्रांत नाटकांक बरे दीस आयले तेन्ना थंय गाजिल्लीं नाटकां गोंयांतूय जावंक लागलीं. दिनानाथ मंगेशकरां सारके गोंयकार कलाकार महाराष्ट्रांत वचून नाटक कंपन्यानीं कामां करूंक लागले. गोंयांत मराठी नाटकांची परंपरा सुरू जाली ती आयजूय ल्हान व्हड प्रमाणार चलता. सुरवातीक कोंकणीमोगी कलाकार मराठींतलीं गाजिल्लीं संगीत नाटकां अणकारून सादर करताले. आजून करतात. संगिताची आवड आशिल्ले डॉ. प्रदीप बोरकार हांणी अशे जैतिवंत प्रयोग करून दाखयल्यात. कांय लेखकांनीं तर नवीं संगीत नाटकां बरयल्यांत. देखीक, रामनाथ गावडे ह्या कथाकारान बरयिल्लें 'शितळ गंगेचें ल्हार'.

मुक्ती उपरांत मुळाव्या कोंकणी नाटकांनीं सावधपणान पालकार पांय दवरलो.

पूण नाटकमोगी गोंयकारांनीं भाशावाद कुशीक दवरून तांकां माथ्यार घेतलीं. ह्या नाटकांक प्रेक्षकांकडल्यान जेन्ना उत्स्फुर्त प्रतिसाद मेळूंक लागलो तेन्ना चड आनी चड कोंकणी नाटकां बरोवन जालीं.

गोंयांत मराठी नाटकांची परंपरा इतली मूळ धरून बशिल्ली की कोंकणी नाटकां बरोवप आनी सादर करप म्हळ्यार धाडसाचें काम आसलें. गोंयमुक्ती उपरांत कोंकणी साहित्यीक चळवळीक चंवर फुलूंक लागलो. पूण नाटक त्या मानान फाटीं उरतालें. रामकृष्ण जुंवारकार, अशोक कामत, विनय सुर्लकार, अशे लेखक जिद्दीन वावराक लागले. नाट्यलेखनाची बुनयाद पकदस्त जाली. बुनयादीचो चिरे उबारपाचो वावर कांय म्हालगड्यांनी केलो. डॉ.मनोहरराय सरदेसाय हांणी 'स्मगलर', 'शेजाऱ्याली सासमांय', 'खंय गेल्लो खंय ना', 'साखरभात', 'दोतोर बातयांव' आनी 'मोग आनी रगत' अशी नाटकुलीं बरयलीं. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणीय आदीं सांगलां ते प्रमाण कांय नाटकां रुपांतरीत करून बरयलीं. दत्ता श्री. नायक हांणी 'एक रूप चार झोपां' आनी रामभाऊ जुवारकार हांणी 'भुतेबाब' हीं नाटकां बरयलीं. बाकीबाबांनी 'संशयकल्लोळ' ह्या मराठी नाटकाचो संगीत अणकार केलो. दिलीप बोरकार हांणी 'भरतेभार', 'वर्गशत्रू', 'आण्टीची गादी', 'आयज आमचें राज आयलें' हीं नाटकां आनी 'कॅन्सर' आनी 'एक शून्य प्रवास' हे दोन एकांकी संग्रह उजवाडाक हाडले. एन.शिवदास हांणी 'पिसांट' आनी 'फॉरेन जांवय' हीं नाटकां प्रकाशीत केलीं. ह्या सगल्यांचो म्हुर्तमणी म्हळ्यार नांवाजतो लेखक पुंडलीक नारायण नायक.

'नाटक' हो प्रकार वयर सरतनाच एकांकी वा नाटकुलीं होय प्रकार तेजींत आयलो. शालेय आनी महाविद्यालयीन सर्तींखातीर नाटकुल्यांची गरज उप्रासली. १९६९-७० साकून गोवा कला अकादमीन सुरू केल्ल्या ह्या सर्तींनी कोंकणी एकांकी परजळूंक लागल्यो. समाजीक जिणेचें पडबिंब आसलेल्यान ह्यो एकांकी काळजांत घर करूंक लागल्यो. तातुंतल्यानच नवे एकांकीकार वयर सरले. पुंडलीक नायक, दत्ताराम कामत बांबोळकार, जयमाला दणायत, रजनी भेंब्रे, तुकाराम शेट हे खांपे लेखक बरयतालेच. ते भायर सुगंधा मडकयकार, झिलू गांवकार, शैलेशचंद्र रायकार, सुनील पालकार, जेम्स फेर्नांडीस, शारोन माझारेलो, अनील शंखवाळकार, श्रीकांत नागवेंकार, प्रताप नायक, सिरील फेर्नांडीस, अशा अनेक लेखकांले नवे एकांकी संग्रह भायर सरले. कथाकार म्हूण जांची वळख आसा अशा वसंत भगवंत सावंत

हांणीय नाटकां, एकांकी बरयल्यो. ते भायर श्रीधर कामत हांगेलो 'जैत', मार्कुश गोन्साल्वीस हांगेले 'संघर्श' आनी 'जोगलां', संजीव वेरेंकार हांचो 'मांड ओसाड जातना', शाबा कुडतरकार हांचे 'तानसुर्या' आनी 'गर्भखोल', रत्नमाला दिवकार हांगेलो 'गिरमीट' आनी कविंद्र फळदेसाय हांगेलो 'राजकुंवर शेणला' अशे सुंदर एकांकी झेले प्रकाशीत जाले. 'कुवाडीं' आनी 'हांव सायबा मॉडर्न जातां' अशे झेले उजवाडाक हाडपी हनुमंत चोपडेंकार हांगेलीं चार पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. 'कुवाडीं' हो एकांकी झेलो आनी 'हम होंगे कामयाब', 'कैदी नंबर ००१', 'हरी आमचो टेम्पररी' अशीं नाटकां.

शालेय सर्तीं खातीर नाटकांची गरज वळखून अशोक कामत हांणी १९६८ ते १९९५ ह्या सात वर्सां मजगतीं तांणी सुमार सोळा एकांकी बरयल्यो. 'अशोकांकी', 'म्हजी भूंय म्हजो मोग' आनी 'कोण कोणाचो न्हय' अशे तीन संग्रह तांच्या नांवार आसात. अशोक कामत हांणी कोंकणी रंगमाचयेचें स्वरूप बदललें आनी तोमेंरेन अभावन दिश्टी पडपी समाजांतल्या गंभीर समस्यांक तितलेच गंभीरतायेन वाचा फोडली. पत्रकार आशिल्ले चंद्रकांत पार्सेकार हांणीय कोंकणीची गरज वळखून पन्नासां वयर नाटकुलीं बरयलीं. 'तांबडें फुनेल सर्गार वता' ही तांगेली नामनेक पाविल्ली एकांकी. तांगेले दोन झेले उजवाडाक आयल्यात- 'कोंकणी एकांकिका' आनी 'देंवचार आनी हेर एकांकिका'. त्या काळार विनोद सम्राट म्हूण गाजिल्ले अन्येक एकांकीकार म्हळ्यार विनय सुर्लकार. 'बाप्पा' हे कल्पनीक विनोदी पात्र घेवन तांणी संखेनी नाटकुलीं बरयल्यांत. 'खावचीं पानां', 'बाप्पाली गांथन' आनी 'तीन मजली हांसो' हे झेले तांच्या खात्यार आसात. साबार तियात्र बरोवपी फेलीस्यु कार्दोज हांणी बरयिल्लें एक नाटकुलें 'सासुमांय आनी देंवचार' १९९२ वर्सां उजवाडाक आयलें. मधुसुदन बोरकार, गोकुळदास मुळवी, जॉनी एम, जे. एल. गोयश अशा जायत्या लेखकांनीं एकांकीचें मळ गाजयलां. तोमाझीन कार्दोझ ह्या नावाजत्या तियात्रिस्तानय 'कांटेच कांटे', 'चीट' अशो साबार एकांकी रचल्यात. 'एक आंकी नाटकुलीं' ह्या नांवाचो झेलोय प्रकाशीत जाला. इतलेभितर प्रकाश थळी हे मुंबय सोडून गोंयां परतले आनी रंगभुंयेची सेवा करपाचें व्रत तांणी घेतलें. 'तीन खेतीं शाणी सुर्तीं', 'उजवाडटलें आज ना फाल्यां', 'वाट पळयतां दुकां गळयतां', 'घर म्हजें हांव धनी' हीं नाटकुलीं बरयल्या उपरांत 'अजीबपुरांतली कल्पकथा' आनी 'एक आसलो आबू' सारकीं नाटकां बरोवन प्रयोगीक नाटकांची परंपरा तांणी सुरू केली.

तांचे कडसून देख घेवन रजनी भेंब्रे हांणीय नवीं नाटकुलीं बरयलीं.

ह्याच काळार नामनेक पाविल्ले आन्येक लेखक-कलाकार म्हळ्यार भरत नायक. 'छप्पन ठिगळी येसवंत' हें एकपात्री गाजोवन अज्रंवर जाल्लो भरत नायक हाणें अनेक एकांकी बरयल्यात. 'भेरें भेरें टुणटुणें', 'बॉबी न्हिदता तेन्ना', 'चपलाहार' 'एक कवी लाखा धनी' अश्यो एका परस एक एकांकी लोकांमोगाळ जाल्यात. शाळा कॉलजीच्या विद्यार्थ्यां मदीं चड लोकप्रीय भरत नायकांनी 'वेंचणूक', 'तिसरे माळयेर बस' वा 'चामट्याक चिमटो' सारक्यो आनिकय हास्यप्रधान एकांकी बरयल्यात.

## पुंडलीक नायक

'काव्येषु नाटकं रम्यः' हें होलमल्लेवरी कविता, कथा, कादंबरी असो प्रवास करीत पुंडलीक नायकांनी उपरांत नाटक हें मळ आपणां खातीर वेंचून काडलें. 'सुरांट्यालो संवसार', 'गणिलो गणपती', 'बाप्पा खो गया' अश्यो विनोदी एकांकी बरयतां बरयतांच पुंडलीक नायकांनी 'खण खण माती' हें कोंकणींतलें गांवगिरे जिणेवयलें पयलें तीन आंकी नाटक बरयलें. ह्या पयल्याच नाटकान तांच्यांतल्या नाटककाराची पत दाखोवन दिली. त्या उपरांत तांणी अनेक दर्जेदार नाटकां कोंकणीक दिली. 'शबै शबै भौजनसमाज', 'श्री विचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठ ना', 'पिंपळ पेटला', 'मुक्तताय', 'रक्तखेव', 'राखण' आनी 'सुरींग' हीं तांगेलीं कांय म्हत्वाचीं नाटकां. आयचे घटकेक कोंकणी रंगमाची हद्दी फुलोवन भारतीय भासांचे तुळनेंत आपूण निखालस उणे ना संखेन घडये आसत पूण दर्जान खातरीन ना हें सांगपा इतली विकसीत जाल्या ताचें चडांत चड स्त्रय वता तें पुंडलीकबाबांल्या नाट्यसंहितांक. कोंकणीक निजाचें अशें तंत्र भेटयलें तेंय ह्या नाटककारान. गांवगिरे जिणेचें दर्शन गांवकारांच्या स्त्रद्धाभावार्तां सयत तांगेलीं पडमूरपणां आनी आपसुवार्थी वृत्ती हांचेमार्फतीन घडयतनांच कांय वेंचीक म्हालगडे मातयेचो मोग, गांवाची भलायकी आनी पैल्याखातीर वावुरतात तेंय भोव सुंदर रितीन चित्रायलां.

भास हें तांगेल्या नाटकांचें बलस्थान. पात्रां प्रमाण रचिल्ली भास गरज तेन्ना मोव गरज तेन्ना निबर जाता, केन्ना गोड जाल्यार केन्ना तीख, केन्ना तिडलावपी जाल्यार केन्ना फुसलावपी. लोकवेदाचो आनी म्हणी ओंपारींचो तर इतलो बरो उपेग केला की तितलेच खातीर ह्यो संहिता माथ्यार घेवन नाचचें. 'मुक्तताय' नाटकांत न्हंयेच्या

रुपान संस्कृतायेचें मानवीकरण केलां. जाल्यार 'पिंपळ पेटला' हातुंतलो पिंपळ हो वासनाकांडाचें प्रतीक जावन येता. 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटकांत 'कोणतरी' हें एक पात्र आसा तें तर साक्षात लोकमानस. पुंडलीकबाबांल्या नाटकांनी प्रतिकात्मकता इतली प्रबळ आसा की कितल्योशोच गजाली सांगिनासतनाच आपसूक उत्क्ताडार येतात. 'सुरींग' हें नाटक तर इतलें अप्रतीम आसा तातुंतलो 'सुरींग' हेंच क्षोभाचें, घुसमटमाराचें प्रतीक. पात्रांचीं नांवांलेगीत सूचक आनी सार्थ आसात. 'सुरींग' नाटकांतल्या मारियाल्या पुताचें नांव लिओ. लिओ ह्या उतराचो अर्थ शींव. लिओंतलो शींव जागो करप आनी त्या कुटुंबातल्या क्षोभाचो सुरींग फुटप हें भोव प्रतिकात्मक जालां.

विशयांचे नदरेनूय प्रत्येक नाटकां जावं नाटकुलें चाकोरी भायलें. 'राखण' नाटकांतल्या शंकराचें दुख्ख आगळे तरेन मांडलां. घर सोडून गेल्लो शंकर भयणीकूय आपणांवांगडा व्हरपाखातीर घरा येता. आपणाली आवय परदुवारी करता, तिचे भाटकाराकडेन लिंगीक संबंद आसात आनी मेंगो बापूय जाणा जावन कानार केंस काडटा हें पळोवन तिडकल्लो शंकर तोंडाक येता तशें उलयता. पूण अखेरेक तो भाटकारुच आपणालो बापूय हें कळटा तेन्ना तो गळसणटा. 'रक्तखेव' नाटकूय अशेंच- वेगळ्या विशयावयलें. खूब काळ घरापासून पयस राविल्लो एक तरनाटो गांवां परतता. एक चली तांकां आवडटा. तो तिच्या मोगांत पडटा. तांचे कुडीसंबंदूय येतात. बापूय पुताक वळखता आनी भावान भयणीकडेन जोडिल्ल्या कुडीसंबंदांक लागून तिडकल्लो बापूय पुताक जिवानिशीं मारता. भयणीक कळटा तेन्ना भयण जिवाक उबगून जीव दिता. 'पिंपळ पेटला' आनी 'सुरींग' हीं नाटकां कामातूर दादल्यांचे कुडीसुखा खातीर बायकांक वेठीक धरपाच्या विशयाचेर आसात. विशय कितेंय आसले तरी 'सॅक्स', परदुवारी, लिंगीक आकर्शण, हीं मनशाचे जिणेचो वांटो जावन आसात- तांकां लिपयलीं तरी दीस उजवाडचो उरना हें सत्य भोव कलात्मक रितीन हो नाटककार सांगता.

'शबै शबै भौजनसमाज' हें एक प्रहसनात्मक नाटक. लोकवेदाचो सुयोग्य रितीन वापर केल्ल्यान ह्या नटकाक एक आगळें परिमाण मेळ्ळां. गोंयमुक्ती उपरांत गोंयां लोकशाय आयली. मतांक मोल आयलें. भौसाक कोण विचारिनासलो त्या भौसाक वेंचणुकेच्या दिसांनी म्हत्व प्राप्त जालें. सत्रेचें म्हत्व समजल्ल्या भौसांतल्या लोकांनीय वेंचणुकांनी वांटो घेतलो. वेंचुनूय आयले. पूण इतलें आसुनूय भौसाची

भश्टाचार, मस्ती, पिळणूक आनी पिडणूक ह्या दुश्टचक्रांतसून सुटका जावंक पावली ना. 'शबै शबै भौजनसमाज' हें मनरिझवण तर करताच. पूण प्रेक्षकांक-भोव करून भोवजनसमाजाक अस्वस्थ करता. ह्या नाटकासंबंदान लेखक आनी समिक्षक डॉ.नंदकुमार कामत हे म्हणटात-

ब्रेख्तियन शैलिंतल्या नाटका प्रमाण absurd नाटकांतलो हो एक absurd-अतिशयोक्त संवाद म्हणूंक येता. पूण ह्या उतरांनींय एक सत्य आसा. राजकारण मूल्याधिश्ठ, तत्वाधिश्ठीत आसूंक शकना. आमी थारायतले तीच राजकीय नीत जातली हें गोंयच्या राजकारणी वर्गाचें चिंतप. सत्ते मुखार शाणपण चलना हें घडये फिरंग्यांनी गोंयकारांक जुस्त बरें शिकयलां आसूंक जाय- कारण शोशणाचेर आदारीत सत्तेच्या राजकारणा मुखार पुंडलीक गोंयचो भौजनसमाज शरणागत जाल्लो दिसता. मुक्तताय आनी सुरींग नाटकांत रगत सळसळपी, संघर्शाची भास उलोवपी पुंडलीक शबै शबै भौजनसमाज नाटकांत फकत प्रस्न, प्रस्न, प्रस्नूच उबे करता. शिक्षणानूय भौजनसमाजांत फरक पडला, पडटलो अशें तांकां दिसना. भौजनसमाजाक घडये गिन्यान अस्वस्थ करता आसूंक जाय. जाका दिश्टावो जाला, जाका स्थित्यंतराची उमळशीक लागल्या तांकां सदांच प्रचलीत व्यवस्थेक तोडपाची ओड लागता. पूण शरणागत भौसाक शिकिल्ल्यांचोच चड भंय दिसूंक लागता. *'Knowledge is dangerous. Ignorance is bliss'* अशें *George Orwell* हाणें म्हळां. ज्या भौसाक शेकड्यांनी वर्सां शिक्षण मेळूंक ना पूण अचकीत राजकीय सामर्थ्य मेळ्ळें तांची ही शोकांतिका. म्हणून नाटकांतलो नानू एका कार्यकर्त्याक विचारता- 'तूं आमचो बंधू, तूं तर शिकलेलो दिसता.' भौसाक शिकलेल्यांची भिरांत कित्याक हाची जाप पुंडलीक दिना पूण सत्तेच्या कदेला मुखार गोमटी बागवता हें तो मंत्र्याचे पांय धरपी नाटककाराच्या खुमण्या वेल्यान सुचोंवक सोदता.

आयजकाल *'Education for empowerment'* हीं उतरां पर्थून पर्थून आयकूंक येतात, वाचूंक मेळटात. पुंडलीक ही भास उलयना. पूण चैतन्याक मठ ना सारख्या ताच्या नाटकांनी प्रबोधनाची भास ताणें वापरल्या. खर नेतृत्वांतल्यांनूच भौसा भितर वावरून बदल घडोवंक येता. अशें ताच्या हालिंच्या नाटकां वेल्यान दिसून येता.

"पैशांनी पैशां खातीर केल्लें राज्य" ही पुंडलीकाची लोकशायेची व्याख्या. शाळेंतल्या भुरग्यांक रानांतल्या कोल्याचें अप्रुप उरूंक ना. भोंवतालच्या राजकीय

प्रदुशणाचो उपसर्ग ह्या भुरग्यांक जाला. आपल्या मनोविश्वांत हीं भुरगीं वेंचणुको हो एक खेळूच मानतात. म्हणून वर्गांतलो एक विद्यार्थी म्हणटा 'आतांचो कोलो इलेक्शनाक उबो रावता आनी पैशे खाता.'

पुंडलीकाच्या ह्या नाटकान आनीक कांय प्रस्न उपस्थीत केल्यात- आयजूय भौस इतलो अंधश्रद्ध कसो उरलो? पयलीं देवूळ मागीर विकास अशें सांगून भौसाच्या लोकश्रद्धांचो फायदो उठोवपी भोलो हो हेच पद्धतिचो उपेग करपी राजकारण्यांचें प्रतिनिधित्व करता. नितळ झर आशिल्लो एक दोंगर चिंबला एका बिल्डरान कापलो. शेकड्यांनी ट्रक माती विकली. माती व्हरपी ट्रकांनी वाटेंत जायतो धुल्ल केलो. बिल्डरान माती विकली आनीक जमनिचे कुडकेय विकले. हें सगळें तांकां शक्य जालें लोकांच्या धार्मीक भावनेचो फायदो घेवन- बिल्डरान आपल्या खर्चान लोकांक एक न्हानशें देउळ बांदून दिलें.

देउळ पयलीं मागीर विकास हें भौसाचें कुड्डें मानसशास्त्र न्ही. देवाच्या नांवार केल्लो तो एक वेव्हार. देवाच्या नांवान राजकारण आनीक समाजकारणूय करूंक येता हांचो बोध ह्या नाटकांत जाता. गोंयच्या समाजीक, सांस्कृतीक भलायकेचें हें लक्षण नासलें तरीय वेंचणुकांनी भरपूर सारें घालून राजकारणान मुद्दाम जावन भौसाची अंधश्रद्धा जिती दवरल्या.

शबै शबै भौजनसमाज नाटकांतल्या लोकवेदाच्या वापराचेर जायती भासाभास जाल्ली आसा. पुंडलीकान ह्या नाटकान नवीं कवनां घडोवन एक आर्विल्लो लोकवेद निर्मिला. पुंडलीकाचो मुदलाचो पींड कविचो हेंच ह्या कवनांनी दिसता. लोकवेदाचें शैलीविन्यास *(stylistics)* आनीक ध्वनीविज्ञान *(phonetics)* हांचो अभ्यास पुंडलीकान केला हेंच ताच्या प्रभावी कवनां वेल्यान दिसता. आधुनिकतायेचो परिवेश आसुनय हीं कवनां लोकांचीं, भौसाचींच कशीं दिसतात आनीक समूहगितां म्हणून तांणी नाटकाच्या प्रयोगाचें सौंदर्य वाडयलां. जें विडंबन लांबलचक गद्यांतल्यान, संवादांतल्यान जायना तें कवनांतल्यान सादपाचो पुंडलीकाचो शबै शबै भौजनसमाजांतलो प्रयत्न यशस्वी जाला.

गोंयच्या राजकारणाचो, वेचणुकांचोय आतां एक लोकवेद तयार जाला. तांतूंत भौस घुस्पून गेला. वेंचणुकांच्या तंत्रान ह्या राजकीय लोकवेदाक आनीक आधार मेळ्ळा. पुंडलीकाचें नाटक निवडणूक आचारसंहिता लागू जांवच्या पयलिंच्या

दशकांतलें. आयज संदर्भ बदलल्यात आसतले पूण चौखट तीच आसा स्वत्वहिनपण, लाचारी, औदासिन्य, समाजीक मरगळ आनीक भ्रश्टाचाराक मेळपी अधिमान्यता.

नाटकां इतलेंच प्रभावी एकांकीलेखनूय करपी पुंडलीक नायकांचे तीन एकांकी झेले प्रकाशीत जाल्यात. 'चौरंग', 'आकाशमंच' आनी 'दिगंत'. 'चौरंग' झेल्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. ह्या मळाचेरूय राज्य थराचेर राष्ट्रीय पांवड्यार संखेनी पुरस्कार जोडिल्ल्या ह्या साहित्यकाराचें योगदान भोव व्हडलें आसा. 'मर्णकटो', 'एका जुंव्यार जंय', 'म्हासागरांतलें तारूं' ह्यो तांच्यो एकांकी खुबच सुंदर आसात. एकांकी खातीरूय प्रयोगीक मळ उपलब्ध करून दिल्ल्यान कालमेरेन कोंकणी नाटकुलीं म्हळ्यार हांसोवणे खेळ अशी समजिकाय आशिल्ली ती पुरायेन पुसून गेली. पुंडलीकबाबांल्या एकांकींचेर नामनेचे रंगकर्मी प्रकाश थळी म्हणटात-

एका जुव्यांर जंय... पावणी, आनी मर्णकटो ह्या एकांकींनी वयर उल्लेख केला तेप्रमाण सेवातंत्र्य, त्याग आनी मरण हांचे विशीं तात्वीक चर्चा आसा. 'आनी एक पोर नागडेंच उरता' हे एकांकीक समाजीक आनी राजकी संदर्भ आनी आशय आसात एका गांवांत त्या प्रदेशाच्या मुखेल मंत्र्याचे पिरायेक ५० वर्सां भरतात म्हूण ताच्या सत्काराचो सुवाळो घडता. त्या वेळार एक गरीब म्हातारी थंय येता आनी माचयेचे फाटले वटेन लायिल्लो तो कपड्याचो बॅनर मागता, कारण तिका त्या कपड्या पासून आपणाल्या भुरग्याक विस्तीद शिंवचोशें दिसता. पूण मंत्री तिका थंयच्यान धांवडायता आनी अखेरेक एक पोर नागडेंच उरता! सुवाळ्या वेळार साबार फुडाऱ्यांनी मंत्र्याचें गायिल्लें गुणगान आनी पोकीं उतरां हांतुंतली विसंगती मार्मिकपणान पुंडलीकान हे एकांकींत दाखयल्या. आयच्या भारतीय राजकारणाचेर आनी राजकरण्यांचेर केल्लें हें एक विदारक भाश्य. आमच्या आयच्या भोंदू, सुवार्थी, मतलबी, नालायक, निष्ठूर राजकी फुडाऱ्यांकूच ही एकांकी सामकी नागडी-उगडी करून सोडता.

पुंडलीक नायक हांणी घालून दिल्लें हें मुळावण इतलें मजबूत आसा की तांचेपरस सरस नाटकां बरोवपाक आंकात तांकीचो साहित्यकार जल्मुचो पडटलो. गोंय राज्याचो सर्वोच्च गोमंतशारदा पुरस्कार जोडून पुंडलीकबाब आतां रवीन्द्रबाब, मनोहरबाब हांचे वळेरेंत वचून बसल्यात.

**दत्ताराम कामत बांबोळकार** - पुंडलीकबाबां फाटोफाट नांव घेवपासारको आन्येक नाटककार आमचे मदीं आसा तो म्हळ्यार दत्ताराम कामत बांबोळकार. अणकारीत, रूपांतरीत आनी आदारीत नाटकां बरयतां बरयतां दत्तारामबाबांनी 'सत्य माट्टितां माट्टितां' सारकीं सुंदर नाटकां आमकां दिली. 'डॅडी' हेंय सुंदर नाटक उजवाडाक आयलां. हें नाटक म्हळ्यार भुरग्यांखातीर, म्हळ्यार जाणट्यांखातीर. 'वनमहोतस्व' हो एकांकी संग्रहूय तांच्या नांवार आसा. यू. आर. अनंतमुर्ती ह्या ज्ञानपीठकार साहित्यकाराले 'संस्कार' हे नवलकथेचेर आदारून दत्तारामबाबान नाटक बरयलां. एका काळार नाट्कुलीं बरोवन नामनेक पाविल्ल्या ह्या लेखकालो 'वनमहोत्सव' हो संग्रह प्रकाशीत जाला.

**प्रकाश वझरीकार** -थोडें पूण बरें बरोवप असो निर्धार केल्लेवरी ह्या नाटककारान थोडीं नाटकां दिलीं. पूण खूब उंचेल्या पावंड्याचीं. काळजांत शिजले बगर कागदार ओतप जायना. पूण केन्ना केन्ना फुरसत मेळना म्हण बरयनासतनाय रावप जाता. अशा वेळार कला अकादमीची सर्त लागीं पावता, संस्था फाटीक लागतात आनी त्या निमतान बरोवन जाता अशी गत्त प्रकाश वझरीकारांची जाता जावंये. तांणी आयजमेरेन सुमार धा तरी पुर्णवेळ नाटकां बरयल्यांत. पूण तांतलीं पुस्तकरूपान आयल्यांत तीं तीन. 'आनी एक बुटो फुललों', 'घट्टाण कोणाचें' आनी 'साद अंतर्मनाचो'. ह्या नाटककारालीं सगलींच नाटकां प्रयोगीक धर्तेचीं. समाजमनाक जाग हाडपाचे नदरेन तीं भोव म्हत्वाचीं. सरसामान्यांची जावपी पिडणूक, कुड्ड्या भावार्तांमदीं शेणिल्लो मनीसपणावयलो विस्वास आनी पर्यावरणा विशीं जागृताय अशे विशय सहजतायेन केळयत काळजाक हात घालपाची कळाशी ह्या लेखकाक भोव बरी सादल्या.

**राजय पवार** - हांसत हांसयत चिमटे काडपी आनी गरज पडल्यार खुटले मारपी आयचो नांवाजतो नाटककार म्हळ्यार राजय पवार (१९७२). उतरांकडेन खेळत, म्हणी ओंपारीनी रमत, प्रसंगानुरुप विनोद निर्माण करीत गंभीर विशयाक हात घालप राजयांक भोव बरें जमलां. तांगेलीं चार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. 'अंता अंता शिरीमंता', 'आमचो हात जगन्नाथ', 'डरने का नाय', आनी 'जमलें रे जमलें'. तांगेलीं नाटकां मनरिझवणे वांगडाच समाजप्रबोधनूय करतात. जात्रा-काल्यांनी वा हेर उत्सवी माचयेर व्हडा प्रमाणांत सादर जावपी ह्या नाटकांक लागून

कोंकणी नाटकांची अभिरूची आनी लोकप्रियता वाडूंक पावल्या.

इतले मजगतीं कांय बरे नाटककार कुशीक पडले. उदय भेंब्रे हांणी 'कर्णपर्व' सारकें अप्रतीम नाटक बरयलें. महाभारतांतल्या एका नाजूक आनी खाजगी गुटाचेर आदारिल्लें हें नाटक पळयतकच 'आं, हें अशेंय आसूं येता' अशे उदगार प्रेक्षक काडटात. पूण उदयबाबांनी आनीक नाटकां बरयलीं नात. उपेंद्र तिंबलो हो नाटककारूय चंवरतां चंवरतां थारलो. सर्तेंत एकापरस एक नाटकां सादर केल्ल्यान व्हडल्यो अपेक्षा निर्मण जाल्ल्यो. भाशाप्रभुत्व, प्रसंगनिश्ठ विनोद आनी चकचयाळ म्हणी-ओंपारी आनी वाक्प्रचार हांकां लागून व्हड उबारी घेवपी नाटकां बरयतां बरयतांच हया निजाच्या नाटककारान लिखणेक बुकाल घालें आनी चळवळीचें लुकसाण केलें. जयंती नायक ही लोकवेद संशोधक आनी कथाकार. अस्तुरेची विटंबना करपी लोकपरंपरेंतल्यो कांय चाली तिका तिडक हाडटाल्यो. गोंयांत देवळांच्या परिसरांत चलपी 'शेंस-विधी' आतां बंद जाला तरी कांय कडेन तो दुस्र्या नांवान चलता तें पळोवन उपराशिल्ली तिची सात्वीक तिडक मागीर 'कुकमादेवीची दिपमाळ' ह्या नाटकाच्या रूपान भायर सरली. अस्तुरेच्या शोशणाचो अंत जावचो ही इत्सा बाळगून रचिल्ली ही नाट्यकृती आतां शोशीत अस्तुरेक भोवमान दिवपी कलाकृती थारल्या. शाबा कुडतडकार हो एक कलाकार आनी लेखक. व्हड अपेक्षा निर्मण करपी अन्येक लेखक आसलो देविदास बाबय. दुर्दैवान तरणे पिरायेर सोंपलो आनी एक बरो नाट्यलेखक आमकां सासणाचो शेणलो. आन्येक असोच भरिल्ल्या पानावयल्यान उठून गेल्लो लेखक म्हळ्यार शशांक सीताराम.

तियात्राच्या मळार आजुनूय झग्ग उजवाड आसा. साहित्यीक कसवटेर उब्यो रावंक शकतात अशो संहिताय बरोवन जाल्यात. तोमाझीन कार्दोझ, जेस फर्नांदीश, प्रिन्स जाकोब, विल्सन माझारेलो अशा संखेनीं तियात्रिस्तांनीं कोंकणी रंगमाचयेक मोलाचें योगदान दिलां. थोड्यो संहिता उजवाडाक आयल्यात. पूण चडशो पटयेंतूच बंदिस्त आसात. पदरा तियात्र बरोवयी फा. फ्रेडी जे डि कॉश्ता हांणी कांय दर्जेदार नाटकां आनी नाटकुलीं बरोवन हाडल्यात. 'पाद्रि जुझे वाझ', 'खरेलो पाद्री', 'जेझुचे कश्ट', 'खरीं नातालां' अशीं धर्माधिश्ठीत नाटकां वांगडाच 'बदल', 'शंभू पसरकार', 'बाप्पाक सॉर्त फुट्टा' आनी 'बाप्पालीं नाडेपेन्नां' असले खेळ बरयल्यात. हिन्दू-किरिस्तांवांनी वांटे घालिनासतनां एकठांय येवन खेळ पळोवचे म्हूण यत्न केल्यात

तातूंत 'एकूच रस्तो' हो तियात्र बरोवपी एम.बॉयर हांचो खाशेलो उल्लेख जावंक जाय. तेचपरीं फेलीस्यु कार्दोझ आनी फा. फ्रॅडी डि कॉश्ता हांचोय जावंक फावो.

कांय तियात्रांचे शतकमहोत्सवी खेळ जातात. नाटकांच्या नशिबांत हें भाग्य कालपयर मेरेन नासलें. पूण कोंकणी नाटकांची लोकप्रियता इतली वयर पावल्या की अन्येक नाटकांचे सेंच्युरी शोस जावंक लागल्यात. राजदीप नायक हे एक हरहुन्नरी लेखक-कलाकार. स्वता दिर्गदर्शक जावन जायतीं नाटकां माचयेर हाडल्या उपरांत आतां राजदीप स्वतंत्र लेखन करूंक लागल्यात. उत्सवी रंगमाची मदीं थोडी फाटीं पडली अशें दिसता आसतनाच राजदीप नायक आपणालीं नवीं नाटकां घेवन रसिकांचें मनरिझवण करूंक लागल्यात. तांकां सांगात दिवपी आन्येक नाट्यलेखक वयर सरल्या ती सुचिता नार्वेकार. पुंडलीक नायक ह्या जैतिवंत नाटककारा कडसून मुजरत बरोवन घेतिल्लीं 'तिरंगी चक्राचक्री', 'शिरी रे शिरी' अशीं नाटकां सादर करून तीं लोकप्रीय केल्या उपरांत राजदीपान आपणें स्वता बरोवन नाटकां सादर करपाक सुरवात केली. 'ओ बाय' हें 'पिग्मेलियन' ह्या गाजिल्ल्या नाटकाचेर आदारून बरयिल्ल्या नाटकाचे खूब प्रयोग जाले आनी जायत आसात. थोड्याच काळा भितर राजदीपान शतकी प्रयोग करपी नाटककार म्हूण नामना जोडली. तांगेलीं 'ओ बाय' आनी 'थोडें म्हाका, थोडें तुका' अशीं दोन नाटकां पुस्तकरुपान आयल्यांत. जाल्यार सुचिता नार्वेकार हांगेलीं सात पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. तांचे कडसून आतां शतकमहोत्सवी नाटकांची अपेक्षा बाळगूं येता.

विष्णू सुर्या वाघ हे मराठी-कोंकणींतले नामनेचे नाट्यलेखक. 'तीन पैशांचो तियात्र' हें 'थ्री पॅनी ऑपॅरा' ह्या गाजिल्ल्या खेळाचें कोंकणी रुपांतर तांणी केलां. ते भायर स्वतंत्र नाटकांय बरयतात. श्रीधर कामत हे एक बरे दिर्गदर्शक, कवी, गीतकार आनी लेखक. तांगेलो 'जैत' हो एकांकीसंग्रह हालींच उजवाडा आयला. संजीव वेरेंकारः 'मांड ओसाड जातना', हनुमंत चोपडेंकारः 'कुवाडीं', रत्नमाला दिवकारः 'गिरमीट', मार्कुश गोन्साल्वीसः 'संघर्श' आनी 'जोगलां' अशे हे नवे नाट्यलेखक आनी तांगेलीं प्रकाशीत पुस्तकां. तेभायर पुर्णानन्द चारी, प्रकाश पर्येकार, विन्सी क्वाद्रूश, गौरीश वेर्णेकार, मायकल ग्रासियश अशे लेखक उमेदीन नाट्यलेखन करतात. 'राजकुंवर शेणला' एकांकी झेल्याचे लेखक कविंद्र फळदेसाय हांणी नवे नवे प्रयोग करीत नाटकाच्या मळार अपेक्षा निर्मण केल्यात. कोंकणी नाटकाच्या उज्वल फुडाराची ही गवाय.

गोवा कला अकादेमीच्यो नाट्य सर्ती सुरू जाल्यो तेन्ना सुरवातीक संहिता उण्यो आशिल्ल्यान इतर भाशांतल्यो गाजिल्ल्यो संहिता अणकारून कोंकणींत हाडपाचो वावर जातालो. बंगाली, गुजराती, हिन्दी, मराठी, कन्नड भाशेंतल्या नाटकांचे कोंकणींत अणकार वा रूपकार सादर जाले. ताका लागून कोंकणी नाट्य साहित्याचो कसूय वाडूंक पावलो.

## रस्तोनाट्य

हालींसराक चिके फाटीं पडिल्लो नाटक-नाटकुल्यां मदलोच एक साहित्य प्रकार म्हळ्यार 'रस्तोनाट्य'- स्ट्रीट प्ले. कोंकणींतलो 'खेळ' हो रस्तोनाट्य सो दिसता. पूण तो तसो न्हय. खेळ हो निखट्या मनरिझवणे खातीर आसता. रस्तोनाट्य हें एखादरो विचार प्रकर्शान आम लोकां मुखार पावचो म्हूण सादर करपाचो प्रकार. हालींच प्रकाशीत जाल्ल्या 'रस्तोनाट्य' (२०१८) ह्या आपणाल्या पुस्तकांत संदेश प्रभुदेसाय तांगेल्या 'रस्ताद मनोगत' ह्या प्रास्ताविकांत म्हणटात- कला हो मनशाच्या मनाचो आविश्कार आसता. ताचे मन:चक्षू हो नाटकाचो कॅनव्हास आसता. ह्या समाजांत जे जे प्रस्न आसात, जे जे अंतर्प्रवाह आसात, जे जे विरोधाभास आसात आनी तातुंतल्यान लोकांच्या मनांत जो घुस्पागोंदळ चलला तांची विस्कटावणी करप हें लेखक आनी कलाकाराचें कर्तव्य. हे प्रस्न सामाजीक स्वरूपाचे आसपाक शकतात आनी वैयक्तीक स्वरूपाचेय. भोवतेक वैयक्तीक समस्यांक सामजीक आयाम हो आसताच. ह्यो समस्या आपले सर्जनशिलतेच्या बळग्यार मांडपा खातीर लेखक वा कलाकार आपणाक जमता त्या माध्यमांतल्यान लोकां लागीं वता. रस्तोनाट्य हें तातुंतलेंच एक माध्यम. कितलेंशेंच प्रभावी.

समाजीक वावुरप्यांनीं पोटतिडकीन सादर केल्लें रस्तोनाट्य हें एक भोव प्रभावी माध्यम थारलां. पूण मनरिझवण उणे आनी समाजप्रबोधन चड जाल्ल्यान सरसामान्यांक तें नाटक म्हूण रूचताच अशें ना. हनुमंत चोपडेकार हांणी 'कुरूकुरू कानां, कॉंक्रिटाच्या राना', 'ए फॉर एडस', 'जायात जागे' ह्या नांवांचीं रस्तोनाट्यां बरयलीं. नांवां वयल्यानच कळटा तीं सगलीं समाजांतल्या ज्वलंत विशयांचेर आसात. पूण तीं पुस्तकरूपान येवंक नात. आयचे निर्माते वेवसायीक नदरेन नाटका कडेन पळोवपी चड जाल्ल्यान रस्तोनाट्य हो प्रकार हालीं फाटीं पडला हें खरें. एका काळार प्रशांती तळपणकार, रत्नमाला दीवकार, शैलेन्द्र मेहता, सुदेश

कवळेकार ह्या कलाकार लेखकांनीं गोंयांत फुडें व्हेल्लो हो प्रकार आयज थप्प जाला. रस्तोनाट्याक लिखीत संहिता आसता. चड करून ती एखाद्या समविचारी पंगडान बरयिल्ली उरता. पूण कोण तिका दसून रावनात. ती प्रेक्षक, काळ आनी सुवात हांकां फावो तशी बागोवं येता तसली.

श्रुतिका आनी नभोनाट्य हे वाऱ्या वयले नाट्यप्रकार आकाशवाणी (रेडिओ) माध्यमांची गरज म्हूण वयर सरले. दूरदर्शन येवचे पयलीं खूब लोकांमोगाळ जाल्ले. गोंयांत लक्ष्मण मोये, पुंडलीक दांडे, पुरुषोत्तम सिंगबाळ आनी पुंडलीक नायक ह्यां सारक्या खांप्या लेखकांनीं लोकांमोगाळ केल्ले हे प्रकार इतर माध्यमांक लागून आयज फाटीं पडल्यात.

**समिक्षा, अणकार,...**

बरयिल्लें साहित्य उजवाडाक येतकच तें वाचका कडेन पावता. तें बरें, वायट वा सादारण इतलें वाचकाक कळटा. त्या साहित्याचो कस कितें तें वाचक थारावंक पावनात. तें काम समिक्षकाचें. साहित्याचो कस पारखुपा खातीर दोन गजाली गरजेच्यो. १. समिक्षा २. अणकार. कित्याक तें देख दिवन सांगचें जाल्यार- जशी सगल्या सरकारी खात्यांक वा वेवसायीक आस्थापनांक हिशोब तपासणी (ऑडीट) गरजेची आसता तशी ती साहित्यीक मळाकूय लागता. व्हड आस्थापनांक दोन तरांची तपासणी लागता- भितर्गत (इंटर्नल) आनी भायर्गत (एक्सटर्नल). घरचो तपासनीस आपणालें कितें चुकलां तें बारिकसाणीन तपासून तें निवळावपाची संद दिता. जाल्यार भायलो तपासनीस आस्थापनाचो वावर कसो चलला ताचो नियाळ घेता आनी तो जाहीर करता. साहित्यांतली भितर्गत हिशोब तपासणी म्हळ्यार समिक्षा आनी भायर्गत तपासणी म्हळ्यार अणकार अशें लेखूं येता. देखून आपले भाशेची आनी साहित्याची नामना भायर जावंक जाय जाल्यार बरें साहित्य अणकारून वचूंक जाय. पूण ते पयलीं समिक्षकां कडल्यान आयिल्ल्यो सुचोवण्यो आपणावन आनी बरप निवळावन साहित्याचो कस वाडिल्लो आसूंक जाय. साहित्याची वाड जाता तेन्ना सांगातान समिक्षेची वाड जावप खूब गरजेचें. ना जाल्यार साहित्याच्या मळार सगलें आलबेल आसा अशें समजून लेखक आत्मसंतुश्ट उरून वाडूंक पावनात. हे खातीर समिक्षा लेखन गरजेचें. उसरां वयर सरिल्लें कोंकणी साहित्य जेन्ना प्रगतीच्या मार्गा वयल्या हेर साहित्या कडेन सर्त करूंक सोदता तेन्ना तर चड. कारण कितेंय

आसूं, आमकां मानचेंच पडटा- प्रगत भारतीय भाशांच्या मानान कोंकणींत समिक्षा साहित्य खूब उणें आसा. अस्तमतेच्या देशांनी समिक्षाशास्त्र इतलें फुडें पाविल्लें आसा की थंय समिक्षे उपरांत 'न्यू क्रिटिसिझम' म्हळ्यार नवसमिक्षा हो प्रकार वयर सरलो ताकाय साबार वर्सां जालीं. आजून कोंकणींत समिक्षाशास्त्रा विशीं बरयिल्लें खूब कमी आसा. पूण ताकाय रुपेरी देग आसा. डॉ. किरण बुडकुले हांगेलें 'समिक्षेकडेन इश्टागत' (१९९८) हें समिक्षेच्या बुनयादी तत्वांची खोलायेन उस्तवारी करपी पुस्तक. प्लेटो, ॲरीस्टोटल ह्या आदल्या आनी नवसमिक्षेचीं तत्वां मांडपी जॉन क्रो रॅन्सम, क्लियेन्थ ब्रुक्स आनी रॉबर्ट पॅन वॉरन ह्या उपरांतच्या समिक्षा-सिद्धांत मांडपी विद्वानांचीं मतां तांणी पयलेच खेपेक कोंकणींत वितरायल्यांत. ते भायर नव-अभिजातवाद, उत्तर संरचनावाद आनी हेर तरेकवार वाद-प्रतिवादांची वळख दिवपी हें भोव मोलादीक पुस्तक. स्वता कवी-प्रकृतीची आसुनूय किरण बुडकुलेंनी समिक्षेच्या मळार चड वावर केल्लो आसा. समिक्षा शास्त्राचेर बरयिल्लें अशें दुसरें पुस्तक नजरेंत होलमना. डॉ. माधवी सरदेसाय हांगेलें 'भासाभास' हें पुस्तक भासविज्ञाना वयलें- समिक्षे वयलें न्हय. डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार हाणीं 'क्ष-समिक्षेंतलो' ह्या पुस्तकांत प्रास्तावीक करतनां समिक्षाशास्त्र ह्या विशयाक हात घाला. पूण मुळांत हें पुस्तक साहित्यकृतींचे मोलावणेचेर आशिल्ल्यान लेखक तितल्यारच थारल्यात.

किरण बुडकुले हांणी विविध साहित्यकृतींचे केल्ले नियाळ आनी मोलावणी हांचीं संकलनां उजवाडाक आयल्यांत. आयचे घटकेक कोंकणी साहित्यांतली समिक्षा तितले पुरतीच मर्यादीत आसा. १९९८ वर्सा तांगेलें 'साहित्य नियाळ- अंतरंग आनी कायारुपां' हें पुस्तक प्रकाशीत जालें. साहित्य नियाळ (रिव्ह्यू) कशे आसचे आनी कशे नासचे हाची विस्कावणी करतनांच नियाळाची प्रकृती आनी स्वरुप हाचेर डॉ. बुडकुले उधारणां-देखी दीत भासाभास करतात. आनी त्याच अनुशंगान मागीर कोंकणी कविता, कथा, अणकारीत साहित्य, निबंद अश्या विधांचो परामर्श घेतात. किरणबायलीं 'शतकान्तिका' आनी अक्षरसरिता' हीं दोन भारादीक पुस्तकां २००९ वर्सा उजवाडाक आयलीं. 'शतकान्त दसकांतलें कोंकणी साहित्य खंय आसा, हें वाचकाक आपले नदरेन थारावंक मेळचें असो प्रस्तूत लेखसंग्रहा फाटलो मुखेल हेतु आसा' अशें खासा लेखक सांगतात. ते प्रमाण प्रकाशना फाटल्या धा वर्सां मजगतीं साहित्यकृतींच्या जावं साहित्य-विशयाच्या संदर्भांत तांचें जें लिखाण नेमाळ्यांनीं

आयलें ताचीं हीं दोनूय संकलनां. 'काळी गंगा', 'घणाघाय नियतीचे', 'दिका' ह्या कादंबऱ्यांचे विंगड विंगड आयाम तांणी समिक्षकाचे तिक्ष्ण पूण लक्तुबायेचे नदरेन उक्तावन दाखयल्यात. सुधा आमोणकार, दत्ता दामोदर नायक, रोमिओ आल्मेदा हांगेले निबंदां झेले आनी माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार, परेश कामत, अरुण साखरदांडे, काशीनाथ शांबा लोलयेंकार ह्या सारक्या प्रतिभावंत कवींच्या साहित्यकृतींची मोलावणी 'शतकान्तिका' पुस्तकांत जाल्या. तेच भाशेन रविन्द्र केळेकार हांगेल्या 'पांथस्थ' ह्या आत्मकथनाचें मुल्यांकन केल्लें आसा. 'अक्षरसरिता' ह्या संकलनांत साहित्यकृतींचें मुल्यांकन न्हय तर कोंकणी साहित्यीक विधांच्या अंत:प्रवाहांचो माग घेतला. संवसारीक संदर्भांत कोंकणी कविता खंय आसा, कोंकणी कथेचें स्वरुप आनी तांक, साहित्याचो प्रवास, आपबरपां, अणकार, साहित्याचो वालविस्तार अशे विशय घेवन कोंकणी मुखार आशिल्ल्या आव्हानां विशींय जागृताय निर्मण केल्या.

अति-यथार्थवादी म्हणूं येता असो कवी काशिनाथ शांबा लोलयेंकार म्हळ्यार एस डी तेंडूलकार (जरी कवी काशी आनी समिक्षक एस. डी. हीं दोन व्यक्तिमत्वां म्हूण वावुरतात) हांचे लागीं समिक्षका कडेन आसूंक फावो अशी चिकित्सक नदर आसा. विंगड विंगड साहित्यकृतींचो नियाळ घेत तांणी जें लेखन केलां तें तांगेल्या 'वालोर' (१९९८) ह्या संग्रहांत आसपावलां. पयलींच कोंकणींत समिक्षा साहित्य उणे आशिल्ल्यान तेंडूलकारांलें हें लेखन चोखंदळ वाचकाक आश्वस्त करता- जरी स्वता लेखक हें 'सेमी-समिक्षेचें पुस्तक' अशें आपणांल्या प्रास्ताविकांत म्हणटा. ह्या पुस्तकाची मांडावळ दोन वांट्यांनी केल्या. पयल्या वांट्यांत बाकीबाबांचे कवितेचें मुल्यमापन आनी नयना आडारकारांल्या 'प्रतिमा' कवितांझेल्याचें परिक्षण सोडल्यार हेर सगलें गद्य साहित्य प्रकारां विशींच आसा. जाल्यार दुस्या वांट्यांत कवितांचेर उक्तायिल्ले समिक्षाविचार आसात. पुस्तकाचे अखेरेक 'पुरवणी' ह्या भागांत चार ल्हानसान लेख आसात. हे लेख स्वताच्या साहित्यीक मळार घेतिल्ल्या बऱ्यावायट अणभवांचेर तटस्थपणान केल्लें भाष्य आसा. 'काशिनाथ शांबा लोलयेंकाराची मुलाखत' ह्या निमण्या लेखांत प्रस्नकर्त्यान काशीक विचारिल्ले प्रस्न आनी तांच्यो 'दिलखुलास' जापो आसात. 'वालोर' हो समिक्षा साहित्यांतलो एक वाटचिरो म्हणपा इतलें म्हत्वाचें पुस्तक आसा.

डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार हांगेलें 'क्ष-समिक्षेंतलो' (२००८) हें पुस्तक परखड समिक्षेचें म्हणूं येता. 'ओथांबे', 'अथांग', 'गुणाजी', 'सोंशाचे कान', 'सोद' ह्या साहित्यकृतींची मोलावणी करतनाच ह्या लेखकान लक्ष्मणरावांच्या (मराठी) कथासाहित्यांतली प्रदेशिकताय ही संकल्पना, तिचे निकश आनी तिचो परीघ ह्या संबंदान केल्लें विवेचन भोव म्हायतीपुर्ण आसा. विशेश म्हळ्यार हेरांच्या समिक्षा-साहित्याची समिक्षा करपाचें धाडसूय ह्या लेखकान केलां. किरणबायल्या 'साहित्य नियाळ' पुस्तकाचो नियाळ केला आनी एसडींच्या 'वालोर' पुस्तकाचेंय वालोरासांव म्हळ्यार मुल्यांकन केलां. ह्या इतल्या पुस्तकां भायरय समिक्षालेखन जालां. पूण पुस्तक रुपान थोडें आयलां. चडशें नेमाळ्यांनी शिंपडून उरलां. 'साहित्य शिल्प' हें पांच लेखांचें संकलन गोवा कोंकणी अकादेमीन छापलां. आदीं साहित्याच्या विविध साहित्य प्रकारांचेर घेतिल्ल्या कृतिसत्रांनी जीं प्रपत्रां सादर केल्लीं तीं ह्या संग्रहांत उजवाडायल्यांत. ह्या संग्रहाक लाबिल्ली पांडुरंग भांगी हांगेली प्रस्तावना भोव अभ्यासपुर्ण म्हणूंक जाय. कथा, कविता, नाटक, लळीत निबंद आनी अणकार ह्या पांच विधांचेर बरयिल्ल्या बरपांचें निखटें परखड परिक्षण ना तर ह्या विधां विशीं अनेक संदर्भ आनी म्हायती दिल्ल्यान ही प्रस्तावना साहित्याच्या अभ्यासकांक खूब म्हत्वाची थारल्या.

नांवाप्रमाण आस्वादक समस्येचें 'आस्वादन' (१९८७) हें घडये ह्या विशयाचेर उजवाडाक आयिल्लें पयलें पुस्तक आसूंये. ह्या पुस्तकाचे लेखक डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांणी मनोगतांत म्हणलां, 'आस्वादकाचे भुमिकेंतल्यान हांव समिक्षा-लेख बरयतां. साहित्याच्या गुणवैशिश्ट्यांची वळख करून घेवप आनी हेर लोकांकूय ती करून दिवप, होय ह्या बरपा फाटलो एक उद्देश आसा.' ह्या पुस्तकांत र. वि. पंडित, पुंडलीक नायक, गजानन रायकार, दामोदर मावजो हांगेल्या साहित्याची मोलावणी केल्ली आसा. ते भायर आयज मेरेनचो कथेचो प्रवास आनी कोंकणींत जाल्लें समिक्षालेखन हांचो नियाळ घेतिल्लो आसा. पुस्तकाचो हेतूच मुळांत गूणमुल्यांचेर भर दिवप आशिल्ल्यान ताका क्रिटिसिझम म्हणचे बदला अप्रेसिएशन म्हणूंक जाय.

समिक्षालेखनांतलें अग्रेसर म्हणूं येता अशें आद्य पुस्तक म्हळ्यार 'कथाशिल्प'. ह्या पुस्तकांत मराठींतले नामनेचे कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी चार कथाकारांक वेंचून काडून तांच्या कथांच्या निमतान कोंकणी कथाविश्वाचो चिकित्सक नदरेन

नियाळ केला. दोश उणे आनी गूण चड तोखेल्ल्यान हेंय पुस्तक आस्वादक समिक्षेंत आसपावता अशें दिसता आसलें तरी ह्या कथाकारांल्या साहित्याच्या निमतान 'कथा' ही विधा कशी आसची, तिचीं खाशेलेपणां कशीं पारखुचीं, पात्ररचना, वातावरणनिर्मिती, आशय-विशय ह्या संबंदान भोव बरी भासाभास केल्या. हे नदरेन 'कथाशिल्प' हें एक अग्रगण्य अशें समिक्षापुस्तक.

'समिक्षांकूर', 'साहित्य स्वाध्याय', 'साहित्य सुवाद' अशीं आनिकूय पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. पूण पुरायेन समिक्षेचीं पुस्तकां अशें तांकां म्हणूंक मेळचें ना. 'समिक्षांकूर' (२०१३) हें गोंय विद्यापिठाच्या विद्यार्थ्यांनी केल्ली वेंचीक पुस्तकांची मोलावणी जाल्यार 'साहित्य सुवाद' (१९८८) हें मनोहरराय सरदेसाय हांणी विंगड विंगड पुस्तकांखातीर बरयिल्ल्या प्रस्तावनांचें संकलन. प्रत्येक बरप काव्यात्म आनी वाचनीय. मोलावणी थोडी आनी तोखणाय चड अशे तरेचें. 'साहित्य स्वाध्याय' पुस्तक निर्मिती प्रक्रियेविशीं उलयता. सिद्वहस्त साहित्यकार चंद्रकांत केणी हांणी आपणाले शैलीदार भाशेंत बरयिल्ले हे लेख. रमेश वेळुस्कार हांगेलें 'सृजनाच्या अंतरंगांत' हेंय पुस्तक एका सर्जकाच्या आप उक्तावणेचें. सृजनाची प्रक्रिया, सृजनाची किमया आनी सृजनाचें अंतरंग विस्कावन दाखोवपी कवीमन ह्या पुस्तकांतल्यान अभिव्यक्त जाता. समिक्षेचें न्हय पूण समिक्षकांक जागोवपी आनी नवी नदर दिवपी हें पुस्तक.

सामान्यतायेन सगले कडेन समिक्षकांक साहित्यकार दबकून आसतात. नवे लेखक तर समिक्षकांचो कांच घेतात. समिक्षकांची प्रतिमाच 'साहित्यांतले पोलीस' अशी तयार जाल्ली आसा. पूण कोंकणींत आजून मेरेन तशें ना.

भारतांत समिक्षेक हालींसराकच गंभीरपणान घेवंक सुरवात जाल्या. समिक्षा हो एक गहन विशय. ह्या विशयाचो खोलायेन अभ्यास केल्ले समिक्षक भोव थोडे. संस्कृत काव्यशास्त्र (पोएटिक्स) आनी अस्तेंतेचो क्रिटिसिझम ह्यो दोन वेगळ्यो संकल्पना. ज्या विद्वानांनी ह्या दोनूय संकल्पनांचो अभ्यास केलो तांणीच उपरांत समिक्षा लेखनाक भारतीय परिमाण दिलें. मराठींत विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हांगेल्या 'निबंधमाला' ह्या पुस्तकांतलो 'संस्कृत पंचक' हो लेख आनी कवी मोरोपंत हांचेर केल्ली टिकाटिप्पणी ही मराठींत मुळावी थारली. ते पयलीं दादोबा पांडुरंग तर्खडकर हांगेल्या 'यशोदापांडुरंगी' (१८६५) ह्या पुस्तकांतूय मोरोपंतांची 'केकावली'

पुस्तकाचेर केल्ली टिप्पणी चिपळूणकारांक प्रेरक थारली. (पान ७०; 'अ हिस्टरी ऑफ मराठी लिटरेच्यर', ले. कुसुमावती देशपांडे आनी मं.वि. राजाध्यक्ष)

संगीत शास्त्रावरीच साहित्याचेंय आपलें अशें सौंदर्य शास्त्र आसा. पूण हें सौंदर्यशास्त्र कडक नेमांचें न्हय. तें रुचीप्रमान, काळाप्रमाण, बागोवं येता तसलें. कविता जेन्ना मुक्तछंदांत बरोवपाक लागले तेन्ना छंद-वृत्ताक दसून रावपी पंडितांनी एस्थेटिकली ती कविताच न्हय अशी भूमिका घेतिल्ली. मुक्तछंदाक समिक्षकांचोय खर विरोध आसलो. मुक्तछंदाकूय एक ताल, एक लय आसा ती कवी कशी सांबाळटा तें उक्ताडार येतकच काळांतरान तो विरोध थंड जालो. साहित्याचें सौंदर्यशास्त्र समजून घेवप हें समिक्षकां खातीर भोव गरजेचें. तेच प्रमाण भारतीय संस्कृती, लोकाचार, लोकनिती (एथोस) हांचेंय गिन्यान आसूंक जाय. संस्कृत काव्यशास्त्र आनी भारतमुनीलें नाट्यशास्त्र हीं भारतीय विचारप्रकृतीचीं प्रतीक जावन आसात. तांची जाण भारतीय समिक्षकांक आसूंक जाय. कोंकणी साहित्याची समिक्षा करचे खातीर कोंकणी भाशेची, कोंकणी मनशाची आनी कोंकणी लोकनितीची जाण भोव गरजेची. तशेंच समाजाक अभिप्रेत ती नैतिकता लेखकान मानची असोय आगरो धरचो न्हय. कारण साहित्यांतली नैतिकता ही सरसामान्य नैतिकतेक छेद दिवपीच आसता. देखून समिक्षक हो उकत्या विचारांचो उदारमतवादी आसूंक जाय. सध्याक कोंकणी साहित्यांत जाता ती चडशी आस्वादक वा तेंडूलकारांचे भाशेंत 'चॅरिटेबल क्रिटिसिझम'. असले समिक्षेचे दोन तरांचे परिणाम जातात. लेखकाक आपणाले दोश दिश्टी पडनात वा ते ल्हान दिसतात. ताका लागून तो चूक सुदारना आनी वाडूंक पावना. दुसरेवटेन हेंय खरें की सुर्वेकच दोश दाखयले जाल्यार लेखकाच्या पदरांत निर्शेणी पडून ताच्या आत्मविस्वासाक वेर वचूं येता. झाडाक वेळार उदक-सारें घालें म्हणटकच झाड घसघशीत वाडटा. पूण मागीर झाडाची वाड बरी जावची म्हूण कांय ताळयो मारून आनी बेंदल्ल खुंटून ताका बेणचें पडटा. ही बेणपाची भूमिका समिक्षकान घेवची आसता. तेच बराबर दोश निवळावन फुडाराक वाड बरी जावची हे खातीर लेखकानूय 'बेणून घेवपाची' तयारी दवरूंक जाय. समिक्षक बुडकुले म्हणटात ते भाशेन 'समिक्षा म्हळ्यार समा नदरेन पळोवप' हो 'सर्वआस्पावणो अर्थ' लक्षांत घेवन समिक्षकांनी 'समा नदर' आपणायली जाल्यार समिक्षक हे साहित्याची सुवेवस्था पळोवपी 'पोलीस' न्हय तर योग्य दिशा दाखोवपी 'मार्गदर्शक' थारतात.

भारत हो भोवभाशीक देश. सरसामान्य भारतीय मनशाक दोन वा तीन भासो सहजतायेन येतात वा

समजतात. देशांत भाशावार राज्यरचना जायत सावन आमी राज्यांच्या भुगोलीक शिमां वांगडाच भासांकूय शीममेरो घाल्यात. एका राज्यांतली भास दुस्र्या राज्यांतल्यांक समजताच अशें ना. ताका लागून भाशासाहित्याचे जुंवे तयार जाल्यात. ह्या जुंव्यांक जोडपी पूल म्हळ्यार अणकार. मराठींत रचिल्लें साहित्य जो मेरेन अणकारून वचना तोमेरेन गुजताती वा कन्नड वाचकांक ताची वळख मेळना. मलयाळम भाशेंतलें उत्तम साहित्य तमीळ, तेलगू वाचकांक कशें कळटा? जेन्ना ते ते भाशेंत अणकारून वता तेन्ना ताची रूच हेरांक कळूंक पावता. तघझी शीवशंकर पिळ्ळाय हांगेली 'चेम्मीन' कादंबरी कोंकणीत अणकारून उजवाडायिल्ल्यानच कोंकणी वाचकां मेरेन पावली. बिरेंद्र कुमार भटाचार्याली मूळ असमिया साहित्यकृती 'यारुइंगम' ही श्रेशठ कादंबरी 'आयलें आमचें राज्य' म्हूण कोंकणींत पावली तेन्नाच वाचक ती चाखूंक पावले. अणकार हो विंगड विंगड भाशासाहित्याक जोडपी सांधो.

डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन हांणी म्हणिल्लें- 'विविध भाशांनी बरयलें तरी भारतीय साहित्य एकच.' हें वचन सत्यांत वितरावपाचें काम करता तो अणकार. भाशां-भाशांमदीं, मनां-मनांमदीं, जाती-जातींमदीं आमी सगले एक, आमचीं सूख-दुखां एक, भाव-भावना एक, वेदना-संवेदना एक ही जाणविकाय करून दिता तें अणकारीत साहित्य. साहित्यीक नदरेन अणकार गरजेचोच. पूण राष्ट्रीय हिताचे नदरेनूय राष्ट्रीय एकचार साध्य करपा खातीर अणकार हें एक मुखेल साधन जावन आसा.

'अणकार' हें मूळ संस्कृत 'अनुकृति' ह्या उतरा वयल्यान आयलां. चडशा भारतीय भासांनीं ताका 'अनुवाद' म्हणटात. अणकार हे दोन भाशांमदीं जातात देखून ताका भाशांतर अशेंय म्हणटात. भाशांतरां शब्दशा करपाची सुरवातीची चाल आतां उरूंक ना. कारण शब्दशा केल्यार अर्थाचो अनर्थ जावं येता. चंद्रकांत केणील्या कथा झेल्याचें नांव 'व्हंकल पावणी'. हाचें जाणें इंग्लीश भाशांतर केलें ताणें 'ब्रायडल ऑक्शन' अशें केलें. कारण 'पावणी' उतराचो शब्दकोशी अर्थ लांस घालतात तसली पावणी म्हळ्यार 'ऑक्शन' असो मेळ्ळो. तितलेच खातीर

अणकार हो शब्दशा करिनासतनां तो अर्थांतर करपी आसचो पडटा.

मोख-भाशेंतल्या (टार्गेट लँग्वेज) वाचकांक सोपें जावचें म्हूण कांय वेळार अनुवादक मूळ कृतीचें रूप थोडें बदलून सादर करतात तेन्ना ताका अणकार म्हणप समा जातलें व्हय? ना. पूण मूळ कृतीचेरूय अन्याय जावंक जायना; देखून, आशय, मांडणी आनी कथावस्तू हातूंत मूळ कृतीक आडखळ हाडिनासतना ती मोख भाशेंतल्या वाचकां खातीर वाचनीय जावंची हें चिंतून थोडे फावो अशे बदल घडोवन रचिल्ल्या प्रकाराक अणकार म्हणिनासतनां रूपकार वा रूपांतर अशें म्हणटात. देखीक, शणै गोंयबाबान रचिल्लीं नाटकां हीं फ्रेंच लेखक मॉलिएर हांच्या नाट्यकृतींचेर आदारिल्लीं आसात. पूण तांतली पात्रां, प्रसंग आनी वातावरण कोंकणी केल्ल्यान ताका रुपांतरण (ॲडाप्टेशन) म्हणूंक जाय आन्येक उतर वापरांत आसा तें 'अनुसर्जन'. मूळ कृतीसंबदान अभ्यास करून तें नव्यान बरोवप हाका 'अनुसर्जन' अशें म्हणपाची चाल आसा. कोंकणींत रवीन्द्रबाबांनी बरयिल्ल्या महाभारताक 'अनुसर्जन' अशें म्हळां.

कोंकणी साहित्याक अणकाराची वळख खूब पयलीं मेळिल्ली. मंगळूरांत 'दिर्वें' नेमाळें सुरु जालें तेन्ना मुळावें साहित्य रचून जायसर वाट पळोवंचे परस अणकारीत साहित्य परगट करून लेखकांनी सुरवात केली. १९१३ वर्सा पेद्रु जुआंव सौझ हांणी विदेशी भाशांतल्या कथांचे अणकार केले. तेन्ना सुरु जाल्लो मंगळूर वाठारांतलो तो वावर मोंसिन्योर सिल्वेस्टर मिनेझीस, फा. विली डि सिल्वा, वॉल्टर लासरादो, जे.बी. मोरायश ते मेल्विन रोद्रिगीश अशीं पेणीं करीत फुडें वचत आसा. त्या संबंदान आदीं बरोवन जालां.

मुंबय रावन शणै गोंयबाबांनी आनी गोंयांत आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांणी रुपांतरीत केल्लीं नाटकां आनी उपरांत बाकीबाबांनी अणकारीत केल्लीं पुस्तकां- भगवान बुद्ध, गिताय, भजगोविंदम आनी पैगंबर हांणी अणकारीत साहित्याचें मुळावण घालें. भगवद गीता हें एक पुस्तक जाचे कोंकणींत धा-वीस अणकार, रूपकार सहजतायेन मेळटले. शणै गोंयबाबांलें 'भगवंतालें गीत', बाकीबाबांलें 'गिताय', बंगले नारायण कामत हांगेलें 'गितामृत साकी', पांडुरंग नाडकर्णी हांगेलें 'गिताम्मा', बी.बी. बाळिगा हांगेलें 'श्रीमद भगवदगीता', शेषगिरी केशव प्रभू हांगेलें 'गितार्थसुधा', हें आदल्या काळा वयलंब अणकारीत साहित्य. केरळांतल्या कोंकणी

साहित्यांत अनेक धर्मीक ग्रंथांचे कोंकणी अणकार वा रुपकार परगट जाल्यात. संत तुलसीदास चरित्र, भगवद गीता, रामचरीत मानस, तिरुक्कुरल अशे ग्रंथ बरोवन प्रकाशीत जाल्यात. ते भायर प्रो. आर. के. राव, एल. सुनिताबाय, पी.जी. कामथ, के. गोकुलदास प्रभू, आर. एस. भास्कर आनी पी. सूर्या अशोक ह्या लेखकांनीं आधुनीक कथा साहित्याचे साबार अणकार केल्यात. त्या संबंदान फाटीं सांगून जालां.

हालींच्या काळार रा. ना. नायक हांणी 'येशुचें गीत' आनी फा. आल्वारु रेनातु मेंदीश हांगेलें 'बायबल कथांचो पवित्र पुस्तक' हीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. कवी युसूफ शेख हांणी मुसलमान धर्मांतलें पवित्र पुस्तक 'दिव्य कुरआन' (२००४) ह्या नांवान प्रकाशीत केलां. पुंडलीक शणै हांणी ऋगवेदाचो अणकार प्रसिद्व केला.

फाटल्या चार दसकांत पुराय देशी साहित्यान कूस परतिली आनी अणकारीत साहित्याक मान भोवमान दिवपाक सुरवात केली. गोंयमुक्ती उपरांत इतर भाशांतल्या साहित्याची फाट धरपा खातीर सक्रीय आशिल्ल्या कोंकणी लेखकांनी अणकाराक हात घालो. मनोहरराय सरदेसाय हांणी फ्रेंच साहित्यकार व्होल्टॅर हांगेली 'कांदीद' ही गाजिल्ली साहित्यकृती कोंकणींत हाडली. असमिया भाशेंतले ज्ञानपीठ पुरस्कारान सम्मानीत साहित्यकार बिरेंद्रकुमार भाटाचार्यांली कादंबरीय तांणी कोंकणींत अणकारली. रा. ना. नायक हाणीं 'देव आनी मनीस' (तोलस्तोय), ओलिव्हिन्यु गोमीश हाणी बंकीमचंद्राली 'आनंदमठ'आनी खलील जिब्रानाल्या 'ब्रोकन विंग्स' चो अणकार 'तोडिल्लीं पांखां', पांडुरंग भांगी हांणी ऑस्कर वाईल्ड हांगेली 'सालोमे', चंद्रकांत केणी हांणी शरदबाबुली 'काशिनाथ' आनी वायक्कूम मोहम्मद बशिर हांगेली 'वण्टी', श्रीपद देसाय हांणी 'रघुवंश', यशवंत पालेकार हांणी शिवराम कारंथाली 'मातयेचो मोग' अशीं पुस्तकां उजवाडायलीं.

लागीं लागीं सगल्याच सिद्वहस्त लेखकांनीं अणकाराच्या मळार वावर केला. गुरुनाथ केळेकार, नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, महाबळेश्वर सैल, शांताराम वालावलीकार, एन. शिवदास, मीना काकोडकार, दिलीप बोरकार, जयमाला दणायत, नयना आडारकार, एन. एन. आनंदन, माधव बोरकार, माया खरंगटे, अलका असोळडेंकार, अरविंद काकोडकार, दिनेश मणेरकार, जयश्री शानभाग,

कमलाकर म्हाळशी, कस्तुरी देसाय, माणीकराव गावणेकार ह्या सगल्यांच्या नांवार एकदोन अणकार आसात. पूण पुर्णवेळ अनुवादक म्हूण वावर करपी रमेश लाड सारके सर्जनशील लेखक खूब थोडे.

नाटक हें एक मळ जंय भारतांतले सगले नामनेचे नाटककार कोंकणींत देंवल्यात. प्रकाश थळी हांणी 'सगीना महतो', 'एक आशिल्लो आबू' आनी 'अजबपुरींतली कल्पकथा' (बादल सरकार), 'हयवदन' (कर्नाड), दत्ताराम कामत बांबोळकार हाणी 'तलेदंड' (कर्नाड), पांडुरंग भांगी हाणीं 'आशाडांतलो एक दीस' (मोहन राकेश), 'यदीप राजा' (सोफोक्लीश), 'चित्रांगदा' (टागोर) अशीं गाजिल्लीं नाटकां कोंकणींत हाडून रंगमाची सोबयली.

कोंकणी अणकार साहित्याक इतिहासीक योगदान दिवपी कांय म्हालगड्यांची नांवां सदांकाळ फुडें उरतलीं. जिवीतभर कोंकणीचीं पडिंग उरिल्लीं मळां पिकोवपा खातीर वावुरपी रवीन्द्र केळेकार हांचो पिण्ड विचारक साहित्यकाराचो. पूण एक मिशन म्हूण काम करपी रवीन्द्रबाबांनी अनेक मोलादीक पुस्तकां कोंकणींत हाडलीं. 'अशे आशिल्ले गांधीजी', 'आमी सगले भाव भाव' आनी 'हिन्दू धर्म म्हाळ्यार कितें?' हीं गांधी विचारांची पुस्तकां प्रकाशीत केलीं. गुजराती लेखक झवेरचंद मेघाणी हांगेलें (माणसाईना दिवा) पुस्तक 'आनी तांकां मनशांत हाडले' आनी 'दोगी भयणी' हें रवीन्द्रनाथ टागोरांची नवलिका अणकारून कोंकणींत हाडली. नाटक तर तांचो प्रांत निखालस न्हय. पूण ज्याँ आनुयी ह्या फ्रेंच लेखकाल्या नाटकाचेर आदारून 'लाला बाला' हें पुस्तक बरयलें. तेभायर 'तीन एके तीन' आनी 'मुक्ती' अशीं एकांकीचीं पुस्तकांय रुपांतरीत केलीं. 'भज गोविंगम' हें पुस्तक अणकार न्हय पूण मूळ शंकराचार्यांनी बरयिल्ल्या एक स्तोत्राची अर्थावणी आसा. हें ताचें लेखन म्हळ्यार कोंकणी साहित्यांत पडिल्ली मोलादीक भर.

तेय परस व्हड वावर करपी ते सुरेश आमोणकार. फाटलीं तीन दसकां ते सातत्यान अणकाराच्या मळार वावुरतात. आजवेर तांच्या हातसून जितले अणकार जाल्यात तांची गणटी करप कठीण. टि. बी. कुन्हा हांगेलें इंग्लिशींतलें पुस्तक तांणी कोंकणींत हाडलां 'गोंयकारांचें देशभश्टेपण' ह्या नांवान. पूण तांचें मुखेल योगदान आसा तें धर्मीक आनी अध्यात्मीक साहित्यानुवादाच्या मळार. धर्मीक साहित्याचो तुळात्मक अभ्यास करपांत तांकां विद्यार्थी आसतनाच्यान मज आसली अशें तांणीच उर्बा

(२०१०) ह्या व्यक्ती विशेशांकाक दिल्ले मुलाखतींत सांगलां. ते स्वता धर्मीक वृत्तीचे न्हय. पूण सगल्या धर्मांचे विचार उकत्या मनान वाचप आनी ताचेर मनन करप ही वृत्ती. ताणी पयलीं हातांत घेतलें तें 'धम्मपद'. भगवान बुद्धाच्या तत्वज्ञानान भरिल्लो तो ४२३ श्लोकांचो दाट व्हड ग्रंथ १९९७ वर्सा उजवाडाक आयलो. ते खातीर तांकां पाली भाशेचें अध्ययनूय करचें पडलें. त्या उपरांत 'श्री भगवंतान गायिल्लें गीत' ह्या नांवान भगवद गीतेच्या ७०० श्लोकांचो अणकार तांणी केलो. रोखडीच ९०३३ होंवयांची मराठी ज्ञानेश्वरी कोंकणीत 'रोसाळ कोंकणी ज्ञानेश्वरी' ह्या नांवान हाडली. 'तिरुक्कुरल' हो ग्रंथ उजवाडाक येता म्हणसर शीख धर्माचो पवित्र ग्रंथ 'जपुजी साहिब' अणकारीत केलो. बायबलाचे जायते अणकार आसात. पूण सुरेशबाबांनी जिद्दीक पेटून 'सां जुआंवाप्रमाण जेजू ख्रिस्ताचें शुभवर्तमान' हें पुस्तक प्रकाशीत केलें. संत तुकारामाले दोनशीं अभंग वेंचून काडून तांचे कोंकणी अणकार करून तांचें 'सुंदर तें ध्यान, विठ्ठलु विठ्ठलु' ह्या नांवान पुस्तक काडलें. झॅन तत्वज्ञान समजून घेवन ताचें 'झेनचो दिश्टावो' हें पुस्तक उजवाडायलें. 'श्री भगवंतान गायिल्लें गीत' बरोवन तांचें समादान जालें ना. तांणी शणै गोंयबाब, बाकीबाब आनी स्वता धरून महात्मा गांधी आनी हेर विचारवंतांच्या अठरा अध्यायांच्या अनुवादांचो आपरोस घेवन तुळात्मक अशें पुस्तक काडलें- 'पंचवेणी गीतामृत'. आनी ह्या सगल्या ग्रंथांचो मुकूट मणी सोबसारको ग्रंथ अणकारलो तो 'ख्रिस्तपुराण'. थॉमस स्टिफन ह्या मिशनरी विद्वानान १६२२ वर्सा मराठींत रचिल्लो १०८०० होवयांचो हो ग्रंथ तांणी कोंकणींत हाडलो. धर्मप्रसारा खातीर पोरण्या आनी नव्या कराराचेर आदारिल्लें हें ख्रिस्तपुराण त्या काळार नवधर्मांतरीत क्रिस्तांवां खातीर जरी बरयिल्लें तरी कोंकणीच्या अभ्यासकांक तें एक आव्हान लेखून ताचो धर्मीक, इतिहासीक, भाशीक आनी समाजशास्त्रीय नदरेन अभ्यास जावंक जाय अशें अनुवादक सांगतात. (उर्बा २०१० मुलाखत). ह्या ग्रंथाचो अभ्यास करतनां जें विचारमंथन आनी मनन जालें तातुंतल्यान तांणी एक प्रस्तावना बरयली. ही प्रस्तावनाच दोनशें पानांचें स्वतंत्र पुस्तक म्हूण प्रकाशीत जाल्या. ते भायर 'ख्रिस्तपुराणा'चो भारादीक ग्रंथूय उजवाडाक आयला.

सुरेशबाब फकत धर्मग्रंथ आनी अध्यात्मीक साहित्याचेच अणकार करतात अशें न्हय. तांणी शेक्सपिअराचे विचार कोंकणींत अणकारून 'शेक्सपिअराचें सुवर्णी विचार भांडार' हें पुस्तक उजवाडायलां. तशेंच 'ज्युलिअस सीझर' हेंय पुस्तक प्रकाशीत

जालां. सुरेशबाबांल्या 'धम्मपद' ग्रंथाक साहित्य अकादेमीचो १९९९ वर्साचो अनुवाद पुरस्कार फावो जाला.

कन्नड भाशेंतलें साहित्य कोंकणींत अणकारपाचो सातत्यान प्रयत्न करपी लेखक म्हळ्यार रमेश लाड. मुळांत कवी आनी गीतकार. पूण वाचनाची आनी लेखनाची आवड तांकां अणकारा कडेन ओडून घेवन गेली. कन्नड भास शिकून ते भाशेंतलें बरें साहित्य वाचून घेतल्या उपरांत तांणी अणकाराक हात घालो. सुर्वेक कांय वेंचीक कथा अणकारून नेमाळ्यांनी उजवाडायल्यो. उपरांत कन्नडांतले म्हालगडे लेखक मास्ती वेंकटेश आय्यंगार हांगेलो कथांझेलो तांणी कोंकणींत अणकारलो. ह्या 'मोटव्यो कथा' पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कार फावो जालो. मागीर तांगेलीं एका फाटोफाट एक पुस्तकां येत रावलीं. विरप्पा मोयली हांगेलें 'तेम्बरें', पुंडलीक शणै हांगेलें 'मराठी-कोंकणी हांचो तुलनात्मक विमर्श', कस्तुरी मोहन पै हांगेली नवलकथा 'ध्रुवतारे', जयंत कैकिणी हांगेलें 'ऑपेरा हाउस', आनी प्रकाशनाच्या वाटेर आशिल्लें विवेक शानभाग हांगेलें 'घाचर घोचर' इतलीं पुस्तकां ह्या एकल्या अनुवादकाच्या नांवार आसात. ते भायर महाश्वेता देवी हांगेलें 'हाजार चुराशी की मां' आनी यू. आर. अनंतमुर्तीलें 'घटश्राद्ध' हीं तांणी अणकारीत केल्लीं पुस्तकां नेमाळ्यांनी खिस्तींनी आयल्यात पूण पुस्तक रुपान आजून येवंक नात. मात एस. एच. नायक हांगेलें इंग्लीश पुस्तक अणकारून 'जिणेंत आनंद फुलयात' कोंकणींत हाडलां.

केरळांतली लेखक पी. सूर्या अशोक हींय रमेश लाडावरीच स्वतंत्र लेखना वांगडाच अणकार करता. 'अनन्य केनिया' (२०१०), 'उत्तरखंडांतुल्यान कैलास मानसरोवर' (२०१३) अशे प्रवासवर्णनांचे अणकार तांणी केल्यात. हेमा नायक हांचोय आवर्जून उल्लेख करूंक जाय. 'ताठ कणो' हें डॉ. प्रेमानंद रामाणींचें वैजकी विशया वयलें पुस्तक, 'गोंयचे धुवेची काणी' हें मारिया आउरोरा कुतो हांगेलें गाजिल्लें इंग्लीश पुस्तक आनी 'हांव असो घडलों' ही मराठींतली भालचंद्र मुणगेकर हांगेली कादंबरी- अशीं पुस्तकां तांणी कोंकणींत हाडल्यांत. ज्योती कुंकळकार ह्योय सातत्यान साहित्याचो वावर करपी लेखक. तांणी अमृता प्रीतम, कृष्णा सोबती, विभूती भूषण बंदोपाध्याय अशा लेखकांच्यो साहित्यकृती अणकारल्यात. शीला कोळांबकार हांणी अनिता देसाय हे इंग्लीश लेखकाची कादंबरी 'दोंगरावयलो उजो' अणकारीत केल्या. ते भायर 'परजळती धोल' आनी 'भांगराचें सुकणें' हींय अणकारीत पुस्तकां

तिच्या नांवार आसात. के. गोकुळादास प्रभू हांणीय दोन म्हत्वाच्यो मल्याळम कादंबऱ्यो कोंकणींत हाडल्यात- एम. टी. वासुदेवन नायर हांगेली कादंबरी 'चवकी' आनी के. पी. रामनुन्नी हांगेली 'सुफीन सांगिल्ली काणी'. सुधा खरंगटे हांणी गिरिराज किशोर हांगेली 'बा' ही कादंबरी अनुवादीत केल्या. सध्याक ती 'बिम्ब' नेमाळ्यांतल्यान क्रमशा उजवाडाक येता. पूण रोखडीच पुस्तक रुपान प्रकाशीत जावपाची आसा. नरेंद्र काशिनाथ कामत हांणी प्रेमचंदांलें 'मंगळसुत्र' हें पुस्तक आनी शरदचंद्र चट्टोपाध्याय हांगेल्यो तीन नवलिका अणकारीत केल्यात. सुनेत्रा जोग हांणी सुधा मुर्ती हांगेलीं पुस्तकां कोंकणींत हाडल्यांत.

कोंकणी भास गिरेस्त करपाचे नदरेन अणकाराच्या मळार जाल्लो हो वावर खूब म्हत्वाचो. अणकाराची दुसरीय वट आसा. कोंकणी साहित्य अणकारून हेर भाशांनी वचपय तितलेंच गरजेचें. हो वावरय व्हड प्रमाणार जाला. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी 'अ हिस्ट्री ऑफ कोंकणी लिटरेच्यर' ह्या पुस्तकांत म्हळां ते भाशेन १९६४ वर्सा 'कोंकणी पोएम्स' हो अणकारून इंग्लिशींत वचपी पयलो आनी प्रतिनिधीक कवितां झेलो जो मनोहरबाबान संपादीत केल्लो. उपरांत र. वि. पंडित हांणी संपादीत केल्लो २६ कवींच्यो ३८ कविता आशिल्लो प्रतिनिधीक झेलो आयलो. (नागेश करमलीनी साहित्य अकादेमीच्या ४-५ नोवेंबर २००३ दिसा सादर केल्लें प्रपत्र). प्रतिनिधीक संग्रह येत उरले. पूण एकाच कवीचे झेले उसरां भायर सरले. र. वि. पंडितांलो 'आया वैसा गाया', रमेश वेळुसकारांलो 'माटी', आर. एस. भास्कर हांगेलो 'अक्षर' हे हिंदींत जाल्यार जे. बी. सिक्वेरांलो 'हार्टस आउटपोअरिंग्स' हो झेलो इंग्लिशींत आयला. कोंकणी कविता इंग्लीशींत व्हरपांत व्हड वांटो आसा तो कवी पंडितांचो. तांचे स झेले थोमस गे हांणी अणकारून इंग्लिशींत उजवाडाक हाडल्यात. नेमाळ्यांनी खूब कविता गेल्यात. मनोहरराय सरदेसाय आनी माधव बोरकार हांणी तर आपल्यो कविता आपणेच इंग्लिशींत अणकारल्यात.

मुळांत कविता हो प्रकार अणकारपाक भोव कठीण. देखून सपसप कोण कवितेचो अणकार करूंक वचना. साहित्य अकादेमीचें 'इंडियन लिटरेचर' आनी 'समकालीन' हीं अनुक्रमान इंग्लीश आनी हिंदी दों-म्हयनाळीं नेमान अणकारीत कोंकणी कविता छापता. हेर कांय राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय संकलनांनीय अणकार प्रकाशीत जाल्यात. कवितेच्या मानान कथा-कादंबऱ्यांचे अणकार चड प्रकाशीत जाल्यात हें खरें. पूण कथाय म्हूण नेमाळ्यांनी आनी संकलनांनीं चड पावल्यात.

कथां झेले खूब थोड्या लेखकांले उजवाडाक आयल्यात. कथाकारां मदीं दामोदर मावजो आनी कादंबऱ्यां मदीं महाबळेश्वर सैल हांगेल्या साहित्यकृतींचे चड अणकार जाल्यात. पुंडलीक नायक हांगेलींय पुस्तकां अणकारून गेल्यांत. मावज्यालीं पांच पुस्तकां- तीन कथांझेले आनी दोन नवलकथा इंग्लिशींत उजवाडाक आयल्यात. एक मराठींत गेला. कार्मेलीन नवलकथा तेरा भासांनीं पावल्या. आनी 'सुनामी सायमन' इंग्लीशींत अणकारून गेल्या. महाबळेश्वर सैल हांगेल्यो तीन नवलकथा- 'हावठण', 'काळी गंगा', आनी 'युगसांवार' आनी 'अरण्यकांड' आनी 'अदृश्ट' ह्यो नवलिकाय इंग्लिशींत अणकारून उजवाडाक आयल्यात. पुंडलीक नायक हांगेली नवलकथा 'अच्छेव' ही 'द अपहिवल' ह्या नांवान इंग्लिशींत गेल्या. ते भायर तांगेलीं नाटकांय हेर भासांनी प्रकाशीत जाल्यांत. प्रकाश पर्येकार, एन. शिवदास, एडवीन जे. एफ. डिसौझा अशा अनेक साहित्यकारांल्यो कथा इंग्लिशींत पावल्यात. जयंती नायक हांगेलो कथांझेलो 'द सॉल्ट ऑफ द अर्थ' ह्या नांवान उजवाडाक आयला. अणकाराच्या मळार इंग्लिशीचे अनुवादक म्हूण मुजरत नांवां घेवपाक जाय तीं विद्या पै, मुकेश थळी, आगुस्तो पिंटो, झेविअर कॉता आनी सचीन पै रायकार.

कोंकणी साहित्याचे अणकार हेर भाशां मदींय जाल्यात. कन्नड, मराठी, मलयाळम, हिंदी, पंजाबी, तमीळ, तेलुगू, आनी हेर भाशांनी कथा-कादंबऱ्यो पावल्यात. साहित्य अकादेमीन 'अनुवाद पुरस्कार' येवजण चालीक लायत साकून अणकार हो प्रकार अदीक फुलून आयला. पूण हो वावर अदीक प्रमाणार जावपाची गरज आसा. ही गरज भागना ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार अनुवादकांचो उणाव. हेर भारतीय भासांनी अणकार जातले जाल्यार हिंदी आनी इंग्लीश ह्यो दोन भासो मदले दुवे (फिल्टर भासो) म्हूण वापरतात. पूण जाता अशें- जे कोंकणी बरी जाणात तांकां इंग्लीश वा हिंदी बरी येना. आनी जांची हिंदी वा इंग्लीश बरी आसा तांकां साहित्यीक कोंकणी सारकी समजना. अशे कातरेंत कोंकणी साहित्य शिरकलां. पूण साहित्य अकादेमीन 'अनुवाद पुरस्कार' येवजण चालीक लायत साकून अणकार हो प्रकार अदीक फुलून आयलो, इतलें खरें.

### बालसाहित्य

एका काळार भुरग्यांलें साहित्य हो सामको सोपो आनी बेकारपणांत बरोवपाचो प्रकार अशें लेखताले. पूण काळांतरान ताचें मोल होलमलें. शणै गोंयबाब, रवीन्द्र

केळेकार ह्या म्हालगड्यांकूय ताचें म्हत्व कळिल्ल्यान तेन्नाच्यान बालसाहित्याचेर विशेश भर दिवप जालां. शणै गोंयबाबान आपणांल्या पुता पासत मुळावे शाळेचीं पुस्तकांय बरयिल्लीं. पूण ती उजवाडाक आयलीं नात. तांगेलें 'भुरग्यांलो इश्ट' हें पुस्तक १९३५ वर्सा प्रकाशीत जालें. आनी शेक्सपिअरचे कथेचेर आदारिल्लें पुस्तक 'जादुचो जुंवो' शणै गोंयबाबांच्या मरणा उपरांत १९६८ वर्सा उजवाडाक आयलें. १९४८ वर्सा आचार्य रा. शं. नायक हांगेलें 'भुरग्यांलो वेद' हें स लोककाणयांचें पुस्तक आनी का. श्री. नायक हांगेलें 'देखदिण्यो काणयो' हो काणयांचो झेलो १९५० वर्सा भायर सरलो. रवीन्द्र केळेकारांलें पुस्तक 'कथा आनी काणयो' (१९६१), हें रुपक काणयांचे आनी 'राजा-राणी' हीं पुस्तकां प्रकाशीत जालीं. ते भायर 'अशे आशिल्ले गांधीजी' ह्या शिर्षका खाला महात्मा गांधींची वळख करून दिवपी स पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. फा. आल्वारु रेनातु मेन्दीश हांणी रचिल्लें 'रुचीच्यो काणयो', महाबळेश्वर बोरकारांलें 'अशी काणी राजा-राणी', ओलिव्हिन्य गोमिश हांगेलें 'सुपुल्लो काणयां पांटुलो' अशीं पुस्तकां भायर सरलीं. र. वि. पंडितांनी महाभारतांतल्यो कथा गितांच्या माध्यमांतसून जाल्यार 'गोड गोड काणयो' १९६८ हें गद्य काणयांचें पुस्तक काडलें. अ. ना. म्हांबरो हांणीय आपणाले खुसखुशीत शैलींत 'घुमचे कटर घूम' हें पुस्तक बरयलें. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी 'रामग्याली वागा भोंवडी' ही काणी बरयली. फेलीस्यु कार्दोज हांणी 'तारवटी सिंदबाद', 'अल्लाउद्दीनालो दिवो', 'अलीबाबा आनी चाळीस चोर' हीं संवसारांतली गाजिल्लीं पुस्तकां कोंकणींत हाडलीं. चंद्रकांत केणी हांणी 'फुलांचो हात', 'कामील', 'काणयांचें कपयाळें' अशीं पुस्तकां जाल्यार दामोदर मावजो हांणी 'काणी एका खोमसाची', 'एक आशिल्लो बाबुलो', 'चित्तरंगी' आनी शणै गोंयबाबांची वळख दिवपी दोन चरित्रात्मक पुस्तकां उजवाडायलीं. पुंडलीक नायक हांणी 'रानसुंदरी', 'आळशाक वाग खातलो', 'बेकार भोंवडेकार', 'मनू', 'गौरी आनी कल्परुख' आनी 'छूम छूम घुंगरी' जाल्यार रमेश वेळुस्कार हांणी 'भूक भूक भिशू', 'चांदिमामा', 'फुलपाकुलें', 'चू चू', 'घुरु घुरु वारो' अशीं पुस्तकां रचून उजवाडायलीं. कमलाबाय राव देशपांडे हांगेलें दोन खण्डांनीं उजवाडाक आयिल्लें 'म्हणी फाटली काणी' हें लोकवेदाचें आसलें तरी तें बालसाहित्य म्हूण तितलेंच मोलाचें. ते भायर 'गोंयकाराचे पडवेर' हें पुस्तक तांच्या नांवार आसा.

ह्या सुरवातीच्या पंचवीस तीस वर्सांच्या काळार लेखक, संपादक आनी प्रकाशक

म्हूण जांचें योगदान व्हड आसा ते गुरुनाथ केळेकार. भुरग्यांखातीर 'मारुती' हें नेमाळें चलयतनांच स्वता बरोवन आनी हेरांक बरोवपाक लावन तांणी घडाघड सुमार पंचवीस तीस पुस्तकांक उजवाड दाखयलो. कुमुदिनी केळेकार हांणीय खूब साहित्य रचलें. ह्या सगल्यांचो मुकुटमणी सोबता तो बालसाहित्यकार मनोहरराय सरदेसाय. तांणी रचिल्लीं बडबड-गितां आनी कविता-काणयांनीं भुरग्यांक अक्षरशा पिशें लायलें. १९६५ वर्सा प्रकाशीत जाल्ली तांची 'बेब्याचें काजार' ही गीतकाणी तर पन्नास वर्सां सरलीं तरी आजुनूय लोकांच्या ओंठांर घोळटा.

तुकाराम रामा शेट ह्या भोवतांशी लेखकान बालसाहित्याच्या मळार दोट्टी वावर केला. शाळा-शाळांनी वचून बालसाहित्य सादरीकरणांतसून भुरग्यांमेरेन पावयलां. तातुंतल्यान भुरग्यांक साहित्याची गोडी लायल्या. तेच भाशेन तांचे खातीर गितां आनी काणयोय रचून उजवाडायल्यात.

चार दसकां फाटीं, पयलीं गुरुनाथ केळेकार संपादीत 'मारुती' आनी उपरांत प्रभाकर भिडेंचें 'राजहंस' ह्या बाल साहित्याक ओंपिल्ल्या नेमाळ्यांनी खूब व्हडलें योगदान दिलें. लेखकांची एक नवी पिळगीच तांणी तयार केली म्हणल्यार अतिताय जावची ना. मदीं कुळागरानय बालसाहित्य प्रकाशीत करपाची येवजण राबयली. ह्याच काळा मजगतीं हेर साहित्या वांगडाच बालसाहित्यांत मोलाची भर घालपी म्हालगडे कवी आनी लेखक म्हळ्यार रामकृष्ण जुंवारकार, प्रकाश थळी, भिकाजी घाणेकार, प्रशांती तळपणकार, अभयकुमार वेलिंगकार, नागेश नायक वडिये, माणिकराव गावणेकार, दिलीप बोरकार, विन्सी क्वाद्रूस आदी.

बालसाहित्याचें म्हत्व वळखून राष्ट्रीय आनी राज्य पावंड्यारूय विशेश येत्न सुरु जाले. नेशनल बूक ट्रस्टाच्या 'नेहरू बाल पुस्तकालय' ह्या उपक्रमा खाला नवीं नवीं पुरक पुस्तकां तयार जावंक लागलीं. गोवा कोंकणी अकादमीनूय 'बाल साहित्य प्रकाशन येवजण' सुरु केली. ताचे खाला जांणी खूब काम केलां तातूंत दिनेश मणेरकार हांचें नांव येता. 'अंतराळांतलो प्रवास', 'अंतराळांतलो राबितो', 'रानवळख' अशीं सैम, सृश्ट आनी विज्ञानाची वळख दिवपी हीं पुस्तकां तांणी रचल्यांत. दिनेशबाबां वरीच ह्या मळार पोटतिडकीन वावुरता ती राजश्री बांदोडकार कारापुरकार. भुरग्यांची आकलन शक्त, बालमतीची संवेदना आनी तांचो कल

समजून घेवन रचना करपी राजश्री बायन सैम, विज्ञान, पर्यावरण सारके विशय भोव सोपे करून सांगपी पुस्तकां रचल्यांत. तांचीं 'सैमा कडेन संवाद', 'विज्ञानयोगी', 'मळबा कडेन संवाद' आनी 'चिटकुल्या चिंकीचें विशाल विश्व' अशीं बालमन भुलोवणी पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. माया खरंगटे हांणीय ह्या प्रकाराक उपाट योगदान दिलां. 'रानाच्या मनांत', 'हातीम ताई' अशीं जायतीं पुस्तकां तांणी भुरग्यांच्या हातांत पावयल्यांत. मुळांत कथाकार आशिल्ल्या गजानन जोग हांणी बालसाहित्याची गरज वळखून 'वर्स फुकट वचूंक ना' सारकी बालमनाचेर संस्कार करपी नवलिका बरयल्या. सतीश दळवी हांणी शिक्षणीक मळाची गरज भागोवपी पुस्तकां रचतनाच 'हरीश, पिरीश आनी देंवचार', 'चिरमुल्यो' आनी 'हावेस' अशें साहित्यय रचलां. अशोक भोंसलो ह्या अश्टतांसांच्या लेखकानूय 'कुरु कुरु काना' सारको झेलो उजवाडायला. रामनाथ गावडे हांची 'सदू' नवलिका, सुधा खरंगटे हांगेली 'सोनू पडलें बांयत' ही दिर्घकाणी आनी ग्वादालूप डायस हांगेलो 'मामाचो गांव' हो झेलोय उल्लेखनीय आसा. हाचे भायर, अलका असोळडेंकार, सरस्वती नायक, उषा कामत, झिलू गांवकार, किरण म्हांबरे, जयमाला दणायत, हर्षा शेटये ह्या सातत्यान साहित्य रचपी लेखकांलेंय योगदान मोलादीक आसा. स्मिथा भांडारी कामत, विशाल खांडेपारकार, प्रसाद सावंत आनी गीता नायक हांचींय पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.

भुरग्यांक गणीत सारक्या विशयाची आगळी वळख दिवपी दोन म्हत्वाचीं पुस्तकां आसात- रामकृष्ण खांडेपारकार हांगेलें 'गणीत धारा' हें वैदीक गणिताची म्हायती दिवपी आनी 'भुरग्यांचो गणीत सांगाती' हें गणीत सोपें करून दाखोवपी फा. प्रताप नायक हांगेलें पुस्तक.

कोंकणी भाशा मंडळ आनी अभिनव क्रिएशन्स ह्या संस्थांनी हालींसराक बालसाहित्याच्या मळार भोव मोलादीक काम केलां. नवीं नवीं पुस्तकां उजवाडायल्यांत आनी तीं भुरग्यांमेरेन पावोवपाचे उपक्रम केल्यात. कोंकणी भाशा मंडळान मदीं 'चिरपूट' हें त्रैमासीक सुरु केल्लें. दोन वर्सां चललें. कोंकण टायम्स, भांगरभूंय, बिम्ब ह्या नेमाळ्यांचेर सातत्यान उजवाडाक येता आसलें तरी बाल साहित्याक ओंपिल्ले नेमाळें वा नेमाळीं ही आयची गरज आसा. ते नदरेन येत्न जावंक जाय.

## नेमाळीं

कोंकणी नेमाळ्यांचो इतिहास सगलोच सवायशीं वर्सांचो. तांतल्या पयल्या सत्तर वर्सांचो इतिहास कुडक्या कुडक्यांचो. पुर्तुगेजांच्या निर्बंधांक (सेन्सॉरशीप) लागून गोंयच्यान नेमाळें काडप कठीण आसलें. देखुन सुर्वेचे सगले येत्न गोंया भायल्यान जाले. १८८९ वर्सा सुरू जाल्लें 'उदेन्तेचें साळक' हें पयलें नेमाळें. तेंय पयस पुण्या साकून भायर सरिल्लें. त्या उपरांत मुंबयच्यान कोंकणी-पुर्तुगेज दों-भाशांतल्यान कांय नेमाळीं भायर सरलीं. १९०७ वर्सा बी. एफ. काब्राल हांणी 'सांजेचें नखेत्र' हें सांज दैनीक सुरू केलें. चड काळ चललें ना. उपरांत १९१४ वर्सा पयस दिगंतरा कराचीक रावपी गोंयकारांनीं 'दर म्हयन्याची रोटी' हें नेमाळें सुरू केलें. संपादक आसले लुदोवीक पैरैरा. तांणी मात सातत्य सांबाळ्ळें. गोंय मुक्ती उपरांत तें गोंयां हाडलें आनी फा. मोरेन द सौझा हांच्या संपादकपणा खाला चललें. मजगतीं जायतीं नेमाळीं आयलीं आनी बंद पडलीं. १९३३ वर्सा 'वावराड्यांचो इश्ट' हें नेमाळें फा. एल. ए. फेर्नांदीश हांच्या संपादकपणा सकयल सुरू जालें. इगर्जेचें फाटबळ आशिल्ल्यान हें नेमाळें तग धरून रावलें. उपरांत खूब काळमेरेन फा. लाक्तांस आल्मैदा हे ताचे संपादक म्हूण वावुरले. तांचे कारकिर्दींत कोंकणी भास आनी कोंकणी भाशकांचो एकचार वाडूंक पावलो. तें आयज मेरेन इगर्जेचें मुखपत्र जावन चलता.

शणै गोंयबाबांनीं 'नवें गोंय' हें त्रिमासीक सुरू केल्लें. उपरांत मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळान १९५२ वर्सा 'साद' हें नेमाळें जल्माक घालें. पयले संपादक आसले मनोहरराय सरदेसाय. उपरांत फा. एच. ओ. मास्कारेन्यश हे संपादक जाले. १९५३ वर्सा बाकीबाब बोरकारांनी संपादीत केल्लें 'पर्जेचो आवाज' हें नेमाळें रोमी आनी नागरी दोनूय लिपयांनी सुरू जालें. मागीर १९५९ वर्सा रवीन्द्र केळेकार हांणी नागरी नेमाळें 'गोमंत भारती' सुरू केलें.

गोंय मुक्ती उपरांत आभिव्यक्ती स्वातंत्र्य मेळिल्ल्यान नवीं नेमाळीं सुरू जालीं. साताळें १९६२ वर्सा सुरू जालें तें 'गोंयचो साद.' ताचे संपादक आसले खडेगांठ पत्रकार फेलीस्यु कार्दोज. ह्या पत्रान रोमींत बरोवपी लेखकांक निगूत कोंकणी कशी बरोवंची ताची देख घालून दिली. हें साताळें वर्सभर चललें. फेलीस्युबाबांनीं जिद्द सोडली ना. १९६३ वर्सा 'सत' ह्या नांवान दिसाळें मडगांवच्यान सुरू केलें. हें

गोंयांतलें पयलें कोंकणी दिसाळें. भोव करून सर्जनशील क्रिस्तांव भावां-भयणांक ह्या दिसाळ्यान बरपी केले. ह्या दिसाळ्याचेर उजवाडाक येवपी मनोहरराय सरदेसायांल्या कवितांनी जायत्या नव्या कवींक प्रेरणा दिली. चार वर्सांनी तें बंद जालें. पूण 'दिवटी' ह्या नांवान फेलीस्युबाबांच्याच संपादना खाला नवें दिसाळें सुरू जालें. तें बंद जातकच १९६८ वर्सा तांणी 'लोकसाद' हें साताळें काडलें तें मागीर बंद जालें. १९७० वर्सा 'उजवाड' हें नवें दिसाळें पणजेच्यान भायर सरलें. ताचे पयले संपादक आसले एवाग्रिओ ज्यॉर्ज. तेंय चड काळ चललें ना. रोमींत उजवाडाक येवन भोव लोकांमोगाळ जाल्लें म्हयनाळें म्हळ्यार 'गुलाब'. फा. फ्रॅडी जे. डि कोश्ता हांणी संपादीत केल्ल्या ह्या नेमाळ्यान वाचप्यांची साहित्याची अभिरुची वाडपा पासत खूब बरे येत्न केले. ह्या वावरांत तांकां फेलीस्युबाबांचो भोव आदार जालो. एका दुर्भागी अबसुयोगांत फा. फ्रॅडी आनी फेलीस्युबाब हांकां मरण आयल्या उपरांत 'गुलाबा'ची जापसालकी फाउश्तु वी. द कोश्ता हांणी घेतली. 'गुलाब' हें आयज आघाडेचें नेमाळें म्हूण चलता. १९८३ वर्सा रोमींतल्यान 'नवें गोंय' हें नवें दिसाळें व्हडा दबाज्यान सुरू जालें. ताचेय पयले संपादक आसले फेलीस्यु कार्दोज. कांय वर्सां चललें. पूण मागीर थंड पडलें.

गोंय मुक्ती पयलीं मुंबयच्यान 'कोंकणी' हें म्हयनाळें अ. ना. म्हांबरो हांच्या संपादकपणा खाला चलतालें. दर्जेदार साहित्य उजवाडाक येतालें. गोंय मुक्ती उपरांत थोडो काळ चललें. नेमाळ्यांची चळवळ जी इतलीं वर्सां मुंबयच्यान चलताली ती स्वतंत्र गोंयांत पावली. १९६२ वर्सा गुरुनाथ केळेकार हांणी 'नवें गोंय' हें पंदरशी सुरू केलें. १९६८ वर्सा यशवंत पालेकार हांणी 'कोंकण भारती' काडलें. नवें नेमाळें सुरू करपाचो फुरफुरो आशिल्ल्यान जायते जाण उमेदीन फुडें सरले. जगदीश वाघ, अमृत कांसार, सुहास दलाल, हांणी 'उजो', 'आंकूर', 'उदय', 'परमळ' हीं नेमाळीं काडलीं. गुरुदास पै हांणी सुरू केल्ल्या सोबीत प्रकाशना खाला सुरेश काकोडकार संपादीत 'पुनव' (१९७३) म्हयनाळें सुरू जालें. १९७४ वर्सा 'जाग' आनी १९७८ वर्सा 'कुळागर' सुरू जालें. १९८० वर्सा 'चित्रंगी' हें बायलांचें नेमाळें सुरू जालें. अनुक्रमान रवीन्द्र केळेकार, चंद्रकांत केणी आनी हेमा नायक हांणी घेतिल्ल्या फुडाकारान हीं साहित्यीक चळवळ पसवपी नेमाळीं सातत्य राखून चललीं. मदीं जआंव इनास द सौज हांणी 'गोंयचो पर्जळ' आनी आनंद मंगेश नायक हांणी 'कोंकणीचें कुळार' काडलें. दत्ता श्री. नायक हांणी 'सौंगडी' हें नेमाळें राजकी विचारधारा घेवन चलयलें.

फकत कवितेक ओंपिल्लें दों म्हयनाळें 'ऋतू' १९८३ वर्सा सुरू जालें. अशे तरेचें हें नेमाळें देशांतल्या भोव थोड्यां मदलें एक. भिकू बोमी नायकांचें 'जैत', तुकाराम शेट हांचें 'कोंकण टायम्स', शांताराम वालावलीकार हांगेलें 'अपुर्बाय', अनील शंखवाळकारांचें 'पोटतिडक' अशीं नेमाळीं आयलीं. चडशीं बुडलीं. पूण 'जैत' आनी 'कोंकण टायम्स' हीं अ-नियतकालीक म्हूण चलतात. कोंकणी साहित्याक चडांत चड योगदान दिवपी नेमाळीं म्हळ्यार 'जाग', 'कुळागर', 'गुलाब' आनी 'बिम्ब'. चंद्रकांत केणी हांणी सुरू केल्लें 'कुळागर' केणीबाबांच्या मरणा उपरांत बंद पडलें. 'जाग' म्हयनाळें रवीन्द्रबाब, सुमंत केळेकार, माधवी सरदेसाय अशीं पेणीं करीत आयज आसावरी नायक हांचे कडेन पावलां. आयजूय जाग हें कोंकणीचें 'लिटल मॅगझीन' म्हूण वळखतात. दिलीप बोरकार हांचें दर्जेदार 'बिम्ब' आयज दिमाखान दर म्हयन्याचे पयलेर येता ही अभिमानाची गजाल.

१९८७ वर्सा साळगांवकार कंपनीच्या गोवा पब्लिकेशन्स संस्थेन 'सुनापरान्त' हें दिसाळें सुरू केलें. ते पयलीं, कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे फा. फ्रॅडी जे. डि कॉश्ता हांणी 'गोंयचो आवाज' हें दिसाळें काडिल्लें. पूण तें चड काळ चललें ना. 'सुनापरान्त' दिसाळ्यान कोंकणी चळवळीक एक उबारी हाडून दिली. पूण २८ वर्सां बरें चलल्या उपरांत २०१५ वर्सा तें बंद जालें. अचकीत बंद पडिल्ल्यान चळवळीक तो एक धपको बसलो. तातुंतल्यान नेट काडून 'भांगरभूंय' हें नवें दिसाळें सुरू जालें तें आजून चलता. आयचे घटकेक गोंयांत साहित्यीक चळवळीक थाकाय दिवपी 'जाग', 'बिम्ब', 'गुलाब' आनी 'भांगरभूंय' हीं नेमाळीं नेमान चलतात. कर्नाटकांतल्या आनी केरळांतल्या नेमाळ्यांची परिगत हेर कडेन आयल्या.

# निरोप

कोंकणी भास आनी साहित्य हांच्या वांट्याक जे अपसुयोग आयले, जी वायट आवतिकाय भोगची पडली आनी जिवावयल्या संकश्टांनी तिगून रावपा खातीर जो संघर्श करचो पडलो तो संवसारांतल्या भोव थोड्या भासांच्या वांट्याक आयला आसतलो. परचक्रां, सैमीक संकश्टां आनी चोम्यांनी जाल्लीं स्थलांतरां हांकां लागून गळसणून वचनासतनां जांणी आपणाली भास तिगोवन दवरली तांच्या पुरुशार्थाचे बुनयादीचेर आयचें कोंकणी साहित्य उबें आसा. तेराव्या शतमानांत संत नामदेवान रचिल्लें कोंकणी गौळण गीत आनी लोकसाहित्य धरून गोंय मुक्ती मेरेन कोंकणी साहित्य कशें उत्क्रांत जायत गेलें ताचो नियाळ हांगा घेतला. गोंय मुक्त जायनाफुडें काळखी रात सोंपली अशें दिशिल्लें. पूण तशें घडलें ना. विलिनीकरण वाद, भाशा वाद, लिपी वाद ह्या वादांचीं काळीं कुपां गोंयच्या माथ्यार उफेत रावलीं. सर्जकांची शक्त ह्या वादांक जापो दिवपांतूच खर्चूंक लागली. पूण वट सत्याची आशिल्ल्यान निर्शेणी थोडी आनी सुफळताय चड होंटयेंत पडली. ओपिनियन पोल (जनमत कौल) जिखलो आनी गोंय विलीन जावपा पसून वाटावलें. कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळी आनी ती स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हूण मिरोवंक लागली. कोंकणी ही गोंयची राजभास जाली, गोंयाक घटकराज्याचो दर्जो मेळ्ळो आनी तेच बराबर भाशीक आनी राजकी अस्मिताय आश्वस्त जाली. भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोकणीचो आसपाव जालो आनी संघराज्यांत गोंयाक आनी कोंकणीक मानाचो पाट फावो जालो.... पूण हीं सगलीं जैतां आपसूक मेळ्ळीं नात. तेखातीर संघर्श करचो पडलो. विशेश म्हळ्यार संघर्श चालू आसतनाय साहित्याचे सेवेंत आनी निर्मणेंत खंड पडलो ना. देखूनच पद्म पुरस्कार आनी साहित्यीक मान-सन्मान कोंकणीच्या वांट्याक येत रावले. रवीन्द्र केळेकार हांकां फावो जाल्लें साहित्य अकादेमीचें महत्तर (मानद) सदस्यत्व (फेलोशीप), ज्ञानपीठ आनी पद्मभुषण पुरस्कार तशेंच महाबळेश्वर सैल हांका प्रदान जाल्लो सरस्वती सम्मान पुरस्कार, ही कोंकणी साहित्याक राष्ट्रान दिल्ली पावती. दामोदर

मावजो हांगेल्या कोंकणींतल्यान इंग्लीशींत गेल्ल्या 'तेरेजास मॅन ...' ह्या कथां झेल्याचें फ्रँक ओ कॉनर ह्या आंतरराष्ट्रीय पुरस्कारा खातीर नामांकन जाता हाचोच अर्थ कोंकणी साहित्याची दखल आतां आंतरराष्ट्रीय पावंड्यारूय घेतात. कोंकणी साहित्याक फावो जाल्ल्यो ह्यो उपलब्धी सुखासुखी येवन होंटयेंत पडल्यो अशें न्हय. ताच्या फाटल्यान साहित्यीक साधनेची परंपरा आसा. ती नवे पिळगेक होलमुची हे खातीर हें पुस्तक.

केंद्रीय साहित्य अकादेमी दर वर्सा साहित्य पुरस्कार प्रदान करता. हातुंतलीं कांय पुरस्कृत पुस्तकां अणकारून इतर भासांनी पावतात. 'कार्मेलीन' कादंबरी आजवेर तेरा भासांनी अणकारून गेल्या. साहित्य अकादेमी अनुवाद पुरस्कार, बालसाहित्य पुरस्कार आनी युवा साहित्य पुरस्कार दिता जाका लागून ह्या सगल्या मळांचेर दर्जेदार लेखन करपाची उर्बा मेळटा. आयज कोंकणी साहित्यकार आनी लेखक जेन्ना हेर भारतीय साहित्यकारांचे मांडयेक मांडी लावन बसतात तेन्ना आपणालें साहित्यूय तितल्या उंचेल्या पावंड्याचें जावचें अशी जिद्दूय तांच्या ठांय निर्मण जाता. ह्या पुस्तकान केल्लो नियाळ उभरते पिळगे मेरेन ती जिद्द पावयतलो अशी आस्त आसा. हेर भारतीय साहित्याच्या खांद्याक खांदो लावन फुडें चमकतनां कोंकणी साहित्यांतूय नवे प्रवाह आयल्यात. साहित्यकारांनीं नवे प्रयोग केल्यात. केन्ना ते फाटीं पडल्यात, केन्ना फुडें पावल्यात. पूण जिद्द स्पश्ट देखूं येता. कोंकणी लोकसाहित्यांतली नैतिकता समाजांतले नैतिकते परस थोडी वेगळी आसा हें सुज्ञ वाचकांक होलमता. भौसान लिखणी हातांत घेतली तेन्ना ही लोकसाहित्यांतली नैतिकता सभ्यतायेचें म्होवाळें घालून साहित्यांत देंवली. पूण ती सदांकाळ तशी उरना. समाजमान्य नैतिकता साहित्याक पुरायेन मान्य आसताच अशें ना. समाजाची नैतिकता ही रुढ आनी दृढ आसता. साहित्यांतली नैतिकता रुढींक छेद दीत आपूण समाजीक नैतिकतेचेर हावी जाता. नयना आडारकाराले 'खेळ नशिबाचो' कथेंतली जैतून दुडवां खातीर कुडीचो भोग दिता, गिरायकाक मारून उडयता तरी वाचकाचे नदरेंत तिचे विशीं तिरस्कार दिसना, वयल्यान सहानुभूती जागयता- कारण साहित्यांतली ती नैतिकता समाजांतले उखलापे नैतिकतेक पोल करता. विष्णू सुर्या वाघ हांगेलें 'सुदीरसुक्त' खूब जाणांक उस्तुरें गेलें. 'कार्मेलीन' नवें गोंय दिसाळ्याचेर सांकळ रुपान चलताली तेन्ना वाचकांनीं आक्षेप घेवन ती बंद उडयली. पूण आतां काळ बदलला. साहित्यांतली ही नैतिकता चोखंदळ वाचकाच्या लक्षांत येवंक

लागल्या. हेर भारतीय भाशांपरस कोंकणी भाशेची गत वेगळी आसा. कोंकणी समाज भुगोलीक नदरेन वांटून गेला. केरळी, मंगळुरी ह्यो शैली रंगारुपान सुंदर आसुनूय एकामुकल्यांक त्यो 'परकी' कशो दिसतात. तांकां एकठांय हाडपाचो येत्न फाटलीं पांच दसकां चलता. तातूंत भर म्हळ्यार लिपीभेद. ताका लागून मंगळुरांतलें कन्नड लिपयेंतलें चडादीक साहित्य नागरींतल्या वाचकांमेरेन पावना. आनी नागरींतलें कन्नडामेरेन. हीच गत मल्याळी आनी रोमी लिपयांची. ह्या लिपीभेदांचेर मात करचे येत्न चालू आसात. मंगळूरांतल्यान प्रकाशीत जावपी 'अमर कोंकणी' हें नेमाळें हे दिकेन सतत कार्यरत आसा. 'कोंकणव्हर्टर' हें लिप्यंतरा खातीर वापरूं येता अशें सोफ्टवेअर मंगळुरांतल्या बदवंत तरनाट्यांनी तयार केलां. कोंकणी भाशा मंडळ आनी गोवा कोंकणी अकादमी ह्यो संस्थाय आपणां परीन काम करतात. पूण वर्सां संखेनी वापरून आयिल्ली लिपी सोडून दुसरी आपणावपाक अनमनपी चड आसात. मात केरळ कोंकणी अकादमीन मनपरिवर्तन घडोवन हाडून मल्याळी लिपी बदला नागरी लिपी घेवन फुडें वचपाचो धाडसी निर्णय घेतलो. ताका लागून तितले पुरती नागरी वाचकांक सुविधा प्राप्त जाली. रोमी लिपयेंत साहित्य निर्मण जाता खरें. कोंकणीचो प्रसार करपाचो वावर नेटान चलला. पूण लेखनाचो दर्जो सुदरपाचे नदरेन खाशेले येत्न जायनात. म्हत्वाच्या पुस्तकांचे अणकार जायनात आनी नवे प्रवाह आयिल्ले नदरेंत आसपावनात. देवनागरी ही कितलीय अधिकृत लिपी म्हणली तरी कोंकणींतल्या साहित्याच्यो मर्यादा पळोवन शेजारच्या महाराष्ट्रांतलें मराठी साहित्य वाचपी गोंयकार-मुंबयकार चड आसात, ही वस्तुस्थिती. तितले च खातीर, कोंकणी साहित्या कडेन आशिल्ली वाचकांक आसपावन घेवन एकात्म (आयडेंटिफाय) जावपाक लावपाची शक्त, वाचकांच्या लक्षांत हाडून दिवप होय ह्या लेखना फाटलो हेतू.

उदरगतीचे दिकेन वाट चमकुपी कोंकणी साहित्य कथा आनी कविता ह्या दोन प्रकारांच्या मळार खूब फुडें आसा. नवलकथेन निकतीच कूस परतिल्या. एका परस एक कादंबरी घेवन साहित्यकार फुडें येतात. लागींच्या फुडारांत कादंबरी आनीक मेटां हुपून फुडें वतली अशीं लक्षणां दिसतात. पूण हेर साहित्यप्रकार त्या मानान चड फुडें गेल्ले दिश्टी पडनात. मुळांत साहित्य संस्कृताय उसरां रुजवणाक पडिल्ली आसतनांय थोड्यांच काळा भितर साहित्यान ऊंच छलांग मारिल्ल्यान फुडराक कोंकणी साहित्य अदीक नेटान फुडें सरतलें अशी आस्त बाळगुंया.

# अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनां

| संमेलन | संमेलनाची तारीख | सुवात | संमेलनाध्यक्ष | उद्घाटक |
|---|---|---|---|---|
| १. | २३ जून १९६८ | मडगांव | लक्ष्मणराव सरदेसाय | -- |
| २. | १५,१६, नोव्हें. १९६९ | पणजे | रवीन्द्र केळेकार | गोपाळ आपा कामत |
| ३. | १५,१६, फेब्रु. १९७५ | मडगांव | उदय भेंब्रे | देवराय बेंद्र |
| ४. | ०७, ०८ मे १९७७ | म्हापशें | फा. आंतोनियु पेपेर | डॉ. नामवर सिंह |
| ५. | ०२ ते ०४ मार्च १९७९ | मडगांव | श्रीपाद रघुनाथ देसाय | भवानीप्रसाद मिश्र |
| ६. | १४, १५ फेब्रुवारी १९८१ | काणकोण | प्रा. शांताराम हेदे | माधव विठ्ठल कामत |
| ७. | १९, २० फेब्रुवारी १९८३ | कुडचडे | फा. स्वामी सुप्रीय | मार्गरिट आल्वा |
| ८. | ११, १२ मे १९८५ | कुडचडें | दामोदर मावजो | रामानंद सागर |
| ९. | १६, १७ मे १९८७ | मांग्ळी | चा.फ्रा. द कॉश्त | प्रा. एम. तोंबी सिंग |
| १०. | १७, १८ फेब्रुवारी १९९० | पेडणें | गुरुनाथ केळेकार | फा. आंतोनियु पेरैर |
| ११. | ०८, ०९ फेब्रुवारी १९९२ | कारवार | एडवीन जे.एफ. डिसोझा | शिवराम कारंत |
| १२. | ०५, ०६ मार्च १९९४ | म्हापशें | वी. वी. बळीगा | फा. मोरेन द सोज |
| १३. | २५, २६ ऑगस्ट १९९६ | कोच्ची | नागेश करमली | एम्. टी. वासुदेवन |
| १४. | २३,२४,२५ मार्च १९९८ | मडगांव | शीला कोळंबकार | भास्कर चंदावरकार |
| १५. | २१, २२ एप्रील २००१ | पर्वरी | गोकुळदास प्रभू | गुलजार |
| १६. | १०, ११ मे २००३ | वास्को | पी. जी. कामत | मे.ज. हिमतसिंग गील |
| १७. | १९, २० फेब्रुवारी २००५ | कुमठा | महाबळेश्वर सैल | डॉ. चंद्रशेखर कंबार |
| १८. | ०४, ०५, ०६ मे २००७ | कुडचडें | जे. बी. सिक्वेरा | दिनेश मिश्रा |
| १९. | ०७, ०८ फेब्रुवारी २००९ | कुंदापूर | रमेश वेळुस्कार | दयानंद पै |
| २०. | २९, ३०, एप्रील १ मे ११ | सदाशिवगड | मीना काकोडकार | डॉ. गिरिराज किशोर |
| २१. | १५,१६,१७ फेब्रुवारी १३ | मडगांव | आर. एस. भास्कर | डॉ. गिरीश कर्नाड |
| २२ | १३, १, १५ फेब्रुवारी १५ | कोझीकोड | प्रकाश पाडगांवकार | सी. राधाकृष्णन |
| २३. | १०, ११, १२ मार्च १७ | नवी दिल्ली | एन. शिवदास | मृदुला गर्ग |

## साहित्य अकादेमीच्या विंगड विंगड पुरस्कार जैतिवंतांच्यो वळेर्यो.

| SAHITYA AKADEMI AWARDS (1977 _ 2018) | | |
|---|---|---|
| **Year** | **Title of the Book** | **Author** |
| 1977 | Himalayant (Travelogue) | Ravindra Kelekar |
| 1978 | Manni Punav (Humorous essays) | D.K. Sukhthankar |
| 1979 | Dorya Gazota (Poetry) | R.V. Pandit |
| 1980 | Pissolim (Poetry) | Manohar Sardessai |
| 1981 | Sasaya (Poetry) | B.B. Borkar (Bakibab) |
| 1982 | Khabari (Essays) | Laxmanrao Sardessai |
| 1983 | Karmelin (Novel) | Damodar Mauzo |
| 1984 | Chowrang (One-act play) | Pundalik Narayan Naik |
| 1985 | Bhitorlem Tufan (Poetry) | J.B. Moraes |
| 1986 | Hanv Monis Asvat-Thamo (Poetry) | Prakash Damodar Padgaonkar |
| 1987 | Panaji Atam Mhatari Zalea (Short stories) | Arvind N. Mambro |
| 1988 | Vhonkolpavnni (Short stories) | Chandrakant Keni |
| 1989 | Sonshyache Kan (Poetry) | C.F. D'Costa |
| 1990 | Savul Gori (Poetry) | Ramesh B. Veluskar |

| | | |
|---|---|---|
| 1991 | Sapan Fulam (Short stories) | Meena Kakodkar |
| 1992 | Vanshakulachen Denen (Poetry) | Nagesh Karmali |
| 1993 | Tarangan (Short Stories) | Mahabaleshwar Sail |
| 1994 | Antarayami (Short Stories) | Gokuldas Prabhu |
| 1995 | Gomanchal Te Himachal (Travelogue) | Dilip Borkar |
| 1996 | Nilem Nilem Braham (Poetry) | Sankar Ramani |
| 1997 | Bhuim Chafim (Pen-portraits) | Sheela Kolambkar |
| 1998 | Ashim Asim Lharan (Poetry) | John Baptist Sequeira |
| 1999 | Antarnad (Poetry) | Saratchandra Shenoi |
| 2000 | Champhel'li Sanj (Poetry) | Pandurang Bhangui |
| 2001 | Yaman (Poetry) | Madhav Borcar |
| 2002 | Bhogadandd (Novel) | Hema Naik |
| 2003 | Parigh (Short Stories) | *Shashank Sitaram |
| 2004 | Athang (Short Stories) | Jayanti Naik |
| 2005 | Bhaangarsaall (Short Stories) | N. Shivdas |
| 2006 | Jai Kai Jui (Essays) | Datta Damodar Naik |
| 2007 | Dika (Novel) | Devidas Kadam |
| 2008 | Ghanaqhai Niyatiche (Novel) | Ashok Kamat |
| 2009 | Kirvontt (Poetry) | Jess Fernandes |
| 2010 | Kayallyachem Sraddha (Poetry) | Arun Sakhardande |
| 2011 | Prakriticho Paas (Poetry) | Melvyn Rodrigues |

| | | |
|---|---|---|
| 2012 | Kavyasutra (Poetry) | Kashinath Shamba Lolienkar (S.D.Tendulkar) |
| 2013 | Manmotayam (Essays) | Tukaram Rama Shet |
| 2014 | Manthan (Essays) | Madhavi Sardesai |
| 2015 | Karna Parva (Play) | Uday Bhembre |
| 2016 | Kale Bhangar (Novel) | Edwin J.F.D'souza |
| 2017 | Khand Ani Her Katha (Short Stories) | Gajanan Jog |

| SAHITYA AKADEMI TRANSLATION PRIZES (1989-2018) | | | | |
|---|---|---|---|---|
| Year | Title of the Translation | Translator | Title of the Original (Language/Genre) | Author |
| 1990 | Ani Tankan Manshant Hadle | Ravindra Kelekar | Mansaeena Diva (Gujarati) Essays | Jhaverchand Meghani |
| 1991 | Don Dangali Bhat | Raghunath Krishna Rao | Randitangazhi (Malayalam) Novel Pillai | Thakazhi Sivasankara |
| 1993 | Anandmath | Olivinho Gomes | Anandmath (Bengali) Novel | Bankim Chandra Chattopadhyay |
| 1994 | Sanskar | Prakash G. Thali | Samskara (Kannada) Novel | U.R. Anantha Murthy |
| 1997 | Matyecho Mog | Yeshwant Palekar | Marali Mannige (Kannada) Novel | K. Shivarama Karanth |
| 1998 | Eka Vicharachi Jivit-Katha | Madhavi Sardesai | Mahatma Gandhi: Ek Jeevani (Hindi) Biography | Ravindra Kelekar |

| Year | Title of the Translation | Translator | Title of the Original (Language/Genre) | Author |
|---|---|---|---|---|
| 1999 | Dhammapad | Suresh G. Amonkar | Dhammapad (Pali) | Buddhist Classic |
| 2000 | Shejari | H. Nagvenkar | Ayalkar (Malayalam) Novel | P. Keshava Dev |
| 2001 | Sat Pawala Malbant | Chandrakant Keni | Saat Paglan Aakashman (Gujarati) Novel | Kundanika Kapadia |
| 2002 | Chavki | Gokuldas Prabhu | Naalukketu (Malayalam) Novel | M.T. Vasudevan Nair |
| 2003 | Mhaja Aajak Eki Hasti Aashilli | R.S. Bhaskar | Entuppuppakkoran-entarnu (Malayalam) Novel | Vaikom Mohammed Basheer |
| 2004 | Ekshe Ek Kavita | Madhav Borcar | Collection (Bengali) Poetry | Rabindranath Tagore |

| Year | Title of the Translation | Translator | Title of the Original (Language/Genre) | Author |
|---|---|---|---|---|
| 2005 | Motveo Katha | Ramesh Lad | Sanna Kathegalu (Kannada) Short Stories | Masti Venkatesha Iyengar |
| 2006 | Dr. Zakir Husain | (Kate) Nishat Ansari | Dr. Zakir Hussain (English) Biography | Mohammad Mujeeb |
| 2007 | Nawim August | Mishal Sultanpuri | August Na (Oriya) Play | Manoranjan Das |
| 2008 | Tirukkural | N. Purushothama Mallaya | Tirukkural (Tamil) Poetry | Tiruvalluvar |
| 2009 | Adhikar Aranyacho | Kasturi Desai | Aranyer Adhikar (Bengali) Novel | Mahasveta Devi |
| 2010 | Sheem Hupatana | Alka Sinai Assoldekar | Daatu (Kannada) Novel | S.L. Bhayrappa |

| Year | Title of the Translation | Translator | Title of the Original (Language/Genre) | Author |
|---|---|---|---|---|
| 2011 | Mahakavi Govinda Pai | L. Sunitha Bai | Maha Kavi Govinda Pai (Kannada) Biography | Kayyar Kinhanna Rai |
| 2012 | Satyache Prayog Va Atmakatha | Gurunath Shivaji Kelekar | An Autobiography of The Story of My Experiments With Truth (English) Autobiography | M.K. Gandhi |
| 2013 | Kali-Katha: Via Bypass | Hema Naik | Kali Katha: Via Bypass (Hindi) Novel | Alka Saraogi |
| 2014 | Uchalya | Pandurang K. Gaude | Uchalya (Marathi) Biography | Laxman Gaikwad |
| 2015 | Rag Darbari | Jaymala Danayat | Raag Darbaari (Novel) Hindi | Srilal Shukla |
| 2016 | Savlyan Rego | Meena Kakodkar | The Shadow Lines (Novel) English | Amitav Ghosh |
| 2017 | Dirgh Moun Te | Prashanti Talpankar | That Long Silence (Novel), English | Shashi Deshpande |

| BAL SAHITYA PURASKAR (2010-2019) | | |
|---|---|---|
| Year | Title of the Book | Author |
| 2010 | Igadi Bigadi Tigadi Tha (Play) | Prakash S. Parienkar |
| 2011 | Vors Fukat Vochunk Na (Novelette) | Gajanan Jog |
| 2012 | Kanni Eka Sunnyachi (Story) | Sudha Kharangate |
| 2013 | Ranachya Manant (Novel) | Maya Anil Kharangate |
| 2014 | Bhurgyanlo Samsar (Stories) | Surya Ashok |
| 2015 | Sadu Ani Jadugar Mhadu (Novel) | Ramnath G. Gawade |
| 2016 | Pintuchi Kallbhonvddi (Novelette) | Dilip Borkar |
| 2017 | Jaduchem Petul (Novel) | Vincy Quadros |

| YUVA PURASKAR (2011-2018) | | |
|---|---|---|
| Year | Title of the Book | Author |
| 2011 | Nirnay (Short Stories) | Jofa Gonsalves |
| 2012 | Muktamann (Essays) | Naman Dhawasker Sawant |
| 2013 | Matyentle Gandh (Poetry) | Yogini Borkar |
| 2014 | Gauman (Short Stories) | Naresh Chandra Naik |
| 2015 | Khany Geli Aaji (Poetry) | Shrinisha Nayak |
| 2016 | Sulus (Poetry) | Anwesha Arun Singbal |
| 2017 | Mog Dot Com (Poetry) | Amey Vishram Naik |

Source: http://sahitya-akademi.gov.in/

# संदर्भावळ


- दिपांकूर क्र. ४ (२०१५), संपा. पी. रमेश पै, पी. जी. कामथ फाउंडेशन
- गांवांतलीं कोंकणी बालगितां, उषा राणे, कोंकण टायम्स जुलै-सप्टेंबर २०१०
- केरळांतलें कोंकणी साहित्य: एक परिचर्चा, केरळ कोंकणी अकादेमी
- लोकवेद: एक लोकजीण, श्रीनिवास प्रभूदेसाय, आबू प्रकाशन
- धालो, श्याम वेरेंकार, कोंकण टायम्स
- कोंकणी भाशा: प्रकृती आनी परंपरा, सु. बा. कुळकर्णी/अनु. भुषण भावे, गोवा कोंकणी अकादेमी
- सोळाव्या शेंकड्यांतलें कोंकणी महाभारत- आदिपर्व, संपा. प्रताप नायक, एस. जे., थोमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्र
- होर्तुस मलबारिकुस: एक वळख, संपा. पय्यनूर रमेश पै, पी. जी. कामथ फाउंडेशन
- मार्ग बुलेटीन, संपा. गुरुनाथ केळेकार, जुलै-ऑगस्ट २०१०
- महाकोंकण सुदर्शन, आंक १, २००३, संपा. सुहास दलाल
- कोंकणी मंदाकिनी, जुजे पेरेइर, गोवा कोंकणी अकादेमी
- केरळांतलीं कोंकणी लोकगितां, संपा. प्रो. आर. के. राव, कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट
- श्रवोण, संपा. पी. जी. कामथ, केरळ कोंकणी अकदेमी

- दशरथाचो मृत्यू, संपा. के. के. सुब्रम्हण्यन
- वेंकटेश कल्याण, संशोधक- आर. के. राव, कोंकणी भाषा संस्थान,
- कोंकणी लोकगीत समुचय, संपा. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या, कोंकणी भाषा प्रचार सभा
- कोंकणी काव्यमंजिरी, संपा. डॉ. एल. सुनिताबाय, सुकृतिंद्र प्राच्यविद्या शोध संस्थान
- गोड्डे रामायण, कोंकणी लोकवेद, संपा. प्रो. आर. के. राव, कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट
- कोंकणी लोकगीत, संपा. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या, कोंकणी भाषा प्रचार सभा
- परमळ, दिवाळी आंक २०१८, संपादक ,सुहास दलाल.
- रंगघाय, यादस्तीक- युसुफ अ. शेख. २००५-०६.
- कोंकणी भाषांचे ओरू, एल. सुब्रम्हण्यन आनी एस. जयश्री, कृष्णप्रिया प्रकाशन.
- लोकसरिता, विनायक विष्णु खेडेकार, कला अकादमी गोवा.
- आस्वादन, प्रा. हरीश्चंद्र नागवेंकार.
- भासाभास, डॉ. माधवी सरदेसाय, जाग प्रकाशन.
- वालोर, एस. डी. तेंडुलकार, राजहंस वितरण
- क्ष-समिक्षेंतलो, डॉ. बाळकृष्णजी कांदोळकार, परा-प्रतिमा प्रकाशन.
- साहित्य सुवाद, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, राजहंस वितरण
- समिक्षेकडेन इश्टागत, डॉ. किरण बुडकुले, ओम श्री दत्त पजा प्रकाशन
- अक्षर सरिता, डॉ. किरण बुडकुले, बिम्ब प्रकाशन.

- शतकान्तिका, डॉ. किरण बुडकुले, बिम्ब प्रकाशन, २००९
- काणकोणची लोककला: एक दायज, अजीत पैंगीणकार, अनुजीत प्रकाशन
- पेडणेचो दसरो, डॉ. जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी १९९५
- तळ्य उखलली खेळयांनी, संक. डॉ. जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी १९९२
- कणेर खुंटी नारी, डॉ. जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी १९९२
- रथा तुज्यो घुडयो, डॉ. जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी १९९२
- मानांलीं गितां, डॉ. जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी १९९३
- नागशेराचे सूर, संकलक डॉ. जयंती नायक, कला आनी संस्कुती संचलनालय, १९९६
- कोंकणी लोककाणयो, संपा. जयंती नायक, साहित्य अकादेमी, २०००
- अमर कोंकणी आंक, ४६, ४९, ५०, ५१, ५२, ५५, ६०, ६१, ६२, ६३, ६४, ६५, ६७, ६८, ६९, ७०, सां लुवीस कोंकणी संस्थो, मंगळूर
- २१ व्या शेंकड्यांतली आधुनीक कोंकणी एकांकी, संपा. हनुमंत चोपडेंकार, पियुष पब्लि. २०१२
- वेंचीक पुंडलीक, संपा. राजू नायक, कों. भा. मंडळ. गोंय
- सोद, थॉमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्र, संपा. मॅथ्यू आल्मैद २००१
- बिम्ब: दिवाळी २००९, जुलै २०१२, डिसेंबर २०१८.
- दिवटी, बालसाहित्य आंक १९९९, संपा. पी. जी. कामथ, केरळ कोंकणी अकादेमी.
- तियात्राचो इतिहास, प्रकाश थळी, गोवा कोंकणी अकादेमी.

- मुक्त गोंयांतलो तियात्र, तोमाझीन कार्दोज, सुनापरांत, १९.१२.२०११
- जाग: दिवाळी २००४, फेब्रुवारी २०११, ऑगस्ट २०११, दिवाळी-नाताळ २०११, ऑक्टोबर २०१३, नाताळ आंक २०१५, मे २०१७, सप्टेंबर-ऑक्टोबर २००७, जानेवारी-फेब्रुवारी २००८, मार्च-मे २००८, दिवाळी-नाताळ २००९.
- अनन्या: आंक ३, २०१५, आंक ५, जुलै २०१६, संपा. जयंती नायक, गो. कों. अकादेमी.
- नंदादीप, संपा. शरतचंद्र शेणै, सुकृतिन्द्र प्राच्यविद्या शोध संस्थान, ऑगस्ट २०११.
- जैत, पुंडलीक नायक गौरव विशेशांक, जैत प्रकाशन, २०१४, संपा. भिकू बोमी नायक.
- कोंकणी समिक्षण तत्व आनी प्रयोग, सु. मं. तडकोड, केदार प्रकाशन, १९८९.
- हिंदुस्थानचे दोन दरवाजे, अ. का. प्रियोळकर, द गोवा हिंदू असोसिएशन, १९७४.
- कोंकणी भाशेची कुळकथा, कोंकणी शब्दकोश ४थो भाग, श्रीपाद रघुनाथ देसाय.
- वज्रलिखणी, शांताराम शं. वर्दे वालावलीकार, कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय.
- कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय, संपा. श्याम वेरेंकार, कों. भा. मंडळ, गोंय
- नामदेव गाथा, संपा. हरि श्रीधर शेणोलीकर, साहित्य अकादेमी
- Dalgado on Konkani, Suresh Jaywant Borkar, Asmitai Pratishthan.
- Literary Konkani: A Brief History, Jose Pereira, Goa Konkani Akademi.

- The Triumph of Konkani, S. M. Borges, Asmitai Pratishthan.
- Konkani: A Language, Dr. Jose Pereira, Karnataka University, Dharwad.
- The Konkani Language: Historical and Linguistic Perspective, Dr. V. Nithyanand Bhat & Dr. L. Sunitha Bai, Pub. Sukrutindra Oriental Research Institite.
- A History of Konkani Literature, Dr. ManoharRai Sardesai, Sahitya Akademi, New Delhi.
- Dalgado: The Man and The Scholar, Fr. A. Pereira, Sahitya Akademi.
- A History of Marathi Literature, Mangesh Rajadhyaksh & Kusumavati Deshpande, Sahitya Akademi
- Govapuri, Oct.-Dec.,1999, Institute Menezes Braganza, Ed. Arun Sinha.
- Song Of Goa – Crown Of Mandos, Jose Pereira, Michael Martins & Antonio da Costa, Pub. Goa1556 & Broadway Publishing House
- ता ता तिंगणा, संपा. संतोष कुमार गुलवाडी, बस्ति प्रकाशन, मंगळूर
- समग्र शणै गोंयबाब, खण्ड १, २, ३, ४; संपा. शांताराम शं. वर्दे वालावलीकार, गो. कों. अकादेमी

'द लास्ट लॅसन'. ही काणी वाचतकूच म्हज्या दोळ्यां मुखार उबी जाली ती पुर्तुगेजान गोंयचेर घाल्ली घुरी आनी उपरांत फर्मान काडून कोंकणीचेर घाल्ली कडक बंदी. कोंकणी समाजाक तेन्ना कोण हामेल मेळिल्लो म्हाका खबर ना. पूण तशे आवतिकायेंतूय ख्यास्तींची पर्वा करिनासतनां फुडलीं तीनशीं वर्सां कोंकणी भास जिबेर घोळटी दवरपी समेस्त लोकांची जिद्द आनी पुरुशार्थ येवजून म्हजें हड्डें सार्थ अभिमानान भरून येता, इतलें खरें. तेन्ना ही भास जिबेर दवरली देखून आयज ती पुस्तकांनीं मिरयता ही गजाल आमी विसरूंक फावना. हे कथेन जाणोवन दिलां तेप्रमाण खंयचेय संस्कृतायेचो मुखेल घटक म्हळ्यार त्या प्रदेशाची भास. त्या त्या प्रदेशाची भास ही त्या त्या समाजाची अस्मितायेची कुरू. ही भाशीक अस्मिताय राखुन दवरपाचे येत्न संवसारभर सगल्या राष्ट्रां कडल्यान संखेनीं वर्सां पोटतिडकीन जायत आयला. कारण भाशेचें अस्तित्व त्या त्या प्रदेशाच्या अस्तित्वा कडेन बांदिल्लें आसता.... कोंकणी समाजूय संकश्टाच्या काळार कर्नाटक-कोची-मुंबयत फापसलो तरी ताणें कोंकणी भास जिबेर सांबाळून दवरली. पूण ही परिगत सदांकाळ तिगतली काय? इंग्लीशीचें अतिक्रमण ही हुसक्याची गजाल जावन पडल्या. कोंकणीकच न्हय, हेर उदरगत केल्ल्या भासांकूय तो हुसको दिसता. अशा वेळार थोडेंशें फाटल्यान पळोवन आमच्या इतिहासीक दायजाचो, भाशे पासत वडिलांनीं केल्ल्या त्यागाचो आनी साहित्याचे उदरगतीचो माग आनी थाव घेवप गरजेचें अशें म्हाका दिसलें... हेरां कडल्यान अपेक्षा बाळगुचे परस हांवेंच हो वावर हातांत कित्याक घेवचो न्हय, असो विचार तकलेंत आयलो आनी विशयाचे खरीक हात घालपाचें थारायलें.




*An Imprint of Publishing Next*
www.underthepeepaltree.com

₹ 490
ISBN 978-93-87676-50-3




Language History